# श्रीभगवंतान गायिल्लें गीत

(श्रीमद्भगवद्गीतेचो कोंकणी अणकार)








# श्रीभगवंतान गायिल्लें गीत

(श्रीमद्भगवद्गीतेचो कोंकणी अणकार)

प्रस्तावना, मूळ संस्कृत संहिता, कोंकणी समश्लोकी पद्य
आनी गद्य अणकार, अन्वय, अर्थ, टिपो, विवेचनासयत

लेखक, अणकारपी आनी संपादपी
**सुरेश गुंडू आमोणकार**




गीता प्रसार

**Shree Bhagwantan Gaeellem Geet**
Konkani Translation of
Shree Bhagwad Geeta

2002



*Publisher*
Geeta Prasar
Guru-Kunj
Mapusa, Goa 403 507

*Typesetting*
Tanvi Graphics
Margao, Goa 403 601

*Printer*
Maureen Printers
Panaji, Goa 403 001

*Cover Design*
Concept : Suresh G. Amonkar
Painting : Anjali
Artwork : Highmark (India)
Pilerne, Goa 403 511

Price : Rs. 120

**श्रीभगवंतान गायिल्लें गीत**
श्रीमद्भगवद्गीतेचो कोंकणी अणकार

२००२



*उजवाडावपी*
गीता प्रसार
गुरू-कुंज
म्हापशें, गोंय ४०३ ५०७

*अक्षर जुळोवणी*
तन्वी ग्राफिक्स
मडगांव, गोंय ४०३ ६०१

*छापपी*
मोरीन प्रिन्टर्स
पणजी, गोंय ४०३ ००१

*मुखपृष्ठ रेखणी*
संकल्पना : सुरेश आमोणकार
चित्र : अंजली
चित्र रेखाटन : हायमार्क (इंडिया)
पिळर्ण, गोंय ४०३ ५११

मोल : रु. १२०

गीतेची अनन्य उपासिका

सुधा

हिका

# मांडावळ


- मागणें ७
- उपकार ९
- मोटव्या अक्षरांचो खुलासो १०
- गीता : युगायुगांचें पाथेय - डॉ. सोमनाथ कोमरपंत ११
- गीता-तत्त्वज्ञान आनी फाटभूंय २०
- **गीतेचो अणकार**

| | | |
|---|---|---|
| पयलो अध्याय | **अर्जुनविषादयोग** | १ |
| दुसरो अध्याय | **सांख्ययोग** | १८ |
| तिसरो अध्याय | **कर्मयोग** | ४७ |
| चवथो अध्याय | **ज्ञानकर्मसंन्यासयोग** | ६६ |
| पांचवो अध्याय | **संन्यासयोग** | ८४ |
| सवो अध्याय | **ध्यानयोग** | ९७ |
| सातवो अध्याय | **ज्ञान-विज्ञानयोग** | ११६ |
| आठवो अध्याय | **अक्षरब्रह्मयोग** | १२८ |
| णववो अध्याय | **राजविद्याराजगुह्ययोग** | १४० |
| धावो अध्याय | **विभूतियोग** | १५४ |
| इकरावो अध्याय | **विश्वरूपदर्शनयोग** | १७३ |
| बारावो अध्याय | **भक्तीयोग** | १९६ |
| तेरावो अध्याय | **क्षेत्रक्षेत्रज्ञयोग** | २०५ |
| चवदावो अध्याय | **गुणत्रयविभागयोग** | २१८ |
| पंदरावो अध्याय | **पुरुषोत्तमयोग** | २२८ |
| सोळावो अध्याय | **दैवासुरसंपद्विभागयोग** | २३८ |
| सतरावो अध्याय | **श्रद्धात्रयविभागयोग** | २४९ |
| अठरावो अध्याय | **मोक्षसंन्यासयोग** | २६१ |

- परिशिश्टां :
  - परिशिश्ट-१ : गीतेचे कोंकणी अणकार २९१
  - परिशिश्ट-२ : गीतेंतले छंद २९६
  - परिशिश्ट-३ : गीता आनी उपनिषदां २९८
- आधारावळ : ३०३




# मागणें

*'श्रीमद्भगवद्गीता' म्हळ्यार 'श्रीभगवंतान गायिल्लें गीत'. सातशें श्लोकांच्या ह्या माणकुल्या ग्रंथाचो आसपाव श्रीव्यासान महाभारतांतल्या भीष्मपर्वांत केला. उपनिषदां आनी ब्रह्मसूत्रां वांगडाच गीतेक प्रस्थानत्रयींत (मोक्ष सादचेल्या तीन ग्रंथांनी) सुवात मेळ्ळ्या. गीतेक उपनिषदाचोय मान फावो जाल्ल्यान ती श्रुतीय जाल्या.*

*गीतेंतलीं पात्रां चारुच. धृतराष्ट्र आनी संजय हांगेली एक जोडी. भारतीय झुजाची गजाल समजून घेवपाखातीर धृतराष्ट्र संजयाक एकूच – तोय बी पयलोच प्रस्न – विचारता. दुसरी, पूण मुखेल जोडी कृष्ण आनी अर्जुन हांगेली. कृष्णान गीता झुजामळार सांगली. पूण गीतेची शिकवण निखटी झुजामळा मेरेनूच मेरावना. ती काळ–थळाच्यो मेरो हुपून सगळेच मनीस कुळयेक ओड लायता. कित्याक, मनशाचें मन हेंच एक झुजामळ. आपल्या मनांतूच षड्–रिपूंकडेन दिसपट्टें झुजचें पडिल्ल्यान गीता कळेचे वेळार ताका आलाशिरो दिवन ताच्या जिविताक नवी दिका दाखयता.*

*गीतेक योगशास्त्रय म्हळां. योग म्हळ्यार जें जोडटा तें. ती एक साधना. जिवात्मो आनी परमात्मो हांकां जोडचेली साधना. ती अनेक मार्गांनी सादपाक येता – ज्ञान, कर्म वा भक्तीयोगान वा हे तिनूय मार्ग भरसून. आपल्या सबावाक मानत त्या मार्गान मनशान चलपाचें आनी आपले जिवीत वयल्या पांवड्याचेर व्हरपाचें.*

*अर्जुनाक बोध करपाच्या निमित्त्यान कृष्ण आमकां सगल्यांकूच शिटकायता: ''तुमच्या मनांतल्या वैऱ्याक तुमी पयलीं आळाबंदा हाडपाक जाय. ज्ञान, कर्म आनी भक्ती ह्या साधनांच्या पालवान तुमी परमेश्वराक जोडपाक जाय. कर्मफळाची इत्सा, सुवार्थ, अहंकार आदी विकार सोडून तुमची लागणूक परमेश्वरापासत करपाक जाय.''*

*जिवितांतल्या कसवटणेच्या एका खिणाचेर हांव गीतेसरीं पावलों. तिणें म्हाका आदार दिलो. ती सारकी समजून घेवपापासत जो अभ्यास जालो, तातुंतल्यान ही कोंकणी गीता सुफळ जाली. ती हांवें करूंक ना; ती ईश्वराचे दयेन जाल्या ही म्हजी स्रद्धा.*

*फाटलीं पांच वर्सां ही गीता म्हज्या काळजांत फुलताली. कोंकणीच्या खाशेल्या नादशास्त्राचें खेरीतपण आनी तिच्या अर्थगौरवाचेंय भान दवरून ती हांवें गायल्या. शणै गोंयबाबालो गीतेचो कोंकणी अणकार, तशेंच म्हज्या पुर्वसुरींनी केल्ल्या कोंकणी आनी हेर भासांतल्या अणकारांक विचारीत हांव मुखार सरलां. गीतेन म्हाका त्राण दिलां. तें तुमकांय मेळून आमी सगलेच ईश्वराचे कृपेक पात्र जावंचे हें ताचे लागीं मागणें.*

सुरेश गुंडू आमोणकार

गुरू-कुंज, दत्तवाडी, म्हापशें
महाशिवरात्री, माघ कृ. १४,
१२ मार्च, २००२

# उपकार

ही गीता जायत्या जाणांक लागून जावंक पावली. म्हज्या पुर्वसुरींनी म्हजी वाट सोंपी केली; तांकां विचारीतूच हांव मुखार सरलों.

भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी आपलें ग्रंथभांडार उकतें केलें; डॉ. सोमनाथ कोमरपंत हांणी प्रस्तावना बरयली; प्रा. वाय्. एन्. मेणसे हांणी संस्कृत भाशेविशीं मार्गदर्शन केलें; श्रीसंस्थान गौडपादाचार्य मठ, कवळें हांच्या बरेंपणाक लागून भौ. शिकेरकरशास्त्री हांचेकडेन गीता-शांकरभाष्याचो अभ्यास करूंक मेळ्ळो; डॉ.अनंत राम भट, डॉ. किरण बुडकुले, भौ. मुकेश थळी, प्रा. गोविन्द काळे, भौ. शांताराम वर्दे वालावलीकार, डॉ. तानाजी हळर्णकार हांणी ग्रंथ वाचून आनी प्रुफां तपासून मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो. तन्वी ग्राफिक्सचे भौ. राजेश भाटीकार हाणें टाईपसेटिंगचें आनी मोरीन प्रिन्टर्सचे भौ. मातियस वाझ हांणी छापणावळीचें काम आस्थेन केलें; भौ. इद्रीस हाजीक हाणें सोबीत मुखपृश्ठ तयार केलें. हांच्या उपकारांत हांव आसां. आनी म्हजी घरकान्न सुधा - म्हजी इश्टीण आनी ह्या ग्रंथाची पयली वाचक - हिच्या फाटबळाक लागुनूच हो ग्रंथ सिद्ध जालो.

**– सुरेश गुंडू आमोणकार**

# मोटव्या अक्षरांचो खुलासो

| | | |
|---|---|---|
| अ. | - | अध्याय |
| उप | - | उपनिषद |
| ऋ | - | ऋग्वेद |
| करंदी | - | गीतातत्त्वमंजिरी (ले. ज. स. करंदीकर) |
| का. | - | गीता रत्न प्रभा, ले. काका कालेलकर |
| गीता प्रेस | - | गीता, गीता प्रेस, गोरखपूर |
| टिळक | - | गीता भाषान्तर (ले. बाळ गंगाधर टिळक) |
| ब्र.सू. | - | ब्रह्मसूत्र |
| मधु. | - | मधुसूदनाची गीता टीका |
| म्ह. | - | म्हळ्यार |
| राधाकृष्णन | - | The Bhagwadgita by S. Radhakrishnan |
| रानडे | - | The Bhagawadgita As A Philosophy of God Realization, by R. D. Ranade |
| वि. | - | गीताई-चिंतनिका (ले. विनोबा भावे) |
| वें. | - | वेङकटनाथकृत ब्रह्मानन्तगिरी नांवाची गीता टीका |
| शं. | - | शंकरानन्दी गीतेवयली टीका |
| श्वेत. उप. | - | श्वेताश्वतर उपनिषद |



# युगायुगांचें पाथेय

प्रा. सुरेश गुंडू आमोणकार हांणी गोंयच्या शिक्षणीक मळार मोलादीक वावर केला. न्यू गोवा हायस्कूलचे प्राचार्य म्हणून दीर्घ काळ ते कार्यरत आशिल्ले. ते आनी तांची सुविद्य घरकान्न सौ. सुधाबाय आमोणकार हांणी हे शिक्षणसंस्थेंत निश्ठेन काम करून गोंयच्या शिक्षणीक नकाशांत तिका नामना मेळोवन दिल्या. प्रा. सुरेशबाब आमोणकार हांणी गोंयांत आनी परदेशांत एक प्रभावी शिक्षक म्हणून नांव जोडलां. गोवा शालांत आनी उच्च माध्यमिक मंडळाचे अध्यक्ष म्हणून आठ वर्सां जापसालदारकी सांबाळून आपल्या शैक्षणिक अणभवाचो लाभ तांणी गोंयच्या समाजाक दिलो. हो जालो तांच्या व्यक्तिमत्वाचो संक्षिप्त परिचय.

पूण मनशाच्या लौकिक व्यक्तिमत्वाबरोबरच ताची आनीक कांय अलौकीक तासां आसतात. केन्ना भोव कश्टांनी, केन्ना संद मेळटकीच, तर केन्ना त्या मनशाचे अंत:प्रेरणेन तीं परगट्टात. शिक्षक आनी प्रशासक ह्या नात्यांनी प्रा. सुरेशबाब आमोणकार समाजाक ज्ञात आशिल्ले. तांचो पिंड सृजनशील, संशोधक वृत्तीचो, विचारवंताचो आनी अभिरुचिसंपन्न रसिकाचो, हेंवूय लोक जाणा आशिल्ले. पूण प्रगल्भ आनी परिणत वयांत प्रा. सुरेशबाब आमोणकार हांणी जे महत्वाकांक्षी प्रकल्प आंगार घेतले आनी अभंग जिद्दीन पुराय करून दाखयले, तें पळोवन खोस जाता आनी अंतस्करणासावन दाद दिवची दिसता. ते उच्चविद्याविभूषित. इंग्लीश हो तांचो अध्ययनाचो आनी अध्यापनाचो विशय. पाश्चात्य शिक्षणाचो प्रभाव आसून लेगीत भारतीय संस्कृती, धर्मग्रंथ आनी महाकाव्यां हे तांच्या ध्यासाचे आनी अभ्यासाचे विशय जाले. तांचें चिंतन ह्या आंगान जायत रावलें. तांचें वाचन प्रगाढ आनी जीविताच्या सगल्या पैलूंक स्पर्श करपी. कितल्याशाच भासांचें वाडवडिलांकडल्यान मेळिल्लें विचारांचें दायज प्रा. आमोणकार हांणी गिरेस्त केलां. तांचे वडिल गुंडू सीताराम आमोणकार हे शिक्षक, विचारवंत आनी समाजसुधारक. तांचो भगवद्गीतेचो खूब व्यासंग आशिल्लो. तांचे मामा बाकीबाब बोरकार हे प्रतिभावंत कवी आनी मराठी तशेंच कोंकणी साहित्याच्या मळावेलें तेजस्वी व्यक्तिमत्व. प्रा. आमोणकार हांणी दोगांयचेय संस्कार घेतल्यात. आपले सर्जनशील प्रतिभेचे घडणुकेखातीर तांणी खूब कश्ट घेतल्यात. योगायोगान तांच्या वडिलांचे शाळेंत केल्लें संस्कृतचें अध्ययन आनी विल्सन महाविद्यालयांत प्रा. ह. दा. वेलणकर आनी डॉ. एस्. एन्. गजेंद्रगडकर हांचे संस्कृत साहित्याचे संस्कार हे प्रा. आमोणकारांच्या जीवितांत पाथेय थारलें. ह्या परिणतप्रज्ञ वयांत समाज विधायकतेचो मार्ग दाखोवपी म्हत्वाच्या ग्रंथांचो तांणी अणकार केलो. ज्ञानाच्या उजवाडांत वाटचाल करपी समाज केन्नाच वाट चुकना, हाचेर तांची आंतरीक श्रद्धा.

आचार्य धर्मानंद कोसंबीं ह्या गोंयच्या सुपुत्रान केल्ल्या वावरांतल्यान स्फूर्त घेवन घडये प्रा. आमोणकार हांणी हो वावर सुरू केला आसुंये. पयलीं 'धम्मपद' आनी 'तिरुक्कुरळ'

आनी आतां 'ज्ञानेश्वरी'चो तांणी अणकार केला. 'धम्मपदा'क निकतोच साहित्य अकादेमीन अनुवादाचो पुरस्कार दिवन तांचो भौमान केला. तांचो भगवद्‌गीतेचो अणकार 'श्री भगवंतान गायिल्लें गीत' ह्या नांवान आतां प्रकाशित जाता ही खूब खोशयेची गजाल.

'श्रीभगवद्‌गीता' हो प्रस्थानत्रयींतलो म्हत्वाचो ग्रंथ. उपनिषदां आनी ब्रह्मसूत्रांवांगडाच तिचो आस्पाव जाता. भगवद्‌गीतेचें म्हत्व भारतीय मनशाक मुजरत सांगूंक जाय अशें ना. पूण स्थूलाकडेन वचप, सुक्षीमतायेन पळोवप ना हो भारतीय मनाचो दोश. म्हणूनच चडशा विचारवंतांक भगवद्‌गीतेंतल्या चिरंतन मूल्यांची वळख आनी अन्वयार्थ परतो परतो सांगचो पडला. कालप्रवाहांत ही प्रक्रिया अशीच निरंतर उरतली. हातूंत लेगीत भगवद्‌गीतेचें व्हडपण. महाभारतरुपी कोंदणांतलो भगवद्‌गीता हो कौस्तुभ. महाभारतांतल्या भीष्मपर्वांत तिचो आस्पाव आसा. श्रीकृष्ण-अर्जुन संवादांतल्यान आनी श्रीकृष्णान समरप्रसंगाचेर दाखयल्ल्या विश्वरूपदर्शनांतल्यान भारताच्या परिणत तत्त्वज्ञानाचो आनी शुभसंचिताचो विलोभनीय आविष्कार घडला. मनशाच्या समग्र अस्तित्वासंबंदान केल्लें चिंतन हो गीतेचो गाभो. संकश्टां येतकीर मुखार कितें करचें हाचेविशीं गोंदळ निर्माण जाल्ल्या मनशाक मार्गदर्शन करपाची विलक्षण तांक गीतेंत आसा. आयजमेरेन कितल्याशाच तत्त्ववेत्त्यांनी आनी कृतिशील प्रज्ञावंतांनी समष्टीच्या संवर्धनाखातीर विंगड विंगड काळांत वेगळो वेगळो अन्वयार्थ लायिल्लो आसा. मनीस वा समाज वाट चुकता. ताच्या मार्गांत आडमेळीं येतात. अश्या वेळार भगवद्‌गीता दीपस्तंभासारको उजवाड दिता. अधर्माचें निर्दालन करून धर्माच्या पुनरुत्थानाचें अवतारकार्य श्रीकृष्णासारक्या धुरंधर प्रज्ञावंतान केलां. अर्जुन हो ताचो ऋजू मनाचो शिष्य. ताच्या निमतान गोंदळिल्ले मनीसकुळयेक सासणाचें तत्त्वज्ञान श्रीकृष्णान सांगलां. गीतेचें व्हडपण सांगपाक ज्ञानेश्वरासारको प्रतिभावंत जाय. युगधर्माक अनुसरून लोकमान्य टिळक हांणी 'गीतारहस्या'च्या रुपान जनतेक गीतेंतलो कर्मयोग अधोरेखित केलो. विसाव्या शेंकड्यांतलो गीतेवेलो हो एक म्हत्वाचो ग्रंथ. गीतेचे प्रेरणेन गांधीजीन अनासक्तीयोग आपणायलो. सगळ्या शास्त्रांचें, उपनिषदांचें सार गीतेंत सांगलां अशें ते म्हणटात. भारतीय आध्यात्मिकतायेचें परिपक्व सुमधुर फळ म्हळ्यार 'भगवद्‌गीता' अशें श्रीअरविंद म्हणटात.

**उत्तिष्ठत । जाग्रत । प्राप्य वरान्निऽबोधत !** - उठात, जागे जायात आनी जें प्राप्य आसा तें परमेश्वराचे वर अशें मानून घेयात अशीं मंत्रशक्तीन भारिल्लीं उतरां 'कठोपनिषदां'त आसात. तातूंत जिविताचें नवनीत आसा. ताचें आचरण केल्यार मनशाक संकटांतल्यान मुक्ती मेळटा. 'भगवद्‌गीता' अशीच कर्तव्यबुद्धीक जाग हाडटा. संकश्टाचो प्रतिकार करपाच्या हेतून गीता जल्माक आयिल्ली. अर्जुनाचो विषाद ना करपाक श्रीकृष्णाक समरांगणांत तत्त्वज्ञानाची बसका निर्माण करची पडली. ती गरजेचीय आशिल्ली. अर्जुनाचो विषाद हो सामान्य न्हय. तो म्हापुरुशाच्या जीविताच्या विशिश्ट पांवड्यार चिंतना उपरांत आयिल्लो विषाद. **सीदन्ति मम गात्राणि । मुखं च परिशुष्यति** अशी अर्जुनाच्या तना-मनाची अवस्था जाल्ली. राज्य करप हें आपल्या लोकांखातीर, तांचो नाश करून राज्याचो

उपभोग घेवप हें कित्याखातीर अशें व्हडलें प्रस्नचित्र ताचेमुखार आशिल्लें. मनशाचे जिणेंत मनाच्या कुरुक्षेत्राचेर दोन कर्तव्यांचो संघर्ष केन्ना ना केन्ना तरी जाता. प्रेयस् आनी श्रेयस् हांच्या संघर्षांत प्रेयस् श्रेयसाचेर मात करूंक सोदता. प्रा. आमोणकार हांणी ह्या संदर्भांत आपली भूमिका स्पश्ट शब्दांत मांडल्या.

''ह्या जिवितांत सुखां येतिश्ट भोगल्यारूय तांची ओड उणी जायनासतना तीं बळावत वतात. भोग-सुखाचें चट लागतकीच मन असंतुश्ट जाता, उचंबळटा आनी अंतीं सूख मेळनासतना मनाची शांती भंगता. तेन्ना इंद्रियांपसून मेळपी सूख शाश्वत न्हय, तर मनाची शांती आनी मर्णा उपरांतची सद्‌गती हेंच शाश्वत सूख अशें भारतीय तत्त्वचिंतकांनी मानलें. इंद्रियांकडसून मेळपी खिणयाळें सूख हें 'प्रेयस' आनी शाश्वत सूख हें 'श्रेयस' अशें 'कठउपनिषदां'त म्हळां.

*श्रेयश्च प्रेयश्च मनुष्यमेत: तौ संपरित्य विविनक्ति धीर: ।*

*श्रेयो हि धीरोऽभिप्रेयसो वृणीते प्रेयो मंदो योगक्षेमात् वृणीते ।।*

श्रेय (कल्याण) आनी प्रेय (सूख) मनशांमुखार येतात. बुदवंत मनीस तांकां तर्जून पारखिता. शाणो प्रेयापरस श्रेय पसंत करता. पूण अज्ञानी मनीस संवसार सूख मेळचें म्हूण प्रेय लागीं करता. ऐहिक वेव्हार सांबाळून मनशांती कशी जोडची, पारलौकिक सद्‌गती कशी सादची हे विशीं गीता आमकां वाट दाखयता. हेंच गीतेचें म्हत्व.

सर्वसामान्य मनशाच्या अंतस्करणांतलो विवेक जागोवपाची तांक भगवद्‌गीतेंत कशी आसा हें प्रा. आमोणकार हांणी अधोरेखित केलां.

अर्जुनाच्या मनांतलो संघर्ष हो कर्मसंन्यास आनी कर्मयोग हांचेमदलो संघर्ष. तो नश्ट करपाखातीर श्रीकृष्ण म्हणटा, ''अर्जुना, जिवीत आनी मरण हांचें चक्र चालूच आसता. कोणाक येवंचें पडटा, कोणाक वचचें पडटा. तूं निमित्ताक कारण, तेन्ना व्यक्तित्वाचो खोटो अहंकार सोडून दी.''

समाजरुपी यज्ञांतली व्यक्ती ही समिधा. समाजाच्या चिरंतन सुखाखातीर आपल्या सुखाची तिका तिलांजली दिवची पडटा. आपल्या अहंकाराचो त्याग करचो पडटा. अहंकार सोडप हें शुद्ध कर्माचें लक्षण. व्यक्ती समाजाचे घडणुकेक हातभार लायता. बदलूंक शकना अशें भगवद्‌गीता मानता. आपणें कर्तव्यकर्म केले उपरांत दुसऱ्यांक तशें करात म्हणून सांगपाचो नैतिक अधिकार प्राप्त जाता. अहंकाराच्या मुळाकडेन खोटें ममत्व आसता. ताका लागून दुख्खां वाडत वतात अशी गीतेची धारणा. **सर्वभूतहितेरत:** हो तिचो उद्‌देश. हाची जाणविकाय दितना प्रा. आमोणकार म्हणटात :

''अर्जुनाक बोध करपाच्या निमित्त्यान कृष्ण आमकां सगल्यांकूच शिटकायता : तुमच्या मनांतल्या वैऱ्याक तुमी पयलीं आळाबंदा हाडपाक जाय. ज्ञान, कर्म आनी भक्ती ह्या साधनांच्या पालवान तुमी परमेश्वराक जोडपाक जाय. कर्मफळाची इत्सा, सुवार्थ, अहंकार

आदी विकार सोडून तुमची लागणूक परमेश्वरापासत करपाक जाय.''

आयचें महाभारत वेगळें आसा. पूण युद्धपर्व तशेंच आसा. जण एकल्याची अवस्था आज अर्जुनासारकी जावं येता. जिविताच्या अखंड समरांगणांत खुबशा अनिश्ट प्रवृत्तींकडेन, शक्तींकडेन ताका झुजचें पडटा. तेन्ना ताका **तस्मात् उत्तिष्ठ कौंतेय युद्धाय कृतनिश्चय:** हो कृष्णान अर्जुनाक दिल्लो आत्मनिर्भर वृत्तीचो मंत्र जपचो पडटलो.

गीतेची धारणा त्रिकालाबाधित आसा. तिच्यांत निराशा ना. तिचो उगम ध्येयवादांतल्यान जाला आनी सांगता ध्येयवादान जाल्या. आदर्श कर्म आनी आदर्श जीवन होच गीतेचो संदेश. कर्तव्यकर्म करता आसतना फळाची आसक्ती धरची न्हय. आसक्तीन दुख्खां निर्माण जातात. गीता सांगता :

*कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन ।*

*मा कर्मफलहेतुर्भूर्मा ते संङ्गोऽस्त्वकर्मणि (२.४७)*

एकविसाव्या शतकाचे सुर्वेक गतिमान काळाकडेन वाटचाल करपी समाजजिणेक मार्गदर्शन करपाची तांक भगवद्गीतेंतल्या तत्त्वज्ञानांत आसा अशें प्रा. आमोणकार हांकां दिसता. ''आयज अख्ख्या संवसाराक हिंसा, सर्त, दुख्ख, भ्रष्टाचार, निर्शेणी, चंगळवाद आदी दोशांनी ग्रासलां. गीतेचें तत्त्वज्ञान आमकां तांचे आड झुजपाची उर्बा आनी तांक दिता हातूंत दुबाव ना'' अशें तांणी म्हळां.

स्वभावाप्रमाण खंयच्याय मनशाकडेन आयिल्लें काम निंदा करपासारकें न्हय, स्वकर्म हीच खरी ईश्वरपूजा हो गीतेचो सिद्धान्त. आपलें काम दोशान भरिल्लें आसा अशें दिसलें तरी तें सोडचें न्हय. प्रत्येक कर्मच धुंवरान उजो धांपिल्ले वरी दोशान धांपिल्लें आसता. (गीता, १८-४८).

अशे तरेन सगल्याच समाजपोषक कर्मांचो सन्मान (dignity of labour) गीतेन राखिल्लो आसा. सगल्याच कर्मांचें म्हत्त्व सारकें मानून तीं निष्काम आनी अनासक्त बुद्दीन करचीं अशें गीता सांगता.

समाजाचें कल्याण सादपाखातीर जिविताच्या सगल्या आंगापांगांचो गीतेन साकल्यान विचार केला. कर्मांमदीं अकर्म पळोवचें, अकर्मांमदीं कर्म पळोवचें. परिणामांचो दूरदृष्टीन विचार करचो. फकत शास्त्रांचें प्रामाण्य आसूं नये. गीतेन 'चातुर्वण्या'चो पुरस्कार केला तो हे नदरेन.

गुणां प्रमाण कर्मविभाग हें चातुर्वर्ण्याचें तत्त्व खंयच्याय समाजाक उपेगा पडटा. समाजांत विंगड विंगड घटकांनी विंगड विंगड काम करप गरजेचें. कर्मविभाग (division of labour) हें गतिमान समाजांतलें म्हत्वाचें आंग. समाजांत क्रांतिकारी बदल जावन ताची नव्यान जडणघडण जरी जाली तरीय हे विभाग उरतलेच. गीतेंत चातुर्वर्ण्याचो होच अर्थ अभिप्रेत आसा. प्रा. सुरेश आमोणकार हेय हे भूमिकेक पुश्टी दितात. ह्या संदर्भांत ते म्हणटात :

"स्वकर्म आनी आपलो नीज धर्म होच स्वधर्म वा नीज धर्म मानचो. ही चातुर्वर्ण्याची व्याख्या. ती जल्मान जोडिल्ली जात आनी कूळ हांचे पेल्यान वता."

गीतेच्या सार्वकालीक संदेशाची गवाय तांचे हे भुमिकेंतल्यान मेळटा.

गीतेचो आशय आनी तिचें अभिव्यक्तिसौंदर्य सहज वेगळें करूंक येना. अश्या ह्या आशयाकडेन प्रामाण्य दवरून आनी अभिव्यक्ती सुक्षीमतायेन नियाळून प्रा. आमोणकार हांणी हो अणकार केला. मूळ भगवद्गीतेचे संहितेंत ज्या ज्या रसांचो परिपोष अनुरूप उतरावळींत केल्लो आसा ताचो अणकार लोकभाषेंत करप हें व्हड आव्हान. संस्कृत ही संश्लेषक (synthetico) स्वरुपाची भास. कोंकणी ही अर्धप्रत्ययी - अर्धसामासिक (synthetico-analytical) स्वरुपाची भास. हेखेरीज तात्त्विक संकल्पना संस्कृतांतल्यान हेर देशी भासांत हाडप हें खर कष्टाचें काम. ताचेखातीर भाषेचेर प्रभुत्व जाय आनी प्रतिभाय जाय. कोंकणी भाशेंत गीतार्थ सांगपाची तांक आसा ह्या आत्मविस्वासान ते आसनमांडी घालून बसले. तांणी म्हळें आनी तें खरें करून दाखयलें. तांच्या अणकारांत आत्मप्रत्ययशीलतायेचें पडबिंब दिसता. मूळ गीतेंतले प्रसन्न शैलीक न्याय दिवपाचो तांणी प्रामाणिक प्रयत्न केला. तांच्या शब्दांची मांडावळ त्या त्या रसाक फावसारकी जाल्या.

· तांच्या ह्या अणकाराचे कांय नमुने आस्वादाचे नदरेन पळोवप गरजेचें. देखीक :

**न जायते म्रियते वा कदाचिन्नायं भूत्वा भविता वा न भूय: ।**
**अजो नित्य: शाश्वतोऽयं पुराणो न हन्यते हन्यमाने शरीरे ।।२.२०।।**

*जल्म घेना हो वा केन्नाच मरना*
*जल्माकु येवनूय हो परतो ना जायना ।*
*अजल्मी हो नित्य शाश्वत पुराण*
*कुडीक हाणल्यारूय हो केन्नाच मरना ।।२.२०।।*

**अच्छेद्योऽयमदाह्योऽयमक्लेद्योऽशोष्य एव च ।**
**नित्य: सर्वगत: स्थाणुरचलोऽयं सनातन: ।।२.२४।।**

*नजो तोडूंकु जाळूंकु भिजोवंकु वा सुकोवंकु हो ।*
*अचल थीर हो नित्य सर्वव्यापी सनातन ।।२.२४।।*

**जातस्य हि ध्रुवो मृत्युर्ध्रुवं जन्म मृतस्य च ।**
**तस्मादपरिहार्येऽर्थे न त्वं शोचितुमर्हसि ।।२.२७।।**

*जल्मल्ल्या सुटना मर्ण मेल्ल्याक जल्म सुटना ।*
*सुटना ते गजालीचो शोक करप न्ही समा ।।२.२७।।*

**हतो वा प्राप्स्यसि स्वर्गं जित्वा वा भोक्ष्यसे महीम् ।**
**तस्मादुत्तिष्ठ कौन्तेय युद्धाय कृतनिश्चय: ।।२.३७।।**

*मेल्यारि सर्ग तूं जोडशी जिखल्यारि राज्य पृथ्विचें ।*
*देखूनु ऊठ कौंतेया निश्चयानु झुजूंक तूं ।।२.३७।।*

**कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन ।**
**मा कर्मफलहेतुर्भूर्मा ते सङ्गोऽस्त्वकर्मणि ।।२.४७।।**

*कर्माचेर अधिकार तूजो केन्नाच ना फळांत तो*
*नाका कर्म फळा हेतू अकर्मा ओड बी तशी ।।२.४७।।*

**बुद्धियुक्तो जहातीह उभे सुकृतदुष्कृते ।**
**तस्माद्योगाय युज्यस्व योग: कर्मसु कौशलम् ।।२.५०।।**

*समबुद्दीनु सोडी गा शाणो पातकु पुण्य बी ।*
*देखून योग तूं साध योग. कर्मकुशळायु गा ।।२.५०।।*

**या निशा सर्वभूतानां तस्यां जागर्ति संयमी ।**
**यस्यां जाग्रति भूतानि सा निशा पश्यतो मुने: ।।२.६९।।**

*रात जी सर्व जीवांची तेन्ना जागोच संयमी ।*
*जागतातु विशयीं लोक थीरबुद्दीकु रात ती ।।२.६९।।*

**नियतं कुरु कर्म त्वं कर्म ज्यायो ह्यकर्मण: ।**
**शरीरयात्रापि च ते न प्रसिद्ध्येदकर्मण: ।।३.८।।**

*नेमिल्लें कर तूं कर्म सोडचें परस तें बरें ।*
*कुडी निर्वाहु जावंचोना कर्माविणें बरे तरेन् ।।३.८।।*

**कर्मणैव हि संसिद्धिमास्थिता जनकादय: ।**
**लोकसंग्रहमेवापि संपश्यन्कर्तुमर्हसि ।।३.२०।।**

*कर्मां करूनुचू मेळ्ळी सिद्धी त्या जनकांदिकां ।*
*दिवंक लोकांकु गा देख फावो तें कर्म तूं कर ।।३.२०।।*

**श्रेयान्स्वधर्मो विगुण: परधर्मात्स्वनुष्ठितात् ।**
**स्वधर्मे निधनं श्रेय: परधर्मो भयावह: ।।३.३५।।**

*धर्म आपुलो उणो आसूं परधर्माकुयू बरो ।*
*बरें मर्णु स्वधर्मांतु परधर्मु भिरांतिचो ।।३.३५।।*

**परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुष्कृताम् ।**
**धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे ।।४.८।।**

*पार्था बऱ्यांकु राखूंकू दुश्टांकु ना करुंकु गा ।*
*सम स्थापूंक हांव धर्म युगा युगांत जल्मतां ।।४.८।।*

**बाह्यस्पर्शेष्वसक्तात्मा विन्दत्यात्मनि यत्सुखम् ।**
**स ब्रह्मयोगयुक्तात्मा सुखमक्षयमश्नुते ।।५.२१।।**

*ना भायल्यां विशयां ओड तो अंतरीं सुखावता ।*
*ब्रह्मांत गुल्ल तो योगी अक्षय सूख मेळयी ।।५.२१।।*

**उद्धरेदात्मनात्मानं नात्मानमवसादयेत् ।**
**आत्मैव ह्यात्मनो बन्धुरात्मैव रिपुरात्मनः ।।६.५।।**

*उद्धारचो आपुणें आपणाक लावची न्ही वाट आपुली ।*
*आपलो आपूण गा भाव वैरी आपूण आपुलो ।।६.५।।*

**सर्वभूतस्थमात्मानं सर्वभूतानि चात्मनि ।**
**ईक्षते योगयुक्तात्मा सर्वत्र समदर्शनः ।।६.२९।।**

*आपणाक सर्व जीवांतु जिवांकु आपुणामदीं ।*
*सर्वत्र सम दिश्टीनु जोडिल्लो योग तो पळे ।।६.२९।।*

**अक्षरं ब्रह्म परमं स्वभावोऽध्यात्ममुच्यते ।**
**भूतभावोद्भवकरो विसर्गः कर्मसंज्ञित : ।।८.३।।**

*व्हड अक्षर तें ब्रह्म आध्यात्म नीज भाव तो ।*
*जिवांचो निर्मणे वावर नांव ताकाच कर्म हें ।।८.३।।*

**क्षिप्रं भवति धर्मात्मा शश्वच्छान्तिं निगच्छति ।**
**कौन्तेय प्रतिजानीहि न मे भक्तः प्रणश्यति ।।९.३१।।**

*जाय धर्मशीळ बेगीन जोडी शाश्वत शांति तो ।*
*नासो जायना म्हजो भक्त खरेपणानु जाण हें ।।९.३१।।*

**अक्षराणामकारोऽस्मि द्वन्द्वः सामासिकस्य च ।**
**अहमेवाक्षयः कालो धाताहं विश्वतोमुखः ।।१०.३३।।**

*अकार अक्षरांतू हांव हांव समासांतु द्वंद्व गा ।*
*अक्षयु काल हांवूच ब्रह्मो हांव विश्वरूप गा ।।१०.३३।।*

अनेकवक्त्रनयनमनेकाद्भुतदर्शनम् ।
अनेकदिव्याभरणं दिव्यानेकोद्यतायुधम् ।।११.१०।।

दिव्यमाल्याम्बरधरं दिव्यगन्धानुलेपनम् ।
सर्वाश्चर्यमयं देवमनन्तं विश्वतोमुखम् ।।११.११।।

*त्या रुपा भौ मुखां दोळे दिसलीं थैं नवलांच भौ ।*
*जायतीं शस्त्रां उबारिल्लीं भौ अळंकार दिव्य ते ।।११.१०।।*

*घाल्लीं दिव्य फुलां वस्त्रां लेपिल्लें दिव्य गंद बी ।*
*देव अनंत नवलांचो ताका सगले वशीं मुखां ।।११.११।।*

तस्मात्वमुत्तिष्ठ यशो लभस्व जित्वा शत्रून्भुङ्क्ष्व राज्यं समृद्धम् ।
मयैवैते निहता: पूर्वमेव निमित्तमात्रं भव सव्यसाचिन् ।।११.३३।।

*देखून तूं उठ जा जैतिवंत समृद्ध राज्याचो घे गा तूं भोग ।*
*आदींच सर्वांकु माल्ल्यातु हांवें जा गा तूं पार्था कारण निमताकु ।।११.३३।।*

निर्मानमोहा जितसङ्गदोषा अध्यात्मनित्या विनिवृत्तकामा: ।
द्वन्द्वैर्विमुक्ता: सुखदु:खसंज्ञैर्गच्छन्त्यमूढा: पदमव्ययं तत् ।।१५.५।।

*ओडीचे ना दोश ना मान मोह वान्शे मेकळे ते अध्यात्मांत थीर ।*
*बादना जुंवळी दुख्खा सुखाची ज्ञानी वती त्या शाश्वत पदाक ।।१५.५।।*

मन:प्रसाद: सौम्यत्वं मौनमात्मविनिग्रह: ।
भावसंशुद्धिरित्येतत्तपो मानसमुच्यते ।।१७.१६।।

*मन प्रसन्न मृदुभाव मना निग्रह मौन बी ।*
*निर्मळ जो मनाभाव म्हळां हाका मना तप ।।१७.१६।।*

नियतस्य तु संन्यास: कर्मणो नोपपद्यते ।
मोहात्तस्य परित्यागस्तामस: परिकीर्तित: ।।१८.७।।

*सोडूंक फावना कर्मां जीं नेमिल्लीं धनंजया ।*
*जो तीं मोहानु सोडी गा तो म्हळा त्याग तामसी ।।१८.७।।*

ब्रह्मभूत: प्रसन्नात्मा न शोचति न काङ्क्षति ।
सम: सर्वेषु भूतेषु मद्भक्तिं लभते पराम् ।।१८.५४।।

*प्रसन्न ब्रह्मवृत्तींतू सर्व जिवांतु जो सम ।*
*वान्शिना करिना शोक जोडी भक्ती म्हजी व्हड ।।१८.५४।।*

प्रा. सुरेशबाब आमोणकार हांच्या 'भगवद्‌गीते'च्या अणकारांतलीं कांय अवतरणां मूळ संहितेसयत हांगा मुजरत उद्‌धृत केल्यांत. वाचप्यांनी सुक्षीमतायेन शब्दसौंदर्य, अर्थवत्ता आनी लय हांचे नदरेन तांचेकडेन पळोवचें. ते मूळ संहितेकडेन कितले एकरूप जाल्यात, पूर्वसुरींनी दाखोवन दिल्ले वाटेन आत्मविस्वासान कितले फुडें सरल्यात, हें हांगा कळून येतलें. शितावेल्यान भाताची परीक्षा जावंची. अख्ख्या अणकारांत रससिद्धताय हाडपाचो तांणी चडांत चड यत्न केला. ते परिपूर्णतायवादी आशिल्ल्यान तांणी कितलेशेच फावटीं एकेका श्लोकाचीं परिश्करणां केल्यांत. ही तांची परिश्रम करपाची वृत्ती आनी परिपूर्णतायेचो ध्यास तरणाट्या संशोधकांक, अभ्यासकांक स्फूर्त दिवपी.

सध्याच्या काळांत भौतीक अभ्युदयाची वाट चलपी समाज गोंदळलेलो आसा. अश्या वेळार आत्मिक उन्नतीचो मार्ग सोदपाक भगवद्‌गीता प्रेरणा दितली अश्या विश्वासान प्रा. सुरेशबाब आमोणकार हांणी हो अणकार केला. मूळ ग्रंथाकडेन वचपाची मानसिकता आयचे समाजजिणेंत ना. गीता हो फकत वाचपाचो ग्रंथ न्हय. पठण करपाचो ग्रंथ न्हय. तो आचारधर्म सांगता. तो भारतीयांच्या धर्मज्ञानाचो कोश. मोहाचो नाश हो गीतेचो सार. आयचे भोगवादी संस्कृतायेंत हें समजून घेवप म्हत्वाचें. हो ग्रंथ म्हळ्यार एक व्यापक समाजशास्त्र अशें विनोबाजींनी म्हळां. प्रा. सुरेशबाब आमोणकारांसारक्या विचारवंतांक हें समाजभान आसा. खर आत्मभानान प्रेरित जावन तांणी हो अणकार सिद्ध केला. दर एका अध्यायाचे पयलीं साररुपान त्या त्या अध्यायाचो परामर्श घेतला. शब्दार्थ, टीपो आनी उपमाथाळे दिवन वाचकांक सुलभतायेन गीतार्थ कळचो म्हूण जाता तितलो प्रयत्न केला. म्हणजे, हो फकत गीतेचो अणकारच न्हय, तर अनुसर्जनूय. ह्या अणकाराची विशेशताय म्हळ्यार मूळ संहितेचो अन्वय आनी अर्थ सांगिल्ल्यान कोंकणी वाचकाक संस्कृत भाशेची अदीक बरी वळख जावन तो भारतीय भासांच्या मूलस्रोताकडेन अचळय पावपाची संद ताका मेळ्ळ्या.

कोंकणी सरस्वतीच्या आंगार प्रा. सुरेशबाब आमोणकार हांणी हो अक्षरसंपन्न अळंकार चडयला. रसिकांचे ओंजळेंत भगवंतान गायिल्ल्या गीतांचीं फुलां ओंपतना आयज तांच्या अंतस्करणांत खंयची अनुभूती आसत काय? तुकारामांचे समर्थ वाणींत सांगतलो जाल्यार, **'सांडिली त्रिपुटी दीप उजळला घटीं'** अशी आसत काय? आपली सेवा समाजपुरुषाक्र अर्पण केल्ल्यान कृतार्थतेची ती आसतली हातूंत मातय दुबाव ना. ''ती हांवें करूंक ना; ती ईश्वराचे दयेन जाल्या अशें हांव मानतां'' अशें तांणी नमळायेन म्हळां. तांचें अंतस्करणपूर्वक अभिनंदन!

गोंय विद्यापीठ
ताळगांव
३ मार्च, २००२ **सोमनाथ द. कोमरपंत**

# गीता-तत्त्वज्ञान आनी फाटभूंय

'श्रीभगवद्गीता' म्हळ्यार भगवंतान गायिल्लें गीत. तिका शाश्वत गीत अशेंय म्हळां. हिंदुंच्या धर्मग्रंथां पैकीं तें एक लिकलिकीत आनी निर्मळ वज्र. गीता म्हळ्यार उपनिषदांचो सार. गीतेंत भौतेक उपनिषदांचो, म्हळ्यार, एके दिश्टीन भारतीय तत्त्वचिंतनाचो सुरमेळ सादला. देखुनूच भारतीय मानसांत गीतेक अढळ आनी अप्रूप स्थान मेळ्ळां. गीतेच्या अश्या अगड प्रभावाक लागून, एक स्मृतीग्रंथ जावनूय गीतेक उपनिषदाचो, म्हळ्यार श्रुती ग्रंथाचो मान फावो जाला. गीतेच्या दर अध्यायाच्या अंतीं 'श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु' अशी पुष्पिका आसा. गीतेचो आसपाव महाभारतांत भीष्मपर्वाच्या २३ ते ४०व्या अध्यायांत श्रीव्यासान केला.

वैदीक ग्रंथ दोन तरांचे आसात – श्रुतीग्रंथ आनी स्मृतीग्रंथ. वेद, ब्राह्मणां, आरण्यकां आनी उपनिषदां हे श्रुतीग्रंथ. श्रुतीग्रंथांतूय कर्मकांड आनी ज्ञानकांड अशे पोटभेद आसात. वेदसंहिता आनी ब्राह्मणां हातूंत कर्मकांड सांगलां. उपनिषदां हीं ज्ञानकांडांत आसपावतात. ज्ञानकांडांत आसपाव जाल्ल्या उपनिषदांक म्हत्व मेळून तांकांच श्रुती म्हणपाक लागले. कांय वेदसंहिता, ब्राह्मणां आनी आरण्यकां ह्या ग्रंथांच्या भागांत उपनिषदां अंतीं आयिल्ल्यान तांकां वेदान्त अशेंय म्हणटात.

भारतीय तत्त्वगिन्यानाच्या इतिहासाच्या चार ते साडेचार हजार वर्सांच्या काळांत घडिल्ल्या तत्त्वचिंतनाक लागून, वेदांतल्या तत्त्वीक आशयाचे विसकणेची क्रिया चलत रावली. ती उपनिषदांत पूर्ण जाली अशें म्हणूं येत. देखुनूच उपनिषदांचो सार म्हळ्यारच 'गीता' अशें मानतात. फुडलो श्लोक हें स्पश्ट करता.

**सर्वोपनिषदो गावो दोग्धा गोपालनन्दनः ।**
**पार्थो वत्सः सुधीर्भोक्ता दुग्धं गीताऽमृतं महत् ।।**

"सगलीं उपनिषदांच ह्यो गायो, श्रीकृष्ण दूद काडपी (गवळी), बुदवंत अर्जुन हो (त्या गायांक पानो हाडटलें) वासरूं आनी जें दूद काडलें तें गीतामृत." गीता गंगेचो उगम उपनिषदरुपी हिमालयांत जालो. तिका तिचे व्हांवतेंत सांख्य, योग, मीमांसा, भागवत आदी विचारांच्यो व्हांवत्यो मेळ्ळयो.

फाटलीं हजारांनी वर्सां तत्त्वचिंतक मनशाच्या जिवितांतल्या मुळाक आशिल्ल्या

सत्याच्या म्हळ्यार तत्त्वाच्या ज्ञानाचो सोद घेत आयल्यात. तत्त्वज्ञान म्हणटात तें हेंच. हें जग कशें जालें, ताचो रचणार कोण आसत काय आनी तो आसल्यार ताचें स्वरूप कितें, ह्या संवसारांत येवचे आदीं आपूण कोण आसलों, खंय आसलों, मर्णा उपरान्त आपलें कितें जाता, कुडी वांगडाच आपलें आसप सोंपता काय हेर रुपान म्हळ्यार जिवाच्या वा आत्म्याच्या रुपान फुडें चलता, पुनर्जल्म आसा काय ना अशे प्रस्न चिंतनशील मनशांच्या मनांत उबे रावले आसतले. तशेंच आपले भोंवतणी सृश्टींत दिसपी सूर्य, चंद्र, गिरे, पंचम्हाभुतां, मोनजात, न्हंयो, रूखावळ, धान्यां आदिंची निर्मणी, तांची विशेशताय, सभावीक धर्म, गुणदोश हांचे विशींय मनशाक जाणून घेवचेली इत्सा निर्माण जाल्या आसतली. तत्त्वज्ञानाच्या मळार ईश्वर, सर्ग, नरक, आत्मो, पुनर्जल्म आदी इंद्रियांक जाणवनात अशे विशय आसपावतात. तांचे विशींचे निश्कर्श, प्रयोगशाळेंत प्रयोग करून काडप शक्य नासता. हे तरेचें ज्ञान सुसंगत तर्काच्या आधारान मेळोवचेलें आसता. हाका तर्कशास्त्र वा न्यायशास्त्र म्हणटात. भारतीय तत्त्वचिंतकांनी हें अध्यात्मीक ज्ञान मेळोवचे पासत ह्या न्यायशास्त्राची बुन्याद चार हजार वर्सां पयलीं घाली.

भारतीय मनशाक आनी मानसाक पुर्विल्ल्या काळासावन इहलोकापरस पारलौकिक जिविताची अदीक ओड. ह्या जिवितांत सुखां येतिश्ट भोगल्यारूय तांची ओड उणी जायनासतना ती बळावत वता. भोग-सुखाचें चट लागतकीच मन असंतुश्ट जाता, उचंबळटा आनी अंतीं सूख मेळनासतना मनाची शांती भंगता. तेन्ना इंद्रियां पसून मेळपी सूख शाश्वत न्हय, तर मनाची शांती आनी मर्णा उपरांतची सद्‌गती हेंच शाश्वत सूख अशें भारतीय तत्त्वचिंतकांनी मानलें. इंद्रियांकडसून मेळपी खिणयाळें सूख हें 'प्रेयस' आनी शाश्वत सूख हें 'श्रेयस' अशें कठ उपनिषदांत म्हळां. (वल्ली २, श्लोक २).

**श्रेयश्च प्रेयश्च मनुष्यमेत: तौ संपरित्य विविनक्तिधीर: ।**
**श्रेयो हि धिरोऽभिप्रेय्सो वृणीते प्रेयो मंदो योगक्षेमात् वृणीते ।।**

''श्रेय (कल्याण) आनी प्रेय (सूख) दोनूय मनशांमुखार येतात. बुदवंत मनीस तांकां तर्जून तांकां पारखिता. शाणो प्रेयापरस श्रेय पसंत करता. पूण अज्ञानी मनीस संवसार सूख मेळचें म्हूण प्रेय लागीं करता.'' ऐहिक वेव्हार सांबाळून मनशांती कशी जोडची, पारलौकिक सद्‌गती कशी सादची हे विशीं गीता आमकां वाट दाखयता. हेंच गीतेचें म्हत्व.

भारतीय तत्त्वज्ञानाचें पडबिंब गीतेंत पडिल्लें दिश्टी पडटा. देखीक दुसऱ्या अध्यायांतल्या ३९व्या श्लोकांत **एषा तेऽ भिहिता सांख्ये** – हें सांख्य तत्त्वज्ञान तुका सांगलें अशें म्हळां. पूण हे सांख्य कोण, तांचे सिद्धान्त खंयचे, भारतीय तत्त्वज्ञानांत तांकां सुवात कितें हें समजून घेतलेबगर त्या संदर्भाचो अर्थ कळना. त्याच अध्यायांतल्या ४२ ते ४५ ह्या श्लोकांत 'वेदकालांतलें यज्ञयागादी कर्मकांड' हें फळ इत्सुपी आशिल्ल्यान तें केल्ल्या मनशाची विवेकबुद्ध अथीर जाता आनी मनीस सत्त्वादी त्रिगुणी संवसारांत घुस्पता. तांचे पेल्यान

वचपाक जाय अशें ४५व्या श्लोकांत सांगलां. हो संदर्भ कळ्ळो ना जाल्यार गीतेचो अर्थ समजप कठीण.

**भारतीय तत्त्वज्ञानाचो विकास:** चार हजार वर्सां आदीं ऋग्वेदांतल्या ऋचांत भारतीय तत्त्वज्ञानाचो उगम जाल्लो दिसता. त्या काळांतल्या मनशाक सैमिक कार्यकारणभाव कळनाशिल्लो. खंयची तरी अदृश्य, अती-मानवी शक्ती हीं सैमिक कार्यां घडोवन हाडटा, अशें ताका दिसतालें. तीं कार्यां सूर्य, वरूण, अग्नी, मरूत् आदी देवता करतात अशी ताणें कल्पना केल्ली. मानवी मनाचे तिडक, लोभ, मद, मत्सर आदी विकारय ह्या देवतांचे ठांय ताणें कल्पिल्ले. तांचे कृपेनूच आमकां उजवाड, वोत, उदक, पावस हीं मेळटात; तांकां लागूनच धान्य आदी संपत्तीचो लाव जाता; तांचो कोप जाल्यार हुंवार, दुकळ, मोडां आदी अरिश्टां मनशाचेर कोसळटात. देखून, त्या देवतांक संतुश्ट दवरप आनी तांचो कोप जावंचोना हाची जतनाय घेवप हें गरजेचें आसलें. तांकां संतुश्ट दवरपा पासत ताणी तांचीं तुस्तगितां रचलीं. तांचेकडसून जाय जाल्ल्यो वस्तू मेळच्यो म्हूण तांकां वस्तू ओंपून, त्यो तांकां आकाशांत पावोवपापासत अग्नीची येवजण जाली. अग्नींत घाल्ली आहुती सुक्षीम द्रव्याच्या रुपान देवतांकडेन पावता, हे कल्पनेंतल्यान यज्ञसंस्था निर्माण जाली. हे प्रकार आज लेगीत भारतीय समाजाच्या वेगळ्या वेगळ्या वर्गांत दिसतात.

कालांतरान देवतांपरस यज्ञसंस्थाच व्हड मानपाक लागले. देवतांपरस यज्ञकार्य करपी पुरयतवर्गच म्हत्वाचो जालो. भक्तान देवतेक पुजून तिका प्रसन्न करून घेवचें ही भुमिका वचून पुरयतान मंत्रांच्या पालवान देवतेक यजमानाक इश्टफळ दिवंक लावपाक जाय अशी नवी भुमिका आयली. यज्ञांत बळी म्हूण मोनजातीची हत्याय जावंक लागली. अश्वमेध यज्ञांत घोड्याचो बळी दिताले. पुरयत वर्गाचो प्रभाव वाडलो तसो यज्ञाक विरोध करपी लोकांचो वर्गूय निर्माण जालो. कांय जाणांनी यज्ञांक उकतो विरोध केलो, तर कांय जाणांनी यज्ञ ह्या शब्दाक नवो अर्थ दिलो. पयले भुमिकेंतसून जैन आनी बौद्ध पंथ वयर सरले. उपनिषदांनी दुसरी भुमिका घेतली. यज्ञ म्हळ्यार कर्तव्यापासत – लागणुकेपासत – केल्लो त्याग. स्वार्थत्याग, इंद्रियांचेर संयम आनी तांचें नियंत्रण, ज्ञान, तप, आत्माहुती ह्या सगल्यांचो 'यज्ञ' ह्या शब्दांत आसपाव जालो. गीतेच्या तिसऱ्या आनी चवथ्या अध्यायांत यज्ञाचे असले जायते अर्थ सांगल्यात.

हें सगलें घडटना तत्त्वचिंतन चालूच आशिल्लें. जायत्यो देवता आसात हें मान्य करुनूय, तांच्या कार्यांत सुरमेळ हाडपी तांचे परसूय व्हडली अशी शक्ती आसपाक जाय अशें तत्त्वज्ञानी मनशांक दिसपाक लागलें. कित्याक, विश्वांत दीस-रात, रुतू-चक्र, चंद्राच्यो कळा, भरती-सुकती अश्यो घडणुको एका नेमान बांदिल्ल्यो आनी परस्पर सुरमेळ आशिल्ल्यो तांकां दिसताल्यो. ती सुरमेळ हाडपी शक्ती म्हळ्यार सर्वशक्तीवंत परमेश्वरूच. तोच विश्वाचो निर्मुपी, नियंतो आनी शास्तो. जगाचे वेव्हार ताचेच इत्सेन चलतात. ताका प्रसन्न करून घेतकीच मनशाक ह्या जगांत इत्सिल्लें तें मेळून मर्णा उपरांत सर्ग मेळटलो असो निश्कर्श

तांणी काडलो. हजारांनी देवतांची सुवात सर्वशक्तीवंत आनी सर्वसत्ताधीश परमेश्वरान घेतली.

ही भुमिका घेवन लेगीत तत्त्वचिंतकांचें विचारमंथन चालूच आशिल्लें. हो सर्वसत्ताधारी परमेश्वर विश्वाचो कारभार चलयता, तो विश्वाचे भायर रावन काय विश्वांतूच रावन ? विश्व निर्मुपी शक्ती विश्वाचे भायर आसा काय जे प्रमाण सुक्षीम बियेंतसून व्हड रूख निर्माण जाता, तेचपरी खंयची तरी शक्ती खंयच्या एका मूळ द्रव्यांत न्हिदिल्ल्या रुपांत आसून, त्या मूळ द्रव्यांतसूनच तिची वाड जायत जायत क्रमाक्रमान पंचम्हाभुतां आनी सगली निर्जीव आनी सजीव सृश्टी जाली आसत काय अशे नवे प्रस्न तांचे मुखार उबे रावले. ते दिकेन जें तांचें चिंतन सुरू जालें, तें उपनिषदांच्या काळांत पूर्णत्वाक पावलें.

उपनिषदांच्या काळांत भारतीय तत्त्वज्ञान लागीं लागीं पूर्णत्वाक पाविल्ल्यानय, उपनिषदांतल्या तत्त्वज्ञानाक वेदान्त म्हणटात. त्या काळांत विश्वाभायर रावन विश्वाची निर्मणी आनी नियंत्रण करपी अदृश्य ईश्वर (ईश्वराचें दिसना असलें रूप) आनी ब्रह्म हें मूळ द्रव्य. त्या द्रव्याच्या आंगचे शक्तींतल्यानूच सगळे सृश्ट पदार्थ निर्माण जाले. खंयचेच भायले शक्तीन ते निर्मूंक नात हो सिद्धांत ह्या काळांत मान्य जालो. हाका **सभाववाद** म्हणटात. (सभाववादाप्रमाण विश्वाचे रचणुकेंत सुरमेळ आसा आनी तें नेमान बांदिल्लें आसा, पूण ती खंयचेय भायले शक्तींत नासून, विश्वाच्या मूळ द्रव्यांतूच ती बीजरुपांत आसता.)

ईश्वराविशींचे संकल्पनेचो विकास वैदीक काळांत तीन पांवड्यांनी जाल्लो दिश्टी पडटा. (१) जायत्यो देवता ह्या विश्वाचो रथ चलयतात, (२) विश्वाचो निर्मुपी आनी नियंतो एकूच (विश्वाचे भायलो) परमेश्वर, आनी (३) निसर्ग वा सृश्ट म्हळ्यारूच ईश्वर.

भारतीय तत्त्वगिन्यानाच्या विकासाची एक विशेशताय आसा. नव्या संकल्पनांक मान्यताय मेळटा आसतनाच पोरण्या देव-देवतांक मानपी लोक त्या काळांतूय आसले. ईश्वराविशींची नवी संकल्पना ही आदले संकल्पनेचे आड नासून, तिचोच विकसित आविश्कार अशें मानताले. वेगवेगळ्यो विचारधारो एकाच वेळार आसुंयेतात हें भारतीय तत्त्वगिन्यानी परंपरेचें व्हडपण मानपाक जाय. नवे विचार आपणायतना पोरण्या विचारांक कोणूच हिणसायनासलो. सृश्ट म्हळ्यारूच ईश्वर अशें म्हणटकीच ईश्वर देवदेवतांचे ठांय आसता. तोय दर एका सृश्ट पदार्थांतूय आसता, तो सगल्यांक आसपावन घेता. यज्ञ म्हळ्यार देवदेवतांक तुश्टावपा पासत दिवपाची आहुती, हो जसो एक अर्थ, तसो तांकां लागून आपलें जिवीत गिरेस्त जाता, तांचें रीण फेडचे खातीर दर मनशान करचेलो त्याग, हो दुसरोय अर्थ लोक घेवंक लागले. गीतेंत ह्या पोरण्या आनी नव्या अश्या दोनूय संकल्पनांचो सुरमेळ सादला. मनशाचे श्रद्धेभाशेन ताका फळ मेळटलें – **यो यच्छ्रद्धः स एव सः** (अ.१७-३) अशें गीतेंत म्हळां. स्वार्थान वा फळाचे वान्शेन केल्लें कर्म गीतेन उणाक मानलां. ह्या काळांतले भौतेक विचारवंत वेदांक प्रमाण मानताले. पूण ह्याच काळांत पुरयतांच्या वाडट्या प्रभावाक लागून आनी यज्ञांत जावपी मोनजातीचे हत्येक विटून यज्ञसंस्थेचे आड वावुरपी जैन आनी बौद्ध

मत्तांचोय उदय जालो. ते वेदांक प्रमाण माननाशिल्ले म्हूण तांच्या मत्तांक पाखंड मत्त म्हणटात. ह्या नव्या विचारांच्या व्हांवत्यांक लागून भारतीय तत्त्वज्ञान अदीक गिरेस्त जालें.

ईश्वराच्या स्वरूपाविशींचे संकल्पनेंत बदल जातकीच यज्ञसंस्था, सर्ग, नरक, परलोक इत्यादी संकल्पनांचेरूय परिणाम आपशींच जालो. जोंवेर 'ईश्वर ही विश्वाचे भायर आशिल्ली शक्ती नियंत्रण करता' अशी कल्पना आशिल्ली, तोंवेर तिची उपासना करून तिका संतुश्ट करप, तिचो कोप जावंचो न्हय म्हूण यज्ञयाग करप, हें गरजेचें मानताले. आतां सृश्टीपरस ईश्वर वेगळो ना हें थारतकूच यज्ञाचो अर्थय बदललो. सृश्टीचो क्रम बरे तरेन चलोवपाच्या कार्याक पालव दिवप हीच ईश्वर सेवा आनी भक्ती अशें लोक मानपाक लागले. हे खातीर दर मनशाची लागणूक हेंच यज्ञकर्म जालें. यज्ञ म्हळ्यार खंयच्या तरी व्हड कार्यापासत दर एकल्यान केल्लो आपल्या सुखाचो त्यागच आनी कर्तव्यांत अर्थ अपुरबाये परस त्यागाचीच भावना अदीक आसता. ह्या त्यागाक जो तयार आसता ताचेच खातीर हें जिवीत. जाची असो त्याग करचेली तयारी ना, ताचे खातीर हें जिवीत तर नाच, पूण हेर कांयच ना. (अ.४-३१).

*यज्ञ अम्रुत खावपी जे वती ब्रह्माक शाश्वत ।*
*यज्ञ जो करिना ताका ना हो लोक कसो दुजो ॥४-३१॥*

**मोक्षाची संकल्पना :** यज्ञाचे संकल्पने प्रमाण परलोक, सर्ग, नरक ह्या संकल्पनांतूय बदल जालो. हाचे आदीं, ह्या संवसारांत पुण्य केल्यार, मर्णाउपरांत सर्गांत देवाच्या सांगातान सुखाचो भोग आनी पातक केल्यार नरक मेळटा तशेंच पुण्यवंतांकूय पुण्यफळ सोंपतकीच पृथ्वीचेर पर्थून जल्म घेवंचो पडटा,अशी कल्पना आशिल्ली. (**त्या होड सर्गांत भोगून सूख / सोंपून पुण्य येती मर्णलोकीं** ।। (अ.९-२१) पुणून उपरान्त, सर्गाची ही संकल्पना फाटीं पडून, मोक्षाची संकल्पना फुडें आयली. जल्मा उपरान्त मर्ण आनी मर्णा उपरान्त भौन जल्म, आनी ह्या जल्म-मर्णाच्या फेऱ्यांतसून सुटप म्हळ्यार मोक्ष मेळोवप. **जल्मल्ल्या सुटना मर्ण / मेल्ल्याक जल्म सुटना** – (अ.२-२७) ही कल्पना फाटीं पडून मर्णाउपरान्त आत्म्यान दुसरो जल्म घेनासतना, सृश्टीचें मूळ द्रव्य जें ब्रह्म, तातूंत विरगळप, होच मोक्ष ही कल्पना फुडें आयली. गीतेंत दुसऱ्या अध्यायांत वर्णिल्लो स्थितप्रज्ञ (थीरबुद्‌दी) इंद्रियांचेर जैत जोडून, सगले विकार, म्हेळ धुवन उडोवन, आपल्या मनाचे स्थितींत आनंद, शांती आनी ज्ञान हांची स्थापना करता, तेन्ना तो मोक्षाक फावसो जाता. हे मनाचे स्थितीक ब्रह्मनिर्वाण अशेंय म्हळां (अ.२-७२).

**विश्वाची उत्पत्ती** : उपनिषदांच्या काळांत विश्वाचे निर्मणेच्या शास्त्रशुद्ध अभ्यासचो यत्न जालो. विश्वाचें मूळद्रव्य परमाणू आसून, ताच्या वेगळ्या वेगळ्या प्रमाणांत जावपी मेळपान वा संयोगान सगले सृश्ट पदार्थ निर्माण जाले. हो सिद्धान्त कणादान मांडलो. पूण ह्या सिद्धान्ताविशीं जायत्या दुबावांक जाप मेळूंक नाशिल्ल्यान, कपिलरुशींचो 'प्रकृती आनी

पुरूष' हींच सृष्टीचीं मूळ द्रव्यां आसात हो सिद्धान्त मुखार आयलो. गीतेंत होच सिद्धान्त चडसो आपणायला आनी २, ७, १३, १४, १६, १७ आनी १८ ह्या अध्यायांत ताचो उल्लेख केला. चडसो आपणायला म्हणपाचें कारण इतलेंच की प्रकृती आनी पुरूष ही संकल्पना सांख्यांची. तातूंत ईश्वराक स्थान नासलें. पूण गीतेन प्रकृती आनी पुरूष हांचेपेल्यानूय 'ब्रह्म' हें मूळ द्रव्य आसून, तेंच परमेश्वराचें खरें रूप ही वेदांत्यांची भुमिका आपणायली.

**सांख्य :** कपिलान आपल्या सिद्धान्ताक मूळ द्रव्यांची संख्या नितिशित केली म्हूण ताच्या सिद्धान्ताक आनी तो मानपी ताच्या शिश्यांक सांख्य हें नांव दिलां. चार वर्ण आनी चार आश्रम हीं वैदीक समाजाची मुखेल आंगां सांख्य सिद्धान्ताचेर आधारल्यांत. देखून, संवसार करून आनी आश्रमधर्माक पाळो दिवन अंतीं ब्रह्म आनी आत्मो हांच्या एकचाराचें ज्ञान मेळोवन मोक्ष जोडप ह्या मार्गाकूय सांख्य मार्ग वा सांख्य योग म्हणटात. गीतेंत अर्जुनाच्या मनाचेर आयिल्लें संभ्रमाचें आनी विकारांचें सांवट पयसावपाक श्रीकृष्णान जी विसकणी केल्या, ताचो आरंभच सांख्य सिद्धान्तान केला. (अ. २. श्लौ ११ ते ३० आनी ३९). देखून, गीतेंतल्या विचारांची मांडावळ कळपापासत सांख्य सिद्धान्त जाणून घेवप गरजेचें.

उपनिषदां आनी सांख्य तत्त्वज्ञान हांची वाड दोन भावंडांप्रमाण जाल्या. पूण दोनांमदलें वेगळेपण कित्यांत आसा हेंवूय सांगचें पडटलें. उपनिषदांच्या मत्तान ब्रह्मांत ईश्वरी अधिश्ठान आसून, त्या ब्रह्मापासुनूच सगले सृश्टपदार्थ निर्माण जाल्यात. म्हळ्यार, एके तरेन हें विश्व परमेश्वराचीच निर्मणी. सृश्टी ही ताची माया म्हळ्यार विस्तार. हाचे उरफाटें सांख्य परमेश्वराक मानिनात. ते प्रकृती हें मूळ द्रव्य मानतात. ती अव्यक्त आसून, तातुंतल्यान सुप्त गुणांचो विकास जावन, क्रमाक्रमान सगल्या सजीव-निर्जीव सृश्टीची निर्मणी जाली. ह्या सिद्धान्ताक **गुणोत्कर्ष** वा **गुणपरिणामवाद** म्हणटात.

**सांख्य-सिद्धान्त** : खंयच्याय सृश्ट पदार्थांत जे गूण दिसतात, ते तातूंत आदींच आशिल्ले. ज्या द्रव्यांपासून तो पदार्थ उत्पन्न जाता, तातुंतूच ते सुक्षीम रुपान मुळासावनच आसतात. देखीक, चिंचेची आमटसाण आनी मिरयांची मिरमिरसाण  हे गूण तांच्या बियांतूच न्हय तर तीं बियां ज्या द्रव्यांपासून जाल्यांत, त्या त्या द्रव्यांतूच आसतात. म्हणजे सृश्ट पदार्थांत आसपी वेगळे वेगळे गूण सांख्यांच्या मत्तान प्रकृतींत सुक्षीम रुपान आसतात. जें मूळ द्रव्यांत ना तें ताचेपासून उत्पन्न जावपी खंयच्याय पदार्थांत ना. **(नासतो विद्यते भाव: / ना भावो विद्यते सत: (अ.२-१६) –नाशिल्ली आसना वस्त / आशिल्ली वस्त नासना)**. ह्या सिद्धान्ताक **सत्कार्यवाद** म्हणटात. हाचेपयलीं, एक पदार्थ ना जावन तातुंतल्यान दुसरो पदार्थ उत्पन्न जाता अशें कणाद आनी बौद्धांचें मत आसलें. देखीक, बीं ना जावन तिचे पासून कोमरी आनी कोमरी ना जावन तिचे पासून रूख जाता. पूण हें मत सांख्यांक आनी वेदांत्यांक मान्य नासलें.

सांख्यांच्या मतान प्रकृती (matter) हें मूळ द्रव्य म्हूण तातूंत सगले गूण आसात. प्रकृतीचे जोडीक सांख्य पुरूष (consciousness) हें तत्त्व मानतात. प्रकृतीभाशेन 'पुरूष'य अनादी देखून तोय मूळद्रव्यच. पूण प्रत्यक्षांत निर्मणीचें कार्य प्रकृती करता. पुरूष गवाय कसो पळेता, तो कांयच करिना. सचेतन पुरुष म्हणजे पदार्थांत चैतन्य ओतपी, पूण अकर्तो म्हूण आपूण जावन कांयच करिना, तर प्रकृती जड आनी अचेतन पूण गूण आशिल्ली. ती पुरुषाशिवाय निर्मणी करिना. पुरूष मुळांत अकर्तो आनी अलिप्त आसुनूय, प्रकृती ताका घुसपायता आनी म्हणून कुडीकडसून घडटलीं सगलीं कर्मां आपुणूच करतां अशें ताका दिसता. सांख्यांचो पुरूष प्रत्येक कुडी कणकणीं वेगळो. हाचे उरफाटें वेदान्त्याचे दिश्टीन एकच परमात्मो वेगळ्या वेगळ्या कुडींत आत्मरुपान रावता. कुडीकडसून घडपी सगलीं कर्मां प्रकृतीगूण तिचेकडसून घडयतात, आपूण तीं करिना अशी अलिप्तपणाची जाणवीक आत्म्याक वा पुरुषाक जातकीच, तो कूड धरपी मनीस मोक्षाचे दिकेन पयली पावली मारता.

प्रकृती हें जरी मूळ द्रव्य आसलें तरी तातूंत सत्त्व, रज आनी तम हे तीन गूण आसात. ज्ञान वा जाणवीक हें सत्त्वगुणाचें लक्षण; खंयच्चेंय बरें वा वायट कर्म करूंक लावप हें रजगुणाचें लक्षण; अज्ञान, मोह आनी सुस्ती हीं तमगुणाचीं लक्षणां. प्रकृती हें मूळ द्रव्य आनी तातुंतल्या तीन गुणांचे वेगवेगळ्या प्रमाणांत भरसप जावन विंगड विंगड पदार्थांची निर्मणी जाता, हो जो विचार आसा ताका 'विज्ञान' म्हणटात. हाचे उरफाटें, भायल्यान वेगळे दिसपी सगल्या सृश्टपदार्थांची निर्मणी एकाच मूळ द्रव्यापासून जाल्या. हे जाणविकेक 'ज्ञान' म्हणटात.

निर्मणेचे क्रियेक आरंभ जावचे पयलीं प्रकृती निश्चळ आनी थीर आसली. ती अव्यक्त, म्हळ्यार इंद्रियांक दिसनाशिल्ली तरिकूय सुक्षीम, सलग आनी सर्वव्यापी आसली. मुखार तिच्यांत हालचाल जावपाक लागली आनी तातुंतल्यान एक एक पदार्थ निर्माण जावपाक लागलो. हे हालचालीक व्यापार वा प्रकृतीचें कर्म म्हळां. वेदांत्यांच्या मत्तान परमेश्वर स्वताचे मायेन प्रकृतीचे मार्फत हें निर्मणेचें काम करून घेता, म्हणून तें परमेश्वराचें कर्म. (हांव अविनाशी, जल्माविरयत आनी जिवांचो ईश्वर आसुनूय, म्हजे प्रकृतीचे ठांय बसून, म्हजेच मायेन (शक्तीन) जल्मतां – अ.४-६).

थीर अवस्थेंत (संतुळीत अवस्थेंत) प्रकृतींतले तिनूय गूण न्हिदिल्ले अवस्थेंत आसले. पूण हालचाल सुरू जातकीच दर एका गुणाचो नेट वेगळे सुवातेर आनी वेळार वेगळ्या वेगळ्या प्रमाणांत वाडपाक लागलो. हाका लागून वेगळ्या वेगळ्या अचेतन आनी सचेतन पदार्थांची निर्मणी जावंक लागली. तमगुणाचें बळ वाडटकीच निर्जीव सृश्ट निर्माण जाली. तमोगुणाचो नेट उणो जातकीच वनस्पत, मोनजात, पक्षी आदी मनीस सोडून सजीव सृश्ट निर्माण जाली. तो नेट आनीक उणो जातकीच मनीसजात निर्माण जाली. तरीयपूण मनशांतूय त्रिगुणांचें प्रमाण अदीक उणें जाल्ल्यान, त्या त्या गुणांच्या बळाप्रमाण मनशाची वृत्ती वेगळी वेगळी जाली.

ह्या त्रिगुणांचे वांटणेचेर चातुर्वर्ण्याची वेवस्था उबी जाली आनी ते वेवस्थेंतल्यान सगल्या समाजाचो योगक्षेम बरे तरेन चलतलो अशी वेवस्था जाली.

मनशाची निर्मणी जातासतना सृश्टीन मनशाक उण्या अदीक प्रमाणांत दिल्ले सत्त्वादी तीन गूण हें सृश्टीचें कर्म आशिल्लें, मनशाचें न्हय. ती सैमान मनशाक दिल्ली देण. पूण हांगसून फुडें मात दर एका मनशान आपल्या दर एका कर्माखातीर आपूण जबाबदार आसपाचें. आपल्या बऱ्या वायट कर्माचीं फळां ताणेंच भोगपाचीं. ह्या जल्मांत केल्ल्या कर्माचें फळ (संचित) ह्या वा फुडल्या जल्मांत भोगचें पडटलेंच. तातूंतसून सुटका ना. एका बऱ्या मनशाक ह्या जल्मांत दुख्ख भोगचें पडटा. तें तांच्या पुर्वजल्मांतल्या कर्माचें फळ. ह्या जल्मांतली कर्माची प्रेरणा ही पुर्वजल्मांतलीं कर्मां आनी आवयबापायकडसून मेळिल्ली प्रवृत्तीची देण वा वारसो ह्या दोनांयचो परिणाम आसता. हे गजालीची जाणवीक दवरून जी व्यक्ती खंयचेंय नवें कर्म करतना तें बंधनांत घालचें ना – ताचें फळ भोगचें पडचें ना – अशे तरेन केल्यार ताका पुर्व संचिताचें फळ भोगतकूच नवो जल्म घेवचो पडचोना, असो हो 'कर्म सिद्धान्त' आसा. मनीस कित्याक लागून पापकर्म करता हो प्रस्न गीतेंत उपस्थित केला (अ. ३-३६). ह्या प्रस्नाची जाप ताचे फुडल्या चार श्लोकांत दिल्या : रजगुणांक लागून मनशाच्यो वान्सा, सूख भोगाच्यो इत्सा वाडटात आनी त्यो पूर्ण करपाक ताका कर्म करपाक लायतात. त्यो पूर्ण जातकीच नव्यो इत्सा जातात आनी त्यो पूर्ण जावपाक आडमेळीं आयल्यार मनशाक तिडक येता. हे तिडकीक लागून मनशाचो विवेक ना जाता आनी तो पापकर्मां करता. ताचे कुडिंतल्या इंद्रियां, मन आनी बुद्दी हांचे वरवीं वायट कर्मां करता. केन्ना केन्ना ताची इत्सा नासतना लेगीत! हातूंतसून मनशाची सुटका कशी जावप? हाका गीतेची जाप अशी : मनशान सगल्यांत पयलीं आपले कुडींतल्या प्रकृतीगुणांची जाणवीक दवरून, शिटूक रावन, आपूण प्रकृती गुणांच्या सुवादीन जावंचो ना असो निश्चय करूंक जाय. इंद्रियांच्यो वासना पूर्ण करपाच्या हव्यासाक लागुनूच मनीस दुश्कर्मां करता. तीं टाळपापासत इंद्रियांक आपले सुवादीन दवरून आनी तेच भाशेन कुडींतल्या ज्या आत्म्याक प्रकृतीगुणांनी वेश्टिला, ताका तांचेपासून मेकळो करीन ह्या निश्चयान चलचें. (**निस्त्रैगुण्यो भव – अर्जुना, तूं त्रिगुणांपासून मेकळो जा** – अ. २-४५). इंद्रियांचो निग्रह हें मोक्षावटयां व्हरपी मार्गावेलें पयलें आनी म्हत्वाचें सोपण. हें वेद मानपी आनी वेद मानिनाशिल्ले अश्या दोगांकूय मान्य आसा.

प्रकृतीविशींचो सांख्याचो हो त्रिगुणांचो, सिद्धान्त गीतेन पुराय मानून घेतला. सांख्यवादी हे बुद्दीवादी. ते ईश्वर मानिनात. देखून गीतेंत त्रिगुणांपासून मुक्त जातकूच प्रकृतीचे पेल्यान आशिल्ल्या परमात्म्याचेर चित्त थारावन ताची भक्ती करची अशें सांगलां.

सांख्य आनी वेदान्ती ह्या दोगांयची मोख एकूच आनी ती म्हळ्यार मोक्ष सादप – म्हळ्यार, जल्म-मर्णाच्या फेऱ्यांतसून सुटप. तांची मोक्ष सादपाचीं साधनांय समान. इंद्रिय निग्रहापासून आरंभ करून प्रकृतीच्या गुणांचेर जैत जोडप आनी थीरबुद्दीची (स्थितप्रज्ञाची) वा जीवनमुक्ताची अवस्था जोडप.

सांख्य आनी वेदान्ती हे दोगूय वेदांक मानपी. गीतेन सांख्य सिद्धान्ताक पुराय आपणावन, ताका वेदान्त्यांच्या परमेश्वर आनी परब्रह्म हाची जोड दिवन, दोगांयच्या तत्त्वज्ञानाचो सुरमेळ सादिल्लो दिसता. सांख्यांचे म्हणणेप्रमाण, कुडिंतलो पुरूष मुळांत अकर्तो आसुनूय, प्रकृतीन ताका त्रिगुणांनी घुसपावन उडयल्ल्यान, आपुणूच हीं बरीं वायट कर्मां करता अशें तो समजता. म्हणून मुक्ती जोडचे पासत आपल्या अलिप्त आनी विशुद्ध स्वरुपाची जाणवीक दवरून हीं कर्मां आपूण करिना असो भाव पुरुषान बाळगूंक जाय. जेन्ना बुद्द सात्त्वीक जाता, तेन्ना हो भाव बळटा. पुरूषाक ह्या विशुद्ध आनी अलिप्त स्वरुपाची जाणवीक मनशांत करमेतकीच तो प्रकृतीच्या पासांतलो सुट्टा.

वेदान्ती हीच गजाल वेगळे तरेन मांडटात. सत्त्व, रज आनी तम ह्या प्रकृतीच्या गुणांत घुसपून, मनीस प्रकृतीचे पेल्यान आशिल्ल्या अविनाशी परमेश्वराक विसरता. ताणें त्रिगुणांचे पेल्यान वचून परमेश्वराकडेन एकरूप जावपाक जाय.

**जिनसांनी त्रिगुणी सर्व जालां मोहित हें जग ।**
**देखून नेणती म्हाका गुणापेल्यान् सनातन ।।७-१३।।**
**ही माया त्रिगुणी दैवी भौ कश्टाची तरपाक ही ।**
**शरण येवन भजती जे माया तरून ते वती ।।७-१४।।**

वेदान्त्यांचे तशेच सांख्याचे हे सिद्धान्त समजतकीच गीतेची विचारांची धार आनी शिकवण समजप सोंपें जाता.

दिसपट्ट्या जिवितांत जायते फावटी अशे प्रसंग येतात, जेन्ना सत्य, अहिंसा, सदाचार आदी नितीतत्त्वांक पाळो दिवंक जायना. अशा प्रसंगाचेर थोर मनीस कशे वागले हें कथा उपकथांच्या आधारान महाभारतांत सांगलां. पूण सगल्याच प्रसंगांचेर उपेग पडत अशें खंयचेंच सूत्र तातूंत सांगूंक ना. मात अशें सूत्र गीतेंत सांगलां. तें सूत्र म्हळ्यार – खंयचेंच कर्म मुळांत बरें वा वायट नासता. पूण जे बुद्दीन तें करतात, तिचेर त्या कर्माचें बरें-वायटपण निंबून आसता. मनशान निस्वार्थीपणान आनी निखटे कर्तव्यबुद्दीन केल्लें कर्म ताका बंधनांत घालिना, म्हळ्यार पातक, पुण्य ताका बादना. तेन्ना मनशाची लागणूक कशी आसची, नि:स्वार्थीपण मुरोवपाक बुद्द सम आनी थीर कशी करची आनी अंतीं मनशांती कशी जोडची हे विशीं सुंदर देख गीतेंत दिल्या. हे नदरेन पळेल्यार गीता हो वेव्हारीक ग्रंथच म्हणचो पडटलो. महात्मा गांधीन गीतेच्या ह्या आंगाविशीं अशें म्हळां : ''जेन्ना निर्शेणी म्हजे मुखार येवन उबी रावता, आनी जेन्ना हांव सामकोच एकमुळो जावन म्हाका उजवाडाचें कीर्णूय दिश्टी पडना, तेन्ना हांव गीतेक शरण वतां. तेन्ना म्हाका गीतेंत अदींमदीं एक श्लोक दिसता, जाका लागून म्हाकठीण विपत्तेंत हांव रोखडोच हांसूंक लागतां आनी म्हजें जिवीत तर भायल्या विपत्तिंनी सामकें भरलां आनी जर ह्या विपत्तिंनी म्हजेर दिसपासारकिल्यो वा पुसून वचना अश्यो मावो

दवरूंक नात, ताचें सगलें स्रय हांव **भगवद्गीते**चे शिकवणेक दितां.'' (मो.क. गांधी, यंग इंडिया, १९२५, पा. १०७८-७९).

**गीतेंतलो स्वधर्म:** गीतेंत 'स्वधर्म' ह्या शब्दाविशीं खूब चर्चा जाल्या. **स्वधर्मे निधनं श्रेय: परधर्मो भयावह:** – (**बरें मर्ण स्वधर्मांत / परधर्म भिरांतिचो** – अ. ३-३५). ह्या चरणांचेर आरती-परती प्रतिक्रिया जाता. जायत्या जाणांनी हाचो अर्थ आपलो धर्म वा one's religion ह्या अर्थान घेतला. हेर भौतेक जाण वर्णाश्रम धर्म ह्या अर्थान घेतात. स्वधर्म म्हळ्यार आपल्या निजाक, प्रकृतीक वा सभावाक धरून, ताचेशीं सुसंगत आचरण करप. श्रीअरविंद स्वधर्माक Law of one's own being - 'स्वताच्या अस्तित्वाचो नेम' अशें म्हणटा. कांय जाण स्वधर्म आपल्या वर्णाचें नेमिल्लें कर्म वा कर्तव्य असोय अर्थ करतात. तांचे म्हणणेप्रमाण गीतेंत अर्जुनाक वर्णाश्रमधर्माक पाळो दिवपापासत झुजपाचो जो उपदेश श्रीकृष्णान केला ताचेवयल्यान ताचो उपदेश मुखेलपणान वर्णधर्माक आनी परंपरेन चलत आयिल्ल्या जातींक तेंको दिवपी आसा. वर्ण (जाती) परंपरेन थारतात, प्रवृत्तीवयल्यान थारनात. आनी ताची निर्मणी परमेश्वरान केल्ल्याचो दावो ''**चातुर्वर्ण्य मया सृष्टं गुणकर्म विभागश:**'' – **चार वर्ण रचले हांवें, गुणकर्मां विभागुनू** (अ.४-१३) – ह्या चरणांच्या आदारान करतात तो श्री अरविंदांक मातूय मान्य ना. श्री अरविंद स्पश्ट उतरांनी सांगतात : ''अर्जुनान क्षत्रिय म्हणून झुजप आनी आपलो वर्णधर्म पाळप हाका हिसपाभायर आनी अतिरेकी म्हत्व दिलां. जशे कितें ते मुस्तींतले समाजवेवस्थेक बादा येनासतना तिगोवपा पसतूच गीतेक धर्मीक आनी तत्त्वज्ञानाच्या सिद्धान्तांवरवीं समर्थन करपाचें आसलें. पुणून वास्तवीक नदरेन पळेल्यार गीतेक भायल्या नेमांपरस आंतरीक नेमांचेर (internal law) अदीक भर दिवन भायल्या नेमांक पाळो दिवपाचेर उणो भर दिवपाचो आसलो. गीतेचो विचार वर्णधर्माच्या भायल्या समाजीक, अर्थीक आनी संस्कृतीक गरजांचेर आपलें लक्ष एकठावचे परस ह्या नेमाच्या व्यक्तीगत आनी अध्यात्मीक मुल्यांचेर आपलें लक्ष ओढून घेवन केंद्रित करपाचें आसलें.'' आयची वेगान बदलपी परिस्थिती आनी काळाची गरज लक्षांत घेवन हेच नदरेन हे विशीं चिंतप गरजेचें.

## गीतेची फाटभूंय

कौरवांनी पांडवांक जुगारांत हारयले, तांचें राज्य हातासलें आनी तांकां वनवासाक धाडले. थंयसून परततकीच तांणी आपलें राज्य परत मागलें. कौरवांनी तें मेळचें ना म्हूण सांगलें. श्रीकृष्णाची शिश्टाय फसली. आनी झुजाक तोंड फुटलें. कुरूक्षेत्राच्या झुजामळार दोनूय सैन्यां एकामेकांचे सामकार झुजपाक उबीं रावलीं. झुजाचो आरंभ जावंचे पयलीं अर्जुनान सरभोंवतणी नदर मारली तेन्ना ताका आपले इश्ट, आप्त, सोयरे-धायरे, गुरू आदी दिसले.

ह्या युद्धांत सोयरे जावन कूळखेव लेगीत जायत ह्या विचारान अर्जुन काचाबूल जालो. झूज जिखून राज्य मेळोवपांत कितें अर्थ आसा हो विचार ताच्या मनांत आयलो. पांडवांनी राज्याच्या लोभान आपल्याच भावबंधांक आनी गुरूंक मारले अशी निंदा फुडाराक लोकांकडसून आयकुची पडटली आनी मर्णाउपरांत कुळक्षयाच्या पातकाचे धनी म्हूण नरकांत पडचें पडटलें अशेंय ताका दिसलें. अशें जावचे परस शस्त्रां सकयल दवरून भीक मागप अदीक बरें जायत, अशे विचार लेगीत अर्जुनाच्या मनांत आयले. तो खेदान आकुळ पिकूळ जालो. ताच्या आंगाक थरथरो सुटलो, गांडीव धोणू हातांतसून गळून पडलें आनी ''हांव झुजचों ना'' अशें श्रीकृष्णाक सांगून तो वग्गी रथांत वचून बसलो.

**गीतेचो उपदेश** : अर्जुनाचें हें वैराग्य पूर्ण विचाराअंतीं येवंक ना अशें श्रीकृष्णान पळेलें. तो भ्रमांत पडला आनी विकारांचें सांवट मनार पडिल्ल्यान ताचें मन दुबळें जालां. अर्जुनाच्या मनांत आयिल्लो गोंदळ ना करपाचो श्रीकृष्ण यत्न करता. पयलीं तो 'षंढ', 'मनाचें दुबळेपण' अश्या उतरांनी ताचो निशेध करता. पूण अर्जुनाचें समाधान जायना. तो सामको सतरवितर जाता, आनी श्रीकृष्णाक म्हणटा, ''हांव तुजो शिश्य म्हणून आयलां, तुका शरण आयलां. तूंच म्हाका मार्ग दाखय आनी बोध दी.'' मागीर श्रीकृष्ण ते मुस्तींत चालन्त आशिल्ल्या सांख्य तत्त्वज्ञानाच्या आधारान कूड (शरीर), कुडिंतलो आत्मो, आत्म्याचें अंवरपण, मनशाक प्रकृतीकडसून मेळिल्ले सत्त्व, रज आनी तम हे त्रिगूण, समाज, समाजांतली मनशाची लागणूक, धर्म, अधर्म, कर्म, अकर्म आनी विकर्म आदी विशयांची ताचे खातीर विसकणी करता. खंयच्याय मनशाक कर्म कशें टाळपाक येना आनी तें कशे तरेन करतकीच ताचें पाप-पुण्य मनशाक बादना हें श्रीकृष्ण अर्जुनाक समजायता.

अशे तरेन श्रीकृष्ण सांख्य तत्त्वज्ञानाचो उपदेश अर्जुनाक करता. जें एकदां अस्तित्वांत आयलां, ताचो मागीर केन्नाच नाश जायना. चडच जाल्यार ताचें रूप आनी नांव (नामरूप) हीं बदलतात. कुडींतलो आत्मो अविनाशी. कुडींत रिगतकूच तो भुरगेपण, जुवानपण, म्हातारपण ह्या कुडिच्या अवस्थांतल्यान वता. पूण कूड सोंपतकीच आत्मो नवी कूड धरता. म्हत्व कुडीक नासून आत्म्याक आसा. देखून आत्म्यान एक देह सोडून दुसरो धरल्यार तातूंत शोक करपासारकें कांयच ना.

मागीर, सांख्यसिद्धान्ताचो आनीक एक विचार श्रीकृष्ण मांडटा. सृष्टीचें मूळ द्रव्य प्रकृती आसून, ती सत्त्व, रज आनी तम ह्या गुणांचें भरसप आसा. हें मेळावण सगल्या सजीव-निर्जीव सृश्टपदार्थांत उतरलां. आनी ताका लागून सगल्या सजीव-निर्जीव पदार्थांक कांय गूण लाभल्यात. मनशाक ताच्या वर्णानुसार कामां फावो जाल्यांत. सगल्यांनी आपलीं नेमिल्लीं कामां निश्ठेन केल्यार समाजाचे वेव्हार सारके चलतले. आपल्या वांट्याक आयिल्लें कर्म बरें आसूं वा नासूं अशें मानप हो प्रत्येक वर्णाचो धर्म आशिल्लो. त्या धर्माक पाळो दिनासतनाच शाश्वत सूख, म्हळ्यार मन:शांती ही मोख सादपापासत ब्रह्मचर्य, गृहस्थ, वानप्रस्थ आनी संन्यास हे आश्रम, म्हळ्यार जिविताची पद्धत निर्मिली.

सांख्याच्या ह्या तत्त्वज्ञानाचो उगडास करून श्रीकृष्ण अर्जुनाक म्हणटा : "वर्णाश्रमधर्माक पाळो दिवन, ज्ञान जोडून, सगल्या कर्मांचो संन्यास घेवप हेंच योग्य. पूण तूं क्षत्रियधर्माप्रमाण अन्यायाआड झुजपाची तुजी लागणूक पाळपाक तयार ना आनी ब्रह्म आनी आत्मो हांच्या एकचाराचें ज्ञान जावचे पयलींच तूं संन्यास घेवपाच्यो गजाली उलयता. तुजें मन दुबळें जालां, हेंच हाचेवयल्यान दिसता. आज सकाळमेरेन तूं झुजपाक तयार आसलो, आतां मात अकस्मात तुका तातूंत पातक दिसूंक लागलें. पूण एक गजाल लक्षांत दवर. खंयचेंच कर्म मुळांत बरें वा वायट नासता. जे बुद्‌दीन आमी तें करतात, तिचेर ताचें बरें-वायटपण निंबून आसता. वैयक्तीक स्वार्थाखातीर मनीस दुसऱ्याक जिवेशीं मारता तेन्ना तें पातक थारता, आनी ताका ताचें फळ भोगचें पडटा. पूण समाजीक हिताचे नदरेन, निस्वार्थ बुद्‌दीन जेन्ना राजाज्ञेवयल्यान खुनी मनशाक गोळाक लावंचो पडटा, तेन्ना ताचें पातक गोळ लायतल्याक लागना. म्हणून तुजी बुद्‌दी शुद्ध, सम आनी थीर कर. (**बुद्‌दीक शरण वच** - अ.२-४९). स्वार्थाक स्थान दिवं नाका, दर एक कर्म लागणुकेचे भावनेन कर. दुसरी गजाल, आतां ह्या वेळार झुजपाचें सोडून तूं संन्यास घेवपाच्यो गजाली उलयता. पूण तुज्या मनाची उचांबळाय उणी जातकीच, प्रकृतीगुणानुसार तुज्यांत आशिल्लो रजगूण तुका सस्त बसपाक दिवंचोच ना. तो तुका झुजपाक लायतलोच (अ. १८-५९). पूण तोंवेर 'झुजांतल्यान कडसरिल्लो भिजूड' म्हूण तुजी अपकीर्त जगभर जाल्ली आसतली. तेन्ना हें मनाचें दुबळेपण सोडून दी, बुद्‌दी शुद्ध करून घे; मागीर ती सम आनी थीर जातली; मागीर तुका खंयच्याच कर्माचें सूखदुख्ख दिसचें ना. तें तूं लागणूक म्हूण करतलो."

ही विसकावणी बुद्‌दीक पटपासारकी आसली. पूण अर्जुनाक ते मन:स्थितींत झुजाविशीं उबगण आयिल्ल्यान तो म्हणटा : "कर्मापरस (थीर आनी सम) बुद्‌दी अदीक म्हत्वाची हें म्हाका पट्टा, पूण झुजासारकें वायट कर्म करचे परस, हांव कर्मत्याग करून, बुद्‌दी शुद्ध करपाच्या मार्गाक लागतां." श्रीकृष्णाचे जापेंत गीतेचो सार आयला. "विश्वांतले सगले सृश्ट पदार्थ एकामेकांक पूरक आसात. तांचे एकामेकांवांगडा नातें आसा आनी एकामेकांचेर रिणय आसा. सृश्टींत प्रत्येक चराचराक कितेंतरी कार्य नेमून दिलां. विश्व सुरळीत चलपापासत आपलें ल्हान-व्हड कार्य निश्ठेन करपाक जाय. तें करीत रावप हो ताचो धर्म आनी तें ना करप हो अधर्म. आपल्या वांट्याक आयिल्लें कर्म, तें आवडूं वा ना आवडूं, कर्तव्यबुद्‌दीन रीण फेडचेले भावनेन करीत रावप, हाकाच यज्ञ म्हणटात. गीतेंत ३ऱ्या आनी ४थ्या अध्यायांत ह्या विशयाचें आनी यज्ञासंबंधीचें विवेचन केलां. (अ. ३ - श्लो. १० ते १८; अ. ४ - श्लो २३ ते ३३.)

श्रीकृष्ण फुडें सांगता : "दर एकल्यान आपल्या वांट्याक आयिल्लें कर्म करुंकूच जाय. तें करप ना म्हळ्यार हेरांविशीं आयिल्ल्या आपल्या कर्तव्याक चुकप. सृश्टीचो निर्मुपी, जो परमेश्वर, ताणें आपणाकय हे लागणुकेंतल्यान सोडूंक ना. तो स्वता लेगीत निर्मणेचें कार्य करीत आसता. पूण लोकच जेन्ना आपले लागणुकेक चुकतात आनी जगांत अधर्म मातूता,

तेन्ना परमेश्वर मानवरुपान पृथ्वीचेर जल्म घेवन लोकांक आपली लागणूक करपाक लायता. (अ. ४-६/८).

''कर्म केलें ना जाल्यार कितें इबाडटलें'' ह्या अर्जुनाच्या प्रस्नाक ही सविस्तर जाप दिवन, श्रीकृष्णान फुडें कर्म अटळ आसल्यार तें करुनूय, ताचें फळ भोगचें पडचें ना अशे तरेन तें कशें करचें हाची कळाशी वा युक्ती म्हळ्यार योग अर्जुनाक सांगलो.

''जीं कर्मां मनीस स्वार्थबुद्‌दीन फळ मेळचे पासत करता, ताची बरीं-वायट फळां ताका भोगचीं पडटात. उलट, निस्वार्थी बुद्‌दीन आनी कर्तव्य भावनेन, समाजहितापासत केल्ल्या कर्मांचें बंधन जायना. देखून मनशान कर्म करीत रावचें पूण ताच्या फळाची इत्सा धरची न्हय.

आश्रमधर्माप्रमाण, ब्रह्म-आत्म्याच्या एकचाराचें ज्ञान मेळटकीच मनशान कर्मां सोडून संन्यास घेवचो अशी चाल आसा; पूण ताचेपरस हें ज्ञान जोडटकीच फळाची इत्सा सोडून, कर्म करीत रावप हें समाजहिताचे दिश्टीन अदीक बरें; कित्याक, ताका लागून सामान्य मनशाक बरी देख मेळटा. कारण, सामान्य मनशां सदांकाळ थोर मनशांची देख घेतात. (अ. ३ - श्लो २०-२१).

फळाची इत्सा सोडून कर्म करीत रावचें आसल्यार इंद्रियांचो निग्रह गरजेचो आसता. कित्याक, इंद्रियांनी सूख भोगचेलें चट मनशाक स्वार्थी करता आनी ताची बुद्‌दी अस्थीर करता. एक सूख मेळटकीच ताचें समाधान जायना. उलट, तो ताचे परस अदीक सूख आंवडेता. तें मेळना जातकीच, ताचें मन तळमळटा, ताची मन:शांती भंगता. देखून बुद्‌दी थीर आनी सम करपाखातीर इंद्रियांक आनी तांचे मार्फत मनाक आळाबंदा हाडपाक शिकोवपाक जाय.''

मागीर श्रीकृष्णान अर्जुनाक बुद्‌दी थीर आनी सम करपाचे मार्ग दाखयल्यात. ते म्हळ्यार योग, ज्ञान आनी भक्ती.

**योगमार्ग** : योगवृत्ती जोडपाक मनशान आसक्ती सोडची पडटा आनी बुद्‌दी सम आनी थीर करची पडटा. हीं ध्यानयोगान सादपाक येतात. योगमार्गांत योगासनां आनी यम-नियम हांच्या आधारान इंद्रिय निग्रह करून चित्त एकाग्र करपाक शिकचेलें आसता. गीतेन पातंजलीचो अश्टांग योगाचो आसपाव आपले शिकवणेंत केला. ही आठ आंगां म्हळ्यार यम, नियम, आसन, प्राणायाम, प्रत्याहार (इंद्रियां विशयां कडसून फाटीं ओडप), धारणा (चित्ताची थीरताय), ध्यान (चित्ताची एकाग्रताय) आनी समाधी (चित्त परमेश्वराकडेन एकरूप करप) आनी हाचे वरवीं मनाचेर संस्कार करून शांती जोडप.(अ.६.श्लो १-१५).

**ज्ञानमार्ग** : ज्ञान आनी विज्ञान हांचो गीतेंत जायते फावटीं उल्लेख आयला. आदीं सांगलां ते प्रमाण प्रकृती हें मूळद्रव्य आनी तातूंत आशिल्ल्या सत्त्वादी तीन गुणांच्या मिसरणान वेगळ्या वेगळ्या निर्जीव आनी सजीव पदार्थांची निर्मणी जाता. हो जो विचार आसा ताका विज्ञान

म्हणटात. उलट, भायल्यान वेगळें दिसपी सगळ्या सृश्टपदार्थांची निर्मणी एकाच मूळद्रव्यापासून जाल्या, हे जाणविकेक ज्ञान म्हणटात. हो सांख्यांचो भौतिक विचार. वेदान्त्यांनी भायल्यान वेगळे दिसपी सगल्या पदार्थांत परमेश्वराची वसती आसा ह्या विचाराक ज्ञान आनी एकाच परमेश्वरान आपले मायेन (विस्तार करचेले शक्तीन) वेगळीं रुपां धरल्यांत (वा ब्रह्मा पासून वेगळे वेगळे सृश्ट पदार्थ निर्मिल्यात) ह्या विचाराक विज्ञान म्हळां. सांख्यांचे भाशेंत प्रकृती ही दोन तरांची - अपरा, म्हळ्यार अचेतन वा जड आनी परा प्रकृती म्हळ्यार सचेतन (पुरूष). वेदान्त्यांचे दिश्टीन प्रकृती आनी पुरूष ह्यो दोनूय परमेश्वराच्यो विभूति वा आत्मपरगटावणी, परमेश्वरानूच केल्लो आपलो विस्तार. वेदान्त्यांनी पुरूषाक आत्मो हें नांव दिलां.

ज्ञान आनी विज्ञान हांच्या पालवान आपले कुडिंतलो आत्मो वा जिवात्मो आनी आपले भोंवतणीं पातळिल्ल्या विश्वांतले सगले सृश्ट पदार्थ जाचे पासून निर्माण जालें तें मूळ द्रव्य म्हळ्यार ब्रह्म हीं वेगळीं नासून एकूच आसात हें पयलीं बुद्दीन जाणून घेवप आनी उपरांत तें आचरणांत हाडप हो ज्ञानमार्ग. म्हणटकीच ज्ञान म्हळ्यार ब्रह्म आनी आत्मो हीं एक हें ज्ञान. आत्मो आनी ब्रह्म हीं एकूच आसात ही जाणवीक जिरतकूच, व्यक्ती आनी तिचे भोंवतणची चराचर सृश्टी हातुंतलो आप-पर भाव ना जातलो. (वा सांख्याच्या दिश्टीकोणांतसून आमी एकाच परमेश्वराचीं भुरगीं हो) समभाव उत्पन्न जातलो. कोणूय मनीस आपल्या नात्यांतलो लागता अशें कळटकूच तो आमकां आपलोसो दिसपाक लागता, हें आमी दिसपट्ट्या वेव्हारांत पळेतात. ही गजाल, ब्रह्म आनी आत्मो एक हें ज्ञान जातकीच सगल्या चराचराचे बाबतींत जाता. मागीर व्यक्ती स्वार्थी जायना, तिका सगलेच सारके दिसतात. आमच्या संतांनी आपले चलणुकेंत हें दाखोवन दिलां. 'वैष्णव जन तो तेणे कहिये, जो पीड परायी जाणे रे' (वैशणव जन ताका म्हणचेलो, जो पर पिडा जाणी रे.) ह्या नरसी मेहताच्या भजनांतल्यान आमकां होच संदेश मेळटा. (अ. ७, ८ आनी १३ ह्या अध्यायांत ज्ञान-विज्ञानाचें आनी ज्ञानमार्गाचें वर्णन आयलां.)

**भक्तीमार्ग** : हो मार्ग सगल्यांत सोपो अशें सांगलां. हाका योगासनां, यम-नियम आनी प्राणायाम-प्रत्याहार, ज्ञान-विज्ञान हांचे खटपटीची गरज ना. परमेश्वराचेर घट्ट निश्ठा हें भक्तांचें एकूच साधन. विश्व निर्मुपी आनी नियंतो परमेश्वर आसून, ताचे इत्सेनूच विश्वाचे सगले वेव्हार चलतात, आपूण फकत ताचे इत्सापुर्तीचें साधन; आपल्या हातांतसून जें कितें बरें वायट घडटा तें ताचे प्रेरणेन; म्हणून ताकाच आपल्या सगल्या कर्माचें फळ ओंपचें. आपल्या निर्वाहाची (योगक्षेमाची) सगली चिंता ताचेर सोंपोवन आपूण हुस्क्या मेकळो रावचो अशे श्रद्धेन चलपी भक्त, प्रत्येक घडणूक परमेश्वरी इत्सा म्हूण आपणायतलो. मागीर कित्यानूच ताची मन:शांती ढळची ना. तो थीरबुद्दी (स्थितप्रज्ञ) जातलो. (९ ते १२ ह्या अध्यायांत भक्तीमार्गाची विसकणी केल्या.

गीतेन सांख्यांचो प्रकृती विशींचो सिद्धान्त आपणायलो तरी ज्ञान-विज्ञानाची व्याख्या मात वेदान्त्यांची आपणायली. पातंजलीचो अश्टांगयोगूय स्विकारलो. तिसरो भक्तीमार्ग. तो जरी स्वतंत्र आसलो तरी गीतेच्या मत्तान, ज्ञानमार्गाक आनी योगमार्गाक भक्तीची जोड दिवप गरजेचें. म्हूण श्रीकृष्ण प्रत्येक मार्ग सांगतना, वांगडाच परमेश्वराचेर श्रद्दा दवरून वा ताचेर सारको पातयेवन तूं कर्तव्य करीत राव, असो भक्तीमार्गाचो उपदेश करता. (अ. ६-४७; अ. ७-१, २८, २९; अ. १३-२७ आनी अ. १४-२६). हें सगळें पळेल्यार, गीतेन भक्तीची जोड दिवपाचेर भर दिला हें लक्षांत येतलें.

बुद्दी थीर करपाचे हे सगळे मार्ग अर्जुनाक सांगून, विश्वाच्या मुळाक ईश-तत्त्व आसा अशें श्रीकृष्ण सांगता. परमेश हो शब्द परम + ईश हांचे संधीन जाला. ईश म्हळ्यार सत्ता चलोवप. परम + ईश्वर म्हळ्यार सर्वश्रेश्ठ सत्ताधारी म्हळ्यार, एक अद्भुत शक्ती. ही शक्ती, हें सामर्थ्य, विश्वांतल्या अणू-रेणूंत भरलां. तें अव्यक्त आसा; तें आमच्या इंद्रियांक जाणवना. पूण भक्ती-मार्गान ध्यान, उपासना, चिंतन हांचेखातीर ताका देहधारी कल्पून (वा दत्त, ब्रह्मदेव, विष्णू आदी कल्पून) ताका मूर्त स्वरूप दिलां. ह्या अव्यक्त ईश्वराचें वर्णन करप कठीण. तें सर्वव्यापी. ताणेंच ब्रह्मांतसून प्रकृती निर्मिली आनी हे प्रकृतींतल्यान सत्त्व, रज आनी तम ह्या गुणांच्या वेगळ्या वेगळ्या प्रमाणांतसून सगले सृश्ट पदार्थ निर्मिले. विश्वांत असो एकूय पदार्थ ना जाचे फाटसून ईश्वरी अस्तित्व ना आनी जातूंत ह्या तीन गुणांचें मिसरण ना. ब्रह्मापासून निर्मिल्ल्या ह्या पसाऱ्याक ईश्वरी माया म्हळां. (१८-४०).

दर एका मनशाच्या वांट्याक आयिल्लें कर्म फळाचे अपेक्षेविणें करप हीच ईश्वर-सेवा आनी त्या कर्माचें पातक-पुण्य (बंधन) लागना. अशे तरेन कर्म करुनूय ताचें बंधन जावंचें ना अशे रितीन तें करून सादप हाका 'नैष्कर्म्य सिद्धी' म्हणटात (१८-४९).

इतली विसकावणी करून कृष्ण अर्जुनाक सांगता, ''प्रकृती गुणाप्रमाण तूं क्षत्रिय. समाजाचे राखणेपासत आनी अन्याय निवारूंक झुजप आनी गरज पडल्यार प्राण ओंपप हें क्षत्रियाक टाळूंक येवचेलें ना. अर्जुना, तूं हें फळाची वान्सा धरिनासतना कर. बुद्दी शुद्ध दवरून, हें कर्म हांव ईश्वरी इत्सेन करतलों आनी ताचें फळय ईश्वराक ओंपतलों, अशे भावनेन तूं झूज. आज, भावनेन आकूळ जावन ''हांव झुजचों ना'' अशें जरी तुवें म्हळें, तरी भावनेचो भार देंवतकूच तुज्यांतलो रजगूण तुका पर्थून झुजपाक लायतलो.'' (अ. १८-५७-६०).

इतलो उपदेश करून अंतीं श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता, ''म्हाका कितें सांगचें आशिल्लें तें हांवें सांगलें. आतां तुका मानत तशें कर. सगलें परमेश्वराचेर सोंपय, ताका शरण वच, मागीर तुका मन:शांती मेळटली.'' (अ. १८-६३)

अर्जुनाक ही सांगणी पट्टा आनी ताच्या मनांतलो खवदळ शांत जाता आनी तो झुजपाक तयार जाता.

**गीतेची सर्वसमावेशकताय**: 'उपनिषदांचो सार म्हळ्यार 'भगवद्गीता' अशें म्हळां. हाचो अर्थ असो न्हय की गीतेंत फकत ज्ञानमार्गाचो पुरस्कार केला. सांख्याचे प्रकृती विशींचे गूण – सत्त्वादी तत्त्वांसयत – गीतेन आपणायल्ले आसले तरी प्रकृतीचे पेल्यान ब्रह्म (परमात्मो) आसा ह्या वेदान्त्याच्या सिद्धांताचें कलम तांचेर केलां. ज्ञानमार्गाचे वांगडा योगमार्ग आनी भक्तीमार्गाचीय व्हडवीक सांगून सामान्य मनशाची सोय केल्या. अठराव्या अध्यायांत, अंतीं समारोप करतना, ईश्वर सगल्या प्राणिमात्रांक आपले इत्सेप्रमाण चलपाक लायता; ताका दुसऱ्या कित्याचेरूच पातयेनासतना शरण वच, ताची भक्ती कर, ताचेरूच सगलें सोंपय म्हणटकूच तुका मन:शांती मेळटली, असो भक्तीमार्गी उपदेशय अर्जुनाक आनी ताचे निमतान सामान्य मनशाक केला. हाचेवयल्यान अशें दिसता की गीता खंयच्याय पंथाचो आग्रो धरिना. तिची विशेशताय सर्वसमावेशकताय हीच आसा.

वेदकाळांतलीं यज्ञयागादी कर्मां गीतेन गौण मानल्यांत, जाल्यारूय त्या मार्गांतल्यान मनशाक जें इश्ट फळ मेळटलें, तातुंतल्यान ताची ईश्वरनिश्ठा वाडटली; मागीर ताची दिश्टी स्वार्थाचे पेल्यान वचून, सगल्या जिवांचे ठांय समभाव निर्माण जातलो; आनी अंतीं तो ईश्वराच्या स्वरुपांत विरगळटलो, अशें आश्वासनूय दिलां. मनशाक ताचे श्रद्धेप्रमाण फळ मेळटा. **घडला गा जीव श्रद्धेचो / जशी श्रद्धा तसोच तो** (अ. १७-३). पूण अंतीं ज्ञानमार्ग, योगमार्ग, भक्तीमार्ग वा ह्या मार्गांच्या मिसरणान मनीस गेल्यार मनशाक हांगा मन:शांती मेळटली आनी जीवनमुक्ती मेळून, मर्णाउपरान्त ताका मोक्ष मेळटलो अशी गीतेची सांगणी आसा.

गीता योगशास्त्र शिकयता. योग म्हळ्यार कितें ? कांय जाण योग म्हळ्यार ज्ञानयोग, तर हेर कांय योग म्हळ्यार भक्तीयोग, नाजाल्यार कर्मयोग असोच अर्थ गीतेंत सुचोवपाचो आसा अशें सांगून गीतेचो आपल्या मत्ताक तेंको दिवपी अर्थ लायतात. गीतेच्या लेखकान 'योग' हो शब्द व्यापक अर्थान वापरला. तातूंत ज्ञान, भक्ती, कर्म आदी योग आसपावतात. योग हो शब्द युज् ह्या धातू पासून आयला. युज् म्हळ्यार जोडप. दोन पदार्थ एकठांय हाडप. तांचो संबंध जोडप वा एकचार सादप, एकरूप जावप असो जालो. ज्या उपायांनी आनी साधनांनी हें सादत तें योगशास्त्र. योगशास्त्रांत कर्मयोग, भक्तीयोग आनी ज्ञानयोग हे तिनूय आसपावल्यात. हे तिनूय वेगळे वेगळे मार्ग न्हय. ज्ञानयोग्यान भक्त जावंचें न्हय वा भक्तीयोग्यान ज्ञानी जावंचें न्हय अशें कोणेंच सांगूंक ना. दुख्खान पडिल्लो (आर्त), ज्ञानी, धन इत्सुपी (अर्थार्थी) आनी जिज्ञासु (गिन्यान जोडचेली इत्सा बाळगुपी) अशा चार भक्तांपैकीं (अ. ७-१६) 'म्हजेठांय युक्त आशिल्लो' (मन लायिल्लो) असो एकनिश्ठपणान म्हजी भक्ती करपी ज्ञानी भक्त स्रेश्ठ आसा (७-१७); तरी ज्ञानयोगी आनी कर्मयोगी हांणी कर्माचें फळ परमातम्याक ओंपून वान्शेविणें आचरण करपाक जाय. प्रत्येक जिवात्म्यान भक्ती आनी कर्म ह्या दोनांच्या पालवान परमात्म्याक जोडचेलो आसता. अर्जुनाक कौरवां आड झुजपाक लावप हो एकूच हेतू आशिल्लो अशें गीता वाचून म्हणपाक येवचें ना. मनशाचो देह धरिल्ल्या

अर्जुनाचे आनिकूय हेर शत्रू आशिल्ले. ते शत्रू म्हळ्यार काम (खर इत्सा) आनी क्रोध (तिडक). जिखपाक कठीण अशा त्या शत्रूंक हाणपाक कृष्ण अर्जुनाक सांगता (अ. ३-३७ ते ४३). तेन्ना ह्या काम, क्रोध आदी शत्रूंक हाणून, ज्ञान, भक्ती आनी कर्म हांच्या पालवान आपली उदरगत सादून परमात्म्यांत एकरूप जावचेलो योग साध हेंच गीतेक सांगपाचें आसा. (पळेयात: ६-१४, १५, १८, ३६; ७-१, १७; ८-७, ८, १४; ९-१४, २२; १०-९, १०; १८-६४-६५.)

भारतीय तत्त्वज्ञान आनी जिविताची दिश्टी हांचें पडबिंब गीतेंत पडलां. आयज अख्खो संवसार हिंसा, सर्त, दुख्ख, भ्रश्टाचार, निर्शेणी, चंगळवाद आदी दोशांनी ग्रासला. गीतेचें तत्त्वज्ञान आमकां तांचे आड झुजपाची उर्बा आनी तांक दिता हातूंत दुबाव ना.

सुरेश गुंडू आमोणकार

# गीतेचें मुखेल काम

स्वधर्माचे आड येवपी जो मनाचो मोह (गोंदळ) आसा तो निवारूंक गीतेचो जल्म आसा. अर्जुन 'धर्म-संमूढ' जाल्लो - ताच्या मनांत आपले लागणुके विशीं गोंदळ जाल्लो. तो मोह, तें ममत्व, ती आसक्ती पयसावप हें गीतेचें मुखेल काम. गदळाचें निराकरण हेंच फलीत.

कृष्णाक सारथी करून ज्या वेळार आपल्या घोड्यांचे लगाम ताच्या हातांत दिले, त्याच वेळार आपले मनोवृत्तीचेय लगाम ताच्या हातांत सोंपोवचेली तयारी केली. आमीय तशेंच करुंया.

अंतर्यामिरुपान कृष्ण जण एकल्याच्या अंतस्कर्णांत बसला. आमच्या मनांतलो सगळो म्हेळ आमी ताचे फुडें मांडुया. तो पार्थ-सारथी आमचेंय सारथ्य करतलो. आपल्या श्रीमुखान तो गीता आमकां सांगतलो आनी जैत मेळोवन दितलो.

**- विनोबा**

# श्रीमद्भगवद्गीता

वा

# श्रीभगवंतान गायिल्लें गीत

### ह्या उपनिषदाचो पयलो अध्याय



## अर्जुनविषादयोग

गीतेच्या पयल्याच अध्यायाच्या पयल्याच श्लोकांत राजा धृतराष्ट्र संजय ह्या आपल्या सारथ्याकडसून भारतीय युद्धाची गजाल समजून घेवपाखातीर ताका प्रस्न विचारता. दुसऱ्या श्लोकांत धृतराष्ट्राचो पूत दुर्योधन द्रोणाचार्या कडेन गेल्ल्याची खबर संजय ताका दिता. मागीर दोनूय पक्षांतल्या मुखेल झुजाऱ्यांचीं नांवां, दोनूय सैन्यांचें बळ हांची म्हायती दिवन, दुर्योधन भीष्माची सारकी राखण करचेली सुचोवणी सगल्यांक करता. (३-११*). फुडें दोनूय पक्षांतल्या मुखेल झुजाऱ्यांनी केल्लो शंखनाद वर्णिला (१२-१९). आपणाक कोणा कडेन झुजपाचें आसा हें समजुपा खातीर श्रीकृष्ण ताचेच सांगणे वयल्यान अर्जुनाचो रथ दोनूय सैन्यां मदीं उबो करता (२०-२५). मागीर आपले आप्त, इश्ट आनी घरचे झुजपाक तयार जाल्यात हें पळोवन, अर्जुन कळवळटा आनी दुख्खान आकूळ जाता (२६-३७).

अर्जुनाक खेद जाता आनी आपूण झुजचोना अशें तो निश्चयान श्रीकृष्णाक सांगता. शोकान आकूळ जाल्लो अर्जुन शस्त्रां उडोवन रथांत सस्त बसता (२८-४७).

झुजांत आपल्या घरच्यांकूच मारून आनी झूज जिखल्यार राज्य, भोग आनी सुखां मेळोवन, आपणाक कितें लाभ जातलो असो खेद अर्जुनाक जाल्ल्यान ह्या अध्यायाक अर्जुनविषादयोग अशें नांव दिलां.

---

* कंसांतले अंक श्लोकांचे

धृतराष्ट्र उवाच

धर्मक्षेत्रे[1] कुरुक्षेत्रे[2] समवेता युयुत्सव : ।
मामका: पाण्डवाश्चैव किमकुर्वत संजय ।।१।।

धृतराष्ट्राचो प्रस्न

धृतराष्ट्रान म्हळें

*धर्मक्षेत्रार कुरुक्षेत्रार जमिल्ल्या झुजूंक खुमखुमेन् ।*
*म्हज्या नि पांडु पुत्रांनी केलें गा संजया कितें ।।१।।*

धृतराष्ट्रान म्हळें : आगा संजया. धर्मभूंय अश्या कुरुक्षेत्राचेर झुजाचे खुमखुमेन जमिल्ल्या म्हज्या आनी पांडुच्या पुतांनी कितें केलें ? १

*अन्वय आनी अर्थ :* **धृतराष्ट्र उवाच** = धृतराष्ट्रान म्हळें; **संजय** = आगा संजया; **धर्मक्षेत्रे** = पुण्यभूंय (अश्या); **कुरुक्षेत्रे** = कुरुक्षेत्राचेर; **समवेता : युयुत्सव :** = झुजा खुमखुमेन जमिल्ल्या; **मामका :** = म्हगेल्या (दुर्योधनादी) पुतांनी; **पांडवाश्चैव** = तशेंच पांडवांनी; **किम् अकुर्वत** = कितें केलें ? १

संजय उवाच

दृष्ट्वा तु पाण्डवानीकं व्यूढं दुर्योधनस्तदा ।
आचार्यमुपसंगम्य राजा वचनमब्रवीत् ।।२।।

संजयान म्हळें

*पळेलो पांडवां सैन्या- व्यूह दुर्योधनानु थैं ।*
*गेलो गुरू सरीं तो नी राजानु त्या अशें म्हळें ।।२।।*

संजयान म्हळें : आनी त्या वेळार, राजा दुर्योधनान झुजाच्या मांडान रचिल्लें पांडवांचें सैन्य पळोवन, आचार्य द्रोणासरीं वचून तो हें भाशण उलयलो. २

*अ-अ.:* **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **तु** = आनी; **तदा** = त्या वेळार; **राजा दुर्योधन :** = राजा दुर्योधनान; **व्यूढं पाण्डवानीकम्** = झुजाच्या मांडान रचिल्लें पांडवांचें सैन्य; **दृष्ट्वा** = पळोवन; **आचार्यम् उपसंगम्य** = आचार्य (द्रोणासरीं) वचून; (हें) **वचनम् अब्रवीत** = भाशण उलयलो २

पश्यैतां पाण्डुपुत्राणामाचार्य महतीं चमूम् ।
व्यूढां द्रुपदपुत्रेण तव शिष्येण धीमता ।।३।।

दोन सैन्यां

*पळे तूं पांडु पुत्रांलें आचार्या होडु सैन्य तें ।*
*मांडलां द्रुपदु पुत्रानु तुजो बुदवंतु शिश्य जो ।।३।।*

दुर्योधनान म्हळें : आगा आचार्या, द्रुपदाच्या पुतान, तुगेल्या बुदवंत शिश्यान (धृष्टद्युम्नान), झुजा मांड रचून उबें केल्लें पांडुल्या पुतांचें हें मोठें सैन्य पळे. ३

*अ. अ.:* **आचार्य द्रुपदपुत्रेण** = आगा आचार्या, द्रुपदाच्या पुतान; **तव धीमता शिष्येण** = तुगेल्या बुदवंत शिश्यान (धृष्टद्युम्नान), **व्यूढां पाण्डुपुत्राणाम्** = व्यूह (झुजांमांड) रचून उबें केल्लें पांडुल्या पुतांचें; **एतां महतीं चमूम्** = हें मोटें सैन्य; **पश्य** = पळे. ३

अत्र शूरा महेष्वासा भीमार्जुनसमा युधि ।
युयुधानो विराटश्च द्रुपदश्च महारथ : ।।४।।

*हांगा शूर धनुर्धारी रणीं भीमार्जुनावरी ।*
*विराट सात्यकी आनी म्हारथी द्रुपदावरी ।।४।।*

ह्या सैन्यांत भीम आनी अर्जुन हांचे सारके झुजांत झुजपी जायते वीर, मोटे मोटेले धनुर्धर, युयुधान (सात्यकी), विराट आनी म्हारथी द्रुपद; ४

*अ. अ.:* **अत्र भीमार्जुनासमा :** = हातूंत (ह्या सैन्यांत) भीम आनी अर्जुना सारके; **युधि शूरा :** = झुजांत (झुजपी) जायते वीर; **महेष्वासा** = मोटेमोटेले धनुर्धर; **युयुधानः** = युयुधान (सात्यकी); **च विराटःच महारथः द्रुपद** = आनी विराट आनी म्हारथी द्रुपद. ४

धृष्टकेतुश्चेकितान : काशिराजश्च वीर्यवान् ।
पुरुजित्कुन्तिभोजश्च शैब्यश्च नरपुङ्गव : ।।५।।

*धृष्टकेतु तसो वीर तो काशीरायु चेकितान् ।*
*पुरुजित् कुंतिभोजू गा आनी शैब्य नरोत्तम ।।५।।*

आनी धृष्टकेतु, चेकितान, बळिश्ट काशीचो राय, पुरुजित् कुंतिभोज आनी नरोत्तम शैब्य;

*अ. अ.:* **च धृष्टकेतुः चेकितानः वीर्यवान् काशिराजः** = आनी धृष्टकेतु, चेकितान आनी बळिश्ट काशीचो राय; **च पुरुजित् कुन्तिभोज :** = आनी पुरुजित् कुंतिभोज; **च नरपुङ्गवः शैब्यः** = आनी मनशांतलो म्हालगडो शैब्य; ५

युधामन्युश्च विक्रान्त उत्तमौजाश्च वीर्यवान् ।
सौभद्रो द्रौपदेयाश्च सर्व एव महारथा: ।।६।।

*पराक्रमी युधामन्यु उत्तमौजो बळिश्ट गा ।*
*सुभद्रे-द्रौपदे पूत हे सगलेच म्हारथी ।।६।।*

आनी पराक्रमी युधामन्यु, तसो बळिश्ट उत्तमौजो आनी सुभद्रेचो पूत अभिमन्यु आनी द्रौपदेचे पांच पूत, हे सगलेच म्हारथी. ६

*अ. अ.:* **च विक्रान्त: युधामन्यु:** = आनी पराक्रमी युधामन्यु; **च वीर्यवान् उत्तमौजा:** = तसोच बळिश्ट उत्तमौजो; **सौभद्र:** = सुभद्रेचो पूत अभिमन्यु; **च द्रौपदेया:** = आनी द्रौपदेचे (पांच) पूत; **सर्वे एव महारथा:** = (हे) सगलेच म्हारथी. ६

अस्माकं तु विशिष्टा ये तान्निबोध द्विजोत्तम ।
नायका मम सैन्यस्य संज्ञार्थं तान्ब्रवीमि ते ।।७।।

*आमच्या पक्षा मुखेली जे दळनायक ते म्हजे ।*
*म्हायती तांची दितां हांवु आतां ती आयकुची बरी ।।७।।*

आगा भौ बऱ्या ब्राह्मणा (आचार्य द्रोणा), आतां आमगेले जे म्हालगडे आसात तांची म्हायती देखीक तुका सांगतां. ती आयकुची. ७

*अ. अ.:* **द्विजोत्तम** = आगा भौ बऱ्या ब्राह्मणा; (आतां) **अस्माकं तु** = आमच्याय पक्षाचे; **ये विशिष्टा:** = जे म्हालगडे; **मम सैन्यस्य नायका:** = म्हज्या सैन्याचे जे मुखेल अधिकारी आसात; **तान् संज्ञार्थम्** = तांची म्हायती देखीक; **ते ब्रवीमि** = तुका सांगतां; **तान् निबोध** = ती आयकुची. ७

भवान्भीष्मश्च कर्णश्च कृपश्च समितिंजय: ।
अश्वत्थामा विकर्णश्च सौमदत्तिस्तथैव च ।।८।।

*भीष्म, खासा तुमी, कर्ण झुजांतु विजयी कृप ।*
*अश्वत्थामो विकर्णू बी सोमदत्त महारथी ।।८।।*

खासा तुमी आनी भीष्म, तसोच कर्ण आनी झुजां जिखपी कृपाचार्य आनी तेच भाशेन अश्वत्थामो, विकर्ण आनी सौमदत्ताचो पूत (भुरिश्रवो). ८

*अ. अ.:* **भवान्** = खासा तुमी; **च भीष्म: च कर्ण:** = आनी भीष्म आनी कर्ण; **च समितिंजय: कृप:** = आनी झुजां जिखपी कृपाचार्य; **च तथा एव अश्वत्थामा विकर्ण: च सौमदत्ति:** = आनी तेच भाशेन अश्वत्थामो, विकर्ण आनी सौमदत्ताचो पूत भुरिश्रवो. ८

**अन्ये च बहवः शूरा मदर्थे त्यक्तजीविताः ।**
**नानाशस्त्रप्रहरणाः सर्वे युद्धविशारदाः ।।९।।**

*हेरू अनेक ते वीर म्हाकाच जीवु ओंपुनू ।*
*शस्त्रां हातांत घेतिल्ले खांपे युद्धकळेंतुले ।।९।।*

हेर आनीक जायते वीर, तरां तरां शस्त्रां घेतिल्ले (आनी) म्हजे पासत जिवाची आशा सोडिल्ले, ते सगळे युद्धकळेंत खांपे आसात. ९

*अ. अ.:* **अन्ये च बहवः शूराः** = दुसरे आनीक जायते वीर; **नानाशस्त्रप्रहरणाः** = तरांतरांचीं शस्त्रां घेतिल्ले; **मदर्थे त्यक्तजीविताः** = म्हजे पासत जिवाची आशा सोडिल्ले; **सर्वे युद्धविशारदाः** = (ते) सगले युद्धकळेंत कुशळ आसात. ९

**अपर्याप्तं तदस्माकं बलं भीष्माभिरक्षितम् ।**
**पर्याप्तं त्विदमेतेषां बलं भीमाभिरक्षितम् ।।१०।।**

*अशीम सैन्य आमगेलें भीष्मानु राखिलांच तें ।*
*ल्हानूच सैन्य हांगेलें राखलां भीमानु तें बरें ।।१०।।*

अशे तरेन भीष्मान राखिल्लें आमगेलें सैन्य शीममेर नाशिल्लें आसा. पुणून, भीमान राखिल्लें हांगेलें सैन्य ल्हानशेंच आसा. १०

*अ. अ.:* **तत्** = अशे तरेन; **भीष्माभिरक्षितम् अस्माकं बलम्** = भीष्मान राखिल्लें आमगेलें सैन्य; **अपर्याप्तम्** = शीममेर नाशिल्लें आसा; **तु** = पुणून; **भीमाभिरक्षितम् एतेषाम् इदं बलम्** = भीमान राखिल्लें हांगेलें हें सैन्य; **पर्याप्तम्** = ल्हानशेंच आसा. १०

**अयनेषु च सर्वेषु यथाभागमवस्थिताः ।**
**भीष्ममेवाभिरक्षन्तु भवन्तः सर्व एव हि ।।११।।**

*दारांनी रावनु व्यूहाच्या जैं दवरल्यातु थैं तशे ।*
*सगले मेळूनु भीष्माकु राखातु चों वशीं तुमी ।।११।।*

तरी सैन्याच्या मांडाच्या सगल्या दारांनी नेमिल्ले भाशेन उबे रावन तुमी सगल्यांनी मेळुनूच भीष्माकूच चोंय वशीन राखचो. ११

*अ. अ.:* **च** = तरी; **सर्वेषु अयनेषु** = (सैन्याच्या मांडाच्या) सगल्या दारांनी; **यथा भागम्** = आपल्या सुवातांचेर नेमिल्ले भाशेन; **अवस्थिताः** = उबे रावन; **भवन्तः** = तुमी; **सर्वे एव हि** = सगल्यांनी मेळुनूच; **भीष्मम् एवम् अभिरक्षन्तु** = भिष्माकूच सर्व वटांनी राखचो. ११

संजय उवाच

तस्य संजनयन्हर्षं कुरुवृद्धः पितामहः ।
सिंहनादं विनद्योच्चैः शङ्खं दध्मौ प्रतापवान् ।।१२।।

संजयान म्हळें

शंख नाद

*आजो भीष्म कुरूजाण्टो खोशी ताच्यांत निर्मुंकू ।*
*प्रतापी गर्जलो शींव सो व्हडानु शंख फुंकुनू ।।१२।।*

संजयान म्हळें : त्या दुर्योधनाच्या काळजांत खोस निर्मूंक, कुरू कुळांतलो जाण्टेलो, प्रतापी भीष्म आज्यान, शिंवा भाशेन मोट्यान गाजून शंख वाजयलो. १२

*अ. अ.:* **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **तस्य** = त्या दुर्योधनाच्या (काळजांत); **हर्षं संजयनन्** = खोस निर्मूंक; **कुरुवृद्धः** = कुरू कुळांतलो जाण्टेलो; **प्रतापवान् पितामहः** = प्रतापी (भीष्म) आज्यान; **सिंहनादम् उच्चैः** = शिंवा भाशेन मोट्यान; **विनद्य** = गाजून; **शङ्खं दध्मौ** = शंख वाजयलो. १२

ततः शङ्खाश्च भेर्यश्च पणवानकगोमुखाः ।
सहसैवाभ्यहन्यन्त स शब्दस्तुमुलोऽभवत् ।।१३।।

ततः श्वेतैर्हयैर्युक्ते महति स्यन्दने स्थितौ ।
माधवः पाण्डवश्चैव दिव्यौ शङ्खौ प्रदध्मतुः ।।१४।।

पाञ्चजन्यं हृषीकेशो देवदत्तं धनंजयः ।
पौण्ड्रं दध्मौ महाशङ्खं भीमकर्मा वृकोदरः ।।१५।।

अनन्तविजयं राजा कुन्तीपुत्रो युधिष्ठिरः ।
नकुलः सहदेवश्च सुघोषमणिपुष्पकौ ।।१६।।

काश्यश्च परमेष्वासः शिखण्डी च महारथः ।
धृष्टद्युम्नो विराटश्च सात्यकिश्चापराजितः ।।१७।।

द्रुपदो द्रौपदेयाश्च सर्वशः पृथिवीपते ।
सौभद्रश्च महाबाहुः शङ्खान्दध्मुः पृथक्पृथक् ।।१८।।

*मृदंगां शंख मागीरु नगारे धोलु गोमुखां ।*
*तेन्ना वाजून वांगडाच जालो बोवाळु भयंकर ।।१३।।*

*तेदोळो शुभ्र घोड्यांच्या महारथांतु बैसुनू ।*
*कृष्णार्जुनानु आपापले वाजयले दिव्य शंख गा ।।१४।।*

*पांचजन्य हृषीकेशान्    देवदत्त धनंजयान् ।*
*वाजयी गा महाशंख    पौंड्र भीम महाबळी ।।१५।।*

*अनंत विजया शंखा    कुंतीपूत युधिष्ठिर ।*
*नकुळ सहदेवानु    सुघोष मणिपुष्पक ।।१६।।*

*काशीरायु धणू धरपी    शिखंडी तो महारथी ।*
*अजितु सात्यकी आनी    धृष्टद्युम्न विराट बी ।।१७।।*

*द्रुपद द्रौपदेपुत्रान्    सुभद्रेच्या पुतानु बी ।*
*वाजयले शंख आपापले    तांणी विंगडु विंगडु ।।१८।।*

मागीर जायते शंख आनी नगारे आनी धोल (आनी) मृदंगां, शिंगां (हीं रणवाद्यां) वांगडाच वाजूंक लागलीं. तो आवाज भयंकर जालो(१३). उपरान्त धवे घोडे बांदिल्ल्या, मोठ्या रथांत बशिल्ल्या कृष्णान आनी अर्जुनानूय आपले दिव्य शंख वाजयले (१४). श्रीकृष्णान पांचजन्य (नांवाचो शंख), अर्जुनान देवदत्त आनी भयांकृत कर्मां करपी कोलसुण्यावरी खादोळ्या भीमान पौंड्र शंख वाजयलो (१५). कुंतीचो पूत, राजा युधिष्ठिरान अनंतविजय, नकुळान सुघोष, आनी सहदेवान मणिपुष्पक (१६). मोटेलो धोणवाकार काशीराय आनी म्हारथी शिखंडी, धृष्टद्युम्न आनी विराट आनी झुजांत हार जावंक नाशिल्लो सात्यकी (१७); द्रुपद आनी द्रौपदेचे पूत आनी सुभद्रेचो पूत (अभिमन्यू), ह्या सगल्यांनी, आगा राया, चोंयवशीन आपापले वेगळे वेगळे शंख वाजयले (१८).

*अ. अ.:* **ततः शङ्खाः** = मागीर जायते शंख; **च भेर्यः** = आनी नगारे; **च पणवः** = आनी धोल; **आनकगोमुखाः** = मृदंगां आनी शिंगां (हीं रणवाद्यां); **सहसा एव अभ्यहन्यन्त:** = वांगडाच वाजपाक लागलीं; **सः शब्दः तुमुलः अभवत्** = तो आवाज भयंकर जालो (१३); **ततः** = ते उपरान्त; **श्वेतैः हयैः युक्ते** = धवे घोडे बांदिल्ल्या (अश्या); **महति स्यन्दने स्थितौ** = मोठ्या रथांत बशिल्ले; **माधवः** = श्रीकृष्ण; **पाण्डवः एव** = आनी अर्जुन हांणीय; **दिव्यौ शङ्खौ प्रदध्मतुः** = दिव्य शंख वाजयले (१४); **हृषीकेशः** = श्रीकृष्णान; **पाञ्चजन्यम्** = पांचजन्य (नांवाचो शंख); **धनंजयः देवदत्तम्** = अर्जुनान देवदत्त; (आनी) **भीमकर्मा वृकोदरः** = भयांकृत कर्मां करपी (आनी) कोलसुण्यावरी खादोळ्या भीमान; **पौण्ड्रम महाशङ्खम् दध्मौ** = पौंड्र नांवाचो मोटेलो शंख वाजयलो (१५); **कुन्तीपुत्रः राजा युधिष्ठिरः** = कुंतीचो पूत राजा युधिष्ठिरान; **अनन्तविजयम्** = अनंतविजय; **नकुलः सुघोषः** = नकुलान सुघोष; **च सहदेवः मणिपुष्पकौ** = आनी सहदेवान मणिपुष्पक (नांवाचो शंख वाजयलो) (१६); **परमेष्वासः काश्यः** = मोटेलो धोणवाकार काशीराय; **च महारथः शिखण्डी** = आनी म्हारथी शिखंडी; **धृष्टद्युम्नःच विराटः** = धृष्टद्युम्न आनी विराट; **अपराजितः सात्यकी** = हार जावंक नाशिल्लो सात्यकी (१७); **द्रुपदःच द्रौपदेयाः** = द्रुपद राजा आनी द्रौपदेचे पांच पूत; च = आनी; **महाबाहुः सौभद्रः** = बळिश्ट बावल्यांचो सुभद्रेचो पूत (अभिमन्यु); **सर्वशः** = ह्या सगल्यांनी; **पृथ्वीपते** = आगा राया (धृतराष्ट्रा); **पृथक् प्रथक् शंङ्खान् दध्मुः** = वेगळे वेगळे शंख वाजयले (१८).

स घोषो धार्तराष्ट्राणां हृदयानि व्यदारयत् ।
नभश्च पृथिवीं चैव तुमुलो व्यनुनादयन् ।।१९।।

*धृतराष्ट्रा पुतां काळजां    त्या घोशानु विदारलीं ।*
*मळब भूंय गाजोवपी    घोश गाजलो भयंकर ।।१९।।*

मळब आनी धर्तरी दणदणावपी त्या भयंकर घोशान धृतराष्ट्राच्या पुतांचीं काळजां विदारलीं.

*अ. अ.:* **नभःच पृथ्विवीम्** = मळब आनी धर्तरी; **व्यनुनादयन्** = दणदणावपी; **सः तुमुलः घोषः** = त्या भयंकर घोशान; **धार्तराष्ट्राणां हृदयानि व्यदारयत्** = धृतराष्ट्राच्या पुतांचीं काळजां विदारलीं.

अथ व्यवस्थितान्दृष्ट्वा धार्तराष्ट्रान् कपिध्वजः ।
प्रवृत्ते शस्त्रसंपाते धनुरुद्यम्य पाण्डवः ।।२०।।

*देखुनू कौरवां माण्णेन    शस्त्रांचो घावु घालुंकू ।*
*वानराची घुडि लायिल्लो    पार्थ उखलूनु गा धणू ।।२०।।*

मागीर कौरवांक मांडणेन उबे आशिल्ले पळोवन, शस्त्रां चलवचेलो वेळ लागीं पाविल्ल्यान, (रथाचेर) वानराची घुडी लायिल्लो अर्जुन धणू उखलून; २०

*अ. अ.:* **अथ धार्तराष्ट्रान्** = मागीर कौरवांक; **तदा व्यवस्थितान् दृष्ट्वा** = त्या वेळार मांडणेन उबे आशिल्ले पळोवन; **शस्त्रसंपाते प्रवृत्ते** = शस्त्रां चलवचेलो वेळ लागीं पाविल्ल्यान; **कपिध्वजः** (रथाचेर) वानराची घुडी लायिल्लो; **पाण्डवः धनुः उद्यम्य** = अर्जुन धणू उखलून; **कपिध्वजः** (रथाचेर) वानराचें चित्र आशिल्ली घुडी लायिल्लो; **पाण्डव धनुः उद्यम्य** = अर्जुन धणू उखलून; २०

हृषीकेशं तदा वाक्यमिदमाह महीपते ।

अर्जुन उवाच

सेनयोरुभयोर्मध्ये रथं स्थापय मेऽच्युत ।।२१।।

अर्जुनाकडल्यान दोनूय सैन्यांची नियाळणी

*आगा राया अशीं उतरां    उलयलो पार्थ केशवा ।*

अर्जुनान म्हळें

*थाराय रथ म्हजो आतां    कृष्णा दोनै दळां मदीं ।।२१।।*

आगा, धर्तरेच्या राजा (धृतराष्ट्रा), कृष्णाक अर्जुनान अशें म्हळें : कृष्णा, दोनूय सैन्यांमदीं म्हजो रथ थाराय. २१

*अ. अ.:* **(हे) महीपते** = आगा धर्तरेच्या राजा (धृतराष्ट्रा); **हृषीकेशम् इदं वाक्यम् आह** = कृष्णाक अशीं उतरां म्हळीं; **(हे) अच्युत** = श्रीकृष्णा; **उभयोः सेनयोः मे रथं मध्ये स्थापय** = दोनूय सैन्यांमदीं म्हजो रथ थाराय. २१

यावदेतान्निरीक्षेऽहं योद्धुकामानवस्थितान् ।
कैर्मया सह योद्धव्यमस्मिन्रणसमुद्यमे ।।२२।।

*म्हणटच हांव नियाळीन झुजा इत्सेनु जे उबे ।*
*कोणाकडेन झुजपाचें तें म्हाका ह्या रणसंगरीं ।।२२।।*

म्हणटकीच झुजाचे इत्सेन उबे आशिल्ल्या हांकां आनी झुजाच्या बोवाळांत म्हाका कोणाकडेन झुजपाचें आसा तांकां हांव नियाळटां. २२

*अ. अ.:* **यावत्** = म्हणटकीच; **योद्धुकामान् अवस्थितान्** = झुजाचे इत्सेन उबे आशिल्ल्या; **एतान्** = हांकां; (आनी) **अस्मिन् रणसमुद्यमे** = ह्या झुजाच्या बोवाळांत; **मया** = म्हाका; **कै: सह योद्धव्यम्** = कोणा कडेन झुजपाचें आसा; (तांकां) **अहं निरीक्षे** = हांव नियाळटां. २२

योत्स्यमानानवेक्षेऽहं य एतेऽत्र समागता: ।
धार्तराष्ट्रस्य दुर्बुद्धेर्युद्धे प्रियचिकीर्षव: ।।२३।।

*पळेतां सर्व योद्ध्यांकु जे आयिल्ले रणांतु ह्या ।*
*दुश्ट दुर्योधनाचें गा ह्या झुजांत इत्सुपी बरें ।।२३।।*

पाडे बुद्दीच्या दुर्योधनाचें झुजांत बरें इत्सुपी जे हे जमल्यात त्या झुजाऱ्यांक हांव पळेतां.

*अ. अ.:* **दुर्बुद्धे** = पाडे बुद्धीच्या; **धार्तराष्ट्रस्य** = दुर्योधनाचें; **युद्धे** = झुजांत; **प्रियचिकीर्षव:** = बरें इत्सुपी; **ये एते** = जे हे (राजा लोक); **अत्र** = हांगा; **समागता:** = आयल्यात; (त्या) **योत्स्यमानान्** = झुजाऱ्यांक; **अहम् अवेक्षे** = हांव पळेतां. २३

संजय उवाच

एवमुक्तो हृषीकेशो गुडाकेशेन भारत ।
सेनयोरुभयोर्मध्ये स्थापयित्वा रथोत्तमम् ।।२४।।

भीष्मद्रोणप्रमुखत: सर्वेषां च महीक्षिताम् ।
उवाच पार्थ पश्यैतान्समवेतान्कुरूनिति ।।२५।।

संजयान म्हळें

*अर्जुनाचीं अशीं उतरां कृष्णान आयकूनु भारता ।*
*दोनै सैन्यांमदीं केलो उबो भौच बरो रथ ।।२४।।*

*सामखार भीष्म द्रोणाच्या सर्व राजां मुखारु तो ।*
*म्हळें पार्था पळे सगल्यां जमिल्ल्यां कौरवांकु तूं ।।२५।।*

भारत कुळांतल्या राया (धृतराष्ट्रा), अर्जुनान अशें म्हणटकीच, श्रीकृष्णान दोनूय सैन्यांमदीं भौच बरो रथ थारावन (२४); भीष्म, द्रोण आनी सगल्यां राजां सामखार अशें म्हळें : ''अर्जुना, ह्या एकठांय जमिल्ल्या कौरवांक पळे.'' २५

*अ. अ.:* **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **भारत** = भारत कुळांतल्या राजा (धृतराष्ट्रा); **गुडाकेशेन एवम् उक्त :** = अर्जुनान अशें म्हणटकीच; **हृषीकेश: उभयो: सेनयो:** = श्रीकृष्णान दोनूय सैन्यांमदीं; **रथोत्तम् स्थापयित्वा** = भौच बरो रथ थारावन (२४); **भीष्म: द्रोणच सर्वेषाम्** = भीष्म; द्रोण आनी सगल्यां; **महीक्षितां प्रमुखत:** = राजां सामखार; **इति उवाच** = अशें म्हळें; **पार्थ एतान् समवेतान्** = अर्जुना; ह्या एकठांय जमिल्ल्या; **कुरून् पश्य** = कौरवांक पळे. २५

**तत्रापश्यत्स्थितान्पार्थ: पितृनथ पितामहान् ।**
**आचार्यान्मातुलान्भ्रातृन्पुत्रान्पौत्रान्सखींस्तथा ।।२६।।**

**श्वशुरान्सुहृदश्चैव सेनयोरुभयोरपि ।**
**तान्समीक्ष्य स कौन्तेय: सर्वान्बन्धूनवस्थितान् ।।२७।।**

**कृपया परयाविष्टो विषीदन्निदमब्रवीत् ।**

अर्जुन उवाच

**दृष्ट्वेमं स्वजनं कृष्ण युयुत्सुं समुपस्थितम् ।।२८।।**

**सीदन्ति मम गात्राणि मुखं च परिशुष्यति ।**

**वेपथुश्च शरीरे मे रोमहर्षश्च जायते ।।२९।।**

*अर्जुनानु पळेलें थैं आजे नि बापुल्ये उबे ।*
*मामा इश्ट गुरू आनी भाव नातू पुतै तशे ।।२६।।*

*मांवु तशे बरे मागते दोनै सैन्यांतु सारके ।*
*देखले पार्थानु गा सारके आप्त झुजाकु सज्ज ते ।।२७।।*

*कळवळून कौंतेय खेदिश्ट जावनु तो म्हणी ।*

अर्जुनान म्हळें

*देखुनु आप्त हे कृष्णा खुमखुमले झुजपाक जे ।।२८।।*

*गळऽ गात्रां म्हगेलीं हीं सुकलां गा तोंडु हें म्हजें ।*
*म्हगेली कूड थरथरता फुल्ता कांटो तिचेरु गा ।।२९।।*

तेन्ना थंय अर्जुनान बापोलये, आजे, गुरू, मावळे, भाव, पूत, नातू तशेच इश्ट (२६); मांव आनी बरें मागते, ह्या दोनूय सैन्यांत उबे आशिल्ले पळेले. त्या उब्या आशिल्ल्या भावबंधांक बरे करून पळोवन, तो कुंतीचो पूत, अर्जुन (२७); चड काकळुटेन आकूळ जावन, खेदान अशें उलयलो. अर्जुनान म्हळें : ''कृष्णा, हे आमचे घरचे झुजाचे खुमखुमेन आयिल्ले पळोवन (२८); म्हजीं गात्रां गळसणटात आनी म्हजें तोंड सामकें सुकलां आनी म्हजी कूड थरथरता आनी आंगार कांटो फुलता.'' २९

*अ. अ.:* **अथ** = तेन्ना; **तत्र** = थंय; **पार्थ:** = अर्जुनान; **पितृन्** = बापोलये; **पितामहान्** = आजे; **आचार्यान्** = गुरू; **मातुलान्** = मावळे; **भ्रातृन्** = भाव; **पुत्रान्** = पूत; **पौत्रान्** = नातू; **तथा** = तशेच; **सखीन्** = इश्ट (२६); **श्वशुरान्** = मांव; **च** = आनी; **सुहृद:** = बरें मागते; **तान्** = त्या; **उभयो: अपि सेनयो:** = दोनूय सैन्यांत; **स्थितान्** = उबे आशिल्ले; **अपश्यत्** = पळेले; **तान् अवस्थितान्** = त्या उबे आशिल्ल्या; **सर्वात् बन्धून्** = भावबंधांक; **समीक्ष्य** = बरें करून पळोवन (२७); **ए: कौन्तेय:** = तो कुंतीचो पूत अर्जुन; **परया कृपया आविष्ट:** = चड काकळुटेन आकूळ जावन; **विषिदन्** = खेदान; **इदम् अब्रवीत** = अशें उलयलो; **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **कृष्ण** = कृष्णा; **इमं स्वजन:** = हे आमचे घरचे; **युयुत्सुं समुपस्थितम्** = झुजाचे खुमखुमेन आयिल्ले; **दृष्ट्वा** = पळोवन (२८); **मम गात्राणि सीदन्ति** = म्हजीं गात्रां गळसणटात; **च मुखं परिशुष्यति** = आनी तोंड सामकें सुकता; **च मे शरीरे वेपथु:** = आनी म्हजी कूड थरथरता; **च रोमहर्ष: जायते** = आनी आंगार कांटो फुलता (२९).

**गाण्डीवं स्रंसते हस्तात्त्वक्चैव परिदह्यते ।**
**न च शक्नोम्यवस्थातुं भ्रमतीव च मे मन: ।।३०।।**

**निमित्तानि च पश्यामि विपरीतानि केशव ।**
**न च श्रेयोऽनुपश्यामि हत्वा स्वजनमाहवे ।।३१।।**

*सुटऽ गांडीव हातांतलें   ही कातूय हुल्पता म्हजी ।*
*जायना उबोच रावूंकू   घुंवताशें मन हें म्हजें ।।३०।।*

*दिसऽ हीं लक्षणां म्हाका   विपरीतूच केशवा ।*
*कल्याण दिसना जायतु   आप्तां हाणूनु संगरीं ।।३१।।*

हातांतसून गांडीव (धणू) गळटा आनी आंगाची कातूय हुलपता. म्हज्यान उबो रावं नजो. म्हजें मन भ्रमिश्टावरी जालां (३०); आनी कृष्णा, हीं सगलीं लक्षणांय अपशकुनाचीं दिसतात. घरच्यांक झुजांत मारून म्हाका कल्याणय दिसना (३१).

*अ. अ.:* **हस्तात् गाण्डीवं स्रंसते** = हातांतसून धणू गळटा; **च त्वक् एव परिदह्यते** = आनी आंगाची कातूय हुलपता; **अवस्थातुं न शन्कोमि** = (म्हज्यान) उबो रावूंक नजो; **मे मन भ्रमति इव** = म्हजें मन भ्रमिश्टावरी जालां (३०); **च केशव** = आनी कृष्णा; **निमित्तानि च विपरीतानि पश्यामि** = हीं सगलीं लक्षणांय अपशकुनाचीं दिसतात; **आहवे स्वजनं हत्वा** = झुजांत घरच्यांक मारून; **श्रेय: च न अनुपश्यामि** = (म्हाका) कल्याणय दिसना (३१).

**न काङ्क्षे विजयं कृष्ण न च राज्यं सुखानि च ।**
**किं नो राज्येन गोविन्द किं भोगैर्जीवितेन वा ।।३२।।**

*जैता इत्साच ना कृष्णा   नाका राज्य तशीं सुखां ।*
*कित्या तें राज्य नी भोग   जगून हांव करतलों कितें ।।३२।।*

कृष्णा, म्हाका जैताची इत्सा ना, तशी राज्य आनी सुखांयची इत्सा ना. गोविंदा, राज्य, सुखांचे भोग आनी जिवीत (वांचून उरप) हांचो आमकां उपेग कितें ? ३२

*अ. अ.:* **कृष्ण:** = कृष्णा; **विजयं न काङ्क्षे** = (म्हाका) जैताची इत्सा ना; **च** = तशी; **राज्यं च सुखानि च (काङ्क्षे)** = राज्य आनी सुखांचीय इत्सा ना; **गोविन्द** = गोविंदा (कृष्णा); **राज्येन वा भोगै: जीवितेन** = राज्य आनी सुखांचे भोग आनी जिवीत (वांचून उरप) (हीं); **न : किम्** = आमकां कित्याक ? ३२

**येषामर्थे काङ्क्षितं नो राज्यं भोगा: सुखानि च ।**
**त इमेऽवस्थिता युद्धे प्राणांस्त्यक्त्वा धनानि च ।।३३।।**

***राज्य भोग सुखां आमी जांचे पासतु इत्सुचीं ।***
***आशा प्राणां धना सोडून् उबे रावल्यातु ते रणीं ।।३३।।***

जांचे पासत राज्य, भोग आनी सुखां हीं आमी इत्सुचीं, ते हे धनाची आनी जिवाची आशा सोडून, झुजाक उबे रावल्यात. ३३

*अ. अ.:* **येषाम् अर्थे** = जांचे पासत; **राज्यं भोगा: च सुखानि** = राज्य, भोग आनी सुखां हीं; **काङ्क्षितं न:** = आमी इत्सुचीं; **ते इमे** = ते हे; **धनानि चं प्राणान् त्यक्त्वा** = धनाची आनी प्राणांची आशा सोडून; **युद्धे अवस्थिता:** = झुजाक उबे रावल्यात. ३३

**आचार्या: पितर: पुत्रास्तथैव च पितामहा: ।**
**मातुला: श्वशुरा: पौत्रा: श्याला: सम्बन्धिनस्तथा ।।३४।।**

**एतान्न हन्तुमिच्छामि घ्नतोऽपि मधुसूदन ।**
**अपि त्रैलोक्यराज्यस्य हेतो: किं नु महीकृते ।।३५।।**

***आचार्य आनी जाणटेले आजे नि पूत बी तशे ।***
***मामा नातू तशे मांवु मेवणे आप्तेश्ट ते म्हजे ।।३४।।***

***मारीनु दिसना हांकां मारती म्हाका जरी हरी ।***
***राज्य नाका त्रिलोकाचें पडलां कोणाकु पृथ्विचें ।।३५।।***

गुरू आनी जाणटेले, पूत तेच भाशेन आजे, मावळे, मांव, नातू, मेवणे आनी हेर सोयरे हांगा आसात (३४); कृष्णा, म्हाका हांणी मारल्यारूय म्हाका हांकां मारची इत्सा ना. तिनूय लोकांचें राज्य मेळ्ळयारूय ना, तर धर्तरेच्या राज्या खातीर कित्याक मारीन (३५)?

*अ. अ.:* **आचार्या:च पितर:** = गुरू आनी जाणटेले; **पुत्रा : तथा पितामहा:** = पूत तेच भाशेन आजे; **मातुला:** = मावळे; **श्वशुरा:** = मांव; **पौत्रा:** = नातू; **श्याला:** = मेवणे; **तथा सम्बधिन :** = आनी हेर सोयरे (३४); **मधुसूदन** = कृष्णा; **घ्नत: अपि** = म्हाका (हांणी) मारल्यारूय; **एतान्** = हांकां; **हन्तुं न इच्छामि** =म्हाका मारची इत्सा ना; **त्रैलोक्य राज्यस्य हेतो: अपि** = तिनूय लोकांचें राज्य मेळ्ळयारूय ना; **महीकृते नु किम्** = (तर) पृथ्वीची कितें कथा ? ३५

**निहत्य धार्तराष्ट्रान्न: का प्रीति: स्याज्जनार्दन ।**
**पापमेवाश्रयेदस्मान्हत्त्वैतानाततायिन: ।।३६।।**

*जातलें बरें कशें कृष्णा हाणूनु कौरवांक ह्या ।*
*लागतु पातकू आमकां मारूनु घातक्यांकु ह्या ।।३६।।*

कृष्णा, धृतराष्ट्राच्या पुतांक मारून आमचें कितें बरें जातलें ? ह्या घातक्यांक मारून आमकां पातकूच लागतलें. ३६

*अ. अ.*: **जनार्दन** = कृष्णा; **धार्तराष्ट्रान्** = धृतराष्ट्राच्या पुतांक; **निहत्य** = मारून; **न:** = आमचें; **का प्रिती स्यात्** = कितें बरें जातलें ?; **एतान् आततायिन: हत्वा** = ह्या घातक्यांक मारून; **अस्मान्** = आमी; **पापं एवम् आश्रयेन** = पातकाचेच भागी जातले. ३६

**तस्मान्नार्हा वयं हन्तुं धार्तराष्ट्रान्स्वबान्धवान् ।**
**स्वजनं हि कथं हत्वा सुखिन: स्याम माधव ।।३७।।**

*मारूंकु फावना देखून आमच्या भावांक कौरवां ।*
*आमच्या घरच्यांक मारुनु कृष्णा भोगूं कशें सुख ।।३७।।*

देखून कृष्णा, आमच्या भावांक, कौरवांक आमी मारूंक फावना, कित्याक, आमच्या घरच्यांक मारून आमी कशे सुखी जातले ? ३७

*अ. अ.:* **तस्मात्** = देखून; **माधव** = कृष्णा; **स्वबान्धवान्** = आमचे भाव (अश्या); **धार्तराष्ट्रान्** = कौरवांक; **वयं हन्तुं न अर्हा:** = आमी मारपाक फावना; **हि** = कित्याक; **स्वजनं हत्वा** = घरच्यांक मारून; **कथम्** = (आमी) कशे; **सुखिन: स्याम्** = सुखी जातले ? ३७

**यद्यप्येते न पश्यन्ति लोभोपहतचेतस: ।**
**कुलक्षयकृतं दोषं मित्रद्रोहे च पातकम् ।।३८।।**

कूळनाश आनी हेर पातकांचे परिणाम

*बुद्द लोभानु भश्टल्ल्यान हांकां म्हणूनु दीसना ।*
*पातकु इश्ट द्रोहाचें दोश कूळ क्षयांतुलो ।।३८।।*

**कथं न ज्ञेयमस्माभि: पापादस्मान्निवर्तितुम् ।**
**कुलक्षयकृतं दोषं प्रपश्यद्भिर्जनार्दन ।।३९।।**

*कळना गा कशें आमकां ताळचें हें पातकु कशें ।*
*कूळक्षयांतुलो दोश जो येवपी स्पश्ट दिस्तना ।।३९।।*

लोभान बुद्द भश्टल्ल्या हांकां, कुळाच्या नाशान येवचेलो दोश आनी इश्टद्रोहाचें पातक, दिसलें ना जाल्यारूय, कृष्णा, कुळाच्या खेवान येवचेलो दोश पळेतल्या आमकां, ह्या पातकां पासून पयस सरपाक कशें कळना ? ३९

*अ. अ.:* **लोभोपहतचेतस:** = (राज्याच्या) लोभान बुद्द भश्टल्ल्या; **एते** = हांकां; **कुलक्षयकृतम्** = कुळाच्या नाशान येवचेलो दोश; **च मित्रद्रोहे पातकम्** = इश्टघाताचें पातक; **यद्यपि न पश्यन्ति** = दिसलें ना जाल्यारूय; **जनार्दन** = कृष्णा; **अस्माभि:** = आमकां; **अस्मात् पापात्** = ह्या पातका पासून; **निवर्तितुम्** = फाटीं सरपाक; **कथम्** = कशें; **न ज्ञेयम्** = कळचें न्हय ? ३९

**कुलक्षये प्रणश्यन्ति कुलधर्मा: सनातना: ।**
**धर्मे नष्टे कुलं कृत्स्नमधर्मोऽभिभवत्युत ।।४०।।**

*लया वती कुळा नाशान्  कुळाचार सनातनू ।*
*ना जाल्ल्यानु कुळाचार  मातऽ अधर्मु गा कुळांत् ।।४०।।*

कुळांचो क्षय जातकीच सासणाचे पुर्वापार चलिल्ले कुळाचार सामकेच नश्ट जातात. कुळाचार ना जातकीच अख्ख्या कुळाचेर अधर्माचोच शेक चलता. ४०

*अ. अ.:* **कुळक्षये** = कुळाचो क्षय जातकीच; **सनातना: कुलधर्मा:** = सासणाचे (पुर्वापार) चलिल्ले कुळाचार; **प्रणश्यन्ति** = नश्ट जातात; **धर्मे नष्टे** = (कूळ) धर्म वा कुळाचार ना जातकीच; **कृत्स्नम्** = अख्ख्या; **कुलम् अधर्म: उत:** = कुळाचेर अधर्माचोच; **अभिभवति** = शेक चलता. ४०

**अधर्माभिभवात्कृष्ण प्रदुष्यन्ति कुलस्त्रिय: ।**
**स्त्रीषु दुष्टासु वार्ष्णेय जायते वर्णसंकर: ।।४१।।***

*कृष्णा अधर्मु मातल्यार  भश्टतातु कुळास्त्रियो ।*
*भश्टतकीच त्यो कृष्णा  वर्णसंकर जायि गा ।।४१।।**

कृष्णा, (कूळ) अधर्मान ग्रासतकीच कुळांतल्यो बायलो भश्टतात. वृष्णी कुळांत जाल्ल्या कृष्णा, बायलो भश्टतकीच वर्णसंकर जाता. ४१

*अ. अ.:* **कृष्ण** = आगा कृष्णा; **अधर्माभिभवात्** = अधर्म मानतकीच; **कुलस्त्रिय: प्रदुष्यन्ति** = कुळांतल्यो अस्तुर्‍यो भश्टतात; **वार्ष्णेय** = वृष्णी कुळांतल्या श्रीकृष्णा; **स्त्रीषु दुष्टासु** = बायलां भश्टतकीच; **वर्णसंकर जायते** = वर्णसंकर (जातींचें भरसप) जाता. ४१

**संकरो नरकायैव कुलघ्नानां कुलस्य च ।**
**पतन्ति पितरो ह्येषां लुप्तपिण्डोदकक्रिया: ।।४२।।**

**दोषैरेतै: कुलघ्नानां वर्णसंकरकारकै: ।**
**उत्साद्यन्ते जातिधर्मा: कुलधर्माश्च शाश्वता: ।।४३।।**

**उत्सन्नकुलधर्माणां मनुष्याणां जनार्दन ।**
**नरके नियतं वासो भवतीत्यनुशुश्रुम ।।४४।।**

---

* श्लोक टिपो पळयात.

*नर्कांतु संकरान वेती कुळघातक्यांसवें कुळ ।*
*श्राद्धकर्माविणे कृष्णा पितरांची अधोगती ।।४२।।*

*दोश हे कूळ घातक्यांचे घडोवनु वर्णसंकर ।*
*बुडटातु धर्म जातीचे शाश्वतु कूळ धर्म बी ।।४३।।*

*मोडटातु जे कुळाचार भोगतातु दीर्घ काळ ते ।*
*नरकवास गा कृष्णा आमी हें आयकलां अशें ।।४४।।*

वर्णसंकरान कूळ घातके आनी कूळ नरकांतूच पावतात. कित्याक, तर्पणाच्यो क्रिया जायनाशिल्ल्यान हांगेलीं पितरांय नरकांत पडटात (४२); कूळ घातक्यांच्या वर्णसंकर घडयतल्या ह्या दोशांनी जातीचे आनी कुळाचे सासणाचे (पुर्वापार) चलिल्ले आचार मोडटात (४३); कृष्णा, कुळाचार करिनाशिल्ल्या मनशांक खूब काळ नरकवास घडटा अशें आमी आयकलां (४४);

*अ. अ.:* **वर्णसंकर कुलघ्नानां च कुलस्य** = कूळ घातक्यांक आनी कुळाक; **नरकाय एव** = नरकांतूच पावयतात. (कित्याक) **लुप्तपिण्डोदकक्रिया:** = पिंडदान-तर्पणाच्यो (तिळां-उदक) क्रिया जायनाशिल्ल्यान; **एषां पितर: हि** = हांगेलीं पितरांय; **पतन्ति** = नरकांत पडटात (४२); **कुलघ्नानां वर्णसंकरकारकै: दोषै:** = कूळघातक्यांच्या वर्णसंकर घडयतल्या ह्या दोशांनी; **शाश्वता: कुलधर्मा: च जातिधर्मा:** = सासणाचे कुलधर्म आनी जातीधर्म (पुर्वापार चलिल्ले आचार); **उत्साद्यन्ते** = मोडटात (४३); **जनार्दन** = कृष्णा; **उत्सन्न कुलधर्माणां मनुष्याणाम्** = कुळाचार ना केल्ल्या मनशांक; **अनियतम्** = खूब काळामेरेन; **नरके वास: भवति** = नरकवास भोगचो पडटा; **इति अनुशुश्रुम** = अशें आमी आयकलां (४४).

**अहो बत महत्पापं कर्तुं व्यवसिता वयम् ।**
**यद्राज्यसुखलोभेन हन्तुं स्वजनमुद्यता: ।।४५।।**

**यदि मामप्रतीकारमशस्त्रं शस्त्रपाणय: ।**
**धार्तराष्ट्रा रणे हन्युस्तन्मे क्षेमतरं भवेत् ।।४६।।**

आपूण झुजचोना असो अर्जुनाचो निश्चय

*कटाऽ कटा कितलें होड्डु आमी करतातु पातकु ।*
*भावां जिवारू ऊठल्यातु आशेवनु राज्य सूख हें ।।४५।।*

*घालिना घावु पर्तो हांव शस्त्र सोडल्यारि हें बरें ।*
*शस्त्र हातांतु घेतिल्ले मार्तीतु कौरवु भौ बरें ।।४६।।*

कटाऽ कटा. राज्य सुखाचे आशेन आमी घरच्यांक मारूंक उठल्यात ही केदी दुख्खाची गजाल! कित्याक, आमी हें व्हडलें पातक करपाक मुखार सरल्यात (४५). जर हातांत शस्त्रां

घेतिल्ले कौरव नि:शस्त्र आनी पर्तो घाव घालिनाशिल्ल्या म्हाका रणांत हाणटीत, जाल्यार म्हजें अदीक कल्याण जातलें. ४६

*अ. अ.:* **अहो** = कटाऽ कटा: **राज्यसुख लोभेन** = राज्य सुखाचे आशेन; **स्वजनं हन्तुं उद्यत:** = (आमी) घरच्यांक मारूंक उठल्यात; **बत** = ही केदी दुख्खाची गजाल !; **यत्** = कित्याक; **वयं महत्पापं कर्तुव्यवस्थिता:** = आमी हें व्हडलें पाप करपाक मुखार सरल्यात (४५); **यदि शस्त्रपाणय:** = जर हातांत शस्त्रां घेतिल्ले; **धार्तराष्ट्रा** = कौरव; **अशस्त्रम्** = नि:शस्त्र; **अप्रतिकारं माम्** = परतो घाव घालिनाशिल्ल्या म्हाका; **रणे हन्यु:** = रणांत हाणतीत; **तत् मे क्षेमतरं भवेत्** = जाल्यार म्हजें अदीक कल्याण जातलें. ४६

संजय उवाच

**एवमुक्त्वार्जुन: संख्ये रथोपस्थ उपाविशत् ।**
**विसृज्य सशरं चापं शोकसंविग्नमानस: ।। ४७ ।।**

संजयान म्हळें

*अशें रणांतु उलोवनू      शोक-व्याकूळु अर्जुनू ।*
*धणू नि बाण उडोवनू      सस्त रथांतु बैसलो ।।४७।।*

संजयान म्हळें : झुजा मळार शोकान मन आकुळिल्ल्या अर्जुनान अशें म्हणून, बाणासयत धणू उडोवन, तो रथांत वचून बसलो.

*अ. अ. :* **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **संख्ये** = झुजा मळार; **शोकसंविग्न मानस:** = शोकान मन आकुळिल्ल्या; **अर्जुन: एवम् उक्त्वा** = अर्जुनान अशें म्हणून; **सशरम्** = बाणासयत; **चापं विसृज्य** = धणू उडोवन; (तो) **रथोपस्थे** = रथांत; **उपविशत्** = वचून बसलो. ४७

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासुपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **अर्जुनविषाद-**
**योगो** नाम **प्रथमोऽध्याय:** ।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो **अर्जुनविषादयोग** (अर्जुनाचो खेद) नांवाचो **पयलो** अध्याय सोंपलो.

# टिपो

१. धर्माचे उदरगतीक धान्या भाशेन निमित्त आशिल्ली जी भूंय तें धर्मक्षेत्र (धर्माचें क्षेत्र). (मधु); धर्मभूंय, पुण्यभूंय.

२. कुरुक्षेत्र ही कुरुदेशाच्या राजाची भूंय.

३. धोणवां घेतिल्ल्या धा हजार झुजाऱ्यां आड एकलोच झुजपी तो म्हारथी.

४. पुरुजित् हें मनशाचें नांव आनी भोज ताच्या कुळाचें. ताणें पृथा नांवाची चली पोसूंक घेतिल्ली. तीच कुंती, पांडवांची आवय. (पळेयात, 'रसाळ ज्ञानेश्वरी', ले. यार्दी, उ. भारतीय विद्या भवन.)

५. शिबी जमातेचो राजा शैब्य. यवन (ग्रीक) लोक हे जमातेक शिबे (Sibae) म्हणटाले.

६. द्रौपदेचे पूत. तांचीं नांवां अशीं: प्रतिविंध्य, सुतसोम. श्रुतकिर्ती, शतानीक आनी श्रुतकर्मा.

७. घातकी. स तरांचे आततायी (घातकी) सांगल्यात. उजो लावपी, वीख घालपी, शस्त्र घेवन आंगार येवपी, धन लुटपी, भूंय हातासपी आनी दुसऱ्यांचे बायलेक व्हरपी. (मनुस्मृती - ८/३५०).

८. वर्णसंकर: स्मृतींत चार वर्णांचे वांगडाच अनुलोम, प्रतिलोम अश्यो लग्नाच्यो जायत्यो तरा सांगल्यात. त्योय वर्णवेवस्थेचे भितरच आसात. त्या काळारय वेगळ्या वेगळ्या वर्णां भितर लग्नां (जांकां वर्णान्तर लग्नां म्हणटाले) जातालींच; तीं समाजाक मान्य आशिल्लीं. पूण जेन्ना वर्णाचो विचार सोडून दिवन लग्ना भायले संबंद सुरू जातात, तेन्ना वर्णसंकर येता. अर्जुनान जे वर्णसंकराचे दोश म्हळ्यात ते असले व्यभिचार घडोवपी दोश आशिल्ले. ताच्या म्हणण्याप्रमाण वर्णाचो विचारच मोडटकूच खंयचो वेवसाय कोण करतलो हाची वेवस्ता तुट्टा. शीममेर नाशिल्ली सर्त सुरू जाता, कलह वाडटा. जिवितांतल्या सहकार्याची सुवात, संघर्श घेता. आनी समाजितकाय ना जाता. होच नरक. जंय वर्ण-संकर येता, थंय घोव-बायलेमदली निश्ठा मोडटा, कूळ धर्म ना जाता आनी मागीर समाजीक जिवितूय ना जाता (का.)

# श्लोकटिपो

*४१. आपलो वर्ण (जात वा जमात) नितळ वा शुद्ध राखपाक जाय हो पुर्विल्ल्या काळासावन चलत आयिल्लो विचार आयच्या काळांत लेगीत चलता. ह्या विचाराच्या प्रभावान जमाती जमातीं मदीं झगडीं पेटल्यांत. पुणून हालींच्या काळांत व्हडा प्रमाणांत उद्देगीकरण, शारीकरण आनी लोकांचीं स्थळांतरां जाल्ल्यान आनी जिविताची गती वाडिल्ल्यान ह्या विचाराचो प्रभाव पयलीं परस उणावल्लो दिसता.



# सांख्ययोग

ह्या अध्यायांतलें निरूपण सांख्यमत्ताप्रमाण केलां म्हूण ताका सांख्ययोग हें नांव दिलां आसल्यारूय तातूंत कर्मयोगा विशीं उल्लेख आसा. सांख्यमत्त प्रकृती आनी पुरूष अशीं दोन मूळ द्रव्यां मानून घेता. पूण प्रत्यक्षांत निर्मणेचें काम प्रकृतीचें. पुरूष साक्षीभावान पळेता. तो कांयच करिना. पुरूष सचेतन. तो अचेतन वा जड पदार्थांत चैतन्य ओतपी. पुणून तो अकर्तो आशिल्ल्यान आपूण जावन कांयच करिना. प्रकृती जड आनी अचेतन. पूण गूण आशिल्ली. ती पुरुषाशिवाय निर्मणी करिना. देखून पुरूष मुळांत अकर्तो आनी अलिप्त आसुनूय प्रकृती ताका अशे तरेन घुसपायता की कुडी कडसून प्रकृतीक लागून जावपी सगलीं कर्मां आपुणूच करतां अशें ताका दिसता. सांख्यांचो पुरूष कुडीं कणकणीं वेगळो. वेदान्त्यांचे नदरेन एकच परमात्मो वेगळे वेगळे कुडींत आत्म्याच्या (जिवाच्या) रुपान रावता. कुडी कडसून घडपी सगलीं कर्मां प्रकृतीचे गूण कुडी कडसून घडयतात; आपूण तीं करिना अशी अलिप्तपणाची जाणवीक पुरुषाक वा आत्म्याक जातकीच, ती कूड धरपी व्यक्ती मुक्तीचे दिकेन पयली पावली मारता. गीतेन सांख्यांची प्रकृती आनी पुरूष ही संकल्पना आपणायतना, हांचेपेल्यान 'ब्रह्म' हें मूळ द्रव्य आसा – ब्रह्म हेंच परमेश्वराचें खरें रूप, ही वेदान्त्यांची भुमिका आपणायली. सांख्य हे निरिश्वरवादी. पूण वेदान्त्यांच्या मत्ताप्रमाण ब्रह्मांत ईश्वरी अधिष्ठान आसून त्या ब्रह्मापसून सगले सृश्ट पदार्थ निर्माण जाल्यात. हें विश्व परमेश्वराची निर्मणी आनी सृश्टी ही ताची माया (विस्तार करचेली शक्ती). अशे तरेन सांख्यमत्त आनी वेदान्तमत्त हांचो सुरमेळ गीतेंत सादला.

अठरा अध्यायाचे गीतेंत दुसऱ्या अध्यायांत गीतेचो सार आयला. ह्या अध्यायांत सूत्ररुपान सांगिल्ल्या तत्त्वज्ञानाचो विस्तार फुडल्या अध्यायांत केला. मधुसूदन सरस्वतीन ह्या अध्यायाक 'सर्वगीतार्थसूत्रणम्' अशें नांव दिलां.

पयल्या धा श्लोकांत योग्य आनी अयोग्य कर्म वा धर्म आनी अधर्म हे विशीं श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांचेमदीं संवाद जाता. अर्जुन ऐन वेळार अवसानखत जाल्लो पळोवन, श्रीकृष्ण ताचो आत्मविस्वास जागोवचेलो यत्न करता. ताचो आत्मविस्वास जागो जातकीच अर्जुन ताळयार येतलो आनी झुजपाक उबो रावतलो अशें श्रीकृष्णाक दिशिल्लें. पूण ताचीं बोंचरीं उतरां मनाक लावन घेनासतना अर्जुन आपली खरेली अडचण चवथ्या ते आठव्या श्लोकांत पर्थून मांडटा आनी हाचो सुटावो जाले बगर आपूण झुजपाचोंय ना हो आपलो निर्णय धाव्या श्लोकांत ताका सांगता. तेन्ना श्रीकृष्ण लागणूक (कर्तव्य), योग्य आनी अयोग्य कर्म हे विशीं

आपले विचार मांडटा.

श्रीकृष्ण दुख्खाच्या स्वरुपाविशीं सांगता (११-१५). मरणासारकीं दुख्खां कोणाकूच चुकनाशिल्ल्यान तीं सोंसपाक जाय. शरीर नाशिवंत म्हूण तें जल्म आनी मर्ण हे विकार (बदल) भोगता. आत्मो अमर. हेंच सांख्य तत्त्वज्ञान.

हें धर्मझूज आशिल्ल्यान तें स्वार्थाखातीर नासून समाजांत न्याय-नीत आनी धर्म राखपापासत आसा. सांख्याच्या दुसऱ्या सिद्धान्ताप्रमाण प्रकृतीन दिल्ल्या रजगुणी सभावाक लागून चातुर्वण्यी समाज रचणुकेंत अर्जुनाचें स्थान क्षत्रियांत आसा. अन्यायाचे आड झुजप, शत्रूक हाणप, गरज पडल्यार आपल्या प्राणाची आहुती दिवप हीं क्षत्रियाच्या वांट्याक आयिल्लीं सभावीक कर्तव्यां. तांकां पाळो दिवप हो क्षत्रीय धर्म. उलट तीं करप ना हो अधर्म. तीं टाळ्ळ्यारूय पातक आनी दुख्ख हीं लागतलींच. कर्म हें योगवृत्तीन करचेलें आसता. आपली लागणूक करप होच स्वधर्म. ह्या झुजाचो हेतू नितीचो आसा.

फुडें योगबुद्दी विशीं सांगलां (३८-४१). खंयचेंय कर्म मुदलांत पुण्य दिवपी वा पातक दिवपी नासता. तें जे बुद्दीन केल्लें आसता तिचेर त्या कर्माचें पातक-पुण्य निंबून आसता. शुद्ध आनी नि:स्वार्थी बुद्दीन लागणूक म्हूण केल्ल्या कर्माचें पातक लागना. स्वार्थ आसतकीच, बुद्दी शुद्ध रावना. स्वार्थान केल्लें कर्म बादता. तें बंधनांत घालता. ताचे बरे वायट परिणाम भोगचे पडटात.

सुखां भोगचेले इत्सेक लागून बुद्दी चंचल जाल्ल्यान, तिका कर्म-अकर्माचो निर्णय करपाक येना. तिका योग सादना (४२-४६). मागीर कर्मयोगाचें तत्त्वज्ञान सांगलां. हेतू, कर्म, फळ आनी हांकां लागून मनांत जावपी खवदळाचो योगवृत्ती सादपाचेर कसलो परिणाम जाता तें सांगलां. मनशाच्या हेतूंत आसक्ती आसची न्हय, आनी ताणें परिणामां विशीं बुद्दी थीर दवरची. आपल्या वांट्याक आयिल्लें कर्म लागणुकेचे भावनेन करप होच कर्मयोग. देखून अर्जुनान कर्मयोगी ज।वचें अशी श्रीकृष्णाची ताका सांगणी. ह्या कर्मयोगाची सिद्धी मेळपाक बुद्दी शुद्ध, म्हळ्यार सम आनी थीर जावपाक जाय. स्वार्थ सुट्टकच बुद्दी थीर जाता. बुद्दी थीर केल्यारूच योग्य निर्णय घेवपाक येतलो. मागीर ते बुद्दीचो कौल घेवन योग्य तेंच कर अशें कृष्ण अर्जुनाक सांगता. (**बुद्धौ शरणमन्विच्छ**) (२-४९).

स्वार्थ म्हळ्यार तरी कितें ? इंद्रियांचे वरवीं मेळटल्या सुखांचें चट. देखून स्वार्थ सुटचे पासत इंद्रियां आपसुवादीन दवरपाक जाय. हें घडटकूच मनीस नव्या नव्या सुखां फाटसून धांवना. ताची बुद्दी सम जावन थिरावतकीच ताका सूख, दुख्ख, मान-अपमान, जैत-हार, येस-अपेस हीं सगलींच सारकींच दिसतात. ताच्या मनाचो तोल ढळना. अशे तरेची बुद्दी जोडिल्ल्या मनशाक थीरबुद्दी (स्थितप्रज्ञ) म्हणटात (५४-५७).

जेन्ना मनीस कांसवा भाशेन आपलीं इंद्रियां तांच्या भोगचेल्या विशयां पासून फाटीं ओडटा, तेन्ना तो थीरबुद्दी जावचेले वाटेन चलपाक लागता. विशयसूख घेनाशिल्ल्या

मनशांचे विशय सुटल्यारूय तांची आवड सरना. पूण ती परतत्त्वाच्या स्पर्शान ना जाता. बुदवंत मनशान यत्न केल्यारूय ताचीं इंद्रियां ताचें मन नाका थंय ओडून व्हरतात. तीं ताणें आळाबंदा हाडून परमेश्वराकडेन वळोवंचीं. अशे तरेन इंद्रियां वश जाल्लोच थीरबुद्दी जाता (५८-६१). जाणें मन आनी बुद्दी आपसुवादीन दवरलीं, तोच थीरबुद्दी मनीस. इंद्रिय सुखाची खर इत्सा (काम) सुमाराभायर वाडली आनी ती भागलिना जाल्यार तिडक (क्रोध) उत्पन्न जाता. अश्या मनशाक मनशांती मेळना (६२-६७).

हे थीरबुद्दी अवस्थेक ब्राह्मीस्थिती अशेंय म्हणटात. ती सादिल्ल्याक ब्रह्मनिर्वाण मेळटा (६८-७२).

संजय उवाच

**तं तथा कृपयाविष्टमश्रुपूर्णाकुलेक्षणम् ।**
**विषीदन्तमिदं वाक्यमुवाच मधुसूदनः ।।१।।**

धर्म आनी अधर्म हांचे विशीं गोंदळ

संजयान म्हळें

*काकुटेनु भरिल्ल्या नी दाटिल्ल्या दोळयां दुकां ।*
*त्या शोकाकूळ पार्थाकु म्हळें हें मधुसूदनान ।।१।।*

संजयान म्हळें : अशे तरेन काकुटेन भरिल्ल्या, दोळ्यांत दुकां दाटून दिसना जाल्ल्या, त्या खेद करतल्याक (अर्जुनाक) कृष्णान अशें म्हळें. १

*अन्वय आनी अर्थ :* **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **तथा** = अशे तरेन; **कृपया आविष्टम्** = काकुटेन भरिल्ल्या; (आनी) **अश्रुपूर्णाकुलेक्षणम्** = दोळ्यांत दुकां दाटून दिसना जाल्ल्या; **तम् विषीदन्तम्** = त्या खेद करतल्याक (अर्जुनाक); **मधुसूदनः** = कृष्णान; **इदं वाक्यम् उवाच** = अशें म्हळें. १

श्रीभगवानुवाच

**कुतस्त्वा कश्मलमिदं विषमे समुपस्थितम् ।**
**अनार्यजुष्टमस्वर्ग्यमकीर्तिकरमर्जुन ।।२।।**

भगवंतान म्हळें

*भ्रम जालो कसो पार्था कठीण समयीं तुका ।*
*अनार्यांकूच रुचपाचो सर्ग कीर्तीकु बाधक ।।२।।*

भगवंतान म्हळें : अर्जुना, अनार्यांकूच रुचपाचो, सर्गाक बाधक (आनी) दुश्कीर्त करपी हो भ्रम कठीण समयार तुका खंयसून जालो ? २

*अ.अ. :* **श्रीभगवान् उवाच** = भगवंतान म्हळें; **अनार्यजुष्टं** = अनार्यांकूच रुचपाचो; **अस्वर्ग्यम्** = सर्गाक बाधक; **अकीर्तिकरम्** = दुश्कीर्त करपी; **इदं कश्मलम्** = हो भ्रम; **विषमे** = कठीण समयार; **त्वा कुतः समुपस्थितम्** = तुका खंयसून जालो ? २

**क्लैब्यं मा स्म गमः पार्थ नैतत्त्वय्युपपद्यते ।**
**क्षुद्रं हृदयदौर्बल्यं त्यक्त्वोत्तिष्ठ परंतप ।।३।।**

*जावं नाका षंढ तूं पार्था  हें मातूय सोबना तुका ।*
*मना उणाकु दुबळायु      सोडून ऊठ अर्जुना ।।३।।*

पार्था, तूं षंढ जावं नाका. हें (नामर्दपण) तुका सोबना. शत्रूंक ताप दिवपी अर्जुना, मनाची ही उणाक दुबळाय सोडून ऊठ. ३

*अ.अ.:* **पार्थ** = पृथेच्या पुता (अर्जुना); **क्लैब्यं मा स्म गमः** = (तूं) षंढ जावं नाका; **एतत्** = हें (नामर्दपण); **त्वयि न उपपद्यते** = तुका सोबना; **परंतप** = शत्रूंक ताप दिवपी अर्जुना; **हृदयदौर्बल्यं क्षुद्रम्** = ही मनाची उणाक दुबळाय; **त्यक्त्वा** = सोडून; **उत्तिष्ठ** = ऊठ. ३

**अर्जुन उवाच**

**कथं भीष्मसहं संख्ये द्रोणं च मधुसूदन ।**
**इषुभिः प्रतियोत्स्यामि पूजार्हावरिसूदन ।।४।।**

अर्जुनान म्हळें

*भीष्मद्रोणाकडेन झुजूं     कसो हांव मधुसूदना ।*
*बाण तांचेर कशे मारूं     दोगुयु पुजनीय ते ।।४।।*

अर्जुनान म्हळें : मधु दैत्याक मारतल्या कृष्णा, हांव झुजांत भीष्म-द्रोणाशीं बाणांनी कसो झुजूं ? शत्रूंक मारतल्या कृष्णा, ते दोगूय पुजनीय आसात. ४

*अ.अ.:* **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **मधुसूदन** = मधु दैत्याक मारतल्या (कृष्णा); **अहं संख्ये** = हांव झुजांत; **भिष्मच् द्रोणं प्रति** = भीष्म आनी द्रोणाकडेन; **इषुभिः** = बाणांनी; **कथं योत्स्यामि** = कसो झुजूं? **अरिसूदन** = शत्रूंक मारतल्या कृष्णा; **तौ** = ते दोगूय; **पुजार्हौ** = पुजनीय आसात.

**गुरूनहत्वा हि महानुभावान्**
**श्रेयो भोक्तुं भैक्ष्यमपीह लोके ।**
**हत्वार्थकामांस्तु गुरूनिहैव**
**भुञ्जीय भोगान्रुधिरप्रदिग्धान् ।।५।।**

*मारचे बदला व्हडविके गुरूंकु*
*भिक्षा मागल्यारि जातुलें बरेंच ।*
*मारून धना आशेच्या ह्या गुरूंक*
*रगताळिल्लीं सुखां भोगूं कशीं हांव ? ।।५।।*

चड व्हडविकेच्या गुरूंक मारिनासतना हांगा भिकूय खाल्ल्यार बरें. पुणून ह्या दुडवां आशेच्या गुरूंक जिवानशीं मारून रगतान बुडबुडिल्लीं सुखां हांगाच भोगचीं पडटलीं मूं ? ६

*अ.अ.:* **महानुभावान् गुरून्** = चड व्हडविकेच्या गुरूंक; **अहत्वा** = मारिनासतना; **इह लोके** = ह्या लोकांत (संवसारांत); **भैक्ष्यम् अपि भोक्तुम्** = भिकूय खाल्ल्यार; **श्रेय :** = बरें; **हि** = कित्याक; (ह्या) **अर्थकामान् गुरून् हत्वा** = दुडवां आशेच्या गुरूंक जिवानशीं मारून; **रुधिर प्रदिग्धान् भोगान्** = रगतान बुडबुडिल्लीं सुखां; **इह एव तु भुञ्जीय** = हांगाच भोगचीं पडटलीं मूं ? ६

**न चैतद्विद्म: कतरन्नो गरीयो**
**यद्वा जयेम यदि वा नो जयेयु :।**
**यानेव हत्वा न जिजीविषाम**
**स्तेऽवस्थिता: प्रमुखे धार्तराष्ट्रा: ।।६।।**

*कळनाच आमकां कितें हिताचें*
*तांणी वा आमी हें जैत जोडचें ।*
*जगचेली वान्सा ना मारून जांकां*
*ते हे कौरवु उबे सामखारी ।।६।।*

तांकां आमी जिखचें वा तांणी आमचेर जैत जोडचें, हातुंतलें कितें चड बरें हेंच आमकां कळना. जांकां मारून आमकां वांचचेंशें दिसना, तेच कौरव सामकार उबे रावल्यात.

*अ.अ.:* **जयेम यदि वा** = तांकां आमी जिखचें वा; **न: जयेषु** = तांणी आमचेर जैत जोडचें; **न: कतरत्** = हातुंतलें आमकां कितें; **गरीय:** = चड बरें (आमच्या चड हिताचें); **एतत् च** = हेंच; **न: विद्म:** = आमकां कळना; **यान् हत्वा** = जांकां मारून; **न जिजीविषाम:** = आमकां वांचचेंशें दिसना; **ते एव** = तेच; **धार्तराष्ट्रा:** = धृतराष्ट्राचे पूत (कौरव); **प्रमुखे** = सामकार; **अवस्थिता:** = उबे रावल्यात.

**कार्पण्यदोषोपहतस्वभाव:**
**पृच्छामि त्वां धर्मसंमूढचेता: ।**
**यच्छ्रेय: स्यान्निश्चितं ब्रूहि तन्मे**
**शिष्यस्तेऽहं शाधि मां त्वां प्रपन्नम् ।।७।।**

*वगडावल्लो मना दुबळायेन सभाव*
*नेणा लागणूक म्हजें चित्त भुल्लां*
*कितें हिताचें खरें सांग म्हाका*
*दी बोध तूं शरणागत शिश्याक ।।७।।*

मनाच्या दुबळेपणान सभाव वगडावल्लो आनी धर्म (लागणूक) कळना जावन चित्त भुलिल्लो असो हांव तुका विचारतां. जें खरेपणान बऱ्याक पडत तें म्हाका सांग. हांव तुगेलो शिश्य. तुका शरण आयलां. म्हाका बोध कर. ७

*अ.अ.:* **कार्पण्य दोषो पहत स्वभाव** = मनाच्या दुबळेपणान सभाव वगडावल्लो; (आनी) **धर्मसंमूढचेत:** = धर्म (लागणूक) कळना जावन चित्त भुलिल्लो; (असो हांव) **त्वां पृच्छामि** = तुका विचारतां; **यत् निश्चितं** = जें खरेपणान; **श्रेय: स्यात्** = बऱ्याक पडत; **तत् मे ब्रूहि** = तें म्हाका सांग; (कित्याक) **अहं ते शिश्य:** = हांव तुजो शिश्य; **त्वां प्रपन्नम्** = तुका शरण आयलां; **माम् शाधि** = म्हाका बोध कर. ७

**न हि प्रपश्यामि ममापनुद्या -**
**द्यच्छोकमुच्छोषणमिन्द्रियाणाम् ।**
**अवाप्य भूमावसपत्नमृद्धं**
**राज्यं सुराणामपि चाधिपत्यम् ।।८।।**

*दिसना जें आमडीत हो शोक पयस*
*सुकयी जो हीं इंद्रियां म्हगेलीं ।*
*मेळ्ळयार निर्वैर गिरेस्त पृथ्वी*
*वा देवलोकांतुलें इंद्रपद ।।८।।*

कित्याक, धर्तरेचेर निर्वैर आनी गिरेस्तकायेन तरतरिल्लें तशेंच देवांलें मुखेलपण मेळ्ळ्यारूय जो म्हज्या इंद्रियांक सुकोवपी हो म्हजो शोक जें पयस करीत, अशें कितेंच दिसना. ८

*अ.अ.:* **हि** = कित्याक; **भूमौ** = धर्तरेचेर; **असपत्नम्** = निर्वैर; (आनी) **ऋद्धम् राज्यम्** = गिरेस्तकायेन तरतरिल्लें राज्य; **च** = तशेंच; **सुराणाम् अधिपत्यम्** = देवांलें मुखेलपण; **अवाप्य अपि** = मेळ्ळयारूय; **अपनुद्यात्** = पयस करीत; (**तत्** = अशें कितेंच); **न प्रपश्यामि** = म्हाका दिसना. ८

संजय उवाच

**एवमुक्त्वा हृषीकेशं गुडाकेश: परंतप ।**
**न योत्स्य इति गोविन्दमुक्त्वा तूष्णीं बभूव ह ।।९।।**

संजयान म्हळें

*अशें त्या वीर पार्थानु हृषीकेशाकु गा म्हळें ।*
*''झुजना हांवु गोविंदा'' जालो वोगी म्हणून अशें ।।९।।*

संजयान म्हळें : शत्रूंक ताप दिवपी आनी न्हिदेक जिखपी अर्जुन, कृष्णाक अशें सांगून, आनी ''हांव झुजचोंना'' अशें (त्या) गोविंदाक स्पश्ट सांगून वोगी रावलो. ९

*अ.अ.:* **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **परंतप** = शत्रूंक ताप दिवपी; **गुडाकेश:** = न्हिदेक जिखपी अर्जुन; **हृषीकेशम् एवम् उक्त्वा** = कृष्णाक अशें उलोवन; **च न योत्स्ये** = आनी हांव झुजचोना; **इति गोविन्दम् ह उक्त्वा** = अशें (त्या) गोविंदाक स्पश्ट सांगून; **तूष्णीम्** = वोगी; **बभूव** = रावलो. ९

तमुवाच हृषीकेश: प्रहसन्निव भारत ।
सेनयोरुभयोर्मध्ये विषीदन्तमिदं वच: ।।१०।।

*तेन्ना ताका हृषीकेश उलयलो हांशिल्लेवरी ।*
*त्या खेदिश्ट अश्या पार्था राया, दोनूय दळांमदीं ।।१०।।*

आगा भारत कुळांतल्या राजा (धृतराष्ट्रा), दोनूय सैन्यांमदीं खेद करतल्या त्या अर्जुनाक, कृष्णान हांसकुऱ्यान अशें म्हळें. १०

*अ.अ.:* **(हे) भारत** = आगा भारत कुळांतल्या राजा (धृतराष्ट्रा); **हृषीकेश:** = कृष्ण; **उभयो: सेनयो: मध्ये** = दोनूय सैन्यांचे मदीं; **तं विषीदन्त म्** = त्या खेद करतल्या अर्जुनाक; **प्रहसन् इव** = हांसकुऱ्यान; **इदं वच: उवाच** = अशीं उतरां उलयलो. १०

श्रीभगवानुवाच

अशोच्यानन्वशोचस्त्वं प्रज्ञावादांश्च भाषसे ।
गतासूनगतासूंश्च नानुशोचन्ति पण्डिता: ।।११।।

भगवंतान म्हळें

*फावनाशिल्ल्यां करी खेद वयर गिन्यानु सांगिता ।*
*गेल्ल्यां जिव्यांविशीं पार्था शाणे कर्नातु शोक गा ।।११।।*

भगवंतान म्हळें : शोक करपाक फावनाशिल्ल्यांचो (भीष्म-द्रोणांचो) तूं शोक करता आनी वयल्यान शाणपणाच्यो गजाली सांगता. खरे गिन्यानी मनीस मेल्ल्यां वा जिव्यांविशीं खेद करिनात. ११

*अ.अ.:* **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **अशोच्यान्** = शोक करपाक फावनाशिल्ल्यांचो (भीष्म-द्रोणाचो); **त्वम् अन्वशोच:** = शोक करता; **च प्रज्ञावादान् भाषसे** = आनी शाणपणाच्यो गजाली सांगता; (पूण) **पण्डिता:** = गिन्यानी मनीस; **गतासून्** = जीव गेल्ल्यांचो; **च अगतासून्** = आनी जीव वचूंक नाशिल्ल्यांचो; **न अनुशोचन्ति** = शोक करिनात. ११

न त्वेवाहं जातु नासं न त्वं नेमे जनाधिपा: ।
न चैव न भविष्याम: सर्वे वयमत: परम् ।।१२।।

*तूं हांव आनीकु हे राजा केन्ना नासलें अशेंयु न्ही ।*
*नासतले हे फुडें आमी सगलेच गा अशेंयु न्ही ।।१२।।*

हांव. तूं, हे सगले राजा हे पयलीं नासले अशें न्हय. आनी तशेंच आमी सगले हे फुडें (कूड सोडटकीच) नासतले अशेंय बी न्हय. १२

*अ.अ.:* **अहम्** = हांव; **जातु** = केन्नाच (फाटले मुस्तींत); **न आसम्** = नाशिल्लो; **इतितु न एव** = अशें तर नाच: **त्वम्** = तूं; (**जातु** = केन्नाच); **न (आसी:)** = नाशिल्लो; **इति न एव** = अशेंय ना; **इमे जनाधिपा:** = हे राजा; **न (आसन् इति एव)** = केन्ना नासले; **तु न एव** = (अशें) तर नाच, **च** = आनी; **वयं सर्वे** = आमी सगले; **अत: परम्** = हे फुडें (कूड सोडटकीच); **न भविष्याम:** = नासतले; **(एवम्) एव न** = अशेंय ना. १२

देहिनोऽस्मिन्यथा देहे कौमारं यौवनं जरा ।
तथा देहान्तरप्राप्तिर्धीरस्तत्र न मुह्यति ।।१३।।

*भुर्गी तर्णी दशा म्हात्री जिवात्म्याकु कुडींत हे ।*
*कूड तशी नवी मेळऽ हें जाण्टल्यांकु मोह ना ।।१३।।*

देही (जिवात्म्याक) हे कुडींत जे भाशेन भुरगेपण, जुवानपण आनी म्हातारपण मेळटा, तशीच दुसरी कुडय मेळटा. देखून, हे विशीं ज्ञानी गदळनात. १३

*अ.अ.:* **देहिन:** = कुडकार आत्म्याक (जिवात्म्याक); **अस्मिन् देहे** = हे कुडींत; **यथा** = जे भाशेन; **कौमारं यौवनं जरा** = भुरगेंपण, जुवानपण, म्हातारपण; **तथा देहान्तरप्राप्ति** = तशीच दुसरी कुडय मेळटा; **तत्र धीर: न मुह्यति** = ते विशीं ज्ञानी गदळनात. १३

मात्रास्पर्शस्तु कौन्तेय शीतोष्णसुखदु:खदा: ।
आगमापायिनोऽनित्यास्तांस्तितिक्षस्व भारत ।।१४।।

*विशयांस्पर्श बादयता शीं-हून सूख नी दुख ।*
*अनित्य तीं वती येती पार्था देखूनु सोंस तीं ।।१४।।*

आगा अर्जुना, इंद्रियांचें तांच्या विशयांशी मेळप शीं-हून, सूख-दुख्ख दिवपी आसून, तांकां उत्पत्ती (आदी) आनी विनाश (अंत) आसात. देखून ते अनित्य (नाशिवंत) आसात. देखून तांकां (इंद्रियां विशयांच्या मेळपाक) सोंस. १४

*अ.अ.:* **कौन्तेय** = आगा कुन्तीच्या पुता (अर्जुना); **तु** = पूण; **मात्रास्पर्शा:** = मात्रा म्ह. इंद्रियांचें, तांच्या विशयांशी मेळप (संयोग) जाल्ल्यान; **शीतोष्णसुखदु:खदा:** = शीं-हून, सूख आनी दुख्ख दिवपी आसून; (तांकां) **आगम-अपायिन:** = उत्पत्ती (आदी) आनी विनाश (अंत) आसात. (देखून ते) **अनित्या:** = विनाशी (आसात); **अत:** = देखून; **तान्** = तांकां (इंद्रियां विशयांच्या मेळपाक); **तितिक्षस्व** = सोंस. १४

यं हि न व्यथयन्त्येते पुरुषं पुरुषर्षभ ।
समदु:खसुखं धीरं सोऽमृतत्वाय कल्पते ।।१५।।

*हीं जांकां बादना पार्था म्हालगड्या मनशांतुल्या ।*
*सम दुख्खीं सुखीं धीर जाता मोक्षाकु फाव तो ।।१५।।*

आगा मनशांतल्या म्हालगड्या (अर्जुना), सूख-दुख्ख समान मानपी ज्ञानी मनशाक हे (इंद्रियांचे विशय) पिडिनात (हें सूख-दुख्ख म्हाकाच जाता हो भ्रम निर्मिना), तो मोक्षाक फावोसो जाता. १५

*अ.अ.:* **हि** = कित्याक; **पुरुषर्षभ** = आगा पुरुषश्रेश्ठा (अर्जुना); **यम्** = ज्या; **धीरं पुरुषम्** = ज्या धिरीश्ट मनशाक; **समदु:खसुखम्** = सूखदुख्ख हीं समान आसात; **एते** = हे (इंद्रियांचे विशय); **न व्यथयन्ति** = पिडिनात; **स: अमृतत्वाय कल्पते** = तो मोक्षाक फावोसो जाता. १५

नासतो विद्यते भावो नाभावो विद्यते सतः ।
उभयोरपि दृष्टोऽन्तस्त्वनयोस्तत्त्वदर्शिभिः ।।१६।।

कूड नाशिवंत, आत्मो अमर

*नाशिल्ली आसना वस्तु आशिल्ली वस्तु नासना ।*
*पळेती थावु ह्या दोंचो जांणी गा ब्रह्म जाणिलां ।।१६।।*

नाशिल्ले वस्तूक आसप ना, आशिल्ले वस्तुक नासप ना. ह्या दोनांयचो थाव तत्त्वज्ञानी मनशांनी पळेला. १६

*अ.अ.:* **असतः भावः** = नाशिल्ले वस्तूक आसप; **न विद्यते** = ना; **सतः** = आशिल्ले वस्तूक; **अभाव** = नासप; **न विद्यते** = ना; **अनयोः उभयोः अपिः** = ह्या दोनांचोय; **अन्तः** = थाव (निर्णय); **तत्त्वदर्शिभिः** = तत्त्वज्ञानी मनशांनी; **दृष्ट** = पळेला (जाणला). १६

अविनाशि तु तद्विद्धि येन सर्वमिदं ततम् ।
विनाशमव्ययस्यास्य न कश्चित्कर्तुमर्हति ।।१७।।

*समज अविनाशी तूं जाणें हें विश्व व्यापलां ।*
*नाश ह्या नित्य तत्त्वाचो कोणानूच करूं नजो ।।१७।।*

पुणून हें सगलें जग जाणें व्यापिल्लें आसा तें (आत्मतत्त्व) अविनाशी आसा. ह्या अविनाशी तत्त्वाचो नाश करपाक कोणूच समर्थ ना. १७

*अ.अ.:* **तु** = पूण; **येन इदं सर्वं ततम्** = जाणें हें सगलें व्यापिल्लें (आसा). **तत्** = तें (ब्रह्म); **अविनाशी** = नाशाविरयत, (आसा अशें); **विद्धि** = तूं समज; **अस्य अव्ययस्य** = ह्या अविनाशी तत्त्वाचो; **विनाशं कर्तुम्** = नाश करपाक; **कश्चित् न अर्हति** = कोणूच समर्थ ना. १७

अन्तवन्त इमे देहा नित्यस्योक्ताः शरीरिणः ।
अनाशिनोऽप्रमेयस्य तस्माद्युध्यस्व भारत ।।१८।।

*म्हळ्या कुडी विनाशी त्यो जिवाच्यो अविनाशि जो ।*
*नित्य, कळना प्रमाणांनी म्हणून तूं झूज अर्जुना ।।१८।।*

सदीं आशिल्ल्या, अविनाशी, प्रमाणांनी कळना जाल्ल्या कूडकार आत्म्याच्यो ह्यो सगल्यो कुडी नाशिवंत म्हळ्यात. देखून भारत कुळांतल्या अर्जुना, तूं झूज. १८

*अ.अ.:* **नित्यस्य** = सदीं आशिल्ल्या; **अनाशिनः** = अविनाशी; **अप्रमेयस्य** = प्रमाणांनी कळना जाल्ल्या (आपुणूच सिद्ध जावपी); **शरीरिणः** = जिवात्म्याच्यो; **इमे देहाः** = ह्यो सगल्यो कुडी; **अन्तवन्तः उक्ताः** = नाशिवंत म्हळ्यात; **तस्मात् भारत युध्यस्व** = म्हणून, भारतकुळांतल्या अर्जुना, तूं झूज.

**य एनं वेत्ति हन्तारं यश्चैनं मन्यते हतम् ।**
**उभौ तौ न विजानीतो नायं हन्ति न हन्यते ।।१९।।**

*जो म्हणी मारि गा आत्मो    मानी मरपी अशेंयु वा ।*
*हे दोगूय नेणती ताका    मर्ना वा मारिनायु तो ।।१९।।*

हो जाका हाणमारो समजता आनी जो हाका हाणिल्लो मानता, त्या दोगांकूय सारकें समजना. हो (आत्मो वा जीव) कोणाक हाणिना आनी हाकाय कोण हाणिना. १९

*अ.अ.:* **यः एनं हन्तारं वेत्ति** = जो कोण हाका हाणमारो समजता; **च** = आनी; **यः एनं हतं मन्यते** = जो हाका हाणिल्लो (मेल्लो) मानता; **तौ उभौ** = ते दोगूय; **न विजानीतः** = (आत्म्याक) सारके वळखनात; **अयं न हन्ति** = हो (कोणाक) हाणिना; **न हन्यते** = (ताकाय कोण) हाणिना. १९

**न जायते म्रियते वा कदाचिन्नायं भूत्वा भविता वा न भूयः ।**
**अजो नित्यः शाश्वतोऽयं पुराणो न हन्यते हन्यमाने शरीरे ।।२०।।**

*जल्म घेना हो वा केन्नाच मरना*
*जल्माकु येवनूय हो परतो ना जायना ।*
*अजल्मी हो नित्य शाश्वत पुराण*
*कुडीक हाणल्यारूय हो केन्नाच मरना ।।२०।।*

हो (जीव) केन्नाच जल्मना वा मरनाय. वा हो जल्माक येवन मागीर पर्थून ना जाता तसलोय न्हय. हो जल्मना जाल्लो, सदींच आशिल्लो, शाश्वत आनी पुर्विल्ल्या काळासावन नवोच नवो असो आसा. कूड हाणल्यारूय हो ना जायना. २०

*अ.अ.:* **अयं कदाचित् न जायते** = हो आत्मो केन्नाच जल्मना; **वा न म्रियते** = वा केन्नाच मरनाय; (हो) **भूत्वा** = जल्माक येवनूय; **भूयः** = पर्थून; **न भविता** = ना जाता तसलो न्हय; **अयं अजः** = पुर्विल्ल्या काळासावन नवोच नवो; **शरीरे हन्यमाने** = कुडीचो नाश जाल्यारूय; (हो) **न हन्यते** = ना जायना. २०

**वेदाविनाशिनं नित्यं य एनमजमव्ययम् ।**
**कथं स पुरुषः पार्थ कं घातयति हन्ति कम् ।।२१।।**

*जाणी जो अविनाशी हो    अजल्मी नित्य अक्षय ।*
*कसो कोणाकु तो लायत    हाणूंक हाणितूय कसो ।।२१।।*

पृथेच्या पुता, हाका अविनाशी, सदीं आशिल्लो, जल्मा विरयत, आनी अव्यय अशें जो समजता, तो मनीस कोणाक कसो हाणूंक लायत आनी कोणाक हाणीत ? २१

*अ.अ.:* **पार्थ** = पृथेच्या पुता, अर्जुना; **एनम्** = हाका (आत्म्याक); **अविनाशम्** = विनाश ना जायना असलो; **नित्यम्** = सदींच आशिल्लो; **अजम्** = जल्मना जाल्लो; (आनी) **अव्ययम्** = बदलना जाल्लो; (अशें) **यः** = जो मनीस; **वेद** = समजता; **सः** = तो; **पुरूषः** = मनीस; **कम्** = कोणाक; **कथम्** = कसो; **हन्ति** = हाणीत; **कम् घातयति** = कोणांक (कसो) मारूंक लायत ? २१

वासांसि जीर्णानि यथा विहाय नवानि गृह्णाति नरोऽपराणि ।
तथा शरीराणि विहाय जीर्णान्यन्यानि संयाति नवानि देही ।।२२।।

*उडोवन आंगवस्त्रां झिर्झिरिल्लीं*
*दुसरीं नवीं जशीं मनीस घेता ।*
*जीव तसो कुडी उडोवनु पोरण्यो*
*धरता दुसऱ्योच तो कुडी नवेल्यो ।।२२।।*

जे भाशेन मनीस झिरझिरिल्लीं पोरणीं आंगवस्त्रां उडोवन नवीं घेता, ते भाशेन कुडींतलो जीव (आत्मो) पोरण्यो कुडी उडोवन नव्यो घेता. २२

*अ.अ.:* **यथा** = जे भाशेन; **नरः** = मनीस; **जीर्णानि वासांसि** = झिरझिरिल्लीं आंगवस्त्रां; **विहाय** = उडोवन; **अपराणि नवानि गृह्णाति** = दुसरीं नवीं घेता; **तथा** = तेच भाशेन: **देही जीर्णानि शरीराणि विहाय** = कुडिंतलो आत्मो (जिवात्मो) पोरण्यो कुडी उडोवन; **अन्यानि नवानि संयाति** = दुसरीं नवीं (शरिरां) धरता. २२

नैनं छिन्दन्ति शस्त्राणि नैनं दहति पावकः ।
न चैनं क्लेदयन्त्यापो न शोषयति मारुतः ।।२३।।

*हाका शस्त्रां चिरीनात हाका उजोयि जाळिना ।*
*भिजयना उदकू हाका सुकयना वाव बी तसो ।।२३।।*

हाका (जिवाक) शस्त्रां चिरिनात, हाका उजो जाळिना, उदक हाका भिजयना आनी वारो हाका सुकयना. २३

*अ.अ.:* **एनम्** = ह्या आत्म्याक; **शस्त्राणि न छिन्दन्ति** = शस्त्रांक चिरपाक जायना; **एनं पावकः न दहति** = हाका उजो जाळपाक शकना; **एनम् आपः न क्लेदयन्ति** = हाका उदक भिजोवंक शकना; **च मारुतः न शोषयति** = आनी वारो सुकोवंक शकना. २३

अच्छेद्योऽयमदाह्योऽयमक्लेद्योऽशोष्य एव च ।
नित्यः सर्वगतः स्थाणुरचलोऽयं सनातनः ।।२४।।

*नजो तोडूंकु जाळूंकु भिजोवंकु वा सुकोवंकु हो ।*
*अचल थीर हो नित्य सर्वव्यापी सनातन ।।२४।।*

हो आत्मो तोडुं नजो, हाका जाळुं नजो आनी सुकोवंक नजो. हो सदीं आशिल्लो, सगल्यांत आसपावल्लो, रुपांत बदल जायना जाल्लो, थीर, शाश्वत असो हो आसा. २४

*अ.अ.:* **अयं अच्छेद्यः** = हो (आत्मो) तोडुं नजो; **अयं अदाह्यः** = हो जाळुं नजो; **अक्लेद्यः** = (हाका) भिजोवं नजो; **च अशोष्यः** = आनी सुकोवंक नजो; **अयं एवं नित्यः** = हो सदींच आशिल्लो; **सर्वगतः** = सगल्यांत भरिल्लो; **अचलः** = अचल (रुपांत बदल जायना जाल्लो); **स्थाणुः** = थीर, **सनातनः** = शाश्वत आसा. २४

**अव्यक्तोऽयमचिन्त्योऽयमविकार्योऽयमुच्यते ।**
**तस्मादेवं विदित्वैनं नानुशोचितुमर्हसि ।।२५।।**

*दिसना तो तर्कापेलो बदलना हो अशें म्हळां ।*
*जाणून हे तरे आत्मो खेद हो सोबना तुका ।।२५।।*

हो आत्मो इंद्रियांक दिसना जाल्लो, मनान (तर्कान) समजना जाल्लो, बदलना जाल्लो म्हणटात. देखून ह्या आत्म्याक अशे तरेचो समजून, ताचे विशीं तुवें खेद करप समा न्हय.

*अ.अ.:* **अयम् अव्यक्तः** = हो (आत्मो) (इंद्रियांक) दिसना जाल्लो; **अयम् अचिन्त्यः** = हो तर्कान समजना जाल्लो; (तसोच) **अयम् अविकार्य** = हो विकारा विरयत (बदलना जाल्लो); **उच्चते** = म्हणटात; **तस्मात्** = देखून; **एनम्** = हाका; **एवम् विदित्वा** = अशे तरेचो समजून; (तुवें) **अनुशोचितम्** = शोक करप; **न अर्हसि** = समा न्हय. २५

**अथ चैनं नित्यजातं नित्यं वा मन्यसे मृतम् ।**
**तथापि त्वं महाबाहो नैवं शोचितुमर्हसि ।।२६।।**

*सदीं हो जल्मुपी मरपी मानलें अशें तुवें जरी ।*
*तरी शूर अशा पार्था खेदाकु कारणूच ना ।।२६।।*

तुवें हाका (आत्म्याक) सदीं जल्मुपी आनी सदीं मरपी अशें मानल्यारूय, शूर अर्जुना, ते विशीं असो खेद करूंक तुवें फावना. २६

*अ.अ.:* **अथ च** = आतां जरी; **त्वम्** = तूं; **एनम्** = हाका (आत्म्याक); **नित्य जातम्** = सदीं जल्मुपी; **नित्यं मृतं** = सदीं मरता तसलो; **मन्यसे** = मानशीत; **तथापि** = जाल्यारूय; **महाबाहो** = मोठ्या भुजांच्या अर्जुना; **एवं शोचितुं न अर्हसि** = असो शोक करूंक (तुवें) फावना. २६

**जातस्य हि ध्रुवो मृत्युर्ध्रुवं जन्म मृतस्य च ।**
**तस्मादपरिहार्येऽर्थे न त्वं शोचितुमर्हसि ।।२७।।**

*जल्मल्ल्या सुटना मर्ण मेल्ल्याक जल्म सुटना ।*
*सुटना ते गजालीचो शोक करप न्ही समा ।।२७।।*

कित्याक, जल्मल्ल्याक मर्ण सुटना आनी मेल्ल्याक जल्म सुटना जाल्लो (निश्चीत) आसा. देखून, सुटना जाल्ले गजालिचो शोक तुवें करूंक फावना. २७

*अ.अ.:* **हि** = कित्याक; **जातस्य मृत्युः ध्रुवः** = जल्मल्ल्याक मर्ण सुटना (निश्चीत आसा); **च** = आनी; **मृतस्य जल्म ध्रुवम्** = मेल्ल्याक जल्म सुटना जाल्लो आसा; **तस्मात् अपरिहार्ये अर्थे** = देखून सुटना जाल्ले गजालिचो; **शोचितुम् त्वं न अर्हसि** = शोक करप तुका उचीत न्हय. २७

अव्यक्तादीनि भूतानि व्यक्तमध्यानि भारत ।
अव्यक्तनिधनान्येव तत्र का परिदेवना ।।२८।।

*मर्णा माक्शी जल्मा आदीं     जिवांची दिसना दशा ।*
*दिसऽ मदलीच ती पार्था       खेद कित्याकु ते विशीं ।।२८।।*

आगा भारत कुळांतल्या अर्जुना, हे जीव जल्मा आदीं कुडी विरयत (आशिल्ले), आनी मर्णा उपरान्तूय कुडी विरयत आशिल्ल्यान दिसनात. ते मदींच (कूड धरिल्ले) दिसतात. (मागीर) ते विशीं खेद कित्याक करचो ? २८

*अ.अ.:* **भारत** = आगा भारत कुळांतल्या अर्जुना; **भूतानि** = सगले जीव; **अव्यक्तादीनि** = जल्मा आदीं (कुडी विरयत आशिल्ल्यान) दिसनात; (आनी) **अव्यक्तनिधनानि एव** = मर्णा उपरान्तूय (कुडी विरयत आशिल्ल्यान) दिसनात; **व्यक्तमध्यानि** = मदींच (कूड धरिल्ले) दिसतात; **तत्र** = हे विशीं; **का परिदेवना** = खेद कित्याक ? २८

आश्चर्यवत्पश्यति कश्चिदेन-
माश्चर्यवद्वदति तथैव चान्य: ।
आश्चर्यवच्चैनमन्य: शृणोति
श्रुत्वाप्येनं वेद न चैव कश्चित् ।।२९।।

*नवलशें पळेती कोण हाका*
*अजापशें वर्णिती हेरू कोण ।*
*अजापानु आयकती हेरू कोण*
*आयकून नेणी कोणूच हाका ।।२९।।*

एकाद्रो हाका (आत्म्याक) नवलाची वस्तशी पळेता; दुसरो कोण अपरूप वस्त कशी हाका वर्णिता. आनी कोण तें अजाप म्हूण हाची गजाल आयकता. आनी हाचे विशीं आयकुनूय हाका कोणूच वळखना. (हें एक व्हड नवलूच). २९

*अ.अ.:* **कश्चित् एनम्** = हाका (आत्म्याक); **आश्चर्यवत्** = नवलाची वस्त शी; **पश्यति** = पळेता; **च तथा एव** = आनी तशेंच; **अन्य** = दुसरो कोण; **आश्चर्यवत्** = अपरूप वस्तीवरी (हाचे संबंदान); **वदति** = उलयता (वर्णिता); **च अन्य:** = आनीक कोण; **एनम् आश्चर्यवत् श्रृणोति** = तें अजाप म्हूण हाची गजाल आयकता; **च श्रुत्वा अपि एनम्** = आनी हाचे विशीं आयकुनूय; **न एव वेदम्** = हाका (आत्म्याक) कोणूच वळखना. २९

देही नित्यमवध्योऽयं देहे सर्वस्य भारत ।
तस्मात्सर्वाणि भूतानि न त्वं शोचितुमर्हसि ।।३०।।

*येना हाणूंक हो आत्मो सर्व कुडींतु रावि जो ।*
*म्हूण कोणाच जीवाचो करचो न्ही खेद गा तुवें ।।३०।।*

आगा अर्जुना, सगल्यांचे कुडींत आशिल्लो हो देही (आत्मो वा जीव) केन्नाच हाणूंक नजो. देखून, कोणाच जिवाखातीर तूं शोक करपाक फावना. ३०

*अ.अ.:* **भारत** = अर्जुना; **सर्वस्य देहे** = सगल्यांच्या कुडींत आशिल्लो; **अयं देही** = हो कूडकार आत्मो (जीव); **नित्यम् अवध्य :** = केन्नाच हाणपाक नजो; **तस्मात् सर्वाणि भूतानि** = कोणाच जिवा खातीर; **त्वं शोचितुं न अर्हसि** = तूं शोक करपाक फावना. ३०

स्वधर्मपि चावेक्ष्य न विकम्पितुमर्हसि ।
धर्म्याद्धि युद्धाच्छ्रेयोऽन्यत्क्षत्रियस्य न विद्यते ।।३१।।

*पळेशी तूं निजी धर्म भियेवंक फावना तुवें ।*
*धर्म झुजाकुयू ना कांय् हिताचें क्षत्रिया दुजें ।।३१।।*

आनी तुगेल्या क्षत्रिय धर्माची लागणूक पळेल्यारूय तुवें अनमनूंक फावना. कित्याक, क्षत्रियाक धर्म झुजापरस अदीक बरें हेर कांय ना. ३१

*अ.अ.:* **च स्वधर्मम् अवेक्ष्य अपि** = आनी तुगेल्या स्वधर्माकडेन पळेल्यारूय; **विकम्पितुं न अर्हसि** = तुवें भियेवंक फावना; **हि** = कित्याक; **धर्म्यात् युद्धात्** = धर्मनितीच्या झुजापरस; **क्षत्रियस्य श्रेय:च** = क्षत्रियाक अदीक हिताचें; **अन्यत् न विद्यते** = दुसरें कांयच ना. ३१

यदृच्छया चोपपन्नं स्वर्गद्वारमपावृतम् ।
सुखिन: क्षत्रिया: पार्थ लभन्ते युद्धमीदृशम् ।।३२।।

*आपशींच दार सर्गाचें उगडलें गा तुजे फुडें ।*
*भाग्यवंत क्षत्रियांकु मेळऽ गा झूज हें अशें ।।३२।।*

आगा अर्जुना, आपशींच मेळिल्लें आनी उकतें जाल्लें सर्गाच्या दारा सारकें असलें झूज भाग्यवंत क्षत्रियांक मेळटा. ३२

*अ.अ.:* **पार्थ** = अर्जुना; **यदृच्छया** = आपशींच; **उपपन्नम्** = मेळिल्लें; **च** = आनी; **अपावृत्तम्** = उकतें जाल्लें; **स्वर्गद्वारम् इदृशं युद्धम्** = सर्गा दारा सारकें असलें झूज; **सुखिन: क्षत्रिया: लभन्ते** = भाग्यवंत क्षत्रियांक मेळटा. ३२

अथ चेत्त्वमिमं धर्म्यं संग्रामं न करिष्यसि ।
तत: स्वधर्मं कीर्तिं च हित्वा पापमवाप्स्यसि ।।३३।

*निजाचो धर्म सोडून झुजलोना धर्म झूज हें ।*
*पैसावशी धर्म कीर्तीक पातकाचो जातुलो धनी ।।३३।।*

अशें आसतना तूं हें धर्म नितीचें झूज झुजलोना जाल्यार तुजी क्षत्रियाची लागणूक (स्वधर्म) आनी कीर्त व्हगडावन तूं पातक जोडटलो. ३३

*अ.अ.:* **अथ चेत्** = अशें आसतना; **त्वम् इमं धर्म्यं संग्रामम्** = तूं हें धर्म-नितीचें झूज; **न करिष्यसि तत:** = झुजना जाशी जाल्यार; **स्वधर्मं** = स्वधर्म (क्षत्रियाची लागणूक); **च कीर्तिम्** = आनी कीर्त; **हित्वा** = व्हगडावन; **पापम् अवाप्स्यसि** = तूं पातक जोडटलो. ३३

अकीर्तिं चापि भूतानि कथयिष्यन्ति तेऽव्ययाम् ।
संभावितस्य चाकीर्तिर्मरणादतिरिच्यते ।।३४।।

*लोकु तुजो सदांकाळ सांगतले वायट लौकिकूय ।*
*वायट लौकीकु मानेस्तां मर्णा परस हीण गा ।।३४।।*

आनी सगले लोक तुजो वायट लौकिकूय सदांकाळ उलयत रावतले. मानेस्ताक अपर्कीत मरणा पाश्ट जाता. ३४

*अ.अ.:* **च भूतानि** = आनी सगले लोक; **ते अपकीर्तिं अपि** = तुजो वायट लौकिकूय; **अव्ययां कथयिषन्ति** = उलयत रावतले; **च अकीर्ति: संभावितस्य मरणात् अतिरिच्यते:** = आनी अपकीर्त मानेस्ताक मरणा पाश्ट जाता. ३४

भयाद्रणादुपरतं मंस्यन्ते त्वां महारथा: ।
येषां च त्वं बहुमतो भूत्वा यास्यसि लाघवम् ।।३५।।

*म्हारथी मानतले पार्था सोडलें भयान् तुवें रण ।*
*आसलो मानेस्त गा जांकां तांकां जाशी उणाक तूं ।।३५।।*

रणांतसून भयान कडसरलो अशें म्हारथी तुका मानतले. आनी जांकां तूं व्हडविकेचो दिसतालो, ते तुका हीण लेखतले. ३५

*अ.अ.:* **रणादथ भयादथ उपरतम्** = रणांतसून भयान कडसरलो; (अशें) **महारथा: त्वं मंस्यन्ते** = म्हारथी तुका मानतले; **च येषां त्वं बहुमत: भूत्वा** = आनी जांकां तूं चड व्हडविकेचो आसलो; **लाघवं यास्यसि** = ते तुका उणाक लेखतले. ३५

**अवाच्यवादांश्च बहून्वदिष्यन्ति तवाहिता: ।**
**निन्दन्तस्तव सामर्थ्यं ततो दु:खतरं नु किम् ।।३६।।**

*भौ उतरां फावनाशिल्लीं   वैरी तुजे उलैतुले ।*
*निंदितले गा बळा तुज्या   हाचेकूय दुख्ख तें कितें ।।३६।।*

आनी तुजे शत्रू तुजें बळ निंदून जायतें उलोवंक फावनाशिल्लें तें उलयतले. मागीर हाचेपरस अदीक दुख्खदिणें कितें आसा ? ३६

*अ.अ.:* **च तव अहिता:** = आनी तुजे शत्रू; **तव सामर्थ्यं निन्दन्त:** = तुजें बळ निंदून; **बहून् अवाच्य वादान् वदिष्यन्ति** = जायतें उलोवंक फावनाशिल्लें उलयतले; **नु** = मागीर; **तत:** = हाचे परस; **दु:खतरं किम्** = अदीक दुख्खदिणें कितें आसा? ३६

**हतो वा प्राप्स्यसि स्वर्गं जित्वा वा भोक्ष्यसे महीम्।**
**तस्मादुत्तिष्ठ कौन्तेय युद्धाय कृतनिश्चय: ।।३७।।**

*मेल्यारि सर्ग तूं जोडशी   जिखल्यारि राज्य पृथ्विचें ।*
*देखूनु ऊठ कौंतेया   निश्चयानु झुजुंकू तूं ।।३७।।*

झुजांत मेल्यार सर्ग जोडटलो. जिखल्यार धतरीचें राज्य भोगतलो. देखून अर्जुना, तूं निश्चय करून झूज करूंक उठ. ३७

*अ.अ.:* **वा हत:** = एक तर झुजांत मेल्यार; **स्वर्गं प्राप्स्यसि** = सर्ग जोडटलो; **वा जित्वा महीं भोक्ष्यसे** = वा जिखल्यार धतरीचें राज्य भोगतलो; **तस्मात् कौन्तेय** = देखून अर्जुना; **युद्धाय कृतनिश्चय:** = तूं निश्चय करून झूज करूंक; **उत्तिष्ठ** = उठ. ३७

**सुखदु:खे समे कृत्वा लाभालाभौ जयाजयौ ।**
**ततो युद्धाय युज्यस्व नैवं पापमवाप्स्यसि ।।३८।।**

*लाभ हानी सुखां दुख्खां   जैत हार समा धर ।*
*लाग झुजूंकु मागीरु   पातकाचो बादिकारू ना ।।३८।।*

सूख-दुख्ख, लाभ-हानी, जैत-हार समा लेखून झुजाक लाग; अशें केल्यार तुका पातक लागचें ना. ३८

*अ.अ.:* **सुखदु:खे लाभालाभौ जयाजयौ** = सूखदुख्ख, लाभहानी आनी जैतहार; **समे कृत्वा** = समान लेखून; **तत:** = मागीर; **युद्धाय युज्यस्व** = युद्धाक लाग; **एवम्** = हे भाशेन (झूज करतकीच) (तूं) **पापं न अवाप्स्यसि** = तूं पातक जोडचो ना. ३८

**एषा तेऽभिहिता सांख्ये बुद्धिर्योगे त्विमां शृणु ।**
**बुद्ध्या युक्तो यया पार्थ कर्मबन्धं प्रहास्यसि ।।३९।।**

*सांख्य बुद्दी तुका सांगली आयक ही योगबुद्द तूं ।*
*जोडूनु बुद्दी ही पार्था सोडशी तूं कर्मपास गा ।।३९।।*

हांवें तुका सांख्यमत्ता प्रमाण (आत्म्याक वळखुंचें) ज्ञान सांगलें. आतां कर्मयोगाची बुद्दी आयक. हे बुद्दीन तूं कर्मपास बरे भाशेन सोडशी. ३९

*अ.अ.:* **पार्थ एषा ते** = अर्जुना ही तुका; **सांख्ये बुद्धिः** = सांख्यबुद्दी (ज्ञानयोगा विशींची) (म्ह. आत्म्याचें खरेलें रूप वळखुची बुद्दी); **अभिहिता** = सांगली; **तु इमाम्** = आनी आतां ही; **योगे** = निश्काम कर्मयोगाविशीं (म्ह. वान्शेविणें आनी थीर बुद्दीन केल्ल्या कर्माची बुद्द); **श्रृणु** = आयक; **यया बुद्ध्या युक्तः** = हे बुद्दीन (तूं); **कर्मबन्धं प्रहास्यसि** = कर्माचो पास बरे तरेन सोडशी. ३९

**नेहाभिक्रमनाशोऽस्ति प्रत्यवायो न विद्यते ।**
**स्वल्पमप्यस्य धर्मस्य त्रायते महतो भयात् ।।४०।।**

*हांगा आरंभिल्ल्या कामांक ना नाश आडखळी मदीं ।*
*चलशी धर्मानु ह्या मात्सो राखी व्हडा भयांतुनू ।।४०।।*

हांगा कर्मयोगांत, आरंभिल्लो वावर फुकट वचना. तातूंत आडमेळीं येनात. हे धर्मवाटेन इल्लोय चल्ल्यार व्हड भंया पासून राखता. ४०

*अ.अ.:* **इह** = हांगा (फळाचे ओडीविणें केल्ल्या) कर्मयोगांत (म्ह. निश्काम कर्मयोगांत); **अभिक्रमनाशः न अस्ति** = आरंभिल्लो वावर ना जायना; **प्रत्यवायः न विद्यते** = तातूंत आडमेळीं वा दोश येनात; (देखून) **अस्य धर्मस्य स्वल्पम् अपि** = ह्या (कर्मयोगाचे) धर्मवाटेन इल्लोय चलल्यार; **महतः भयात्** = (जल्म मर्णाच्या) व्हड भयांतसून; **त्रायते** (त्या मनशाक) राखता. ४०

**व्यवसायात्मिका बुद्धिरेकेह कुरुनन्दन ।**
**बहुशाखा ह्यनन्ताश्च बुद्धयोऽव्यवसायिनाम् ।।४१।।** *

*हातुं निश्चयु लाभूनु बुद्दी विचार एकच ।*
*खांदे अनंत फुट्टात बुद्दीक निश्चयाविणे ।।४१।।* *

अर्जुना, हे योगबुद्दींत निश्चयाचो एकच विचार पुरो. ताका लागून बुद्दी एकाग्र जाता. अनिश्चयी मनशाचे बुद्दीक देळशे-खांदे जायते फुट्टात आनी तांकां अंत ना. ४१

*अ.अ.:* **कुरुनन्दन** = कुरूकुळांतल्या अर्जुना; **इह** = हे (योगबुद्दींत); **व्यवसायात्मिका बुद्धिः एका हि** = निश्चयाचो एकूच (विचार) पुरो; **अव्यवसायिनां बुद्धिः** = अनिश्चयी मनशाचे बुद्दीक; **बहुशाखा :** जायते देळशे-खांदे (फुट्टात); **च अनन्ताः** आनी (तांकां) अंत ना. ४१

यामिमां पुष्पितां वाचं प्रवदन्त्यविपश्चितः ।
वेदवादरताः पार्थ नान्यदस्तीति वादिनः ।।४२।।

कामात्मानः स्वर्गपरा जन्मकर्मफलप्रदाम् ।
क्रियाविशेषबहुलां भोगैश्वर्यगतिं प्रति ।।४३।।

भोगैश्वर्यप्रसक्तानां तयापहृतचेतसाम् ।
व्यवसायात्मिका बुद्धिः समाधौ न विधीयते ।।४४।।

*ही फुलार अशी वाणी उलयती अविवेकि गा ।*
*रमूनु वेद वादांतू म्हणटी आनीकु कांयु ना ।।४२।।*

*सर्गा वान्शेन फळा आशेन् सादूंकु सूख वैभव ।*
*तरां तरां विधीनी ते येती जल्माकु पर्थुनू ।।४३।।*

*भुलिल्लें चित्त ते वाणीन् घुस्पलें भोग वैभवीं*
*तांगेली निश्चया बुद्दी थीर नी सम जायिना ।।४४।।*

आगा पार्था, वेदांतल्या (सर्ग बी फळां जोडचेल्या) उतरांक भुलिल्ले अविवेकी लोक, हे तरेची फुलांवरी सोबेची भास उलयतात, (आनी) सांगतात, ''आनीक त्या फळां परस कांयच ना'' (४२). ते फळाचे आशेन भरिल्ले, सर्ग हीच तांची व्हड जोड कशी लेखतले; सुखां आनी वैभव मेळचे पासत तरां तरांचे विधी करतात आनी तांचें फळ म्हणून तांकां पर्थून जल्म मेळटा (४३). ते (वेद) वाणीन चित्त ओडून घेतिल्ले भोग आनी ऐश्वर्य हांची ओड लागिल्ल्यांची, बरें आनी वायट हांचो विवेक करचेली बुद्द आत्म्यांत थिरावना. ४४

*अ.अ.:* **पार्थ** = आगा अर्जुना; **वेदवादरतः** = वेदांतल्या (सर्ग बी फळां जोडचेल्या) उतरांक भुलिल्ले; **अविपाश्चितः** = अविवेकी लोक; **पुष्पितां वाचम्** = हे तरेची फुलांवरी सोबीत भास उलयतात; (आनी) **वादिनः** = सांगतात, ''**अन्यत् न अस्ति इति**'' = ''आनी हाचेपरस दुसरें कांयच ना.'' **कामात्मानः** = ते फळाचे आशेन भरिल्ले; **स्वर्गपराः** = सर्ग हीच तांची व्हडली जोड कशी लेखतले; **भौगेश्वर्यगतिम् प्रति** = सुखां आनी वैभव मेळचे पासत; **क्रियाविशेषबहुलाम्** = तरांतरांचे विधी करतात; **जन्मकर्मफलप्रदाम्** = आनी तांचें फळ म्हणून तांकां पर्थून जल्म मेळटा (४३); तथा = तिणें (ते वेद वाणीन) **अपहतचेतसाम्** = चित्त ओडून घेतिल्ले; **भौगेश्वर्गप्रसक्तानाम्** = भोग आनी वैभव हांची ओड लागिल्ल्यांची; **व्यवसायात्मिका बुद्धिः** = तांची बरें वायटाची विवेक करचेली बुद्द; **समाधौ न विधीयते** = आत्म्यांत थिरावना. ४४

त्रैगुण्यविषया वेदा निस्त्रैगुण्यो भवार्जुन ।
निर्द्वन्द्वो नित्यसत्त्वस्थो निर्योगक्षेम आत्मवान् ।।४५।।

*भल्ल्या त्रिगूण वेदांत जा मेकळो तांतुल्यानु तूं ।*
*जा तूं निश्चिंत निर्द्वंद्व आत्म्या जिखूनु सात्त्विक ।।४५।।*

अर्जुना, वेदांत सत्त्वादी तीन गुणांचे वान्शेच्यो गजालीच चड करून भरल्यात, (देखून तूं) तीन गुणां-मेकळो जा. (कर्म फळाची आशा धरूं नाका.) सूख-दुख्खादी जोडी (द्वंद्व) सोड. योग-क्षेमाचो हुस्को काडूं नाका. सदींच सात्त्वीक भावांत थीर राव. आत्म्याक जोड (आत्मवंत जा). ४५

*अ.अ.:* **अर्जुन** = अर्जुना; **वेदाः त्रैगुण्यविषयाः** = सगल्या वेदांत (सत्त्वादी) तीन गुणांचे वान्शेच्यो गजालीच चड करून भरल्यात. (देखून तूं) **निस्त्रैगुण्यः भव** = तीन गुणां-मेकळो जा; **निर्द्वन्द्वः (भव)** = सूखदुख्खादी जोडी सोड; **निर्योगक्षेमः(भव)** = आशिल्लें राखपाचो आनी नवें जोडपाचो हुस्को काडुं नाका; **नित्यसत्त्वस्थः (भव)** = सदींच सात्त्वीक भावांत थीर राव; **आत्मवान् भव** = आत्म्याची वळख घे. ४५

यावानर्थ उदपाने सर्वतः संप्लुतोदके ।
तावान्सर्वेषु वेदेषु ब्राह्मणस्य विजानतः ।।४६।।

*जितलो उपेगु गा बांयचो भरतां हुंवारू चोंवशीं ।*
*तसो सगल्याच वेदांचो ब्रह्मतत्त्वाकु जाणटल्या ।।४६।।*

चोंयवशीन हुंवार आयिल्लो आसतना, बांयचो जितलो उपेग जाता, तितलोच ब्रह्माचें खरें रूप जाणटल्याक, सगल्या वेदांचो. ४६

*अ.अ.:* **सर्वतः** = चोंय वशीन; **संप्लुतोदके** = हुंवार आयिल्लो आसतना; **उदपाने** = बांयचो; **यावान्** = जितलो; **अर्थः** = उपेग जाता; **तावान्** = तितलोच; **ब्राह्मणस्य विजानतः** = ब्रह्माचें खरें रूप जाणटल्याक; **सर्वेषु वेदेषु** = सगल्या वेदांचो (उपेग जाता). ४६

कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन ।
मा कर्मफलहेतुर्भूर्मा ते सङ्गोऽस्त्वकर्मणि ।।४७।।

*कर्माचेर अधिकार तूजो केन्नाच ना फळांत तो*
*नाका कर्म फळा हेतू अकर्मा ओड बी तशी ।।४७।।*

तुजो कर्म करपाचोच अधिकार. फळांत (अधिकार) केन्नाच ना. कर्माचें फळ (अमूक) मेळचें हो हेतू मनांत धरूं नाका. कर्म ना करचेलोय आग्रो आसचो न्हय. ४७

*अ.अ.:* **ते कर्मणि एव अधिकारः** = तुजो कर्म करपाचोच अधिकार; **फलेषु कदाचन मा** = फळांत केन्नाच ना (आनी) **कर्मफलहेतुः मा भूः** = (तूं) कर्माचें फळ मेळचें हो हेतू धरूं नाका; **ते** = तुजो; **अकर्मणि** = कर्म ना करचेलोय; **सङ्ग** = (ओडो) आग्रो; **मा अस्तु** = आसचो न्हय. ४७

**योगस्थ: कुरु कर्माणि सङ्गं त्यक्त्वा धनंजय ।**
**सिद्ध्यसिद्ध्यो: समो भूत्वा समत्वं योग उच्यते ।।४८।।**

*फळाची ओड सोडूनु योगानु कर्म तूं कर ।*
*सम येस अपेसांत समबुद्दीच योग गा ।।४८।।*

आगा अर्जुना, (कर्मफळाची) ओड सोडून, येस आनी अपेस सारकीं लेखून (योगवृत्तीन) कर्मां कर. हे समबुद्दीक योग म्हणटात. ४८

*अ.अ.:* **धनंजय** = आगा अर्जुना; **सङ्गम् त्यक्त्वा** = ओड सोडून; **सिध्द्यसिध्द्यो: समो भूत्वा** = येस आनी अपेस सारकीं लेखून; **योगस्थ:** = योगवृत्तीन; **कर्माणि कुरू** = कर्मां कर; **समत्वं योग: उच्यते** = हे समबुद्दीक योग म्हणटात. ४८

**दूरेण ह्यवरं कर्म बुद्धियोगाद्धनंजय ।**
**बुद्धौ शरणमन्विच्छ कृपणा: फलहेतव: ।।४९।।**

*बुद्दीचे संतुळेकूयु कर्म भोवु उणाक गा ।*
*शरण वच बुद्दीक दुर्भागी फळ इत्सुपी ।।४९।।*

बुद्दीयोगापरस (बुद्दीचे संतुळेकूय) फळाचे ओडीन कर्म करप जायतें उणाक. देखून, अर्जुना, तूं बुद्दीचो आस्रय घे. कित्याक, फळाच्या हेतून कर्म करपी दुर्भागी (दुबळे). ४९

*अ.अ.:* **बुद्धियोगात्** = बुद्दीयोगापरस; **कर्म** = (फळाचे वान्शेन) कर्म करप; **दूरेण** = चड; **अवरम्** = उणाक; **धनंजय** = अर्जुना; **बुद्धौ शरणम्** = (तूं) बुद्दीचो आस्रय; **अन्विच्छ** = घे; **हि** = कित्याक; **फलहेतव:** = फळाचो हेतू धरपी; **कृपणा:** = दुर्भागी (दुबळे मनीस). ४९

**बुद्धियुक्तो जहातीह उभे सुकृतदुष्कृते ।**
**तस्माद्योगाय युज्यस्व योग: कर्मसु कौशलम् ।।५०।।**

*समबुद्दीनु सोडी गा शाणो पातकु पुण्य बी ।*
*देखून योग तूं साध योग कर्मकुशळायु गा ।।५०।।*

समबुद्दीन चलपी मनीस, पातक आनी पुण्य ह्या दोगांयचें फळ हांगाच सोडटा. देखून तूं हो योग साद. कर्म करपांतली कुशळाय (कर्माचें बंधन जायनासतना मोक्ष जोडचेली युक्ती) हाकाच योग म्हणटात. ५०

*अ.अ.:* **बुद्धियुक्त :** = समबुद्दीन चलपी मनीस; **सुकृत दुष्कृते** = पुण्य आनी पातक; **उभे इह** (एव) = ह्या दोगांयचें फळ हांगाच; **जहाति** = सोडटा; **तस्मात् योगाय युज्यस्व** = देखून बुद्दीचे संतुळेचो योग तूं साद; **योग:** = (हो) योगच; **कर्मसु कौशलम्** = कर्मांतली कुशळकाय आसा. ५०

कर्मजं बुद्धियुक्ता हि फलं त्यक्त्वा मनीषिण :।
जन्मबन्धविनिर्मुक्ता : पदं गच्छन्त्यनामयम् ।।५१।।

*गिन्यानी योग बुद्दीनु कर्माचें फळु सोडुनू ।*
*तोडूनु पास जल्माचे दुख्खापेल्या पदा वती ।।५१।।*

कित्याक, बुद्दीयोग जोडिल्ले ज्ञानी मनीस कर्मापासून आयिल्लें फळ सोडून, जल्मपासांतल्यान सुटून, मोक्षाचे निवळ सुवातेर पावतात. ५१

*अ.अ.:* **हि बुद्धियुक्ताः मनीषिण :** = कित्याक, संतुळीत बुद्दीयोग जोडिल्ले ज्ञानी मनीस; **कर्मजम्** = कर्मापासून आयिल्लें; **फलं त्यक्त्वा** = फळ सोडून; **जन्मबन्धविनिर्मुक्ताः** = जल्मरुपी पासांतल्यान सुटून; **अनामयम्** = निर्दोश वा मोक्षाचे निवळ; **पदं गच्छन्ति** = सुवातेर पावतात. ५१

यदा ते मोहकलिलं बुद्धिर्व्यतितरिष्यति ।
तदा गन्तासि निर्वेदं श्रोतव्यस्य श्रुतस्य च ।।५२।।

*जेन्ना बुद्दी तुजी पार्था मोहा गदळ तर्तली ।*
*आयकल्ल्या आयकुचेल्या भोगांकु विट्टलोच तूं ।।५२।।*

(कूड होच आत्मो म्हणपाच्या) भ्रमाच्या गदळांतसून जेन्ना तुजी बुद्दी सामकीच पेल्यान पावतली, तेन्ना (आजवेर) आयकल्ल्या आनी (फुडाराक) आयकुपासारक्या (कर्मफळांविशीं आनी तांच्या उपेगाविशीं) गजालिंचो तुका वीट येतलो. ५२

*अ.अ.:* (कूड होच आत्मो म्हणपाच्या) **मोहकलिलम्** = भ्रमाच्या गदळांतसून (चिखलांतसून); **यदा ते बुद्धिः** = जेन्ना तुगेली बुद्द; **व्यतितरिष्यति** = सामकीच पेल्यान पावतली; **तदा** = तेन्ना: **श्रुतस्य** = (आजवेर) आयकल्ल्या; **च श्रोतव्यस्य** = आनी फुडाराक आयकुपासारक्या गजालीं विशीं; **निर्वेदं गन्तासि** = तुका वीट येतलो. ५२

श्रुतिविप्रतिपन्ना ते यदा स्थास्यति निश्चला ।
समाधावचला बुद्धिस्तदा योगमवाप्स्यसि ।।५३।।

*वेदांनी गदळिल्ली जी बुद्दी जेन्ना थिरावतली ।*
*जावन चित्तांतु ती थीर तेन्ना तूं योग सादशी ।।५३।।*

वेदांतले (कर्मफळांचे) तरांतरांचे सिद्धान्त (श्रुती) आयकून गदळिल्ली तुजी बुद्दी (दुबावा विरयत जावन) थाऱ्यार येवन समाधी वृत्तींत निश्चळ जातली, तेन्ना तूं योग जोडटलो.

*अ.अ.:* **श्रुतिविप्रतिपन्ना** = (वेदांतले कर्मफळांचे नाना तरांचे) सिद्धान्त (श्रुती) आयकून गदळिल्ली; **ते बुद्धि** = तुगेली बुद्दी (दुबावा विरयत जावन); **यदा अचला निश्चला समाधौ** = जेन्ना थीर जावन समाधी वृत्तींत निश्चळ जातली; **तदा योगं अवाप्यस्यसि** = तेन्ना तूं योग जोडटलो. ५३

अर्जुन उवाच

**स्थितप्रज्ञस्य का भाषा समाधिस्थस्य केशव ।**
**स्थितधी: किं प्रभाषेत किमासीत व्रजेत किम् ।।५४।।**

थीरबुद्दी मनशाचें (स्थितप्रज्ञाचें) लक्षण

अर्जुनान म्हळें

*थीरबुद्दी मनशाचें गा लक्षण केशवा कितें ।*
*थीर आत्म्यांत तो जाल्लो बसऽ चलऽ उलै कसो ।।५४।।*

अर्जुनान म्हळें : कृष्णा, आत्म्यांत थीर जाल्ल्या थीरबुद्दी मनशाचें लक्षण कितें ? थीरबुद्दी कसो उलयता, कसो बसता आनी कसो चलता ? (ताची चलणूक कशी आसता ?)

*अ.अ.* : **केशव** = कृष्णा; **समाधिस्थस्य** = आत्म्यांत थीर जाल्ल्या; **स्थितप्रज्ञस्य** = थीरबुद्दी मनशाचें; **का भाषा** = लक्षण कितें; **स्थितधी:** थीरबुद्दी मनीस; **किं प्रभाषेत** = कसो उलयता; **किं आसीत्** = कसो बसता; **किं व्रजेत** = कसो चलता. ५४

श्रीभगवानानुवाच

**प्रजहाति यदा कामान्सर्वान्पार्थ मनोगतान् ।**
**आत्मन्येवात्मना तुष्ट: स्थितप्रज्ञस्तदोच्यते ।।५५।।**

भगवंतान म्हळें

*इत्सा मनांतुल्यो सर्व जेन्ना सामक्योच सोडुनू ।*
*धादोस अंतरीं जाल्लो तो म्हळा थीर बुद्दिदचो ।।५५।।*

भगवंतान म्हळें : अर्जुना, (मनीस) जेन्ना मनांतल्यो सगल्यो इत्सा सामक्योच सोडटा, आनी आपले ठांयच मनांतूच धादोस आसता, तेन्ना ताका थीरबुद्दी म्हणटात. ५५

*अ.अ.:* **अर्जुना** = (मनीस) **यदा** = जेन्ना; **मनोगतान् सर्वान् कामान् प्रजहाति** = तेन्ना मनांतल्यो सगल्यो इत्सा सामक्योच सोडटा; **तदा आत्मनि एव** = आपले ठांयच; **आत्मनि तुष्ट:** = मनांतूच धादोस आसता; **तदा स्थितप्रज्ञ: उच्यते** = तेन्ना ताका थीरबुद्दी म्हणटात. ५५

**दु:खेष्वनुद्विग्नमना: सुखेषु विगतस्पृह: ।**
**वीतरागभयक्रोध: स्थितधीर्मुनिरुच्यते ।।५६।।**

*उबगना मन दुख्खांतु सुखाची आस ना असो ।*
*भंय क्रोध प्रिती गेल्लो थीरबुद्दी मुनी म्हळा ।।५६।।*

दुख्खांत मन उबगना जाल्लो, सुखां आयल्यार तांची इत्सा नाशिल्लो, ओड, भंय, तिडक गेल्लो, अश्या मनशाक थीरबुद्दी मुनी म्हणटात. ५६

*अ.अ.:* **दु:खेषु अनुद्विग्नमना:** = दुख्खां आयल्यार मन उबगना जाल्लो; **सुखेषु विगतस्पृह:** = सुखां आयल्यार ताची इत्सा नाशिल्लो; **वीतराग भय क्रोध:** = ओड, भंय आनी तिडक गेल्लो, अश्या मनशाक; **मुनि : स्थितधी: उच्यते** = थीरबुद्दी मुनी म्हणटात. ५६

य: सर्वत्रानभिस्नेहस्तत्तत्प्राप्य शुभाशुभम् ।
नाभिनन्दति न द्वेष्टि तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता ।।५७।।

*ओड कसलीच ना जाका   वायटा बऱ्यांतु बी तशी ।*
*ना ताका खोस दुस्वास   ताची प्रज्ञा थिरावली ।।५७।।*

कसलेच विशीं ओड नाशिल्ल्याची, बरें वायट आयिल्लें आसतना, ते विशीं खोस वा दुस्वास नाशिल्ल्याची बुद्दी थिरावली. ५७

*अ.अ.:* **य: सर्वत्र अनभिस्नेह:** = जाका खंयचेच कडेन कसलीच ओड ना; **तत् तत्** = तें तें; **शुभाशुभं प्राप्य** = बरें वायट मेळिल्लें आसतना; **(जो) न अभिनन्दति** = खोशी जायना; **न द्वेष्टि** = दुस्वास करिना; **तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता** = ताची प्रज्ञा थिरावली. ५७

यदा संहरते चायं कूर्मोऽङ्गानीव सर्वश: ।
इन्द्रियाणीन्द्रियार्थेभ्यस्तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता ।।५८।।

*ओडी भितूर आपणालीं   विशयांतसून इंद्रियां ।*
*कांसवावरि सर्वांगां   ताची प्रज्ञा थिरावली ।।५८।।*

आनी जसो कांसव आपलीं आंगां भितर्यां ओडटा, तसो हो मनीस. जेन्ना सगले वसल्यान आपलीं इंद्रियां तांच्या विशयां कडसून फाटीं ओडटा. तेन्ना ताची बुद्दी थीर जाली.

*अ.अ.:* **च कूर्म: अङ्गानि** = आनी कांसव (आपलीं आंगां) (भितर्यां ओडटा); **इव अयम्** = तसो हो मनीस; **यदा सर्वश: इन्द्रियाणि** = जेन्ना सगले वसल्यान आपलीं इंद्रियां; **इंद्रियार्थेभ्य:** = इंद्रियांच्या विशया कडसून; **संहरते** = फाटीं ओडटा; **तस्य प्रज्ञा प्रतिष्टिता** = ताची बुद्दी थीर जाली. ५८

विषया विनिवर्तन्ते निराहारस्य देहिन: ।
रसवर्जं रसोऽप्यस्य परं दृष्ट्वा निवर्तते ।।

*विशयूच सरती फाटीं   तांकां गा भोगिनातु जे ।*
*विशयांची सरना रूच   वता ती ब्रह्मदर्शनान् ।।५९।।*

इंद्रियांनी विशय भोगिना जाल्ल्या मनशांचे विशयूच फाटीं सरतात, पूण त्या विशयांची रूच फाटीं सरना. ती परमात्म्याच्या दर्शनान ना जाता. ५९

*अ.अ.:* **निराहारस्य** = (इंद्रियांनी) विशय भोगिना जाल्ल्या; **देहिन:** = मनशांचे; **विषया:** = विशयूच; **विनिवर्तन्ते** = फाटीं सरतात; **रजवर्जम्** = (तशी) तांची रूच फाटीं सरना; **अस्य** = ह्या मनशाची; **रस: अपि** = विशय वासनाय; **परं दृष्ट्वा निवर्तते** = परमात्म्याच्या साक्षात्कारान ना जाता. ५९

**यततो ह्यपि कौन्तेय पुरुषस्य विपश्चितः ।**
**इन्द्रियाणि प्रमाथीनि हरन्ति प्रसभं मनः ।।६०।।**

**तानि सर्वाणि संयम्य युक्त आसीत मत्परः ।**
**वशे हि यस्येन्द्रियाणि तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता ।।६१।।**

*कितलोयु यत्न केल्यारू ज्ञानवंतानु अर्जुना ।*
*व्हरी मनाकु ओडूनू बळयांच मस्त इंद्रियां ।।६०।।*

*तांकां आवरूनु युक्तीनु थाराय् मन म्हज्यांतु गा ।*
*इंद्रियां वश जाल्ल्याची पार्था बुद्‌दी थिरावली ।।६१।।*

कित्याक, अर्जुना, (मोक्ष जोडूंक) वावुरतल्या ज्ञानी मनशाचेंय मन मस्तीं इंद्रियां बळयां ओडून व्हरतात (६०). देखून ह्या सगल्या इंद्रियांक आळाबंदा हाडून योग जोडून, मन म्हजेरूच थारावन रावचें. जाचीं इंद्रियां (हे भाशेन) आपसुवादीन जालीं, तांची बुद्‌दी थीर जाली (६१).

*अ.अ.:* **हि** = कित्याक; **कौन्तेय** = अर्जुना; (मोक्ष जोडूंक) **यतत:** = वावुरतल्या मनशाक; **विपश्चित: पुरुषस्य अपि** = ज्ञानी मनशाचेंय; **मन:** = मन; **प्रमाथीनि इन्द्रियाणि:** = मस्तीं इंद्रियां; **प्रसभं हरन्ति** = बळयां ओडून व्हरतात (६०); **हि** = देखून; **तानि सर्वाणि संयम्य** = त्या सगल्या इंद्रियांक आळाबंदा हाडून; **युक्त:** = योग जोडून; **मत्पर: आसीत्** = मन म्हजेर थारावन रावचें; **यस्य इन्द्रियाणि वशे** = ज्या मनशाचीं इंद्रियां आपसुवादीन जालीं; **तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता** = ताची बुद्‌दी थीर जाली (६१).

**ध्यायतो विषयान्पुंसः सङ्गस्तेषूपजायते ।**
**सङ्गत्संजायते कामः कामात्क्रोधोऽभिजायते ।।६२।।**

**क्रोधाद्भवति संमोहः संमोहात्स्मृतिविभ्रमः ।**
**स्मृतिभ्रंशाद्बुद्धिनाशो बुद्धिनाशात्प्रणश्यति ।।६३।।**

*विशय येवजुपी मन्शाक ओड तांचीच लागता ।*
*ओडीनु जल्मता इत्सा इत्सेन तिडकु अर्जुना ।।६२।।*

*गदळटा बुद्‌दी तिडकीन वता तिणेंच सुद्‌द गा ।*
*गेल्ल्यान सुद्‌द वता बुद्‌द जाता घात तिणेंच गा ।।६३।।*

विशयांची येवजणी करतल्या मनशांक तांची ओड लागता. ओडीन खर इत्सा उत्पन्न जाता. इत्से पासून (तिका आडमेळीं हाडिल्ल्यां विशीं) तिडक उत्पन्न जाता (६२). तिडकीक लागून बुद्‌द गदळटा (ती अविवेकी जाता). बुद्‌द गदळिल्ल्यान सुद्‌द ना जाता. (तिका भूल पडटा.) सुद्‌द ना जाल्ल्यान बुद्‌द ना जाता. आनी बुद्‌द भंगतकीच मनशाचो घात जाता.

*अ.अ.:* **विषयान् ध्यायत: पुंस:** = विशयांची येवजणी करतल्या मनशाक; **तेषु सङ्ग: उपजायते** = तांची ओड लागता; (आनी) **सङ्गात् काम: संजायते** = ओडीन त्या विशयांची खर इत्सा; **कामात्** = (ती) इत्सा (भागलिना जाल्यार); **क्रोध: अभिजायते** = तिडक येता (६२) **क्रोधात् संमोह: भवति** = तिडकी पासून बुद्द गदळटा (अविवेक जाता); **संमोहात् स्मृतिविभ्रम:** = बुद्द गदळिल्ल्यान सुद्द ना जाता (भूल पडटा) **स्मृतिभ्रंशात्** = सुद्द ना जावपान; **बुद्धिनाश:** = बुद्दीचो नाश जाता; (आनी) **बुद्धिनाशात् प्रणश्यति** = बुद्द भंगतकीच मनशाचो घात जाता.

**रागद्वेषवियुक्तैस्तु विषयानिन्द्रियैश्चरन् ।**
**आत्मवश्यैर्विधेयात्मा प्रसादमधिगच्छति ।।६४।।**

*आसक्ती द्वेश सोडून्‌ु जिखून सर्व इंद्रियां ।*
*वावरून विशयांतू तो जोडी मना प्रसन्नताय् ।।६४।।*

पूण मन सुवादीन आशिल्लो मनीस ओड आनी द्वेश सुटिल्ल्या आनी सुवादीन आशिल्ल्या इंद्रियांनी विशयांमर्दी वावरुनूय मनाचें समाधान मेळयता. ६४

*अ.अ.:* **तु विधेयात्मा** = पुणून मन सुवादीन आशिल्लो मनीस **राग द्वेषवियुक्तै:** = ओड आनी द्वेश सुटिल्ल्या; (आनी) **आत्मवश्यै: इन्द्रियै:** = सुवादीन आशिल्ल्या इंद्रियांनी; **विषयान् चरन्** = विशयांमर्दी वावरुनूय; **प्रसादम् अधिगच्छति** = मनाची प्रसन्नताय जोडटा. ६४

**प्रसादे सर्वदु:खानां हानिरस्योपजायते ।**
**प्रसन्नचेतसो ह्याशु बुद्धि: पर्यवतिष्ठते ।।६५।।**

*समाधानानु गा पार्था सर्व दुख्खां वती लया ।*
*प्रसन्नचित्त ज्री बुद्द बेगिनूच थिरावता ।।६५।।*

चित्त प्रसन्न जातकीच हाची सगलीं दुख्खां सोंपतात. प्रसन्न चित्त मनशाची बुद्दी रोखडीच थीर जाता. ६५

*अ.अ.:* **प्रसादे** = (त्या मनाचे) प्रसन्नतायेन; **अस्य** = हाच्या; **सर्वदु:खानां हानि:** = सगल्या दुख्खांचो नाश जाता; (आनी ह्या) **प्रसन्न चेतस: बुद्धि:** = प्रसन्न चित्त मनशाची बुद्दी; **आशु हि** = रोखडीच; **पर्यवतिष्ठते** = भौ बरे तरेन थिरावता. ६५

**नास्ति बुद्धिरयुक्तस्य न चायुक्तस्य भावना ।**
**न चाभावयत: शान्तिरशान्तस्य कुत: सुखम् ।।६६।।**

*नास्ता योगाविणें बुद्दी उरना ध्यानभावना ।*
*ना भावनेविणें शांती शांतीविणें कशें सूख ।।६६।।*

योग सादूंक नाशिल्ल्याची बुद्दी थीर नासता आनी ताका भावना (ध्यान) सादना. ध्यानभावना सादनाशिल्ल्याक शांतीय नासता आनी शांती नाशिल्ल्याक सूख खंयचें? ६६

*अ.अ.:* **अयुक्तस्य** = (आत्मो वळखुंचो) योग सादूंक नाशिल्ल्याची; **बुद्धि : न अस्ति** = बुद्दी थीर नासता; च **अयुक्तस्य न भावना** = आनी त्या योग सादूंक नाशिल्ल्याक ध्यानभावना (चित्ताची एकाग्रताय) नासता; **अभावयत: शान्ति: च न** = ध्यान भावना सादनाशिल्ल्याक शांतीय नासता; **अशांतस्य सुखं कुत:** = शांती नाशिल्ल्याक सूख खंयचें? ६६

इन्द्रियाणां हि चरतां यन्मनोऽनु विधीयते ।
तदस्य हरति प्रज्ञां वायुर्नावमिवाम्भसि ।।६७।।

*इंद्रियां धांवति भैराट      ताचे माकशी वता मन ।*
*व्हरी तें बुद्दि ओडून      वारो जसो व्हडें जळीं ।।६७।।*

कित्याक, इंद्रियां (आपल्या विशयांनदों) स्वेच्छाप्रमाण हेडटना (इंद्रियां भितरल्या) ज्या इंद्रियां फाटल्यान मन वेता, तें इंद्रिय, उदकांत वार जसो व्हड्याक ओडून व्हरता, तसो ह्या (असंयमी) मनशाचे बुद्दीक ओडून व्हरता. ६७

*अ.अ.:* हि = कित्याक; इन्द्रियाणां चरतान् = इंद्रियां (आपल्या विशयांनदों) स्वेच्छाप्रमाण हेडटना; तत् = तें इंद्रिय; वायुः इव अम्भसि नावं (हरति) = उदकांत वार जसो व्हड्याक ओडून व्हरता, (तसो) अस्य = ह्या (असंयमी) मनशाचे; प्रज्ञां (हरति) = बुद्दीक ओडून (व्हरता). ६७

तस्माद्यस्य महाबाहो निगृहीतानि सर्वशः ।
इन्द्रियाणीन्द्रियार्थेभ्यस्तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता ।।६८।।

*देखुन् इंद्रियां जाणें      विशयांतसून आपुल्या ।*
*आंवळून सम धरल्यांतु      ताची बुद्दी थिरावली ।।६८।।*

देखून अर्जुना, इंद्रियांच्या विशयाकडसून तीं (इंद्रियां) जाणें सगले तरेन आंवळून धरल्यांत, ताची बुद्दी थीर जाली. ६८

*अ.अ.:* तस्मात् महाबाहो = देखून बळिश्ट भुजांच्या अर्जुना; यस्य इंद्रियाणि = ज्या मनशाचीं इंद्रियां; सर्वशः = सगले तरेन; इंद्रियार्थेभ्यः = इंद्रियांच्या विशयांकडसून; निगृहीतानि = आंवळून धरल्यांत, तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता = ताची बुद्दी थीर जाली. ६८

या निशा सर्वभूतानां तस्यां जागर्ति संयमी ।
यस्यां जाग्रति भूतानि सा निशा पश्यतो मुनेः ।।६९।।

*रात जी सर्व जीवांची      तेन्ना जागोच संयमी ।*
*जागतातु विशयीं लोक   थीरबुद्दीकु रात ती ।।६९।।*

जेन्ना सगल्या जिवांची जी रात, तेन्ना संयमी मुनी जागो आसता. आनी जेन्ना (अजाण) लोक जागतात (आत्म्याचें खुरेलें रूप पळेतल्या थीरबुद्दी) मुनीची ती रात आसता. ६९

*अ.अ.:* सर्वभूतानां या निशा = सगल्या अजाण जिवांची जी रात आसा; तस्याम् = तातूंत; संयमी = आत्मसंयमी योगी; जागर्ति = जागो आसता; (आनी) यस्याम् = ज्या वेळार; भूतानि जाग्रति = सगले जीव जागे आसतात; सा = ती, पश्यतः = आत्म्याचें खुरेलें रूप पळेतल्या; मुनेः निशा = थीर-बुद्दी मुनीची रात आसता. ६९

आपूर्यमाणमचलप्रतिष्ठं
समुद्रमाप: प्रविशन्ति यद्वत् ।
तद्वत्कामा यं प्रविशन्ति सर्वे
स शान्तिमाप्नोति न कामकामी ।।७०।।

*भरुनूय उपाट सदींच थीर*
*तो समुद्र जसो अचळ शांत ।*
*इत्सा भोगुनूय जो सदींच थीर*
*ताकाच शांती न्ही भोग वान्शीक ।।७०।।*

चोंयवशीन (उदक) उपाट भरता आसुनूय, थीर आशिल्ल्या समुद्रांत, जे भाशेन उदक रिगता, ते भाशेन सगल्यो इत्सा आपले ठांय रिगतना जो उचांबळ जायना, तो थीरबुद्दी शांती जोडटा. भोगांची इत्सा करतल्याक ती मेळना. ७०

*अ.अ.:* **आपूर्यमाणम्** = चोंयवशीन (उदक) उपाट भरता आसुनूय; **अचलप्रतिष्ठम्** = थीर आशिल्ल्या समुद्रांत; **यद्वत्** = जे भाशेन; **आप: प्रविशन्ति** = उदक (ताका उचांबळ करिनासतना रिगता); **तद्वत्** = ते भाशेन; **सर्वे कामा:** = सगल्यो इत्सा; **यं प्रविशन्ति** = ज्या मनशा भितर रिगुनूय; **स: शान्ति आप्नोति** = तो शांती जोडटा; **न कामकामी** = भोग विशयांची इत्सा करतल्याक (ती) मेळना. ७०

विहाय कामान्य: सर्वान्पुमांश्चरति नि:स्पृह:
निर्ममो निरहंङ्कार:स शान्तिमधिगच्छति ।।७१।।

*सगले विशय सोडूनु म्हजें मीपण सांडुनू ।*
*लोभा विरेतु वावुर्ता शांती ताकाच मेळऽ गा ।।७१।।*

जो मनीस सगले विशय (इत्सा) सोडून, ममत्व आनी अहंकार हांचे विरयत (आनी) लोभा विरयत जावन वावुरता, ताकाच शांती मेळटा. ७१

*अ.अ.:* **य: पुत्रान्** = जो मनीस; **सर्वान् कामान् विहाय** = सगल्यो इत्सा सोडून; **निर्मम: निरहंरकार** = ममत्व आनी अहंकार हांचे विरयत जावन; **नि:स्पृह:** = लोभा विरयत जावन; **चरति** = वावुरता; **स: शान्तिम् अधिगच्छति** = ताकाच शांती मेळटा. ७१

एषा ब्राह्मी स्थिति: पार्थ नैनां प्राप्य विमुह्यति
स्थित्वास्यामन्तकालेऽपि ब्रह्मनिर्वाणमृच्छति ।।७२।।

*पार्था हीच स्थिती ब्राह्मी मेळटच मोह जायिना ।*
*अंतखिणारू भोगी जो ब्रह्मानंदाक पावऽ गा ।।७२।।*

अर्जुना, ब्रह्मरुपी मनशाची स्थिती हीच. ही मेळटकीच मनीस भ्रमांत पडना. अंतखिणारूय ही (मनाची) स्थिती आसल्यार, तो ब्रह्मांत मेळून ताका ब्रह्मनिर्वाण (मोक्ष) मेळटा. ७२

*अ.अ.:* **पार्थ** = हे अर्जुना; **एषा ब्राह्मी स्थितिः** = ही ब्रह्मरुपी मनशाची स्थिती; **एनां प्राप्य** = ही मेळटकीच; **न विमुह्यति** = तो गदळना; (आनी) **अन्तकाले अपि** = निमाण्या खिणारूय; **अस्यां स्थित्वा** = हे दशेंत आसल्यार; **ब्रह्मनिर्वाणमृच्छति** = ब्रह्मानंदाकडेन पावता. ७२

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवदगीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **सांख्ययोगो**
नाम **द्वितीयो**ऽध्यायः ।

हे भाशेन श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो ब्रह्मविद्येंतलो
योगशास्त्राचो श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांच्या संवादांतलो
**सांख्ययोग** नांवाचो **दुसरो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. पुरुषः (२-१५, २१,६०). पुरिशेते इति पुरुषः । पुर् म्ह. शरीर. शरिराचे भितर जो रावता तो जिवात्मो वा आत्मो वा पुरूष. हातूंत स्त्री-पुरूष भेद ना. पुरुषांत बायलय आसपावता. पुरूष म्ह. अंतर्यामी.

२. अन्तः आनी तत्त्वदर्शिभिः = निर्णय (शां.भा.), तत्त्व. (हे भाशेन आत्मो आनी अनात्मो ह्या दोगांयचो निर्णय (अन्तः) प्रत्यक्ष अणभवला. (कोणें?) तत्त्व पळेल्ल्या पंडितांनी अणभवला. जें सत् तें तिनूय काळांत सत्च आनी असत् तें असत्च असोच ह्या दोंयचो निर्णय तत्त्वदर्शी विद्वानांनी केला (शां.भा.).

सांख्यांच्या परिभाशेप्रमाण पुरूष आनी प्रकृती सृश्टीचें मुखेल तत्त्व. हातूंत पुरूष निखटो साक्षीरूप वा अध्यक्ष आसता. तो सूख दुख्ख अणभवता आनी उरिल्लीं हेर कार्यां प्रकृती करता. सत्त्व, रजस आनी तमस् हे तिनूय गूण प्रकृतीचे. तांच्याच विस्ताराक लागून विश्व घडटा. पुरूष जो प्रकृतीच्या कार्याचो गवाय (साक्षी) आसता, तो अविद्येक लागून आपणाकूच कर्तो समजता आनी बंधनांत पडटा. गीतेच्या पंदराव्या अध्यायाचे अंतीं (१५-१६, १७, १८) क्षर पुरूष, अक्षर पुरूष आनी ह्या दोनांयचे पेलो असो उत्तम पुरूष वा पुरुषोत्तम ह्या तिगांयचेंय वर्णन आसा. सगल्या जिवांक (भुतांक) क्षर पुरूष म्हणटात. कूटस्थ (सगल्यांत ऊंच सुवातेर आशिल्ल्या) जिवात्म्याक (परब्रह्माक) अक्षर पुरूष म्हणटात. तो अलिप्त आनी नित्य शुद्ध, बुद्ध, मुक्त सबावाचो आसता. ताकाच नारायण म्हणटात. (पळेयातः ३-४-१९; ८-४-, ८, १०, २२; ९-३; १०-१२; ११-१८; ३८; १३-१९; २०, २१, २२, २३; १५-१६, १७, १८; १७-३). (का).

३. प्रज्ञा (२-५७, ५८, ६१, ६७, ६८). प्र + ज्ञा म्ह. जाणप. प्रज्ञा म्ह. बुद्‌दी, ज्ञान शक्ती, विचारशक्ती. मेधा वा बुद्‌दी, धरपाची (धारणा शक्ती). मिथ् वा मेथ वा मेध् हो धातु. प्रज्ञेंत खंयच्च्याय विशयाचे भितर रिगून ताचें रहस्य सोदून काडपाची शक्ती प्रगट जाता. मेधा ह्या शब्दांत मेळयल्ल्या ज्ञानाक धरपाची, स्मरणांत सदींच दवरपाचे शक्तीचो बोध जाता. (पळेयात: स्थितप्रज्ञ (२-५४, ५५); मेधा (१०-३४); मेधावी (१८-१०). दुर्मेधा (१८-३५): बुद्‌दी: (२-३९, ४९; ३-४२; १८-२९). (का).

## श्लोकटिपो

*४१. बुद्‌दी ह्या शब्दाचे 'निश्चय करपी इंद्रीय' आनी 'वासना' हे दोन अर्थ जातात. अनिश्चयी मनशाच्यो बुद्‌दी म्हळ्यार वासना जायते देळशे-खांदे फुटिल्ल्यो आनी अनंत आसतात (टिळक).

## तिसरो अध्याय



# कर्मयोग

ह्या अध्यायांत कर्माचें म्हत्व सांगलां. समाजवेवस्ता बरे तरेन चलपाक, तशेंच समाज-नितीचो पांवडो तिगोवचे पासत, स्वार्थ आनी लोभ सोडून दर एकल्यान आपलीं कामां समाजाच्या हितापासत आनी लागणूक म्हूण करचीं आसतात. कर्मां करप हो मनीस सभाव. सांख्यशास्त्र कर्मसंन्यासाची वाट सुचयता. पूण योगशास्त्र कर्मयोगूच गरजेचो अशें म्हणटा. कर्म केलेबगर कोणाकूच रावंक येवचेलें ना.

खंयच्याय मार्गान अर्जुनाक झूज टाळपाचें आसलें. तेन्ना दुसऱ्या अध्यायांत कर्माचें बरें वायटपण कर्मा फाटले बुद्दीच्या हेतू वयल्यान थारिल्ल्यान (४९) मनशान आपली बुद्दी शुद्ध म्हळ्यार सम आनी थीर करची अशें श्रीकृष्णान सांगिल्लें. तेंच सूत्र धरून अर्जुनान प्रस्न केलो: ''कर्मापरस बुद्दी अदीक म्हत्वाची अशें तुका दिसता जाल्यार, युद्धासारकें घोर कर्म तूं म्हाका कित्याक करूंक लायता? हांव कर्म सोडून (म्हळ्यार संन्यास घेवन), बुद्दी शुद्ध करपाच्या मार्गाक लागता म्हणटकीच जालें.'' (१).

कर्म आनी ज्ञान हीं अंतीं एकूच हाची अर्जुनाक स्पश्ट कल्पना नाशिल्ल्यान ताणें हो प्रस्न केल्लो. (अ. ४-४१ वयली टीप पळेयात.) फाटल्या अध्यायांत (४१-४४), कृष्णान वैदीक कर्मिश्ठांचेर टिका केल्ली. तेच परी ह्या अध्यायाच्या आरंभाक दोन तरांच्यो निश्ठा (वाटो) सांगून (३), कर्म सोडपाक पळोवपी ज्ञानी लोकांचेर टिका केल्या (४-६). अध्यायाचे सुर्वेकूच कर्मां सोडप बरें काय कर्मां करप बरें असो प्रस्न अर्जुन करता (१-२). फुडें ३ ते ८ ह्या श्लोकांत सांख्यांचो ज्ञानमार्ग (कर्मसंन्यास) (हातूंत चार आस्रमांक पाळो दिवन अंतीं ब्रह्म आनी आत्म्याच्या एकचाराचें (ब्रह्मात्मैक) ज्ञान जातकीच संन्यास घेवन सगलीं कर्मां सोडप) आनी योग्यांचो कर्मयोग ह्यो वाटो (निश्ठा) सांगून कर्मां कोणाकूच चुकनात अशें श्रीकृष्ण ताका सांगता. देखून, अर्जुनान कर्मयोगानूच चलचें असो श्रीकृष्ण ताका उपदेश करता. ज्ञान मेळोवंक चित्तशुद्धी गरजेची आनी ती कर्माबगर सादना. तशेंच, कर्म केलेबगर कोणाकूय एक खीण लेगीत रावंक जावपाचें ना. आमची इत्सा आसूं वा नासूं, प्रकृतीच आमकां कर्म करूंक लायता. इंद्रियांक वश करून, तांकां आपसुवादीन दवरल्यारूय मन शांत खंय बसता? उलट तें सैराट हेडटा, देखून कर्म हें करुंकूच जाय.

फुडें मीमांसकांची कर्मांविशीं म्हणणी मांडल्या (९-१६). मनशान कर्म यज्ञापासत करपाक जाय. यज्ञ म्हळ्यार त्यागी वृत्तीन केल्लो वावर. सहकाराचे आनी उपकाराचे भावनेन

समाजाची धारणा जावचे पासत कर्मां करचीं. भोगपा परस त्यागप स्रेश्ठ. कर्म यज्ञापासत, म्हळ्यार परमेश्वरापासत करचें आनी तेंय फळाची आशा सोडून करचें. आसक्तीन, म्हळ्यार ओडीन. केल्लें कर्म मनशाक पासांत घालता, म्हळ्यार, ताचें पुण्य पातक ताका बादता.ब्रह्मदेवान यज्ञा सयत प्रजा निर्मिली आनी यज्ञ करून तिका देवांक तुश्ठावपाक सांगलें. यज्ञान देव तुश्ठावतले आनी तिचेर प्रसन्न जावन तिका तिणें इत्सिल्ले भोग दितले. यज्ञाचें एक चक्र आसता. अन्न खावन जिवाच्यो कुडी जातात. पावसापासून अन्न, यज्ञापासून पावस, ब्रह्मापासून कर्म आनी अक्षरापासून ब्रह्म उत्पन्न जालें. देखुनूच सगळ्यांक व्यापतलें ब्रह्म यज्ञरुपी कर्मांमदीं थारावता. ताकाच सगलीं कर्मां ओंपून, बाकी उरिल्ल्या अन्नाचो वांटो खातलो बरो मनीस पातकांतसून सुट्टा. पूण जे (स्वार्थी मनीस परमेश्वराक कांयच दिनासतना) आपुणूच सगले जिनस भोगतात, तांचें जिवीत व्यर्थ अशें ह्या यज्ञचक्राचें वर्णन केलां. सगले सृश्टपदार्थ एकामेकांचेर निंबून आसतात. दर सृश्टपदार्थांचो हेरांकूय उपेग जाता. ही जाणवीक दवरून सृश्टी विशींची आपली लागणूक रीण फेडपाचे भावनेन, म्हळ्यार यज्ञ करपाचे भावनेन करपाक जाय. फुडें समाजहीत कित्यांत आसा हें सांगलां (१७-२६). समाजांतल्या आत्मज्ञानी आनी थोर मनशांनी आपली लागणूक करची. निस्वार्थी कर्माची देख लोकांमुखार दवरची. आनी हे रितीन समाजाची नितीक आनी अर्थीक वेवस्था तिगोवची. ज्ञानी मनीस स्वार्थी नासतात, म्हूण सुटनाशिल्लीं कर्मां ताणें फळाची आसक्ती धरिनासतना करपाक जाय (१७-१९). ज्ञानी मनीस आपलेच पासत वावुरनात. जनक राजाची देख दिवन श्रीकृष्ण हें स्पश्ट करता. ज्ञानी मनशाक स्वताचें अशें कांयच कर्तव्य नासल्यारूय, ताणें लोकांक देख दिवचे पासत (लोकसंग्रहापासत) वावरूंक जाय. लोकसंग्रह म्हळ्यार समाजधारणा, समाजाची थिरताय वा बरी समाजवेवस्था. ज्ञानी मनशान बरीं कर्मां करचीं सोडल्यार, लोक तांचीच देख घेतले आनी ताचो परिणाम वायट जातलो. मागीर, श्रीकृष्ण खासा आपलीच देख दिता. आपूण पूर्ण आसुनूय कर्मां करीत आसतां. आपणें कर्मां सोडल्यार जगाचो नाश जातलो (२०-२४). देखून ज्ञानी लोकांनी लोकांक देख दिवपापासत आसक्तीविणें कर्मां करचीं आनी नेणार लोकांचो बुद्दीभेद करचो न्हय (२५-२६). फुडें सांख्यतत्त्वाप्रमाण सत्त्वादी गुणांचें म्हत्व सांगलां. सभावांतल्या सत्त्व-रज-तम ह्या गुणांक लागुनूच आमचें नीजच (प्रकृती) गुणांकडसून कर्मां घडयता (२७-२९; ३३-३५). मनशान अहंकार आनी आसक्ती हांचे विणें, इंद्रियांक आळाबंदा हाडून कर्मा करचीं. मनाच्या निग्रहान जीण सारची. अध्यायाचे अंतीं, मनशाक पातक करूंक कोण लायता, ह्या अर्जुनाच्या प्रस्नाक श्रीकृष्ण जाप दिता ती अशी: रजगुणाक लागून खर इत्सा जाता आनी ते इत्सेक आडमेळीं हाडल्यार तिडक उप्रासता. मनशाक ताचे इत्से आड आनी बळयां पाप करूंक लावपी ही इत्साच आशिल्ल्यान, इंद्रियांक वश करुनूच ती ना करूं येत. कित्याक, ती (इत्सा) इंद्रियां, मन आनी बुद्दी ह्या तीन सुवातांनी रावता आनी मनशाचें ज्ञान धांकून ताका भ्रमांत घालता. म्हूण तो गदळटा आनी ताचो विवेक ना जाता.

अंतीं सगल्या ज्ञानांत ज्ञानयज्ञ व्हड; सगल्या यज्ञांची अखेर आत्मज्ञानांत जाता; ज्ञाना भाशेन ह्या जगांत दुसरें आनीक कांयच पवित्र ना असो ज्ञानाचो म्हयमा सांगून, श्रद्धाळू, इंद्रियां जिखिल्लो आनी म्हजेंच ध्यान करतलो जावन तूं ज्ञान मेळय आनी अशें केल्यार तुका शांती मेळटली, अशें श्रीकृष्णान अर्जुनाक सांगून हो अध्याय सोंपयला.

## तृतियोऽध्याय

### अर्जुन उवाच

**ज्यायसी चेत्कर्मणस्ते मता बुद्धिर्जनार्दन ।**
**तत्किं कर्मणि घोरे मां नियोजयसि केशव ।।१।।**

**व्यामिश्रेणेव वाक्येन बुद्धिं मोहयसीव मे ।**
**तदेकं वद निश्चित्य येन श्रेयोऽहमाप्नुयाम् ।।२।।**

मागीर कर्म कित्याक करपाक जाय

### अर्जुनान म्हळें

*बुद्दी कर्माकुयू थोरू दिसऽ तुका जनार्दना ।*
*घाली कित्याकु तूं म्हाका घोर कर्मांतु केशवा ।।१।।*

*ह्या दुभावी उतरांनी तूं घुस्पाविशी म्हजी मती ।*
*सांग एकूचु निश्चीतू जें करीतु म्हजें बरें ।।२।।*

श्रीकृष्णा, कर्मापरस ज्ञान (बुद्दी) उंच अशें तुका दिसता जाल्यार, तूं म्हाका हें भयंकर कर्म कित्याक करूंक लायता? (१) दुभावी उलोवपान तूं म्हजी मती घुस्पायल्ले वरीच करता. म्हणून म्हज्या हिताचें तें एकूच थारावन सांग. २

*अन्वय अर्थ* : **जनार्दन** = आगा कृष्णा; **कर्मण:** = कर्मा परस; **बुद्धि ज्यायसी** = ज्ञान (बुद्दी), उंच; **इति ते मता चेत्** = अशें तुका दिसता; **तत् केशव माम्** = जाल्यार कृष्णा म्हाका; **घोरे कर्मणि किं नियोजयसि** = भयंकर कर्म कित्याक करपाक लायता ? (१) **व्यामिश्रेण इव वाक्येन** = दुभावी (दोट्टी अर्थाच्या) उलोवपान (उतरांनी) (तूं); **मे बुद्धिं मोहयसि इव** = म्हजी मती घुस्पायल्ले वरीच करता; **येनम् अहं श्रेय: आप्नुयाम्** = जाणें म्हजें बरें जायत; **तत् एकं निश्चित्य वद** = तें एकूच निश्चीत सांग.

श्रीभगवानुवाच

लोकेऽस्मिन्द्विविधा निष्ठा[१] पुरा प्रोक्ता मयानघ ।
ज्ञानयोगेन सांख्यानां कर्मयोगेन योगिनाम् ॥३॥

न कर्मणामनारम्भान्नैष्कर्म्यं[२] पुरुषोऽश्नुते ।
न च संन्यसनादेव सिद्धिं समधिगच्छति ॥४॥

भगवंतान म्हळें

जिवीत हेंच कर्म - कर्मफळाची आशा नाका

*वाटो त्यो दोन ह्या लोकां सांगल्यो आदींच निर्मळा ।*
*ज्ञानाचो योग सांख्यांचो योग्यांचो कर्म योग तो ॥३॥*

*कर्मां करूंक लागलोना जायना कर्मां कर्ना असो ।*
*सर्व कर्मां जरी सोडलीं मेळऽ सिद्धी अशेंयु ना ॥४॥*

भगवंतान म्हळें: अर्जुना, ह्या जगांत दोन निश्ठा (मोक्षाच्यो वाटो) आसात म्हणपाचें आदीं सांगलां. सांख्यबुद्दीन चलतल्यांची आत्मगिन्यानाची (ज्ञानयोगान चलपाची) आनी योग्यांची कर्मयोगान चलपाची वाट.(३) कर्मां करूंक लागलोना (कर्मांचो आरंभ केलो ना) म्हूण मनीस कर्म करिनासो जायना आनी कर्मां साप्प सोडल्यारूय (तें सोडिल्ल्याचें) फळ मेळटा अशेंय ना. (४)

*अ.अ.* : **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **अनघ** = निश्पाप अर्जुना; **अस्मिन् लोके द्विविधा निष्ठा** = ह्या लोकांत (जगांत) दोन वाटो (निष्ठा) (आसात); **मया पुरा प्रोक्ता** = म्हणपाचें हांवें आदीं सांगलां; **सांख्यांनां ज्ञानयोगेनम्** = सांख्यबुद्दीन चलतल्यांची आत्मगिन्यानाची (म्ह. ज्ञानयोगान चलपाची); **च योगिनां कर्मयोगेन** = योग्यांची कर्मयोगान चलपाची (वाट)(३) **कर्मणाम्अनारम्भात्** = कर्मां करपाक लागलोना म्हणून; **पुरूषः नैष्कर्म्यम् नअश्नुते** = मनीस निश्कर्मतायेक मेळयता अशें ना; **च संन्यसनात् एव** = कर्मां सामकींच सोडल्यारूय; **सिद्धीम्** = सिद्धी (तीं सोडल्याचें फळ); **न समधिगच्छति** = मेळटा अशेंय ना. ४

न हि कश्चित्क्षणमपि जातु तिष्ठत्यकर्मकृत् ।
कार्यते ह्यवशः कर्म सर्वः प्रकृतिजैर्गुणैः ॥५॥

*कर्मांबगर कोणूच खीणु लेगीतु राविना ।*
*प्रकृतीच्या गुणान सर्व कर्म बंद्यांवरी करी ॥५॥*

कित्याक, कोणूच खीणभरूय कर्म करिनासतना केन्ना उरना. प्रकृती (निजा)पासून जाल्ले सत्त्वादी गूण सगल्यांक बंद्यां भाशेन (सगले जीव परतंत्र आशिल्ल्यान) कर्म करूंक लायतात.

*अ.अ.* : **हि** = कित्याक; **कश्चित्** = कोणूच (मनीस); **क्षणं अपि** = खीणभरूय; **अकर्मकृत्** = कर्म केले बगर; **जातु** = केन्नाच; **न तिष्ठति** = उरना; **प्रकृतिजैः गुणैः** = प्रकृती (निजा) पासून जाल्ल्या (सत्त्वादी) गुणांनी; **सर्वः अवशः कर्म कार्यते** = सगल्यांक बंद्यां भाशेन कर्म करूंक लायतात.

**कर्मेन्द्रियाणि संयम्य य आस्ते मनसा स्मरन् ।**
**इन्द्रियार्थान्विमूढात्मा मिथ्याचारः स उच्यते ।।६।।**

*आंवळून कर्मेंद्रियां मूर्ख विशयु चिंतिता मनान् ।*
*अश्या मन्शा म्हळा ढोंगी चलणुकेनु लटीक तो ।।६।।*

जो मूर्ख मनीस (हात पांय बी) कर्मेंद्रियांक आंवळून धरून मनान विशय चिंतता, ताका लटके चलणुकेचो (ढोंगी) म्हणटात. ६

*अ.अ.* : **यः विमूढात्मा** = जो मूर्ख मनीस; **कर्मेन्द्रियाणि**= कर्मांचीं इंद्रियां; **संयम्य** = आंवळून; **इन्द्रियार्थान् मनसा स्मरन् आस्ते** = इंद्रियांचे विशय मनान चिंतता; **सः मिथ्याचारः उच्यते** = ताका लटके चलणुकेचो (ढोंगी) म्हणटात. ६

**यस्त्विन्द्रियाणि मनसा नियम्यारभतेऽर्जुन ।**
**कर्मेन्द्रियैः कर्मयोगमसक्तः स विशिष्यते ।।७।।**

*पूण करी मनानूच इंद्रियांचें नियंत्रणू ।*
*ओडीविणें करी कर्म योग्यतायेन तो व्हड ।।७।।*

पुणून अर्जुना, जो मनान इंद्रियांचें नियंत्रण करून आनी फळाची ओड सोडून कर्मेंद्रियांनी योग आचरता तो योग्यतायेन व्हड. ७

*अ.अ.* : **तु अर्जुन** = पुणून अर्जुना; **यः मनसा इन्द्रियाणि नियम्य** = जो मनासयत इंद्रियांक आंवळून (आनी); **असक्तः** = फळाची ओड सोडून; **कर्मेन्द्रियैः कर्मयोगं आरभते** = कर्मेन्द्रियांनी कर्मयोग आचरता; **सः** = तो; **विशिष्यते** = योग्यतायेन व्हड. ७

**नियतं कुरु कर्म त्वं कर्म ज्यायो ह्यकर्मणः ।**
**शरीरयात्रापि च ते न प्रसिद्ध्येदकर्मणः ।।८।।**

*नेमिल्लें कर तूं कर्म सोडचें परस तें बरें ।*
*कुडी निर्वाहु जावंचोना कर्माविणें बरे तरेन् ।।८।।*

तुजें नेमिल्लें कर्म तूं कर. कित्याक, कर्म सोडचे परस कर्म करप चड बरें. कर्म केलें ना जाल्यार, तुजे कुडीचो निर्वाह (वेपारूय) बरे तरेन जावंचो ना. ८

*अ.अ.* : **त्वं नियतं कर्म कुरू** = तूं नेमिल्लें कर्म कर; **हि** = कित्याक; **अकर्मणः** = कर्म ना करचे परस; **कर्म** = कर्म; **ज्यायः** = स्रेष्ठ; **च अकर्मणः** = आनी कर्म केलें ना जाल्यार; **ते शरीरयात्रा अपि** = तुजे कुडीचो वेपारूय (निर्वाह); **न प्रसिध्दयेत्**= बरे तरेन जावचो ना. ८

यज्ञार्थात्कर्मणोऽन्यत्र लोकोऽयं कर्मबन्धनः ।
तदर्थं कर्म कौन्तेय मुक्तसङ्गः समाचर ॥९॥

यज्ञाचें म्हत्व

*यज्ञार्थ करिना कर्म लोकां पासांतु घालि तें ।*
*कर यज्ञार्थ तूं कर्म ओडी विणें बरे तरेन् ॥९॥*

यज्ञाच्या हेतून केल्ल्या कर्माशिवाय हेर हेतून केल्लें कर्म लोकांक कर्मपासांत घालता. देखून आगा अर्जुना, ओड सोडून यज्ञाखातीर (परमेश्वरा पासत) तूं कर्म कर. ९

*अ.अ.* : **यज्ञार्थात् कर्मणः अन्यत्र** = यज्ञाच्या हेतून (केल्ल्या) कर्माशिवाय हेर हेतून कर्म केल्लो; **अयं लोकः** = हो मनीस; **कर्मबन्धनः** = कर्माच्या पासांत पडटा (देखून); **कौन्तेय** = अर्जुना (तूं); **मुक्तसङ्गः** = ओड सोडून; **तदर्थं कर्म समाचर** = यज्ञाखातीर (म्ह. परमेश्वरा पासत) कर्म बरे तरेन कर.

सहयज्ञाः प्रजाः सृष्ट्वा पुरोवाच प्रजापतिः ।
अनेन प्रसविष्यध्वमेष वोऽस्त्विष्टकामधुक् ॥१०॥

*यज्ञासवें प्रजा निर्मून् म्हळें आदीं प्रजापतीन् ।*
*तुमी वाडात यज्ञानु तुमकां जावं कामधेनु हो ॥१०॥*

ब्रह्मदेवान आदीं (सृश्टीच्या आरंभाक) यज्ञासयत प्रजा निर्मून म्हळें: ''ह्या यज्ञान तुमी वाडात. हो यज्ञच तुमकां कामधेनु जावं.'' (तुमचे मनोरथ पूर्ण करूं.) १०

*अ.अ.* : **प्रजापतिः** = ब्रह्मदेवान (निर्मितल्यान); **पुरा** = आदीं (कल्पारंबीं); **सहयज्ञाः प्रजाः सृष्ट्वा** = यज्ञासयत लोकांक (प्रजांक) निर्मून; **उवाच** = म्हळें; **अनेन प्रसविष्यध्वम्** =ह्या यज्ञान (तुमी सगले) वाडात; **एषः वः** = हो यज्ञ तुमची; **इष्टकामधुक् अस्तु** = कामधेनू जावं (तुमच्यो मनांतल्यो इत्सा भागोवं). १०

देवान्भावयतानेन ते देवा भावयन्तु वः ।
परस्परं भावयन्तः श्रेयः परमवाप्स्यथ ॥११॥

*देवां तुश्टायु यज्ञान तुमकां तुश्टावुं देव गा ।*
*तुश्टायत परस्परांक सादा हीत तुमी व्हड ॥११॥*

''ह्या यज्ञान देवांक तुमी तुश्टायात आनी ते देव तुमकां तुश्टावं. हे भाशेन एकामेकांचो तरतर करीत तुमी दोगूय कल्याण सादात.'' ११

*अ.अ.* : (तुमी) **अनेन** = ह्या यज्ञान; **देवान् भावयत** = देवांक तुश्टायात, (आनी); **ते देवाऽ वः भावयन्तु** = ते देव तुमकां तुश्टावं; **परस्परं भावयन्तः**= परस्परांचो तरतर करीत; **परंश्रेय** = (तुमी) व्हडलें हीत; **अवाप्स्यथ** = जोडात. ११

**इष्टान्भोगान्हि वो देवा दास्यन्ते यज्ञभाविता: ।**
**तैर्दत्तानप्रदायैभ्यो यो भुङ्क्ते स्तेन एव स: ॥१२॥**

*यज्ञानु देव तुश्टल्ले इत्सिल्ले भोगु दितुले ।*
*तांकां दिलेविणें तांचें खाता तो चोर गा खरो ॥१२॥*

"यज्ञान तुश्टावल्ले देव तुमकां इत्सिल्ल्या सुखांचे भोग दितले. तांणी दिल्ले जिनस तांकां दिलेशिवाय जो आपुणूच खाता तो खरेलोच चोर." १२

*अ.अ.* : **यज्ञ भाविता: देवा:** = यज्ञान तुश्टावल्ले देव; **व: इष्टान् भोगान् दास्यन्ते** = तुमकां इत्सिल्ल्या सुखांचे भोग दितले; **तै: दत्तान्** = तांणी दिल्ले जिनस; **एभ्य:** = तांकां; **अप्रदाय हि** = दिलेबगर; **य: भुङ्क्ते** = जो आपुणूच खाता; **स: स्तेन: एव** = तो खरेलोच चोर. १२

**यज्ञशिष्टाशिन: सन्तो मुच्यन्ते सर्वकिल्बिषै: ।**
**भुञ्जते ते त्वघं पापा ये पचन्त्यात्मकारणात् ॥१३॥**

*खातात यज्ञांतु उल्लां जें बरे ते पाप मुक्त जाय*
*आपले पासतु रांदी जे पापी ते पाप भक्षुपी ॥१३॥*

यज्ञ करून उरिल्लो यज्ञाचो वांटो खावपी बरेले मनीस सगल्या पापांतसून सुट्टात. पूण आपणाखातीरूच जे अन्न रांदतात, ते पातकी पातक भकतात. १३

*अ.अ.* : **यज्ञशिष्टाशिन:** = यज्ञांत उरिल्लो अन्नाचो वांटो खावपी; **सन्त:** = बरेले मनीस; **सर्वकिल्बिषै:** = सगल्या पातकांतसून; **मुच्यंते** = सुट्टात; **तु ये आत्मकारणात् पचन्ति** = पुणून जे आपणाखातीरच रांदतात; **ते पापा:** = ते पातकी (लोक); **अघम्** = (फकत) पातकूच; **भुञ्जते** = भकतात. १३

**अन्नाद्भवन्ति भूतानि पर्जन्यादन्नसंभव: ।**
**यज्ञाद्भवति पर्जन्यो यज्ञ: कर्मसमुद्भव: ॥१४॥**

*अन्ना पसून जाय जीव पावसा पसून अन्न गा ।*
*यज्ञा पसूनु जाय पावस यज्ञ कर्मांतुल्यानु गा ॥१४॥*

अन्न खावन (जाल्ल्या रगता रेतान) जिवाच्यो कुडी जातात. पावसा पसून अन्न जाता. यज्ञ करून पावस पडटा. कर्म करून यज्ञ जाता. १४

*अ.अ.* : **भूतानि अन्नात भवन्ति** = (सगले) जीव अन्ना पसून जातात; **अन्नसम्भव: पर्जन्यात** = पावसा पसून अन्न जाता; **पर्जन्य:यज्ञात् भवति** = पावस यज्ञा पसून जाता; **यज्ञ:कर्मसमुद्भव:** = (आनी) यज्ञ कर्मापसून उत्पन्न जाता. १४

कर्म ब्रह्मोद्भवं विद्धि ब्रह्माक्षरसमुद्भवम् ।
तस्मात्सर्वगतं ब्रह्म नित्यं यज्ञे प्रतिष्ठितम् ॥१५॥

*ब्रह्मांतुल्यान गा कर्म अक्षरांतसून ब्रह्म तें ।*
*व्यापी तें ब्रह्म सर्वांकु म्हूण यज्ञांतु तें सदीं ॥१५॥*

कर्म ब्रह्मांतसून (प्रकृतीपसून) जाता आनी ब्रह्म अक्षरापसून (नित्यतत्त्वापासून वा परमात्म्या पासून) जालां अशें तूं समज. म्हणून सगल्यांक व्यापतलें ब्रह्म (परमेश्वरी तत्त्व), सदींच यज्ञांत भरिल्लें आसता अशें तूं समज. १५

*अ.अ.* : **कर्म ब्रह्मोद्भवम्** = कर्म ब्रह्मांतसून जालां; **विद्धि** = अशें तूं समज; **ब्रह्म अक्षरसमुद्भवम्** = ब्रह्मअक्षर म्हळ्यार नित्यतत्त्वापासून जालां; **तस्मात् सर्वगतं ब्रह्म** = देखून सगल्यांक व्यापतलें ब्रह्म; **नित्यं यज्ञे प्रतिष्ठितम्** = सदींच यज्ञांत भरिल्लें आसता. १५

एवं प्रवर्तितं चक्रं नानुवर्तयतीह यः ।
अघायुरिन्द्रियारामो मोघं पार्थ स जीवति ॥१६॥

*चलयल्लें हें परी चक्र चलयना तें फुडें तशें ।*
*विशयलंपटू पापी पार्था वांचूनु व्यर्थ तो ॥१६॥*

अर्जुना, हे भाशेन (परमात्म्यान) आरंभिल्लें हें सृश्टीचें चक्र, ह्या जगांत जो फुडें तशेंच चलयना, तो पातके जिणेचो विशयलंपट. तो वांचून फुकट. १६

*अ.अ.* : **पार्थ एवं प्रवर्तितं चक्रम्** = अर्जुना, हे भाशेन आरंभिल्लें सृश्टीचें चक्र; **यः इह न अनुवर्तयति** = जो कोण हांगा फुडें तशेंच चलयना; **स अघायुः** = तो पातके जिणेचो; **इन्द्रियारामः** = खाज-भागोवणो (इंद्रियांच्या सुखांत गुल्ल जाल्लो); **मोघं जीवति** = वांचून फुकट. १६

यस्त्वात्मरतिरेव स्यादात्मतृप्तश्च मानवः ।
आत्मन्येव च संतुष्टस्तस्य कार्यं न विद्यते ॥१७॥

*जो आत्म्यांतूच गा गुल्ल तुश्ट आत्म्यांतु तो तसो ।*
*आत्मज्ञानांतु धादोसु ताका कर्तव्य ना मुळीं ॥१७॥*

पुणून जो आत्म्यांतूच गुल्ल, आत्मज्ञानांत तुश्ठ आनी आत्म्यांतूच धादोस आसता, ताका कसलीच लागणूक (कांयच करचेलें) लागना. १७

*अ.अ.* : **तु यः मानवः** = पुणून जो मनीस; **आत्मरतिःएव** = आत्म्यांतूच गुल्ल आसता; **च आत्मतृप्तः** = आत्मज्ञानांत तुश्ठ आसता; **चआत्मनि एवं संतुष्टः स्यात्** = आत्म्यांतच धादोस आसता; **तस्य कार्यं न विद्यते** = ताका कसलीच लागणूक (कांयच करचेलें)लागना. १७

**नैव तस्य कृतेनार्थो नाकृतेनेह कश्चन ।**
**न चास्य सर्वभूतेषु कश्चिदर्थव्यपाश्रय: ।।१८।।**

*कर्मांतु वा अकर्मांतु लाभ ताचो मुळींच ना ।*
*कोणा कडसून गा ताका जोडचेलेंयु कितेंच ना ।।१८।।*

कित्याक हांगा कर्म करपांतूय वा ना करपांतूय ताका कांयच मेळोवचेलें नासता आनी कोणाच खातीर ताका कांयच सादचेलें ना. १८

*अ.अ.* : इह = हांगा (ह्या लोकांत); **तस्य** = त्या मनशाक; **कृतेन एव** = कर्म करपांतूय; **अर्थ न** = कांयच मेळोवचेलें नासता; **च** = आनी; **अस्य** = हाका; **सर्वभूतेषु** = खंयच्याच जिवा खातीर; **कश्चित अर्थव्यपाश्रय न** = कांयच सादचेलें नासता (लाभ करून घेवंचेलो ना). १८

**तस्मादसक्त: सततं कार्यं कर्म समाचर ।**
**असक्तो ह्याचरन्कर्म परमाप्नोति पूरुष: ।।१९।।**

*म्हणूनु आसक्तीवीण कर लागणूक तूं सदीं ।*
*आसक्तीवीण जो जालो परम पद मेळयी ।।१९।।*

देखून तूं (फळाची) ओड सोडून, करूंक फावो जाल्लें कर्म सदींच बरे भाशेन कर. कित्याक, फळाची ओड सोडून परमात्म्याच्या नांवांन कर्म करतल्या मनशाक परमपद (मोक्ष) मेळटा.

*अ.अ.* : तस्मात् = देखून (तूं); **असक्त:** = (फळाची) ओड सोडून; **कार्यं कर्म** = करूंक फावो जाल्लें कर्म; **सततम्** = सदींच; **समाचर** = बरे भाशेन कर; हि = कित्याक; **असक्त: पुरूष:** = (फळाची) ओड सोडून कर्म करतलो मनीस; **कर्म आचरन्** = कर्म करीत आसतना; **परम् आप्नोति** = परमात्म्याक मेळटा.

**कर्मणैव हि संसिद्धिमास्थिता जनकादय: ।**
**लोकसंग्रहमेवापि संपश्यन्कर्तुमर्हसि ।।२०।।**

*कर्मां करूनुचू मेळ्ळी सिद्धी त्या जनकांदिकां ।*
*दिवंक लोकांकु गा देख फावो तें कर्म तूं कर ।।२०।।*

कित्याक, जनक राजा बी ज्ञानी मनीसूय, फळाचे आशेविणें कर्मां करुनूच मोक्षाक पावले. लोकांक बरी देख लागूंक जाय हाचे कडेन बरें लक्ष दिवन तुवें फावो जाल्लें कर्म करूंक जाय.

*अ.अ.* : **हि जनकादय:** = कित्याक जनकादी ज्ञानी मनीसय; **कर्मणा एव** = (फळाचे आशेविणें) कर्म करुनूच; **संसिद्धिम् आस्थिता:** = मोक्षाक पावले (तशेंच); **लोकसंग्रहम् संपश्यन्** =लोकांक बरी देख लागूंक जाय (हें) बरें करून पळोवनूय (तुवें); **कर्तुम् एव अर्हसि** = कर्म करुंकूच; फावो जाल्लें कर्म करूंक जाय. २०

यद्यदाचरति श्रेष्ठस्तत्तदेवेतरो जनः ।
स यत्प्रमाणं कुरुते लोकस्तदनुवर्तते ।।२१।।

*म्हाल म्हाजन करी जें जें     हेरय लोक तशें करी ।*
*मानी प्रमाण जें थोर     हेरय चलऽ तशेच गा ।।२१।।*

व्हडलो मनीस जें जें करता, तें तेंच हेर लोक करतात. तो जें प्रमाण (खरें) मानता, तें हेर लोक खरें मानतात. २१

*अ.अ.* : **श्रेष्ठः** = म्हाल म्हाजन (व्हडलो मनीस); **यत् यत् आचरति** = जें जें करता; **तत् तत् एव इतरः जनः** = तें तेंच हेरशिलो लोक करतात; **सः यत् प्रमाणं कुरुते** = तो जें प्रमाण (खरें) मानता; **तत् लोकः अनुवर्तते** = तशे (हेर) लोक चलतात. २१

न मे पार्थास्ति कर्तव्यं त्रिषु लोकेषु किंचन ।
नानवाप्तमवाप्तव्यं वर्त एव च कर्मणि ।।२२।।

*तिनूय लोकांतु कौंतेया     म्हाका कांयूच लागना ।*
*मेळोवंचें ना तशें मेळचें     कर्म करीत रावंऽ हांव ।।२२।।*

आगा अर्जुना, त्रैलोक्यांत (सर्ग, धर्तरी आनी पाताळ ह्या लोकांत) म्हाका कांयच कर्तव्य ना. तशेंच म्हाका मेळूंक नाशिल्लें आनी मेळोवचेलेंय कांयच ना. तरी हांव कर्म करीत आसतां. २२

*अ.अ.* : **पार्थ** = अर्जुना; **त्रिषुलोकेषु** = तिनूय लोकांत; **मे** = म्हाका; **किंचन कर्तव्यं न अस्ति** = कांयच लागना; **च** = तशेंच; **अवाप्तव्यम्** = (म्हाका) मेळोवचेलें; **अनवाप्तम्** = मेळूंक नाशिल्लें; **न** = कांयच ना (तरी आसतना हांव); **कर्मणि एव वर्ते** = कर्मांतूच वावुरतां. २२

यदि ह्यहं न वर्तेयं जातु कर्मण्यतन्द्रितः ।
मम वर्त्मानुवर्तन्ते मनुष्याः पार्थ सर्वशः ।।२३।।

*घडये चत्रायु धल्लीना     म्हज्या कामाचि अर्जुना ।*
*सगले तरेनु ते लोक     म्हजे देखिनु चलतले ।।२३।।*

कित्याक अर्जुना, हांवें चत्रायेन घडये केन्ना म्हजें कर्म करिना जायत जाल्यार, सगले तरेन लोक म्हजे चलणुकेची देख घेतले. २३

*अ.अ.* : **हि अहम्अतंद्रितः** = कित्याक हांव चत्रायेन; **जातु** = घडये; **यदि कर्मणि न वर्तेयम्** = कर्म करिना जायन जाल्यार; **पार्थ मनुष्याः सर्वशः** = आगा अर्जुना, लोक सगले तरेन; **मम वर्त्म अनुवर्तन्ते** = म्हजे चलणुकेची देख घेतले. २३

**उत्सीदेयुरिमे लोका न कुर्या कर्म चेदहम् ।**
**संकरस्य च कर्ता स्यामुपहन्यामिमा: प्रजा: ।।२४।।**

*हांवेंच कर्म सोडल्यारि ना जातले सर्व लोकु हे ।*
*हांवु कारण प्रजे घाता जावन समाज-गोंदळ ।।२४।।*

हांव कर्म करिना जायन जाल्यार हे सगले लोक नश्ट जातले. हांव समाजांतल्या गोंदळाक कारण जातलों आनी हांव ह्या सगल्या लोकांचो घात करपी जातलों. २४

*अ.अ.* : **अहं कर्म न कुर्यां चेत्** = हांव कर्म करिना जायन जाल्यार; **इमे लोका:** = हे सगले लोक; **उत्सीदेयु:** = नश्ट जातले; **च** = आनी (हांव); **संकरस्य** = समाजांतल्या गोंदळाक; **कर्तास्याम्** = कारण जातलों; **इमा: प्रजा: उपहन्याम्** = ह्या सगल्या लोकांचो हांव घात करपी जातलों. २४

**सक्ता: कर्मण्यविद्वांसो यथा कुर्वन्ति भारत ।**
**कुर्याद्विद्वांस्तथासक्तश्चिकीर्षुर्लोकसंग्रहम् ।।२५।।**

*कर्म करी जशे नेणार फळा ओडीनु भारता ।*
*करचें ओडीविणें शाण्यान् लोकांकु देख लावुंकू ।।२५।।*

अर्जुना, फळाची ओड धरून नेणार लोक जशे कर्म करतात, तेच भाशेन लोकांक बरी देख लावंक सोदतल्या शाण्या मनशान फळाचे ओडी विरयत कर्म करचें. २५

*अ.अ.* : **भारत** = भारत कुळांतल्या अर्जुना; **कर्मणि सक्ता: अविद्वांस:** =फळाची ओड धरून अजाण लोक; **यथा कुर्वन्ति** = जशें कर्म करतात; **तथा** = तशेंच; **लोकसंग्रहम्** = लोकांक बरी देख लावंक (लोककल्याण करपाक) सोदतल्या; **चिकीर्षु: विद्वान् असक्त: कुर्यात्** = इत्सा धरपी शाण्या मनशान फळाची ओड सोडून कर्म करचें. २५

**न बुद्धिभेदं जनयेदज्ञानां कर्मसङ्गिनाम् ।**
**जोषयेत्सर्वकर्माणि विद्वान्युक्त: समाचरन् ।।२६।।**

*कर्मनादी अजाणांची शाण्यान् भेदुं नये मती ।*
*लावंची गा रुची कर्माची चलून योग बुद्दिनू ।।२६।।*

कर्मांत आसक्त जाल्ल्या नेणारांचो बुद्दीभेद शाण्या मनशांनी करचो न्हय. ताणें योग बुद्दीन बरे तरेन चलून, नेणारांक सगलीं कर्मां रुचीन करूंक लावंचीं. २६

*अ.अ.* : **कर्मसङ्गिनाम्** = कर्मांत आसक्त जाल्ल्या; **अज्ञानाम्** = अजाण मनशांचो; **बुद्धिभेदं विद्वान् न जनयेत्** = बुद्दीभेद शाण्या (ज्ञानी) मनशान करचो न्हय. (ताणें); **युक्त:** = योगबुद्दीन; **समाचरन्** = बरे तरेन चलून; (तांकां) **सर्वकर्माणि जोषयेत्** = सगलीं कर्मां रुचीन करूंक लावंचीं. २६

प्रकृते: क्रियमाणानि गुणै: कर्माणि सर्वश: ।
अहंकारविमूढात्मा कर्ताहमिति मन्यते ।।२७।।

आत्मो कर्तो न्हय

*कर्मां सर्व तरेन् घडटी प्रकृतीच्या गुणांनिच ।*
*पिसाविल्लो अहंकारान् कर्तो आपणाकु मानिता ।।२७।।*

प्रकृतीच्या (सत्त्वादी) गुणांक लागून सगले तरेन कर्मां घडटात. अहंकारान पिसाविल्लो मनीस (कूड आनी इंद्रियां हींच आपूण मानपी) मनीस. त्या कर्मांचो कर्तो आपुणूच अशें मानतां. २७

*अ.अ.* : **प्रकृते: गुणै:** = प्रकृतीच्या (निजाच्या) (सत्त्वादी) गुणांक लागून; **सर्वश: कर्माणि** = सगले तरेन कर्मां; **क्रियमाणानि** =घडटात; **अहंकारविमूढात्मा** = अहंकारान पिसावल्लो मनीस, (त्या कर्मांचो); **कर्ता इति मन्यते** = (आपुणूच) कर्तो अशें मानता. २७

तत्त्ववित्तु महाबाहो गुणकर्मविभागयो: ।
गुणा गुणेषु वर्तन्त इति मत्वा न सज्जते ।।२८।।

*जशे गूण तशीं कर्मां खेळटी गूण गुणांत गा ।*
*हें तत्त्व जाण्टलो ज्ञानी म्हूण तातूंतु घुस्पना ।।२८।।*

पुणून अर्जुना, प्रकृतीचे सत्त्वादी गूण आनी त्या त्या गुणांक फावता तीं कर्मां हांचेकूय आपूण वेगळो म्हणपाचें तत्त्व जाण-जाल्लो (ज्ञानी) मनीस, सगले गूण गुणांमदीं वावुरतात अशें समजून कर्मांत घुसपना. (ताची ओड धरिना.) २८

*अ.अ.* : **तु महाबाहो** = पुणून बळिश्ट भुजांच्या अर्जुना; **गुणकर्मविभागयो:** = (प्रकृतीचे) सत्त्वादी गूण आनी त्या त्या गुणांक फावता तीं कर्मां ह्या दोनांकूय आपूण वेगळो. (हें); **तत्त्ववित्** = तत्त्व जाणा जाल्लो (ज्ञानी मनीस); **गुणा:** = सगले गूण; **गुणेषु वर्तन्ते** = गुणांमदीं वावुरतात; **इति मत्वा** = अशें मानून; **न सज्जते** = घुसपना. २८

प्रकृतेर्गुणसंमूढा: सज्जन्ते गुणकर्मसु ।
तानकृत्स्नविदो मन्दान्कृत्स्नविन्न विचालयेत्[३] ।।२९।।

*गूण कर्मांत घुस्पल्ले निजा गुणांत भ्रांत जे ।*
*सर्वज्ञानी अजाणांचो बुद्दी भेद करूं नये ।।२९।।*

प्रकृतीच्या गुणांनी पिसावल्ले लोक गूण आनी कर्मांत घुसपतात. अश्या त्या बरी समज नाशिल्ल्या मुर्खांचो पूर्ण ज्ञानी मनशान बुद्दी भेद करचो न्हय. २९

*अ.अ.* : **प्रकृते:**= प्रकृतीच्या; **गुणसंमुढा:** = गुणांनी भुलिल्ले लोक; **गुणकर्मसु सज्जन्ते** = गूण आनी कर्मांत घुसपतात. (प्रकृतीचे गूण म्हळ्यार आपुणूच अश्या समजांत गदळटात); **तान्** = अश्या त्या; **अकृत्स्नविद:** = बरी समज नाशिल्ल्या; **मंदान्** = मुर्खांचो; **कृत्स्नवित्** = पूर्ण ज्ञानी मनशान; **न विचालयेत्** = बुद्दीभेद करचो न्हय. २९

मयि सर्वाणि कर्माणि संन्यस्याध्यात्मचेतसा ।
निराशीर्निर्ममो भूत्वा युध्यस्व विगतज्वर: ॥३०॥

*चित्त थिरावनु आत्म्यांतु म्हाकाच कर्म ओंप तूं ।*
*फळाशा ममता सोडून् खेदाविरयतु झूज तूं ॥३०॥*

(म्हणून) चित्त आत्म्यांत थिरावन सगलीं कर्मां म्हाका (परमेश्वराक) ओंपून, फळाची आशा आनी (कर्माचें) ममत्त्व सोडून, खेद उडोवन, तूं झूज (तुजी लागणूक कर). ३०

*अ.अ.* : **अध्यात्मचेतसा** = चित्त आत्म्यांत थिरावन; **सर्वाणि कर्माणि मयि संन्यस्य** = सगलीं कर्मां म्हाका ओंपून; **निराशी: निर्मम: भूत्वा** = (फळाची) आशा आनी (कर्माचें) ममत्त्व सोडून; **विगतज्वर:** = खेदाविणें (संतापाविणें); **युध्यस्व** = तूं झूज. ३०

ये मे मतमिदं नित्यमनुतिष्ठन्ति मानवा : ।
श्रद्धावन्तोऽनसूयन्तो मुच्यन्ते तेऽपि कर्मभि: ॥३१॥

*हे सांगणे काडिना खोड चलऽ खोडीविणें सदीं ।*
*भावार्थी तेच सुट्टातु कर्मपासांतुल्यानु गा ॥३१॥*

हे म्हजे म्हणणेची खोड काडिना जाल्ले जे भावार्थी मनीस म्हज्या मत्तान सदींच चलतात, तेय कर्माच्या पासांतल्यान सुट्टात. (तांकां पातक लागना.) ३१

*अ.अ.* : **इदं मे मत्तम्** = हे म्हजे म्हणणेची; **अनसूयन्त:** = खोड काडिना जाल्ले; **ये श्रद्धावंत: मानवा:** = जे भावार्थी मनीस; **नित्यं अनुतिष्ठन्ति** = सदींच (म्हज्या मत्तान) चलतात; **ते अपि कर्मभि: मुच्यन्ते** = तेय कर्माच्या पासांतसून सुट्टात. ३१

ये त्वेतदभ्यसूयन्तो नानुतिष्ठन्ति मे मतम् ।
सर्वज्ञानविमूढांस्तान्विद्धि नष्टानचेतस: ॥३२॥

*म्हणणेची खोड काडटात ह्या मत्तानु चलनात ते ।*
*सर्वज्ञान वगडाविल्ल्या मुर्खांची वाट लागतली ॥३२॥*

पुणून, जे लोक दोश दिश्टीन खोड काडपी मूर्ख लोक ह्या म्हज्या मत्ता प्रमाण चलनात, त्या सगले तरेचें ज्ञान वगडावल्ल्या निर्बुद्द लोकांची वाट लागली अशें तूं समज. ३२

*अ.अ.* : **तु** = पुणून; **ये अभ्यसूयन्त:** = जे (म्हजे हे म्हणणेची) खोड काडपी; **अचेतस:** = मूर्ख लोक; **एतत् मे मतम्** = ह्या म्हज्या मत्ताप्रमाण; **न अनुतिष्ठन्ति** = चलनात; **तान् सर्वज्ञान -विमूढान्** = त्या सगले तरेचें ज्ञान ना जाल्ल्या निर्बुद्द लोकांची ; **नष्टान् विद्धि** = वाट लागली अशें तूं समज. ३२

**सदृशं चेष्टते स्वस्या: प्रकृतेर्ज्ञानवानपि ।**
**प्रकृतिं यान्ति भूतानि निग्रह: किं करिष्यति ॥३३॥**

प्रकृती आनी लागणूक (कर्तव्य)

*चलऽ ते ज्ञानवंतू बी आपलेच प्रकृती भशेन् ।*
*वती बडीर हे जीव निश्चयाचो कितें उपेग् ॥३३॥*

सगलेच जीव आपले बडीर वतात. ज्ञानी लोकूय आपले प्रकृतीच्या सबावाक धरून चलतात. थंय इंद्रियांचो निग्रह कितें करतलो ? ३३

*अ. अ.* : (कित्याक) **भूतानि प्रकृतिं यान्ति** = सगले जीव आपले बडीर (प्रकृतीच्या सबावाचेर) वतात (सबावाच्या वळणाचेर वचून कर्म करतात); **ज्ञानवान् अपि** = ज्ञानवंतूय; **स्वस्या: प्रकृते: सदृशम्** = आपले प्रकृती भाशेन; **चेष्टते** = चलतात (वेव्हार करतात) (म्हणटच); **निग्रह:** = (इंद्रियांचो) निग्रह: **किं करिष्यति** = कितें करतलो ? ३३

**इन्द्रियस्येन्द्रियस्यार्थे रागद्वेषौ व्यवस्थितौ ।**
**तयोर्न वशमागच्छेत्तौ ह्यस्य परिपन्थिनौ ॥३४॥**

*इंद्रियांक विशयां ओड तशी वीट निश्चीत गा ।*
*जावंचें न्ही वश गा तांकां वैरी मार्गांतु दोनु ते ॥३४॥*

इंद्रियां आनी तांचे विशय हांचे मदली ओड (आवड) आनी वीट (नावड) थारायल्ली आसा. त्या दोगांयचे सुवादीन आपणें जावंचें न्हय. कित्याक, मनशाच्या मार्गांत विघ्नां हाडटले ते दोगूय वाटमारे (शत्रू) आसात. ३४

*अ. अ.* : **इन्द्रियस्य इन्द्रियस्य अर्थे** = इंद्रियां आनी तांचे विशय हांचे मदलीं; **रागद्वेषौ** = ओड (मोग) आनी वीट (द्वेश); **व्यवस्थितौ** = थारायिल्ली आसात; **तयो:** = त्या दोगांयच्या; **वशं न आगच्छेत्** = सुवादीन आपणें जावंचें न्हय; **हि** = कित्याक; **अस्य तौ** = ताचे ते दोनूय (ओड आनी वीट); **परिपन्थिनौ** = (कल्याणाचे वाटेंत विघ्नां हाडटले ते दोनूय शत्रू) वाटमारे आसात ३४

**श्रेयान्स्वधर्मो विगुण: परधर्मात्स्वनुष्ठितात् ।**
**स्वधर्मे निधनं श्रेय: परधर्मो भयावह: ॥३५॥ ***

*धर्म आपुलो उणो आसूं परधर्माकुयू बरो ।*
*बरें मर्णु स्वधर्मांतु परधर्मु भिरांतिचो ॥३५॥ **

दुसऱ्याचे बरे तरेन चलयल्ले (ऊंच तरेचे) लागणुके परस आपणाली (उणे तरेची) लागणूक (कर्तव्य) चड बरी. आपणाले लागणुकेंत मर्ण आयल्यारूय बरें. (कित्याक, तातुंतूच खरें जिवीत.) दुसऱ्यांचे लागणुकेन चलप हें भयंकर (कित्याक तातूंत मर्ण आसता.) ३५

*अ. अ.* : **स्वनुष्ठितात् परधर्मात्** = भौच बरे तरेन चलयल्ले दुसऱ्याचे लागणुकेपरस; **स्वधर्म: विगुण: श्रेयान्** = आपणाची उणे तरेची लागणूक चड बरी; **स्वधर्मे निधनं श्रेय:** = आपणाले लागणुकेंत आयिल्लें मर्ण बरें; **परधर्म: भयावह:** = दुसऱ्याचे लागणुकेन चलप हें भिरांतीचें. ३५

अर्जुन उवाच

**अथ केन प्रयुक्तोऽयं पापं चरति पूरुषः ।**
**अनिच्छन्नपि वार्ष्णेय बलादिव नियोजितः ॥३६॥**

अर्जुनान म्हळें

*कोणु करुंकु लायी गा करी मनीस पाप जें ।*
*ताचे इत्सेविणें कृष्णा वेंठीकु धल्ललेवरी ॥३६॥*

अर्जुनान म्हळें : कृष्णा, आपली इत्सा नासतनाय, मागीर हो मनीस बळयांच करूंक लायिल्लेवरी, जें पातक करता तें ताका कोण करूंक लायता? ३६

*अ.अ.* : **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **वार्ष्णेय** = आगा वृष्णीकुळांतल्या (श्रीकृष्णा); **अनिच्छन् अपि** = इत्सा नासतनाय; **अथ अयं पूरुषः** = मागीर हो मनीस; **बलात् नियोजितः इव** = बळयांच करूंक लायिल्लेवरी; **केन प्रयुक्तः पापं चरति** = (तें) पातक ताका कोण करूंक लायता? ३६

श्रीभगवानुवाच

**काम एष क्रोध एष रजोगुणसमुद्भवः ।**
**महाशनो महापाप्मा विद्ध्येनमिह वैरिणम् ॥३७॥**

इत्सा (काम) आनी तिडक (क्रोध) हे शत्रू

भगवंतान म्हळें

*इत्सा ही तिडकै हीच जल्मल्या जी रजो गुणान् ।*
*म्हापापीण अधाशी ही हांगा वैरीण जाण तूं ॥३७॥*

भगवंतान म्हळें: रजगुणा पासून जल्मल्ली, उज्यावरी भोगांनी भर जायनाशिल्ली, (मोटी वखवखी), मोठी पापीण अशी ही इत्सा - ही तिडक - मनशाक पातक करूंक लायता. ह्या लोकांत हीच वैरीण अशें तूं समज. ३७

*अ.अ.* : **श्रीभगवानुवाच** = श्रीभगवंतान म्हळें; **रजोगुणसमुद्भवः** = रजगुणापासून जल्मल्ली; **महाशनः** = उज्यावरी भोगांनी भर जायनाशिल्ली; **महापाप्मा** = मोटी पापीण; (अशी); **एषः कामाः** = ही इत्सा; **एषःक्रोधः** = ही तिडक; **एनम्** = हिकाच (तूं); **इह वैरिणं विद्धि** = हांगा (ह्या लोकांत) हीच शत्रू समज. ३७

धूमेनाव्रियते वह्निर्यथादर्शो मलेन च ।
यथोल्वेनावृतो गर्भस्तथा तेनेदमावृतम् ॥३८॥

*धुंवर उज्या जसो धांपी म्हेळ हारश्याकु लीपयी ।*
*गर्भा वेश्टी जशी वार इत्सेनु ज्ञान वेश्टिलां ॥३८॥*

धुंवरान जसो उजो आनी म्हेळान जसो हारसो धांकिल्लो आसता, आनी वारेन जसो गर्भ वेश्टिल्लो आसता, तशेंच इत्सेन हें (ज्ञान) वेश्टिलां. ३८

*अ.अ.* : **धूमेन यथा वह्नि:**= धुंवरान जसो उजो; **च** = आनी; **मलेन (यथा) आदर्श:** = म्हेळान जसो हारसो; **उलबेत तथा गर्भ: आवृत:** = वारेन जसो गर्भ गुटलायल्लो आसता; **तथा** = तशेंच; **तेन** = तिणें; (इत्सेन) **इदम्** = हें (ज्ञान); **आवृतम्** = गुटलायलां. ३८

आवृतं ज्ञामेतेन ज्ञानिनो नित्यवैरिणा ।
कामरूपेण कौन्तेय दुष्पूरेणानलेन च ॥३९॥

*ह्या इत्सा रुपि उज्याची इत्सा केन्नाचु भागना ।*
*ज्ञानियांची सदीं वैरीण् वेश्टी ज्ञानाकु अर्जुना ॥३९॥*

आनी आगा अर्जुना, ह्या उज्या भाशेन केन्नाच भर जायना अशी ही इत्सारूप सदींची शत्रू, तिणें ज्ञानी लोकांचें ज्ञान गुटलायलां. ३९

*अ.अ.* : **च कौन्तेय** = आनी अर्जुना; **एतेन अनलेन** = ह्या उज्या भाशेन; **दुष्पुरेण** = केन्नाच भर जायना (अशी ही); **कामरुपेण** = इत्सारुप; **नित्य वैरिणा** = सदींची शत्रू; (तिणें) **ज्ञानिन:** = ज्ञानी लोकांचें; **ज्ञानं आवृत्तम्** = ज्ञान गुटलायलां. ३९

इन्द्रियाणि मनो बुद्धिरस्याधिष्ठानमुच्यते ।
एतैर्विमोहयत्येष ज्ञानमावृत्य देहिनम् ॥४०॥

*इंद्रियां मन बुद्दींतु म्हळा गा राबितो हिचो ।*
*वेश्टून ज्ञान मन्शाचें ही जिवात्म्याकु भुलयी ॥४०॥*

इंद्रियां, मन आनी बुद्दी (ह्यो) हिच्या राबित्याच्यो सुवातो म्हणटात. इंद्रियां, मन आनी बुद्दी हांणी मनशाचें ज्ञान गुटलावन जिवात्म्याक ती भुलयता. ४०

*अ.अ.* : **इन्द्रियाणि मन: बुद्धि** = इंद्रियां, मन आनी बुद्दी ; **अस्य** = हिच्या; **अधिष्ठानम्** = राबित्याच्यो सुवातो; **उच्यते** = म्हणटात; **एतै:** = (मन, बुद्दी आनी इंद्रियां) हांणी; **ज्ञानम् आवृत्य** = (मनशाचें) ज्ञान धांकून; **देहिनम्** = (ह्या) जिवात्म्याक; **विमोहयति** = (ती) भुलयता (गदळायता).४०

**तस्मात्त्वमिन्द्रियाण्यादौ नियम्य भरतर्षभ ।**
**पाप्मानं प्रजहि ह्येनं ज्ञानविज्ञाननाशनम् ।।४१।।***

*देखुनू अर्जुना आदीं आवर ह्या इंद्रियांकु तूं ।*
*हाण इत्सेकु जी पापी नाशी विज्ञान ज्ञान जी ।।४१।।**

देखून अर्जुना, तूं पयलीं ह्या इंद्रियांचें नियंत्रण करून, मनशाचें ज्ञान आनी विज्ञान हांकां ना करून उडयतले हे पापिणीक (इत्सेक) तूं ना कर. ४१

*अ.अ.* : **तस्मात् भरतर्षभ** = म्हणून भारत कुळांतल्या स्रेश्ठ अर्जुना; **त्वम्आदौ** = तूं आदीं; **इन्द्रियाणि नियम्य** = इंद्रियांचें नियंत्रण करून; **ज्ञानविज्ञाननाशनम्** = ज्ञान आनी विज्ञान हांचो नाश करून उडयतले; **एनम्** = हे (इत्सारुप); **पाप्मानम् हि प्रजहि** = पापिणीक मारून उडय. ४१

**इन्द्रियाणि पराण्यहुनिन्द्रियेभ्य: परं मन: ।**
**मनसस्तु परा बुद्धिर्यो बुद्धे: परतस्तु स: ।।४२।।***

*इंद्रियांकु म्हळां थोर तांचे परस तें मन ।*
*मना पेल्यानु ती बुद्दी बुद्दी परस तोच गा ।।४२।।**

इंद्रियां हीं (कुडी परस सुक्षीम म्हूण) उंच म्हणटात. इंद्रियां परस मन ऊंच. मना परस बुद्दी आनी जो बुद्दी पेल्यानचो तो जीव वा आत्मो (सगल्यांत आशिल्लो परमात्म्याचो अंश).

*अ.अ.* : **इन्द्रियाणि पराणि आहु** = इंद्रियां हीं (कुडी परस सुक्षीम म्हूण) थोर म्हणटात; **इन्द्रियेभ्य: परं मन:** = इंद्रियांपरस मन ऊंच; **तु** = आनी; **मनस: परा बुद्धि:** = मनाचे पेल्यान बुद्दी आसा; **तु** = आनी; **य:** = जो; **बुद्धे: पर: त:** = बुद्दी पेल्यानचो; **स:** = तो (आत्मो वा जीव). ४२

**एवं बुद्धे: परं बुद्ध्वा संस्तभ्यात्मानमात्मना ।**
**जहि शत्रुं महाबाहो कामरूपं दुरासदम् ।।४३।।***

*जाणुनू संयमान ताका बुद्दी पेल्यानु रावि जो ।*
*हाण इत्सा रुपी वैरीण् भौ कठीण जिखूंक जी ।।४३।। **

आगा अर्जुना, हे भाशेन बुद्दी परस उंच आशिल्ल्या आत्म्याक (जिवाक) वळखून, आपणें आपणाक आवरून, जिखपाक कठीण अशी इत्सारुपी शत्रू तूं जिवानशीं मार. ४३

*अ.अ.* : **एवम्** = हे भाशेन; **बुद्धे: परम्** = बुद्दी परस थोर (अश्या आपल्या आत्म्याक); **बुद्ध्वा** = वळखून; (आनी) **आत्मना आत्मानम्** = आपणें आपणाक; **संस्तभ्य** = आवरून (वश करून); **दुरासदम्** =जिखूंक कठीण, (अशी); **कामरूपी शत्रुम्** = इत्सारुपी शत्रू; **जहि** = (तूं) जिवानशीं मार.

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **कर्मयोगो** नाम **तृतीयोऽध्याय:**।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**कर्मयोग** नांवाचो **तिसरो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. (१) स्थिती - लागणुकेची तत्परताय म्हळ्यार आपल्या अधिकाराक फावो अशें जें साधन मेळत तातूंत तत्पर आसप. (शां. भा.), (२) साधनाचे पिकिल्ले अवस्थेचें नांव 'निष्ठा' अशें आसा (गीता प्रेस), (३) वाट (तेलंग). (४) निष्ठा म्हळ्यार थीर रावप (गती निवृत्ती). निष्ठा ह्या शब्दाचे जायते अर्थ जातात : अवस्था, गती, बुनयाद, स्थिरताय, घट्ट भक्ती, श्रद्धा, चलणुकेचो मार्ग, जीविताचो क्रम आदी.

२. नैष्कर्म्यम् = जी अवस्था येतकीच मनशाचें कर्म अकर्म जाता म्हळ्यार तें फळ दिना, ते अवस्थेक नैष्कर्म्य - निश्कर्मताय म्हणटात (गीता प्रेस).

३. बुद्दीभेद : बुद्दी इबाडप वा भंगोवप, बुद्दी भंगिल्ल्यान कर्मांत श्रद्धा नासप, बुद्दीचो भ्रम. (बुद्दीचो भेद म्ह. हांव हें कर्म करचें आनी ह्या कर्माचें फळ भोगचें, अश्या निश्चितरूप बुद्दीक चाळोवप होच बुद्दीभेद.) (शां.भा.)

## श्लोकटिपो

*३५. 'स्वधर्मे निधनं श्रेय: परधर्मो भयावह:' हांगा धर्म हाचो अर्थ हालींसराक religion ह्या अर्थान घेतात तसो मुळींच नासून, स्वधर्म म्हळ्यार आपल्या सबावाक धरून ताचेशीं सुसंगत आनी फावोशें आचरण करप हें श्रीअरविंद धरून जायत्या हेर विचारवंतांचें मत आसा. श्रीअरविंद स्वधर्माक 'Law of one's own being' अशें म्हणटा. कांय जाण 'स्वधर्म' हाचो अर्थ 'आपल्या वर्णाचें विहित (नेमिल्लें) कर्म वा लागणूक (कर्तव्य) असो लायतात. पूण गीतेंत त्या अर्थान तें घेवंक ना. कित्याक, चातुर्वर्ण्या संबंदान कृष्णान स्पश्ट म्हळां - "चातुर्वर्ण्यं मया सृष्टं गूणकर्म विभागश:" चातुर्वर्ण्याची रचणूक गूण आनी कर्म हांकां धरून आनी तांचेर आधारून केल्या. हाचो समाजाची चार वर्णांत वांटणी केल्ली ताचेशीं कांयच संबंध ना. वर्णाचीं कर्तव्यां करप हो 'स्वधर्माचो' जो अर्थ लायतात, तो समा समजप हें श्री अरविंदांच्या मत्तान खूबच वयलेचाराचें, उखलापें आनी गैरसमजाचें. कृष्णान अर्जुनाकडेन

उलयतना ''तूं क्षत्रिय देखून रणांतल्यान पळचे परस शूरतायेन लढप ही तुजी लागणूक अशें जरी स्पश्ट सांगलें तरी 'स्वधर्मा'चो खरो अर्थ असो समजप योग्य जावचें ना.

गीतेंत अर्जुनाक वर्णधर्माक पाळो दिवपा पासत झुजचेलो जो उपदेश श्रीकृष्णान केला, ताचे वेल्यान ताचो उपदेश मुखेलपणान वर्णधर्माक आनी आतां चड करून परंपरेन आयिल्ल्या जातीयवादाक तेंको दिवपी आसा. वर्ण (जाती) जल्मावेल्यान थारतात आनी तांची निर्मणी परमेश्वरान केल्ल्याचो दावो 'मयासृष्टम्' ह्या शब्दाच्या आधारान जो करतात तो श्री अरविंदांक मुळींच मान्य ना. ह्या संदर्भांत श्री अरविंद म्हणटात: ''अर्जुनान क्षत्रिय म्हूण झुजचेलो आपलो वर्णधर्म पाळपाक हिसपाभायर आनी अतिरेकी म्हत्व दिल्लें आसा. जशें कितें ते मुस्तींतल्या समाज वेवस्तेक बादा येनासतना तिगोवपा पासतूच तिचें धर्मीक आनी तत्त्वज्ञानाच्या सिद्धान्ताचे मार्फत गीतेक समर्थन करपाचें आशिल्लें. पुणून वास्तविक नदरेन गीतेक भायल्या नेमांपरस आंतरीक नेम (internal law) पाळपाचेर अदीक भर आनी भायल्या नेमांक पाळो दिवप हाचेर उणो भर दिवपाचो आशिल्लो. गीतेचो विचार वर्णधर्माच्या भायल्या समाजीक, अर्थीक आनी संस्कृतीक गरजांचेर आपलें लक्ष एकठावचे परस ह्या नेमांच्या व्यक्तीगत आनी अध्यात्मीक मुल्यांचेर आपलें लक्ष ओडून घेवन केंद्रीत करपाचें आशिल्लें. (पळेयात, गीतार्थाचा मागोवा', ब. डॉ. ग. ना. जोशी, गीतादर्शन, पुणे, अंक जुलय, १९९८, पा.१२).

*४१-४३ इंद्रियां, मन आनी बुद्‌दी ह्या क्रमान इत्सारुपी वैरीण आमकां सतायता. देखून आमी सगल्यांत पयलीं इंद्रियांची जतनाय घेवंक जाय. सरादिचेरूच राखण दवरल्यार आमचे कुडींत ह्या शत्रूक रिगूंक येवचें ना. आमी सरादिचेर शिटूक रावलेनात जाल्यार, तो शत्रू पयलीं मनामेरेन आनी मागीर बुद्‌दीमेरेन रिगून, तिचो ताबो घेतलो. पुणून, इंद्रियां, मन आनी बुद्‌दी हीं एकापरस एक उंच आसून, 'आत्मो' हो सगल्यांत स्रेश्ठ. इत्सा (काम) ही बुद्‌दी मेरेन रिगत, पूण आत्म्याचेर इत्सेक आपलो शेक केन्नाच गाजोवंक येवचेलो ना. देखून, आत्मज्ञान करून घेवन, बुद्‌दीन मनाक घटाय दितकीच, इत्सारुपी वैरिणीचें कांयच चलचेलें ना. पुणून जाचें मन आनी बुद्‌दी लेगीत कामाधीन जाली, तो मनीस आसुरीच जाता आनी ते वृत्तींतल्यान ताची सट् करून मेकळीक जायना.

देखून पयलीं इंद्रियांचीच जतनाय घेवप गरजेचें. तशें केल्यार, कालांतरान संवकळेन इंद्रियांक विशय भोगपाचें चट लागचें ना आनी तीं विशयाचे आधीन जावचिंनात. पूण इंद्रियां इबाडल्यार, फुडें त्याच क्रमान मन आनी बुद्‌दी लेगीत इबाडटात. पूण, बुद्‌दी परस उंच आशिल्लो आत्मो केन्नाच इबाडना. देखून, आत्मबळाचे तांकीन, कामरुपी शत्रूक ताणें जिखिल्ल्या एकेका अधिष्ठानांतसून धांवडावचें. हे विशीं श्री ज्ञानेश्वर म्हणटात: ही इत्सा (काम) आनी तिडक (क्रोध) अंतस्कर्णांतल्यान साप्प ना जातकीच, त्यो दुबावावीण ना जाल्यो अशें समज. जशें सूर्यकिरणांबगर मृगजळ आसूंच नजो (२७०) तशें इत्सा आनी तिडक निश्प्राण जातकीच, ब्रह्मसुखाचें साम्राज्य सामकार येता. मागीर तो साधक आपलें सूख आपुणूच सोदपाक लागता (२७१). (करंदी.)



# ज्ञानकर्मसंन्यासयोग

दुख्ख आनी पातक हातूंतसून सुटपाक कर्मसंन्यासाची गरज ना. योगवृत्तीन म्हळ्यार स्वार्थ विसरून, थीर बुद्दीन आध्यात्म ज्ञानाची जाणविकाय दवरून, ईश्वराची देख घेवन केल्लें कर्म, अकर्मा भाशेन दोशाविरयत जाता. होच निश्काम कर्मयोग आनी खरो संन्यास. ह्या अध्यायांत होच वयलो विशय स्पश्ट मांडला. तेच भाशेन समाजांतलो दुराचार ना करून, सदाचार स्थापपाक आनी लोकांक तांची लागणूक दाखोवचे पासत, ईश्वर मानवी अवतार घेवन, समाजामुखार योग वृत्तीचो आनी नितीचो आदर्श दवरता हें पयल्या पंदरा श्लोकांत सांगलां.

सुर्वेकूच पयल्या तीन श्लोकांत श्रीकृष्ण अर्जुनाक भारतांतली पुर्विल्ली योग परंपरा सांगता. ते मुस्तींत, कर्मयोगाचो मार्ग (प्रवृत्ती मार्ग) फाटीं पडून, कर्मसंन्यास मार्गाची (निवृत्ती मार्गाची) चलती आसली. ती चाल मोडून, समाजांतलो आदलो प्रवृत्ती मार्ग चालीक लावपा खातीर आनी त्या काळांतल्या समाजाक नवी देख दिवचे पासत श्रीकृष्णान कर्मयोगाचें म्हत्व सांगलें.

ही पुर्विल्ली योग परंपरा आयकून, अर्जुनाचो दुभाव ना करचे पासत, श्रीकृष्ण ईश्वराचो अवतार घेवपा फाटलो हेतू सांगता. अर्जुनाक आदल्या जल्मांची याद जायना पूण आपणाक त्या सगल्यांची जाता अशें श्रीकृष्ण ताका सांगता. जेन्ना धर्माची अवनत जाता आनी अधर्म मात्ता, तेन्ना बऱ्या मनशांक राखपाक आनी दुश्टांक दाळाक लावपाक आनी धर्म परतून स्थापपाक आपूण दर युगांत जल्म घेतां. जो आपलो दिव्य अवताररुपी जल्म आनी कर्म जाणटा, तो मुक्त जावन आपणाकूच मेळटा, अशी अवताराची विसकणी केल्या (५-१०).

अवताराचो हेतू सांगतना, आपूण लोकांक देख दिवपाचें काम अपेक्षेविणें करतां. तशीच आपणाक कर्मफळाची ओडूय आसना. हें समजुपीय कर्मपासांत पडना. हेच भाशेन कर्म कर अशें सांगून (१५), कर्म, अकर्म आनी विकर्म हांची श्रीकृष्ण विसकणी करता (१६-१७). मागीर योग जोडिल्ल्या आनी ज्ञानी मनशाक योग करुनूय कर्म कशें बादना हें सांगलां (१८-२३). फुडें ब्रह्मार्पण म्हळ्यार कितें हें सांगून (२४), वेगळ्या वेगळ्या यज्ञांचें फळासयत वर्णन केलां. कोण देवतांक तुश्ठावपाखातीर यज्ञ करतात, कोण द्रव्य, खाण-जेवण, आनी इंद्रियां सुखां हांची आहुती दिवन यज्ञ करतात. पुणून ह्या यज्ञांत ज्ञानयज्ञ

सगल्यांत स्रेश्ठ. म्हजे कुडिंतलो आत्मो आनी सगले सृश्ट पदार्थ जाचे पसून निर्माण जाले तें ब्रह्म, हीं दोनूय एकूच आसात, हें ज्ञान जातकीच, विश्वाखातीर खंयचोय त्याग करचेली तयारी जावप हो ज्ञानयज्ञ (२५-३०).

सगल्याच साधनांकडेन, ब्रह्माकडेन एकरूप जावचे नदरेन कशें पळोवचें हें लाक्षणीक भाशेंत सांगलां. अशी ब्रह्ममय दिश्टी जाल्लोच ब्रह्मरुपी जातलो अशें उतर दिलां. कर्तव्य वा हेरां खातीर त्याग बुद्‌दीन केल्लें कर्म, होवूय यज्ञ. हें लक्षांत दवरून कर्म करतलो पातकांतसून सुट्टा (३२). ह्या विंगड विंगड यज्ञांतलो एकूय यज्ञ करिनाशिल्ल्या पातक्याक ह्या लोकांतलें फळ तर मेळनाच, ताका परलोकूय मेळना अशें सांगून (३१) यज्ञ करिनाशिल्ल्याक दुर्गती सांगल्या.

अंतीं सगल्या यज्ञांत ज्ञान यज्ञ व्हड. सगले यज्ञ अखेर ज्ञान यज्ञांत पूर्ण जातात. ज्ञाना भाशेन ह्या जगांत हेर कांय पवित्र ना असो ज्ञान यज्ञाचो म्हयमा सांगून, श्रद्धाळू, इंद्रियां जिखिल्लो आनी म्हजेंच ध्यान करतलो जावन तूं ज्ञान जोड. हें केल्यार तुका शांती मेळटली हें सांगून श्रीकृष्णान हो अध्याय सोंपयला.

## चतुर्थोऽध्याय :

श्रीभगवानुवाच

**इमं विवस्वते योगं प्रोक्तवानहमव्ययम् ।**
**विवस्वान् मनवे प्राह मनुरिक्ष्वाकवेऽब्रवीत् ॥१॥**

ज्ञानयोगाची परंपरा

**भगवंतान म्हळें**

*हो योग अविनाशी गा हांवें सुर्याकु सांगिलो ।*
*सांगलो मनूक सुर्यानु इक्ष्वाकूक मनून तो ॥१॥*

श्रीभगवंतान म्हळें: हो अविनाशी योग हांवें आदीं विवस्वनाक (सुर्याक) सांगिल्लो; ताणें (आपल्या पुताक) मनूक सांगिल्लो आनी मनून (आपल्या पुताक) इक्ष्वाकूक सांगलो. १

*अन्वय आनी अर्थ* : **श्रीभगवानुवाच** = श्रीभगवंतान म्हळें; **अहम् इमम् अव्ययं योग** = हांवें हो अविनाशी योग; **विवस्वते** = सुर्याक; **प्रोक्तवान्** = सांगिल्लो; (आनी) **विवस्वान्** = सुर्यान; (आपलो पूत) **मनवे** = मनूक; **प्राह** = सांगलो; (आनी) **मनुः** = मनून (आपलो पूत); **इक्ष्वाकवे** = राजा इक्ष्वाकूक; **अब्रवीत्** = सांगलो. १

एवं परम्पराप्राप्तमिमं राजर्षयो विदु: ।
स कालेनेह महता योगो नष्ट: परंतप ।।२।।

*अशे परंपरेंतल्यानू कळ्ळो राजरुशीकु तो ।*
*कालांतरानु तो हांगा नासो जालो परंतपा ।।२।।*

हे भाशेन परंपरेन मेळिल्लो हो (योग) राजरुशींक समजलो. अर्जुना, तो योग खूब काळासावन ह्या लोकांत नासो जालो. २

*अ. अ. :* **एवं परम्पराप्राप्तम्** = हे भाशेन परंपरेन मेळिल्लो; **इमं राजर्षय: विदु:** = हो (योग) राजरुशींक समजलो; **परंतप** = शत्रूंक तापयतल्या अर्जुना; **स: योग: महता कालेन** = हो योग कालांतरान; **इह नष्ट:** = ह्या लोकांत नासो जालो. २

स एवायं मया तेऽद्य योग: प्रोक्त: पुरातन: ।
भक्तोऽसि मे सखा चेति रहस्यं ह्येतदुत्तमम् ।।३।।

*तोच हो सांगिला आज पुर्विल्लो योग हो तुका ।*
*तूं भक्त नि सखो जाल्ल्यान् सांगलें रहस्य थोरू हें ।।३।।*

तोच हो पुरातन योग हांवें आज तुका सांगला. तूं म्हजो भक्त आनी जिवाभावाचो इश्ट आसा. कित्याक, हें बऱ्यांतलें बरें रहस्य आसा. ३

*अ. अ. :* **स: एवं अयं पुरातन: योग:** = तोच हो पुरातन योग; (तूं) **मे भक्त: च सखा असि** = म्हजो भक्त आनी सखो आसा; **इति अद्य मया ते प्रोक्त:** = देखून आज तुका हांवें सांगलां; **हि** =कित्याक; **एतत्** = हो योग; **उत्तमं रहस्यम्** = भौच बरें रहस्य (आसा). ३

अर्जुन उवाच

अपरं भवतो जन्म परं जन्म विवस्वत: ।
कथमेतद्विजानीयां त्वमादौ प्रोक्तवानिति ।।४।।

अर्जुनान म्हळें

*सुर्याचो जन्म पुर्विल्लो आर्विल्लो जल्म गा तुजो ।*
*सांगिला हो तुवें आदीं हें हांवें समजुचें कशें ।।४।।*

अर्जुनान म्हळें : तुजो जल्म आर्विल्लो. विवस्वताचो (सुर्याचो) जल्म चड पुर्विल्लो. (मागीर) तुवें हो योग हाचे पयलीं सांगलो हें हांवें कशें समजुचें? ४

*अ. अ. :* **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **भवत: जल्म अपरम्** = तुजो जल्म आर्विल्लो; **विवस्वत:** = सुर्याचो; **जन्म परम्** = जल्म चड पुर्विल्लो; **त्वम् एतत्** = तुवें हो (योग); **आदौ** = हाचे पयलीं; **प्रोक्तवान्** = सांगलो; **इति कथं विजानीयाम्** = अशें (हांवें) कशें समजुचें? ४

श्रीभगवानुवाच

बहूनि मे व्यतीतानि जन्मानि तव चार्जुन ।
तान्यहं वेद सर्वाणि न त्वं वेत्थ परंतप ।।५।।

अवतारांचो सिद्धान्त

भगवंतान म्हळें

*जाले भौ जल्म हे आदीं म्हजे आनी तुजे तशे ।*
*जाणा ते सगट्ट हांवुं ताची नातच ना तुका ।।५।।*

श्रीभगवंतान म्हळें: अर्जुना, म्हजे आनी तुजे जायते जल्म (हे आदीं) जावन फाटीं पडले. ते सगले तूं नकळ. हांव जाणां. ५

*अ. अ. :* **श्रीभगवान उवाच** = श्रीभगवंतान म्हळें; **अर्जुन** = अर्जुना; **मे च तव** = म्हजे आनी तुजे; **बहूनि जन्मानि व्यतितानि** = जायते जल्म जावन फाटीं पडले; **परंतप** = अर्जुना; **तानि सर्वाणि त्वं न वेत्थ** = ते सगले तूं नकळ; **अहं वेद** = हांव जाणां. ५

अजोऽपि सन्नव्ययात्मा भूतानामीश्वरोऽपि[१] सन् ।
प्रकृतिं स्वामधिष्ठाय संभवाम्यात्ममायया ।।६।।

*जरी हांव ईश जीवांचो अजल्मी अविनाशि बी ।*
*प्रकृतीक वश गा कर्न म्हजे मायेनु जल्मतां ।।६।।*

हांव अविनाशी, जल्मा विरयत आनी जिवांचो ईश्वर आसुनूय, म्हजे प्रकृतीक (निजाक) वश करून म्हजे (योग) मायेन जल्मतां. ६

*अ. अ. :* (हांव) **अव्ययात्मा** = अविनाशी; **अजः** =जल्मा विरयत; **सन् अपि** = आसुनूय; **भूतानां ईश्वरः सन् अपि** = सगल्या जिवांचो ईश्वर (धनी) आसुनूय; **स्वाम्** = म्हजे; **प्रकृतिम् अधिष्ठाय** = प्रकृतीक वश करून; **आत्ममायया** = म्हजे (योग) मायेन; **संभवामि** = जल्मतां. ६

यदा यदा हि धर्मस्य ग्लानिर्भवति भारत ।
अभ्युत्थानमधर्मस्य तदात्मानं सृजाम्यहम् ।।७।। *

*धर्माची अवनती जाता जेन्ना जेन्ना परंतपा ।*
*मात्ता अधर्म तेन्नाच हांवुं म्हाकाच निर्मितां ।।७।।**

आगा अर्जुना, जेन्ना जेन्ना धर्माची अवनत जाता आनी अधर्म मात्ता, तेन्नाच हांव म्हाका निर्मितां (अवतार घेतां). ७

*अ. अ. :* **भारत** = भारत कुळांतल्या अर्जुना; **यदा यदा** = जेन्ना जेन्ना; **धर्मस्य ग्लानिः भवति** = धर्माची अवनत जाता; **अधर्मस्य अभ्युत्थानम्** = अधर्म मात्ता; **तदा हि** = तेन्नाच; **अहं आत्मानं सृजामि** = हांव म्हाका निर्मितां (हांव अवतार घेतां). ७

परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुष्कृताम् ।
धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे ॥८॥ *

*पार्था बऱ्यांकु राखूंकू दुश्टांकु ना करुंकु गा ।*
*सम स्थापूंक हांव धर्म युगा युगांत जल्मतां ॥८॥ **

सज्जनांक राखपाक आनी दुश्टांक दाळाक लावपाक (आनी) धर्म बरे तरेन स्थापपाक युगा युगांत हांव जल्मतां. ८

*अ. अ. :* **साधूनां परित्राणाय** = सज्जनांक राखपाक (उद्धार करपाक); **च दुष्कृतां विनाशाय** = दुश्ट कर्म करतल्यांचो नाश करपाक; (आनी) **धर्मसंस्थापनार्थाय** = धर्म बरे तरेन स्थापपाक; **युगे युगे संभवामि** = युगा युगांत हांव जल्म घेतां. ८

जन्म कर्म च मे दिव्यमेवं यो वेत्ति तत्त्वतः ।
त्यक्त्वा देहं पुनर्जन्म नैति मामेति सोऽर्जुन ॥९॥

*जल्म कर्म म्हजें दिव्य जो खऱ्यांनीच जाणिता ।*
*सोडटां कूड जल्मना भौन येता म्हजे सरींच तो ॥९॥*

अर्जुना, हे तरेचो म्हजो अलौकीक (अवताररुपी) जल्म आनी कर्म जो खरेपणान समजता, तो कूड सोडटकूच पर्थून जल्माक येना. तो म्हाकाच येवन मेळटा. ९

*अ. अ. :* **अर्जुन** = आगा अर्जुना; **एवं मे दिव्यं जन्म च कर्म** = हे तरेचो म्हजो अलौकीक जल्म आनी कर्म; **यः तत्त्वतः वेत्ति** = जो खरेपणान समजता; **सः देहं त्यक्त्वा** = तो कूड सोडटकूच; **पुनः जन्म न एति** = पर्थून जल्माक येना; **माम् एति** = म्हाकाच येवन मेळटा. ९

वीतरागभयक्रोधा मन्मया मामुपाश्रिताः ।
बहवो ज्ञानतपसा पूता मद्भावमागताः ॥१०॥

*ओड राग भिती गेल्ले चित्तीं हांव आस्रयु म्हजो ।*
*ज्ञान तपानु ते चोख मेळ्ळे म्हज्या रुपांतु ते ॥१०॥*

जांची विशयांची ओड, भंय आनी तिडक गेली, जांकां म्हजेंच ध्यान लागलें, जे म्हाका शरण आयले, (असले) जायते मनीस आत्मज्ञानरुपी तपान पावन जावन, म्हज्या रुपांत येवन मेळ्ळे. १०

*अ. अ. :* **वीतरागभयक्रोधाः** = जांची ओड, भंय आनी तिडक ना जाली; **मन्मयाः** =जांकां म्हजेंच ध्यान लागलें; (आनी) **माम् उपाश्रिताः** = जे म्हाका शरण आयले; **बहवः** = (असले) जायते लोक; **ज्ञानतपसा पूताः** = आत्मज्ञानरुपी तपान पावन जावन; **मद्भावम्आगताः** = म्हज्या रुपांत येवन मेळ्ळे.

**ये यथा मां प्रपद्यन्ते तांस्तथैव भजाम्यहम् ।**
**मम वर्त्मानुवर्तन्ते मनुष्याः पार्थ सर्वशः ।।११।।**

*जशे जे भजती म्हाका तांकां मोग तसो दितां ।*
*सर्व तरेनु कौंतेया धरतातु वाट ते म्हजी ।।११।।*

जे लोक जे तरेन म्हाका भजतात, तांकां हांव तेच तरेचो मोग दितां. अर्जुना, मनशां खंयचेय वाटेन गेल्यार, म्हजीच वाट धरतात. ११

*अ. अ. :* **पार्थ =** अर्जुना; **ये माम् यथा प्रपद्यन्ते** = जे म्हाका अशे भजतात; **अहं तान् तथा एव भजामि** = हांवूय ताका तेच तरेचो मोग दितां; **मनुष्याः सर्वशः** = मनशां खंयचेय वाटेन गेल्यार; **मम वर्त्म अनुवर्तन्ते** = म्हजीच वाट धरतात. ११

**काङ्क्षन्तः कर्मणां सिद्धिं यजन्त इह देवताः ।**
**क्षिप्रं हि मानुषे लोके सिद्धिर्भवति कर्मजा ।।१२।।**

*जे कर्मफळ इत्सून हांगा पुजतात दैवतां ।*
*रोखडें कर्मफळू मेळऽ ह्याच लोकांत अर्जुना ।।१२।।*

मनीसलोकांत कर्मफळाची इत्सा धरपी लोक (हेर) देवतांक भजतात. कित्याक, कर्माचें फळ हांगा रोखडेंच मेळटा. १२

*अ. अ. :* **मानुषे लोके कर्मणां सिद्धिं काङ्क्षन्तः** = मनीस लोकांत कर्मफळाची इत्सा धरून; **देवताः यजन्ते** = (हेर) देवतांक भजतात; (कित्याक) **कर्मजा सिद्धिः** = कर्मापासून जाल्लें फळ; **इह क्षिप्रं हि भवति** = हांगा रोखडेंच मेळटा. १२

**चातुर्वर्ण्यं मया सृष्टं गुणकर्मविभागशः ।**
**तस्य कर्तारमपि मां विद्ध्यकर्तारमव्ययम् ।।१३।।**

*चार वर्ण रचले हांवें गूण कर्मांकि वांटुनू ।*
*कर्तो आसून बी तांचो अकर्तो अविनाशी हांव ।।१३।।*

(सत्त्वादी) गूण आनी तांचीं कर्मां हांचे वांटणेन हांवें चार वर्ण घडयले. हांव तांचो कर्तो आसुनूय, अकर्तो आनी अविनाशी असो समज. १३

*अ. अ. :* **गुणकर्मविभागशः** = (सत्त्वादी) गूण आनी (तांचीं) कर्मां हांचे वांटणेन; **चातुर्वर्ण्यम् मया सृष्टम्** = चार वर्ण हांवें घडयले; **तस्य कर्तारं अपि** = तांचो कर्तो आसुनूय; **माम् अव्ययम्** =म्हाका अविनाशी (परमेश्वराक); **अकर्तारम्** = अकर्तो (असो); **विद्धि** = तूं समज. १३

न मां कर्माणि लिम्पन्ति न मे कर्मफले स्पृहा ।
इति मां योऽभिजानाति कर्मभिर्न स बध्यते ॥१४॥

जाका कर्माची ओड ना तो कर्मपासांत पडना

*म्हाका ना लेप कर्मांचो तांच्या फळाचि आस बी ।*
*असो म्हाका खरो जाणी ताका गा कर्म पास ना ॥१४॥*

म्हाका कर्मांचो लेप लागना (म्हाका तीं बादनात), कित्याक, कर्मांच्या फळांची इत्सा म्हाका ना. अशे तरेन म्हाका जो बरो करून वळखता, तो कर्मांत बांदून पडना. १४

*अ. अ. :* **माम् कर्माणि न लिम्पन्ति** = म्हाका कर्मां बादनात, (कित्याक); **न कर्मफले मे स्पृहा** = कर्मांच्या फळांची म्हाका इत्सा ना; **इति यः माम्** = अशे तरेन जो म्हाका; **अभिजानाति** = बरो करून वळखता; **सः कर्मभिः न बध्यते** = तो कर्मांत बांदून पडना. १४

एवं ज्ञात्वा कृतं कर्म पूर्वैरपि मुमुक्षुभिः ।
कुरु कर्मैव तस्मात्त्वं पूर्वैः पूर्वतरं कृतम् ॥१५॥

*जाणून हें कर्म जें केल्लें पुर्विल्ल्यायु मुमुक्षुंनी ।*
*पुर्वजांनी सदीं केल्लें तेंच कर्म तुं बी कर ॥१५॥*

अशें पुर्विल्ल्या मुमुक्षुंनीय कर्म केलें. देखून, पुर्वजांनी पुर्विल्ल्या काळापासून केल्लेंच कर्म तूं कर. १५

*अ. अ. :* **एवं ज्ञात्वा** = अशें समजून; **पूर्वैः मुमुक्षुभिः अपि** = पुर्विल्ल्या मुमुक्षुंनीय (मोक्ष जोडूंक सोदतल्या मनशांनीय); **कर्म कृतम्** = कर्म केलें; **तस्मात् त्वं** = देखून तूंय; **पूर्वैः पूर्वतरम्** = पुर्वजांनी सदींच केल्लें, (अशें); **कर्म एव कुरु** = कर्मच कर. १५

किं कर्म किमकर्मेति कवयोऽप्यत्र मोहिताः ।
तत्ते कर्म प्रवक्ष्यामि यज्ज्ञात्वा मोक्ष्यसेऽशुभात् ॥१६॥ *

कर्म आनी अकर्म

*ज्ञानी बी भ्रांत जाल्यात कर्म अकर्म नेणि ते ।*
*तूं सुट्टलो दुखांतल्यानू सम जाणूनु तत्त्व तें ॥१६॥ **

कर्म तें कसलें आनी कर्म न्हय (अकर्म) तें कसलें हे विशीं ज्ञानी लोक लेगीत भ्रमांत पडटात. तें हांव तुका बरें करून सांगतां, जें कळून दुख्ख-दिण्या संवसारांतसून तूं सुट्टलो. १६

*अ. अ. :* **कर्म किम्** = कर्म तें कसलें (आनी); **अकर्म किम्** = कर्म न्हय तें कसलें; **इति अत्र** = हे विशीं; **कवयः अपि** = ज्ञानी लोकय; **मोहिताः** = भ्रमांत पडटात; **तत् कर्म ते प्रवक्ष्यामि** = तें कर्म तुका बरें करून सांगतां; **यत् ज्ञात्वा** = जें कळटकीच (तूं); **अशुभात् मोक्ष्यसे** = दुख्ख-दिण्या संवसारांतसून सुट्टलो. १६

**कर्मणो ह्यपि बोद्धव्यं बोद्धव्यं च विकर्मण: ।**
**अकर्मणश्च बोद्धव्यं गहना कर्मणो गति: ॥१७॥ ***

विकर्म

***जाणचें कर्म कितें तें गा    जाणचें विकर्म तें कितें ।***
***जाणचें अकर्म बी पार्था    कर्माची वाट गूढ गा ॥१७॥ ****

(करूंक फावो जाल्लें) कर्मय कसलें आनी विपरीत (करूंक फावना जाल्लें) कर्म कसलें तेंय कळपाक जाय. अशेंच अकर्म (कर्म करिना जावप) तें कितें, तेंय समजूंक जाय. कर्माची गती (वाट) कळूंक कठीण. १७

*अ. अ. :* **कर्मण: अपि** = कर्म म्हळ्यार कितें तेंय; **बोद्धव्यम्** = कळपाक जाय; **च विकर्मण:** = विपरीत कर्म (करूंक फावोना जाल्लें कर्म हेंय); **बोद्धव्यम्** = कळपाक जाय; **च** = तशेंच; **अकर्मण:** = कर्म करिना जावप म्हळ्यार कितें (तेंय); **बोद्धव्यम्** = कळपाक जाय; **हि** = कित्याक; **कर्मण: गति: गहना =** कर्माची गती (वाट) कठीण. १७

**कर्मण्यकर्म य: पश्येदकर्मणि च कर्म य: ।**
**स बुद्धिमान्मनुष्येषु स युक्त: कृत्स्नकर्मकृत् ॥१८॥ ***

***पळे अकर्म कर्मांत    अकर्मांतूयु कर्म बी ।***
***मन्शांतुलो बुदवंतू तो    योगी तो सर्व कर्तलो ॥१८॥****

जाका कर्म करुनूय तें करिना जाल्लेवरी दिसता, आनी कर्म करिनासतना रावपांत (अकर्मांत) जो कर्म (पळेता), तो मनशां भितर बुदवंत; कित्याक, सगलीं कर्मां करुनूय (तांच्या पासांत पडना जाल्लो) तो (कर्म)योगी. १८

*अ.अ.:* **य: कर्मणि अकर्म पश्येत्** = जो कर्मांत (कर्तुत्वाचो अभिमान आनी फळाची वान्सा सोडून केल्ल्या कर्मांत); **अकर्म** = कर्म करिना जाल्ले वरी जाका; **पश्येत्** = दिसता; **च य: अकर्मणि कर्म (पश्येत्)** = तशेंच जो मनीस कर्म करिनासतना रावपांत; **कर्म** = कर्म (पळेता); **स: मनुष्येषु बुद्धिमान्** = तो सगल्या मनशां भितर बुदवंत; (कित्याक) **कृत्स्न कर्मकृत्** = सगलीं कामां करतलो; **स: युक्त:** = तो (कर्म)योगी. १८

**यस्य सर्वे समारम्भा: कामसंकल्पवर्जिता: ।**
**ज्ञानाग्निदग्धकर्माणं तमाहु: पण्डितं बुधा: ॥१९॥**

***आरंभ सर्व कर्मांचे    इत्सा संकल्प ना अशे ।***
***लासलीं ज्ञान उज्यान्    कर्मां ज्ञानी पंडितु तो म्हणी ॥१९॥***

जाचीं सगलीं कर्मां फळाचे इत्से विरयत आसतात, त्या आत्मज्ञानाच्या उज्यान ज्याचीं कर्मां भस्म जाल्यांत अश्या मनशाक ज्ञानी पंडित म्हणटात. १९

*अ.अ. :* **यस्य सर्वे समारम्भा:** = जाचे सगले (कर्मांचे) आरंभ; **कामसंकल्प वर्जिता: =** फळांचे इत्से विरयत आसतात; **तम्** = त्या; **ज्ञानाग्निदग्ध कर्माणम्** = आत्मज्ञानाच्या उज्यान ज्याचीं कर्मां भस्म जाल्यांत अश्या मनशाक; **बुधा:** = ज्ञानी; **पण्डितं आहु:** = पंडित म्हणटात. १९

त्यक्त्वा कर्मफलासङ्गं नित्यतृप्तो निराश्रयः ।
कर्मण्यभिप्रवृत्तोऽपि नैव किंचित्करोति सः ॥२०॥

*सोडली कर्मफळा ओड सदीं तृप्त निरास्रय ।*
*जरी तो गुल्ल कर्मांतू करिना कांयच अर्जुना ॥२०॥*

कर्मफळाची आसक्ती सोडून सदांकाल तृप्त आशिल्लो, आनी निरास्रय म्हळ्यार कर्मफळ सादोवपाचे बुद्धीचो आसरो घेनाशिल्लो (स्वतंत्र) मनीस. कर्मां करपांत गुल्ल आसतना, तो कसलेंच कर्म करिना. २०

*अ.अ. :* **कर्मफलासङ्ग त्यक्त्वा** = कर्मफळाची आसक्ती सोडून; **नित्यतृप्तः** = सदांकाळ तृप्तआशिल्लो; (**च** = आनी); **निराश्रयः** = कर्मफळ सादोवपाचे बुद्धीचो आस्रय घेनाशिल्लो (स्वतंत्र) मनीस; **सः कर्मणि अभिप्रवृत्तः अपि** = कर्म करपांत गुल्ल आसतनाय; **किंचित् एव न करोति** = कसलेंच कर्म करिना. २०

निराशीर्यतचित्तात्मा त्यक्तसर्वपरिग्रहः ।
शारीरं केवलं कर्म कुर्वन्नाप्नोति किल्बिषम् ॥२१॥

*केलां वश कुडी चित्ता सोडिल्या आस संचय ।*
*केलें निखटें कुडी कर्म ताका किल्मिस बादना ॥२१॥*

आशे विरयत जावन चित्त आनी कूड सुवादीन आशिल्लो, भोगच्या जिनसांचो संचय सोडिल्ल्या मनशान निखटे कुडीनूच कर्मां केल्यार (ताका तांच्या) पातका पुण्यतायेचें किल्मिस लागना.

*अ.अ. :* **निराशीः** = आशे विरयत जावन; **यत चित्तात्मा** = चित्त आनी कूड सुवादीन आशिल्लो; **त्यक्तसर्व परिग्रहः** = (भोगच्या जिनसांचो) संचय सोडिल्लो; (असल्या मनशान) **शारीरं केवलं कर्म कुर्वन्** = निखटे कुडिनूच कर्मां केल्यार (ताका त्या कर्माचें); **किल्विषम् न आप्नोति** = पातका पुण्यतायेचें किल्मिस लागना. २०

यदृच्छालाभसंन्तुष्टो द्वन्द्वातीतो विमत्सरः ।
समः सिद्धावसिद्धौ च कृत्वापि न निबध्यते ॥२२॥

*तुश्ट सहज मेळिल्ल्यांत् ना द्वंद्व-भाव मत्सर ।*
*सम येस अपेसांत कर्म करूनु पास ना ॥२२॥*

आपशींच जें मेळटा तितल्यान धादोशी, सूख-दुख्खां सारख्या जोडये पेल्यान गेल्लो, दुस्वास नाशिल्लो, येस-अपेस सारखीं लेखतलो, असलो मनीस (कर्म) करुनूय (ताच्या) पासांत पडना. २२

*अ.अ. :* **यदृच्छालाभसंतुष्टः** = आपशींच जें मेळटा तातूंत संतोश मानपी; **द्वन्द्वातीतः** = सूख-दुख्खा सारक्या (जोडयेच्या) पेल्यान गेल्लो; **विमत्सरः** = कोणाचोच दुस्वास करिनाशिल्लो; **सिद्धौ च असिद्धौ च समः** = येस आनी अपेस सारकीं लेखतलो (असलो मनीस) (कर्मां) **कृत्वा अपि** = करुनूय; **न निबध्यते** = पासांत पडना. २२

**गतसङ्गस्य मुक्तस्य ज्ञानावस्थितचेतसः ।**
**यज्ञायाचरतः कर्म समग्रं प्रविलीयते ।।२३।।**

यज्ञ आनी ताचें मोल

*आसक्तीवीण जो मुक्त ज्ञानांत थीर चित्त तो ।*
*करी यज्ञार्थ जो कर्म सर्व लयाक तें वता ।।२३।।*

कर्मफळाची ओड सोडून (मुक्त जाल्लो) आतां आत्मज्ञानांत चित्त थिरावल्लो, यज्ञा पासत कर्म करतल्या, कर्म पासांतल्यान मुक्त जाल्ल्या मनशांचें सगलें कर्म बंधन ना जाता. २३

*अ.अ. :* **गतसङ्गस्य** = कर्मफळाची ओड सुटिल्लो; **ज्ञानावस्थितचेतसः** = ज्ञानांत चित्त थिरावल्लो, (आनी) **यज्ञाय** = यज्ञापासत; **आचरतः** = कर्म करतल्या; **मुक्तस्य** = (कर्मपासांतल्यान) मुक्त जाल्ल्या मनशांचें; **समग्रं कर्म प्रविलीयते** = सगलें कर्म (बंधन) ना जाता. २३

**ब्रह्मार्पणं ब्रह्म हविर्ब्रह्माग्नौ ब्रह्मणा हुतम् ।**
**ब्रह्मैव तेन गन्तव्यं ब्रह्मकर्मसमाधिना ।।२४।।**

*अर्पण आहुती अग्नी ओंपतलोय सर्व ब्रह्म हीं ।*
*ब्रह्मरुपी थिराविल्लो ब्रह्मासरींच पावऽ तो ।।२४।।*

अर्पण ब्रह्म, हवी ब्रह्म, हवन-अग्नी ब्रह्म, हवनाचो अग्नी ब्रह्म, ब्रह्मरूप कर्त्याकडसून केल्लो होमय ब्रह्मच, असो ब्रह्मांत थीर चित्त जाल्लो मनीस ब्रह्मा सरींच पावता. २४

*अ.अ. :* **अर्पणं ब्रह्म** = अर्पण (हवन क्रिया) ब्रह्म (परमात्मो); **हविः ब्रह्म** = हवन-द्रव्य ब्रह्म; **ब्रह्माग्नौ** = हवनाचो अग्नी (उजो) ब्रह्म; **ब्रह्मणा** = ब्रह्मरूप कर्त्याकडसून; **हुतम्** = जें हवन केलां तेंवूय (ब्रह्मच); (देखून) **ब्रह्मकर्मसमाधिना** = ब्रह्म कर्माठांय चित्त थिराविल्ल्या अश्या; **तेन** = त्या मनशाकडसून; (जें) **ब्रह्मगन्तव्यम्** = मेळोवचेलें फळ (तेंवूय); **ब्रह्म एव** = ब्रह्मच. २४

**दैवमेवापरे यज्ञं योगिनः पर्युपासते ।**
**ब्रह्माग्नावपरे यज्ञं यज्ञेनैवोपजुह्वति ।।२५।।**

*देवां नांवानु कांय योगी करतातु यज्ञ अर्जुना ।*
*ज्ञानी ब्रह्मरुपी अग्नींत् ओंपी यज्ञानु यज्ञ गा ।।२५।।*

दुसरे (कांय) योगी देवांच्या नांवानूच यज्ञ करतात, तर दुसरे (कांय) योगी ब्रह्मरुपी उज्यांत यज्ञानूच यज्ञाचो होम करतात. २५

*अ.अ. :* **अपरे योगिनः** = दुसरे (कांय) योगी (लोक); **दैवं एव यज्ञं पर्युपासते** = देवांच्या नांवानूच यज्ञ करतात; **अपरे** = दुसरे कांय योगी; **ब्रह्माग्नौ** = ब्रह्मरुपी उज्यांत; **यज्ञेन ए व यज्ञम्** = यज्ञानूच यज्ञाचो; **उपजुह्वति** = होम करतात. २५

श्रोत्रादीनीन्द्रियाण्यन्ये संयमाग्निषु जुह्वति ।
शब्दादीन्विषयानन्य इन्द्रियाग्निषु जुह्वति ॥२६॥

*अर्पिती संयमाग्नींत कान नी हेर इंद्रियां ।*
*इंद्रियाग्नींतु शब्दादी ओंपतातु विशयांतु कांय ॥२६॥*

दुसरे कांय संयमरुपी उज्यांत कान आदी ज्ञानेंद्रियांचो होम करतात आनी कांय योगी इंद्रियांसारक्या उज्यांत शब्दादी (नाद बी) विशयांचो यज्ञ करतात. २६

*अ.अ. :* **अन्ये संयमाग्निषु** = दुसरे कांय (योगी) संयमरुपी उज्यांत; **श्रोत्रादीनि इन्द्रियाणि** = कान आदी इंद्रियांचो; **जुह्वति** = होम करतात; **अन्ये इन्द्रियाग्निषु** = आनीक कांय योगी इंद्रियांरुपी उज्यांत; **शब्दादीन् विषयान् जुह्वति** = शब्दादी (नाद बी) विषयांचो यज्ञ करतात. २६

सर्वाणीन्द्रियकर्माणि प्राणकर्माणि चापरे ।
आत्मसंयमयोगाग्नौ जुह्वति ज्ञानदीपिते ॥२७॥

*कांयु इंद्रिय कर्मां तीं स्वासा व्यापार बी तशे ।*
*चित्त ज्ञानानु पेटयल्ल्यां संयमाग्नींतु ओंपती ॥२७॥*

दुसरे योगी (ब्रह्म आनी आत्मो एक म्हणटल्या) आत्मज्ञानान पेटयल्ल्या आत्मसंयमी रुपी बुद्दीच्या उज्यांत, सगल्या इंद्रियांच्या वेव्हारांचो आनी प्राणांच्या वेपारांचो (प्राणवायुच्या) सगल्या कर्मांचो) होम करतात. २७

*अ.अ. :* **अपरे** = दुसरे (कांय) योगी लोक; **ज्ञानदीपिते** = (ब्रह्म आनी आत्मो एक म्हणटल्या) आत्मज्ञानान पेटयल्ल्या; **आत्मसंयमयोगाग्नौ** = आपणाक सुवादीन दवरपाचे, बुद्दीच्या उज्यांत; **सर्वाणि इन्द्रियकर्माणि च प्राणकर्माणि** = सगल्या इंद्रियांच्या वेव्हारांक आनी प्राणांच्या वेपारांचो (म्हळयार सगल्या कर्मांचो); **जुह्वति** = होम करतात. २७

द्रव्ययज्ञास्तपोयज्ञा योगयज्ञास्तथापरे ।
स्वाध्यायज्ञानयज्ञाश्च यतयः संशितव्रताः ॥२८॥

*द्रव्ययज्ञ तपांयज्ञ योगयज्ञ तशेच कांय ।*
*स्वाध्याय ज्ञान यज्ञाचो करी व्रतस्थ ते यती ॥२८॥*

कांय पैसो आडको दान करून यज्ञ (उपासना), कांय तपां करून यज्ञ, कांय अश्टांग योग यज्ञ, कांय वेद शिकचो यज्ञ, तर कांय आत्मज्ञान जोडचेलो यज्ञ करतात. २८

*अ.अ. :* **अपरे द्रव्ययज्ञाः** = आनीक कांय लोक पैसो आडको दान करून यज्ञ (उपासना) करतात; **तथा तपोयज्ञाः** = तशेच (कांय लोक) व्रतां उपास करून यज्ञ (करतात). (आनीक कांय लोक); **योगयज्ञाः** = अश्टांग योगरुपी यज्ञ (करतात); **च स्वाध्यायज्ञान यज्ञाः** = आनी (दुसरे कांय) वेद शिकचो यज्ञ करून; **ज्ञानयज्ञाः** = आत्मज्ञान जोडचेलो यज्ञ करतात. (हे) **संशितव्रताः यतयः** = खर व्रतां करपी यती आसात. २८

**अपाने जुह्वति प्राणं प्राणेऽपानं तथापरे ।**
**प्राणापानगती रुद्ध्वा प्राणायामपरायणा: ।।२९।।**

*अपानांत अर्पिती प्राण प्राणांत् अपान हेर कांय ।*
*गती आडावनु दोनांची ते प्राणायाम सादति ।।२९।।*

(प्राणायाम करतले योगी) अपान वायूंत (भायर वेत्या स्वासांत) भितर येत्या स्वासांत घालचेलो यज्ञ करतात. तशेंच (हेर कांय योगी) प्राण वायूंत अपान वायू घालचेलो यज्ञ करतात. दुसरे कांय योगी, प्राण आनी अपान हांच्यो गती आडावन अपानवायूंत प्राणवायुचो आनी प्राणवायूंत अपानवायुचो होम करतात. २९

*अ.अ. :* (प्राणायाम करतले योगी) **अपाने प्राणं जुह्वति** = अपान वायूंत (भायर वेत्या स्वासांत) भितर येत्या स्वासांत घालचेलो यज्ञ करतात; **तथा** = तशेंच (हेर कांय योगी); **प्राणे अपानं जुह्वति** = प्राणवायूंत भायर वेतो स्वास घालचेलो यज्ञ करतात; **अपरे** = दुसरे कांय योगी; **प्राणापानगती** = प्राण आनी अपान हांच्यो गती; **रुद्ध्वा** = आडावन; **प्राणायामपरायणा:** = अपानवायूंत प्राणवायुचो आनी प्राणवायूंत अपानवायुचो होम करतात. २९

**अपरे नियताहारा: प्राणान्प्राणेषु जुह्वति ।**
**सर्वेऽप्येते यज्ञविदो यज्ञक्षपितकल्मषा: ।।३०।।**

*ओंपती स्वास स्वासांत् आळावन खाण जेवण ।*
*हे सर्व यज्ञ जाणिल्ले यज्ञानु दोश ना करी ।।३०।।*

आनीक कांय लोक, खाण-जेवण आळावन स्वासांत-स्वास घालचेलो यज्ञ करतात. हे सगलेय यज्ञ जाण्टले. यज्ञान तांचें पातक नाशें जाता. ३०

*अ.अ. :* **अपरे नियताहारा:** = आनीक कांय लोक खाण-जेवण आळावन; **प्राणान् प्राणेषु जुह्वति** = स्वासांत-स्वास घालचेलो यज्ञ करतात; **एते सर्वे अपि यज्ञविद:** = हे सगलेय (२४ ते ३० ह्या श्लोकांत वर्णिल्ले मनीस) यज्ञ जाण-जाल्ले मनीस; **यज्ञक्षपित कल्मषा:** = यज्ञान तांचें पातक नाशें जालां.३०

**यज्ञशिष्टामृतभुजो यान्ति ब्रह्म सनातनम् ।**
**नायं लोकोऽस्त्ययज्ञस्य कुतोऽन्य: कुरुसत्तम ।।३१।।**

*यज्ञ अम्रुत खावपी जे वती ब्रह्माकु शाश्वतु ।*
*यज्ञ जो करिना ताका ना हो लोक कसो दुजो ? ।।३१।।*

अर्जुना, यज्ञाचो उरिल्लो प्रसाद जें अम्रुत तें खावपी योगी लोक, अविनाशी ब्रह्माक (परमात्म्याकडेन) पावतात. यज्ञ करिनाशिल्ल्याक हो मनीस लोकच जर सादना, (सुखाचो जायना) मागीर ताका दुसरो लोक खंयसून सुखाचो जायत ? ३१

*अ.अ. :* **कुरूसत्तम** = कुरू कुळांतल्या स्रेश्ठ अर्जुना; **यज्ञशिष्टामृतभुज:** = यज्ञ करून उरिल्लो प्रसाद जें अमृत, ते खातले ते (योगी लोक); **सनातनं ब्रह्म यान्ति** = अविनाशी परमात्म्याकडेन पावतात; **अयज्ञस्य** = यज्ञ करिनाशिल्ल्या मनशाक; **अयं लोक:** = हो मनीस लोक; **न अस्ति** = जर सादना (सूख दिना); (मागीर) **अन्य: कुत:** = (ताका) दुसरो लोक खंयसून सुखाचो जायत? ३१

एवं बहुविधा यज्ञा वितता ब्रह्मणो मुखे ।
कर्मजान्विद्धि तान्सर्वानेवं ज्ञात्वा विमोक्ष्यसे ॥३२॥

*तरां तरां अशे यज्ञ वेदांतु सांगिल्यातु गा ।*
*जातात कर्मानु ते सर्व कळून हें मुक्त जाशि तूं ॥३२॥*

हे भाशेन जायत्या तरांचे यज्ञ वेदांचे वाणींत पातळ्ळ्यात. ते सगले कर्मांतसून जातात. हें कळटकीच तूं मुक्त जातलो. ३२

*अ.अ. :* **एवं बहुविधा:** = अशा साबार तरांचे; **यज्ञा:** = यज्ञ; **ब्रह्मण: मुखे** = वेदांचे वाणींत (मुखांत); **वितता:** = पातळ्ळ्यात; **तान् सर्वान्** = ते सगले; **कर्मजान् विद्धि** = कर्मांपसून जातात (हें) तूं समज; **एवं ज्ञात्वा विमोक्ष्यसे** = हे भाशेन (खरेंच) समजतकीच तूं मोक्ष जोडटलो. ३२

श्रेयान्द्रव्यमयाद्यज्ञाज्ज्ञानयज्ञ: परंतप ।
सर्वं कर्माखिलं पार्थ ज्ञाने परिसमाप्यते ॥३३॥

*द्रव्य यज्ञाकुयू पार्था ज्ञानयज्ञूच स्रेश्ठ गा ।*
*सर्व तरां सर्व कर्मां जाती ज्ञानांत पूर्ण गा ॥३३॥*

अर्जुना, (गंद, फूल, तांदूळ आदी) जिनसांनी केल्ल्या यज्ञापरस ज्ञानरुपी (सगलेंच ब्रह्म ह्या समजान केल्लो) यज्ञ चड बरो. कित्याक, एकय आडवाद नासतना सगलें कर्म अखेर ज्ञानांत सोंपता. ३३

*अ.अ. :* **परंतप** = अर्जुना; **द्रव्यमयात्** = द्रव्यान् (गंद, फूल आनी संवसारीक वस्तुंनी) केल्ल्या; **यज्ञात्** = यज्ञापरस; **ज्ञानयज्ञ:** = ज्ञानरुपी (सगलेंच ब्रह्म ह्या समजान केल्लो) यज्ञ; **श्रेयान्** = चड बरो. (कित्याक); **पार्थ अखिलम्** = अर्जुना, एकूय आडवाद नासतना; **सर्वं कर्म ज्ञाने परिसमाप्यते** = कर्मां ज्ञानांत सोंपतात. ३३

तद्विद्धि प्रणिपातेन परिप्रश्नेन सेवया ।
उपदेक्ष्यन्ति ते ज्ञानं ज्ञानिनस्तत्त्वदर्शिन: ॥३४॥

*नमस्कारानु सेवेनु प्रस्नानु सोद ज्ञान तूं ।*
*ते तत्त्व जाणटले ज्ञानी कर्तले ज्ञान बोध गा ॥३४॥*

तें ज्ञान नमस्कार करून, प्रस्न विचारून आनी सेवा करून समजून घे. ब्रह्मतत्त्व जाणपी मनीस (तुका त्या) ज्ञानाचो बोध करतले. ३४

*अ.अ. :* **तत्** = तें ज्ञान; **प्रणिपातेन सेवया परिप्रश्नेन** = नमस्कार करून, तांची सेवा करून आनी प्रस्न विचारून; **विद्धि** = समजून घे; **ते तत्त्वदर्शिन: ज्ञानिन:** = ते ब्रह्म-तत्त्व जाणटले ज्ञानी मनीस (तुका त्या); **ज्ञानं उपदेक्ष्यन्ति** = ज्ञानाचो उपदेश करतले. ३४

**यज्ज्ञात्वा न पुनर्मोहमेवं यास्यसि पाण्डव ।**
**येन भूतान्यशेषेण द्रक्ष्यस्यात्मन्यथो मयि ।।३५।।**

ज्ञानाची तुस्त

*त्या ज्ञानानु असो मोह जावंचो ना भौनु गा तुका ।*
*सर्व जीवु पळेशी तूं तुज्यांतु नी म्हजे मदीं ।।३५।।*

तें ज्ञान कळटकीच, आगा अर्जुना, पर्थून असो मोह (भ्रम) तुका जावचो ना. ह्या ज्ञानान सगले जीव तुज्या (जिवात्म्याचे) ठांय आनी म्हजे (परमात्म्याचे)ठांय तू पळेशीत ३५

*अ.अ.* : **यत् ज्ञात्वा** = तें (ज्ञान) कळटकीच; **पुनः एवं मोहं न यास्यसि** = भौन असो मोह (तुका) जावचो ना, (आनी); **पाण्डव** = आगा अर्जुना; **येन** = ह्या (ज्ञानान); **अशेषेण भूतानि** = सगले जीव; **आत्मनि** = तुजे भितर (आनी); **अथो** = मागीर; **मयि द्रक्ष्यसि** = म्हजे भितर (परमात्म्याचे ठांय) (तूं) पळेतलो. ३५

**अपि चेदसि पापेभ्यः सर्वेभ्यः पापकृत्तमः ।**
**सर्वं ज्ञानप्लवेनैव वृजिनं संतरिष्यसि ।।३६।।**

*आसशी कितलोयु तूं पापी सर्व पाप्यांमदीं व्हड ।*
*तरशी व्हड्यानु ज्ञानाच्या सगल्याच पातकांकु तूं ।।३६।।*

घडये तूं सगल्या पातक्यां परसूय चड पातकी आसल्यारूय ह्या ज्ञानाच्या व्हड्यानूच सगलीं पातकां तूं सोंपेपणान तरून वशीत. ३६

*अ.अ.* : **चेत्** = घडये; (तूं) **सर्वेभ्यः पापेभ्यः अपि पापकृत्तमः असि** = सगल्या पातक्यांपरसूय चड पातकी आसल्यारूय; **ज्ञानप्लवेन एव** = ह्या ज्ञानाच्या व्हड्यानूच; **सर्व वृजिनम्** = सगलीं पातकां; **संतरिष्यसि** = तूं सोंपेपणान तरून वशीत. ३६

**यथैधांसि समिद्धोऽग्निर्भस्मसात्कुरुतेऽर्जुन ।**
**ज्ञानाग्निः सर्वकर्माणि भस्मसात्कुरुते तथा ।।३७।।**

*रसरशिल्लो उजो करता काश्टांकु भस्मसात गा ।*
*भस्म ज्ञाना उजो करता सर्व कर्मांकु ते परी ।।३७।।*

अर्जुना, जसो रसरशीत पेटयल्लो उजो जळोवाक भस्म करता, तसो ज्ञानरुपी उजो सगलीं कर्मां भस्म करता. ३७

*अ.अ.* : **अर्जुन** = आगा अर्जुना; **यथा समिद्धः अग्निः** = जसो रसरशीत पेटयल्लो उजो; **एधांसि भस्मसात कुरुते** = जळोवाक भस्म करता; **तथा ज्ञानाग्निः सर्व कर्माणि भस्मसात् कुरुते** = तसो ज्ञानरुपी उजो सगलीं कर्मां भस्म करता. ३७

न हि ज्ञानेन सदृशं पवित्रमिह विद्यते ।
तत्स्वयं योगसंसिद्ध: कालेनात्मनि विन्दति ॥३८॥

*ज्ञानासमानु ना कांयच हांगा हेर पवित्र गा ।*
*जो योगसिद्ध आपशीं तें जोडी वेळारू अंतरीं ॥३८॥*

कित्याक, ह्या जगांत ज्ञानाभाशेन पवित्र हेर कांयच ना. तें ज्ञान योग्य वेळार योगान संस्कारीत जाल्लो मनीस आपले ठांय (अंतस्करणांत) आपशींच मेळयता. ३८

*अ.अ. :* (कित्याक) **इह** = ह्या जगांत; **ज्ञानेन सदृशं पवित्रं मिह विद्यते** = ज्ञाना सारकें हेर कांयच ना; **तत्** = तें ज्ञान; **कालेन** = योग्य वेळार; **योगसंसिद्ध** = योगान संस्कारीत जाल्लो मनीस; **आत्मनि** = आपले ठांय (अंतस्कर्णांत); **स्वयं विन्दति** = आपशींच मेळयता. ३८

श्रद्धावाँल्लभते ज्ञानं तत्पर: संयतेन्द्रिय: ।
ज्ञानं लब्ध्वा परां शान्तिमचिरेणाधि गच्छति ॥३९॥

ज्ञान जोडपाक श्रद्धेची गरज

*श्रद्धाळु मेळयी ज्ञान सदीं शिटूक संयमी ।*
*ज्ञान जोडूनु मेळै तो बेगीनु व्हड शांति गा ॥३९॥*

श्रद्धावंत, इंद्रियांचेर जैत जोडिल्ल्या आनी अशें ज्ञान जोडूंक नेटान वावुरतल्या मनशाक तें ज्ञान मेळटा. आनी तें ज्ञान मेळिल्ल्या खिणाक ताका रोखडीच (मोक्षाची) व्हड शांती मेळटा. ३९

*अ.अ. :* **श्रद्धावान्** = श्रद्धावंत; **संयतेन्द्रिय:** = इंद्रियां जिखिल्लो; **तत्पर:** = सदीं शिटूक (नेटान वावुरतल्या) मनशाक; (अशें) **ज्ञानं लभते** = ज्ञान मेळटा; **ज्ञानं लब्ध्वा** = तें ज्ञान मेळटकीच; **अचिरेण** = (ताका) रोखडीच; **परां शान्तिम्** = (मोक्षाची) व्हडली शांती; **अधिगच्छति** = मेळटा. ३९

अज्ञश्चाश्रद्दधानश्च संशयात्मा विनश्यति ।
नायं लोकोऽस्तित न परो न सुखं संशयात्मन: ॥४०॥

*अजाणा लागऽ गा वाट श्रद्धाहीण दुभावि जो ।*
*मेळना सूख दुभाव्याक तसो हो लोक वा दुजो ॥४०॥*

नेणार, तेच भाशेन अश्रद्धाळू आनी दुभावी मनशाची वाट लागता. दुभावी मनशाक हो लोक मेळना, परलोकय मेळना तशें सुखय जायना. ४०

*अ.अ. :* **अज्ञ:च अश्रद्धधान: च संशयात्मा** = नेणार तेच भाशेन अश्रद्धाळू आनी दुभावी मनशाची; **विनश्यति** = वाट लागता. (तो परमार्थापासून ढळटा.) (तातुंतूय) **संशयात्मन:** = दुभावी मनशाक, **अयं लोक:** = हो लोक तर मेळनाच; **पर: न अस्ति** = परलोकय मेळना; (तशें) **न सुखम्** = सुखय जायना.

**योगसंन्यस्तकर्माणं ज्ञानसंछिन्नसंशयम् ।**
**आत्मवन्तं न कर्माणि निबध्नन्ति धनंजय ।।४१।। ***

*कर्मां योगानु ओंपून सल्ले ज्ञानानु संशय ।*
*आत्मज्ञानी असो पार्था ताका ना कर्मबंधन ।।४१।। **

आगा अर्जुना, योगान जाणें आपलीं कर्मां ब्रह्माक ओंपलीं, आनी ज्ञानान (आत्मो कर्म करिना ह्या समजान) जाचे सगले दुभाव ना जाले, अश्या आत्मज्ञानी मनशाक (ताचीं) कर्मां बांदिनात. ४१

*अ.अ. :* **धनंजय** = अर्जुना; **योग संन्यस्त कर्माणम्** = योगान आपलीं कर्मां जाणें कर्माक ओंपलीं; **ज्ञानसंछिन्नसंशयम्** = (आनी) ज्ञानान (आत्मो कर्म करिना ह्या समजान) जाचे सगले दुभाव ना जाले; (अश्या) **आत्मवन्तम्** = आत्मज्ञानी मनशाक; **कर्माणि न निबध्नन्ति** = (ताचीं) कर्मां बांदिनात.४१

**तस्मादज्ञानसंभूतं हृत्स्थं ज्ञानासिनात्मनः ।**
**छित्त्वैनं संशयं योगमातिष्ठोत्तिष्ठ भारत ।।४२।।**

*हो अज्ञानानु आयिल्लो दुभावु अंतरांतुलो ।*
*चिरूनु ज्ञान तर्सादीन् योग सादून ऊठ तूं ।।४२।।*

देखून, आगा अर्जुना, अंतस्कर्णांतल्या ह्या तुज्या दुभावाक आत्मज्ञानाचे तरसादीन चिरून, योग सादून (झूज करपाक) ऊठ. ४२

*अ.अ. :* **तस्मात्** = देखून; **भारत** = अर्जुना; **हृस्थं** = अंतस्कर्णांतल्या; **अज्ञानसंभूतम्** = अजाणपणान आयिल्ल्या; **एनं आत्मनः संशयम्** = ह्या तुज्या दुभावाक; **ज्ञानासिना छित्त्वा** = आत्मज्ञानाचे तरसादीन चिरून; **योगम् आतिष्ठ** = योग सादून; **उत्तिष्ठ** = (झूज) करूंक ऊठ. ४२

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **ज्ञानकर्मसंन्यास**योगो
नाम **चतुर्थो**ऽध्यायः ।

हे भाशेन श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो
ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांच्या संवादांतलो
**ज्ञानकर्मसंन्यासयोग** नांवाचो **चवथो** अध्याय सोंपलो.

# टिपो

१ ईश्वर : (१) 'ईशन नियमन करपी देखून ईश्वर' (शां.भा.) (२) ईश्वर वा ईश हावो अर्थ एकूच. ईश म्हळ्यार आज्ञा करप, राज्य करप, स्वामी वा धनी जावप ईश हाचो अर्थ धनी वा स्वामी, मालक, धनवंत, प्रभावशाली व्यक्ती, देव, आत्मो. ईश्वराचो जो प्रभाव आसा, जें सामर्थ्य आसा, ताका ऐश्वर्य म्हणटात. ताका ईश्वरभावय म्हणटात. ईश्वरभाव म्हळ्यार प्रभुताय (१८-४३) (का).

आसुरी सबावाचे लोक आपणाक ईश्वर समजतात. (ईश्वरोऽहम् १६-१४) आनी हेच वृत्तीक लागून ते खाला पडटात (१६-१९, २०). जे लोक आत्मपरायण आसतात, ते 'अहंब्रह्मास्मि' हाचें ध्यान करतात. तांचो उद्धार जाता. (पळेयात, १३-२८, १५-८, १७; १६-१४; १८-६१), ईश्वरभाव (१८-४३); ईश (११-१५, ४४) (का).

# श्लोकटिपो

*७-८ अवतार म्हळ्यार देंवप, उतरप. जो सकयल देंवला तो भगवंत संवसाराक वयल्या पांवड्याचेर व्हरपाक वा उखलपाक ह्या जगांत सकयल देंवला. एक नवी मांडावळ करपा खातीर, धर्माचें राज्य स्थापन करपा खातीर भगवंत अवतार घेता. (तुळा करात - Old order changeth, yielding place to new, God fulfils Himself in many ways - Tennyson). मनीस समाजाची अवनत जातकच, समाजाची इबाडिल्ली घडी पर्थून सारखी घालप होच अवताराचो हेतू आसता. तो अवतार संवसारांत देंवतकच, दुश्टांक ना करप आनी सुश्टांक राखण दिवन मोडिल्ल्या समाजधर्माची पर्थून स्थापणूक करपाचें काम करता.

*१६-१८ जें कर्म करुनूय मनशाक कर्मपासांतल्यान मेकळो रावंक जाता अशी युक्ती गीता सांगता. कोणाकूच कर्म करिनासतना रावंक जायना. फकत कर्म केलें ना म्हणून 'नैष्कर्म्य सिद्धि' (१८-४९; ३-४) मेळना, जाल्यार 'काम-संकल्प' (४-१९) सोडल्यारूय जाता. (का.)

*४१ कर्मसंन्यास : कर्म केलेबगर आमकां जियेवप जायना. जिवीत कर्मांतसून सफळ जाता, पूण कर्मबंधनांतूय घालता. कर्म सोडलेबगर मुक्ती मेळना. अशा विशम स्थितींत जिविताची साधना कशे तरेन करचेली हो सगल्यांत व्हडलो प्रस्न. हातुंतल्यान एकच मार्ग आसा. पूण सबावाचे विशेशतायेक लागून, दोन तरांचे लोक, तो मार्ग दोन तरांनी चलतात. ज्ञानमार्गी लोक उण्यांत उणें कर्म करून आपलें कर्म करतात आनी जे कर्ममार्गी आसतात, ते कर्मांतसुनूच, ज्ञानाचो साक्षात्कार करून, मुक्ती जोडटात. ज्ञानी चिंतपी कर्मसंन्याशी आसतात. सेवा करपी लोक कर्मयोगी जातात. हे भाशेन दोगांयचें प्रस्थान वेगळें जाता. पूण दोगांयची साधना सोंपतकूच, ज्ञानमार्गी आनी कर्ममार्गी एकेच सुवातेर पावतात (५-५). इतलेंच न्हय तर दोगांयचें रूप एकूच जाता.

ज्ञानी लोकांचें कर्म मनाचें आसता. कर्मयोग्यांचीय साधना वाडटकूच, तांच्याय चिंतपांत सामान्या भायली कर्मशक्ती येता. सगल्या प्राण्यांचें हीत हीच कर्माची मोख आसता. आमी

जेन्ना शरिरान कोणाचेंय हीत सादपाक वतात, तेन्ना एकाचें कल्याण करतना, दुसऱ्या कोणाचेंय किर्तें ना किर्तें नुकसान जावं येता. जेन्ना आमी '**सर्वभूतात्मभूतात्मा**' जातात, विश्वाच्या एकचारा मेरेन पावतात, तेन्ना देहान न्हय, तर निखट्या विचारान, मनाच्या संकल्पान सगल्यांची शुद्ध सेवा करपाक शकतात आनी हे तरेन कर्मयोगांतसून कर्मसंन्यासा मेरेन पावतात. (पळेयात ५-२; १८-७) (का.)







# संन्यासयोग

सांख्यमार्ग आनी योग मार्ग हातुंतलो भेद आनी सारकेंपण, योगी मनशाचें संतुळीत जिवीत, इत्सा, तिडक आदी विकारांक आळाबंदा हाडून मनशांती जोडप आनी योग जोडिल्ल्या संन्याशाचीं लक्षणां इत्यादी ह्या अध्यायाचे विशय आसात.

चवथ्या अध्यायाचे अखेरेक ज्ञानाची (म्ह. सांख्ययोगाची वा कर्मसंन्यासाची) तोखणाय अर्जुन आयकता. देखून ह्या अध्यायाच्या आरंभाक सांख्यांचो कर्मसंन्यास आनी कर्मां निरपेक्ष बुद्दीन करीत रावप हो (कर्मयोगाचो) दुसरो मार्ग हांचेपैकीं खंयचो अदीक हिताचो असो प्रस्न अर्जुन श्रीकृष्णाक करता. दोनूय मार्ग मोक्षदिणे. खंयचेय वाटेन गेल्यार फळ एकूच. पूण कर्मसंन्यासा परस कर्मयोग स्रेश्ठ. दोनूय मार्गांत आसक्तीचो संन्यास आसा. अंतीम अवस्थेंत सांख्य आनी योग तत्त्वां समान आसात. अंतीम मोख एकूच. साधनां आनी मार्ग हीं वेगळीं (१-६). योग वृत्ती जोडिल्ल्या मनशाक कर्म बादना. कर्मयोग आंगांत करमायल्लो योगी इंद्रियां आपसुवादीन दवरता. तो सगले सृश्टीकडेन एकरूप जाता आनी कर्मां करून तांच्या पासांतल्यान सुट्टा. पळोवप, आयकप, चलप, उलोवप आदी क्रिया करतना. इंद्रियां आपल्या विशयां ठांय वावुरतात अशें तो समजता. देहाचे वेव्हार इंद्रियां करतात. ते वेव्हार करपी हांव (म्हजे कुडींतलो आत्मो न्हय), अशे भावनेन तो चलता. कर्माच्या फळाविशीं ताका कसलीच आसक्ती नासता. तो चित्तशुद्धी पासत सगलींच कर्मां ब्रह्माक (परमात्म्याक) ओंपता. कमळाच्या पानाक जशें उदक लागना, तशें ताका कर्म बादना. कर्मयोगी कुडीन, मनान, बुद्दीन वा निखट्या इंद्रियांनी जीं कर्मां करतात. तीं फळ जोडपाक नासून (रजतमादी प्रकृती गुणांनी रेवडायल्ल्या) आत्म्याचे शुद्धी पासत (ताच्या शुद्ध स्वरुपाची ताका जाणवीक करून दिवपा खातीर) आसतात. देखून ताका मनशांती मेळटा. (७-१२). आत्मो (परमेश्वर) कोणाकूच कर्मां सोडात वा करात म्हूण सांगिना. म्हळयार मनशाच्या हातांतसून कर्मां करून घेना वा तांचें फळ दिना. तशेंच तो कोणाचें पाप-पुण्य घेना. कर्तुत्व, कर्म आनी कर्म फळां दिता ती प्रकृती वा नीज. आत्मो तांचे पासून अलिप्त. हेंच सांख्यांचें आध्यात्मज्ञान. ह्या ज्ञानाक लागुनूच आसक्ती ना जाता. बुद्दी थीर जाता. होच योग. हें तत्त्व कळनाशिल्ले अज्ञानी लोक गदळटात. पूण ज्ञानी लोक आपली बुद्द आनी मन हीं परब्रह्माठांय लायतात; ताकाच व्हडली जोडपाची वस्तू लेखतात आनी सगल्या जिवां कडेन सम दिश्टीन पळेतात आनी आपूण जिवे आसतनाच संवसार जिखून सासणाचें सूख जोडटात. इंद्रियांच्या सुखापरस

आत्म्याच्या आनी बुद्दीच्या सुखांत योगी रमता. वान्सा, तिडक, लोभआदी विकार जिखून तो समाजहिता पासत जियेता आनी अंतीं मुक्त जाता. सगल्या जिवांचें हीत वा मनीसपण हेंच ताचें ध्येय आसता. (१४-२६). ही स्थिती मरचे पयलींच ध्यानयोगाच्या मार्गान परत्शाक जोडपाक येता. सगले यज्ञ आनी तपां भोगपी, सगल्यां लोकांचो ईश्वर आनी सगल्या जिवावळीचो सखो अश्या (सगूण) परमात्म्याकडेन एकरूप जावन शांती मेळटा अशें श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता. (२७-२९).

## पञ्चमोऽध्यायः

अर्जुन उवाच

**सन्यासं कर्मणां कृष्ण पुनर्योगं च शंससि ।**
**यच्छ्रेय एतयोरेकं तन्मे ब्रूहि सुनिश्चितम् ।।१।।**

सांख्य आनी योग एकेच मोखे मेरेन पावयतात

अर्जुनान म्हळें

*कर्मसंन्यास तोखे तूं तोखेशी कर्मयोग बी ।*
*जो बरो तांतुलो एक म्हाका तूं सम सांग गा ।।१।।*

अर्जुनान म्हळें: कृष्णा, कर्माच्या संन्यासाक आनी पर्थून (निश्काम) कर्मयोगाक तूं तोखेता. तेन्ना ह्या दोनां भितरलें जें चड हिताचें तें बरें थारावन म्हाका सांग. १

*अन्वय आनी अर्थ* : **अर्जुन नुवाच** = अर्जुनान म्हळें; **कृष्ण** = कृष्णा; **कर्मणां संन्यासम्** = कर्माच्या संन्यासाची (तूं तुस्त करता); **च पुनः** = आनी पर्थून; **योगं शंससि** = (निश्काम कर्म) योगाक तूं तोखेता; **एतयोः** = (तेन्ना) ह्या दोनां भितरलें; **यत् श्रेयः** = जें चड हिताचें; **तत् एकं सुनिश्चितम्** = तें एकलेंच बरें करून थारावन; **मे ब्रूहि** = म्हाका सांग. १

श्रीभगवानुवाच

**संन्यासः कर्मयोगश्च निःश्रेयसकरावुभौ ।**
**तयोस्तु कर्मसंन्यासात्कर्मयोगो विशिष्यते ।।२।।**

श्रीभगवंतान म्हळें

*कर्मसंन्यास नी योग दोनूय दितातु मोक्ष गा ।*
*सोडचे परस तें कर्म कर्मयोग विशेश गा ।।२।।*

श्रीभगवंतान म्हळें: कर्मसंन्यास (कर्मां सोडप) आनी (फळाचे आशे विणे) कर्मां करप हीं दोनूय मोक्ष दिवपी. पूण त्या दोनां भितर, कर्मां सोडपा परस कर्मां करप हें स्रेश्ठ. २

*अ.अ.*: **श्रीभगवानुवाच** = श्रीभगवंतान म्हळें; **संन्यासः** = कर्मां सोडप; **च कर्मयोगः** = (फळाचे आशेविणें) कर्मां करप; **उभौ निःश्रेयसकरौ** = हीं दोनूय हिताचीं (मोक्ष दिणीं); **तु तयोः** = पुणून त्या दोनां भितर; **कर्मसंन्यासात् कर्मयोगः विशिष्यते** = कर्मां सोडपा परस कर्मां करप हें स्रेश्ठ. २

ज्ञेय: स नित्यसंन्यासी यो न द्वेष्टि न काङ्क्षति ।
निर्द्वन्द्वो हि महाबाहो सुखं बन्धात्प्रमुच्यते ।।३।।

*करिना द्वेश इत्सा जो संन्याशी जाण तो सदीं ।*
*द्वंद्वा विरेतु तो जाल्ल्यान् सुखान पासांतुल्लो सुटऽ ।।३।।*

जो दुस्वास करिना वा कर्मफळ इत्सिना, तो सदींचोच कर्म सोडिल्लो समजुचो. कित्याक इत्सा आनी वीट हे जुंवळेंतल्यान सुटिल्लो मनीस आपशींच कर्मपासांतल्यान सुट्टा. ३

*अ.अ.* : **महाबाहो** = आगा अर्जुना; **य: न द्वेष्टि** = जो (कोणाचोच) दुस्वास करिना; (वा) **न काङ्क्षति** = कर्मफळ इत्सिना; **स: नित्यसंन्यासी** = तो सदींचोच कर्म सोडिल्लो; **ज्ञेय:** = समजुचो; **हि** = कित्याक; **निर्द्वंद्व:** =(इत्सा आनी वीट) हे जुंवळेंतल्यान सुटिल्लो मनीस; **सुखं बन्धात् प्रमुच्यते** = आपशींच कर्मपासांतल्यान सामकोच सुट्टा. ३

सांख्ययोगौ पृथग्बाला: प्रवदन्ति न पण्डिता: ।
एकमप्यास्थित: सम्यगुभयोर्विन्दते फलम् ।।४।। *

*वेगळे गा सांख्य नी योग पिशे म्हणटातु सुज्ञ न्ही ।*
*सम एकानु चल्ल्यार दोनांचें फळ मेळयी ।।४।।**

(कर्म सोडचेली) सांख्यबुद्द आनी कर्म करचेली योगबुद्द (हे) (दोनूय) वेगळे मार्ग अशे पिशे म्हणटात. गिन्यानी तशें म्हणनात. (कित्याक) हातुंतली एकलीय बुद्द सारकी चलयल्यार, दोनांचें फळ मेळटा. ४

*अ.अ.:* **सांख्ययोगौ** = (वयर सांगिल्ल्यो कर्म सोडचेली) सांख्यबुद्द आनी कर्म करचेली योग बुद्द (हे) (दोनूय) **पृथक्** = वेगळे मार्ग; **बाला: प्रवदन्ति** = अशें मूर्ख लोक म्हणटात; **न पण्डिता:** = गिन्यानी तशें म्हणिनात. (कित्याक) **एकं अपि सम्यक् आस्थित:** हातुंतली एकलीय सारकी चलयल्यार; **उभयो: फलं विन्दते** = दोनांचें फळ मेळटा. ४

यत्सांख्यै: प्राप्यते स्थानं तद्योगैरपि गम्यते ।
एकं सांख्यं च योगं च य: पश्यति स पश्यति ।।५।।

*मेळऽ जें स्थान सांख्यांकु तेंच योग्यांकु गावऽ गा ।*
*सांख्य नी योग एकूच हें जाणी तोच जाणटलो ।।५।।*

सांख्य बुद्धीन चलतल्यांक जी सुवात मेळटा, तीच योग्यांकूय मेळटा. सांख्य आनी योग हे एकूच अशें जो समजता, तोच सारको समजता. ५

*अ. अ.:* **सांख्यै: यत् स्थानं प्राप्यते** = सांख्यबुद्दीन चलतल्यांक (ज्ञानयोग्यांक) जी (मोक्षाची) सुवात मेळटा; **तत् योगै: अपि गम्यते** = तीय योग्यांकूय मेळटा; **सांख्यं च योगं एकं य: पश्यति** = सांख्य मार्गाक आनी (कर्म) योगमार्गाक एकूच (अशें) जो पळेता (समजता); **स: च पश्यति** = तोच सम पळेता (समजता). ५

संन्यासस्तु महाबाहो दु:खमाप्तुमयोगत: ।
योगयुक्तो मुनिर्ब्रह्म नचिरेणाधिगच्छति ।।६।।

*योगा शिवायु संन्यास　　सादप भौ कठीण तो ।*
*जो मुनी योग सादिल्लो　　ब्रह्म बेगीनु मेळयी ।।६।।*

पूण आगा अर्जुना, योगाशिवाय संन्यास जोडप खूब कठीण. (फळाची आशा सोडिल्ल्या) कर्मयोगी मुनीक परमात्मो (ब्रह्म) बेगीन मेळटा. ६

*अ. अ.*: **तु महाबाहो** = पूण आगा अर्जुना; **अयोगत:** = (निश्काम) कर्मयोगा बगर; **संन्यास:** = संन्यास (म्ह. मन, इंद्रियां आनी कूड हांणी जातल्या सगल्या कर्माचें कर्तेपण सोडप); **आप्तुं दु:खम्** = जोडप कठीण (फळाची आशा सोडिल्ल्या) **योगयुक्त: मुनि:** = योग जोडिल्ल्या मुनीक (ब्रह्माचें स्वरूप चिंतपी मनशाक) **ब्रह्म** = परमात्मो; **नचिरेण** = रोखडोच; **अधिगच्छति** = मेळटा. ६

योगयुक्तो विशुद्धात्मा विजितात्मा जितेन्द्रिय: ।
सर्वभूतात्मभूतात्मा कुर्वन्नपि न लिप्यते ।।७।। *

*अंतरीं शुद्ध जो योगी　　जिखूनु मन इंद्रियां ।*
*सर्व जिवांतु एकरूप　　करुनूय कर्म बादना ।।७।। **

योग जोडिल्लो, शुद्ध अंतस्कर्णाचो, आपली कूड, इंद्रियां आनी मन जिखिल्लो, सगल्या जिवांचो आत्मो आपल्याच आत्म्यावरी लेखतलो (सगल्या जिवांठांय मोगान आनी ज्ञानान एकरूप जाल्लो) मनीस कर्म करुनूय पासांत पडना. (ताका कर्माचो लेप लागना.) ७

*अ. अ.*: **योगमुक्त: विशुद्धात्मा** = योग जोडिल्लो, शुद्ध अंतस्कर्णाचो; **विजितात्मा जितेन्द्रिय:** आपली कूड, इंद्रियां आनी मन जिखिल्लो; **सर्वभूतात्म भूतात्मा** = सगल्या जिवांचो आत्मो आपल्याच आत्म्यावरी लेखतलो (मनीस); **कुर्वन् अपि न लिप्यते** = कर्म करुनूय पासांत पडना. ७

नैव किंचित्करोमीति युक्तो मन्येत तत्त्ववित् ।
पश्यञ्श्रृण्वन्स्पृशञ्जिघ्रन्नश्नन्गच्छन्स्वपञ्श्वसन् ।।८।। *

प्रलपन्विसृजन्गृह्णन्नुन्मिषन्निमिषन्नपि ।
इन्द्रियाणीन्द्रियार्थेषु वर्तन्त इति धारयन् ।।९।। *

*मानी ''हांव करिना कांयु''　　योगी जो तत्त्व जाणटलो ।*
*आयकी स्पर्शी पळे हुंगी　　खाय उश्वाशि चलता न्हिदऽ ।।८।।**

*सोडी घेयी उलै धांपी　　उगडी दोळ्यां मल्प्यो तश्यो ।*
*वावुर्ती इंद्रियां तांच्या　　विशयांतूच मानि तो ।।९।।**

आत्म्याचें खरेलें तत्त्व जाण-जाल्लो योगी पळेतना, आयकतना, तेंकतना, वास घेतना, खातना, चलतना, स्वास घेतना (८) उलयतना, मळ-मूत सोडटना, घेतना, दोळ्यांच्यो मलप्यो उगडटना आनी धांपतनाय इंद्रियां आपापल्या कामांत (विशयांत) वावुरतात अशें समजून, आपूण कांयच करिना अशेंच समजता. ९

*अ. अ.*: **तत्त्ववित् युक्तः** = आत्म्याचें खरेलें तत्त्व जाण जाल्लो (सांख्य) योगी; **पश्यन्** = पळेतना; **शृण्वन्** = आयकतनां; **स्पृशन्** = तेंकतना; **जिघ्रन्** = वास घेतना; **अश्नन्** = खातना; **गच्छन्** = चलतना; **स्वपन्** = न्हिदतना; **श्वसन्** = श्वास घेतना; (८) **प्रलपन्** = उलयतना; **विसृजन्** = मळ-मूत सोडटना; **गृह्णन्** = घेतना; **उन्मिषन्** = दोळ्यांच्यो मलप्यो उगडटना; (आनी) **निमिषन् अपि** = त्यो धांपतनाय (हें सगलें चलता आसतनाय); **इन्द्रियाणि इन्द्रियार्थेषु वर्तन्ते इति** = इंद्रियां आपआपल्या विशयांत (कामांत) वावुरतात; **इति धारयन्** = अशें समजून; **किंचित् न करोमि** = ''हांव कांयच करिना''; **इति एव मन्यते** = अशेंच मानतां. ९

**ब्रह्मण्याधाय कर्माणि सङ्गं त्यक्त्वा करोति यः ।**
**लिप्यते न स पापेन पद्मपत्रमिवाम्भसा ।।१०।। ***

*कर्मां ब्रह्माकु ओंपूनु करीं तीं ओड सोडुनू ।*
*ताका गा बादना पाप साळका पाना जशें जळ ।।१०।।**

ओड सोडून आनी ब्रह्माक ओंपून जो कर्मां करता, तो उदकांतल्या साळकाच्या पाना भाशेन, पातका पासून अलिप्त रावता. १०

*अ. अ.*: **सङ्गम् त्यक्त्वा** = ओड सोडून; (आनी) **ब्रह्मणि आधाय** = ब्रह्माक (परमेश्वराक) ओंपून; **यः कर्माणि करोति** = जो कर्मां करता; **सः** = तो; **अम्भसा पद्मपत्रम् इव** = उदकांतल्या साळकाच्या पाना भाशेन; **पापेन न लिप्यते** = पातकापासून अलिप्त रावता. १०

**कायेन मनसा बुद्ध्या केवलैरिन्द्रयैरपि ।**
**योगिनः कर्म कुर्वन्ति सङ्गं त्यक्त्वात्मशुद्धये ।।११।। ***

*कायेनु मन बुद्दीनूय इंद्रियांनीबि केवळ ।*
*मन शुद्धीकु गा योगी कर्मां ओडीविणें करी ।।११।। **

(देखून) आसक्ती सोडून, आपलें चित्त निवळावंक, निखटे कुडीन, मनान, बुद्दीन आनी इंद्रियांनीय योगी कर्मां करीत आसतात. ११

*अ. अ.*: **सङ्गम् त्यक्त्वा** = आसक्ती सोडून; **आत्मशुद्धये** = आपलें चित्त निवळावंक; **केवलैः** = निखटे; **कायेन, मनसा बुद्ध्या** = कुडीन, मनान, बुद्दीन; (आनी) **इंद्रियैः** = इंद्रियांनीय; **योगिनः कर्म कुर्वन्ति** = योगी कर्मां करीत आसतात. ११

**युक्त: कर्मफलं त्यक्त्वा शान्तिमाप्नोति नैष्ठिकीम् ।**
**अयुक्त: कामकारेण फले सक्तो निबध्यते ॥१२॥**

*योगी तो फळु सोडूनु      अचळय शांति मेळयी ।*
*जो योगहीणु सैराट      फळा वान्शेनु बांदिलो ॥१२॥*

कर्मयोग जोडिल्लो मनीस, कर्मफळ सोडून अचळय शांती जोडटा. पूण अयुक्त म्ह. कर्मफळाची वान्सा आसपी मनीस फळाचे ओडीन वासनेन पासांत पडटा. १२

*अ. अ.*: **युक्त:** = कर्मयोगी; **कर्मफलं त्यक्त्वा** = कर्मफळ सोडून; **नैष्ठिकीं शान्तिम् आप्नोति** = अचळ शांती जोडटा; (पूण) **अयुक्त:** = कर्मफळाची वान्सा आसपी मनीस; **फले सक्त:** = फळाची ओड जाल्ल्यान; **कामकारेण** = वासनेन; **निबध्यते** = पासांत पडटा. १२

**सर्वकर्माणि मनसा संन्यस्यास्ते सुखं वशी ।**
**नवद्वारे पुरे देही नैव कुर्वन्न कारयन् ॥१३॥**

*सर्व कर्मां मनान पार्था      सोडून सुखानु संयमी ।*
*णव दारां पुरांत् रावऽ      कर्ना तो लायिना करूंक् ॥१३॥*

इंद्रियां जिखिल्लो कुडिंतलो आत्मो सगलीं कर्मां मनान सोडून, कितेंच करिनासतना वा करूंक लायनासतना णव दारांच्या शारा सारके कुडींत सुखान रावता. १३

*अ. अ.*: **वशी** = इंद्रियां जिखिल्लो; **देही** = कुडिंतलो आत्मो; **सर्व कर्माणि मनसा संन्यस्य** = सगल्या कर्मांचो मनान संन्यास करून (सोडून); **न एव कुर्वन्** = कितेंच करिनासतना (वा); **न कारयन्** = करूंक लायनासतना; **नवद्वारे पुरे** = णव दारांच्या शारासारके कुडींत; **सुखं आस्ते** = सुखान रावता. १३

**न कर्तृत्वं न कर्माणि लोकस्य सृजति प्रभु: ।**
**न कर्मफलसंयोगं स्वभावस्तु प्रवर्तते ॥१४॥**

*कर्म कर्तूप लोकांचें      कर्मांचें फळ बी तशें ।*
*णव-दारां पुरांतलो तो      करिना लायिना करूंक ॥१४॥*

लोकांचें कर्तूप, तांचीं कर्मां, कर्म फळांय मेळची मांडणी हीं ईश्वर निर्मिना. सभाव म्हळ्यार प्रकृतीच वावुरता (तें सगलें करता). १४

*अ. अ.*: **लोकस्य कर्तृत्वम्** = लोकांचें कर्तुप; (तांची) **कर्माणि** = कर्मां; (हीं) **प्रभु: न सृजति** = ईश्वर निर्मिना; **कर्मफलसंयोगम् न (सृजति)** = त्या कर्मांचें फळ मेळची मांडणी करिना; **तु** = पूण; **स्वभाव: प्रवर्तते** = सबाव म्ह. प्रकृतीच वावुरता (तें सगलें करता). (प्रकृतीचे गुणच गुणांत वावुरतात.)

**नादत्ते कस्यचित्पापं न चैव सुकृतं विभुः ।**
**अज्ञानेनावृतं ज्ञानं तेन मुह्यन्ति जन्तवः ॥१५॥**

*घेना ईश्वरु कोणालें पुण्य पातक बी तशें ।*
*अज्ञानान ज्ञान धांकिल्ल्यान पडटी गदळांतु जीव हे ॥१५॥*

सगलें व्यापतलो परमेश्वर कोणाचेंच पुण्य वा पातक आपलेकडेन घेना. लोकांचें ज्ञान अज्ञानान धांकिल्ल्यान सगले जीव गदळटात. १५

*अ. अ.*: **विभुः** = सगलें व्यापतलो परमेश्वर; **कस्यचित् पापं न आदत्ते** = कोणाचेंच पातक (आपणाकडेन) घेना; **न च सुकृतम् एव हि आदत्ते** = वा पुण्यतायूय (आपणाकडेन) घेना; **अज्ञानेन ज्ञानम् आवृतम्** = अज्ञानान (खरें) ज्ञान धांकलां; **तेन** = त्या कारणान; **जन्तवः** = सगले जीव; **मुह्यन्ति** = गदळटात. १५

**ज्ञानेन तु तदज्ञानं येषां नाशितमात्मनः ।**
**तेषामादित्यवज्ज्ञानं प्रकाशयति तत्परम् ॥१६॥**

*जांचें अज्ञान आत्म्याचें आत्मज्ञानान नश्टिलें ।*
*सुर्याभाशेनु तें ज्ञान परब्रह्म उजळायिता ॥१६॥*

पुणून जांचें तें आत्म्या विशींचें अज्ञान आत्मज्ञानान नाशें जालां. तांचें उजवाडट्या सुर्याभाशेन लखलखीत अशें तें आत्मज्ञान परमतत्त्व (ब्रह्म) उजळायता. १६

*अ. अ.*: **तु येषां तत्** = पुणून जांचें तें; **आत्मनः अज्ञानम्** = आत्म्या विशींचें अज्ञान; **ज्ञानेन नाशितम्** = आत्मज्ञानान नाशें जालां; **तेषां आदित्यवत् ज्ञानम्** = तांचें (तें) उजवाडट्या सुर्याभाशेन (लखलखीत) अशें आत्मज्ञान; **तत्परं प्रकाशयति** = परमतत्त्व (ब्रह्म) उजळायता. १६

**तद्बुद्धयस्तदात्मानस्तन्निष्ठास्तत्परायणाः ।**
**गच्छन्त्यपुनरावृत्तिं ज्ञाननिर्धूतकल्मषाः ॥१७॥**

*बुद्दी मनानु निश्ठेनु जातात् ब्रह्मांतु गुल्ल जे ।*
*पातकां धुवून ज्ञानानू पर्थूनु जल्मनातु ते ॥१७॥*

जांची बुद्दी आनी मन त्या परमात्म्याठांय रमलीं, आपूण आनी ब्रह्म एक अशें जांकां दिसलें, ब्रह्म हीच जांची निश्ठा (श्रद्धा) आसा, ब्रह्म होच जांचो आसरो, जांचें पातक ज्ञानान धुवून ना जालां, ते पर्थून जल्माक येनात (ते मुक्त जातात). १७

*अ. अ.*: **तद्बुद्धयः** = जांची बुद्दी आनी मन त्या परमात्म्या ठांय रमलीं; **तदात्मानः** = आपूण आनी ब्रह्म एक अशें जाका दिसलें; **तन्निष्ठाः** = ब्रह्म हीच जांची निश्ठा (श्रद्धा) आसा; **तत्परायणाः** = ब्रह्म हेंच जांचो आसरो; **ज्ञान निधूर्तकल्मषाः** = आत्मज्ञानान जांचें पातक धुवून ना जालां (ते); **अपुनरावृत्तिम् गच्छन्ति** = पथूर्न जल्माक येनात (ते परमगतीक पावतात.) १७

**विद्याविनयसंपन्ने ब्राह्मणे गवि हस्तिनि ।**
**शुनि चैव श्वपाके च पण्डिताः समदर्शिनः ॥१८॥**

*विद्या विनय संपन्न ब्राह्मण हति वा सुणें ।*
*गाय चांडाळ ह्या सर्वां पळे ज्ञानी समानशे ॥१८॥*

विद्या आनी नमळाय आशिल्लो ब्राह्मण, गाय, हती, सुणें तसोच चांडाळ (सुणें-खायरो) हांकां ज्ञानी सम नदरेन पळेता. १८

*अ. अ.*: **विद्याविनयसंपन्ने** = विद्या आनी नमळाय आशिल्लो; **ब्राह्मणे** = ब्राह्मण; **च गवि हस्तिनि शुनि** = आनी गाय, हती, सुणें; **च श्वपाके** = तसोच सुणें-खायरो (चांडाळ); (हांकां) **पण्डिताः समदर्शिनः एव** = ज्ञानी सम नदरेन पळेतात. १८

**इहैव तैर्जितः सर्गो येषां साम्ये स्थितं मनः ।**
**निर्दोषं हि समं ब्रह्म तस्माद् ब्रह्मणि ते स्थिताः ॥१९॥**

*सम मनास्थिती जांची हांगा संवसार ते जिखी ।*
*निर्मळ सम तें ब्रह्म म्हणून ब्रह्मरूप ते ॥१९॥*

जांचें मन समभावांत सदींच थारावलां, तांणी हांगाच (जिवे आसतनाच) संवसार जिखलो. कित्याक ब्रह्म हें निर्दोश आनी सम (सगल्यांत सारकें) आसा. देखून, ते ब्रह्मांत थारावल्यात.

*अ. अ.*: **येषां मनः साम्ये स्थितम्** = जांचें मन समभावांत थारावलां; **तैः इह एव सर्गःजितः** = तांणी हांगाच (जल्म-मर्णाचो) संवसार जिखला; **हि ब्रह्म निर्दोषं समम्** = कित्याक ब्रह्म हें निर्दोश आनी सम (सगल्यांत सारकें); **तस्मात् ते ब्रह्मणि स्थिताः** = देखून ते ब्रह्मांत थारावल्यात.

**न प्रहृष्येत्प्रियं प्राप्य नोद्विजेत्प्राप्य चाप्रियम् ।**
**स्थिरबुद्धिरसंमूढो ब्रह्मविद् ब्रह्मणि स्थितः ॥२०॥**

*नावडी मेळ्ळयारू ना वीट आवडी मेळ्ळयारू खोस ना ।*
*निर्मोही थीर बुद्दी जो तो ज्ञानी ब्रह्मरूप गा ॥२०॥*

आवडीचें मेळटकूच भुर्कुटना आनी नावडीचें मेळटकूच उबगना असलो थीर बुद्दीचो, गदळना जाल्लो, ब्रह्म जाणा जाल्लो मनीस ब्रह्माचे ठांय थारावता. २०

*अ. अ.*: **प्रियं प्राप्य न प्रहृष्येत्** = आवडीचें (म्ह. लोक जें आवडीचें मानतात तें) मेळटकूच भुर्कुटना (खोशी जायना); **च अप्रियं प्राप्य न उद्विजेत्** = आनी नावडीचें मेळटकूच उबगना; (असलो) **स्थिरबुद्धिः असंमूढः** = थीरबुद्दी मोहा विरयत जाल्लो; **ब्रह्मवित् ब्रह्मणि स्थितः** = ब्रह्म जाण जाल्लो मनीस ब्रह्मांत थारावता. २०

बाह्यस्पर्शेष्वसक्तात्मा विन्दत्यात्मनि यत्सुखम् ।
स ब्रह्मयोगयुक्तात्मा[३] सुखमक्षयमश्नुते ॥२१॥

*ना भायल्यां विशयां ओड    तो अंतरीं सुखावता ।*
*ब्रह्मांत गुल्ल तो योगी    अक्षय सूख मेळयी ॥२१॥*

भायल्या विशयांची (संवसारीक भोगांची) ओड नाशिल्ल्या मनशाकूच आत्मसूख मेळटा. तो ब्रह्मांत थीर जावन ताचेशीं एकरूप जाल्लो मनीस अविनाशी सूख भोगता. २१

*अ. अ.:* **बाह्यस्पर्शेषु असक्तात्मा** = भायल्या विशयांची ओड नाशिल्ल्या मनशाक; **आत्मनि यत् सुखं विन्दति** = आपल्या अंतस्कर्णांत जें सूख मेळटा; **स: ब्रह्मयोग युक्तात्मा** = तो ब्रह्मांत थीर जावन ताचेशीं एकरूप जाल्लो मनीस; **अक्षयं सुखम् अश्नुते** = अविनाशी सूख भोगता. २१

ये हि संस्पर्शजा भोगा दु:खयोनय एव ते ।
आद्यन्तवन्त: कौन्तेय न तेषु रमते बुध: ॥२२॥

*इंद्रियां विशयां मेळान्    जाती सुखां दुखां मुळां ।*
*तांकां आरंभ नी अंत    रमना थैं विवेकि गा ॥२२॥*

कित्याक, इंद्रियांच्या आनी विशयांच्या स्पर्शान (मेळान) उत्पन्न जावपी भोग सुखां हीं फकत दुख्खाचीं मुळां आसतात. आगा अर्जुना, तांकां आरंभ आनी अंत आशिल्ल्यान ज्ञानी तातूंत रमना. २२

*अ. अ.:* **हि** = कित्याक; **ये** = जीं (हीं); **संस्पर्शजा** = इंद्रियां आनी विशय हांच्या स्पर्शान जाल्लीं; **भोगा:** = सगलीं भोगसुखां: **ते हि दु:खयोनय: एव** = तीं फकत दुख्खाचीं मुळांच आसतात; **आद्यन्तवन्त:** = तांकां आदी आनी अंत आसता (देखून तीं अनित्य वा खिणयाळीं आसतात). (देखून) **कौन्तेय** = अर्जुना; **बुध: तेषु न रमते** = ज्ञानी तातूंत रमना. २२

शक्नोतीहैव य: सोढुं[४] प्राक्शरीरविमोक्षणात् ।
कामक्रोधोद्भवं वेगं स युक्त: स सुखी नर: ॥२३॥

*तिडकी वान्शेकु लागूनु    मर्णा मेरेनु ताप गा ।*
*सोसुंची तांक हो जाका    तोच योगी खरो सुखी ॥२३॥*

जाका ह्या लोकांत कूड सोडचे पयलींच तिडकी वान्शेचो ताप सोसूंक जाता, तोच योगी आनी तोच सुखी. २३

*अ. अ.:* **य: नर:** = जो मनीस; **इह** = हांगा (ह्या मनीस लोकांत आसतनाच); **शरीरविमोक्षणात् प्राक् एव** = कूड सोडचे पयलींच; **कामक्रोधोद्भवं वेगम्** = वान्सा आनी तिडक हांचे पासून जावपी ताप; जाका **सोढुं शक्नोति** = सोसूंक जाता (वान्सा आनी तिडक ही जाणें जिखल्यांत); **स: युक्त: स: सुखी** = तोच योगी आनी तोच सुखी. २३

योऽन्त:सुखोऽन्तरारामस्तथान्तर्ज्योतिरेव य: ।
स योगी ब्रह्मनिर्वाणं ब्रह्मभूतोऽधिगच्छति ।।२४।।

लभन्ते ब्रह्मनिर्वाणमृषय: क्षीणकल्मषा: ।
छिन्नद्वैधा यतात्मान: सर्वभूतहिते रता: ।।२५।।

*अंतरांतु सुखी शांत उजवाडलो अंतरांतु जो ।*
*ब्रह्मस्वरूप जो योगी तो ब्रह्मानंद मेळयी ।।२४।।*

*फिटले दुभावु सल्ले दोश मन करूनु तें वश ।*
*इत्सुपी हित सर्वांचें ब्रह्मनिर्वाण मेळयी ।।२५।।*

जो अंतरांतूच सुखावला, अंतरात्म्यांतूच विसव घेवन जो थंयच रमला, तसोच जाका आत्म्यांतूच ज्ञानाचो उजवाड मेळ्ळा, तो योगी ब्रह्मरूप जावन ब्रह्मनिर्वाण जोडटा. २४
जाचीं सगलीं पातकां नाशीं जालीं, सगलेंच ब्रह्म ह्या ज्ञानान जाचे दुबाव कातरले, अश्या आत्मसंयमी आनी सगल्या जिवांचें बरें करपांत तत्पर आशिल्ल्या रुशींक ब्रह्मनिर्वाणा सारको मोक्ष मेळटा. २५

*अ. अ.*: **य: एव अन्त:सुख:** = जो (आत्मरूप) जाल्ल्यान अंतरांतूच सुखावला; **अन्तराराम:** = अंतरात्म्यांतूच विसव घेवन जो थंयच रमला; **तथा य: अन्तर्ज्योति:** = तसोच जाका आत्म्यांतूच ज्ञानाचो उजवाड मेळ्ळा; **स: योगी** = तो योगी; **ब्रह्मभूत:** = ब्रह्मरूप जावन; **ब्रह्मनिर्वाणम् अधिगच्छति** = ब्रह्मनिर्वाण (मोक्ष) जोडटा. २४

**क्षीणकल्मषा:** = जाचीं सगलीं पातकां नाशीं जालीं; **छिन्नद्वैधा:** = (सगलेंच ब्रह्म ह्या) ज्ञानान जाचे दुबाव कातरले; **सर्वभूत हिते रता: यतात्मान:** = अश्या आत्मसंयमी आनी सगल्या जिवांचें हित करपांत तत्पर आशिल्ल्या; **ऋषय: ब्रह्मनिर्वाणं लभन्ते** = रुशींक ब्रह्मनिर्वाणा सारको मोक्ष मेळटा. २५

कामक्रोधवियुक्तानां यतीनां यतचेतसाम् ।
अभितो ब्रह्मनिर्वाणं वर्तते विदितात्मनाम् ।।२६।।

*वान्सा तिडक ना जाल्ले आत्मज्ञानी मनोजयी ।*
*म्हऱ्यांतूच यतींच्या गा ब्रह्मनिर्वाण वर्तता ।।२६।।*

वान्सा आनी तिडक हांचे विरयत जाल्ले, मनाक जिखिल्ले, आत्म्याक वळखल्ले (अश्या) ज्ञानी मनशांचे भोंवतणीच ब्रह्मसूख आसता. २६

*अ. अ.*: **कामक्रोधवियुक्तानाम्** = वान्सा आन तिडक हांचे विरयत जाल्ले; **यतचेतसाम्** = मनाक जिखिल्ले; **विदितात्मनाम्** = आत्म्याक वळखल्ले (अश्या) **यतीनाम्** = ज्ञानी लोकांचे **अभित:** = भोंवतणीच; **ब्रह्मनिर्वाणं वर्तते** = ब्रह्मसूख आसता. २६

स्पर्शान्कृत्वा बहिर्बाह्यांश्चक्षुश्चैवान्तरे भ्रुवो : ।
प्राणापानौ समौ कृत्वा नासाभ्यन्तरचारिणौ ।।२७।।

यतेन्द्रियमनोबुद्धिर्मुनिर्मोक्षपरायण: ।
विगतेच्छाभयक्रोधो य: सदा मुक्त एव स: ।।२८।।

*भायरावनु विशयां भायल्या दोळे भोंवयां मदीं थिर ।*
*नाकांतुल्यानु व्हांवपी त्या प्राणापाना समा कर ।।२७।।*

*मुमुक्षु इंद्रियां बुद्धी मन बी वश तें सदीं ।*
*सल्ली इत्सा भिती राग मुनी सदींच मुक्त तो ।।२८।।*

भायले विशय भायरच दवरून, नदर दोन भोंवयां मदीं थिरावन, नाकांतल्यान व्हांवतले प्राण आनी अपान (हे दोनूय) सम चालू दवरून (२७), जाणें इंद्रियां, मन आनी बुद्दी हीं आपसुवादीन हाडलीं; मोक्ष हीच निमाणी मोख दवरून जाणें इत्सा, भंय आनी तिडक हीं सोडून दिल्यांत, तो मुनी सदींच मुक्त आसता. २८

*अ. अ.*: **बाह्यान्** = भायले; **स्पर्शान्** = विशय (तांचें चिंतप करिनासतना); **बहि: एव कृत्वा च** = भायरच दवरून आनी; **चक्षु:** = दोळ्यांची नदर; **भ्रुवो: अन्तरे** = दोनूय भोंवयांमदीं (थीर करून); **नासाभ्यन्तरचारिणौ** = नाकांतल्यान व्हांवतले; **प्राणापानौ समौ कृत्वा** = प्राण (भितर-येते स्वास) आनी अपान (भायर-वेते स्वास) सम चालू दवरून (२७); **यतेन्द्रियमनोबुद्धि:** = मोक्ष हीच निमाणी मोख दवरून; **य: विगतेच्छाभयक्रोध:** = जो वान्सा, भंय आनी तिडक हांचे विरयत जाला; **स: मुनि: सदा मुक्त: एव च** = तो मुनी सदींच मुक्त आसता. २८

भोक्तारं यज्ञतपसां सर्वलोकमहेश्वरम् ।
सुहृदं सर्वभूतानां ज्ञात्वा मां शान्तिमृच्छति ।।२९।।

*भोगी यज्ञ तपां हांवु सर्व लोकां महेश्वर ।*
*सर्व जिवां सखो हांवु हे जाणपी शांति मेळयी ।।२९।।*

म्हाका यज्ञ आनी तपां हांचो भोगतलो, सगल्या लोकांचो म्हाईश्वर (तेच भाशेन) सगल्यां जिवांचो सखो, असो समजून (म्हजो भक्त) शांतीकडेन पावता. २९

*अ. अ.*: (म्हजो भक्त) **माम्** = म्हाका; **यज्ञतपसां भोक्तारम्** = यज्ञ आनी तपां हांचो भोगतलो; **सर्वलोकमहेश्वरम्** = सगल्या लोकांच्या ईश्वराचोय ईश्वर; (तेच भाशेन) **सर्वभूतानां सुहृदम्** = सगल्या जिवांचो सखो; (असो) **ज्ञात्वा** = म्हाका समजून; **शान्तिमऋच्छति** = शांतीकडेन पावता. २९

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **कर्मसंन्यास**योगो
नाम **पञ्चमो**ऽध्याय: ।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**संन्यासयोग** नांवाचो **पांचवो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. 'दोन कान, दोन दोळे, दोन नाकाच्यो पुडयो आनी एक तोंड अशीं सात मस्तकांतलीं आत्म्याच्या शब्दादी विशयाच्या अणभवाचीं स्थानां आनी मळ आनी मूत सोडचेलीं दोन दारां मेळून णव दारां आशिल्लें तें णव दारांचें शार - तातूंत' (शां. भा.)

२. शारांत. 'ही कूड शारावरीच आसा. आत्मो होच एक जाचो स्वामी आसा अशें तें शरीररुपी शार. आत्म्याचो जो अणभवरूप अर्थ तो संपादन करून दिवप इतलोच जाचो उपेग आसा असल्या आनी अनेक तरांच्या सूखदुख्खरुपी फळाच्या विज्ञानाक (जाणविकायांक) निर्मुपी इंद्रियां, मन, बुद्दी आनी विशय ह्याच नगरांतल्या नागरिकां कडल्यान तें वसलां अशें म्हणूं येता. (म्ह. त्या नगराचो स्वामी जो आत्मो ताचे भोगवटी खातीर जायत्या तरांच्यो जाणविको (विज्ञानां) निर्मुपी इंद्रियां, मन, बुद्दी आनी विशय हेच त्या नगरांत रावपी नागरीक (शां.भा.)

३. ब्रह्मयोगयुक्तात्मा - ब्रह्मामदीं जो योग म्हळ्यार समाधी तो ब्रह्मयोग. त्या ब्रह्मयोगांत जाचें अंतस्कर्ण रमलां तो ब्रह्मयोगयुक्तात्मा (शां.भा.).

४. वेगम् - १. उत्कट अवस्था (मधु.) २. आंगार कांटो फुलप, दोळे मुखामळ फुलून येवप आदी जांचीं लक्षणां आसात हो अंतस्कर्ण खुबळावपी 'कामोद्भव वेग' (म्ह. वान्शेपासून आयिल्ली कळ वा आवेश, तसोच कुडीचो थरथरो, घाम सुटप, ओंठ चाबप, दोळे तांबडे गुंज जावप, आदी जाचीं लक्षणां, ती तिडकी पासून जाल्ली कळ (शां.भा.).

५. छिन्नद्वैधा: (५-२५) - द्वैध म्हळ्यार दुबाव. जेन्ना मन दोन पक्षांमदीं, दोन सिद्धान्तांमदीं हुमकळटा तेन्ना आपूण दुबावांत पडलों अशें मनीस म्हणटा. अर्जुन म्हणटा: 'दुबावांत पडिल्ले कुपां भशेन ना जातात (६-३८). जाचो दुबाव ना जाला तो खरेंच धन्य. ह्या दुबावाकूच संशय म्हणटात. संशय ज्ञानाच्या क्षेत्रांत उप्रासता आनी दुबाव कर्म वा कर्तव्याच्या मळार. संशय अज्ञानान उत्पन्न जाता. तो ज्ञानरुपी तरसादीन कातरतकूच योग सादता (४-४२). (पळेयात: छिन्नसंशय: (१८-१०); ज्ञानसंच्छिन्न संशय: (४-४१) (का.).

६. मुनि: १. मननशील, आत्मचिंतप करपी (शं.), २. मननाक लागून मुनी, संन्याशी (शां.भा.)

## श्लोकटिपो

*४. ‘कर्मयोगो विशिष्यते’ (श्लोक २) हाची फोडणिशी करपाक हांगसून आरंभ जाता सांख्यमार्गान चलपी जेन्ना विधीन संन्यास घेता, तेन्नापासून तो संन्याशी जाता. कर्मयोगी सदींच संन्याशी आसता. कित्याक, ताणें सगलें कर्मफळ सोडिल्लें आसता. तसोच ताका आपल्या कर्तुत्वाचो अभिमान नासता. ताणें मनान सगल्या कर्मफळांचो संन्यास घेतिल्लो आसता. तेन्ना तो ‘नित्यसंन्यासी’ आसता. देखून तो आश्रमसंन्याशा परस चड श्रेष्ठ आसता.

*७-११ श्लोक ७ ते ११ मदले सगले अर्थ हांगा ‘कर्मफलं त्यक्त्वा’ (कर्माचें फळ सोडून) ह्या शब्दांत आयल्या. ते अर्थ अशे: ‘योगी, आत्मशुद्धीची दिश्टी दवरून (श्लोक ७, १०, ११), भूतदयेचे प्रेरणेन (श्लो. ७), संयमान (श्लो. ७), सगली शक्त एकठावन (श्लो. ११), निखटे अलिप्त वृत्तीन (श्लो. ७ ते ११), कर्म करता आनी ताका लागून निश्चळ शांती मेळयता. (गी.त.चिं.वि.) ६व्या श्लोकांतलो ‘ब्रह्म’ आनी १२व्या ‘शांती’ हे शब्द पर्याय म्हूण वापरल्यात (वि.)

सवो अध्याय



# ध्यानयोग

ह्या अध्यायाचो विशय ध्यान योग. हे मेरेन कृष्णान अर्जुनाक सांख्य मत्ताप्रमाण आत्म्याच्या अवंरपणाचो उपदेश केल्लो. कर्मफळाची ओड आनी इत्सेविरयत कर्म कशें करचें हे विशीं कर्मयोगाचो उपदेश केल्लो. सांख्य आनी योग ह्या दोनूय मार्गांनी ब्रह्मनिर्वाण (मोक्ष) कशें सादप हाची विसकणी केल्ली. ह्या सगल्या साधनांचो आत्म्याक घटाय दिवपी असो ध्यान योग आतां सांगला.

योगवृत्ती जोडपाक मनशाक आसक्ती सोडची पडटा. आनी बुद्दीची संतुळा राखची पडटा. हीं दोनूय ध्यान योगान सादूंक येतात. खर ध्यानानूच ईश्वर तत्त्वाकडेन एकरूप जावंक येता. ह्या ध्यानाचे वरवीं मनोवृत्तीचेर संस्कार करून जोडिल्ली शांती म्हळ्यार योग.

पयल्या दोन श्लोकांत पांचव्या अध्यायांतल्या कर्मयोगी आनी संन्याशी हे विशींचें विवेचन फुडें चलता. जो फळाचे इत्से विणें कर्तव्य कर्मां करता, तोच खरो संन्याशी आनी कर्मयोगी आसता. जो फळाची इत्सा सोडिना, तो कर्मयोगी जायना. (१-४).

अश्टांग योगाचीं पयलीं दोन आंगां (यम आनी नियम) हाचे आदीं वेगळ्या वेगळ्या तरांनी वर्णिल्लीं आमी पळेलीं. ह्या अध्यायांत खाण, जेवण, भोंवप, न्हिदप, जागप आदी सगलीं नेमान करपाक सांगल्यांत (१६-१७). आसन कशें घालचें तें सांगलां (११-१४). इंद्रियां विशयांकडसून फाटीं कशीं ओडचीं (प्रत्याहार) हेंवूय सांगलां (२४-२६). प्राणायामाविशीं हाचे पयलीं सांगिल्ल्यान (अ. ४-२७, २९ आनी ३०) ह्या अध्यायांत ताचो उल्लेख ना. हीं योगाचीं पयलीं पांच आंगां (यम, नियम, आसन, प्राणायाम आनी प्रत्याहार) जालीं. तातुंतलीं पयलीं चार आंगां भायलीं. पांचवें प्रत्याहार हें भायलें आनी भितरलें. फुडलीं तीन आंगां - धारणा (चित्ताची थिरताय), ध्यान (चित्ताची एकाग्रताय) आनी समाधी (चित्ताची स्वरूपकारताय) (२०-२३). हे तरेचो अभ्यास करतल्या योग्याक सगले कडेन परमात्म्याचें दर्शन घडटा. तो जिवावळीकडेन सम दिश्टीन पळेता.

आपलेंच मन जिखप हें दर एकल्याच्या हातांत आसा (५-९). मन आळाबंदा हाडिल्लो मनीस सूख-दुख्खाच्या द्वंद्वा पेल्यान वता. ध्यानयोगान हें सादता. सगूण ध्यानान मन शुद्ध जाता. शांतीआनी सूख मेळटात (१०-१५). निर्गूण ध्यानान मन विकार आनी वासना हांचे विरयत जाता (२४-२८). जिवो आसतनाच मुक्त जाल्लो योगी ईश्वर, जग आनी जिवावळ

हांचे कडेन एकरूप जाता (२९-३२).

ह्या अध्यायाचे अंतीं अर्जुनाच्या मनांत दोन दुभाव येतात. (१) मन हें चंचल आशिल्ल्यान हो योग कसो सादप, (२) योगाचो अभ्यास श्रद्धेन करतना तो मदींच आडावल्यार त्या योग्याक कसली गती मेळटा. ह्या प्रस्नांक श्रीकृष्ण अशी जाप दिता: (१) मन हुळहुळें आसल्यारूय तें वैराग्य आनी अभ्यासान जिखपाक येता. मन जिखतकीच योग सादता. (२) योगाचो अभ्यास करतलो मनीस केन्नाच वायट गतीक पावना. योगी मदींच सोंपल्यार, तो फुडल्या जल्मांत पवित्र आनी संस्कारानी गिरेस्त अश्या कुळांत जल्माक येवन, योग अभ्यास फुडें चलोवन. सिद्धी जोडून तो परम गतीक पावता. तशेंच, तपस्वी, ज्ञानी आनी कर्मिश्ठ हांचेकूय योगी स्रेश्ठ आशिल्ल्यान, अर्जुनाक योगीच जावपाचो उपदेश करून. श्रीकृष्ण हो अध्याय सोंपयता.

## षष्ठोऽध्याय:

श्रीभगवानुवाच

**अनाश्रित: कर्मफलं कार्यं कर्म करोति य: ।**
**स संन्यासी च योगी च न निरग्निर्न चाक्रिय: ॥१॥**

फळाची वान्सा धरिनासतना कर्तव्य कर्मां करपी योगी होच खरो संन्याशी

भगवंतान म्हळें

*फळाची ओड सोडून करी लागणूक अर्जुना ।*
*संन्याशी तोच योगी तो न्ही सोडपी यज्ञ, निश्क्रिय ॥१॥*

श्रीभगवंतान म्हळें: कर्मफळाची इत्सा धरिनासतना जो आपलें कर्तव्य कर्म समजता, तोच संन्याशी आनी तोच (कर्मयोगी). अग्निहोत्रा सारकीं कर्मां सोडून दिवपी आनी कांयच कर्म करिनाशिल्लो खरो संन्याशी वा योगी न्हय.

*अन्वय-अर्थ* : **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **कर्मफलम्** = कर्मफळाची; **अनाश्रित:** = इत्सा धरिनासतना; **य: कार्यं कर्म करोति** = फावो तें कर्म करता; **स: संन्यासी स: च योगी** = तो संन्याशी आनी तो योगी; **च** = आनी (फकत) **निरग्नि: न** = अग्निहोत्र सोडिल्लो न्हय; **च** = तसोच; **अक्रिय: न** = कर्मां सोडपी (संन्याशी आनी योगी) न्हय.

यं संन्यासमिति प्राहुर्योगं तं विद्धि पाण्डव ।
न ह्यसंन्यस्तसंकल्पो योगी भवति कश्चन ।।२।।

*जाका म्हणटातु संन्यास  समज योग तोच गा ।*
*संकल्प सोडिलेवीण  योगी कोणूच जायिना ।।२।।*

आगा अर्जुना, जाका संन्यास अशें म्हणटात, ताकाच तूं योग अशें समज. कित्याक, कर्माच्या फळाची वान्सा सोडिना जाल्लो कोणूच मनीस योगी जायना. २

*अ. अ.*: **पाण्डव** = आगा अर्जुना; **यम् संन्यासम् इति प्राहु:** = जाका संन्यास अशें म्हणटात; **तम् योगं विद्धि** = ताका योग (अशें) समज; **हि** = कित्याक; **असंन्यस्तसंकल्प:** = कर्माच्या फळाची वान्सा (संकल्प) सोडिना जाल्लो; **कश्चन योगी न भवति** = कोणूच योगी जायना. २

आरुरुक्षोर्मुनेर्योगं कर्म कारणमुच्यते ।
योगारूढस्य तस्यैव शम: कारणमुच्यते ।।३।।

*योग सोदपी मुनीचें गा  कर्म कारण सांगिलां ।*
*जो योगसिद्ध गा जाला  कर्माचें शम कारण ।।३।।*

जाका योग जोडपाचो आसता, त्या मननशील मनशाचें (निश्काम) कर्म हेंच कारण (साधन वा हेतू) सांगलां. (फळाची इत्सा सोडून कर्म करीत राविल्ल्यान अंतीं तो योगी जाता.) पूण ताणें योग जोडटकीच (अ. ५, श्लोक १९ ते २६ हातूंत सांगिल्ली अवस्था ताणें जोडटकीच), त्या योग जोडिल्ल्याक मेळिल्ली मनाची शांतीच (शम) कर्माचो हेतू (साधन वा कारण) सांगलां. ३

*अ. अ.*: **योगं** = योग; **आरूरुक्षो:** = जोडूंक सोदतल्या; **मुने:** = मननशील मनशाक; **कर्म** = कर्म (हें) **कारणम्उच्यते** = कारण सांगलां; **तस्य योगा रूढस्य** = त्या योग जोडिल्ल्याक; **शम एव** = (संकल्प ना केल्ल्यान मेळिल्ली) मनाची शांतीच (कर्माचो) **कारणम् उच्यते** = हेतू (कारण) सांगलां. ३

यदा हि नेन्द्रियार्थेषु न कर्मस्वनुषज्जते ।
सर्वसंकल्पसंन्यासी योगारूढस्तदोच्यते ।।४।।

*धरना आसक्ति कर्माची  विशयांच्या सुखा तशी ।*
*वान्सा सगल्योच सोडिल्लो  म्हळा तो योग सिद्ध गा ।।४।।*

जेन्ना मनीस इंद्रियांच्या विशयांची ओड धरिना आनी कर्मांचीय ओड धरिना, तेन्ना सगले बेत सोडिल्ल्या मनशाक योग जोडिल्लो म्हणटात. ४

*अ. अ.*: **यदा** = जेन्ना (मनीस); **इन्द्रियार्थेषु न अनुषज्जते** = इंद्रियांच्या विशयांची ओड धरिना; **कर्मसु हि न (अनुषज्जते)** = (वा) कर्मांचीय ओड धरिना; **तदा** = तेन्ना; **सर्वसंकल्पसंन्यासी** = (विशयांच्या भोगांचे आनी कर्मांचे) सगले बेत सोडिल्ल्या मनशाक; **योगारूढ: उच्यते** = योग जोडिल्लो म्हणटात. ४

उद्धरेदात्मनात्मानं नात्मानमवसादयेत् ।
आत्मैव ह्यात्मनो बन्धुरात्मैव रिपुरात्मनः ॥५॥

आपलें मन जिखप हें दर एकल्याच्या हातांत

*उद्धारचो आपुणें आपणाक लावची न्ही वाट आपुली ।*
*आपलो आपूण गा भाव वैरी आपूण आपुलो ॥५॥*

आपुणूच आपलो उद्धार करचो. आपली वाट लावची न्हय. कित्याक, आपुणूच आपलो भाव (बरें करतलो) आनी आपुणूच आपलो वैरी. ५

*अ. अ.:* **आत्मना आत्मानम् उद्धरेत्** = आपुणूच आपणाक उद्धारचो (वयर काडचो); **आत्मानं न अवसादयेत्** = आपणाक सकला उडोवचो न्हय (आपली वाट लावची न्हय); **हि** = कित्याक; **आत्मा एव आत्मनः बन्धुः** = आपुणूच आपलो भाव (बरें करतलो); (आनी) **आत्मा एव आत्मनः** = आपुणूच आपलो; **रिपुः** = शत्रू. ५

बन्धुरात्मात्मनस्तस्य येनात्मैवात्मना जितः ।
अनात्मनस्तु शत्रुत्वे वर्तेतात्मैव शत्रुवत् ॥६॥

*जिखलो आपणाकु आपणें गा तो आपलेंच करी बरें ।*
*आपणाक जिखिंना पार्था वैरिसो आपुलोच तो ॥६॥*

जाणें आपणाकूच (मन आनी इंद्रियां सयत कुडीक) जिखलो, तो आपलो आपुणूच भाव (बरें करतलो). पूण जाणें आपणाक जिखूंक ना, तो स्वताच शत्रू भाशेन आपलेकडेन वैरीपणान चलता. ६

*अ. अ.:* **येन** = जाणें; **आत्मा** = आपणाकूच (मन आनी इंद्रियां सयत कुडीक); **आत्मना** = आपणेंच; **जितः** = जिखलो; **तस्य** = तो; **आत्मनः आत्मा एव** = तो आपलो आपुणूच; **बन्धुः** = भाव (बरें करतलो); **तु** = आनी; **अनात्मनः** = जाणें आपणाक जिखूंक ना; (तो) **आत्मा एव** = आपुणूच; **शत्रुवत्** = शत्रू जाल्ले वरी; **शत्रुत्वे** = (आपले कडेन) वैरीपणान; **वर्तेत** = चलता. ६

जितात्मनः प्रशान्तस्य परमात्मा समाहितः ।
शीतोष्णसुखदुःखेषु तथा मानापमानयोः ॥७॥

आपणाचेर जैत जोडिल्लो मनीस द्वंद्वा पेल्यान वता

*अंतस्कर्ण जिखून शांत जाता निवळ थीर तो ।*
*शीं-हून सुख दुख्खांत मानापमानिं बी तसो ॥७॥*

जो आपलें अंतस्कर्ण जिखून शांत जालो ताचो निवळिल्लो आत्मो थीर जाता. देखून तो शीं-हून, सूख-दुख्ख, मान-अपमान ह्या जुंवळ्यां विशीं सम आसता. ७

*अ.अ.:* **जितात्मनः प्रशान्तस्य** = जो आपलें अंतस्कर्ण जिखून शांत जाला; **परमात्मा** = (ताचो) निवळिल्लो आत्मो (अंतस्कर्ण); **समाहितः** = थीर जाता; **शीतोष्ण** = (देखून तो) शीं-हून; **सुख-दुख्खेषु** = सूख-दुख्खांत; **तथा** = तसोच; **मानापमानयोः** = मान-अपमानांत; **समाहितः** = थीर आसता. ७

**ज्ञानविज्ञानतृप्तात्मा कूटस्थो विजितेन्द्रियः ।
युक्त इत्युच्यते योगी समलोष्टाश्मकाञ्चनः ।।८।।**

*धादोस ज्ञान विज्ञानान्  थीर जिखून इंद्रियां ।
सम त्या योग सिद्धाकू  माती पाशाण भांगर ।।८।।*

ज्ञान आनी विज्ञानान जाचें अंतस्कर्ण धादोस जालां, जाणें आपलीं इंद्रियां जिखल्यांत, जो विकारां विरयत जाला; मातयेचें दिफळ, फातर आनी भांगर जो समान लेखता, तो योगसिद्ध (योग जोडिल्लो) अशें म्हणटात. ८

*अ.अ.*: **ज्ञानविज्ञानतृप्तात्मा** = ज्ञान आनी विज्ञानान जाचें अंतस्कर्ण तृप्त जालां; **समलोष्टाश्मकाञ्चनः** = मातयेचें दिफळ, फातर आनी भांगर जो समान लेखता; **सः योगी युक्तः इति उच्यते** = तो योगी योगसिद्ध (योग जोडिल्लो) अशें म्हणटात. ८

**सुहृन्मित्रार्युदासीनमध्यस्थद्वेष्यबन्धुषु ।
साधुष्वपि च पापेषु समबुद्धिर्विशिष्यते ।।९।।**

*तटस्थ इश्ट मदेस्त  द्वेश्ठो वैरी नि बांधव ।
साधु दुश्टा समा लेखी  ताका विशेश मानुचो ।।९।।*

बरें मागतलो, इश्ट, वैरी, पाखो घे नाशिल्लो, मध्यस्थ, दुस्वास करपी, भावबंध, पुण्यवंत (सज्जन) आनी पातकी (दुर्जन) ह्या सगल्यांकूय जो सारको लेखता, तो व्हडविकायेचो.

*अ.अ.*: सुहृद् = बरें मागतलो; **मित्र** = इश्ट; **अरि** = वैरी; **उदासीन** = पाखो घे नाशिल्लो; **मध्यस्थ** = मध्यस्थ; **द्वेषी च** = दुस्वास करपी (आनी) **बन्धुषु** = भावबंध (हांचेविशीं); **साधुषु च पापेषुअपि** = सज्जन (पुण्यवंत) आनी पातकी ह्या सगल्यांकूय; **समबुद्धिः** = सारके बुद्दीन (नदरेन) पळेता; **(तो) विशिष्यते** = व्हडविकायेचो. ९

**योगी युञ्जीत सततमात्मानं रहसि स्थितः ।
एकाकी यतचित्तात्मा निराशीरपरिग्रहः ।।१०।।**

ध्यानयोगाची साधना

*निग्रह चित्त आत्म्याचो  आस संग्रह सोडुनू ।
बसचें ध्यानाकु योग्यान  एकान्ती एकटुको सदीं ।।१०।।*

योग्यान एकले एकटुके सुवातेर, एकलोच बसून, कूड आनी मन आवरून, आशा आनी संग्रह सोडून आपलें चित्त सदींच (ध्यानांत लावन) थीर करचें. १०

*अ.अ.*: **योगी** = योग्यान; **रहसि** = एकले एकसुरे सुवातेर (एकांतांत); **एकाकी** = एकटोच; **स्थितः** = बसून; **यतचित्तात्मा** = मन आनी कूड जिखून; **निराशीः** = आशा सोडून; **आत्मानम्** = आपलें चित्त; **सततं युञ्जीत** = सदींच ध्यानांत लावचें (थीर करचें). १०

शुचौ देशे प्रतिष्ठाप्य स्थिरमासनमात्मनः ।
नात्युच्छ्रितं नातिनीचं चैलाजिनकुशोत्तरम् ॥११॥

तत्रैकाग्रं मनः कृत्वा यतचित्तेन्द्रियक्रियः ।
उपविश्यासने युञ्ज्याद्योगमात्मविशुद्धये ॥१२॥ *

समं कायशिरोग्रीवं धारयन्नचलं स्थिरः ।
संप्रेक्ष्य नासिकाग्रं स्वं दिशश्चानवलोकयन् ॥१३॥

प्रशान्तात्मा विगतभीर्ब्रह्मचारिव्रते स्थितः ।
मनः संयम्य मच्चित्तो युक्त आसीत मत्परः ॥१४॥

*निर्मळ स्थान देखूनु घालुंचें थीर आसन ।*
*दर्भ, चामार गा वस्त्र न्ही भौ उंच सकला तशें ॥११॥*

*मन एकाग्र थैं कर्नु क्रिया ना चित्त-इंद्रियां*
*मनाचे शुद्धि खातीर करुंची योग साधना ॥१२॥**

*फाट मान तकली नीट धरचीं निश्चळ थीर तीं ।*
*दिश्टी तेमकार नाकाच्या नदर हेर खंयच ना ॥१३॥*

*रावूनु ब्रह्मचर्यान शांत निर्भय अंतरीं ।*
*चित्त ध्यानु म्हजे ठांयीं बसचें गा योग साधनेक् ॥१४॥*

निर्मळ आनी पवित्र सुवातेर दर्भ, ताचेर हरणाचें चामडें आनी वयर मोव वस्त्र पातळावन, चड उबार न्हय आनी चड सकयल न्हय अशें आपलें आसन घट बरें मांडून त्या आसनाचेर बसून, मनाक एका तोंकार थारावन. चित्ताच्यो आनी कर्माच्यो क्रिया आंवळून आपलें अंतस्कर्ण निवळावचे पासत योगाचो अभ्यास करचो. मदलें आंग, मान आनी तकली सम म्हळ्यार सरळ रेगेंत उबीं धरून, थीर जावन, आपल्या नाकाच्या तेमकार नदर थारावन, भोंवतणीं पळेनासतना, चित्त थंड आनी निर्भय दवरून, ब्रह्मचारी व्रतान आनी थीर रावन, मन आंवळून म्हजेठायीं चित्त दवरून, म्हज्यांत लीन जावन, योगाच्या अभ्यासाक बसचें.

*अ.अ.*: **शुचौ देशे** = निर्मळ सुवातेर; **चैलाजिनकुशोत्तरम्** = दर्भ, ताचेर हरणाचें चामडें आनी वयर मोव वस्त्र पातळावन; **न अत्युच्छ्रितम्** = चड उबार न्हय; **न अतिनीचम्** = चड सकयल न्हय अशें; **आत्मनः आसनम् प्रतिष्ठाप्य** = आपलें आसन घट बरें मांडून; (११) **तत्र आसने उपविश्य** = त्या आसनाचेर बसून; **मनः एकाग्रं कृत्वा** = मनाक एका तोंकार थारावन; **यतचित्तेन्द्रिय क्रियः** = चित्ताच्यो आनी कर्माच्यो क्रिया आंवळून; **आत्मविशुद्धये** = आपलें अंतस्कर्ण निवळावचे पासत; **योगं युञ्ज्यात्** = योगाचो अभ्यास करचो (१२); **कायशिरोग्रीवम्** = मदलें आंग, तकली आनी मान; **समं च अचलं धारयन्** = सम म्ह. उबीं सरळ रेगेंत निश्चळ धरून; **स्थिरः** = थीर जावन; **स्वं नासिकाग्रं संप्रेक्ष्य** = आपल्या नाकाच्या तेमकार सारकी नदर थारावन; **दिशः अनवलोकयन्** = हेर दिकांकडेन पळेनासतना (१३); **प्रशान्तात्माविगतभीः** = चित्त थंड आनी निर्भय दवरून; **ब्रह्मचारिव्रते स्थितः** = ब्रह्मचारी व्रतान थीर रावन; **मनः संयम्य** = मन आंवळून; **मच्चितः** = म्हजे ठायीं चित्त दवरून; **मत्परः** = म्हज्यांत लीन जावन; **युक्तः आसीत** = योग अभ्यासाक बसचें. (१४)

युञ्जन्नेवं सदात्मानं योगी नियतमानसः ।
शान्तिं निर्वाणपरमां मत्संस्थामधिगच्छति ॥१५॥

*साधना तो करी नित्य योगी आवरून गा मना ।*
*जाता थीर म्हजे ठायीं मोक्षाची शांति मेळयी ॥१५॥*

हे भाशेन आपली योग साधना सदींच चलोवपी आनी आपल्या मनाचें नियंत्रण करतलो योगी म्हजेठांय थीर जावन मोक्ष दिवपी शांती जोडटा. १५

*अ.अ.*: **एवं आत्मानं सदा युञ्जन्** = हे भाशेन आपली योग साधना सदींच चलोवपी; (आनी) **नियतमानसः योगी** = आपल्या मनाचें नियंत्रण करतलो योगी; **मत्संस्थाम्** = म्हजेठांय थीर जावन; **निर्वाण परमां शान्तिम्** = मोक्ष दिवपी शांती; **अधिगच्छति** = जोडटा. १५

नात्यश्नतस्तु योगोऽस्ति न चैकान्तमनश्नतः ।
न चातिस्वप्नशीलस्य जाग्रतो नैव चार्जुन ॥१६॥

जिणेची संतुळा राखपी योगी मनान शांत, अलिप्त आनी सुखी

*भकाऱ्या सादना योग उपास कर्तल्या तसो ।*
*न्हीदे-जागपांत ना नेम ताका हो योग सादना ॥१६॥*

आगा अर्जुना, अती खातल्याक आनी निखालूस खायना-जातल्याक आनी अती न्हिदतल्याक, तेच भाशेन अती जागरणां करतल्याक हो योग सादना. १६

*अ.अ.*: **अर्जुन, योगः अति अश्नतः न अस्ति** = आगा अर्जुना, हो योग अती खातल्याक साधना. **च एकान्तं अनश्नतः न** = आनी निखालूस खायना-जातल्याक सादना; **च अति स्वप्नशीलस्य न** = आनी अती न्हिदतल्याक सादना; **च एव जाग्रतः न** = तेच भाशेन जागरणां करतल्याक सादना. १६

युक्ताहारविहारस्य युक्तचेष्टस्य कर्मसु ।
युक्तस्वप्नावबोधस्य योगो भवति दुःखहा ॥१७॥

*खाता भोंवऽ प्रमाणांत वावर नेमानु करतलो ।*
*वेळार न्हिदूनु जो उठ्ठा हो योग दुख्ख नाशक ॥१७॥*

(हो) योग प्रमाणांत खातल्या-पियेतल्याचें, चलतल्या भोंवतल्याचें, नेमान वावुरतल्याचें, वेळार न्हिदून उठ्ठल्याचें दुख्ख ना करता. १७

*अ.अ.*: (हो) **योगः** = योग; **युक्ताविहारस्य** = प्रमाणांत खातल्या पियेतल्याचें आनी चलतल्या भोंवतल्याचें; **कर्मसु युक्तचेष्टस्य** = नेमान वावुरतल्यांचें; **युक्तस्वप्नावबोधस्य** = वेळार न्हिदून उठ्ठल्याचें; **दुःखहा भवति** = दुख्ख ना करपी जाता. १७

यदा विनियतं चित्तमात्मन्येवावतिष्ठते ।
निःस्पृहः सर्वकामेभ्यो युक्त इत्युच्यते तदा ॥१८॥

साधना पूर्ण जावपाची अवस्ता

*चित्त वश बरें केल्लो आत्म्याठांयीं थारावलो ।*
*वान्सांची आस ना जाल्लो ताका योगी अशें म्हळा ॥१८॥*

जेन्ना ताचें बरे तरेन आळाबंदा हाडिल्लें चित्त आत्म्याकूच थिरावता आनी सगल्या वान्सांची आशा भागता, तेन्ना ताका योगी अशें म्हणटात. १८

*अ.अ.*: (ताचें) **विनियतं चित्तम्** = बरे तरेन आळाबंदा हाडिल्लें चित्त; **यदा** = जेन्ना; **आत्मनि एव अवतिष्ठते** = आत्म्यांतूच थिरावता; (आनी) **सर्वकामेभ्यः निस्पृहः** = सगल्या वान्सांची आशा भागता; **तदा युक्त:इति उच्यते** = तेन्ना (ताका) योगी (योगबुद्धींत थिराविल्लो) अशें म्हणटात. १८

यथा दीपो निवातस्थो नेङ्गते सोपमा स्मृता ।
योगिनो यतचित्तस्य युञ्जतो योगमात्मनः ॥१९॥

*वारो ना जे सुवातेर तेंवऽ थीर जसो दिवो ।*
*चित्त आत्म्याकु जोडिल्ल्या योग्या ओपार ही दिती ॥१९॥*

जे भाशेन वारें नाशिल्ले सुवातेचेर आशिल्लो दिवो (दिव्याची वात) हालनासतना थीर रावता, तीच ओंपार परमात्म्याच्या ध्यानांत गुल्ल जाल्ल्या योग्याच्या संयमी चित्ताक दितात.

*अ.अ.*: **यथा निवातस्थः दीपः** = जे भाशेन वारें नाशिल्ले सुवातेर आशिल्लो दिवो (दिव्याची वात); **न इङ्गते** = हालनासतना थीर रावता; **सा उपमा** = तीच ओंपार; **आत्मनः योगं युञ्जतः योगिनः** = परमात्म्याच्या ध्यानांत गुल्ल जाल्ल्या योग्याच्या; **यतचित्तस्य स्मृता** = संयमी चित्ताक दितात.१९

यत्रोपरमते चित्तं निरुद्धं योगसेवया ।
यत्र चैवात्मनात्मानं पश्यन्नात्मनि तुष्यति ॥२०॥

सुखमात्यन्तिकं यत्तद् बुद्धिग्राह्यमतीन्द्रियम् ।
वेत्ति यत्र न चैवायं स्थितश्चलति तत्त्वतः ॥२१॥ *

यं लब्ध्वा चापरं लाभं मन्यते नाधिकं ततः ।
यस्मिन्स्थितो न दुःखेन गुरुणापि विचाल्यते ॥२२॥

तं विद्याद् दुःखसंयोगवियोगं योगसंज्ञितम् ।
स निश्चयेन योक्तव्यो योगोऽनिर्विण्णचेतसा ॥२३॥

*योगाभ्यासानु निरोधिल्लें     रमऽ चित्त स्थितींतु जे ।*
*जैं तो देखूनु आत्म्याकु     आत्म्यांतूच तुश्ठावता ॥२०॥*

*भोगी म्हासुख तो थैं जें     कळऽ बुद्धीक, अतींद्रिय ।*
*जैं तो सुथीर जातांच     धळना तत्त्वा पसूनु तो ॥२१॥ **

*मेळटांच ही स्थिती ताका     मानिना हेर लाभ व्हड ।*
*चाळवनाय व्हड दुख्खानू     थाराविल्लो स्थितींतु हे ॥२२॥*

*स्थिती दुख्खा वियोगाची     वळखुची योग म्हूण ती ।*
*चित्ताचे उबगणेवीण     जोड तो निश्चयानु बी ॥२३॥*

जे दशेंत योगाभ्यासान आळाबंदा हाडिल्लें योग्याचें मन रमता, जंय तो शुद्ध मनान आत्म्याक पळोवन आत्म्यांतूच तुश्टता (२०); जे दशेंत इंद्रियांक कळना जाल्लें पूण बुद्दीक कळटा असलें तें अंत नाशिल्लें सूख तो अणभवता, आनी थंय थिरावतकीच, तत्त्वा (आत्मरुपा) कडसून केन्नाच हालना (२१); तशेंच जी स्थिती मेळटकीच हेर खंयचोच लाभ तो अदीक मानिना आनी जे दशेंत आसतना खंयच्याच व्हड दुख्खान तो चळना (२२), त्या दुख्खाचो संबंध नाशिंल्ले दशेक 'योग' म्हणून वळखुची. तो योग प्रसन्न चित्तान आनी निश्चयान चलोवचो. २३

*अ.अ.*: **यत्र योगसेवया** = जे दशेंत योगाच्या अभ्यासान; **निरुद्धं चित्त उपरमते** = आंवुळ्ळेलें चित्त रमता (शांत जाता); **च यत्र आत्मना** = आनी जे दशेंत शुद्ध जाल्ल्या मनान; **आत्मानं पश्यनं** = आपणाल्या आत्म्याक पळोवन; (मनीस) **आत्मनि एवं** = आत्म्यांतूच तुश्टता (२०); **यत्र** = जे दशेंत; **अतीन्द्रियम्** = इंद्रियांक कळना जाल्लें; **च बुद्धिग्राह्यम्** = आनी बुद्दीक कळटा अशें; **आत्यन्तिकं सुखं तत् यत्र वेत्ति** = अंत पार नाशिल्लें सूख तो जे दशेंत अणभवता; (यत्र = जे दशेंत) **स्थित:** = थारावल्लो; **अयम्** = हो योगी; **तत्त्वत:** = आत्म्याच्या खरेल्या रुपा (तत्त्वा) कडसून; **न एव चलति** = केन्नाच हालना (२१); **यम् लब्ध्वा तत:** = जी स्थिति मेळटकीच तिचेपरस; **अपरं लाभं अधिकम्** = हेर खंयचोच लाभ अदीक (अशें) **न मन्यते** = तो मानिना; **च** = आनी; **यस्मिन् स्थित:** = जे दशेंत थारावतकी च; **गुरुणा दु:खेन अपि** = मोटेल्या दुख्खानूय (तो) **न विचाल्यते** = तो चळना; **तम्** = ते दशेक; **दुख्खसंयोगवियोगम्** = दुख्खापासून पयस व्हरपी; **योगसंज्ञितम्** = योग नांवाची दशा (म्हूण) **विद्यात्** = वळखुची; **स: योग:** = तो योग; **अनिर्विण्णचेतसा** = चित्त उबगूंक दिनासतना (आनी) **निश्चयेन** = निश्चयान; **योक्तव्य:** = चलवचो. २३

**संकल्पप्रभवान्कामांस्त्यक्त्वा सर्वानशेषत: ।**
**मनसैवेन्द्रियग्रामं विनियम्य समन्तत: ॥२४॥**

**शनै: शनैरुपरमेद् बुद्ध्या घृतिगृहीतया ।**
**आत्मसंस्थं मन:कृत्वा न किञ्चिदपि चिन्तयेत् ॥२५॥**

निर्गुण ध्यानान वासना मुक्ती

*जाल्लो विशयु चिंतूनू    वान्सा सगल्योच सोडुनू ।*
*घोंसाकु इंद्रियांच्या त्या  मनान् ओडूनु चोंवशी ॥२४॥*

*मन निश्चयि बुद्धीनु    थंडावनु तें ल्हवू ल्हवु ।*
*चित्त आत्म्यांतु थारावनू चिंतचें न्ही हेर कांयु गा ॥२५॥*

संकल्प (विशय) चिंतून जाल्ल्यो सगल्यो वान्सा सोडून आनी मनानच सगले वशीन इंद्रियांच्या चोंब्याचो निग्रह बरे भाशेन करून(२४), मनाक निश्चयी बुद्दीन ल्हवु ल्हवू थंडावचें आनी तें आत्म्याचेर थारावन दुसरें कितेंच येवजुचें न्हय. २५

*अ. अ.:* **संकल्पप्रभवान्** = विशय चिंतून जाल्ल्यो; **सर्वान् कामान्** = सगल्यो वान्सा; **अशेषत:** = बाकी दवरिनासतना (वान्सा आनी ओड हांचे सयत); **त्यक्त्वा** = सोडून; (आनी) **मनसा एव** = मनानूच; **समन्तत:** = चोंय वसल्यान; **इंद्रियग्रामम्** = इंद्रियांच्या चोंब्याचो (माल्याचो); **विनियम्य** = निग्रह बरे भाशेन करून (२४) **मन:** = मनाक; **धृतिगृहीतया बुद्धया** = निश्चयी (धिराचे) बुद्दीन; **शनै: शनै: उपरमेत्** = ल्हवु ल्हवू शांत करचें; (आनी तें) **आत्मसंस्थम् कृत्वा** = आत्म्याचेर थारावन; **किंचित् अपि** = दुसरें कितेंच; **न चिन्तयेत्** = येवजुचें न्हय. २५

**यतो यतो निश्चरति मनश्चञ्चलमस्थिरम् ।**
**ततस्ततो नियम्यैतदात्मन्येव वशं नयेत् ॥२६॥**

मन आळाबंदा हाडपाचे साधनेची रीत

*जैं जैं तें अर्जुना हेडऽ        अथीर मन चंचळु ।*
*थैं थैं सून निश्चयान ओडून    आत्म्या स्वाधीनु तें कर ॥२६॥*

हें हुळहुळें आनी थार नाशिल्लें मन जंय जंय हेडटा, थंय थंयसून ताका निश्चयान फाटीं ओडून, तें आत्म्याच्याच सुवादीन करचें. २६

*अ. अ.:* **एतत् चञ्चलं अस्थिरं मन:** = हें हुळहुळें आनी थार नाशिल्लें मन; **यत: यत: निश्चरति** = जंय जंय हेडटा; **तत: तत:** = थंय थंयसून (ताका); **नियम्य** = फाटीं ओडून; **आत्मनि एव** = आत्म्याच्याच; **वशं नयेत्** = सुवादीन करचें. २६

**प्रशान्तमनसं ह्येनं योगिनं सुखमुत्तमम् ।**
**उपैति शान्तरजसं ब्रह्मभूतकमल्मषम् ॥२७॥**

*मनानु शांत निश्पाप    रज गुणानु मुक्त जो ।*
*जाल्लो ब्रह्मरुपी योगी  मेळयी सूख उत्तम ॥२७॥*

कित्याक, सामको शांत चित्त, रजगुणापासून मुक्त, पातका-मेकळ्या आनी ह्या ब्रह्मांत एकरूप जाल्ल्या अशा योग्याक उत्तम सूख मेळटा. २७

*अ. अ.:* **हि** = कित्याक; **प्रशान्तमनसम्** = सामको शांतचित्त; **शांतरजसम्** = रजगूण शांत जाल्लो (म्ह. भोगाची वान्सा सरिल्लो); **अकल्मषम्** = पातका-मेकळ्या (आनी) **एनम्** = ह्या; **ब्रह्मभूतं योगिनम्** = ब्रह्मांत एकरूप जाल्ल्या योग्याक; **उत्तमं सुखं उपैति** = उत्तम सूख मेळटा. २७

**युञ्जन्नेवं सदात्मानं योगी विगतकल्मषः ।**
**सुखेन ब्रह्मसंस्पर्शमत्यन्तं सुखमश्नुते ॥२८॥**

*सदीं आत्म्याकु जोडिल्लो योगी निश्पाप निर्मळ ।*
*ब्रह्मसुख सरनाशिल्लें तो असूदायु मेळयी ॥२८॥*

हे भाशेन, सदीं योगाचो अभ्यास करतलो योगी निश्पाप जावन ब्रह्म अणभवचेलें अंत नाशिल्लें सूख असुदाय मेळयता. २८

*अ.अ.*: **एवं सदा आत्मानं युञ्जन योगी** = हे भाशेन सदीं योगाचो अभ्यास करतलो योगी; **विगतकल्मषः** = निश्पाप जावन; **ब्रह्मसंस्पर्शम्** = ब्रह्म अणभवचेलें; **अत्यंतं सुखं सुखेन** = अंत नाशिल्लें सूख असुदाय; **अश्नुते** = अणभवता (मेळयता). २८

**सर्वभूतस्थमात्मानं सर्वभूतानि चात्मनि ।**
**ईक्षते योगयुक्तात्मा सर्वत्र समदर्शनः ॥२९॥**

जीवनमुक्त योगी ईश्वर, जग आनी जिवावळ हांचेशीं एकरूप जाता

*आपणाक सर्व जीवांतु जिवांकु आपुणामदीं ।*
*सर्वत्र सम दिश्टीनु जोडिल्लो योग तो पळे ॥२९॥*

जाचें मन योगांत थारावलां, ताची दिश्टी सगले कडेन सम जावन सगल्या जिवांचे ठांय आपणाक आनी आपले ठांय सगले जीव आसात अशें तो पळेता. २९

*अ.अ.*: **योगयुक्तात्मा** = जाचें मन योगांत थीर जालां; **सर्वत्र समदर्शनः** = ताची दिश्टी सगले कडेन सम जावन; **सर्वभूतस्थं आत्मानम्** = सगल्या जिवांठांय आपणाक; **च** = आनी; **आत्मनि सर्वभूतानि** = आपल्यांत सगले जीव (आसात अशें); **ईक्षते** = पळेता. २९

**यो मां पश्यति सर्वत्र सर्वं च मयि पश्यति ।**
**तस्याहं न प्रणश्यामि स च मे न प्रणश्यति ॥३०॥ ***

*म्हजेठांयीं पळे सर्व म्हाका सर्वांत जो पळे ।*
*ताका अंतरना हांवु म्हाका अंतर तो दिना ॥३०॥**

जो म्हाका सगल्या जिवांत आनी सगले म्हजे ठांय पळेता, ताचे पसून हांव पयस नासतां आनी म्हजे पसून तो पयस नासता (हांव ताचो आनी तो म्हजो जाता). ३०

*अ.अ.*: **यः मां सर्वत्र पश्यति** = जो म्हाका सगल्या जिवांत पळेता; **च सर्वं मयि पश्यति** = आनी सगले म्हज्यांत पळेता; **तस्य अहं न प्रणश्यामि** = ताका हांव पयस नासतां; **च सः मे न प्रणश्यति** = आनी तो म्हाका पयस नासता. ३०

सर्वभूतस्थितं यो मां भजत्येकत्वमास्थित: ।
सर्वथा वर्तमानोऽपि स योगी मयि वर्तते ।।३१।।

*सगल्या जिवांतुल्या म्हाका भजऽ तो एक लेखुनू ।*
*सर्वत्र वावुल्यांरूयु योगी म्हज्यांतु रावि तो ।।३१।।*

जो एकचाराची बुद्द जोडून, सगल्या जिवांत आसतल्या म्हाका भजता, तो योगी सगले तरेन वावुरतनाय म्हजे भितर आसता. ३१

*अ.अ.*: **य: एकत्वं** = एकचाराची बुद्द (सगलेकडेन एकलोच आत्मो आसा ही बुद्द); **आस्थित:** = जोडून; **सर्वभूतस्थितं माम् भजति** = सगल्या जिवांतआसतल्या म्हाका भजता; **स: योगी सर्वथा** = तो योगी सगले तरेन; **वर्तमान: अपि** = वावुरतनाय; **मयि वर्तते** = म्हजे भितर आसता. ३१

आत्मौपम्येन सर्वत्र समं पश्यति योऽर्जुन ।
सुखं वा यदि वा दु:खं स योगी परमो मत: ।।३२।।

*आपलेपणानु जीवांचीं सर्व सुखां दुखां पळे ।*
*दिश्टीनुं समतेचे जो तो योगी व्हड मानि हांव ।।३२।।*

अर्जुना, सूख दुख्ख जशें आपणाक जाता, तशें सगल्या जिवांक, अशे नदरेन जो सगले कडेन पळेता, तो योगी सगल्यांत व्हड अशें हांव मानतां. ३२

*अ.अ.*: **अर्जुन य:** = आगा अर्जुना, जो (योगी) **सर्वत्र** = सगल्या जिवांक; **सुखं यदि वा दु:खम्** = सूख वा दुख्ख (भोगूं); (तें) **आत्मौपम्येन** = आपणाकूच भोगिल्ले वरी; **समं पश्यति** = सारके नदरेन पळेता; **स: योगी परम: मत:** = तो योगी सगल्यांत व्हड अशें हांव समजतां. ३२

अर्जुन उवाच

योऽयं योगस्त्वया प्रोक्त: साम्येन मधुसूदन ।
एतस्याहं न पश्यामि चञ्चलत्वात्स्थितिं स्थिराम् ।।३३।।
चञ्चलं हि मन: कृष्ण प्रमाथि[२] बलवद्दृढम् ।
तत्याहं निग्रहं मन्ये वायोरिव सुदुष्करम् ।।३४।।

अर्जुनान म्हळें

*तुवें हो योग बोधिल्लो सम दिश्टीनु देखुंचो ।*
*मन चंचळु देखूनु दिसना तिगत थीर तो ।।३३।।*

*चंचळु मन हें कृष्णा आडांगी मस्त तें हटी ।*
*अनावर जसो वारो मना कठीण बांदप ।।३४।।*

अर्जुनान म्हळें: कृष्णा, समदिश्टीचो जो हो योग तुवें सांगलो, ताची स्थिती (मनाच्या) हुळहुळेपणाक लागून चड वेळ तिगत अशें म्हाका दिसना (३३), कित्याक, आगा कृष्णा, मन हें हुळहुळें, आडांगी, मस्तें आनी हटी. तांकां आंवळप हें वाऱ्याक बांदपा भाशेन हांव चड कठीण मानतां. ३४

*अ.अ.*: **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **मधुसूदन** = कृष्णा; **साभ्येन यः अयं योगः** = समदिश्टीचो जो हो योग; (तुवें) **प्रोक्तः** = सांगलो; **एतस्य स्थितिं** = हाची स्थिती; **चञ्चलत्वात्** = (मनाच्या) हुळहुळेपणाक लागून; **स्थिराम्** = चड वेळ तिगत (अशें) **अहं न पश्यामि** = म्हाका दिसना (३३). **हि कृष्णा** = कित्याक, कृष्णा; **मनः चञ्चलं प्रमाथि बलवत् दृढम्अस्ति** = मन हुळहुळें, आडांगी, मस्तें, हटी आसता; **तस्य निग्रहम्** = ताचें (तें) आंवळप; **वायोः इव** = वाऱ्याक बांदपा भाशेन; **सुदुष्करं मन्ये** = (हांव) चड कठीण मानतां. ३४

श्रीभगवानुवाच

**असंशयं महाबाहो मनो दुर्निग्रहं चलम् ।**
**अभ्यासेन तु कौन्तेय वैराग्येण च गृह्यते ।।३५।। ***

भगवंतान म्हळें

*ना दुबावूच कौंतेया हुळहुळें मन तें हटी ।*
*वैराग्य आनि अभ्यासान् तें जिखुं येत अर्जुना ।।३५।।**

भगवंतान म्हळें: आगा अर्जुना, मन हुळहुळें आनी आवरपाक खूब कठीण हातूंत दुबाव ना. पुणून, कुंतीच्या पुता, अभ्यासान आनी वैराग्यान ताका वश करूं येता. ३५

*अ.अ.*: **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **महाबाहो** = अर्जुना; **मनः चलम्** = मन हुळहुळें; **दुर्निग्रहम्** = आवरपाक खूब कठीण; **असंशयम्** = हातूंत दुबाव ना; **तु** = पुणून; **कौन्तेय** = कुंतीच्या पुता (अर्जुना); **अभ्यासेन च वैराग्येण** = अभ्यासान आनी वैराग्यान; **तत् गृह्यते** = ताका वश करूं येता.

**असंयतात्मना योगो दुष्प्राप इति मे मतिः ।**
**वश्यात्मना तु यतता शक्योऽवाप्तुमुपायतः ।।३६।।**

*संयमावीण हो योग खर सादप मानि हांव ।*
*संयम्याकु उपायान यत्नानु सादुं येत हो ।।३६।।*

मनाक वश करिनाशिल्ल्याक योग सादप कठीण. पूण अभ्यासान संयम केल्ल्या यत्नशील मनशाक उपाय येवजणेन हो योग सादू येत अशें हांव मानतां. ३६

*अ.अ.*: **असंयतात्मना** = मनाक वश करिनाशिल्ल्या मनशाक; **योगः दुष्प्रापः** = योग सादप कठीण; **तु** = पुणून; **वश्यात्मना** = (अभ्यासान) संयम केल्ल्या; **यतता** = यत्नशीळ मनशाक; **उपायतः** = उपाय येवजून (साधन करून) **अवाप्तुम् शक्यः** = (तो) जोडूं येत; **इति मे मतिः** = अशें म्हजें मत (आसा).

अर्जुन उवाच

अयति: श्रद्धयोपेतो योगाच्चलितमानस: ।
अप्राप्य योगसंसिद्धिं कां गतिं कृष्ण गच्छति ॥३७॥

कच्चिन्नोभयविभ्रष्टश्छिन्नाभ्रमिव नश्यति ।
अप्रतिष्ठो महाबाहो विमूढो ब्रह्मण: पथि ॥३८॥ *

हार तात्पुरती - जो आरंभ बरो करता, तो मोखे मेरेन पावता

अर्जुनान म्हळें

*श्रद्धाळु, यत्न नाशिल्लो    ढळ्ळो योगा पसून जो ।*
*पावलो ना योग सिद्धीक    पावऽ कसले गतीक तो ॥३७॥*

*चुकलो ब्रह्मपदा मार्गांत्    दोनूय मार्गांतु भश्टलो ।*
*जायना मूं नाशु तागेलो    गा तुटिल्ल्या कुपावरी? ॥३८॥ **

अर्जुनान म्हळें: आगा कृष्णा, यत्न उणे केल्ल्यान, योगा पसून मन ढळिल्लो, (पुणून) भावार्थी मनीस ह्या जल्मांत योगाची सिद्धी मेळ्ळी ना जाल्यार, तो कसले गतीक पावता? (३७). आगा कृष्णा, काय तो ब्रह्म जोडपाच्या मार्गांत, पिशेपणान भुलून थीर जावंक नाशिल्ल्यान, दोनूय मार्ग सुटून (प्रपंचय ना, परमार्थय ना), आधार ना जाल्लो मनीस तुटिल्ल्या कुपावरी (मदले मदींच) ना जायना मू? (३८)

*अ.अ.*: **अर्जुन उवाच:** = अर्जुनान म्हळें; **अयति** = यत्न उणे केल्ल्यान; **योगात् चलित मानस:** = योगापासून मन ढळिल्लो; (पुणून) **श्रद्धया उपेत:** = भावार्थी मनीस; (ह्या जल्मांत) **योगसंसिद्धिं अप्राप्य** = योगाची सिद्धी मेळ्ळी ना जाल्यार; **काम् गतिं गच्छति** = कसले गतीक पावता ? (३७) **महाबाहो** = बळिश्ट बावळ्यांच्या कृष्णा; **कच्चित** = काय (तो); **ब्रह्मण:पथि** = ब्रह्म (जोडपाच्या) मार्गांत; **विमूढ:** = पिशेपणान; **उभय विभ्रष्ट:** = दोनूय मार्ग सुटून (प्रपंच आनी परमार्थ); **अप्रतिष्ठ:** = आधार ना जाल्लो मनीस; **छिन्नाभ्रम् इव** = तुटिल्ल्या कुपावरी; **न नश्यति** = ना जायना मूं? (३८)

एतन्मे संशयं कृष्ण छेत्तुमर्हस्यशेषत: ।
त्वदन्य: संशयस्यास्य छेत्ता न ह्युपपद्यते ॥३९॥

*म्हजो दुभावु हो पूर्ण    ना सो गा तूंच कर्तलो ।*
*कोणूच ना तुजेवीण    जो फेडीतु दुभावु हो ॥३९॥*

कृष्णा, म्हगेल्या ह्या दुभावाचो पुराय सुटावो करपाक तूंच फावोसो आसा. तुजे शिवाय ह्या संशयाचो सुटावो करपी कोण मेळचो ना. ३९

*अ.अ.*: **कृष्ण** = आगा कृष्णा; **एतत् मे संशयम्** = ह्या म्हगेल्या दुभावाचो; **अशेषत: छेत्तुं अर्हसि** = पुराय सुटावो करपाक (तूंच) फावोसो आसा; **हि** = कित्याक; **त्वदन्य:** = तुजे शिवाय; **अस्य संशयस्य छेत्ता न उपपद्यते** = ह्या संशयाचो सुटावो करपी मेळचो ना. ३९

श्रीभगवानुवाच

पार्थ नैवेह नामुत्र विनाशस्तस्य विद्यते ।
न हि कल्याणकृत्कश्चिद्दुर्गतिं तात गच्छति ॥४०॥

भगवंतान म्हळें

*हांगा वा परलोकांतूय तो वायटा पावना पुता ।*
*कोणुयू जो बरें कर्ता वायट दशेकु पावना ॥४०॥*

भगवंतान म्हळें: अर्जुना, तो ह्या लोकांत नासो जायना वा परलोकांतूय जायना. कित्याक, आरे पुता, बरीं कर्मां करतलो केन्नाच वायट दशेक पावना. ४०

*अ.अ.*: **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **पार्थ** = आगा अर्जुना; **तस्य विनाशः इह** = ताचो विनाश ह्या लोकांत; **न विद्यते** = जायना; (वा) **अमुत्र एव न** = परलोकांतूय जायना; **हि** = कित्याक; **तात** = आरे पुता; **कल्याणकृत्** = बरीं कर्मां करतलो; **कश्चित्** = कोणूच; **दुर्गतिं न गच्छति** = वायट दशेक पावना.

प्राप्य पुण्यकृतां लोकानुषित्वा शाश्वतीः समाः ।
शुचीनां श्रीमतां गेहे योगभ्रष्टोऽभिजायते ॥४१॥

अथवा योगिनामेव कुले भवति धीमताम् ।
एतद्धि दुर्लभतरं लोके जन्म यदीदृशम् ॥४२॥

*भौ काळ पुण्यलोकांतू तो योगभश्ट रावुनू ।*
*गिरेस्त कुळवंतांच्या तो घरवडींतु जल्मता ॥४१॥*

*वा कुळांत योग्यांच्या बुदवंतु भौनु जल्मता ।*
*हे तरे जल्म मेळूंकू ह्या लोकांतु कठीण भौ ॥४२॥*

पुण्यवंताच्या सर्ग आदी भौ बऱ्या लोकांक वचून थंय दीर्घ काळ रावन, योगभश्ट मनीस शुद्ध चलणुकेच्या आनी गिरेस्तांच्या घरांत जल्मता (४१) वा बुदवंत अश्या योग्यांच्याच कुळांत तो जल्मता. अशे तरेचो हो जल्म ह्या लोकांत मेळप भौ कठीण (४२).

*अ.अ.*: **पुण्यकृतां लोकान् प्राप्य** = पुण्यवंतांच्या (सर्ग आदी) भौ बऱ्या लोकांक वचून (थंय) **शाश्वतीः समाः** = जायतीं वर्सां; **उषित्वा** = रावन; **योगभ्रष्टः** = योगभश्ट मनीस; **शुचीनां श्रीमतां गेहे** = शुद्ध चलणुकेच्या श्रीमंतांच्या घरांत; **अभिजायते** = जल्मता (४१) **अथवा** = वा (थंय वचनासतना); **धीमतां** = बुदवंत (अश्या); **योगिनां एव कुले भवति** = योग्यांच्याच कुळांत (तो) जल्मता; **ईदृशम्** = हे तरेचो; **यत्** = जो; **एतत् जन्म** = हो जल्म; **लोके** = ह्या लोकांत; हि **दुर्लभतरम्** = (मेळप) भौ कठीण.

तत्र तं बुद्धिसंयोगं लभते पौर्व देहिकम् ।
यतते च ततो भूयः संसिद्धौ कुरुनन्दन ॥४३॥ *

*थैं तो त्या पूर्व जल्माचो बुद्दी संस्कार जोडुनू ।*
*तांकां लागूनु वावुर्ता पर्थूनु सिद्धि पासतु ॥४३॥**

थंय ताका पूर्व जल्मांत जोडिल्ल्या बुद्दी संस्कारांचो लाभ जाता आनी अर्जुना, ताका लागून मागीर तो पर्थून सिद्धी पासत वावुरता. ४३

*अ.अ.*: **तत्र** = थंय (त्या जल्मांत); **तं** = ताका; **पौर्वदेहिकम्** = पूर्व जल्मांतल्या देहान (जोडिल्ल्या); **बुद्धीसंयोगम् लभते** = बुद्धीसंस्कारांचो लाभ जाता; **च** = आनी; **कुरुनन्दन** = आगा अर्जुना; **ततः** = ताका लागून; **भूयः** = पर्थून; (तो) **संसिद्धौ** = (योग) सिद्धी पासत; **यतते** = वावुरता. ४३

पूर्वाभ्यासेन तेनैव ह्रियते ह्यवशोऽपि सः ।
जिज्ञासुरपि योगस्य शब्दब्रह्मातिवर्तते ॥४४॥

*नकळटां पूर्व अभ्यास योगाची ओड लायिता ।*
*इत्सुपी योग गिन्यान शब्दब्रह्माकु तो हुपी ॥४४॥*

ताची इत्सा नासल्यारूय तो पूर्व जल्मांतल्या योगाच्या अभ्यासान योगावशीन ओडटा. योगाचें ज्ञान समजून घेवचेली निखटी इत्सा जातलोय वेदांत सांगिल्ल्या फळदिण्या कर्मकांडाचे पेल्यान वता. ४४

*अ.अ.*: **अवशः अपि** = (ताची) इत्सा नासल्यारूय; **सः** = तो (गिरेस्ताच्या घरांत जलमल्लो योगभ्रष्ट); **पूर्वाभ्यासेन एव** = पूर्वजल्माच्या (योगाच्या) अभ्यासानूच; **हि ह्रियते** = योगावशीन ओडटा; **योगस्य जिज्ञासुः अपि** = योगाचें ज्ञान समजून घेवचेली निखटी इत्सा जातलोय; **शब्दब्रह्म अतिवर्तते** = वेदांत सांगिल्ल्या फळदिण्या कर्मकांडाचे पेल्यान वता. ४४

प्रयत्नाद्यतमानस्तु योगी संशुद्धकिल्बिषः ।
अनेकजन्मसंसिद्धस्ततो याति परां गतिम् ॥४५॥

*योगी अभ्यास नेमानु सुटऽ पातकांतुल्यानु तो ।*
*भौ जल्मां साधने अंतीं पावऽ व्हड गतीकु तो ॥४५॥*

पुणून यत्नान अभ्यास करतलो योगी, सगल्यां पातकांतसून शुद्ध जावन आनी जायत्या जल्मां पासून जोडिल्ली योगाची सिद्धी फळाक येवन, ते साधनेक लागून व्हड गतीक पावता.

*अ.अ.*: **तु** = पुणून; **प्रयत्नात्** = यत्नान; **यतमानः** = अभ्यास करतलो योगी; **संशुद्ध किल्मिषः** = सगल्या पातकांतसून शुद्ध जावन; **अनेकजल्मसंसिद्धः** = जायत्या जल्मां पासून जोडिल्ली योगाची सिद्धी फळाक येवन; **ततः परां गतिं याति** = ते साधनेक लागून व्हड गतीक पावता. ४५

**तपस्विभ्योऽधिको योगी ज्ञानिभ्योऽपि मतोऽधिकः ।**
**कर्मिभ्यश्चाधिको योगी तस्माद्योगी भवार्जुन ॥४६॥**

*थोरू योगी तपस्व्यांकूय ज्ञानियांकूयु होडु तो ।*
*कर्मिश्ठांकूयु तो होडु जा तूं योगीच देखुनू ॥४६॥*

योगी (व्रतां-उपास करतल्या) तपस्व्या परस उंच, तो सांख्यबुद्दीन चलतल्या ज्ञान्यांपरस वर्तो समजतात. फळाचे वान्शेन कर्म करतल्या कर्मिश्ठांकूय तो स्रेश्ठ. देखून अर्जुना, तूं योगी जा. ४६

*अ.अ.*: **योगी तपस्विभ्यः** = योगी (व्रतां उपास करतल्या) तपस्व्यांपरस; **अधिकः** = उंच; **च** = आनी; (तो) **ज्ञानिभ्यः** ही = (सांख्यबुद्दीन चलतल्या) गिन्यानी मनशांपरसूय; **अधिकः** = वर्तो; **मतः** = समजतात. (तेच भाशेन) **कर्मिभ्यः** = फळाचे वान्शेन कर्म करतल्या कर्मिश्ठांकूय; **अधिकः** = (तो) स्रेश्ठ; **तस्मात्** = देखून; **अर्जुन** = आगा अर्जुना; (तूं) **योगी** = योगी; **भव** = जा. ४६

**योगिनामपि सर्वेषां मद्गतेनान्तरात्मना ।**
**श्रद्धावान्भजते यो मां स मे युक्ततमो मतः ॥४७॥**

*सर्व योग्यां मदीं बी त्या म्हाका थारावनु अंतरीं ।*
*श्रद्धेनु भजऽ जो म्हाका तो योगी थोर मानि हांव ॥४७॥*

त्या सगल्यां योग्यांमदींय जो भावार्थी योगी म्हजेठांय अंतस्कर्ण दवरून म्हाका भजता, तो योगी हांव सगल्यां योग्यांमदीं व्हड समजतां. ४७

*अ.अ.*: **सर्वेषाम्** = त्या सगल्या; **योगिनां अपि** = योग्यां मदींय; **यः श्रद्धावान्** = जो भावार्थी योगी; **मद्गतेन** = म्हजेठांय; **अंतरात्मना** = अंतस्कर्ण दवरून; **मां भजते** = म्हाका भजता; **सः युक्ततमः** = तो योग्यांमदीं व्हड (अशें) **मे मतः** = हांव समजतां. ४७

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **आत्मसंयम**योगो
नाम **षष्ठो**ऽध्यायः ।

हे भाशेन, श्री भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**ध्यानयोग** नांवाचो **सवो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. पुर्विल्ल्या काळांत उज्याचो उपेग रांदपाक तसोच यज्ञकर्मकांडा खातीर करताले. जो कुटुंबाकडसून पेल्यान सरला आनी लोकांच्या हितापासत वावुरता ताकाच संन्याशी म्हणटाले. संन्याशी हवन आदी कर्मकांडां करिनाशिल्लो. देखून ताका निरग्नि वा अग्नीचो त्याग केल्लो म्हणटाले. संन्याशी आपले पासत रांदिनासलो. तो भिक्षावृत्ती आपणायतालो. गीतेचे मुस्तींत, आळशी लोक आपली लागणूक सोडून संन्याशी जाताले आनी भिक्षेचेर जियेताले. देखून श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता: आपली लागणूक सोडून, भिक्षेचेर पोट भरपी मनीस संन्याशी जायना. तर लोकसेवा करतना, त्या कर्माचें फळ त्यागपी मनीसच खरेपणान संन्याशी आसता. निरग्नि जावप (अग्नी सोडप) हो त्याग वयलेचाराचो.

२. प्रमथनशील म्हळ्यार जें शरीर आनी इंद्रियां हांकां चंचळ करता, परवश करता अशें. (शां.भा.)

३. कर्ममार्ग आनी योगमार्ग ह्या दोनूय मार्गांपासून ढळिल्लो वा खाला पडिल्लो. (शां.भा.)

४. वैदीक नेम. वैदीक नेमांक पाळो दितकीच आमी तांच्या आदारान तांचे पेल्यान वतात. तुळा करात: 'ब्रह्म दोन तरांचें आसा. एक शब्दब्रह्म आनी दुसरें ताचे पेल्यानचें. तें परब्रह्म. जेन्ना मनीस शब्दब्रह्मांत कुशळ जाता, तेन्ना तो ताचे पेल्यानच्या ब्रह्मा मेरेन पावता.' (मैत्री उप. ६-२२). तशेंच विष्णु पुराण सांगता: 'शब्दब्रह्मणि निष्णात:, परंब्रह्माधिगच्छति' (६-५).

## श्लोकटिपो

*१२ आत्म्यांत मन थीर जावपाक पयलीं अंतस्कर्ण शुद्ध जावपाक जाय. पतंजलीच्या योगशास्त्रांत मनाचें शुद्धीक पांच 'यम' पाळपाक जाय अशें सांगलां : अहिंसा, सत्य, अस्तेय (चोरी करप ना), ब्रह्मचर्य (इंद्रियाचो संयम) आनी अपरिग्रह (संचय / संग्रह करप ना). पतंजलीन जाका 'यम' म्हळा ताकाच गौतम बुद्धान 'शील' म्हळां वा पंचशीलाचे नेम म्हळ्यात.

*२१. समाधी-सुखाचो अणभव घेवपी ही बुद्‌दी सामान्य बुद्‌दी न्हय. चित्ताचें हेडप सोंपले उपरान्तची ती बुद्धी. समाधी-सूख बुद्धी पेल्यानचें आसता. (वि.)

*३०. हांगा ध्यानयोगांतसून आमी भक्तीयोगांत रिगतात. जशें कुपाचें मूळ तत्त्व उदक, रोटयेचें गंव, तशें सगल्या प्राण्यांचें मूळ चेतन तत्त्व ईश्वराक पळोवप. ध्यानयोगाची मोख आनी भक्ती योगाची मोख हातूंत अंतर ना. भक्तीयोगाचो साधक आपूण ब्रह्माचोच अंश अशें अणभवता.

*३५. मोखे मेरेन पावपाखातीर पर्थून पर्थून यत्न करप म्हळ्यार अभ्यास वा संवंय. ओड आनी वान्सा हांचेविशीं उदासीन जावप म्हळ्यार वैराग्य वा भोगचेल्या जिनसांची ओड सोडप. मन आळाबंदा हाडूंक वा वश करूंक अभ्यास आनी वैराग्य हीं दोनूय गरजेचीं.

*३८. दोनूय कडसून भशट जावन - तो अश्या वाटारांत वचना मूं, जाचो कोणूच धनी ना? तो आपलें हें जिवीत (प्रपंच) आनी शाश्वत जिवीत (परमार्थ) हीं दोनूय व्हगडावन बसना मूं? जे योगाच्या कठीण मार्गाचेर चलतना अंता मेरेन पावपाक सफळ जायनात, त्या मनशांचें कितें

जाता? काय ताचे सगले यत्न फुकट वतात? जो वावर मनीस पूर्ण करपाक पावना, तो वावर मनशान आरंभप तरी बरो? (राधाकृष्णन).

*४३. (१) योगसिद्धी जोडपाक खूब कळाव लागता आनी मनशाक आपले मोखे मेरेन पावपाक खूब जल्म यत्न करचे पडटात. पुणून हे दिकेन केल्ले खंयचेच यत्न फुकट वचनात. आमी जी तांक वा शक्ती मेळयल्ली आसता, ती फुडले उदरगतीच्या आरंभाचो बिंदु जाता (राधाकृष्णन).



# ज्ञान-विज्ञानयोग

बुद्दी थीर आनी सम जावपाखातीर योग, ज्ञान आनी भक्ती हे तीन मार्ग गीतेंत सांगल्यात. योग मार्गाचें विवेचन फाटल्या अध्यायांत केल्लें. आतां ह्या अध्यायांत ज्ञानमार्ग विसकायला. हांगा गीतेचो लेखक ब्रह्माचें पूर्ण ज्ञान दिवपाक सोदता; निखट्या विशुद्ध आत्म्याचेंच न्हय, तर संवसारांत ताच्या उकतायल्ल्या रुपांचेंय.

ज्ञान आनी विज्ञान हांच्यो व्याख्या सांख्यांनी भौतिक दिश्टीकोनांतसून मांडल्यात. सांख्यांच्या मत्ताप्रमाण प्रकृती हें मूळ द्रव्य आनी तातूंत सत्त्वादी तीन गुणांचें वेगळ्या वेगळ्या प्रमाणांत भरसप जावन विंगड विंगड पदार्थांची निर्मणी जाली. ह्या विचाराक विज्ञान अशें म्हणटात. हाचे उरफाटें, भायल्यान वेगळे आशिल्ल्या सगल्या सृश्ट पदार्थांची निर्मणी एकाच मूळ द्रव्यांतसून जाल्या, हे जाणविकेक सांख्य मतांत ज्ञान म्हणटात. वेदान्त्यांनी होच विचार वेगळे तरेन मांडला. भायल्यान वेगळे आशिल्ल्या सगल्या पदार्थांत परमेश्वर आसता ह्या विचाराक ते ज्ञान म्हणटात. आनी एकाच परमेश्वरान आपले मायेन (शक्तीन) वेगळीं रुपां धरल्यांत (वा ब्रह्मापासून वेगळे वेगळे सृश्ट पदार्थ जाल्यात) ह्या विचाराक विज्ञान अशी वेदान्त्यांची म्हणणी. गीतेन सांख्यांचो प्रकृती विशींचो सिद्धांत आपणायलो, तरी ज्ञान-विज्ञानाची व्याख्या मात वेदान्त्यांची घेतल्या. सांख्यांचे भाशेंत अपरा म्हळ्यार अचेतन, जड प्रकृती आनी परा म्हळ्यार सचेतन पुरूष. वेदान्त्यांचे दिश्टीन प्रकृती आनी पुरूष ह्यो दोनूय परमेश्वराच्यो विभूती वा निर्मणी आसात. ह्या दोगांय पासून सगले जीव निर्माण जातात आनी तातुंतूच ते सगले विलीन जातात. अपरा ही सकयल्या पांवड्याची प्रकृती. ती पंचमहाभुतांचें जग आनी कूड (मन, बुद्दी आनी अहंकार) अशी आठ आंगांनी वांटल्या. ती चेतन नाशिल्ल्यान अपरा. परा प्रकृती उंच पांवड्याची म्हळ्यार सचेतन पुरूष (१-६). दोरयेंत मणी गुंथतात ते भाशेन हो सगलो संवसार म्हजे भितर (परमेश्वरा भितर) गुंथला अशें श्रीकृष्ण सांगता (७) आनी आपूण कित्याकित्यांत आसां हाची विसकणी करता (८-११). मागीर सत्त्वादी तीन गूण आनी माया हीं आपलेच पासून जातात आनी तांणी गदळायिल्ले लोक आपणाक पांयां पडनात अशें तो सांगता (१२-१५). मागीर चार तरांचे भक्त वर्णिल्यात. तातूंत 'ज्ञानी भक्त म्हजो आत्मोच कसोसो' आसता, कित्याक, फळाची वान्सा सोडून योगबुद्दीन तो चलता (१६-१९) अशें सांगलां. उपरान्त हेर देवांक भजतले भक्त वर्णिल्यात. ते आपल्या नीज सभावाचेर वचून, वेगळीं वेगळीं फळां जोडचेल्या वान्सांच्या नादाक कशे

लागतात आनी तांचे श्रद्धेक लागून तांकां कसलें फळ मेळटा, पूण तें फळ नाशिवंत आसता हें सांगलां (२०-३०). अबुद्दी लोक आपलें खरें रूप वळखनाशिल्ल्यान गदळटात. म्हातारपण आनी मर्ण हातूंतसून सुटचे पासत आपणाचेर आधारून जे वावुरतात ते लोक, तें ब्रह्म, सगलें अध्यात्म आनी सगलें कर्म तें कितें तें समजतात. आधिभूत, आधिदैव आनी आधियज्ञ हीं तिनूय आपलेच भितर (परमात्म्यांत) आसात अशे जे समजतात, ते योगी मर्णाच्या खिणारूय म्हजो उगडास करतात (२९-३०).

## सप्तमोऽध्याय:

श्रीभगवानुवाच

**मय्यासक्तमना: पार्थ योगं युञ्जन्मदाश्रय: ।**
**असंशयं समग्रं मां यथा ज्ञास्यसि तच्छृणु ।।१।।**

भगवंतान म्हळें

*म्हज्यांतु लीन जा पार्था    साध तूं योग साधना ।*
*पूर्ण जाणचें कशें म्हाका    दुबावा वीण आयक तें ।।१।।*

भगवंतान म्हळें: अर्जुना, (तुज्या) मनाक म्हजी ओड लाय. म्हजो आसरो घेवन, योगाचो अभ्यास चलोवन, जे तरेन तूं दुभावा विणें म्हाका सारको बरो वळखशीत, तें ज्ञान आयक.

*अन्वय अर्थ* : **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **पार्थ** = आगा अर्जुना; **मयि आसक्त-मना:** = मनाक म्हजी ओड लाय; **मदाश्रय:** = म्हजो आसरो घेवन; **योगं युञ्जन्** = योगाचो अभ्यास चलोवन; **यथा** = जे तरेन (ज्या ज्ञानान); (तूं) **असंशयम्** = दुभावाविणें; **माम् समग्रं ज्ञास्यसि** = म्हाका सारको बरो वळखशीत; **तत्** = तें (ज्ञान); **श्रृणु** = आयक. १

**ज्ञानं तेऽहं सविज्ञानमिदं वक्ष्याम्यशेषत: ।**
**यज्ज्ञात्वा नेह भूयोऽन्यज्ज्ञातव्यमवशिष्यते ।।२।।**

*विज्ञानासयत तें ज्ञान    सांगितां पूर्ण अर्जुना ।*
*समजतकीच तें हांगा    जाणुचें उरना दुजें ।।२।।*

विज्ञानासयत हें ज्ञान इल्लेंय बाकी दवरिनासतना हांव तुका सांगतां. जें समजतकीच ह्या जगांत आनीक समजुपाचें कांयच बाकी उरना. २

*अ. अ.*: **अहम् ते** = हांव तुका; **इदं सविज्ञानम्** = हें विज्ञानासयत; **ज्ञानम्** = (तत्त्व)ज्ञान; **अशेषत: वक्ष्यामि** = पुराय सांगतां; **यत्ज्ञात्वा** = जें समजतकीच; **इह भूय:** = ह्या जगांत पर्थून; **अन्यत् ज्ञातव्यम्** = आनीक दुसरें समजपाचें कांयच; **न अवशिष्यते** = बाकी उरना. २

मनुष्याणां सहस्त्रेषु कश्चिद्यतति सिद्धये ।
यततामपि सिद्धानां कश्चिन्मां वेत्ति तत्त्वत: ।।३।।

*एकलो कोणूय हजारांत वावुर्ता सिद्धि पासतु ।*
*एकलो सिद्धांतु कोणूयु म्हाका खरोच वळखता ।।३।।*

हजारांत कोणूय एकलोच मनीस सिद्धी (आत्मज्ञाना) पासत वावुरता आनी यत्न करतल्या सिद्धांपैकीं कोणूय एकलोच म्हाका (परमेश्वराक) खरेपणान वळखता. ३

*अ. अ.*: **सहस्त्रेषु मनुष्याणां कश्चित** = हजारांत कोणूय एकलोच मनीस; **सिद्धये** = आत्मज्ञान जोडूंक; **यतति** = वावुरता; **यतताम् अपि सिद्धानाम्** = यत्न करतल्यां सिद्धांपैकीं; **कश्चित् माम्** = कोणूय एकलोच म्हाका; **तत्त्वत: वेत्ति** = खरेपणान वळखता. ३

भूमिरापोऽनलो वायु: खं मनो बुद्धिरेव च ।
अहंकार इतीयं मे भिन्ना प्रकृतिरष्टधा ।।४।।

अपरेयमितस्त्वन्यां प्रकृतिं विद्धि मे पराम् ।
जीवभूतां महाबाहो ययेदं धार्यते जगत् ।।५।।

परमेश्वराच्यो दोन प्रकृती

*भूंय उदक उजो वारें आकाश बुद्दि नी मन ।*
*अहंकारूय अशे आठ वांटे प्रकृतिचे म्हजे ।।४।।*
*ही म्हजी प्रकृती खालती वर्ती प्रकृति ती दुजी ।*
*तिणें जीवु रुपानूच आधारु ह्या जगा दिला ।।५।।*

भूंय,उदक, उजो, वारें, आकाश (हीं पंचमहाभुतां) आनी मन, बुद्दी आनी अहंकारूय मेळून म्हजी प्रकृती (नीज) आठ तरांनी वांटल्या. ही अपरा (सकयल्या पांवड्याची) प्रकृती (४). हिचे परस वयल्या पांवड्याची जीवरुपी (चेतन) प्रकृती आसा अशें तूं समज. त्या जीवरुपी प्रकृतीचेर हो संवसार आधारून आसा. ५

*अ. अ.*: **भूमि:** = भूंय; **आप:** = उदक; **अनल:** = उजो; **वायु:** = वारें; **खम्** = अंत्राळ (आकाश); **मन:** = मन; **बुद्धि:** = बुद्दी; **च अहंकार: एव** = आनी अहंकारूय; **इति** = मेळून; **इयं मे प्रकृति: अष्टधा** = ही म्हजी प्रकृती आठ तरांनी; **भिन्ना** = वांटिल्ली आसा (४). **इयं तु** = ही तर (आठ तरांनी वांटिल्ली) **अपरा** = सकयल्या पांवड्याची (प्रकृती आसा); **महाबाहो** = आगा अर्जुना; **इत:** = हिचे परस; **अन्याम्** = दुसरी; **मे जीवभूताम्** = म्हजी जीवरुपी; **परां प्रकृतिम्** = वयल्या पांवड्याची (चेतन) प्रकृती आसा; **विद्धि** = (अशें तूं) समज; **यया इदं जगत् धार्यते** = जिचेर (हे जीवरुपी प्रकृतीचेर) हो संवसार आधारून आसा. ५

एतद्योनीनि भूतानि सर्वाणीत्युपधारय ।
अहं कृत्स्नस्य जगत: प्रभव: प्रलयस्तथा ।।६।।

*जल्मता जीवु हे सर्व ह्या दोनु प्रकृतींतुल्यान ।*
*सर्व संवसारू निर्मी हांव कर्ता हांव लय बी तसो ।।६।।*

सगल्या जिवांचें ह्यो दोन प्रकृती मूळ (आसा) अशें समज. सगल्या जगाची उत्पत्ती आनी लय हांव करतां. ६

*अ. अ.*: **सर्वाणि भूतानि एतद्योनीनि**= सगल्या जिवांचें ह्यो दोन प्रकृती मूळ (आसा); **इति उपधारय** = अशें समज; **कृत्स्नस्य जगत:** = सगल्या संवसाराक; **प्रभव:** = जल्माक घालतलों; **तथा प्रलय: अहम्** = तसोच ना करतलों हांव. ६

मत्त: परतरं नान्यत् किञ्चिदस्ति धनंजय ।
मयि सर्वमिदं प्रोतं सूत्रे मणिगणा इव ।।७।।

*म्हजेपरस ना कांयु हेरू व्होडु धनंजया ।*
*म्हज्यांत विश्व हें ओंवलां मणी दोऱ्यांतुले जशे ।।७।।*

आगा धनंजया, म्हजे परस व्हडलें अशें दुसरें कितेंच ना. दोरयेंत गुंथिल्ल्या मणयांभाशेन हो सगलो संवसार म्हजेभितर गुंथला. ७

*अ. अ.*: **धनंजय** = अर्जुना; **मत्त:** = म्हजे परस; **परतरं अन्यत् किंचित् न अस्ति** = व्हडलें अशें दुसरें कितेंच ना; **सूत्रे मणिगणा: इव** = दोरयेंत गुंथिल्ल्या मणयांभाशेन; **इदं सर्वं मयि प्रोतम्** = हें सगलें म्हजे भितर गुंथलां. ७

रसोऽहमप्सु कौन्तेय प्रभास्मि शशिसूर्ययो: ।
प्रणव: सर्ववेदेषु शब्द: खे पौरुषं नृषु ।।८।।

पुण्यो गन्ध: पृथिव्यां च तेजश्चास्मि विभावसौ ।
जीवनं सर्वभूतेषु तपश्चास्मि तपस्विषु ।।९।।

बीजं मां सर्वभूतानां विद्धि पार्थ सनातनम् ।
बुद्धिर्बुद्धिमतामस्मि तेजस्तेजस्विनामहम् ।।१०।।

बलं बलवतां चाहं कामरागविवर्जितम् ।
धर्माविरुद्धो भूतेषु कामोऽस्मि भरतर्षभ ।।११।।

*तेज हांव सूर्य चंद्राचें रोसु हांव उदकांतुलो ।*
*वेदांतु ॐ नभीं नाद मन्शांतलें हांवु पौरुश ।।८।।*

*पृथ्वींतलो पर्मळू हांवु तशें तेज उज्यांतुलें ।*
*जिवां जिवीतु गा हांवु तपस्रेश्ठांतु हांव तप ।।९।।*

*जाण हांव सर्व जीवांचें पार्था बीज सनातनु ।*
*बुद्दी हांवु बुदवंतांली तेज तेजस्वितांतुलें ॥१०॥*

*बळ हांवु बळिश्टांतलें ओड-वान्शेविणोंच जें ।*
*धर्माचे आड नाशिल्ली वान्सा जिवांतुलीच हांव ॥११॥*

आगा अर्जुना, उदकांतलो रोस, चंद्र सुर्यांतलो उजवाड, सगल्या वेदांतलो ॐ (प्रणव), आकाशांतलो शब्द आनी मनशांतलें मनीसपण हांव (८). आनी धर्तरेंतलो शुद्ध परमळ तो हांव, उज्यांतलें तेज हांव, सगल्या जिवांत आशिल्ली जीवसाण हांव, तपस्व्यांतलें तप हांव (९). आगा अर्जुना, सगल्या जिवांचें सासणाचें बीं म्हाकाच समज. बुदवंतांची बुद्दी हांव आनी तेजवंतांचें तेज हांवूच (१०). वान्सा आनी ओड हांचे विरयत आशिल्लें बळिश्टांतलें बळ हांव आनी अर्जुना, धर्म-नितीक आड येना जाल्ली अशी जिवांतली वान्सा हांवूच.

*अ. अ.*: **कौन्तेय** = अर्जुना; **अहम्** = हांव; **अप्सु** = उदकांतलो; **रसः** = रोस; **अस्मि** = आसां; **शशिसूर्ययोः प्रभा अस्मि** = चंद्रसूर्यांतलो उजवाड (हांव); **सर्ववेदेषु प्रणवः** = सगल्या वेदांतलो ॐकार; **खे शब्दः** = आकाशांतलो नाद; (आनी) **नृषु** = मनशांतलें; **पौरुषम्** = पौरूश (हांव आसां). **पृथिव्यां पुण्यः गन्धः** = धर्तरेंतलो शुद्ध परमळ; **च विभावसौ तेजः अस्मि** = आनी उज्यांतलें तेज हांव आसां; **च सर्वभूतेषु** = सगल्या जिवांतली; **जीवनम्** = जीवसाण (जिणेशक्त); **च तपस्विषु तपः अस्मि** = आनी तपस्व्यांतलें तप (सोंसणिकायेचें बळ) हांव आसां. ९
**पार्थ** = आगा अर्जुना; **सर्वभूतानां सनातनं बीजम्** = सगल्या जिवांचें सासणाचें बीं; **मां विद्धि** = म्हाकाच समज; **अहं बुद्धिमतां बुद्धिः** = हांव बुदवंतांतली बुद्दी (विवेक शक्त); (आनी) **तेजस्विनां तेजः अस्मि** = तेजवंतांचें तेज (हांव) आसां. १०
**भरतर्षभ**= आगा अर्जुना; **अहं बलवतां** = हांव बळिश्टांचें; **कामराग-विवर्जितम्** = वान्सा आनी ओड हांचे विरयत आशिल्लें; **बलम्** = बळगें; **च धर्माविरुद्धः** = आनी धर्म-नितीक आड येना जाल्ली; (अशी) **भूतेषु कामः अस्मि** = सगल्या जिवांतली वान्सा हांवूच आसां. ११

**ये चैव सात्त्विका भावा राजसास्तामसाश्च ये ।**
**मत्त एवेति तान्विद्धि न त्वहं तेषु ते मयि ॥१२॥**

प्रकृतीचे तीन गूण मनशाक भ्रमयतात

*म्हजे पसून सात्त्वीक राजस आनि तामस ।*
*गूण म्हजेच ठांयीं हे हांव तांच्यांतु मुळींच ना ॥१२॥*

आनीक जे सात्त्वीक, राजस आनी तामस जिनस आसात, त्या सगल्यांक म्हजे पासुनूच ते ते गूण फावो जातात अशें तूं समज. पुणून हांव तांच्यांत ना. ते म्हज्यांत आसात. १२

*अ. अ.*: **च** = आनीक; **ये** = जे; **सात्त्विकाः राजसाः च ये तामसाः भावाः** = सात्त्वीक, राजस आनी जे तामस (गुणांनी भरिल्ले) जिनस (आसात); **तान्** = त्या सगल्यांक; **मत्तः एव** = (ते गूण) म्हजेपासुनूच जातात; **इति विद्धि** = अशें तूं समज; **तेषु न** = हांव तांच्यांत ना (आनी) **ते मयि** = ते म्हजे ठांय आसात.

**त्रिभिर्गुणमयैर्भावैरेभि: सर्वमिदं जगत् ।**
**मोहितं नाभिजानाति मामेभ्य: परमव्ययम् ।।१३।।**

*जिनसांनी त्रिगुणी सर्व गदळ्ळां जग हें सगलें ।*
*देखूनु नेणती म्हाका गुणां पेलो सनातनु ।।१३।।*

ह्या तीन गुणांनी भरिल्ल्या जिनसांनी गदळिल्लो हो संवसार, तांचे पेल्यान आशिल्ल्या अविनाशी अश्या म्हाका सारको वळखना. १३

*अ. अ.*: **एभि: त्रिभि: गुणमयै: भावै:** = ह्या तीन गुणांनी भरिल्ल्या जिनसांनी; **मोहितम्** = गदळिल्लो; **इदं सर्व जगत्** = हो सगलो संवसार; **एभ्य: परं** = तांचे (गुणांचे) पेल्यान आशिल्ल्या; **अव्ययं माम्** = अविनाशी (अश्या) म्हाका; **न अभिजानाति** = सारको वळखना. १३

**दैवी ह्येषा गुणमयी मम माया दुरत्यया ।**
**मामेव ये प्रपद्यन्ते मायामेतां तरन्ति ते ।।१४।।**

*ही माया त्रिगुणी दैवी भौ कश्टाची तरपाकु ही ।*
*भजऽ शरणु येवनू जे माया तरून ते वती ।।१४।।*

कित्याक, त्रिगुणी अशी ही म्हजी दैवी माया तरपाक भौ कश्टाची. जे म्हाकाच शरण येवन भजतात, ते हे मायेक तरून वतात. १४

*अ. अ.*: **हि** = कित्याक; **गुणमयी** = (तीन) गुणांनी भरिल्ली; **एषा मम दैवी माया** = ही म्हजी दैवी माया (शक्ती); **दुरत्यया** = तरपाक भौ कठीण; (पुणून) **ये** = जे मनीस; **माम् एव** = म्हाकाच; **प्रपद्यन्ते** = शरण येवन भजतात; **ते एतां मायां तरन्ति** = ते हे मायेक तरून वतात. १४

**न मां दुष्कृतिनो मूढा: प्रपद्यन्ते नराधमा: ।**
**माययापहृतज्ञाना आसुरं भावमाश्रिता: ।।१५।।**

वायट कर्मां करतल्या लोकांची दशा

*मायेन ज्ञान ना जाल्ले नश्टे मुर्खे उणाकु जे ।*
*आसुरी भाव जोडिल्ले घेना आश्रयु ते म्हजो ।।१५।।*

वायट कर्मां करपी आनी मायेक लागून ज्ञान नाशें जाल्ले मूर्ख (मनीस) तशेच आसुरी सभावाचे लोक म्हाका भजनात. १५

*अ. अ.*: **दुष्कृतिन:** = वायट कर्मां करपी; **मायया: अपहृतज्ञाना:** = मायेक लागून ज्ञान ना जाल्ले; **मूढा:** = मूर्ख (अविवेकी); **आसुरं भावम् आश्रित:** = आसुरी सभाव घेतिल्ले; **नराधमा:** = उणाक लोक; **मां न प्रपद्यन्ते** = म्हाका भजनात. १५

चतुर्विधा भजन्ते मां जनाः सुकृतिनोऽर्जुन ।
आर्तो जिज्ञासुरर्थार्थी ज्ञानी च भरतर्षभ ॥१६॥

भक्तांच्यो चार तरा

*भक्त चौगु सदाचारी म्हाका भजतातु अर्जुना ।*
*पिडिल्ले, तत्त्व सोदी जे ज्ञानी नी धन इत्सुपी ॥१६॥*

आगा अर्जुना, आर्त (दुख्खान तळमळपी), भगवंताचें तत्त्व सोदूंक इत्सुपी, लाभ इत्सुपी आनी ज्ञानी (परमात्म्याचें तत्त्व जाणटले) अशे चार तरांचे पुण्यशीळ लोक म्हाका भजतात.

*अ. अ.*: **अर्जुन** = आगा अर्जुना; **चतुर्विधाः** = चार तरांचे; **सुकृतिनः** = पुण्यशीळ लोक; **मां भजन्ते** = म्हाका भजतात; **भरतर्षभ** = भारतवंशांतल्या म्हालगड्या; **आर्तः** = दुख्खान तळमळपी; **जिज्ञासुः** = जिज्ञासु (भगवंताचें तत्त्व जाणचेली इत्सा करपी); **अर्थार्थी** = लाभ इत्सुपी; **च** = आनी; **ज्ञानी** = ज्ञानी (परमात्म्याचें तत्त्व जाणटले) (अशे चार तरांचे ते लोक). १६

तेषां ज्ञानी नित्ययुक्त एकभक्तिर्विशिष्यते ।
प्रियो हि ज्ञानिनोऽत्यर्थमहं स च मम प्रियः ॥१७॥

*तांतु ज्ञानी सदीं वर्तो भजना कोणा म्हजे विणें ।*
*हांव ताचो चड मोगाचो मोगाचो तो तसो म्हजो ॥१७॥*

तांचेपैकीं एकनिश्ठेन म्हाका एकल्याकच भजतलो आनी सदींच म्हज्यांत चित्त थारायल्लो असो ज्ञानी भक्तच वरतो. कित्याक, हांव (आत्म्याक वळखल्ल्या) ज्ञानी भक्ताचो चड मोगाचो आनी ज्ञानी तसोच म्हज्या मोगाचो. १७

*अ. अ.*: **तेषाम्** = त्या चार तरांच्या भक्तांपैकीं; **नित्ययुक्तः** = सदींच भगवंतांत चित्त थारायल्लो (आनी) **एकभक्तिः** = म्हाका एकल्याकूच भजतलो; **ज्ञानी** = ज्ञानी (तत्त्व जाणटलो); **विशिष्यते** = वरतो; **हि** = कित्याक; **ज्ञानिनः अहम् अत्यर्थम प्रियः** = आत्म्याक वळखल्ल्या ज्ञानी भक्ताचो हांव चड मोगाचो; **च सः मम प्रियः** = आनी तो (ज्ञानी) म्हगेलो मोगाचो. १७

उदाराः सर्व एवैते ज्ञानी त्वात्मैव मे मतम् ।
आस्थितः स हि युक्तात्मा मामेवानुत्तमां गतिम् ॥१८॥

*हे सर्व भक्त गा थोरू ज्ञानी आत्मोच मानि हांव ।*
*त्या योग्या हांवु आधारु ताका ना जोड होड हेर् ॥१८॥*

हे सगले भक्त थोर. पुणून तातूंत ज्ञानी म्हजो आत्मोच कसोसो हांव मानतां. कित्याक, तो थीरबुद्दी (योगी), (सगल्यांची) उत्तम जोड जी हांव, त्या म्हजेर आधारून आसता. १८

*अ. अ.*: **एते सर्वे एव** = हे सगलेच; **उदाराः** = थोर (भक्त); **तु** = पुणून; **ज्ञानी** = ज्ञानी तर; **मे आत्मा एव** = म्हगेलो आत्मोच (स्वरूप) कसोसो; **मे मतम्** = हें म्हजें मत्त; **हि** = कित्याक; **सः युक्तात्मा** = तो थीरबुद्दी (योगी); **अनुत्तमां गतिम्** = (सगल्यांची) उत्तम जोड (जी हांव); **माम् एव आस्थितः** = त्या म्हजेरच आधारून आसता. १८

बहूनां जन्मनामन्ते ज्ञानवान्मां प्रपद्यते ।
वासुदेव: सर्वमिति स महात्मा सुदुर्लभ: ॥१९॥

*अंतीं अनेक जल्मांच्या ज्ञानी म्हाकाच मेळऽ गा ।*
*वासुदेव सगलो भाव म्हात्मो दुर्लभु मेळप ॥१९॥*

अनेक जल्मांचे अखेरेक, हो सगलो संवसार वासुदेवच (रुपी) आसा अशें समजून ज्ञानी (भक्त) म्हाका भजता. असो म्हात्मो मेळप भौ कठीण. १९

*अ. अ.*: **बहूनां जन्मनां अन्ते** = अनेक जल्मांचे अखेरेक; **ज्ञानवान् सर्वं वासुदेव:** = (आत्म्याचें तत्त्व वळखल्लो) ज्ञानी मनीस सगलें कितें वासुदेवच (रुपी) आसा; **इति मां प्रपद्यन्ते** = अशे तरेन म्हाका भजता; **स: महात्मा सुदुर्लभ:** = तो म्हात्मो मेळप भौ कठीण. १९

कामैस्तैस्तैर्हृतज्ञाना: प्रपद्यन्तेऽन्यदेवता: ।
तं तं नियममास्थाय प्रकृत्या नियता: स्वया ॥२०॥

*भोगां वान्शेन् पिसाविल्ले त्या त्या नेमांकु पाळुनू ।*
*नीज सभावु धर्मानू भजतातु हेर दैवतां ॥२०॥*

आपापल्या सभावधर्माप्रमाण त्या त्या (स्वर्गादी फळांच्या) भोगांचे वान्शेन पिसावल्ले लोक तो तो (उपासनेचो) नेम पाळून हेर दैवतां भजतात. २०

*अ. अ.*: **स्वया प्रकृत्या नियता:** = आपापल्या सभावधर्माप्रमाण; **तै: तै:** = त्या त्या; **कामै:** = भोगांचे वान्शेन; **हतज्ञाना:** = ज्ञाना पासून भश्ट जाल्ले (पिसावल्ले) लोक; **तम् तम्** = तो तो (उपासनेचो); **नियमं आस्थाय** = नेम पाळून; **अन्यदेवता: प्रपद्यन्ते** = हेर देवतांक भजतात. २०

यो यो यां यां तनुं भक्त: श्रद्धयार्चितुमिच्छति ।
तस्य तस्याचलां श्रद्धां तामेव विदधाम्यहम् ॥२१॥

*जे जे मुर्तींकु श्रद्धेनु जो जो भजऽ सदींच गा ।*
*ताची ताची तशी श्रद्धा ते देवतेंतु थिरायु हांव ॥२१॥*

जो जो भक्त जे जे देवतेच्या रुपाक श्रद्धेन पुजपाक इत्सिता, ताची ताची तीच श्रद्धा (ते देवतेंत) हांव थारायतां. २१

*अ. अ.*: **य: य: भक्त:** = जो जो भक्त; **यां यां तनुम्** = जे जे देवतेच्या रुपाक; **श्रद्धया अर्चितुं इच्छति** = श्रद्धेन पुजपाक इत्सिता; **तस्य तस्य** = त्या त्या (भक्ताची); **ताम् एव श्रध्दां**= तीच श्रद्धा; **अहं अचला विदधामि** = हांव थारायतां. २१

स तया श्रद्धया युक्तस्तस्याराधनमीहते ।
लभते च ततः कामान्मयैव विहितान्हि तान् ॥२२॥

*तो श्रद्धेनु तिचेवेले भजऽ ते देवतेकु तो ।*
*तांतल्यानु फळटल्यो ताच्यो इत्सा हांवूच त्यो फळै ॥२२॥*

मागीर ती श्रद्धा जोडून तो ते देवतेची पुजा करता आनी मागीर ते देवते पासून म्हजेच कृपेन ताणें इत्सिल्लें खरेंच ताका मेळटा. २२

*अ. अ.*: **तया श्रद्धया युक्तः सः** = (हांवें) थारायल्ली ती श्रद्धा जोडून तो मनीस; **तस्य आराधनं ईहते** = ते देवतेची पुजा करपाक लागता; **च ततः** = आनी ते देवते पासून; **मया एव विहितान्** = हांवेंच ताका दिल्ले; **तान् कामान्** = ते वान्शिल्ले भोग; **हि** = खरेंच; **लभते** = ताका मेळटात. २२

अन्तवत्तु फलं तेषां तद्भवत्यल्पमेधसाम् ।
देवान्देवयजो यान्ति मद्भक्ता यान्ति मामपि ॥२३॥

*जोडिल्लें अल्पबुद्दीनी तें फळु नाशिवंतु गा ।*
*देवांले भक्त देवांकु म्हजे भक्त म्हजेसरीं ॥२३॥*

पुणून त्या अल्पबुद्दी मनशांनी जोडिल्लें तें फळ नाशिवंत आसता. देवांक पुजतले लोक देवां सरीं पावतात. म्हजे भक्त म्हजेच सरीं पावतात. २३

*अ. अ.*: **तु** = पुणून; **तेषाम् अल्पमेधसाम्** = त्या अल्पबुद्दी मनशांनी (जोडिल्लें); **तत् फलम् अन्तवत् भवति** = तें फळ नाशिवंत आसता; **देवयजः देवान् यान्ति** = देवांक पुजतले लोक देवांसरीं पावतात, (आनी) **मद्भक्ताः माम् अपि यान्ति** = म्हजेच सरीं पावतात. २३

अव्यक्तं व्यक्तिमापन्नं मन्यन्ते मामबुद्धयः ।
परं भावमजानन्तो ममाव्ययमनुत्तमम् ॥२४॥ *

*अबुद्दी रूप नेणात म्हजें शाश्वत उत्तम ।*
*ते म्हाका दिसना-जाल्ल्या दिसऽ तसलो धरतात गा ॥२४॥**

अबुद्दी लोक म्हजें स्रेश्ठ, शाश्वत आनी उत्तम रूप वळखना जावन, म्हाका दिसना-जाल्ल्याक दिसता तसलो समजतात. २४

*अ. अ.*: **अबुद्धयः** = अबुद्दी लोक; **मम परं अव्ययं अनुत्तमं भावम्** = म्हजे स्रेश्ठ; शाश्वत आनी उत्तम (अशें) रूप; **अजानन्तः** = वळखना जावन; **माम् अव्यक्तम्** = म्हाका दिसना-जाल्ल्याक; **व्यक्तिम् आपन्नं मन्यन्ते** = दिसता तसलो समजतात. २४

**नाहं प्रकाश: सर्वस्य योगमायासमावृत: ।**
**मूढोऽयं नाभिजानाति लोको मामजमव्ययम् ।।२५।।**

*अज्ञानाची शक्ती*

*हांव सर्वां दिसना पार्था योग मायेनु धांकिल्ल्यान् ।*
*जल्मा विरयतु हांव नित्य मुढांक वळख ना म्हजी ।।२५।।*

योग मायेन वेश्टिल्ल्यान हांव सगल्यांक दिसना. जल्मा विरयत आशिल्ल्या आनी अविनाशी अश्या म्हाका हो गदळल्लो लोक सारको वळखना. २५

*अ. अ.*: **योगमायया समावृत: अहम्** = योग मायेन वेश्टिल्ल्यान हांव; **सर्वस्य प्रकाश: न** = सगल्यांक दिसना; **अजम् अव्ययं माम्** = जल्मा विरयत आशिल्ल्या आनी अविनाशी अश्या म्हाका; **अयं मूढ: लोक:** = हो गदळल्लो लोक; **न अभिजानन्ति** = सारको वळखना. २५

**वेदाहं समतीतानि वर्तमानानि चार्जुन ।**
**भविष्याणि च भूतानि मां तु वेद न कश्चन ।।२६।।**

*पुर्विल्ले जीवु जाणी हांव आतांचेयु धनंजया ।*
*जातुले ते फुडाराकूय म्हाका कोणूच नेणता ।।२६।।*

अर्जुना, फाटीं जाल्ले, सद्या आसात ते आनी फुडें जातले सगले प्राणी हांव जाणां; पुणून म्हाका कोणूच वळखना. २६

*अ. अ.*: **अर्जुन** = आगा अर्जुना; **समतीतानि** = फाटीं जाल्ले ते; **च** = आनी; **वर्तमानानि च भविष्याणि** = सद्या आसात ते आनी फुडें जातले; **भूतानि अहं वेद** = सगले प्राणी हांव जाणां; **तु मां कश्चन न वेद** = पुणून म्हाका कोणूच वळखना. २६

**इच्छाद्वेषसमुत्थेन द्वन्द्वमोहेन भारत ।**
**सर्वभूतानि संमोहं सर्गे यान्ति परंतप ।।२७।।**

*वान्सा द्वेशानु जाल्लो जो द्वंद्वां गदळ भारता ।*
*गदळायी सर्व जीवांकु ह्या संवसारांतु अर्जुना ।।२७।।*

आगा अर्जुना, वान्सा आनी दुस्वास हांचे पासून उप्रासपी सुख-दुख्खादी द्वंद्वांच्या गदळान सगले जीव ह्या संवसारांत मोहांत पडटात. २७

*अ. अ.*: **भारत** = आगा भारत कुळांतल्या; **परंतप** = अर्जुना; **इच्छाद्वेषसमुत्थेन** = इत्सा आनी द्वेश हांचे पासून उत्पन्न जाल्ल्या; **द्वन्द्वमोहेन** = सुखदुख्खादी जुंवळ्यांच्या गदळान; **सर्वभूतानि** = सगले प्राणी; **सर्गे** = ह्या संवसारांत; **संमोहं यान्ति** = घुसपागदळांत पडटात. २७

येषां त्वन्तगतं पापं  जनानां पुण्यकर्मणाम् ।
ते द्वन्द्वमोहनिर्मुक्ता  भजन्ते मां दृढव्रता: ॥२८॥

ज्ञानाचो उद्देश

*सल्लें पातकु जांगेलें   पुण्यकर्मां करूनु गा ।*
*मुक्त ते द्वंद्व मोहांतले   भजऽ म्हाकाच निश्चयी ॥२८॥*

पूण जांगेर्ली पातकां पुण्य कर्मांनी सोंपलीं; ते सूख-दुख्खादी मोहांतल्यान सुटिल्ले घट निश्चयाचे मनीस म्हाका भजतात. २८

*अ. अ.*: **तु** = पुणून; **पुण्यकर्मणां येषां जनानाम्** = बरीं कर्मां करतल्या ज्या लोकांचें; **पापम् अन्तगतम्** = पातक सोंपलें; **ते द्वन्द्वमोहनिर्मुक्ता:** = ते (सूखदुख्खादी) जोडयेच्या गदळांतसून सुटिल्ले; **दृढव्रता:** = घट्ट निश्चयाचे मनीस; **मां भजन्ते** = म्हाका भजतात. २८

जरामरणमोक्षाय  मामाश्रित्य यतन्ति ये ।
ते ब्रह्म तद्विदु: कृत्स्नमध्यात्मं कर्म चाखिलम् ॥२९॥

*जरा-मरण मोक्षाकु   वावुर्पी आस्रयान म्हज्या ।*
*जाणी ते ब्रह्म नी कर्म   सर्व आध्यात्म बी तशे ॥२९॥*

म्हातारपण आनी मर्ण (पुनर्जल्माचे फेरे) हातूंतसून सुटचे खातीर म्हजो आस्रय घेवन जे वावुरतात, ते परब्रह्म, सगलें आध्यात्म आनी अख्खें कर्म कितें तें समजतात. २९

*अ. अ.*: **ये** = जे; **जरा मरण मोक्षाय** = म्हातारपण आनी मोक्ष हातूंतसून सुटचे खातीर; **मां आश्रित्य** = म्हाका शरण येवन; **यतन्ति** = वावुरतात; **ते** = ते (भक्त); **तत् ब्रह्म** = तें ब्रह्म; **कृत्स्नम् अध्यात्मम्** = सगलें आध्यात्म; **च अखिलं कर्म** = आनी अख्खें कर्म (कितें तें); **विदु:** = समजतात. २९

साधिभूताधिदैवं मां साधियज्ञं च ये विदु: ।
प्रयाणकालेऽपि च मां ते विदुर्युक्तचेतस: ॥३०॥ *

*म्हाका जिवांतु देवतांतु  तसो यज्ञांतु जाणटले ।*
*ते योगयुक्त गा म्हाका  अंतखिणार जाणती ॥३०॥**

आनी आधिभूत, आधिदैव आनी आधियज्ञ हीं तिनूय म्हजे भितर आसात अशें जे समजतात, ते संतुळीत निजाचे आशिल्ल्यान मर्णाच्या खिणारय म्हजो उगडास करतात. ३०

*अ. अ.*: **साधिभूताधिदैवं साधियज्ञं च** = आधिभूत, आधिदैव आनी आधियज्ञ हीं तिनूय म्हजेभितर आसात अशें जे समजतात; **ते युक्तचेतस:** = ते संतुळीत चित्ताचे आशिल्ल्यान; **प्रयाणकालेऽपि मां विदु:** = मर्णाच्या खिणारय म्हजो उगडास करतात. ३०

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **ज्ञानविज्ञान**योगो नाम **सप्तमो**ऽध्याय: ।

हे भाशेन भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांच्या संवादांतलो
**ज्ञानविज्ञान योग** नांवाचो **सातवो** अध्याय सोंपलो.

## श्लोकटिपो

*२४. व्यक्त रुपाकच सर्वस्व मानून बसप म्हळ्यार सरळच अव्यक्ताचो अवमान करप. हाचे उरफाटें व्यक्त हें अव्यक्ताचो उजवाड आशिल्ल्यान, व्यक्त रुपाक उणे लेखप म्हळ्यार अव्यक्ताचो अवमान करप (९-११). श्लोक ९-११ आनी हो श्लोक हे दोनूय समान अर्थाचे आसल्यारूय हो श्लोक अतिरेकी मूर्तीपुजेचो निशेध करता आनी श्लोक ९-११ मुर्तीच्या अवमानाचो निशेध करता, असो हो दोनांतलो बारीक भेद. (वि.).

*३०. जे भौतीक सृश्टीचें तत्त्व म्हणून, सगल्या देवतांचो आधार म्हणून आनी सगल्या यज्ञांचो आधार (स्वामी) म्हणून म्हळ्यार आधिभूत, आधिदैव आनी आधियज्ञ हांचेसयत (म्हणजे हें सगलें हांवूच आसां) म्हाका परमेश्वराक वळखतात, ते थीरचित्त आशिल्ल्यान मरच्या वेळारूय म्हाका वळखतात.



# अक्षरब्रह्मयोग

फाटल्या अध्यायांत केल्ली ज्ञानविज्ञानाची विसकणी ह्या अध्यायांत फुडें चल... ध्यान आनी चिंतन हीं मनशाचे जिणेचेर तशींच मर्णा उपरांतूय परिणाम करतात. ... उत्क्रांती आनी नित्य ध्यान-साधना करप हे ह्या अध्यायाचे मुखेल विशय.

ब्रह्म, कर्म, आध्यात्म, आधिभूत, आधिदैव, आधियज्ञ तशेंच कुडींत तो कितें ... आनी संयमी मनशांनी अंतखिणार ईश्वराक कशें वळखुचें हीं आध्यात्मज्ञानाचीं सा... हांगा सांगल्यांत (१-५). जें सगल्यांत श्रेश्ठ आसून अविनाशी आसा तें ब्रह्म, ... मूलभूत गूण (सभाव) तें आध्यात्म आनी दर पदार्थाचे निर्मणेची क्रिया तें (...) ... म्हणचें. सगल्या सृश्ट पदार्थांची उत्पत्ती, स्थिती आनी लय ही घडोवपी शक्ती ती ... शक्ती. पदार्थांत चैतन्य ओतपी पुरूष ती आधिदैवी शक्ती (आधिभूत आनी ... दोनूय परमेश्वराचीं रुपां). यज्ञाचो अधिपती (आधियज्ञ) परमेश्वरच आनी कुडींत ... (आधिआत्मो) परमेश्वरच.

हाचे उपरान्त ध्यानाचें फळ सांगलां (६-१५). ज्या तत्त्वाचें, विचाराचें वा अवस्थेच मनीस सदांच ध्यान करता, तीच दशा वा अवस्था ताका अंतीं मेळटा. देखून मणा... खिणारूय सगूण वा निर्गूण ईश्वराचें ध्यान करचें. ईश्वराचें उत्कट ध्यान आनी ... म्हळ्यारूच ताची भक्ती.

मागीर विश्वाचे उत्क्रांतीचेर विचार मांडल्यात (१६-२२). कालक्रमानुसार अव्यक्त प्रकृतींतसून सृश्टीची उत्क्रांती जाता आनी अंतीं सगलें चराचर प्रकृतींत विलीन जात तशेंच, प्रकृती परसूय स्रेश्ठ अशें ईश्वरी तत्त्व आसा.

मागीर मर्णा उपरान्त मेळटल्या शुक्ल (धवो) आनी कृष्ण (काळो) ह्या दोन ... कल्पना सांगल्या. योगवृत्तीची सदींच जाणवीक आशिल्लो योगीच परम पदाक पावत (२३-२८).

# अष्टमोऽध्याय:

अर्जुन उवाच

**किं तद्ब्रह्म किमध्यात्मं किं कर्म पुरुषोत्तम ।**
**अधिभूतं च किं प्रोक्तमधिदैवं किमुच्यते ।।१।।**

**अधियज्ञ: कथं कोऽत्र देहेऽस्मिन्मधुसूदन ।**
**प्रयाणकाले च कथं ज्ञेयोऽसि नियतात्मभि: ।।२।।**

अर्जुनान म्हळें

*म्हणटी कित्याकु तें ब्रह्म कर्म आध्यात्म केशवा ।*
*आधिभूत कितें सांग कितें तें आधिदैवु गा ।।१।।*

*आधियज्ञ कसो कोणु हे कुडींतु धनंजया ।*
*कसो अंतखिणार तुका वळखता आत्मसंयमी ।।२।।*

र्जुनान म्हळें: आगा कृष्णा, तें ब्रह्म कितें? आध्यात्म कितें? कर्म तें कितें? आनी आधिभूत तें? आधिदैव कित्याक म्हणटात? (१) कृष्णा, हे कुडींत आधियज्ञ तो कोण? हे कुडींत कसो आसता? थीरचित्त अश्या मनशाक मरच्या वेळार तुजो उगडास कसो जाता? (२)

*वय आनी अर्थ*: **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **पुरुषोत्तम** = आगा कृष्णा; **तत् ब्रह्म किम्** = (तुवें ल्लें) तें ब्रह्म कितें? (आनी) **अध्यात्मं किम्** = आध्यात्म कितें?; **किम् कर्म** = कर्म कितें? ; **च** धिभूतं किं प्रोक्तम् = आधिभूत कित्याक म्हणटात? **अधिदैवं किम् उच्यते** = आधिदैव कित्याक टात? (१); **मधुसूदन = कृष्णा; अत्र अधियज्ञ: क:** = हांगा (हे कुडींत) आधियज्ञ कोण? स्मिन् देहे कथम्** = हे कुडींत तो कसो आसता?; **च** = आनी; **नियतात्मभि:** = थीरचित्त अश्या शाक; **प्रयाणकाले कथं ज्ञेय: असि** = मरच्या वेळार (तुजो) कसो उगडास जाता? २

श्रीभगवानुवाच

**अक्षरं ब्रह्म परमं स्वभावोऽध्यात्ममुच्यते ।**
**भूतभावोद्भवकरो विसर्ग: कर्मसंज्ञित : ।।३।।**

भगवंतान म्हळें

*व्हड अक्षर तें ब्रह्म आध्यात्म नीज भाव तो ।*
*जिवांचो निर्मणे वावर नांव ताकाच कर्म हें ।।३।।*

वंतान म्हळें: अक्षर (अविनाशी) अशें सगल्यांत व्हड तें ब्रह्म. स्वभाव (अक्षर ब्रह्माचो दर कुडिंतलो अंश जो जीव) (जिवात्मो) ताका आध्यात्म म्हणटात. जिवांची निर्मणी पाच्या वावराक (विसर्ग) कर्म अशें म्हणटात. ३

*अ.*: **अक्षरं परमं ब्रह्म** = अविनाशी अशें सगल्यांत व्हड तें ब्रह्म; **स्वभाव: =** ताच्या उकत्या जाल्ल्या रुपाक; **अध्यात्मं उच्यते =** आध्यात्म म्हणटात; **भूतभावोद्भवकर: =** जिवांच्या कुडींची निर्मणी चेल्या; **विसर्ग:** = वावराक (निर्मणेचे शक्तीक); **कर्मसंज्ञित:** = कर्म हें नांव आसा. ३

अधिभूतं क्षरो भाव: पुरुषश्चाधिदैवतम् ।
अधियज्ञोऽहमेवात्र देहे देहभृतां वर ।।४।।

*आधिभूत विनाशी भाव् जिवांशु आधिदैवु तें ।*
*हे कुडींत पुजा भोगपी हांवूच यज्ञदेवु तो ।।४।।*

अर्जुना, (सगल्या जिवांची) नाशिवंत दशा (स्थिती) ती आधिभूत (म्ह. सगल्या जिवांतलें तत्त्व) आनी सगल्यांचे कुडींत चैतन्यरुपान रावपी; पुरुष म्हळ्यार मूळ ब्रह्म हेंच अधिदैव. हे कुडींत सगल्यो पुजा भोगतलों आधियज्ञ हांवूच आसां. ४

*अ. अ.*: **देहभृतां वर** = देह धरप्यांतल्या व्हड अर्जुना; **क्षरभाव:** = (सगल्या जिवांची) नाशिवंत दशा (स्थिती) ती; **अधिभूतम्** = आधिभूत; **च** = आनी; **पुरुष:** = पुरूष (सगल्यांचे कुडींत चैतन्य रुपान रावतलो म्ह. मूळ ब्रह्म) **होच अधिदैवतम्** = आधिदैव आसा (आनी) **अत्र देहे** = हे कुडींत; **अधियज्ञ:** = सगल्यो पुजा भोगतलो; **अहम् एव** = हांवूच आसां. ४

**अन्तकाले च मामेव स्मरन्मुक्त्वा कलेवरम् ।**
**य: प्रयाति स मद्भावं याति नास्त्यत्र संशय: ।।५।।**

*अंतीं स्मरूनु म्हाकाच वता सोडूनु कूड जो ।*
*म्हज्या रुपांतु तो एक हातूंत ना दुभावु गा ।।५।।*

आनी मरच्या वेळार म्हाकाच स्मरून जो कूड सोडून वता, तो म्हज्या रुपांत मेळटा हातूंत दुभाव ना. ५

*अ. अ.*: **च अन्तकाले** = आनी मरच्या वेळार; **माम् एव स्मरन्** = म्हाकाच (परमात्म्याक) **स्मरून; य: कलेवरं मुक्त्वा** = जो कूड सोडून; **प्रयाति** = वता; **स: मद्भावम्** = तो म्हज्या रुपाक; **याति** = मेळटा; **अत्र संशय: न अस्ति** = हातूंत दुभाव ना. ५

**यं यं वापि स्मरन्भावं त्यजत्यन्ते कलेवरम् ।**
**तं तमेवैति कौन्तेय सदा तद्भावभावित: ।।६।।**

ध्यानाचें फळ

*ज्या ज्या रुपाकु चिंतूनू सोडी आपलें कळिंवर ।*
*आशिल्ल्यान् तो सदीं गुल्ल मेळऽ त्या त्या रुपाकु तो ।।६।।*

वा आगा अर्जुना, जल्मभर (हो मनीस) ज्या ज्या रुपाचेंच स्मरण करता, (ताका) मरच्या वेळार त्या त्या रुपाचेंच स्मरण जावन, तो कूड सोडटा, आनी त्या त्या रुपाकच मेळटा. ६

*अ. अ.*: **वा कौन्तेय** = आगा कौन्तेया (अर्जुना); **सदा** = जल्मभर; (हो मनीस) **यं यं भाव अपि स्मरन** = ज्या ज्या रुपाचेंच स्मरण करता; (ताका) **अन्ते** = मरच्या वेळार; **तद्भाव भावित:** = त्या त्या रुपाचेंच स्मरण जावन; **कलेवरं त्यजति** = तो कूड सोडटा; **तत् तम् एव एति** = त्या त्या रुपाकच मेळटा.

**तस्मात्सर्वेषु कालेषु मामनुस्मर युध्य च ।**
**मय्यर्पितमनोबुद्धिर्मामेवैष्यस्यसंशयम् ॥७॥**

*म्हणून गा सदीं पार्था म्हाका स्मरूनु झूज तूं ।*
*दिल्लो बुद्दी मनै म्हाका मेळशी म्हाकाच निश्चितु ॥७॥*

म्हण सदांकाळ म्हाका स्मर आनी झूज. म्हजेठांय बुद्दी आनी मन ओंपिल्लो (असो तूं) दुभावाविणें म्हाकाच मेळटलो. ७

*अ. अ.*: **तस्मात्** = देखून; **सर्वेषु कालेषु माम् अनुस्मर** = सदांकाळ म्हाका स्मर; **च युध्य** = आनी झूज. (हे भाशेन) **मयि अर्पितमनोबुद्धिः** = म्हजेठांय मन आनी बुद्दी ओंपिल्लो (असो तूं); **असंशयं माम् एव एष्यसि** = दुभावाविणें म्हाकाच मेळटलो. ७

**अभ्यासयोगयुक्तेन चेतसा नान्यगामिना ।**
**परमं पुरुषं दिव्यं याति पार्थानुचिन्तयन् ॥८॥**

*थारावनु चित्त अभ्यासान् दिना वचूंक खंयच तें ।*
*ध्यानानु दिव्य ब्रह्माच्या व्होड ब्रह्माकु मेळऽ तो ॥८॥*

आगा अर्जुना,चित्त योगाच्या अभ्यासान थारावन जो त्या व्हड पुरुषाचें (ब्रह्माचें) सदींच चिंतन करता, तो ब्रह्माक मेळटा. ८

*अ. अ.*: **पार्थ** = आगा अर्जुना; **चेतसा अभ्यासयोगयुक्तेन** = चित्त योगाच्या अभ्यासान थारावन; **नान्यगामिना** = दुसऱ्या खंयच्याच (विशयाकडेन) वचूंक दिनासतना; **दिव्यं परमं अनुचिन्तयन्** = दिव्य व्हड ब्रह्माचें सदींच ध्यान करता; **पुरुषं याति** = तो ब्रह्माक मेळटा. ८

**कविं पुराणमनुशासितारमणोरणीयांसमनुस्मरेद्यः ।**
**सर्वस्य धातारमचिन्त्यरूपमादित्यवर्णं तमसः परस्तात् ॥९॥**

**प्रयाणकाले मनसाचलेन भक्त्या युक्तो योगबलेन चैव ।**
**भ्रुवोर्मध्ये प्राणमावेश्य सम्यक् स तं परं पुरुषमुपैति दिव्यम् ॥१०॥**

*सर्वज्ञ अनादी विश्वा नियंतो अणुकूय सुक्षीम सर्वांक पोशी ।*
*तर्काचे पेलो सुर्यासम दिव्य अज्ञानापेल्या प्रभूकु स्मरून ॥९॥*

*मरच्या खिणारू जो योग बळानु समा थारावनु दों भोंवयांतु स्वास ।*
*थीर मनानु भक्तीनु स्मरूनु पावऽ तो दिव्य त्या ब्रह्माकु होड ॥१०॥*

सगलें जाणटलो (कवी), अनादी, सगल्यांचो नियंतो, अणूपरसूय सुक्षीम, सगल्यांक पोसतलो, येवजुपाक येना जाल्ल्या रुपाचो, सुर्याभाशेन तेजाळ, अज्ञान-काळखाच्या पेल्यान

आशिल्ल्या परमेश्वराचें जो मनीस मर्णा-वेळार योगाच्या बळान तेच भाशेन भक्तीन आनी थीर मनान भोंवयांमदीं स्वास सारको थारावन उगडास करता, तो त्या दिव्य ब्रह्माक पावता .

*अ. अ.*: **कविम्** = सगलें जाणटलो; **पुराणम्** = अनादी; **अनुशासितारम्** = सगल्यांचो नियंतो (शेक चलोवपी); **अणो: अणीयांसम्** = अणू परसूय सुक्षीम; **सर्वस्य धातारम्** = सगल्यांक पोसतलो; **अचिन्त्यरुपम्** = येवजुपाक येना जाल्लो; **आदित्यवर्णम्** = सुर्याभाशेन तेजाळ; **तमस: परस्तात्** = (अज्ञान) काळखाच्या पेल्यान आसपी (असो म्हजो म्ह. परमेश्वराचो); **य:** = जो मनीस; **प्रयाणकाले** = मर्णाच्या वेळार; **योगबलेन** = योगाच्या बळान; (तेच भाशेन) **भक्त्या युक्त: च अचलेन मनसा** = भक्तीन आनी थीर मनान; **भ्रुवो:मध्ये** = भोंवयांचे मदीं; **प्राणं सम्यक् आवेश्य** = स्वास सारको थारावन; **अनुस्मरेत्** = उगडास करता; **तं दिव्यं परमम् एव उपैति** = त्या दिव्य व्हड ब्रह्माक पावता (९-१०).

**यदक्षरं वेदविदो वदन्ति विशन्ति यद्यतयो वीतरागा : ।**
**यदिच्छन्तो ब्रह्मचर्यं चरन्ति तत्ते पदं संग्रहेण प्रवक्ष्ये ॥११॥**

*जी अक्षर म्हणटात वेद जाणपी*
*यती जंय रिगतात सोडून वान्सा ।*
*पाळटी ब्रह्मचर्य तें पद जोडूंक*
*सांगतां हांव सार तुका त्या पदाचो ॥११॥*

वेद जाणटले जिका अक्षर (अविनाशी) म्हणटात, विरक्त जावन यती जे सुवातेंत रिगतात, जी मोक्षाची सुवात इत्सुपी लोक (मुमुक्षु) ब्रह्मचर्यान चलतात, ती सुवात हांव तुका संक्षेपान सांगतां. ११

*अ. अ.*: **वेदविद: यत् अक्षरं वदन्ति** = वेद जाणटले जिका अविनाशी सुवात म्हणटात; **वीतरागा:** = विरक्त जावन; **यतय: यत् विशन्ति** = यती जंय रिगतात; **यत् इच्छन्त: ब्रह्मचर्यम् चरन्ति** = जी (मोक्षाची सुवात) इत्सुपी लोक ब्रह्मचर्यान (संयमान) चलतात; **तत् पदम्** = ती सुवात (अक्षर नांवाचें पद); **ते संग्रहेण प्रवक्ष्ये** = तुका थोड्या उतरांनी सांगतां. ११

**सर्वद्वाराणि संयम्य मनो हृदि निरुध्य च ।**
**मूर्ध्न्याधायात्मन: प्राणमास्थितो योगधारणाम् ॥१२॥**

**ओमित्येकाक्षरं ब्रह्म व्याहरन्मामनुस्मरन् ।**
**य: प्रयाति त्यजन्देहं स याति परमां गतिम् ॥१३॥**

*आडावन इंद्रियां कवडां थारावनु अंतरीं मन ।*
*स्थापून मस्तकीं स्वास करूनु योग धारणा ॥१२॥*
*ॐ हें एकाक्षरी ब्रह्म म्हाका स्मरत जो जपी ।*
*वता सोडूनु जो कूड जोडी व्हडली सुवातु तो ॥१३॥*

इंद्रियांचीं सगलीं दारां धांपून (इंद्रियांक तांच्या विशयांपासून आडावन), मन हृदयांत थारावन, आपलो स्वास मस्तकांत स्थापून, योग धारणेंत थीर जावन (१२) ब्रह्मरुपी ॐ हें एकोडें अक्षर तोंडान म्हणीत आनी म्हाका स्मरत जो कूड सोडून वता, तो उत्तम गती मेळयता. १३

*अ. अ.*: **सर्वद्वाराणि संयम्य** = इंद्रियांचीं सगलीं दारां धांपून; **मनः हृदि निरुध्य** = मन हृदयांत थारावन, **च आत्मनः प्राणम्** = आनी आपलो स्वास; **मूर्ध्नि आधाय** = मस्तकांत स्थापून; **योगधारणाम् आस्थितः** = योग धारणेंत थीर जावन (१२); **ब्रह्म ॐ इति एकाक्षरम्** = ब्रह्मरुपी ॐ हें एकोडें अक्षर; **व्यावहरन्** = तोंडान म्हणत; **माम् अनुस्मरन्** = म्हजो उगडास करीत; **देहं त्यजन् प्रयाति** = कूड सोडून वता; **सः परमां गतिं याति** = तो व्हडले सुवातेर पावता. १३

**अनन्यचेताः सततं यो मां स्मरति नित्यशः ।**
**तस्याहं सुलभः पार्थ नित्ययुक्तस्य योगिनः ॥१४॥**

*लायिना मन खैं हेरू स्मरऽ म्हाकाच सदींच जो ।*
*योगांतु जो सदीं गुल्ल ताका सहज मेळऽ हांव ॥१४॥*

अर्जुना, जो मनीस ईश्वरा शिवाय हेर कित्याचेरूच चित्त लायनासतना सदींच निरंतर म्हाका स्मरता त्या नित्य योगबुद्दीन चलतल्या योग्याक हांव मेळूंक सोंपो. १४

*अ. अ.*: **पार्थ** = अर्जुना; **अनन्यचेताः** = ईश्वरा शिवाय हेर कित्याचेरूच चित्त लायनासतना; **यः नित्यशः सततं मां स्मरति** = जो सदींच निरंतर म्हजो उगडास करता; **तस्य नित्ययुक्तस्य** = सदींच योगबुद्दीन चलतल्या; **योगिनः अहं सुलभः** = योग्याक हांव (मेळूंक) सोंपो. १४

**मामुपेत्य पुनर्जन्म दुःखालयमशाश्वतम् ।**
**नाप्नुवन्ति महात्मानः संसिद्धिं परमां गताः ॥१५॥**

*सिद्धी परम मेळिल्ले म्हात्मे म्हज्यांतु लीन जे ।*
*पर्तें घेनातु ते जल्म दुख्खाघर अशाश्वतु ॥१५॥*

हांव मेळटकूच (मोक्षाची) व्हडली सुवात जोडिल्ल्या म्हात्म्यांक दुख्खाचें घर कसोसो आनी खिणयाळो असो पुनर्जल्म मेळना. १५

*अ. अ.*: **मां उपेत्य** = हांव मेळटकीच; **परमां संसिद्धिं गताः** = (मोक्षाची) व्हडली सुवात (सिद्धी) जोडिल्ल्या; **महात्मनः** = म्हात्म्यांक; **दुःखालयम् अशाश्वतं पुनर्जन्म** = दुख्खाचें घर कसोसो आनी अशाश्वत पुनर्जल्म; **न आप्नुवन्ति** = मेळना. १५

आब्रह्मभुवनाल्लोकाः पुनरावर्तिनोऽर्जुन ।
मामुपेत्य तु कौन्तेय पुनर्जन्म न विद्यते ॥१६॥

*गेल्ले लोकांकु ब्रह्मादी पर्थूनु जल्मतातु ते ।*
*येवन मेळटातु जे म्हाका तांकां पर्थूनु जल्म ना ॥१६॥*

आगा अर्जुना, ब्रह्मलोक धरून सगल्या लोकांतसून पर्थून जल्म घेवन ह्या संवसारांत येवचें पडटा. पुणून, कुंतीच्या पुता, म्हाका येवन मेळटकीच पर्थून जल्म जायना. १६

*अ. अ.*: **अर्जुन** = अर्जुना; **आब्रह्मभुवनात्** = ब्रह्मलोक धरून; **लोकाः** = सगले लोक; **पुनरावर्तिनः** = (मनशाक) पुनर्जल्म घेवंक लायतात; **तु कौन्तेय** = पुणून, कुंतीच्या पुता; **माम् उपेत्य** = म्हाका येवन मेळटकीच; **पुनर्जन्म न विद्यते** = पुनर्जल्म जायना. १६

४

सहस्त्रयुगपर्यन्तमहर्यद्ब्रह्मणो विदुः ।
रात्रिं युगसहस्रान्तां तेऽहोरात्रविदो जनाः ॥१७॥ *

सृश्टीची उत्क्रांती

*ब्रह्मदेवा दिसू एकू हजार चौकडयां युगां ।*
*एक रात तशी ताची जाणटले कालमेजपी ॥१७॥* *

ब्रह्मदेवाचो एक दीस म्हळ्यार चार युगां हजार खेपो वचपाक जो वेळ लागता इतलो आनी तितलोच काळ म्हळ्यार ताची एक रात जाता, अशें जे समजतात तेच कालतत्त्व जाणा जाल्ले लोक म्हणचे. १७

*अ. अ.*: **ब्रह्मणः यत्** = ब्रह्मदेवाचो जो; **अहः** = (एक) दीस; (तो) **सहस्त्रयुगपर्यन्तम्** = चार युगां हजार खेपो वचूंक लागतलो वेळ; (आनी) **रात्रिम्** = (ताची) रातूय; **युगसहस्त्रान्ताम्** = चार युगां हजार खेपो वचूंक वेळ लागता इतलीं. (अशे जे मनीस) **विदुः** = समजतात; **ते जनाः** = ते(च) लोक; **अहोरात्रविदः** = दीसरात म्हळ्यार काल-तत्त्व जाणा-जाल्ले लोक. १७

अव्यक्ताद्व्यक्तयः सर्वाः प्रभवन्त्यहरागमे ।
रात्र्यागमे प्रलीयन्ते तत्रैवाव्यक्तसंज्ञके ॥१८॥

*अव्यक्तांतसून जातात ब्रह्मा फांत्यारु जीव हे ।*
*रात सोंपतच ना जातात् ते अव्यक्तांतसुन् पर्थुनू ॥१८॥*

हो (ब्रह्मदेवाचो) दीस उजवाडटकीच अव्यक्ता (प्रकृती) पासून सगले दिसतले (चराचर) पदार्थ जातात आनी (ताची) रात जातकूच पर्थून त्याच अव्यक्तांत ना जातात. १८

*अ. अ.*: **अहरागमे** = (ब्रह्मदेवाचो) दीस उजवाडटकीच; **अव्यक्तात् सर्वाः** = अव्यक्तांतसून सगले; **व्यक्तयः प्रभवन्ति** = व्यक्त म्हळ्यार दिसतले (चराचर) पदार्थ उत्पन्न जातात; (आनी) **रात्र्यागमे** = (ब्रह्मदेवांची) रात सुरू जातकीच, **तत्र एव अव्यक्त-संज्ञके प्रलीयन्ते** = त्याच अव्यक्त नांवाच्या (प्रकृतींत) लयाक वतात. १८

**भूतग्रामः स एवायं भूत्वा भूत्वा प्रलीयते ।**
**रात्र्यागमेऽवशः पार्थ प्रभवत्यहरागमे ।।१९।।**

*जिवासंघ पराधीन भौनु भौनु जल्मून तो ।*
*ना जाता ब्रह्मरातींतु फांत्यारु जल्मता पुना ।।१९।।*

आगा अर्जुना, तोच हो परतंत्र असो सगल्या जिवांचो चोंबो भौन भौन उत्पन्न जावन ब्रह्मदेवाली रात जातकीच ताचो लय जाता आनी ताचो दीस उजवाडटकीच पर्थून जल्मता.

*अ. अ.*: **पार्थ** = आगा अर्जुना; **सः एव अयम्** = तोच हो; **अवशः** = परतंत्र असो; **भूतग्रामः** = सगल्या जिवांचो चोंबो; **भूत्वा भूत्वा** = भौन भौन जल्मून; **रात्र्यागमे प्रलीयते** = (ब्रह्मदेवाची) रात जातकीच ना जाता, (आनी) **अहरागमे** = (ताचो) दीस उजवाडटकीच; **प्रभवति** = जल्मता. १९

**परस्तस्मात्तु भावोऽन्योऽव्यक्तोऽव्यक्तात्सनातनः ।**
**यः स सर्वेषु भूतेषु नश्यत्सु न विनश्यति ।।२०।।**

**अव्यक्तोऽक्षर इत्युक्तस्तमाहुः परमां गतिम् ।**
**यं प्राप्य न निवर्तन्ते तद्धाम परमं मम ।।२१।।**

प्रकृती परस स्रेश्ठ अशें ईश्वरी तत्त्व

*दुजी अव्यक्त गा वस्तु व्हड अव्यक्त शाश्वतु ।*
*ना जालेय सगटू जीव ती वस्तु अविनाशि गा ।।२०।।*

*त्या अविनाशि अव्यक्ता म्हळया भौच बरी गती ।*
*येना पर्थूनु गेल्लो थैं परम धाम तें म्हजें ।।२१।।*

पुणून, ह्या अव्यक्ता (प्रकृती) परस चड पेल्यानचें आनी व्हड अशें अव्यक्त सनातन तत्त्व (भाव) आसा. सगल्या जिवांचो नाश जाल्यारय तो नासो जायना. त्या अव्यक्ताक अक्षर अशें म्हणटात. ताकाच परम गती म्हणटात. ती मेळटकूच कोणूच पर्थून येनात. तेंच म्हजें व्हडलें घर. २०-२१

*अ. अ.*: **तु** = पुणून; **तस्मात् अव्यक्तात्** = त्या अव्यक्ता परसूय; **परः अन्यः** = चड पेल्यानचें **आनीक दुसरें ; यः सनातनः अव्यक्तः** = जें सासणाचें दिसना जाल्लें; **भावः** = तत्त्व (भाव) आसा; **सर्वेषु भुतेषु नश्यत्सु** = सगल्या जिवांचो नाश जाल्यारूय; **सः** = तो; **न विनश्यति** = नासो जायना २०

**अव्यक्तः अक्षरः इति उक्तः** = अव्यक्त (प्रकृती) अक्षर अशें म्हणटात. **तम्** = त्याच (अक्षर नांवाच्या तत्त्वाक); **परमां गतिं आहुः** = व्हडली गती (सुवात) म्हणटात: **यम् प्राप्य न निवर्तन्ते** = त्या तत्त्वाक (भावाक) मेळटकीच थंयसून कोणूच फाटीं परतनात; **तत् मम परमं धाम** = तें म्हजें व्हडलें घर. २१

पुरुषः स परः पार्थ भक्त्या लभ्यस्त्वनन्यया ।
यस्यान्तःस्थानि भूतानि येन सर्वमिदं ततम् ॥२२॥

*मेळऽ म्हजेच भक्तीनु पार्था तो पुरुषोत्तम ।*
*ताच्यांत जीवु हे सर्व जाणें हें विश्व व्यापलां ॥२२॥*

आनी अर्जुना, जाचे भितर सगले जीव आसात आनी जाणें हें सगलें विश्व व्यापलां, तो परम पुरुष, दुसऱ्या कित्याचेरूच मन लायनासतना भक्तीन जोडूं येता. २२

*अ. अ.:* **तु** = आनी; **पार्थ** = आगा अर्जुना; **अस्य अन्तःस्थानि** = जाचे भितर; **भूतानि** = सगले जीव आसात; (आनी) **येन इदं सर्वं ततम्** = जाणें हें सगलें (विश्व) व्यापलां; **सः परः पुरुषः = तो** परम पुरुष; **अनन्यया** = अनन्य; **भक्त्या** = भक्तीन; **लभ्यः** = जोडूं येता. २२

यत्र काले त्वनावृत्तिमावृत्तिं चैव योगिनः ।
प्रयाता यान्ति तं कालं वक्ष्यामि भरतर्षभ ॥२३॥

*पडिल्ले भायर ज्या वेळार ज्या योग्यां जल्म ना पुना ।*
*ज्या वेळीं भौनु येतातु सांगिता वेळु गा तुका ॥२३॥*

आगा अर्जुना, योगी ज्या वेळार मरतकीच पर्थून (ह्या लोकांत जल्माक) येनात आनी ज्या वेळार मरतकीच पर्थून येतात, तो वेळ तुका हांव सांगतां. २३

*अ. अ.:* **तु भरतर्षभ** = आनी अर्जुना; **योगिनः यत्र काले प्रयाताः** = योगी लोक ज्या वेळार मरतकीच; **अनावृत्तिम्** = पर्थून (ह्या लोकांत जल्माक) येनात; **च** = आनी; **आवृत्तिं एव यान्ति =** (ज्या वेळार मरतकीच) पर्थून येवपाचे गतीक पावतात; **तं कालं वक्ष्यामि** = तो वेळ (हांव) सांगतां. २३

अग्निर्ज्योतिरहः शुक्लःषण्मासा उत्तरायणम् ।
तत्र प्रयाता गच्छन्ति ब्रह्म ब्रह्मविदो जनाः ॥२४॥ *

मर्णा उपरान्तची शुक्ल-कृष्ण मार्गाची पुर्विल्ली कल्पना
*उज्या जोतींतु दिसाचो शुद्धांतु उत्तरायणीं ।*
*मरतात ब्रह्मज्ञानी जे वेती ब्रह्माकु अर्जुना ॥२४॥ **

कुडींत उज्याचो आनी जोतीचो उजवाड आसतना, दीस, शुक्ल पक्ष, उत्तरायणाच्या स म्हयन्याच्या काळांत भायर पडिल्ले ब्रह्म जाणपी ब्रह्माक पावतात (तांकां पुनर्जल्म ना.)

*अ. अ.:* **अग्निः ज्योतिः** = (कुडींत) उज्याचो आनी जोतीचो उजवाड आसतना; **अहः** = दीस; **शुक्लः** = शुक्लपक्ष (पुनवेची धवी पंद्रस); **षण्मासा उत्तरायणम्** = उत्तरायणाचे म्हळ्यार सुर्य उत्तरे वशीन वचचेल्या स म्हयन्यांच्या; **तत्र** = (त्या) काळांत; **प्रयाताः** = भायर पडिल्ले (मेल्ले); **ब्रह्मविदः जनाः** = ब्रह्म जाणपी लोक; **ब्रह्म गच्छन्ति** = ब्रह्मपदाक पावतात २४

**घूमो रात्रिस्तथा कृष्ण: षण्मासा दक्षिणायनम् ।**
**तत्र चान्द्रमसं ज्योतिर्योगी प्राप्य निवर्तते ।।२५।। ***

*गेल्लो जो रातयां धुंवरांत् वद्यांत दक्षिणायणीं ।*
*वचून चंद्रलोकाकु तो योगी पर्थता पुना ।।२५।।**

धुंवर आसतना, रात, कृष्णपक्ष आनी दक्षिणायनाचे स म्हयने हातूंत भायर पडिल्लो योगी चंद्रलोकांतल्या उजवाडाक वचून पर्थून जल्माक येता. २५

*अ. अ.*: **धूम:** = धुंवर आसतना; **रात्रि:** = रात; **तथा** = तशेंच; **कृष्ण:** = कृष्णपक्ष (उमाशेची काळी पंद्रस); **षण्मासा दक्षिणायनम्** = सूर्य दक्षिणेवटेन वचचेल्या स म्हयन्याच्या; **तत्र** = त्या काळांत; **प्रयाता:** = भायर पडिल्लो; **योगी** = योगी लोक; **चान्द्रमसम् ज्योति:** = चंद्रलोकांतल्या उजवाडाक; **प्राप्य निवर्तते** = वचून पर्थून येता. २५

**शुक्लकृष्णे गती ह्येते जगत: शाश्वते मते ।**
**एकया यात्यनावृत्तिमन्ययाऽवर्तते पुन: ।।२६।।**

*मानल्या वाट धवी काळी सनातन जगांतु ह्या ।*
*हाडिना एक पर्थूनू हाडी पर्थूनु ती दुजी ।।२६।।*

धवो आनी काळो अशे संवसारांतले हे दोन तरांचे मार्ग (गती) सासणाचे मानल्यात. एका मार्गान गेल्लो पर्थून येना (मुक्ती मेळयता) आनी दुसऱ्या मार्गान गेल्लो पर्थून येता. २६

*अ. अ.*: **हि** = कित्याक; **जगत:** = संवसारांतले; **एते** = हे दोन तरांचे; **शुक्लकृष्णे गती शाश्वते मते** = धवो आनी काळो मार्ग शाश्वत मानल्यात; **एकया अनावृत्तिम्** = एका मार्गान गेल्लो मुक्ती; **याति** = मेळयता; **अन्यया** = दुसऱ्या मार्गान (गेल्लो) **पुन: आवर्तते** = पर्थून येता (ताका जल्म-मर्ण मेळटा).

**नैते सृती पार्थ जानन्योगी मुह्यति कश्चन ।**
**तस्मात्सर्वेषु कालेषु योगयुक्तो भवार्जुन ।।२७।।**

*हे मार्ग जाणटलो योगी कोणूय मोहांतु घुस्पना ।*
*देखूनु तूं सदांकाळ जा योगी थीर बुद्दिचो ।।२७।।*

आगा अर्जुना, ह्यो दोन वाटो जाणटलो कोणूच योगी मोहांत घुस्पना. देखून अर्जुना, तूं सदांकाळ थीर बुद्दीन चलपी योगी जा. २७

*अ. अ.*: **पार्थ** = आगा अर्जुना; **एते** = ह्यो दोन; **सृती** = वाटो; **जानन्** = जाणटलो; **कश्चन योगी** = कोणूच योगी; **न मुह्यति** = मोहांत घुस्पना; **तस्मात्** = देखून; **अर्जुन** = आगा अर्जुना; (तूं) **सर्वेषु कालेषु योगयुक्त: भव** = सदांकाळ थीर बुद्दीन चलपी योगी जा. २७

वेदेषु यज्ञेषु तपःसु चैव
दानेषु यत् पुण्यफलं प्रदिष्टम् ।
अत्येति तत्सर्वमिदं विदित्वा
योगी परं स्थानमुपैति चाद्यम् ॥२८॥

*यज्ञांतु दानांतु वेद शिकपांतु*
*सांगिलां पुण्य तशें तपांतु ।*
*योगी तें जाणूनु सगलेंच हुपता*
*पावऽ त्या मूळ परम पदाकु ॥२८॥*

योगी हें (रहस्य) जाणटकीच वेद, यज्ञ, तप आनी दान करपांत जें पुण्यफळ सांगलां, तें सगलें हुपून वता आनी सनातन, परम पदाक (व्हडले सुवातेर) पावता. २८

*अ. अ.:* **योगी इदं विदित्वा** = योगी ह्या (दोन मार्गांचें रहस्य) जाणटकीच; **वेदेषु यज्ञेषु तपःसु दानेषु** = वेद, यज्ञ, तप आनी दान करपांत; **यत् पुण्यफलं प्रदिष्टम्** = जें पुण्यफळ (शास्त्रांत) सांगलां; **तत् सर्वम् एव अत्येति** = तें सगलें हुपून वता; **च आद्यं परं स्थानम् उपैति** = आनी सगल्यांत व्हडले सुवातेर (ब्रह्मपदाक) पावता. २८

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **अक्षरब्रह्मयोगो**
**नामाष्टमोध्यायः** ।

हे भाशेन, भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**अक्षरब्रह्मयोग** नांवाचो **आठवो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. ‘ते देवते विशीं जो विशेश भाव-भावना-वासना तो तद्भाव; जाचेकडसून तो भावित जाला, पर्थून पर्थून उगडास करपाच्या रुपान जाणें ताका जोडला, तो तद्भावभावित’ (शां.भा.) - जाणें अभ्यासान ते देवतेची वा हेर पदार्थांची वासना घट्ट केल्या असो.

२. अर्पित मनोबुद्धिः - ज्या तुजें मन आनी बुद्द म्हजे - वासुदेवाचे ठांय - अर्पिल्यांत तो तूं ‘मय्यर्पितमनोबुद्धि’ जावन. (शां.भा.)

३. पुरुषोत्तम, ईश्वर, ब्रह्म.

४. सहस्त्रयुगपर्यन्तम् - कृत, त्रेता, द्वापार आनी कली हीं युगां मेळून एक चौकडी. हे चौकडेचो कालावधी कुल्लीं ४३ लाख २० हजार वर्सां असो सांगला.

## श्लोकटिपो

*१७ आतां मेरेनच्या वयल्या श्लोकांत व्यक्तीच्या जल्ममर्णाचो आनी मोक्षाचो विचार जालो आनी मोक्षाचें साधन सांगलें. आतां व्यश्टीरुपान न्हय, तर समश्ठिरुपान प्राण्यांचो उद्भव आनी लय कसो आनी कितल्या काळान जाता, तें सांगलां. मानवी प्राण्यांचीं हजार युगां जातकीच ब्रह्मदेवाचो एक दीस जाता आनी तितलीच मानवी हजार युगांची एक रात जाता. ब्रह्मदेवाचो दीस सोंपतकच कल्पाचो अंत जाता आनी रात सोंपतकच कल्पाक आरंभ जाता.

*२४-२५ ''तत्त्वज्ञानाचे नदरेन पितृमार्ग (पितरांचो मार्ग) आनी देवयान (देवांचो मार्ग) ह्यो सामक्यो चुकिच्यो कल्पना. देह सोडिल्ल्या आत्म्याचो फुडार आनी ताचे परसूय मुक्ती (मोक्षा) विशीं दीस-रात, दक्षिणायन, उत्तरायण हांचेशीं कांयच संबंध ना. अश्यो जायत्यो कल्पना बुद्दीच्या वरकुलाचेर घांसून पळोवप गरजेचें आसा. ब्रह्मसुत्रांत बादरायण हाचे परसूय अदीक तत्त्वज्ञानी नदर आपणायता. खंयचोय मनीस दक्षिणायनांत वा उत्तरायणांत मेल्यारूय कांयच फरक पडना. कालाचेर वा रुतूचेर मनशाची मुक्ती निंबून ना, तर ती ताचे पात्रतायेचेर निंबून आसता, हो बादरायणाचो सिद्धान्त. (ब्र.सू. ४-२-२०). मनशाचे नितीक आनी पारमार्थीक उदरगतीचेर मुक्ती निंबून आसून, तिचो काळ, दीस आनी रुतू हांचेशीं कांयच संबंध ना. मुखार हेंच मत्त श्रीरामदास स्वामीन मांडलां: ''उत्तरायण तें उत्तम, दक्षिणायन तें अधम । हा संदेही वसे भ्रम, साधू तो नि:संदेह ।। ७-१०-१३'' (रानडे, पा. ३२).



# राजविद्याराजगुह्ययोग

ह्या अध्यायाक अध्यात्मयोग अशें दुसरें नांव आसा. ईश्वराचें तत्त्वीक (खरेलें) रूप, ताचो कर्मयोग, ताची उपासना करतले उपासक आनी भक्ती मार्गाची विसकणी हे ह्या अध्यायाचे मुखेल विशय.

बुद्‌दी सम आनी थीर करपाक योग साधनेन समाधी साधप आनी ज्ञान विज्ञानाच्या पालवान सगल्या सृश्ट पदार्थांकडेन आपलें नातें वळखून तांचेकडेन एकरूप जावप, हे दोन मार्ग अध्याय ६ ते ८ हातूंत सांगल्यात. त्या दोनूय मार्गांनी वचपाक यत्न करचे पडटात. सामान्य मनशाक हें सोंपेपणान सादना. म्हणून ताचे खातीर भक्तीमार्ग सांगला. राजमार्ग म्हळ्यार कोणेंय वचपा सारको आनी गुह्य म्हळ्यार रहस्य (गुमानीत). ह्या अध्यायांत सांगिल्लो भक्तीमार्ग आचरपाक सोंपो आशिल्ल्यान तो कोणेंय आचरपाक जाता.

पयल्या दोन श्लोकांत आत्मज्ञानाचें वर्णन केलां. हें ज्ञान पवित्र, दोळ्यांक प्रत्यक्ष दिसपी, फळ दिवपी. उत्तम. धर्मिश्ठतायेचें, चलोवपाक सोपें आनी अविनाशी आसा. ईश्वर एकच, अव्यक्त, सर्वव्यापी विश्वाचो आदार आसा. ताच्या आस्रयान चराचर जग रावता आनी तो ह्या जगाक व्यापून रावता. होच अद्वैत वेदान्त आनी हेंच आध्यात्मज्ञान (३-६). अलिप्त रावन आपले प्रकृतीकडसून ईश्वर सृश्टीची उत्पत्ती आनी लय घडोवन हाडटा. होच ईश्वरी कर्मयोग (७-१०). मागीर दैवी आनी आसुरी लोकांचे ईश्वराकडेन पळोवपाचे वेग-वेगळे दिश्टीकोण सांगल्यात (११-१५). वेदांतल्यो आनी यज्ञांतल्यो देवता हीं ईश्वराचींच रुपां आसात ही जाणवीक सदांच दवरची (१६-२१). मागीर ईश्वराविशीं विविध कल्पना आनी तेच भाशेन उपासना आनी उपासक वर्णिल्यात (२२-२५). अंतीं भक्तीयोगाची विसकणी केल्या. ही उपासना सगल्यांकूच आसपावन घेता. ईश्वराचे ठांय ओंपिल्ली वृत्ती आनी ईश्वरमय जीण आसल्यारूच योगवृत्ती सादता. ईश्वराचो ध्यास आनी समर्पणाची भावना हीं भक्तीमार्गांतलीं मुखेल तत्त्वां. हो मार्ग समतायेचो म्हूण सगल्यांकूच उकतो (२६-३४).

# नवमोऽध्याय:

श्रीभगवानुवाच

**इदं तु ते गुह्यतमं प्रवक्ष्याम्यनसूयवे ।**
**ज्ञानं विज्ञानसहितं यज्ज्ञात्वा मोक्ष्यसेऽशुभात् ।।१।।**

भगवंतान म्हळें

*गुढांतलें गूढ हें ज्ञान अणभवासैत सांगितां ।*
*समजूनु निर्मळा तें तूं सुटशी वायटांतुल्यानु गा ।।१।।*

तुका, मत्सर नाशिल्ल्या (अश्या भक्ताक), हें गुढांतलें गूढ ज्ञान आतां रहस्यासयत सांगतां. जें समजतकीच तूं वायटांतसून सुट्टलो. १

*अ. अ.*: **ते** = तुका; **अनसूयवे** = मत्सर नाशिल्ल्या (अश्या भक्ताक); **इदं गुह्यतमं ज्ञानम्** = हें गुढांतलें गूढ ज्ञान; **तु** = आतां; **विज्ञानसहितम्** = रहस्यासयत; **प्रवक्ष्यामि** = सांगतां; **यत् ज्ञात्वा अशुभात् मोक्ष्यसे** = जें समजतकीच वायटांतलो (दुख्खांच्या संवसारांतलो) सुट्टलो. १

**राजविद्या राजगुह्यं पवित्रमिदमुत्तमम् ।**
**प्रत्यक्षावगमं धर्म्यं सुसुखं कर्तुमव्ययम् ।।२।।**

*राय तें विद्यागुढांचो फळऽ प्रत्यक्ष उत्तम ।*
*धर्माचें अविनाशी तें पवित्र नी सुखा तशें ।।२।।*

हें ज्ञान सगल्या विद्यांचो राजा, सगल्या रहस्यांचो राजा, पवित्र आनी उत्तम. तें प्रत्यक्ष फळ दिवपी, धर्मिश्ठतायेचें, चलोवपाक सुखाचें आनी अविनाशी आसा. २

*अ. अ.*: **इदं** = हें (ज्ञान); **राजविद्या** = सगल्या विद्यांचो राजा; **राजगुह्यम्** = सगल्या गुढांचो राजा; **पवित्रम्** = पवित्र; **उत्तमम्** = उत्तम (आसा); **प्रत्यक्षावगमम्** = प्रत्यक्ष फळ दिवपी; **धर्म्यम्** = धर्मिश्ठतायेचें; **कर्तुम् सुसुखम्** = चलोवपाक सुखाचें; **अव्ययम्** = अविनाशी (आसा). २

**अश्रद्दधाना: पुरुषा धर्मस्यास्य परंतप ।**
**अप्राप्य मां निवर्तन्ते मृत्युसंसारवर्त्मनि ।।३।।**

*लोकु भावार्थ नाशिल्ले ह्या धर्माचेरू अर्जुना ।*
*घेतलेवीण म्हजी भेट मर्णा संवसार भोगि ते ।।३।।*

आगा अर्जुना, ह्या आत्मज्ञानरूप धर्माचेर श्रद्धा नाशिल्ले मनीस म्हाका येवन मेळनासतना मर्णरुपी संवसाराच्या चक्रामदींच भोंवत आसतात. ३

*अ. अ.*: **परंतप** = आगा अर्जुना; **अस्य धर्मस्य** = ह्या धर्माचेर; **अश्रद्धधाना: पुरुषा:** = श्रद्धा नाशिल्ले मनीस; **माम् अप्राप्य** = म्हाका येवन मेळनासतना; **मृत्युसंसारवर्त्मनि** = मर्णरुपी संवसार चक्रांमदींच; **निवर्तन्ते** = भोंवत आसतात. ३

**मया ततमिदं सर्वं जगदव्यक्तमूर्तिना ।**
**मत्स्थानि सर्वभूतानि न चाहं तेष्ववस्थितः ।।४।।**

**न च मत्स्थानि भूतानि पश्य मे योगमैश्वरम् ।**
**भूतभृन्न च भूतस्थो ममात्मा भूतभावनः ।।५।।**

ईश्वर एकच, सर्वव्यापी विश्वाचो आदार

*म्हज्या अव्यक्त रुपानु व्यापी हांवु सगट्र जगा ।*
*रावी जीवु म्हजेठांयीं पूण हांवु ना जिवांतु त्या ।।४।।*

*म्हजेठांय राविना जीवु पळे हो योग ईश्वरी ।*
*जिवां जल्म दितां पोशी रावना आत्मो म्हजो जिवांत् ।।५।।*

म्हज्या (परमात्म्याच्या) अव्यक्त (प्रकृतीच्या) रुपान हो सगलो संवसार व्यापला. सगले जीव म्हजे भितर रावतात, पुणून हांव तांचे भितर रावना (४). तरी आसतना सगले जीव म्हजे भितर रावनात. म्हजें ईश्वरी युक्तीचें बळगें पळे. जिवांक जल्माक घालपी, जिवांक पोसतलोय म्हगेलो आत्मो जिवांत रावना. ५

*अ. अ.*: **मया अव्यक्तमूर्तिना** = म्हज्या अव्यक्त (प्रकृतीच्या) रुपान; **इदं सर्वं जगत्** = हो सगलो संवसार; **ततम्** = व्यापला; **सर्वभूतानि मत्स्थानि** = सगले जीव म्हजे भितर रावतात; **च अहं तेषु न अवस्थितः** = पुणून हांव तांचे भितर रावना (४); (तरी आसतना) **भूतानि न मत्स्थानि** = सगले जीव म्हजेभितर रावनात; **मे ऐश्वरं योगं पश्य** = म्हजें ईश्वर युक्तीचें बळगें पळे; **भूतभावनः** = जिवांक जल्माक घालपी; **भूतभृत्च** = जिवांक पोसतलोय; **मम आत्मा** = म्हजो आत्मो; **भूतस्थः नः** = जिवांत रावना. ५

**यथाकाशस्थितो नित्यं वायुः सर्वत्रगो महान् ।**
**तथा सर्वाणि भूतानि मत्स्थानीत्युपधारय ।।६।।**

*अंत्राळांतलो महावायु सगले वशीनु सदीं वता ।*
*तशे म्हज्यांतु हे जीवु सर्व आसतात जाण तूं ।।६।।*

जे भाशेन सगले वशीन वचपी आनी मोठो वारो सदींच आकाशांत आसता, तशे सगले जीव म्हजेठांय आसतात अशें समज. ६

*अ. अ.*: **यथा सर्वत्रगः** = जे भाशेन सगले वशीन वचपी; **महान् वायुः नित्यम् आकाशस्थितः** = मोठो वारो सदींच आकाशांत आसता; **तथा सर्वाणि भूतानि** = तशे सगले जीव; **मत्स्थानि इति उपधारय** = म्हजेठांय आसतात अशें समज. ६

**सर्वभूतानि कौन्तेय प्रकृतिं यान्ति मामिकाम् ।**
**कल्पक्षये पुनस्तानि कल्पादौ विसृजाम्यहम् ।।७।। ***

ईश्वरी कर्मयोग - अलिप्त रावन ईश्वर सृश्टीची उत्पत्ती आनी लय करता

*कल्पांती जीवु हे सर्व मेळऽ प्रकृतिकू म्हजे ।*
*कल्पारंभी पुना तांकां पार्था हांवूच निर्मितां ।।७।।**

आगा अर्जुना, कल्प सोंपत्या वेळार, सगले जीव म्हजे प्रकृतीभितर रिगतात आनी कल्पाच्या आरंभाक हांव तांकां पर्थून निर्मितां. ७

*अ. अ.*: **कौन्तेय** = आगा अर्जुना; **कल्पक्षये** = कल्प सोंपत्या वेळार; **सर्वभूतानि** = सगले जीव; **मामिकां प्रकृतिं यान्ति** = म्हजे प्रकृती भितर रिगतात (आनी) **कल्पादौ** = कल्पाच्या **आरंभाक; अहं तानि** = हांव तांकां; **पुनः विसृजामि** = पर्थून निर्मितां. ७

**प्रकृतिं स्वामवष्टभ्य विसृजामि पुनः पुनः ।**
**भूतग्राममिमं कृत्स्नमवशं प्रकृतेर्वशात् ।।८।।**

*घेवनु प्रकृति हातांतु निर्मी हांवु पुना पुना ।*
*जिवांचो संघ हो सर्व जो वश प्रकृतीकु गा ।।८।।*

म्हजेच प्रकृतीचे सुवादीन जावन (म्हजेच) प्रकृतीक लागून पराधीन जाल्ल्या ह्या सगल्या जिवांच्या समुदायाक भौन भौन (तांच्या कर्मांप्रमाण दर कल्पारंभाक) हांव निर्मितां. ८

*अ. अ.*: **स्वाम्** = म्हजेच; **प्रकृतिम् अवष्टभ्य** = प्रकृतीचे सुवादीन जावन; **प्रकृतेः वशात्** = प्रकृतीक लागून; **अवशम्** = पराधीन जाल्ल्या; **इमं कृत्स्नम्** = ह्या सगल्या; **भूतग्रामम्** = जिवांच्या चोंब्याक (समुदायाक); **पुनः पुनः** = भौन भौन (तांच्या कर्मांप्रमाण दर कल्पारंभाक) **विसृजामि** = निर्मितां.८

**न च मां तानि कर्माणि निबध्नन्ति धनंजय ।**
**उदासीनवदासीनमसक्तं तेषु कर्मसु ।।९।।**

*पूण हीं सर्व कर्मां गा म्हाका मुळींच बांदिनात् ।*
*उदासिनावरी हांवु म्हाका कर्मांचि ओड ना ।।९।।*

आगा अर्जुना, (सृश्टी निर्मुपाच्या) त्या कर्मांची ओड म्हाका नाशिल्ल्यान आनी हांव त्रयस्थावरी आशिल्ल्यान तीं कर्मां म्हाका बांदिनात. ९

*अ. अ.*: **धनंजय** = अर्जुना; **मां तेषु कर्मसु असक्तम्** = म्हाका त्या कर्मांची ओड नाशिल्ल्यान; **च उदासीनवत् आसीनम्** = हांव त्रयस्थावरी आशिल्ल्यान (हांव ती म्हाका लावन घेना जाल्ल्यान); **तानि कर्माणि न निबध्नन्ति** = तीं कर्मां म्हाका बांदिनात. ९

**मयाध्यक्षेण प्रकृतिः सूयते सचराचरम् ।**
**हेतुनानेन कौन्तेय जगद्विपरिवर्तते ।।१०।।**

*साक्षी हांव, म्हूण प्रकृती निर्मी विश्व चराचर ।*
*ह्या हेतूनु जगाचें ह्या चलऽ गा परिवर्तन ।।१०।।*

आगा अर्जुना, म्हजे नदरेखाला प्रकृती सगलें चराचर जग निर्मिता, आनी ह्या हेतूक लागून ह्या संवसारांत घडामोड चलता. १०

*अ. अ.*: **कौन्तेय** = आगा अर्जुना; **मया अध्यक्षेण** = म्हजे नदरेखाला; **प्रकृतिः सचराचरं** = प्रकृती सगलें चराचर जग; **सूयते** = निर्मिता; **अनेन** = ह्या (वयर सांगिल्ल्या) **हेतुना** = हेतूक लागून; **जगत् विपरिवर्तते** = ह्या संवसारांत घडामोड चलता. १०

**अवजानन्ति मां मूढा मानुषीं तनुमाश्रितम् ।**
**परं भावमजानन्तो मम भूतमहेश्वरम् ।।११।।**

उपासक भेद

*अवमानी पिशे म्हाका मनशा रुपांतु देखुनू ।*
*नेणी म्हजें खरें रूप हांवु जिवां महेश्वर ।।११।।*

सगल्या जिवांचो म्हाईश्वर अशें हें म्हजें व्हडलें रूप नकळ जाल्ले पिशे लोक मनशाची कूड घेतिल्ल्या म्हाका हिणायतात. ११

*अ. अ.*: **भूतमहेश्वरं मम परं भावम्** = सगल्या जिवांचो म्हाईश्वर हें अशें म्हगेलें व्हडलें रूप; **अजानन्तः मूढाः** = नकळ जाल्ले पिशे लोक; **मानुषीं तनुम् आश्रितं माम्** = मनशाची कूड घेतिल्ल्या म्हाका; **अवजानन्ति** = हिणायतात. ११

**मोघाशा मोघकर्माणो मोघज्ञाना विचेतसः ।**
**राक्षसीमासुरीं चैव प्रकृतिं मोहिनीं श्रिताः ।।१२।।**

*आशा ज्ञानांत कर्मांतूय जाती हे मूर्ख निर्फळ ।*
*राकेशी आसुरी वृत्ती तांकां ती गदळायि गा ।।१२।।*

विवेकभश्ट लोक मोहांत घालपी राक्षसी आनी आसुरी सभावानच चलतात. तांगेल्यो आशा, ज्ञान आनी कर्मां फळाक येनात. १२

*अ. अ.*: **विचेतसः** = विवेकभश्ट लोक; **मोहिनीम्** = मोहांत घालपी; **राक्षसीं च आसुरीं प्रकृतिम् एव श्रिताः** = राक्षसी आनी आसुरी सबावानच चलतात; (तांगेल्यो) **मोघाशाः** = आशा व्यर्थ; **मोघकर्मणः** = कर्मां व्यर्थ; **मोघज्ञानाः** = ज्ञान निर्फळ (आसता). १२

**महात्मानस्तु मां पार्थ दैवीं प्रकृतिमाश्रिता: ।**
**भजन्त्यनन्यमनसो ज्ञात्वा भूतादिमव्ययम् ।।१३।।**

*म्हात्मे वृत्तीनु दैवी जे पुजी म्हाकाच ते सदीं ।*
*जाणूनु हांवु सृश्टीचें शाश्वतु मूळ कारणु ।।१३।।*

पुणून आगा अर्जुना, दैवी सभावान चलपी म्हात्मे म्हाका सगल्या जिवांचें शाश्वत कारण आनी अविनाशी रूप समजून, दुसऱ्या कित्याचेरूच मन लायनासतना भजतात. १३

*अ. अ.*: **तु पार्थ** = पुणून आगा अर्जुना; **दैवीं प्रकृतिम् आश्रिता:** = दैवी सभावाचो आसरो घेतिल्ले; **महात्मान:** = जे म्हात्मे (व्हड अंतस्करणाचे लोक आसात ते तर) **मां भूतादिम् अव्ययं ज्ञात्वा** = म्हाका सगल्या जिवांचें सनातन कारण आनी अविनाशी रूप समजून; **अनन्यमनस: भजन्ति** = दुसऱ्या कित्याचेरूच मन लायनासतना भजतात. १३

**सततं कीर्तयन्तो मां यतन्तश्च दृढव्रता: ।**
**नमस्यन्तश्च मां भक्त्या नित्ययुक्ता उपासते ।।१४।।**

*म्हगेल्या किर्तनान नित्य निश्चयी यत्नशीळ गा ।*
*नित्य ध्यानांतु वंदून म्हाका भक्तीनु ते पुजी ।।१४।।*

घट्ट निश्चयाचे भक्त सदींच म्हजें किर्तन करीत, आनी (हांव मेळचो हे पासत) यत्न करीत आनी म्हाकाच पांयां पडून, सदीं म्हजें ध्यान करून, भक्तीन म्हाका पुजतात. १४

*अ. अ.*: **दृढव्रता:** = घट्ट निश्चयाचे (भक्त); **सततं कीर्तयन्त:** = म्हज्या (गुणांचें) किर्तन करीत; **च** = आनी (हांव मेळचों हे पासत); **यतन्त:** = यत्न करीत; **च** = आनी; **मां नमस्यन्त:** = म्हाका पांयां पडून; **नित्ययुक्ता:** = सदीं म्हजें ध्यान करून; **भक्त्या माम् उपासते** = भक्तीन म्हजी पुजा करतात. १४

**ज्ञानयज्ञेन चाप्यन्ये यजन्तो मामुपासते ।**
**एकत्वेन पृथक्त्वेन बहुधा विश्वतोमुखम् ।।१५।।**

*विश्वव्यापी अश्या म्हाका ज्ञानु यज्ञानु कांय पुजी ।*
*भेदु-अभेदु भावान् कांय भौ तरांनी उपासती ।।१५।।*

दुसरे जायते विश्वव्यापी असो जो हांव त्या म्हाका अभेद भावान, भेदभावान, वा ज्ञान यज्ञान पुजतात आनी भौ तरांनीय भजतात. १५

*अ. अ.*: **च अन्ये** = दुसरे जायते; **विश्वतोमुखं माम् एकत्वेन उपासते** = विश्वव्यापी असो जो हांव त्या म्हाका अभेद भावान (एकच परमेश्वर आसा अशा एकचाराच्या समजान); **पृथक्त्वेन** = भेदभावान (हांव संवसारापासून वेगळो आसां अश्या वेगळेचाराच्या समजान); **ज्ञानयज्ञेन यजन्त:** = ज्ञान यज्ञान पुजतात; **बहुधा अपि उपासते** = भौ तरांनीय पुजतात. १५

अहं क्रतुरहं यज्ञ: स्वधाहमहमौषधम् ।
मन्त्रोऽहमहमेवाज्यमहमग्निरहं हुतम् ॥१६॥

देव-देवता हीं ईश्वराचींच रुपां

*हांवु यज्ञ कृतू हांवु श्राद्ध आनी वनस्पती ।*
*मंत्र नी तूप बी हांवु हांवूच अग्नि आहुती ॥१६॥*

श्रुतींत सांगिल्लो यज्ञ हांव; स्मृतींत सांगिल्ले यज्ञ हांव; सगली वनस्पत हांव; श्राद्धांत पितरांक दाखोवचेलो निवेद हांव, मंत्र हांव, तूप हांव आनी उज्यांत उडोवचेलो जिनस हांवूच आसां.

*अ. अ.*: **क्रतु: अहम्** = श्रुतींत (वेदांत) सांगिल्लो यज्ञ (पुजा) हांव; **यज्ञ: अहम्** = स्मृतींत सांगिल्ले यज्ञ हांव; **स्वधा अहम्** = स्राद्धांत पितरांक दाखोवचेलो निवेद हांव; **औषधम् अहम्** = सगली वनस्पत हांव; **मंत्र: अहम्** = मंत्र हांव; **आज्यम् अहम्** = (यज्ञाक लागतलें) तूप हांव; **अग्नि: अहम्** = उजो हांव (आनी) **हुतं अहम् एव** = उज्यांत उडोवचेलो जिनस (आहुती) हांवूच. १६

पिताहमस्य जगतो माता धाता पितामह: ।
वेद्यं पवित्रमोङ्कार ऋक्साम यजुरेव च ॥१७॥

*विश्वा आधारु हांवूच आजो नि मायबापु बी ।*
*ओंकारु पवित्र जाणचेलो ऋक् यजु सामवेद हांव ॥१७॥*

हांव ह्या संवसाराचो बापूय, आवय, पोसतलो, आजो आनी मनशांनी जाणपाक फावो असो पवित्र ओंकार. तसोच, ऋग्वेद, सामवेद आनी यजुर्वेदूय हांवूच. १७

*अ. अ.*: (हांव) **अस्य जगत:** = ह्या संवसाराचो; **पिता, माता, धाता, पितामह:** = बापूय, आवय, पोसतलो (आनी) आजो; **च** = आनी (मनशांनी) **वेद्यं पवित्रम् ओंकार:** = जाणपाक फावो असो पवित्र ओंकार; **ऋक्, साम यजु: अहम् एव** = ऋग्वेद, सामवेद, यजुर्वेदूय हांवूच. १७

गतिर्भर्ता प्रभु: साक्षी निवास: शरणं सुहृत् ।
प्रभव: प्रलय: स्थानं निधानं बीजमव्ययम् ॥१८॥

*साक्षी पोसपी प्रभू इश्ट हांवु आसरो मठी गती ।*
*विसव निर्मुपी मारपी कोठी बी अविनाशि हांव ॥१८॥*

जिवांनी जोडचेली सुवात हांवूच, तांकां पोसतलो, स्वामी, साक्षी, मठी, आसरो, बरें मागतलो इश्ट, निर्मुपी आनी मारतलो, तांचो विसव, तांची कोठी, आनी तांचें अविनाशी बियाण हांवूच. १८

*अ. अ.*: **गति:** = (जिवांनी) जोडचेली सुवात हांव; **भर्ता** = पोसतलो; **प्रभु:** = स्वामी; **साक्षी** = तांणी केल्लें बरें वायट पळोवपी; **निवास:** = मठी (रावंचेली सुवात); **शरणम्** = आसरो; **सुहृत्** = (अपेक्षा धरिनासतना) बरें मागतलो इश्ट; **प्रभव:** = जल्माक घालतलो; **प्रलय:** = तांकां मारतलो; **स्थानम्** = विसवाची सुवात; **निधानम्** = कोठी; **अव्ययं बीजम्** = जिवांचे अविनाशी बी हांवूच (आसां).१८

**तपाम्यहमहं वर्ष निगृह्णाम्युत्सृजामि च ।**
**अमृतं चैव मृत्युश्च सदसच्चाहमर्जुन ॥१९॥**

*घाली वोत उदका ओडी　वर्शितां पावस हांवुचू ।*
*सत असत हांवूच　अम्रुत मर्ण बी तशें ॥१९॥*

हांव सुर्याचें वोत घालतां. हांव पावसाचें उदक (किर्णांनी) ओडून घेतां आनी पर्थून पावस सोडटां. अर्जुना, हांव जिवांची जीवसाण आनी मर्ण. जें आसा तें आनी जें ना तें हांवूच.

*अ. अ.*: **अहं तपामि** = हांव वोत घालतां; **(अहम्) वर्षम् निगृह्णामि** = हांव पावसाचें उदक किर्णांनी ओडून घेतां; **च उत्सृजामि** = आनी पावस सोडटां; **अर्जुन अहम् अमृतं** = हांव (जिवांची) जीवसाण; **च मृत्युः** = आनी मर्ण; **सत् च असत्** = जें आसा तें आनी जें ना तें; **अहम् एव** = हांवूच आसां. १९

**त्रैविद्या मां सोमपाः पूतपापा यज्ञैरिष्ट्वा स्वर्गतिं प्रार्थयन्ते ।**
**ते पुण्यमासाद्य सुरेन्द्रलोकमश्नन्ति दिव्यान्दिवि देवभोगान् ॥२०॥**

*सोम पियेवनु निश्पाप त्रिवेदी　यज्ञ करतातु ते जोडूंकु सर्ग ।*
*इंद्र लोकिंचें पुण्य फळ मेळून　भोगतातु देव-सुखां भौच बरीं थैं ॥२०॥*

तीन वेद जाणटले, सोमरस पियेवपी तशेच निश्पाप जाल्ले, म्हाका यज्ञावरवीं पुजून सर्ग जोडपाची इत्सा करतात, ते इंद्राच्या पुण्यलोकाक वचून सर्गांत भौच बरी देवाचीं सुखां भोगतात. २०

*अ. अ.*: **त्रैविद्याः** = ऋग्वेद, यजुर्वेद आनी सामवेद हे तिनूय वेद जाणटले (आनी तातुंतलीं सत्कर्मां करपी); **सोमपाः** = सोमरस पियेवपी, **पूतपापाः** = निष्पाप जाल्ले; **मां यज्ञैः इष्ट्वा** = म्हाका यज्ञावरवीं पुजून; **स्वर्गतिं प्रार्थयन्ते** = सर्ग जोडचेली इत्सा करतात; **ते** = ते; **पुण्यं सुरेन्द्रलोकम् आसाद्य** = इंद्राच्या पुण्यलोकाक वचून; **दिवि** = सर्गांत; **दिव्य देवभोगान् अश्नन्ति** = दिव्य देवांचीं सुखां भोगतात.

**ते तं भुक्त्वा स्वर्गलोकं विशालं क्षीणे पुण्ये मर्त्यलोकं विशन्ति**
**एवं त्रयीधर्ममनुप्रपन्ना गतागतं कामकामाः लभन्ते ॥२१॥**

*त्या होड सर्गांतु भोगून सूख　सोंपून पुण्य येती मर्ण लोकीं ।*
*तिनूय वेदांतुले करुनु यज्ञ　फळा वान्शेनु ते यो वच करती ॥२१॥*

(आनी) ते त्रिवेदी त्या व्हडल्या सर्ग लोकाक भोगून, तांचें पुण्य सरतकीच मर्णलोकाक येतात. हे भाशेन ह्या तीन वेदांतल्या धर्माप्रमाण चलतल्या भोग इत्सुपी मनशांक भौन भौन (सर्गार आनी मर्णलोकांत) येरादारी करची पडटा. २१

*अ. अ.*: (आनी) **ते** = ते (त्रिवेदी); **तम्** = त्या; **विशालं स्वर्गलोकं भुक्त्वा** = व्हडल्या सर्गलोकाक भोगून; **पुण्ये क्षीणे** = पुण्य सरतकीच; **मर्त्यलोकम् विशन्ति** = मर्णलोकाक येतात; **एवम्** = हे भाशेन; **त्रयीधर्मम्** = (फळाची वान्सा धरून) ह्या तीन वेदांत (सांगिल्ल्या) धर्माप्रमाण; **अनुप्रपन्नाः** = चलतल्या; **कामकामाः** = भोग इत्सुपी मनशांक; **गतागतं लभन्ते** = भौन भौन येरादारी करची पडटा. २१

अनन्याश्चिन्तयन्तो मां ये जनाः पर्युपासते ।
तेषां नित्याभियुक्तानां योगक्षेमं वहाम्यहम् ॥२२॥

ईश्वराविशींच्यो कल्पना, उपासना आनी उपासक

*म्हाका स्मरून जे नित्य पुजी म्हाका सदींच जे।*
*त्या ध्याननिश्ठ भक्तांचो चलय निर्वाहु हांवु गा ॥२२॥*

जे अनन्यभावान म्हजें चिंतन करून म्हाका भजतात, त्या सदींच म्हजें ध्यान करतल्यांचो योगक्षेम (प्रपंचनिर्वाह) हांव चलयतां. २२

*अ. अ.*: **अनन्याः** = अनन्यभावान (दुसरें कितेंच चिंती नासतना); **ये जनाः मां चिन्तयन्तः** = जे लोक म्हजें चिंतन करून; **पर्युपासते** = भजतात; **तेषां नित्याभियुक्तानां** = त्या सदांकाळ म्हजें ध्यान करतल्यांचो; **योगक्षेमम् अहं वहामि** = योगक्षेम (म्ह. तांची आशिल्ली जोड वाडयतां आनी तांकां नवी जोड दितां) हांव चलयतां. २२

येऽप्यन्यदेवता भक्ता यजन्ते श्रद्धयान्विताः ।
तेऽपि मामेव कौन्तेय यजन्त्यविधिपूर्वकम् ॥२३॥

*भक्त जे हेरू देवांले तांकां श्रद्धेनु जे पुजी ।*
*पुजिनातु विधीन म्हाका तेयु म्हाकाच गा पुजी ॥२३॥*

अर्जुना, जे हेर देवतांचे भक्त श्रद्धेन आपल्या देवतांक पुजतात तेय ती पुजा विधीप्रमाण नासल्यारूय म्हाकाच पुजतात. २३

*अ. अ.*: **कौन्तेय** = अर्जुना; **ये अन्यदेवता भक्ताः अपि** = जे दुसऱ्या देवतांचे भक्तूय; **श्रध्दया अन्विताः यजन्ते** = श्रद्धा जोडून तांकां पुजतात; **ते अपि** = तेय; **अविधिपूर्वकम्** = विधी प्रमाण नासल्यारूय; **माम् एव यजन्ति** = म्हाकाच पुजतात. २३

अहं हि सर्वयज्ञानां भोक्ता च प्रभुरेव च ।
न तु मामभिजानन्ति तत्त्वेनातश्च्यवन्ति ते ॥२४॥

*सर्व यज्ञांकु भोगी हांव प्रभू बी हांवु अर्जुना ।*
*जे नेणा गा म्हजें तत्त्व म्हूण ते खाला पडटातु गा ॥२४॥*

कित्याक, सगले यज्ञ भोगतलो आनी स्वामी हांवूच आसां. पूण ते म्हाका खरेपणान वळखनात, म्हूण ते सकला पडटात. २४

*अ. अ.*: **हि** = कित्याक; **सर्वयज्ञानाम्** = सगले यज्ञ (यज्ञाचें फळ); **भोक्ता** = भोगतलो; **च= आनी;** **प्रभुः एव च अहम्** = स्वामी हांवूच आसां; **तु** = पुणून; **ते** = ते (हेर देवांले भक्त); **मां तत्त्वेन** = म्हाका खरेपणान; **न अभिजानन्ति** = वळखनात; **अतः च्यवन्ति** = देखून (ते) सकला पडटात. २४

**यान्ति देवव्रता देवान्पितृन्यान्ति पितृव्रता : ।**
**भूतानि यान्ति भूतेज्या यान्ति मद्याजिनोऽपि माम् ।।२५।।**

*देवांले भक्त देवांकु पितरांले पितरांकच ।*
*भुतांले भूत प्रेतांकु म्हाका म्हजेच मेळऽ गा ।।२५।।*

देवांक पुजतले लोक देवलोकाक, पितरांक पुजतले पितृलोकाक आनी भुतावळीक पुजतले लोक भूतलोकाक वतात. म्हाका भजतले म्हजे सरीं येतात. २५

*अ. अ.*: **देवव्रता: देवान् यान्ति** = देवांक पुजतले देवांसरीं वतात; **पितृव्रता: पितृन् यान्ति** = पितरांक पुजतले पितरां सरीं वतात; **भूतेज्या भूतानि यान्ति** = भुतावळीक पुजतले भुतांसरीं वतात; **मद्याजिन: माम् अपि (यान्ति)** = म्हाका पुजतले म्हजेसरींच पावतात. २५

**पत्रं पुष्पं फलं तोयं यो मे भक्त्या प्रयच्छति ।**
**तदहं भक्त्युपहृतमश्नामि प्रयतात्मन: ।।२६।।**

भक्ती योग - सगल्यांक आसपावपी उपासना

*पान फूल फळू तोयूय म्हाका भक्तीन ओंपि जो ।*
*त्या चित्तशुद्ध मन्शाची खायी मोगानु ओंपणी ।।२६।।*

जो कोण म्हाका पान, फूल, फळ वा उदक लेगीत भक्तीन ओंपता, त्या चित्तशुद्ध मनशान ओंपिल्ली ती भेट हांव मोगान खातां. २६

*अ. अ.*: **य: मे** = जो (कोणूय भक्त) म्हाका; **पत्रं पुष्पं फलं तोयं भक्त्या प्रयच्छति** = पान, फूल, फळ, उदक इत्यादी भक्तीन ओंपता; **प्रयतात्मन:** = त्या शुद्ध अंतस्कर्णाच्या मनशान; **भक्त्युपहृतम्** = भक्तीन ओंपिल्ली; **तत् अहम् अश्नामि** = ती भेट हांव खातां. २६

**यत्करोषि यदश्नासि यज्जुहोषि ददासि यत् ।**
**यत्तपस्यसि कौन्तेय तत्कुरुष्व मदर्पणम् ।।२७।।**

*जें जें खाशी दिशी दानु ओंपी तूं कर्म जें करी ।*
*करी जें तप तूं तेंयु म्हाका अर्पण तें कर ।।२७।।*

आगा अर्जुना, तूं जें करता, जें खाता, जें हवन करता, जें दान दिता, आनी जें तप करता, तें सगळेंच म्हाका ओंप. २७

*अ. अ.*: **कौन्तेय** = अर्जुना; **यत् करोषि** = जें कर्म (तूं) करता; **यत् अश्नासि** = जें खाता; **यत्जुहोषि** = जें हवन करता; **यत् ददासि** = जें दान दिता; **यत् तपस्यसि** = जें व्रतरुपी तप करता; **तत् मदर्पणं कुरुष्व** = तें म्हाका ओंप. २७

शुभाशुभफलैरेवं मोक्ष्यसे कर्मबन्धनैः ।
संन्यासयोगयुक्तात्मा विमुक्तो मामुपैष्यसि ॥२८॥

*तोडूनु हे परी सर्व        कर्म पास शुभाशुभ ।*
*फळा संन्यास योगान        मुक्त, म्हाकाच मेळशी ॥२८॥*

हे भाशेन करतकीच, बरीं वायट फळां दिवपी कर्मांच्या पासांतल्यान तूं सुट्टलो आनी संन्यास योगान अंतस्कर्ण शुद्ध जावन, मुक्त जाल्लो तूं म्हाका येवन मेळटलो. २८

*अ. अ.:* **एवम्** = हे भाशेन तूं करतकीच; **शुभाशुभफलैः कर्मबन्धनैः** = बरीं आनी वायट फळां दिवपी कर्मांच्या पासांतल्यान; **मोक्ष्यसे** = तूं मुक्त जातलो; **संन्यासयोगयुक्तात्मा** = कर्मां म्हाका ओंपप होच संन्यास आनी ताका लागून अंतस्कर्ण शुद्ध जावन; **विमुक्तः** = मुक्त जाल्लो तूं; **माम् उपैष्यसि** = म्हाका येवन मेळशी. २८

समोऽहं सर्वभूतेषु न मे द्वेष्योऽस्ति न प्रियः ।
ये भजन्ति तु मां भक्त्या मयि ते तेषु चाप्यहम् ॥२९॥

*सम हांव सर्व जिवांकु        म्हाका ना प्रियु अप्रियु ।*
*भक्तीनु जे पुजी म्हाका        तांच्यांतु हांव म्हज्यांतु ते ॥२९॥*

सगल्या जिवांक हांव सारको. म्हाका कोण नावडीचो ना वा म्हजो कोण अपुरबायेचो ना. पुणून म्हाका भक्तीन भजतले म्हजेठांय आसतात आनी हांव तांचेठांय आसतां. २९

*अ. अ.:* **सर्वभुतेषु अहं समः** = सगल्या जिवांक हांव सारको; **मे द्वेष्यः न प्रियः न अस्ति** = म्हाका (कोणूच) नावडीचो ना वा आवडीचो ना; **तु ये मां भक्त्या भजन्ति** = पुणून जे (भक्त) म्हाका भक्तीन भजतात; **ते मयि** = ते म्हजेठांय आसतात; **च अहम् अपि तेषु** = हांवूय तांचेठांय आसतां. २९

अपि चेत्सुदुराचारो भजते मामनन्यभाक् ।
साधुरेव स मन्तव्यः सम्यग्व्यवसितो हि सः ॥३०॥ *

*आसुनूय वायट चालीचो        पुजी म्हाकाच अर्जुना ।*
*मान गा साधु ताकाच        गेलो वाटेन तो बरे ॥३०॥**

चड वायट चलणुकेचो आसल्यारूय अनन्यभावान जो म्हाका भजता, तो तर बरे चलणुकेचोच (साधु) मानपाक जाय, कित्याक तो बरे तरेचो निश्चयी मनीस. ३०

*अ. अ.:* **सुदुराचारः** = चड वायट चलणुकेचो; **चेत् अपि** = कोणूय आसल्यारूय; **अनन्यभाक्** = दुसऱ्या कित्याचेरूच मन लायनासतना म्हजो भक्त जावन; **मां भजते** = म्हाका भजता; **सः साधुःएव** = तो साधु कसोच; **मन्तव्यः** = मानपाक जाय; **हि सः सम्यक्व्यवसितः** = कित्याक तो बरे तरेचो निश्चयी मनीस. ३०

**क्षिप्रं भवति धर्मात्मा शश्वच्छान्तिं निगच्छति ।**
**कौन्तेय प्रतिजानीहि न मे भक्तः प्रणश्यति ।।३१।।**

*जाय धर्मशीळ बेगीनू जोडी शाश्वत शांति तो ।*
*नासो जायना म्हजो भक्त खरेपणानु जाण हें ।।३१।।*

तो बेगीनच धर्मात्मो जाता आनी तो शाश्वत शांती जोडटा. अर्जुना, म्हज्या भक्ताचो नाश जायना हें तूं खरेपणान समज. ३१

*अ. अ.*: **क्षिप्रं धर्मात्मा भवति** = (तो) रोखडोच धर्मात्मो जाता; (आनी) **शाश्वत् शान्तिं निगच्छति** = शाश्वत शांती जोडटा; **कौन्तेय** = अर्जुना; **मे भक्तः न प्रणश्यति** = म्हज्या भक्ताचो नाश जायना; **प्रतिजानीहि** = हें तूं खरेपणान समज. ३१

**मां हि पार्थ व्यपाश्रित्य येऽपि स्युः पापयोनयः ।**
**स्त्रियो वैश्यास्तथा शूद्रास्तेऽपि यान्ति परां गतिम् ।।३२।।**

*पातकी-जल्माकु आयिल्ले म्हाका शरणु येतच ।*
*जावं बायलो वैश्य वा शूद्र जोडी व्हड सुवातु ते ।।३२।।*

कित्याक, आगा पार्था, म्हज्या आस्रयाक आयिल्ल्यो बायलो, वैश्य वा शूद्र वा पातकी जल्माचे लोकय परमगतीक पावतात. ३२

*अ. अ.*: **हि पार्थ** = कित्याक अर्जुना; **स्त्रियः वैश्याः शूद्राः** = बायलो, वैश्य वा शूद्र; **तथा** = आनी; **पापयोनयः अपि** = आनी पातकी जल्माचे; **ये स्युः** = जे कोण आसतीत; **ते अपि माम्** = तेय म्हाका; **व्यापाश्रित्य परां गतिं यान्तिम्** = शरण येतकीच व्हडली सुवात जोडटात. ३२

**किं पुनर्ब्राह्मणाः पुण्या भक्ता राजर्षयस्तथा ।**
**अनित्यमसुखं लोकमिमं प्राप्य भजस्व माम् ।।३३।।** *

*ब्रह्म-राज रुशी भक्त वर्णूं पावनु कितुले ।*
*ह्या नश्वर दुखा लोकीं - जाल्ल्यान म्हाकाच तूं भज ।।३३।।**

मागीर पुण्यवंत ब्राह्मण आनी राजर्शी अशे म्हगेले भक्त आसात, तांकां सद्‌गती मेळटली हें कितें सांगूंक जाय? ह्या खिणयाळ्या आनी दुख्खदिण्या मर्णलोकांत तूं जल्मला, म्हूण म्हाकाच भज. ३३

*अ. अ.*: **पुनः पुण्याः ब्राह्मणाः** = मागीर पुण्यवंत ब्राह्मण; **तथा राजर्षयः भक्ताः** = आनी राजर्शी भक्त लोक (व्हड सुवातेर पावतले); **किम्** = कित्याक सांगूंक जाय? **इमम् असुखम् अनित्यं लोकम्** = ह्या सूख ना अश्या खिणयाळ्या (मर्ण)लोकांत; **प्राप्य** = जल्माक आयिल्ल्यान; (तूं) **मां भजस्व** = म्हाकाच भज. ३३

**मन्मना भव मद्भक्तो मद्याजी मां नमस्कुरु ।**
**मामेवैष्यसि युक्त्वैवमात्मानं मत्परायण : ॥३४॥**

*म्हजे भक्तीनु ध्यासानू पूज म्हाकाच तूं नमून् ।*
*म्हज्या आसऱ्यानु आत्म्याकु जोडून म्हज्यांतु मेळशी ॥३४॥*

म्हजे ठांय मन लाय. म्हजो भक्त जा. म्हाका पूज. म्हाका पांयां पड. हे भाशेन, म्हजेठांय चित्त थारावन, म्हजो आसरो घेवन, सगल्यांचो आत्मो असो जो हांव (ईश्वर), ताकाच जोडून तूं म्हाका येवन मेळटलो. ३४

*अ. अ.:* **मन्मना: भव** = म्हजेठांय मन लाय; **मद्भक्त:** = म्हजो भक्त (जा); **मद्याजी (भव)** = म्हाका पूज; **मां नमस्कुरु** = म्हाका पांयां पड; **एवम्** = हे भाशेन; (भगवंताचे ठांय चित्त) **युक्त्वा** = थीर जोडून; **मत्परायण:** = म्हजो आलाशिरो घेवन (शरण येवन); **आत्मानं माम् एव** = सगल्यांचो आत्मो असो जो हांव (ईश्वर) ताकाच; **(तूं) एष्यसि** = मेळटलो. ३४

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भभगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **राजविद्याराजगुह्ययोगो**
नाम **नवमो**ऽध्याय: ।

हे भाशेन श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**राजविद्याराजगुह्ययोग** नांवाचो **णववो** अध्याय सोंपलो.

## श्लोकटिपो

*७ कल्पाचो अंत आनी आरंभ म्हळ्यार ब्रह्मदेवाच्या दिसाचो अंत आनी आरंब हीं. सृश्टीचो प्रळय आनी सृश्टीच्या आरंभाची एक कल्पना.

*३०. ईश्वराचो सोद घेवपी लोकांचे स वर्ग आसतात अशें गुरुदेव रानडे हांचें मत्त आसा. तातूंत पश्चाताप जाल्ल्यांचो चवथो वर्ग. ते म्हणटात: ''भगवद्गीतेचें अंतस्कर्ण उकतें आसा. आनी गीता पश्चात्तापान लाशिल्ल्यांक खूब उदारपणान वागयता. भगवद्गीतेक लेगीत पश्चाताप जाल्ल्याविशीं 'पश्चात्ताप' जाला अशें दिसता... तुमी पाप केल्यारय हरकत ना, पूण ताचो पश्चात्ताप जावंकच जाय. पश्चात्तापान लाशिल्ल्या पातक्याच्या फुडाराचेर हाचेपरस सुंदर वळी कोणेंच बरोवंक नासतल्यो. ईश्वराचे स्वाधीन जावप, शरण वचप हें ताका अशक्य ना.'' (रानडे पान २०९.)

*३३. गुरुदेव रानडे सांगतात : ''खंयूय पळेयात यम आमचे भोंवतणीं पाश गुठलायत आसा. तेन्ना ईश्वराकडेन आमी पर्थप योग्य. यमाच्या सामर्थ्याचो विचार करिनासतना ईश्वराचेंच ध्यान आमी करपाक जाय. ह्या श्लोकाचेर ज्ञानेश्वर भाश्य करतना, ताणें आपत्तींतसून ईश्वराचो सोद घेवपाची इत्सा कशी जाता हाचें वर्णन केलां. अंतीं त्या वर्णनांत ज्ञानेश्वर प्राण्यांच्या जिवितावेली सुंदर देख दिवन सांगता: ''मुसांक धरून खावपी बेबो त्याच वेळार मोठ्या सोरपाच्या तोंडांत पडटा. आमी ह्या मर्णाच्या संवसारांत जायत्या गजालींची वान्सा धरतात, पूण आमी मर्णाच्या तोंडांत वचून ताचे भकीक पडटात हें कोणाच्याच लक्षांत येना.'' (तत्रैव.)



# विभूतियोग

सगलें चराचर विश्व कशें निर्मिलां हें सांगतकीच, ह्या अध्यायांत भक्तीचो प्रभाव केदो मोठो आसा हें अदीक स्पश्ट केलां. परमेश्वराक आदी आनी अंत ना. तो सगल्यांचो आरंभ आनी अंत करतलो. वेगळ्या वेगळ्या रुपान ताका पुजूंक येता. ह्या अध्यायांत ईश्वरान आपलो मुखेल विस्तार (विभूति) सांगिल्ल्यान हाका विभूतियोग अशें म्हळां. (परमेश हो शब्द परम + ईश म्हळ्यार सर्वश्रेश्ठ सत्ताधारी वा एक अद्‌भूत शक्ती).

पयल्या स श्लोकांत पुर्विल्लो मानव, रुशी, मानवी भाव ह्या सगल्यांचो निर्मुपी ईश्वर अशें सांगलां. आठव्या अध्यायाच्या तिसऱ्या श्लोकांत सांगिल्ले ते भाव. ईश्वराच्या भक्तांक योगबुद्द आनी आध्यात्मज्ञान हाचो लाभ जाता. हेंच भक्तीमार्गाचें तत्त्वज्ञान (७-११). अर्जुन श्रीकृष्णाक ध्यान करपाक योग्य अशीं ताचीं रुपां आपणाक सांगचेली विनंती करता. तीं अव्यक्त ब्रह्माची व्यक्त (दिसता तसलीं) रुपां. तांची उपासना मनीस करता (१२-१८). फुडें अर्जुनाक आध्यात्माविशीं श्रीकृष्ण सांगता. आत्मो, जल्म, जिवीत, मर्ण, काल हिंवूय ईश्वराचींच रुपां (१९-२२). फुडें देव आनी मनीस हांची म्हायती दिल्या. वैदीक देव-देवता, यक्ष-गंधर्व, रुशी, थोर मनीस हे सगलेच ईश्वराचेच अंश (२३-२८). श्लोक २९ ते ३५ विद्येसंबंधीं आसात. सगले वेद, हेर विद्या आनी शास्त्रां, मानवी शक्ती हिंवूय ईश्वराचींच रुपां. श्लोक ३६ ते ३९ सृश्टीविशीं आसात. सैमांतले प्राणी, सुंदर वस्तू हे ईश्वराचेच अंश आशिल्ल्यान ते उपासनेक फावो अशे आसात. मनशान आपले आवडीप्रमाण उपास्य वस्तू घेवंची, पुणून ती वस्तू अव्यक्त ईश्वराचें प्रतीक मानून तिची उपासना करची हें स्पश्ट केलां.

## दशमोऽध्याय:

श्रीभगवानुवाच

**भूय एव महाबाहो श्रृणु मे परमं वच: ।**
**यत्तेऽहं प्रीयमाणाय वक्ष्यामि हितकाम्यया ।।१।।**

परमात्मो सगल्यांचें मूळ

**भगवंतान म्हळें**

*आयकून तुश्टशी पार्था   देखूनु आयक भौनु तूं ।*
*म्हगेली सांगणी होडु   सांगी बऱ्याकु ती तुज्या ।।१।।*

भगवंतान म्हळें: आगा अर्जुना, आनीक एक फावट म्हजी व्हडली सांगणी आयक. जें हांव (तातूंत) तुश्टतल्या तुका, तुज्या बऱ्याखातीर सांगतां. १

*अन्वय अर्थ*: **महाबाहो** = आगा अर्जुना; **भूयः एव** = आनीक एक फावट; **मे परमम्** = म्हजी व्हडली; **वचः श्रृणु** = सांगणी आयक; **यत् अहम्** = जी हांव; **प्रीयमाणाय ते** = तुश्टतल्या तुका; **हितकाम्यया वक्ष्यामि** = तुज्या बऱ्याखातीर सांगतां. १

**न मे विदुः सुरगणाः प्रभवं न महर्षयः ।**
**अहमादिर्हि देवानां महर्षीणां च सर्वश : ।।२।।**

*म्हगेली निर्मणी नेणत्   देवां मेळे महारुशी ।*
*सर्व तरेनु देवांलें   म्हारूशीलेंयु मूळ हांव ।।२।।*

म्हगेली उत्पत्ती देवांले मेळे नेणत. मोठे मोठे रुशी नेणत. कित्याक सगले तरेन (त्या) देवांले आनी म्हारुशींचें मूळ कारण हांव. २

*अ.अ.*: **मे प्रभवं सुरगणाः न (विदुः) महर्षयः न विदुः** = म्हजी उत्पत्ती देवांले मेळे नेणत आनी म्हारूशीय नेणत; **हि** = कित्याक; **सर्वशः देवानां च महर्षीणाम्** = सगले तरेन (त्या) देवांचें आनी म्हारूशीलें; **अहम् आदिः** = हांव मूळ कारण. २

**यो मामजमनादिं च वेत्ति लोकमहेश्वरम् ।**
**असंमूढः स मर्त्येषु सर्वपापैः प्रमुच्यते ।।३।।**

आद्य पुरूष

*जाणी म्हाका अजल्मी जो   अनादी विश्व चालकु ।*
*सुट्टा मोहांतुलो हांगा   पापांतुल्यानु तो तसो ।।३।।*

जो म्हाका जल्मा विरयत, अनादी, सगल्या लोकांचो व्हडलो ईश्वर समजता, तो मनशांभितर भ्रमां विरयत जावन सगल्या पातकांतसून सुट्टा. ३

*अ.अ.*: **यः माम् अजं अनादिं च लोकमहेश्वरं वेत्ति** = जो म्हाका जल्मना जाल्लो, मूळ नाशिल्लो तसोच लोकांचो व्हडलो ईश्वर समजता; **सः मर्त्येषु** = तो मनशांभितर; **असंमूढः सर्वपापैः प्रमुच्यते** = गदळा विरयत जावन सगल्या पातकांतसून सुट्टा. ३

बुद्धिर्ज्ञानमसंमोहः क्षमा सत्यं दमः शमः ।
सुखं दुःखं भवोऽभावो भयं चाभयमेव च ॥४॥

अहिंसा समता तुष्टिस्तपो दानं यशोऽयशः ।
भवन्ति भावा भूतानां मत्त एव पृथग्विधाः ॥५॥

*बुद्दी ज्ञान क्षमा सत्य ना भ्रम, दम संयम ।*
*जल्म नाशु सुखां दुख्खां भंयु अभयु बीं तशीं ॥४॥*

*अहिंसा समता तुश्टी तप दानु यशायश ।*
*म्हजे पसून हे सर्व जिवांभाव तरां तरां ॥५॥*

बुद्दी, आत्मज्ञान, भ्रमांविरयत स्थिती, क्षमा, सत्य, दम, शम, सूख-दुख्ख, जल्म, नाश, भंय आनी अभय (४), अहिंसा, समताय, संतोश, तप, दान-धर्म, येस-अपेस अश्यो जिवांच्यो ह्यो तरेक तरा वृत्ती (अवस्था वा विकार) म्हजेपसून जातात. ५

*अ.अ.:* **बुद्धिः** = बरें वायट समजचेलीं बुद्दी; **ज्ञानम्** = आत्मज्ञान; **असंमोहः** = भ्रमां विरयत स्थिती; **क्षमा सत्यम्** = क्षमा (सोंसणिकाय), खरेंपण (सत्य); **दमः** = इंद्रियांचो निग्रह; **शमः** = मनाचो निग्रह; **सुखं, दुःखम्** = सूख आनी दुख्ख; **भवः च अभावः** = उत्पत्ती आनी प्रलय (नाश); **भयं च अभयं एव** = भंय आनी अभय बी; (४) **अहिंसा** = दुसऱ्यांक पिडप ना; **समता** = समताय; **तुष्टिः** = संतोश; **तपः** = व्रतां उपास करप; **दानम्** = दानधर्म करप; **यशः अयशः** = येस-अपेस (कीर्त-अपकीर्त); **(एवम्)** = अश्यो; **भूतानां पृथग्विधाः** = जिवांच्यो तरेकवार; **भावाः** = वृत्ती (अवस्था वा विकार); **मत्तः एव भवन्ति** = म्हजे पसुनूच जातात. ५

महर्षयः सप्त पूर्वे चत्वारो मनवस्तथा ।
मद्भावा मानसा जाता येषां लोक इमाः प्रजाः ॥६॥

*म्हारूशी सात पुर्विल्ले चार मनू तशेच ते ।*
*इत्सा म्हज्या मनाची ती तांची जगांतु ही प्रजा ॥६॥*

पुर्विल्ले सात म्हारूशी आनी चार मनू हे म्हजे चिंतपाचे शक्तीन आनी म्हजे येवजणेन जाल्यात. हांचे पासुनूच ह्या संवसारांत ही प्रजा. ६

*अ.अ.:* **पुर्वे** = पुर्विल्ले; **सप्त महर्षयः** = सात म्हारूशी; **तथा** = तशेच; **चत्वारः मनवः** = चार मनू; **मद्भावाः** = म्हजे चिंतपाचे शक्तीन; **मानसाः जाताः** = म्हजे येवजणेन जाल्यात; **येषां लोके इमाः प्रजाः** = हांचे पासुनच ह्या संवसारांत ही प्रजा. ६

**एतां विभूतिं[1] योगं च मम यो वेत्ति तत्त्वत: ।**
**सोऽविकम्पेन योगेन युज्यते नात्र संशय: ।।७।।**

भक्ती फळ

*ही म्हजी विभुती शक्ती   वळखता जो खरी बरी ।*
*निश्चळु योग जोडी तो   नाच हातूंतु संशयु ।।७।।*

जो म्हजे हे विभूतीक (उक्तायल्ल्या म्हयमेक) आनी ह्या योगाक (शक्तीक) सारको समजता, तो निश्चळ योगान थीर जाता हातूंत दुभाव ना. ७

*अ.अ.*: **य:** = जो; **एतां मम विभूतिम्** = हे म्हजे विभूतीक (परमेश्वरी ऐश्वर्यरूप विस्ताराक); **च योगम्** = आनी शक्तीक; **तत्त्वत: वेत्ति** = खरेपणान समजता; **स: अविकम्पेन** = तो निश्चळ; **योगेन युज्यते** = योगान थीर जाता; **अत्र संशय: न (अस्ति)** = हातूंत दुभाव ना. ७

**अहं सर्वस्य प्रभवो मत्त: सर्वं प्रवर्तते ।**
**इति मत्वा भजन्ते मां बुधा भावसमन्विता: ।।८।।**

*सर्वांचो निर्मुपी हांवू   चलऽ सर्व म्हजे पसून ।*
*हें जाणून लोकु ते शाणे   म्हाका मोगानु गा पुजी ।।८।।*

हांव सगल्यांचें मूळ. म्हजेपसून सगलो (संवसार) चलता. अशें समजून शाणे लोक म्हाका विस्वासान भजतात. ८

*अ.अ.*: **अहं सर्वस्य प्रभव:** = हांव सगल्यांचें मूळ (निर्मणेचें कारण); **मत्त: सर्वं प्रवर्तते** = म्हजे पसून सगलो (संवसार) चलता; **इति मत्वा** = हे भाशेन समजून; **बुधा: मां भावसमन्विता: भजन्ते** = शाणे म्हाका विश्वासान भजतात. ८

**मच्चित्ता मद्गतप्राणा बोधयन्त: परस्परम् ।**
**कथयन्तश्च मां नित्यं तुष्यन्ति च रमन्ति च ।।९।।**

*मन जीव म्हजे ठांयीं   गायतात गूण ते म्हजे ।*
*परस्परांक बोधूनू   तुश्ट जाती सुखावती ।।९।।*

ते (म्हजे भक्तजन), म्हजेठांय चित्त लावन, म्हाका जीव ओंपून, सदीं एकमेकांक म्हजो बोध करीत आनी म्हजे गूण गायत तुश्टतात आनी सुखावतात. ९

*अ.अ.*: (ते) **मच्चिता:** = म्हजेठांय चित्त लावन; **मद्गतप्राणा:** = म्हाका जीव ओंपून; **नित्यं परस्परं बोधयन्ते** = सदीं एकमेकांक म्हजो बोध करीत; **च मां च कथयन्त:** = आनी म्हजेच गूण गायत; **तुष्यन्ति च रमन्ति** = तुश्टतात आनी सुखावतात. ९

**तेषां सततयुक्तानां भजतां प्रीतिपूर्वकम् ।**
**ददामि बुद्धियोगं तं येन मामुपयान्ति ते ॥१०॥**

*थीर ध्यानु म्हजें नित्य म्हाका मोगानु जे पुजी ।*
*थीर प्रज्ञा दिता तांकां जी पावयतु म्हजे सरीं ॥१०॥*

सदींच चित्त म्हज्यांत थीर करून म्हाका मोगान भजतल्या त्या भक्तांक हांव थीर प्रज्ञा (बुद्दीयोग) दितां, जाका लागून ते म्हाका येवन मेळटले. १०

*अ.अ.:* **सततयुक्तानाम्** = सदींच चित्त म्हज्यांत थीर करून; **प्रीतिपूर्वकम् तेषां** = म्हाका मोगान भजतल्या त्या भक्तांक; **तं बुद्धियोगं ददामि** = ती बुद्दीची एकाग्रताय (थीर प्रज्ञा) दितां; **येन ते मांम् उपयान्ति** = जाका लागून ते म्हाका येवन मेळटले. १०

**तेषामेवानुकम्पार्थमहमज्ञानजं तमः ।**
**नाशयाम्यात्मभावस्थो ज्ञानदीपेन भास्वता ॥११॥**

*करी तांचेरू दया हांवु अंतस्कर्णांतु रावुनू ।*
*तेजिश्ट ज्ञान दिव्यानु अज्ञानु-तम नाशितां ॥११॥*

तांचेर कृपा करपाकूच हांव तांच्या अंतस्कर्णांत थीर जावन, अजाणपणान जाल्लो काळोख तेजिश्ट ज्ञान दिव्यान नासो करतां. ११

*अ.अ.:* **तेषाम् अनुकम्पार्थम् एव** = तांचेर कृपा करपाकूच; **अहम् आत्मभावस्थः** = हांव तांच्या अंतस्कर्णांत थीर जावन; **अज्ञानजम् तमः** = अज्ञानान जाल्लो काळोख; (अविवेक) **भास्वता ज्ञानदीपेन** = तेजिश्ट ज्ञान दिव्यान; **नाशयामि** = नासो करतां. ११

अर्जुन उवाच

**परं ब्रह्म परं धाम पवित्रं परमं भवान् ।**
**पुरुषं शाश्वतं दिव्यमादिदेवमजं विभुम् ॥१२॥**

**आहुस्त्वामृषयः सर्वे देवर्षिर्नारदस्तथा ।**
**असितो देवलो व्यासः स्वयं चैव ब्रवीषि मे ॥१३॥**

अर्जुनान म्हळें

*परं ब्रह्म परं धाम चड पवित्र तूंच गा ।*
*शाश्वत दिव्य आदी तूं अजल्मो सर्व व्यापि तूं ॥१२॥*

*देवरूशी तशें म्हणटी असितु व्यास नारदु ।*
*देवल बी रुशी सर्व सांगणी म्हाका तुजीय तशी ॥१३॥*

अर्जुनान म्हळें: तूं व्हडलें ब्रह्म. तूं आस्रयाची व्हडली सुवात. तूं चड पवित्र. तूं दिव्य आनी शाश्वत पुरूष. तूं पयलो देव. तूं जल्म नाशिल्लो. तूं सगलें व्यापतलो, अशें तुका सगले रुशी म्हणटात. तेच भाशेन देवरुशी नारद, असित, देवल, व्यास म्हणटात आनी तूंय म्हाकाय तेंच सांगता. १२-१३

*अ.अ.*: **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **भवान् परं ब्रह्म** = तूं व्हडलें ब्रह्म; **परं धाम परमं पवित्रं** = तूं व्हडली सुवात; (तूं) चड पावन; **शाश्वतं दिव्यपुरुषम्** = (तूं) दिव्य आनी शाश्वत पुरूष; **आदिदेवम् अजम्** = (तूं) पयलो देव आनी जल्म नाशिल्लो; **विभुः** = (तूं) सगलें व्यापतलो; **(अशें) त्वां सर्वे ऋषयः आहुः** = तुका सगले रुशी म्हणटात; **तथा** = तेच भाशेन; **देवर्षिः नारदः असितः देवलः व्यासः च स्वयम् एव** = देवर्शी नारद, असित, देवल, व्यास आनी स्वता तूंय; **मे एव ब्रवीषि** = म्हाका तेंच सांगता. १२-१३

**सर्वमेतदृतं मन्ये यन्मां वदसि केशव ।**
**न हि ते भगवन्व्यक्तिं विदुर्देवा न दानवाः ।।१४।।**

*तूं हें जें केशवा सांगी सगलें हांव सत मानितां ।*
*भगवंता तुजें रुप नेणत देवु दानवु ।।१४।।*

आगा श्रीकृष्णा, जें कितें तूं म्हाका सांगता, तें सगलें हांव सत मानतां. भगवंता, तुगेलें रूप दैत्य नेणत आनी देवय नेणत. १४

*अ.अ.*: **केशव** = आगा श्रीकृष्णा; **यत् मां वदसि** = जें कितें (तूं) म्हाका सांगता; **एतत् सर्वं ऋतं मन्ये** = तें सगलें हांव सत मानतां; **भगवन्** = भगवंता; **ते व्यक्तिं दानवाः न विदुः** = तुगेलें रूप दैत्य नेणत; (आनी) **देवाः हि न (विदुः)** = आनी देवय नेणत. १४

**स्वयमेवात्मनात्मानं वेत्थ त्वं पुरुषोत्तम ।**
**भूतभावन भूतेश देवदेव जगत्पते ।।१५।।**

*तूंच आपूणु आपणाकु जाणी गा पुरुषोत्तमा ।*
*जिवां आधारू भूतेशा देवां देवा जगापते ।।१५।।*

पुरुषोत्तमा, जिवांक जल्माक घालतल्या, जिवांच्या धनया, देवांल्या देवा, संवसाराक पोसतल्या, तूं खासा आपूण आपणाक वळखता. १५

*अ.अ.*: **पुरुषोत्तम** = आगा पुरुषोत्तमा; **भूतभावन** = जिवांक जल्माक घालतल्या; **भूतेश** = जिवांच्या धनया; **देवदेव** = देवांल्या देवा; **जगत्पते** = संवसाराच्या स्वाम्या; **त्व स्वयं** = तूं खासा; **आत्मना आत्मानम् वेत्थ** = आपूण आपणाक वळखता. १५

वक्तुमर्हस्यशेषेण दिव्या ह्यात्मविभूतयः ।
याभिर्विभूतिभिर्लोकानिमांस्त्वं व्याप्य तिष्ठसि ॥१६॥

ध्यान करपाक फावो अशीं रुपां सांगचीं अशी अर्जुनाची विनंती

*रावला ज्या विभुतीनी तूं सगले हे लोकु व्यापुनू ।*
*सांग तें सगट्र म्हाका तुज्यो त्यो दिव्य विभुती ॥१६॥*

ज्या विभुतींनी हे सगले लोक व्यापून तूं रावला, त्यो सगल्यो दिव्य विभूती पुराय सांगपाक तूंच फावोसो आसा. १६

*अ.अ.*: **याभिः विभूतिभिः** = ज्या विभूतींनी; **इमान् लोकान् व्याप्य** = ह्या लोकांक व्यापून; **तिष्ठसि** = तूं रावला; **दिव्याः आत्मविभूतयः अशेषेण वक्तुम्** = त्यो तुज्यो सगल्यो दिव्य विभूती (विस्तार) सांगपाक; **त्वं हि अर्हसि** = तूंच फावोसो आसा. १६

कथं विद्यामहं योगिंस्त्वां सदा परिचिन्तयन् ।
केषु केषु च भावेषु चिन्त्योऽसि भगवन्मया ॥१७॥

विस्तरेणात्मनो योगं विभूतिं च जनार्दन ।
भूयः कथय तृप्तिर्हि श्रृण्वतो नास्ति मेऽमृतम् ॥१८॥

*योगेश्वरा तुका नित्य चिंतनीं वळखुंचो कसो ।*
*खैंच्या खैंच्या रुपांतू गा तुजें चिंतनु हांव करुं ॥१७॥*

*तुजो योग विभूती बी भौनु सांग सविस्तर ।*
*आयकून तुश्ठना जीवु उतरां तीं अमृतावरी ॥१८॥*

आगा योगेश्वरा, सदीं तुजें चिंतन करतना, हांवें तुका कसो वळखुंचो? आनी भगवंता, खंयच्च्या खंयच्च्या रुपांत हांव तुगेलें चिंतन करूं? १७

आगा श्रीकृष्णा, तुज्यो विभूती आनी तुजी योगशक्त पर्थून विस्तारान सांग, कित्याक, अमृतावरी तुगेलें उलोवप आयकतना म्हजी तृप्ती जायना. १८

*अ.अ.*: **योगिन्** = आगा योगेश्वरा; **सदा परिचिन्तयन्** = सदीं तुजें चिंतन करतना; **अहं त्वां कथं विद्याम्** = हांवें तुका कसो वळखुंचो? **च भगवन् केषु केषु भावेषु** = आनी भगवंता खंयच्च्या खंयच्च्या रुपांत; **मया चिन्त्यः असि** = म्हजे कडसून चिंतन करपाक (तूं) योग्य आसा? १७

**जनार्दन** = आगा कृष्णा; **आत्मनः योग च विभूतिम्** = तुगेली योगशक्त आनी तुज्यो विभूती; **भूयः** = आनीक एक फावट; (तूं) **विस्तारेण कथय** = विस्तारान सांग; **हि** = कित्याक; **अमृतम्** = अमृतावरी तुगेलें उलोवप; **श्रृण्वतः** = आयकतना; **मे तृप्तिः न अस्ति** = म्हजी तृप्ती जायना. १८

श्रीभगवानुवाच

**हन्त ते कथयिष्यामि दिव्या ह्यात्मविभूतय: ।**
**प्राधान्यत: कुरुश्रेष्ठ नास्त्यन्तो विस्तरस्य मे ।।१९।।**

भगवंतान म्हळें

*सांगतां तुका विभूती हांव म्हज्यो दिव्य मुखेलु ज्यो ।*
*म्हज्या विभूति विस्तारा अर्जुना अंत ना मुळीं ।।१९।।*

भगवंतान म्हळें: बरें तर, हांव तुका मुखेल मुखेल अश्यो म्हज्यो दिव्य विभूती सांगतां. कित्याक, आगा अर्जुना, म्हगेल्या विस्ताराक अंत ना. १९

*अ.अ.*: **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **कुरुश्रेष्ठ** = अर्जुना; **हन्त** = बरें तर; (हांव) **ते प्राधान्यत:** = तुका मुखेल मुखेल अश्यो; **दिव्य आत्मविभूतय:** = म्हज्यो दिव्य विभूती; **कथयिष्यामि** = सांगन; **हि** = कित्याक; **मे विस्तरस्य अन्त: न अस्ति** = म्हगेल्या विस्ताराक अंत ना. १९

**अहमात्मा गुडाकेश सर्वभूताशयस्थित: ।**
**अहमादिश्च मध्यं च भूतानामन्त एव च ।।२०।।**

आत्मो, जल्म, जिवीत, मर्ण, काल इत्यादी ईश्वराचींच रुपां

*हांवु आत्मो गुडाकेशा रावऽ सर्वां भितूर जो ।*
*हांवु आरंभ नि मध्य जिवांचो अंत हांवच गा ।।२०।।*

आगा अर्जुना, सगल्या जिवांच्या अंतस्कर्णांत आसपी सगल्यांचो आत्मो हांव. सगल्या जिवांचो आरंभ, मदली दशा आनी मर्णय हांवूच. २०

*अ.अ.*: **गुडाकेशा** = आगा अर्जुना; **सर्वभूताशयस्थित:** = सगल्या जिवांच्या अंतस्कर्णांत आसपी; **आत्मा अहम्** = (सगल्यांचो) आत्मो हांव; **च भूतानां आदि: मध्यं च अन्त: च अहम् एव** = आनी सगल्या जिवांचो आरंभ, मदली दशा आनी मर्णय हांवूच. २०

**आदित्यानामहं[२] विष्णुर्ज्योतिषां रविरंशुमान् ।**
**मरीचिर्मरुतामस्मि[३] नक्षत्राणामहं शशी ।।२१।।**

*हांव आदित्यांतु विष्णु उजवाडामदिं सूर्य हांव ।*
*मरीची मरुतांतू हांव हांव नक्षत्रांतु चंद्रिम ।।२१।।*

आदित्यां भितर विष्णुदेव, उजवाडांभितर किर्णां आशिल्लो सुर्या, वाऱ्यां देवांभितर मरीचि देव आनी नक्षत्रांभितर चंद्रीम हांवूच. २१

*अ.अ.*: **आदित्यानाम्** = अदितीच्या बारा पुतांपैकीं; **विष्णु:** = विष्णुदेव (वामन अवतार) **अहम्** = हांव; **ज्योतिषां अंशुमान्** = उजवाडां भितर किर्णां आशिल्लो; **रवि: अहम्** = सुर्या हांव; **मरुतां मरीचि: अहम्** = वाऱ्यां देवांभितर मरीचि हांव; **नक्षत्राणां शशी (अहम्) अस्मि** = नक्षत्रांभितर हांवूच चंद्र. २१

वेदानां साम[४]वेदोऽस्मि देवानामस्मि वासवः ।
इन्द्रियाणां मनश्चास्मि भूतानामस्मि चेत[५]ना ॥२२॥

*हांव सामवेद वेदांतु देवांतु इंद्रदेव हांव ।*
*जिवांतु चेतना हांवू मन हांव इंद्रियांतु गा ॥२२॥*

वेदां भितर सामवेद हांव, देवां भितर इंद्र हांव, आनी इंद्रियां भितर मन (हांव); जिवांतली जाणवीक हांव. २२

*अ.अ.*: **वेदानां सामवेद अस्मि** = वेदां भितर सामवेद (हांव) आसां; **देवानां वासवः अस्मि** = देवां भितर इंद्र (हांव) आसां; **च इन्द्रियाणां मनः अस्मि** = आनी इंद्रियांभितर मन (हांव) आसां; **भूतानां चेतना अस्मि** = जिवांतली जाणवीक हांव. २२

रु[६]द्राणां शङ्करश्चास्मि वित्तेशो यक्षरक्षसाम् ।
व[७]सूनां पावकश्चास्मि मेरुः शिखरिणामहम् ॥२३॥

*हांवु शंकर रुद्रांतु कुबेर यक्ष राक्षसांत ।*
*उजो वसूंत गा हांवु मेरू हांव पर्वतां मदीं ॥२३॥*

रुद्रां भितर हांव शंकर, यक्ष आनी राक्षस हांचे भितर हांव (धनाचो स्वामी) कुबेर, वसूं भितर उजो आनी पर्वतां भितर मेरू पर्वत हांव. २३

*अ.अ.*: **रुद्राणां शंकरः अस्मि** = रुद्रां भितर शंकर (हांव) आसां; **यक्षरक्षसां वित्तेशः** = यक्ष आनी राक्षसां भितर (धनाचो स्वामी) कुबेर; **वसूनां पावकः अस्मि** = वसूं भितर उजो (हांव) आसां; **शिखरिणां मेरुः** = उंच तेमकांच्या पर्वतांभितर मेरू पर्वत; **(अहम्) अस्मि** = (हांव) आसां. २३

पुरोधसां च मुख्यं मां विद्धि पार्थ बृहस्पतिम् ।
सेनानीनामहं स्कन्दः सरसामस्मि सागरः ॥२४॥

*पुरोयतांतु मुखेली हांव जाण पार्था बृहस्पती ।*
*हांव सेनानी मदीं स्कंद सरोवरांतु सागरू ॥२४॥*

आगा पार्था, पुरोयतां भितर मुखेल जो बृहस्पती हांवूच आसां हें तूं समज. सेनापतीं भितर स्कंद आनी सरोवरां भितर समुद्र हांव. २४

*अ.अ.*: **पार्थ** = आगा पार्था; **पुरोधसां मुख्यं बृहस्पतिम्** = पुरोयतां भितर मुखेल बृहस्पती; **मां विद्धि** = म्हाकाच समज; **सेनानीनां स्कन्दः अहम्** = सेनापतीं भितर हांव स्कंद (कार्तिक स्वामी); **च सरसां सागरः अस्मि** = आनी सरोवरां भितर समुद्र हांव. २४

महर्षीणां भृगुरहं गिरामस्म्येकमक्षरम् ।
यज्ञानां जपयज्ञोऽस्मि स्थावराणां हिमालयः ॥२५॥

*भृगु हांवु महर्शींतू वाणींतु एकु अक्षर ।*
*हांव जपयज्ञु यज्ञांतु अचलांतु हिमालय ॥२५॥*

म्हारूशीं भितर भृगु, वार्णीत ॐ हें एकोडें अक्षर, यज्ञांभितर जपयज्ञ आनी थीर वस्तुंभितर हिमालय पर्वत हांव आसां. २५

*अ.अ.*: **महर्षीणां भृगुः** = महर्शीं भितर भृगु रुशी; **गिराम् एकम् अक्षरं अस्मि** = वार्णीत (ॐ) हें एकोडें अक्षर (हांव); **यज्ञानां जपयज्ञः** = यज्ञांभितर जपयज्ञ हांव आसां; **स्थावराणां हिमालयः (अहं अस्मि)** = थीर वस्तूं भितर हिमालय पर्वत (हांव) आसां. २५

अश्वत्थः[८] सर्ववृक्षाणां देवर्षीणां च नारदः[९] ।
गन्धर्वाणां[१०] चित्ररथः सिद्धानां[११] कपिलो[१२] मुनिः ॥२६॥

*मुनी कपिल सिद्धांतु नारद देवर्शीमदीं ।*
*हांव चित्ररथ गंधर्वांत् पिंपळु हांव रुखांमदीं ॥२६॥*

सगल्या रुखां भितर पिंपळ, देवरुशीं भितर नारद, गंधर्वां भितर चित्ररथ आनी सिद्धां भितर कपिल मुनी हांवूच. २६

*अ.अ.*: **सर्ववृक्षाणां अश्वत्थः** = सगल्यां रुखां भितर पिंपळ (हांव); **देवर्षीणां नारदः** = देवरुशीं भितर नारद; **गन्धर्वाणां चित्ररथः** = गंधर्वा भितर चित्ररथ; **च सिद्धानां कपिलः मुनिः (अस्मि)** = सिद्दां भितर कपिल मुनी हांव. २६

उच्चैः[१३]श्रवसमश्वानां विद्धि माममृतोद्भवम् ।
ऐरावतं गजेन्द्राणां नराणां च नराधिपम्[१४] ॥२७॥

*आयिल्लों अमृतांतल्यानु उचैःश्रवस अश्व हांव ।*
*ऐरावतु गजेंद्रांतु रायु मन्शांतुलोचु हांव ॥२७॥*

(समुद्र चाळपाच्या वेळार) घोड्यां भितर अमृतापासून उत्पन्न जाल्लो उच्चैःश्रवस (नांवाचो) घोडो हांव, हतयां भितर इंद्राचो ऐरावत हांव आनी मनशां भितर राजा म्हाकाच समज.

*अ.अ.*: **अश्वानां अमृतोद्भवम्** = घोड्यां भितर अमृता पासून उत्पन्न जाल्लों; **उच्चैःश्रवसम्** = उच्चैःश्रवो (उंच कानो) घोडो (हांव); **राजेन्द्राणाम् ऐरावतम्** = हतयां भितर ऐरावत नांवाचो हती; **च** = तशेंच; **नराणां नराधिपम् मां विद्धि** = मनशां भितर राजा म्हाकाच समज. २७

आयुधानामहं वज्रं[१५] धेनूनामस्मि कामधुक्[१६] ।
प्रजनश्चास्मि कन्दर्पः[१७] सर्पाणामस्मि वासुकिः[१८] ॥२८॥

*शस्त्रांतु वज्र हांव पार्था गायांतु कामधेनु हांव ।*
*मदन हांव निर्मुपी लोकू हांव सोर्पांतु वासुकि ॥२८॥*

शस्त्रां भितर वज्र, गायां भितर कामधेनु गाय, प्रजा जल्माक घालतलो कामदेव आनी सोरपां भितर वासुकि हांव. २८

*अ.अ.*: **आयुधानां वज्रम्अहम्** = शस्त्रांभितर वज्र हांव (आसां); **धेनूनां कामधुक् अस्मि** = गायां भितर कामधेनु (इत्सा भागोवपी) गाय (हांव); **च प्रजनः कन्दर्पः अस्मि** = आनी प्रजा जल्माक घालतलो कामदेव (मदन) (हांव); **सर्पाणां वासुकिः अस्मि** = सोरपां भितर वासुकि (हांव). २८

अनन्तश्चास्मि नागानां वरुणो यादसामहम् ।
पितॄणामर्यमा[१९] चास्मि यमः[२०] संयमतामहम्[२१] ॥२९॥

*नागां भितरु हांव शेष पाणयां देवां मदीं वरूण् ।*
*अर्यमो हांवु पितरांतु ख्यास्त कर्प्यांमदीं यम ॥२९॥*

नागां भितर शेष (अनंत), उदका देवतांत वरूण, पितरां भितर तांचो राजा अर्यमो आनी ख्यास्त करप्यांमदीं यम हांव. २९

*अ.अ.*: **अहं नागानां अनन्तः** = हांव नागांभितर शेषनाग; **च यादसां वरूणः अस्मि** = आनी उदकां देवतांत तांचो मुखेल वरूण (हांव); **च पितृणाम् अर्यमा** = आनी पितरांत (तांगेलो राजा) अर्यमो; **यमः संयमताम्** = ख्यास्त करप्यांमदीं यमराज; **अहम् अस्मि ह** = हांव आसां. २९

प्रह्लादश्चास्मि[२२] दैत्यानां कालः कलयतामहम् ।
मृगाणां च मृगेन्द्रोऽहं वैनतेयश्च पक्षिणाम् ॥३०॥

*दैत्यांतु हांवु प्रल्हाद मेजप्यांत काल, अर्जुना ।*
*सावदां भितरि हांव शींव सवण्यां मदीं गरूड हांव ॥३०॥*

हांव दैत्यांभितर प्रल्हाद, गणटी करतल्यांमदीं काल (समय) तेच भाशेन सावदां भितर शींव आनी सवण्यां भितर गरूड हांव. ३०

*अ.अ.*: **अहं दैत्यानां प्रल्हादः** = हांव दैत्यांभितर प्रल्हाद; **कलयतां कालः अस्मि** = गणटी करतल्यांमदीं काल (समय) (हांव) आसां; **च मृगाणां मृगेन्द्रः** = तेच भाशेन सावदां भितर शींव; **च पक्षिणां वैनतेयः अहं (अस्मि)** = आनी सवण्यां भितर गरूड हांव (आसां). ३०

**पवन: पवतामस्मि राम[२३]: शस्त्रभृतामहम् ।**
**झषाणां मकरश्चास्मि स्रोतसामस्मि जाह्नवी[२४] ॥३१॥**

*वायु हांव वेगवंतांत शस्त्र धरप्यांत राम हांव ।*
*न्हंयां भितरि हांव गंगा नुस्त्यांभितर शिंसर ॥३१॥*

वेगवंतां भितर वारो, शस्त्र धरप्यां भितर राम, नुस्त्यां भितर मानगें आनी न्हंयां भितर गंगा हांव.

*अ.अ.*: **अहं पवतां पवन:** = हांव वेगवंतां भितर वारो; **शस्त्रभृतां राम: अस्मि** = शस्त्र धरप्यांभितर राम (हांव); **च झषाणां मकर: अस्मि** = आनी नुस्त्यां भितर शिंसर (मगर) (हांव); **स्रोतसां जाह्नवी अस्मि** = (आनी) न्हंयां भितर गंगा (हांव). ३१

**सर्गाणामादिरन्तश्च मध्यं चैवाहमर्जुन ।**
**अध्यात्मविद्या विद्यानां वाद: प्रवदतामहम् ॥३२॥**

*आरंभ मध्य सृश्टीचो अंत बी हांवु अर्जुना ।*
*विद्यांतु ब्रह्मविद्या हांव वादु हांव वादु घालतल्यांक् ॥३२॥*

आगा अर्जुना, सृश्टीचें मूळ, मदली दशा आनी अंत हांवूच; सगल्या विद्यां भितर ब्रह्मविद्या हांव, वाद घालतल्यांचो वाद (तत्त्व-निर्णयाचो वाद) हांवूच. ३२

*अ.अ.*: **अर्जुन** = आगा अर्जुना; **सर्गाणां आदि: अन्त: च मध्यं च अहम् एव** = सगल्या सृश्टीचें मूळ, मदली दशा आनी अंत हांवूच; **विद्यानां अध्यात्मविद्या** = विद्यां भितर आत्म्यांक वळखुचेली विद्या म्ह. ब्रह्मविद्या हांव; **प्रवदतां वाद: अहम्** = वाद घालतल्यांचो वाद (तत्त्ववाद) हांव. ३२

**अक्षराणामकारो[२५]ऽस्मि द्वन्द्व: सामासिकस्य च ।**
**अहमेवाक्षय: कालो[२६] धाताहं विश्वतोमुख: ॥३३॥**

*अकार अक्षरांतू हांव हांव समासांतु द्वंद्व गा ।*
*अक्षयु काल हांवूच ब्रह्मो हांव विश्वरूप गा ॥३३॥*

अक्षरां भितर अकार हांव, समासां भितर द्वंद्व समास हांव, तसोच अक्षय काल हांव आनी सगले वशीन तोंडां आशिल्लो, सगल्यांक पोसतलो ब्रह्मो हांव. ३३

*अ.अ.*: **अहं अक्षराणां अकार:** = हांव अक्षरांभितर अकार; **च सामासिकास्य द्वंद्व: अस्मि** = आनी समासांभितर द्वंद्व समास (हांव) आसां; **अक्षय: काल:** = अक्षय (सोंपना जाल्लो) काल हांव; **विश्वतोमुख: धाता अहम् एव च (अस्मि)** = सगले वशीन तोंडां आशिल्लों, सगल्यांक पोसतलों हांवूच. ३३

**मृत्यु: सर्वहरश्चाहमुद्भवश्च भविष्यताम् ।**
**[२७]कीर्ति: [२८]श्रीर्[२९]वाक्[३०]च नारीणां स्मृति[३१]र्मेधा धृति: [३२]क्षमा ।।३४।।**

*हांव सगल्यां व्हरतलें मर्ण  मूळ हांव जातुल्यां मुखार् ।*
*नारींतु कीर्त श्री वाणी  स्मृती बुद्‌दी धृती क्षमा ।।३४।।*

सगल्यांक व्हरतलें मर्ण, फुडाराक जल्मतल्यांचें मूळ, बायलांभितर कीर्त, गिरेस्तकाय, वाणी, स्मृती, बुद्‌दी, मनाची धिटाय आनी क्षमा हांव. ३४

*अ.अ.*: **अहं सर्वहर: मृत्यु:** = हांव सगल्यांक ना करतलें मर्ण; **च भविष्यताम् उद्भव:** = फुडाराक जल्मतल्यांचें मूळ (हांव); **नारीणाम्** = बायलांभितर; **कीर्ति: श्री: वाक् स्मृति: मेधा धृति: च क्षमा (अस्मि)** = कीर्त, गिरेस्तकाय, वाणी, स्मृती, बुद्‌दी, धृती (मनाची धिटाय) आनी क्षमा (सोंशीकपण) हांव.

**बृहत्[३३]साम तथा साम्नां गाय[३४]त्री छन्द[३४]सामहम् ।**
**मासानां [३५]मार्गशीर्षोऽहमृतूनां कु[३६]सुमाकर: ।।३५।।**

*गायत्री छंद छंदांत  सामांत 'व्हड साम' हांव ।*
*म्हैन्यांतु मार्गशीर् हांवु  रुतूं मदीं वसंतु हांव ।।३५।।*

सामवेदा भितर बृहत्साम (स्तोत्र), छंदां भितर गायत्री, म्हयन्यां भितर मार्गशीर आनी रुतूं भितर वसंत रुतू हांव. ३५

*अ.अ.*: **तथा अहं साम्नां बृहत्साम** = हांव सामगितां भितर व्हडलें साम (आसां); **छंदसां गायत्री** = छंदां भितर गायत्री छंद (वृत्त), **मासानां मार्गशीर्ष:** = म्हयन्यांभितर मार्गशीर म्हयनो (हांव); **ऋतूनां कुसुमाकर: अहम्** = रुतूं भितर वसंत रुतू हांव. ३५

**[३७]द्यूतं छलयतामस्मि तेजस्तेजस्विनामहम् ।**
**जयोऽस्मि व्यवसायोऽस्मि सत्त्वं सत्त्ववतामहम् ।।३६।।**

*तेजवंतांतुलें तेज  फटवप्यांचो जुगारु हांव ।*
*जैतु नी यत्नु हांव दोनूय  सात्त्विकां सत्त्व हांवुचू ।।३६।।*

फटयतल्यांचो जुगार, तेजवंतांतलें तेज, जिखतल्यांचें जैत, वावुरतल्यांचो वावर आनी सात्त्वीक मनशांतलें सत्त्व हांव. ३६

*अ.अ.*: **अहं छलयतां द्यूतम्** = हांव फटयतल्यांचो जुगार; **तेजस्विनां तेज: अहम् अस्मि** = तेजवंतांलें तेज हांव आसां; (**जेतृणाम्** = जिखतल्यांचें) **जय:** = जैत; (हांव) **अस्मि** = आसा; **व्यवसायिनां** = (वावुरतल्यांचो) **व्यवसाय:** = वावर; (तसोच) **सत्त्ववताम् सत्त्वं अस्मि** = सात्त्वीक मनशांतलें सत्त्व हांव. ३६

वृष्णीनां वासुदेवो[३८]ऽस्मि पाण्डवानां धनंजयः[३८] ।
मुनीनामप्यहं व्यासः[३९] कवीनामुशना[४०] कविः ॥३७॥

*हांव वासुदेवु वृष्णींतु पांडवांतु धनंजयु ।*
*मुनींतु हांव मुनी व्यास शुक्राचार्य कवींतु हांव ॥३७॥*

वृष्णीचे पिळगे भितर वासुदेव, पांडवां भितर अर्जुन, मुनीं भितर वेदव्यास आनी कवींभितरय शुक्राचार्य हांव. ३७

*अ.अ.*: **वृष्णीनां वासुदेवः** = वृष्णीचे पिळगेभितर वासुदेव (हांव); **पाण्डवानां धनंजयः** = पांडवांभितर अर्जुन हांव; **मुनीनां व्यासः** = मननशीळ मनशां भितर व्यास (हांव); (आनी) **कवीनाम् उशना कविः अपि अहम्अस्मि** = कवींभितरय शुक्राचार्य हांव. ३७

दण्डो दमयतामस्मि नीतिरस्मि[४१] जिगीषताम् ।
[४२]मौनं चैवास्मि गुह्यानां ज्ञानं ज्ञानवतामहम् ॥३८॥

*दंड हांव ख्यास्त कर्प्यांचो धर्म हांव जैतु इत्सुप्यां ।*
*ज्ञान हांव ज्ञानवंतांचें गुमानितांतु मौनु हांव ॥३८॥*

आनी आळाबंदा हाडटल्यांचो दंड हांव, जैताची इत्सा करतल्यांची नीत (धर्म), गुपितांतलें मोनेपण आनी ज्ञानवंतांचें ज्ञानूय हांवूच. ३८

*अ.अ.*: **च दमयतां दण्डः अस्मि** = आनी आळबंदा हाडटल्यांचो दंड (ख्यास्त) (हांव); **जिगीषतां नीतिः अस्मि** = जैताची इत्सा करतल्यांची नीत (धर्म) (हांव); **गुह्यानां मौनं अस्मि** = गुपितांतलें मोनेपण हांव; **ज्ञानवतां ज्ञानं अहम् एव** = ज्ञानवंतांचें ज्ञान हांवूच. ३८

यच्चापि सर्वभूतानां बीजं[४३] तदहमर्जुन ।
न तदस्ति विना यत्स्यान्मया भूतं चराचरम् ॥३९॥

*बियाण सर्व जिवांतलें तेंयु हांवूचु अर्जुना ।*
*आसूं नजो म्हजे वीण पार्था कांयच चराचर ॥३९॥*

तशेंच, आगा अर्जुना, जें सगल्या जिवांचें बीं तेंवूय हांवूच. कित्याक, म्हजे बगर आसत असो चर (हालतलो) आनी अचर (हालनाशिल्लो) जीव नाच. ३९

*अ.अ.*: **च अर्जुन** = आनी, आगा अर्जुना; **यत् सर्वभूतानां बीजम्** = जें सगल्या जिवांचें बीं; **तत् अपि अहम् एव** = तेंवूय हांवूच; **(यतः) = कित्याक; यत् चराचरम्** = असो चर वा अचर; (एकायदोय) **भूतम्** = जीव; **यत् मया विना स्यात्** = जें म्हजे बगर आसत. ३९

नान्तोऽस्ति मम दिव्यानां विभूतीनां परंतप ।
एष तूद्देशतः प्रोक्तो विभूतेर्विस्तरो मया ।।४०।।

*म्हज्या दिव्य विभूतींकु      ना अंतूच परंतपा ।*
*विस्तारु हो विभूतींचो      सार ताचोच सांगिलो ।।४०।।*

आगा अर्जुना, म्हज्या दिव्य विभूतींक (विस्ताराक) अंत ना. पुणून ह्या विभूतींच्या विस्ताराचो हांवें तुका सार सांगलो. ४०

*अ.अ.*: **परंतप** = अर्जुना; **मम दिव्यानां विभुतीनाम्** = अलौकीक विभूतींक (विस्ताराक); **अन्तः न अस्ति** = अंत ना; **तु एषः विभूते विस्तरः** = पुणून ह्या विभूतींच्या विस्ताराचो; **मया उद्देशतः प्रोक्तः** = हांवें सार तुका सांगलो. ४०

४४
यद्यद्विभूतिमत्सत्त्वं श्रीमदूर्जितमेव वा ।
तत्तदेवावगच्छ त्वं मम तेजोंऽशसंभवम् ।।४१।।

*जी जी गा वस्तु संपन्न      ऐश्वर्य कांत शक्तिनू ।*
*तेजांशानु म्हज्या ती ती      जाल्या समज अर्जुना ।।४१।।*

व्हडवीक, कांत आनी बळगें हांणी भरिल्ली जी जी वस्तू आसत. ती ती म्हज्या तेजाच्या अंशा पासुनूच जाल्या हें तूं समज. ४१

*अ.अ.*: **यत् यत्** = जी जी; **विभूतिमत्** = व्हडवीक; **श्रीमत्** = कांत; **वा** = आनीक: **उर्जितम्** = बळगें (शक्ती) (हांणी भरिल्ली) **सत्त्वम्** = वस्तू आसत: **तत् तत् एव** = ती तीच; **मम तेजोंऽश संभवम् एव** = म्हज्या तेजाच्या अंशापासुनूच जाल्या (हें) **त्वम् अवगच्छ** = तूं जाण. ४१

अथवा बहुनैतेन किं ज्ञातेन तवार्जुन ।
विष्टभ्याहमिदं कृत्स्नमेकांशेन स्थितो जगत् ।।४२।।

*करचेलें गा कितें पार्था      जाणून विस्तारु हो तुका ।*
*एका अंशानु गा म्हज्या      अख्खें हें विश्व हांव धरी ।।४२।।*

ना जाल्यार अर्जुना, हो इतलो विस्तार समजून तुका कितें करचेलें आसा? हो सगलो संवसार म्हज्या एका अंशान धरून हांव रावलां. ४२

*अ.अ.*: **अथवा** = ना जाल्यार; **अर्जुन** = अर्जुना; **एतेन बहुना ज्ञातेन तव किम्** = हो इतलो (विस्तार) समजून तुका कितें करचेलें आसा?; **इदं कृत्स्नं जगत्** = हो सगलो संवसार; **एकांशेन अहम्** = (म्हज्या) एका अंशान हांव; **विष्टभ्य स्थितः** = धरून रावलां. ४२

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **विभूतियोगो**
नाम **दशमो**ऽध्याय: ।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**विभूतियोग** नांवाचो **धावो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१ विभूतिं-विस्तारम् - श्रीशंकराचार्यांचे दिश्टीन ऐश्वर्य आनी श्रीरामानुजाचे दिश्टीन उचितभावना, उत्साह आनी श्रद्धा. मधुसूदन विभूति म्हळ्यार विविधभावं तत्तद्रूपेणावस्थितिम् म्ह. विविधभाव त्या त्या अनेक रुपांनी थीर आसप अशें म्हणटा. शंकरानंद म्हणटा: माययाविविधाकारेण भवनं विभूतिस्ताम् - म्ह. मायेच्या योगान वेगळ्या वेगळ्या रुपांनी जावप ही विभूती अशें म्हणटा. तें सगळें व्यापिल्लें आसता ताका.

२. आदित्य बारा आसात: अंशुमान, अर्यमा, इंद्र, विष्णु, त्वष्टा, धाता, पूषन्, भग, मिश्र, वरूण, विवस्वान् (मार्तंड), सविता.

३. मरुताम् - हे वाऱ्यादेव. ते कुल्लीं एकोणपन्नास आसात.

४. सामवेद: - सामवेदाक तांच्यांतल्या गावपाचे सोबिताये पासत मुखेल वेद म्हळा. वेदांत ऋग्वेदाक आद्य स्थान दिनासतना तें सामवेदाक दिलां. प्रश्नोपनिषदांत प्रस्न ५ मंत्र ५ हातुंतूय सामवेद श्रेश्ठ म्हळा.

५. कार्यकारणसंघाते नित्याभिव्यक्ता बुद्धिवृत्तिश्चेतना (शां.भा.) - ज्ञानशक्त. शरीर आनी इंद्रियां हांच्या संघातामदीं (मेळांमदीं) सदींच उकती जावपी बुद्दीवृत्ती (consciousness).

६. रुद्र इकरा आसात. अजैक पाद, अहिर्बुध्न्य, ईश्वर, कपाली, कपर्दी, त्र्यंबक, महेश्वर, पिनाकी, मृगव्याध, वृषाकपि, शंकर (शंभू, भव, शर्व). कलियुगांतल्या रुद्रांचीं नांवां अशीं: भूतेश, नीलरुद्र, कपाली, वृषवाहन, त्र्यंबक, महेश्वर, मृत्युंजय, कामेश, योगेश, शंकर.

७. वसु आठ आसात: अनल (पावक), अनिल, आप, धरा, ध्रुव, प्रत्यूष, प्रभास, सोम. वसु - वसतिस्थानाच्यो - (राबित्याचे सुवातिच्यो) देवता.

८. अश्वत्थ म्ह.पिंपळ. खिणयाळ्या संवसाराचें तो प्रतीक. (पळेयात अ. १५-१).

९. नारद हो भक्तीयोगाचो नांवाजिल्लो आचार्य. ताणेंच वाल्मिकीचें हृदयपरिवर्तन केलें.

१०. गंधर्व हे गवय आशिल्ले.

११. जल्मापासुनूच धर्म, ज्ञान, वैराग्य आनी ऐश्वर्य हीं गांठीक आशिल्ले मनीस (शां.भा.). मोक्षा पासत ल्हानपणा सावन वावुरपी मनीस.

१२. कपिलः कपिलमुनी. टिळक आनी राधाकृष्णन हांच्या मत्तान हो सांख्यशास्त्रकार निरीश्वरवादी कपिल. हेरांच्या मत्तान पुराणां आनी सनकादी वांगडा ब्रह्मदेवाचे मानिल्ले पूत म्हणून म्हळां तो कपिल ईश्वरवादी आसलो. श्रीशंकराचार्यान हो भेद 'ब्रह्मसूत्रशारीर भाष्यां'त दाखयला.

१३. उच्चैःश्रवसम् - क्षीरसागर चाळपाच्या वेळार अमृता वांगडाच जीं हेर रत्नां भायर सरलीं तातूंत हो घोडो आशिल्लो. तो उंचकानो म्हणून उच्चैःश्रवस. सुर्यान तो आपल्या रथाक बांदपाक घेतलो. हो इंद्राचो हती. देखून श्रेश्ठ.

१४. मनीस समाजाची बरी वेवस्था लागची देखून देवान राजा निर्मिलो अशें महाभारतांत म्हळां. (शांतिपर्व अ. ६७ आनी ६८). हाका लागुनूच राजा मनशांमदीं व्हड आनी तो विष्णूचो अंश अशी कल्पना परंपरेन चलत आयल्या.

१५. इंद्राचें वज्र हें ते मुस्तींतलें बळिश्ट आयुध आशिल्लें. तें दधीचि रुशीच्या अस्थींपासून घडयल्लें. तपश्चर्येचें आनी त्यागाचें उपलक्षण.

१६. कामधेनु ही गाय वान्सा भागोवणी आसली. तिका चवदा रत्नांतलें एक अशें मानताले (पळेयात अ. ३-१०).

१७. कामदेव मदन ही संतत जल्माक घालतली देवता.

१८. वासुकि हो सोरपांचो राजा.

१९. अर्यमो - आर्य मनाचो. आर्यांचो मानिल्लो पुर्वज. पितरांचो प्रतिनिधी. वेदांत हाका सुर्याचें प्रतीक मानला. सौर शक्तीचो म्हणून प्राणाचो मूळ स्रोत. म्हणून प्राणरुपांत लीन जाल्ल्या पितरांचो हो प्रतिनिधी (वि.).

२०. यम - नियतीची देवता (हिची ओड ताळची न्हय) (वि.).

२१. (१) ख्यास्त करप्यां मदीं (शां.भा.) (२) धर्म आनी अधर्म (पुण्य-पाप) हांचें फल दिवन अनुग्रह आनी निग्रह करप्यांमदीं (वें).

२२. प्रल्हादः विनोबाजींच्या मत्तान तो परमभक्त, रासवळ साधनेचो प्रवर्तक, निर्भयतायेची मुर्ती आनी आदर्श सत्याग्रही (वि.).

२३. (१) गांधीजी 'राम' म्हळ्यार परशुराम अशें म्हणटा. 'राम' ह्या शब्दाक 'इदं ब्रह्मं, इदं शापम्' वृत्तीच्या परशुरामानच पयलेच फावटीं प्रतिष्ठा हाडली. मागीर 'राम' ह्या शब्दाक प्रतिश्ठा मेळ्ळी.

(२) दाशरथी राम. राम दोनदां बाण मारिना. (वि.).

२४. गंगा न्हंय. भरतखंडांतली सगल्यांत पवित्र न्हंय. सगल्या न्हंयांचें प्रतीकरूप.

२५. अकारः 'अ'कार हो वर्ण, वाङ्मयाचें आदी बीज, ओंकाराची (प्रणवाची) पयली मात्रा (अ + उ + म्), 'नेतिनेति' सुचयता. (वि.)

२६. कालः = काळ, कालतत्त्व, कालात्मो.

२७. कीर्ति = करणेन दुसऱ्याक देख दिवप.

२८. श्री = दर कर्माचें एक औचित्य आसता. तशें केल्यार तें सोबून दिसता. गीता 'सत्' शब्दाच्या

अर्थामदीं तिचो आसपाव करता. (१७-२६).

२९. वाक् - वाणी - वाक्-शक्ती, मनांतलें आनी अंतस्कर्णांतलें नकसूद उतरांनी सांगचेली शक्ती.

३०. नारी - नर-शक्ती. मानवी जिवितांतल्यो शक्ती जांकां लागून मानवी जीण हेर प्राण्यांपरस वेगळी थरता.

३१. मेधा - तीव्र आकलनशक्ती. विशेशबुद्दी (वि.).

३२. क्षमा - मातृदेवता - पृथ्वीचें प्रतीक - धर्तरेक क्षमाधरित्री अशें म्हळां. पृथ्वी सोंशीकसाणीचें प्रतीक.

३३. सामसुक्तांत 'ब्रह्मत्साम' नांवाचें सूत्र आसा. ते त्या सगल्या सुत्रांमदीं व्हड मानतात.

३४. १) वैदीक छंदांत म्हळ्यार वृतांत. हो तीन चरणांचो आनी चोवीस अक्षरांचो छंद. गायत्री छंद वा वृत्त सगल्यांत स्रेश्ठ मानतात. २) ऋग्वेदांतलो एक प्रसिद्ध मंत्र (ऋ.३-६२-१०.)

३५. वैदीक मुस्तींत वर्साचो आरंभ मार्गशीर म्हयन्यान जातालो.

३६. वसंत रुतू.हवामान आनी पानां-फुलांच्या चंवराक लागून हो सगल्यांचे आवडीचो.

३७. जुगार. जुगारी वृत्तीन जगाक नाडटल्याचोच अंतीं नाश जाता. हिवूय ईश्वराचीच प्रेरणा. शुभ आनी अशुभ - सगल्याच प्रेरणांचें मूळ इश्वरीच आसता. हें भक्तीमार्गाचें प्रमेय श्लो. ४, ५ हातूंत सांगलां. ताचेर उजवाड घालपी ही एक देख. ईश्वराकडसून मेळपी शुभ प्रेरणा आनी अशुभ प्रेरणा ताचें कल्याण वा ताचो नाश करतात. हें समजून मनशान निरहंकारी जावपाक जाय आनी अशुभ प्रेरणेच्यान वाटोवपाखातीर ईश्वराची निरंतर प्रार्थना करपाक जाय. (वि.)

३८. पांडवांत धनंजय - अर्जुनांत कर्तव्याची जाणवीक जागयली.

३९. महाभारताचो लेखक ह्या नात्यान.

४०. उशना - भक्ती वा मोगाचीं गितां गावपी आदर्श कवी. वेदांकूय तो स्मरणीय जाला. ("अहं कवि उशना पश्यता मा" - ऋग्वेद. ४-२६-१; "प्रकाव्यं उशनेव ब्रुवाण:" (ऋग्वेद-९-१७-७) (वि.)

४१. जैत इत्सुप्यांक धर्म हांव - 'सत्यमेव जयते', 'यतो धर्मस्ततो जय:' हीं वाक्यां प्रसिद्धआसात. (वि.)

४२. परगट जावंक ना अशें आंतरीक मनन. (वि.)

४३. बीज-बियाण हो व्यापक ईश्वरी संकल्प.

४४. विभूतिमत् = व्हडवीक. विभुतीन भरिल्ली कांत आनी बळगें हीं दोनूय विभुतीचे उपभेद. (वि.)

इकरावो अध्याय



# विश्वरूपदर्शनयोग

ईशतत्त्व ही विश्वाक व्यापतली एक शक्ती. ज्ञान आनी भक्तीमार्गी लोक हिकाच परमेश्वर म्हणटात. ज्ञानमार्गी लोकांचो परमेश्वर निखटो साक्षी आनी द्रश्टो; पूण तो कर्तो न्हय. तो विश्वाचे वेव्हार त्रयस्थाचे भुमिकेन पळेता. तातूंत तो ढवळाढवळ करिना. (लोकांचें कर्तुप, तांचीं कर्मां, कर्मफळां मेळची मांडणी हीं ईश्वर निर्मिना. प्रकृती (सभावूच) तें सगलें करता (अ. ५-१४). हाचे उरफाटें भक्तीमार्गी लोकांचो परमेश्वर हो निखटो निर्मुपीच न्हय, तर नियंतोय. उत्पत्ती, स्थिती आनी लय आदी विश्वाचे सगले वेव्हार ताचेच इत्सेन चलतात. मनीस ताची इत्सा पूर्ण करचेलें साधन वा आवत. ईश्वराचेच प्रेरणेन आमी चलतात तेन्ना आपल्या बऱ्या वायट कर्माचें फळ परमेश्वराक ओंपचे बुद्दीन मनशान चलपाचें. हे भक्तीमार्गी नदरेन अध्याय ९ ते १२ मेरेन भुमिका मांडल्या. अंतीं सगलें सांगतकीच १८व्या अध्यायाचे अखेरेक होच मार्ग धरचो अशें श्रीकृष्णान अर्जुनाक सांगलां. धाव्या अध्यायाचे अंतीं श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता : 'म्हज्या विभूतींक अंत ना आनी म्हज्या एकाच अंशान हो सगलो संवसार हांव व्यापून रावतां.' विश्वांतलीं सौम्य आनी भयांकृत (रौद्र) रुपां - संवसार घडपी आनी मोडपी अशीं दोनूय - रुपां ईश्वराचींच. उत्पत्ती, स्थिती आनी लय हें कालचक्र चलोवपी तोच एक. हीं दोनूय रुपां आपणाक आपल्या दोळ्यांनी पळोवचेलीं आसात अशी विनंती अर्जुन श्रीकृष्णाक करता (१-८). फुडें ईश्वराचें सुंदर, सगळें व्यापपी आनी दोळे दिपकावणें रूप दाखयलां. हें ईश्वराचें सौम्य रूप. तशेंच तें सांवार करपी अशेंय आसा. निर्मणी आनी विनाश हीं दोनूय ईश्वरी तत्त्वां (१९-२५). मुखार ईश्वरी सांवार दाखयला (२६-३०). मागीर ईश्वराच्या कालचक्राची कल्पना मांडल्या. तातूंत मनीस निमित्त्याक कारण (३१-३४). विश्वरूप पळोवन अर्जुनाच्या मनांत भक्तीभाव फुलता आनी नमळायेन तो ईश्वराक पराथता (३५-४०). फुडें भय आनी आनंद हांचें मिश्रण दिश्टी पडटा आनी अर्जुन आपल्या अजाणपणाखातीर भगवंताची क्षमा मागता (४१-४६). फुडें भक्तीमार्गाची व्हडवीक सांगल्या. कृष्णाक पर्थून मनीस रुपांत अर्जुन पळेता (४५-५२). अंतीं मनशाक कर्म, ज्ञान, भक्ती, ध्यान आनी मनीसपण ह्या मार्गान मुक्ती मेळटा अशें सांगलां.

## एकादशमोऽध्यायः

अर्जुन उवाच

**मदनुग्रहाय परमं गुह्यमध्यात्मसंज्ञितम् ।**
**यत्त्वयोक्तं वचस्तेन मोहोऽयं विगतो मम ।।१।।**

अर्जुन ईश्वराचें विश्वरूप पळोवंक सोदता
अर्जुनान म्हळें

*कृपा म्हणून तुवें सांगलें व्हड अशें गुमानित ।*
*आत्म्याकु वळखुचे विद्येन् सल्लो गदळ हो म्हजो ।।१।।*

अर्जुनान म्हळें: म्हजेर कृपा करचे पासत आध्यात्म नांवाचें जें व्हडलें रहस्य म्हाका सांगलें, ताणें म्हजो गदळ सामको गेलो. १

*अन्वय आनी अर्थ* : **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **मदनुग्रहाय** = म्हजेर कृपा करपाक; **अध्यात्मसंज्ञितम्** = आध्यात्म नांवाचें (आत्म्याक वळखुचेले विद्येचें); **परमंगुह्य** = व्हडलें रहस्य; **यत् वचः** = जो उपदेश; **त्वया उक्तम्** = तुवें म्हाका सांगलो; **तेन मम अयं मोहः** = ताणें म्हजो हो गदळ; **विगतः** = सामको गेलो. १

**भवाप्ययौ हि भूतानां श्रुतौ विस्तरशो मया ।**
**त्वत्तः कमलपत्राक्ष माहात्म्यमपि चाव्ययम् ।।२।।**

*जिवांची निर्मणी-नाश आयकलीं हीं सविस्तर ।*
*अविनाशी तुजो म्हयमा तुजे कडसून आयकलो ।।२।।*

आगा, साळकाचे पाकळेवरी दोळ्यांच्या श्रीकृष्णा, जिवांची उत्पत्ती, प्रळय तशीच तुजी सरनाशिल्ली व्हडविकूय हांवें तुजेकडसून सविस्तर आयकली. २

*अ.अ.*: **हि** = कित्याक; **कमलपत्राक्ष** = साळकाचे पाकळे वरी दोळ्यांच्या श्रीकृष्णा; **भूतानाम्** = जिवांची; **भवाप्ययौ** = उत्पत्ती (निर्मणी) आनी प्रळय (नाश); **च अव्ययं माहात्म्यप्अपि** = तसोच तुगेलो अविनाशी म्हयमाय; **त्वत्तः विस्तरशः श्रुतौ** = तुजेकडसून विस्तारान आयकलो. २

एवमेतद्यथात्थ त्वमात्मानं परमेश्वर ।
द्रष्टुमिच्छामि ते रूपमैश्वरं पुरुषोत्तम ॥३॥

*वर्णिलो गा जसो आतां धनया आपणाकु गा तुवें ।*
*दाखय योगेश्वरा रूप पळोवंक हांवु इत्सितां ॥३॥*

आगा परमेश्वरा, तुवें आपणाक जसो वर्णिला तें तशेंच खरेंच आसा. आगा पुरुषोत्तमा, तुजें व्हडविकेन भरिल्लें रूप हांव पळोवंक इत्सितां. ३

*अ. अ.*: **परमेश्वर** = आगा परमेश्वरा; **त्वम् आत्मानं यथा आत्थ** = तुवें आपणाक जसो वर्णिला; **एवम् एतत्** = तशेंच तें खरेंच आसा; **पुरुषोत्तम** = आगा पुरुषोत्तमा; **ते ऐश्वरं रुपं द्रष्टुम् इच्छामि** = तुजें व्हडविकेन भरिल्लें रूप हांव पळोवंक इत्सितां. ३

मन्यसे यदि तच्छक्यं मया द्रष्टुमिति प्रभो ।
योगेश्वर ततो मे त्वं दर्शयात्मानमव्ययम् ॥४॥ *

*म्हज्यानु तें पळोवं येत अशें मानल्यार बी तुवें ।*
*दाखय योगेश्वरा रूप अविनाशी अशें तुजें ॥४॥ **

आगा स्वाम्या, तुजें तें अविनाशी रूप म्हज्यान पळोवंक येत अशें तुका दिसता जाल्यार, आगा योगेश्वरा, तुजें तें रूप म्हाका दाखय. ४

*अ. अ.*: **प्रभो** = आगा स्वाम्या; **तत्** = (तुगेलें) तें; **अव्ययम् आत्मानं** = अविनाशी रूप; **मया द्रष्टुं शक्यम् इति मन्यसे ततः** = म्हज्यान पळोवंक येत अशें (तुका) दिसता जाल्यार; **योगेश्वर त्वं मे दर्शय** = योगेश्वरा, तूं म्हाका तें दाखय. ४

श्रीभगवानुवाच

पश्य मे पार्थ रूपाणि शतशोऽथ सहस्रशः ।
नानाविधानि दिव्यानि नानावर्णाकृतीनि च ॥५॥ *

भगवंत विश्वरूप दाखयता

**भगवंतान म्हळें**

*शेंकड्या आनी हजारांनी पार्था रुपां म्हजीं पळे ।*
*रंग तरां तरां तांचे तांगेल्यो दिव्य आकृती ॥५॥ **

भगवंतान म्हळें: अर्जुना, म्हगेलीं तरेकतरांचीं, तरेकवार रंगांचीं आनी आकृतायांचीं शेंकड्यांनी आनी हजारांनी अलौकीक रुपां तूं पळे. ५

*अ. अ.*: **पार्थ** = अर्जुना; **मे नानाविधानि** = म्हगेलीं तरेकतरांचीं; **च नानावर्णाकृतीनि** = तरेकवार रंगांचीं आनी आकृतायांचीं; **शतशः अथ सहस्रशः** = शेंकड्यांनी आनी हजारांनी; **दिव्यानि रुपाणि पश्य** = अलौकीक रुपां तूं पळे. ५

**पश्यादित्यान्वसूनरुद्रानश्विनौ मरुतस्तथा ।**
**बहून्यदृष्टपूर्वाणि पश्याश्चर्याणि भारत ।।६।।**

*मरूत रुद्र आदित्य अश्विनी नी वसू पळे ।*
*केन्ना देखूंकु ना आदीं तीं अचर्यां पळेच तूं ।।६।।*

आगा अर्जुना, हे पळे आदित्य, वसु, रुद्र, अश्विनीकुंवर आनी मरूत. आदीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लीं नवलां तूं पळे. ६

*अ.अ.:* **भारत** = भारतकुळांतल्या अर्जुना; **पश्य** = हे पळे; **आदित्यान्** = आदित्य; **वसून्** = वसु; **रुद्रान् आश्विनौ मरुतः** = रूद्र, अश्विनीकुंवर आनी मरूत; **अदृष्टपूर्वाणि** = आदीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लीं; **बहुनि आश्चर्याणि पश्य** = जायतीं अजापां (तूं) पळे. ६

**इहैकस्थं जगत्कृत्स्नं पश्याद्य सचराचरम् ।**
**मम देहे गुडाकेश यच्चान्यद्द्रष्टुमिच्छसि ।।७।।**

ईश्वराचें सौम्य रूप

*सगलेंच विश्व एकठांय पळे हांगा चराचर ।*
*म्हजे कुडींतु तूं चोयु इत्सी पळोवंकु हेर तें ।।७।।*

आगा अर्जुना, आज हे म्हजे कुडींत एकठांय जाल्लो सगलोच चराचर संवसार आनी जें कितें तूं पळोवंक सोदी तें पळे. ७

*अ.अ.:* **गुडाकेश** = अर्जुना; **अद्य इह मम देहे एकस्थम्** = आज हे म्हजे कुडींत एकठावल्लो; **कृत्स्नं सचराचरं जगत्** = सगलो चराचर संवसार; **च** = आनी; **अन्यत् यत् द्रष्टुम् इच्छसि** = हेर जें कितें पळोवपाक सोदता; (तें) **पश्य** = पळे. ७

**न तु मां शक्यसे द्रष्टुमनेनैव स्वचक्षुषा ।**
**दिव्यं ददामि ते चक्षुः पश्य मे योगमैश्वरम् ।।८।। ***

*निजा तुज्याच दोळ्यांनी तुवें म्हाका पळोवं नजो ।*
*दोळे तुका दितां दिव्य ईश्वरी योग हो पळे ।।८।। **

पुणून, तुगेले हेच निजाचे नदरेन, तुज्यान म्हाका पळोवं नजो. देखून हांव तुका दिव्य नदर दितां. तिणें तूं म्हजो ईश्वरी योग पळे. ८

*अ.अ.:* **तु अनेन स्वचक्षुषा** = पुणून तुगेले हेच निजाचे नदरेन; **द्रष्टुम् एवं न शक्यसे** = तुज्यान म्हाका पळोवं नजो (देखून हांव); **ते दिव्यं चक्षुः ददामि** = तुका दिव्य नदर दितां; (तिणें) **मे ऐश्वरं योग पश्य** = म्हजो ईश्वरी योग (विस्तार करचेली तांक) पळे. ८

संजय उवाच

**एवमुक्त्वा ततो राजन्महायोगेश्वरो हरि : ।**
**दर्शयामास पार्थाय परमं रूपमैश्वरम् ।।९।। ***

संजय विश्वरूप वर्णिता - ईश्वराचें सौम्य आनी सुंदर रूप

संजयान म्हळें

*अशें म्हणूनु गा राया महायोगेश त्या हरीन् ।*
*ईश्वरी रूप आपणालें दाखयलें गा धनंजयाक् ।।९।। **

संजयान म्हळें: राया धृतराष्ट्रा, हे भाशेन उलोवन म्हायोगेश हरीन (श्रीकृष्णान) मागीर अर्जुनाक आपणालें व्हड ईश्वरी रूप दाखयलें. ९

*अ.अ.*: **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **राजन्** = राया धृतराष्ट्रा; **एवम् उक्त्वा** = हे भाशेन उलोवन; **महायोगेश्वरः** = योगाचो मोठो ईश्वर (आनी) **हरिः** = सगल्या पातकांचो नाश करतल्या श्रीकृष्णान; **ततः** = मागीर; **पार्थाय** = अर्जुनाक; (आपणालें) **परम** = व्हड; **ऐश्वरं रूपं दर्शयामास** = ईश्वरी रूप दाखयलें. ९

**अनेकवक्त्रनयनमनेकाद्भुतदर्शनम् ।**
**अनेकदिव्याभरणं दिव्यानेकोद्यतायुधम् ।।१०।।**

**दिव्यमाल्याम्बरधरं दिव्यगन्धानुलेपनम् ।**
**सर्वाश्चर्यमयं देवमनन्तं विश्वतोमुखम् ।।११।।**

*त्या रुपा भौ मुखां दोळे दिसलीं थैं नवलांच भौ ।*
*जायतीं शस्त्रां उबारिल्लीं भौ अळंकार दिव्य ते ।।१०।।*

*घाल्लीं दिव्य फुलां वस्त्रां लेपिल्लें दिव्य गंद बी ।*
*देव अनंत नवलांचो ताका सगले वशीं मुखां ।।११।।*

त्या रुपाक जायतीं तोंडां आनी दोळे आसून, तातूंत जायतीं नवलांचीं रुपां आसलीं ताचेर जायते लखलखीत अळंकार आसले. ताच्या हातांत जायतीं लखलखीत शस्त्रांआसलीं (१०). ताच्या आंगाचेर दिव्य फुलांचे वळेसर आनी वस्त्रां आसलीं. ताणें दिव्य गंध लायिल्लें. असो तो नवलांचो, दिव्य, अनंत आनी सगले वशीन तोंडां आशिल्लो देव आसलो. (११)

*अ.अ.*: **(त्या रुपाक) अनेकवक्त्रनयनम्** = जायतीं तोंडां आनी दोळे आसून; **अनेकाद्भुतदर्शनम्** = तातूंत जायतीं नवलांचीं रुपां आसलीं; **अनेकदिव्याभरणम्** = ताचेर जायते लखलखीत अळंकार आसले; **दिव्यानेकोद्यतायुधम्** = ताच्या आंगाचेर दिव्य फुलांचे वळेसर आनी वस्त्रां आसलीं (१०); **दिव्यगन्धानुलेपनम्** = ताणें दिव्य गंध लायिल्लें; **सर्वाश्चर्यमयम् अनन्तं विश्वतोमुखं देवम्** = (असो) तो नवलांचो, अंत नाशिल्लो, सगले वशीन तोंडां आशिल्लो देव आसलो. (११)

**दिवि सूर्यसहस्रस्य भवेद्युगपदुत्थिता ।**
**यदि भा: सदृशी सा स्याद्भासस्तस्य महात्मन: ।।१२।।**

*तेज हजार सुर्यांचें उदेल्यारू खिणांतु तें ।*
*जावंये तें तेज गा पार्था त्या म्हात्म्याचे प्रभेवरी ।।१२।।*

मळबांत हजारांनी सुर्यांचो उजवाड एकदम दिसल्यार तें तेज त्या म्हात्म्याच्या तेजावरी जावंये.

*अ.अ.*: **दिवि** = मळबांत; **सूर्यसहस्रस्य** = हजारांनी सुर्यांचो; **भा:** = उजवाड; **युगपत् उत्थिता** = एकदम उदेल्यार; **सा तस्य महात्मन:** = तो त्या म्हात्म्याच्या (विश्वरूप परमात्म्याच्या); **भास: सदृशी स्यात्** = उजवाडावरी (तेजावरी) जावंये. १२

**तत्रैकस्थं जगत्कृत्स्नं प्रविभक्तमनेकधा ।**
**अपश्यद्देवदेवस्य शरीरे पाण्डवस्तदा ।।१३।।**

*देवां देवा कुडींतू गा पळेलें अर्जुनानु गा ।*
*वांटिल्लें भौ तरांनी थैं एकठांयु सर्व विश्व तें ।।१३।।*

थंय देवांल्या देवाचे कुडींत जायत्या तरांनी वांटिल्लो सगलो संवसार एकठावल्लो अर्जुनान तेन्ना पळेलो. १३

*अ.अ.*: **तत्र देवदेवस्य शरीरे** = थंय देवांल्या देवाचे कुडींत (विश्वरुपांत); **अनेकधा प्रविभक्तम्** = जायत्या तरांनी वांटिल्लो; (आनी) **एकस्थम्** = एकठावल्लो; **कृत्स्नं जगत्** = सगलो संवसार; **पाण्डव: तदा अपश्यत्** = पांडवान (अर्जुनान) तेन्ना पळेलो. १३

**तत: स विस्मयाविष्टो हृष्टरोमा धनंजय: ।**
**प्रणम्य शिरसा देवं कृताञ्जलिरभाषत ।।१४।। ***

*कांटो आंगारु फुलिल्ल्या चकासूर धनंजयान् ।*
*माथें बागोवनु देवाकु हात जोडूनु सांगिले ।।१४।। **

मागीर तो अजापित जालो आनी आंगाचेर कांटो फुलिल्ल्या अर्जुनान दोनूय हात जोडून देवाक तकली बागोवन म्हळें : १४

*अ.अ.*: **तत: स: विस्मयाविष्ट:** = मागीर तो अजापित जालो (आनी) **हृष्टरोमा धनंजय:** = आंगाचेर कांटो फुलिल्ल्या अर्जुनान; **देवं शिरसा प्रणम्य** = देवाक तकली बागोवन; **कृताञ्जलि:** = हात जोडून; **अभाषत** = म्हळें. १४

अर्जुन उवाच

**पश्यामि देवांस्तव देव देहे सर्वांस्तथा भूतविशेषसंघान्।**
**ब्रह्माणमीशं कमलासनस्थमृषींश्च सर्वानुरगांश्च दिव्यान् ॥१५॥ ***

अर्जुनान म्हळें

*सगल्यां देवांक तुजे कुडींतु देवा*
*मालीं बी पळे हांव नाना जिवांचीं।*
*ब्रह्मो बशिल्लो कमलासनांतु।*
*तशे सर्वय रुशी नि दिव्य सर्प ॥१५॥ ***

अर्जुनान म्हळें: आगा देवा, तुगेले कुडींत सगल्या देवांक तेच भाशेन जायत्या जिवांच्या माल्यांक, कमलासनाचेर बशिल्ल्या ब्रह्मदेवाक, सगल्या रुशींक आनी सगल्या दिव्य सोरपांक हांव पळेतां. १५

*अ.अ.*: **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें: **देव तव देहे** = देवा तुगेले कुडींत; **सर्वान् देवान् तथा भूतविशेषसंघान्** = सगल्या देवांक तेच भाशेन जायत्या जिवांच्या माल्यांक (आनी) **कमलासनस्थं ब्रह्माणम् ईशम्** = कमळाच्या आसनाचेर बशिल्ल्या ब्रह्मदेवाक; **सर्वान् ऋषीन्** = सगल्या रुशींक; **च दिव्यान् उरगान् पश्यामि** = आनी दिव्य सोरपांक (हांव) पळेतां. १५

**अनेकबाहूदरवक्त्रनेत्रं**
**पश्यामि त्वां सर्वतोऽनन्तरूपम्।**
**नान्तं न मध्यं न पुनस्तवादिं**
**पश्यामि विश्वेश्वर विश्वरूप ॥१६॥**

*मुखां पोटां भुजां दोळे अनेक*
*सगले वशीनु रुपां तुका अनंत।*
*देवा तुका ना आदी मध्य अंत*
*विश्वेश्वरा हें तुजें विश्वरूप ॥१६॥*

तुका जायते हात, पोटां, तोंडां आनी दोळे आसात. सगले वशीन तुका अनंत रुपां आसात असो हांव तुका पळेतां. पूण आगा विश्वाच्या स्वाम्या, विश्वरुपा, तुगेलें मूळ ना, मध्य ना आनी अंत ना असो हांव तुका पळेतां. १६

*अ.अ.*: **त्वां अनेक बाहूदरवक्त्रनेत्रम्** = तुका जायते हात, पोटां, तोंडां आनी दोळे आसात; **सर्वतः अनन्तरूपं पश्यामि** = सगले वशीन तुका अनंत रुपां आसात असो हांव तुका पळेतां; **विश्वरूप** = आगा विश्वरुपा; **तव न अन्तं न मध्यं पुनः न आदिम् पश्यामि** = तुगेलें मूळ ना, मध्य ना आनी अंत ना असो हांव तुका पळेतां. १६

**किरीटिनं गदिनं चक्रिणं च तेजोराशिं सर्वतो दीप्तिमन्तम् ।**
**पश्यामि त्वां दुर्निरीक्ष्यं समन्ताद्दीप्तानलार्क द्युतिमप्रमेयम् ।।१७।।**

*माथ्यार मुकूट गदा चक्र हातीं उजळाय तेजाराशी धायि दिकांनी ।*
*त्यो पेटिल्ल्यो दिशा नजो पळोवंक उजो सुर्यावरी वर्णूंक येना ।।१७।।*

माथ्याचेर मुकूट, हातांत गदा आनी चक्र धरिल्लो, उजवाडाचो तेजाळ गुळो, सगले वशीन झगझगणो, दोळ्यांनी पळोवंक कठीण, पेटिल्ल्या उज्या वरी आनी सुर्याचे कांतीचो, वर्णुपाक येना असो, तुका हांव सगल्या वाटांनी पळेतां. १७

*अ.अ.:* **किरीटिनम्** = माथ्याचेर मुकूट घाल्लो; **गदिनं च चक्रिणम्** = (हातांत) गदा आनी चक्र धरिल्लो; **तेजोराशिम्** = उजवाडाचो तेजाळ गुळो; **सर्वत: दिप्तिमन्तम्** = सगले वशीन झगझगणो; **दुर्निरीक्ष्यम्** = दोळ्यांनी पळोवंक कठीण; **दीप्तानलार्कद्युतिम्** = पेटिल्ल्या उज्या वरी आनी सुर्याचे कांतीचो; **अप्रमेयम् स्वाम् समन्ततात् पश्यामि** = वर्णुपाक येना असो, तुका हांव सगल्या वाटांनी पळेतां. १७

**त्वमक्षरं परमं वेदितव्यं त्वमस्य विश्वस्य परं निधानम् ।**
**त्वमव्यय: शाश्वतधर्मगोप्ता सनातनस्त्वं पुरुषो मतो मे ।।१८।।**

*आमी जाणचेलें व्हड ब्रह्म तूंच ह्या विश्वाचो व्हड आधारु तूंच ।*
*शाश्वतु ब्रह्माचो रक्षकु तूंच नित्य सनातन पुरुष तूंच ।।१८।।*

समजून घेवचेलें तूंच परमब्रह्म. तूंच ह्या विश्वाचें व्हड आस्रयस्थान. तूंच शाश्वत धर्म राखतलो. तूंच अविनाशी सनातन पुरूष. १८

*अ.अ.:* **वेदितव्यम्** = समजून घेवंचेलें; **त्वं परमं अक्षरम्** = तूंच व्हडलें ब्रह्म; **त्वम् अस्य विश्वस्य परं निधानम्** = तूं ह्या विश्वाचें व्हड आस्रयस्थान; **त्वं शाश्वतधर्मगोप्ता** = तूंच शाश्वत धर्म राखतलो; **त्वं अव्यय: सनातन:पुरुष: मे मत:** = तूंच अविनाशी सासणाचो पुरूष अशें हांव मानतां. १८

**अनादिमध्यान्तमनन्तवीर्यमनन्तबाहुं शशिसूर्यनेत्रम् ।**
**पश्यामि त्वां दीप्तहुताशवक्त्रं स्वतेजसा विश्वमिदं तपन्तम् ।।१९।।**

ईश्वराचें भयांकृत रूप

*तुका ना आदी नायु मध्य अंत बावळे भौ तुजे दोळे सूर्य चंद्र ।*
*तोंडां तुगेलीं उज्यावरी पेट्टी तेजानु तुज्या तूं लासय जगाकु ।।१९।।*

आदी, मध्य आनी अंत नाशिल्लो, अनंत बळग्याचो, अनंत बावळ्यांचो, चंद्र-सूर्य हेच दोळे आशिल्लो, पेटिल्ल्या उज्या वरी तोंडांचो असो तूं आपणाल्या तेजान ह्या संवसाराक तापयता असो हांव तुका पळेतां. १९

*अ.अ.:* **अनादिमध्यान्तम्** = आदी, मध्य आनी अंत नाशिल्लो; **अनन्तवीर्यम्** = अनंत बळग्याचो; **अनन्तबाहुम्** = अनंत हात आशिल्लो; **शशिसूर्यनेत्रम्** = सूर्य आनी चंद्र दोळे आशिल्लो; **दीप्तहुताशवक्त्रम्** = पेटिल्ल्या उज्यावरी तोंडांचो; (आनी) **स्वतेजसा इदं विश्वं तपन्तम्** = आपल्या तेजान ह्या संवसाराक तापयता; **त्वां पश्यामि** = (असो हांव) तुका पळेतां. १९

द्यावापृथिव्योरिदमन्तरं हि व्याप्तं त्वयैकेन दिशश्च सर्वाः ।
दृष्ट्वाद्भुतं रूपमुग्रं तवेदं लोकत्रयं प्रव्यथितं महात्मन् ॥२०॥

*मळबा धर्तरी मदलें हें अंत्राळ सगल्यो दिकां तुवें एकल्यानु व्यापल्यो ।*
*पळोवनु अद्‌भुत हें खर रूप हे तिनूय लोकु भियेलेच देवा ॥२०॥*

आगा म्हात्म्या, सर्ग आनी धर्तरी हांचे मदलें अंत्राळ आनी सगल्यो दिशा तुवें एकल्यानूच व्यापल्यात. तुजें हें अद्‌भूत खर रूप पळोवन हें त्रैलोक्य थर्त भियेलें. २०

*अ.अ.*: **महात्मन्** = आगा म्हात्म्या; **इदं द्यावापृथिव्योः** = हें सर्ग आनी धर्तरी हांचे मदलें; **अन्तरम्** = अंत्राळ; **च सर्वाः दिशः** = आनी सगल्यो दिशा; **त्वया एकेन हि व्याप्तम्** = तुवें एकल्यानूच व्यापल्यात; **तव इदम् अद्भुतम् उग्रं रूपं दृष्ट्वा** = तुजें हें अद्‌भूत खर रूप पळोवन; **लोकत्रयं प्रव्यथितम्** = तिनूय लोक (सर्ग, पृथ्वी आनी पाताळ) भियेले. २०

अमी हि त्वां सुरसङ्घा विशन्ति केचिद्भीताः प्राञ्जलयो गृणन्ति ।
स्वस्तीत्युक्त्वा महर्षिसिद्धसङ्घाः स्तुवन्ति त्वां स्तुतिभिः पुष्कलाभिः ॥२१॥

*देवांले मेळे रिगती तुजे कुडींतु भयानु कांय जाणु जोडटातु हात ।*
*'बरें जावं' म्हणटी महर्शी नि सिद्ध गायतातु जायतीं स्तवनां तुजीं ते ॥२१॥*

हे देवांचे गण तुजे भितरूच रिगतात. कांय जाण भियेवन हात जोडून तुजी तुस्त करतात. म्हालरुशींचे आनी सिद्धांले मेळे 'संवसाराचें कल्याण जावं' अशें म्हणीत जायत्या तुस्त गितांनी तुजी तुस्त गायतात. २१

*अ.अ.*: **अमी सुरसंघाः** = हे (सगल्या) देवांले गण; **त्वां हि विशन्ति** = तुजे भितरूच रिगतात; **केचित् भीताः प्राञ्जलयः गृणन्ति** = कांय जाण भियेवन हात जोडून (तुजी) तुस्त करतात; **महर्षिसिद्धसंघाः** = म्हालरुशींचे आनी सिद्धांचे मेळे; **स्वस्ति इति उक्त्वा** = '(संवसाराचें) कल्याण जावं' अशें म्हणीत; **पुष्कलाभिः स्तुतिभिः त्वां स्तुवन्ति** = जायत्या तुस्त गितांनी तुजी तुस्त गायतात.

रुद्रादित्या वसवो ये च साध्या विश्वेऽश्विनौ मरुतश्चोष्मपाश्च ।
गन्धर्वयक्षासुरसिद्धसङ्घा वीक्षन्ते त्वां विस्मिताश्चैव सर्वे ॥२२॥

*रुद्र आदित्य वसु साध्य विश्वे अश्विनीपूत पितर मरूत ।*
*गंधर्व यक्षासूर सिद्ध-संघ अजापानु तुका सगले पळेती ॥२२॥*

रुद्र, आदित्य, वसु, साध्यदेव, विश्वेदेव, दोन अश्विनीकुंवर, वाऱ्यादेव, पितरांचे मेळे आनी गंधर्व, यक्ष, दैत्य आनी सिद्ध हांचे मेळे मेळून सगलेच अजापान तुजेकडेन पळेतात. २२

*अ.अ.*: **ये रुद्रादित्याः** = जे (हे) रुद्र आनी आदित्य; **च वसवः साध्याः विश्वे आश्विनौ च मरुतः** = वसु, साध्यगण, विश्वेदैव, (दोन) अश्विनीकुंवर, आनी वाऱ्यादेव; **च उष्मपाः च गन्धर्व-यक्षासुरसिद्धसंघाः** = आनी पितरांचे मेळे, आनी गंधर्व, यक्ष, दैत्य (असूर), सिद्ध हांचे मेळे; **(ते) सर्वे एव विस्मिताः त्वां वीक्षन्ते** = ते सगलेच अजापान तुजे कडेन पळेतात. २२

**रूपं महत्ते बहुवक्त्रनेत्रं  महाबाहो बहुबाहूरुपादम् ।**
**बहूदरं बहुदंष्ट्राकरालं  दृष्ट्वा लोका:प्रव्यथितास्तथाहम् ।।२३।।**

*तें रूप मोटें भौ दोळ्यां मुखांचें  भौ जांगां हातांचें भौ पांयां पोटांचें ।*
*रूप भौ दाढांचें विकराळ मोटें  पळोवन भिलो त्रिलोक नी हांव ।।२३।।*

आगा कृष्णा, तुगेलें जायत्या तोंडांचें आनी दोळ्यांचें, जायत्या हातांचें आनी जांगांचें, जायत्या पोटांचें, जायत्या दाढांचें विकराळ अशें रूप पळोवन, तिनूय लोकांभाशेन हांवूय थर्त भियेलों. २३

*अ.अ.:* **महाबाहो** = आगा कृष्णा; **ते बहुवक्त्रनेत्रम्** = तुगेलें मोटें, जायत्या तोंडांचें आनी दोळ्यांचें; **बहुबाहूरुपादम्** = जायत्या हातांचें; जायत्या जांगांचें, जायत्या पांयांचें, **बहूदरम्** = जायत्या पोटांचें; **बहुदंष्ट्राकरालम्** = जायत्या दाढांचें विकराळ; **महत् रूपं दृष्ट्वा लोका: प्रव्यथिता:** = मोटें रूप पळोवन सगले लोक थर्त भियेल्यात; **तथा अहम्** = आनी हांवूय (तसोच भियेलां). २३

**नभ:स्पृशं दीप्तमनेकवर्णं  व्यात्ताननं दीप्तविशालनेत्रम् ।**
**दृष्ट्वा हि त्वां प्रव्यथितान्तरात्मा  धृतिं न विन्दामि शमं च विष्णो ।।२४।।**

*रंगयाळी ही कूड मळबाकु तेंकल्या  मुखां पेंचल्यांतु तरांटल्यातु दोळे ।*
*भियेल्ल्या मनानु तुका पळेतां  विष्णू, ना धीर सल्ली चित्त शांती ।।२४।।*

आगा विष्णू, मळबाक तेंकिल्लो, परजळपी, जायत्या रंगांचो, तोंडां पेंचिल्लो, जळजळट्या मोट्या दोळ्यांचो (असो) तुका पळोवन म्हजें काळीज कलकल्लें. देखून म्हाका धीर आनी शांती मेळना. २४

*अ.अ.:* **हि** = कित्याक; **विष्णो** = आगा विष्णू; **नभ:स्पृशं दीप्तम् अनेकवर्णम्** = मळबाक तेंकिल्लो, परजळपी, जायत्या रंगांचो; **व्यात्ताननम्** = तोंडां पेंचिल्लो; **दीप्तविशालनेत्रम् त्वां दृष्टवा** = जळजळट्या मोट्या दोळ्यांचो (असो) तुका पळोवन; **प्रव्यथितान्तरात्मा** = म्हजें काळीज कलकल्लें; **धृतिं च शमं न विन्दामि** = (म्हाका) धीर आनी शांती मेळना. २४

**दंष्ट्राकरालानि च ते मुखानि  दृष्ट्वैव कालानलसन्निभानि ।**
**दिशो न जाने न लभे च शर्म  प्रसीद देवेश जगन्निवास ।।२५।।**

*विक्राळ दाढांचिं अक्राळ तोंडां  प्रळया उज्यावरी पेट्टातु तींच ।*
*दिको दिसनातु ना सूख जिवाक  दया तूं दी विश्वनिवासि देवा ।।२५।।*

तुगेलीं विकराळ दाढांचीं आनी प्रळया वेळच्या उज्यावरी पेटिल्लीं तोंडां पळोवन म्हाका दिको समजनात आनी सुखय मेळना. संवसाराचो आसरो अश्या देवांल्या धनया, तूं म्हाका पाव. २५

*अ.अ.:* **ते दंष्ट्राकरालानि** = तुगेलीं विकराळ दाढांचीं; **च कालानलसन्निभानि** = आनी प्रलया वेळच्या उज्यावरी पेटिल्लीं; **मुखानि दृष्ट्वा** = तोंडां पळोवन; **दिश: न जाने** = म्हाका दिको समजनात; **च शर्म एव न लभे** = आनी सुखय मेळना; **देवेश जगन्निवास** = देवांल्या धनया; संवसाराच्या आसऱ्या (अश्या); **प्रसीद** = तूं म्हाका पाव. २५

अमी च त्वां धृतराष्ट्रस्य पुत्राः सर्वे सहैवावनिपालसंघैः ।
भीष्मो द्रोणः सूतपुत्रस्तथासौ सहास्मदीयैरपि योघमुख्यैः ॥२६॥

वक्त्राणि ते त्वरमाणा विशन्ति दंष्ट्राकरालानि भयानकानि ।
केचिद्विलग्ना दशनान्तरेषु संदृश्यन्ते चूर्णितैरुत्तमाङ्गैः ॥२७॥

विश्वाचें सांवार करपी रूप

*अशे हे सगले धृतराष्ट्र-पूत रायांले मेळे तांचे सयत झुजपी ।*
*हो भीष्म हो द्रोण तो सूत-पूत आमच्या पक्षाचे झुजारी मुखेलु ॥२६॥*

*रिगतातु नेटानु विकराळु तोंडांत सुळ्या दातांनी भयंकरु दिसपी ।*
*कांय जाणां माथ्यांचो जालो चुरो गा दातांचे खांचींत शिरकून दिसता ॥२७॥*

राजांच्या मेळांसयत धृतराष्ट्राचे सगले पूत, तशेच भीष्म, द्रोण, कर्ण आनी आमगेल्या पक्षांतल्या मुखेल झुजाऱ्यां सयत सगले जाण; (२६) तुगेल्या सुळ्यां दाढांच्या विकराळ दिसपी ह्या जायत्या भयंकर तोंडांत नेटान रिगतात आनी कांय जाण दातांच्या खांचींत माथ्यांचो चुरो जाल्ले दिश्टी पडटात.
२७

*अ.अ.:* अवनि पालसंघैःसह = राजांच्या मेळांसयत; **अमी सर्वे एव धृतराष्ट्राःपुत्राः** = हे सगलेच धृतराष्ट्राचे पूत; **च** = आनी; **भीष्मऽ द्रोणः** = भीष्म आनी द्रोण; **तथा** = तसोच; **असौ** = तो; **सूतपुत्रः** = कर्ण (आनी) **अस्मदीयैः अपि** = आमगेल्या पक्षांतल्याय; **योधमुखैःसह** = मुखेल झुजाऱ्यांसयत सगलेच; **(२६) त्वां (विशन्ति)** = तुजेठांय (रिगतात). **ते द्रंष्ट्राकरालानि** = तुगेल्या विकराळ दाढांनी; **भयानकानि वक्त्राणि त्वरमाणाः विशन्ति** = भयंकर तोंडांत नेटान रिगतात; **केचित्** = कांय जाण; **दशनान्तरेषु विलग्नाः** = दातांच्या खांचींत शिरकून; **उत्तमाङ्गैः चूर्णितैः** = माथ्यांचो चुरो जाल्ले; **संदृश्यन्ते** = दिश्टी पडटात.
२७

यथा नदीनां बहवोऽम्बुवेगाः समुद्रमेवाभिमुखा द्रवन्ति ।
तथा तवामी नरलोकवीरा विशन्ति वक्त्राण्यभिविज्वलन्ति ॥२८॥

*न्हंयांच्या उदकाचे अनेकु लोट धांवतातु जशे समुद्रा वशीनु ।*
*मनीस लोकांतले वीरू तशे हे रिगती वेगीं तुज्या पेट्ट्या मुखांतु ॥२८॥*

न्हंयांच्या उदकाचे जायते लोट जशे समुद्रा वसल्यानूच धांवतात, तशे हे मनीस लोकांतले झुजपी तुगेल्या पेटिल्ल्या तोंडांत मोट्या नेटान रिगतात.
२८

*अ.अ.:* **नदीनां बहवः अम्बुवेगाः** = न्हंयांच्या उदकाचे जायते लोट; **यथा समुद्रम् एव द्रवन्ति** = जशे समुद्रावसल्यानूच धांवतात (वचून मेळटात); **तथा अमी नरलोकवीराः** = तशे हे मनीस लोकांतले झुजपी; **तव अभिज्वलन्ति वक्त्राणि विशन्ति** = तुगेल्या पेटिल्ल्या तोंडांत रिगतात.
२८

**यथा प्रदीप्तं ज्वलनं पतङ्गा विशन्ति नाशाय समृद्धवेगा: ।**
**तथैव नाशाय विशन्ति लोकास्तवापि वक्त्राणि समृद्धवेगा: ॥२९॥**

*पेटिल्ल्या उज्यांतु जशीं पिसोळीं मोठ्या नेटानु घुसतातु मरूंक ।*
*हे लोकु वेगीं मरूंकु तशेच रिगतातु नेटानु तुज्या मुखांतु ॥२९॥*

जशीं पिसोळीं मरचे पासत पेटिल्ल्या उज्यांत मोट्या नेटान रिगतात, तशेच हे लोक मरचे पासत तुगेल्या तोंडांत मोट्या नेटान रिगतात. २९

*अ.अ.*: **यथा पतङ्गा: नाशाय प्रदीप्तं ज्वलनं समृद्धवेगा: विशन्ति** = जशीं पिसोळीं मरचे पासत पेटिल्ल्या उज्यांत मोट्या नेटान रिगतात; **तथा एव लोका: अपि नाशाय तव वक्त्राणि समृद्धवेगा: विशन्ति** = तशेच हे लोकूय मरचे पासत तुगेल्या तोंडांत मोट्या नेटान रिगतात. २९

**लेलिह्यसे ग्रसमान: समन्ताल्लोकान्समग्रान्वदनैर्ज्वलद्भि: ।**
**तेजोभिरापूर्य जगत्समग्रं भासस्तवोग्रा: प्रतपन्ति विष्णो ॥३०॥**

*भोंवतणी सगल्या लोकांकु गिळूनु चाट्टा तूं जिबो पेटिल्ल्या मुखांतु ।*
*तुज्या उजवाडानु भरूनु विश्वा गा विष्णू तापय तें तेजानु तुज्या ॥३०॥*

आगा विष्णू, तूं ह्या सगल्या लोकांक गिळून पेटिल्ल्या तोंडांनी चोंय वशीन चाट्टा. तुगेलो खर उजवाड सगलो संवसार तेजान भरून ताका तापयता. ३०

*अ.अ.*: **विष्णो** = आगा विष्णू; (तूं हांगा) **समग्रान् लोकान्; ग्रसमान:** = सगल्या लोकांक गिळून; **ज्वलद्भि: वदनै:** = पेटिल्ल्या तोंडांनी; **समन्तात लेलिहयसे** = चोंय वशीन चाट्टा; **तव उग्रा: भास: समग्रं जगत्** = तुगेलो खर उजवाड सगलो संवसार; **तेजोभि: आपूर्य प्रतपन्ति** = तेजान भरून (ताका) तापयता. ३०

**आख्याहि मे को भवानुग्ररूपो नमोऽस्तु ते देववर प्रसीद ।**
**विज्ञातुमिच्छामि भवन्तमाद्यं न हि प्रजानामि तव प्रवृत्तिम् ॥३१॥**

ईश्वराच्या कालचक्रांत मनीस निमित्त्याक कारण

*खर रुपाच्या तूं कोण सांग म्हाका पांयां तुका पडटां तूं पाव म्हाका ।*
*तूं मूळ कोणु हांव जाणूंकु सोदी करणी तुजी देवा कळनाच म्हाका ॥३१॥*

खर रूप घेतिल्लो असो तूं कोण म्हणपाचें म्हाका सांग. देवांल्या म्हालगड्या, तुका हांव पांयां पडटां. तूं म्हाका पाव. तूं मूळ पुरूष खरो कोण तो वळखूंक हांव इत्सितां. तुजी करणी म्हाका समजना. ३१

*अ.अ.*: **उग्ररूप: भवान् क: मे आख्याहि** = खर रूप घेतिल्लो (असो) तूं कोण म्हाका सांग; **देववर ते नम: अस्तु** = देवांल्या म्हालगड्या, तुका हांव पांयां पडटां; **प्रसीद** = (तूं) म्हाका पाव; **आद्यं भवन्तं विज्ञातुम् इच्छामि** = तूं मूळ पुरूष खरो कोण तो वळखूंक हांव इत्सितां; **हि तव प्रवृत्तिं न प्रजानामि** = कित्याक तुजी करणी म्हाका समजना. ३१

श्रीभगवानुवाच

कालोऽस्मि[२] लोकक्षयकृत्प्रवृद्धो लोकान्समाहर्तुमिह प्रवृत्तः ।
ऋतेऽपि त्वां न भविष्यन्ति सर्वे येऽवस्थिताः प्रत्यनीकेषु योधाः ॥३२॥ *

भगवंतान म्हळें

*लोकां ना करपी मातिल्लों हांव काळ सल्लां मुखारू सांवारूंकु लोकांक् ।*
*नासल्यारूयू तूं ना जातले हे सगलेच एकामेकांआड उबे जे झुजूंकु ॥३२॥ **

भगवंतान म्हळें: हांव ना करतलों, मातिल्लों काळ आसां. ह्या वेळार लोकांक सांवारू‍
उठलां. तुवें कांय केलें ना जाल्यारूय सैन्यांत एकामेकां आड उबे आशिल्ले जे झुज
आसात ते ना जातले. ३२

*अ.अ.*: **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **लोकक्षयकृत** = (हांव) त्रिलोकाक ना करतलों; **प्रवृद्धः काल: अस्मि** = मातिल्लों काळ आसां; **इह लोकान् समाहर्तुम् प्रवृत्तः** = ह्या वेळार लोकांचो सांवार करपाक उठलां; **त्वां ऋते अपि** = तुवें कांय केलेंना जाल्यारूय; **प्रत्यनीकेषु** = एकमेकां आड सैन्यांत; **अवस्थिताः** = उबे आशिल्ले; **ये योधाः** = जे झुजपी आसात; **न भविष्यन्ति** = ते ना जातले.

तस्मात्वमुत्तिष्ठ यशो लभस्व जित्वा शत्रून्भुङ्क्ष्व राज्यं समृद्धम् ।
मयैवैते निहताः पूर्वमेव निमित्त[३]मात्रं भव सव्य[४]साचिन् ॥३३॥ *

*देखूनु तूं उठ जा जैतिवंत समृद्ध राज्याचो घे गा तूं भोग ।*
*आदींच सर्वांकु माल्ल्यातु हांवें जा गा तूं पार्था कारण निमित्ताकु ॥३३॥ **

देखून तूं उठ, यश जोड. शत्रूंक जिखून गिरेस्त राज्य भोग. ह्या सगल्यांक हांवें आदींच मारल्यात. अर्जुना, तूं निमित्त्याकच कारण जा. ३३

*अ.अ.*: **तस्मात् त्वम्उत्तिष्ठ** = देखून तूं उठ; **यशःलभस्व** = येस जोड; **शत्रून् जित्वा समृद्धं राज्यं भुङ्क्ष्व** = शत्रूंक जिखून गिरेस्त राज्य भोग; **एते** = हे (सगले वीर); **पूर्वम् एव मया निहताः** = आदींच हांवें मारल्यात; **सव्यसाचिन्** = (दोनूय हातांनी बाण सोडपी) अर्जुना; **निमित्तमात्रम् एव भव** = तूं (फकत) निमित्त्याकच कारण जा. ३३

द्रोणं च भीष्मं च जयद्रथं च कर्णं तथान्यानपि योधवीरान् ।
मया हतांस्त्वं जहि मा व्यथिष्ठा युध्यस्व जेतासि रणे सपत्नान् ॥३४॥

*द्रोणाकु भीष्माकु जयद्रथाकु कर्णाकु सगल्यांच हेरू विरांकु ।*
*मार जिवानशीं भियेवुं नाका लाग तूं झुजपाकु रणांतु जीखशी ॥३४॥*

हांवें आदींच मारिल्ल्या भीष्म, द्रोण, जयद्रथ, कर्ण तशेच हेरय शूर झुजाऱ्यांक तूं जिवानशीं मार. भियेवं नाका. रणांत तूं शत्रूंक जिखूंक लागतलो. झुजूंक लाग. ३४

*अ.अ.*: **मया हतान् द्रोणं च भीष्मं च जयद्रथं च कर्णम्** = हांवें (आदींच) मारिल्ल्या भीष्म आनी जयद्रथ आनी कर्ण; **तथा अन्यान् अपि मया हतान् योधवीरान् त्वं जहि** = तशेंच हांवें मारिल्ल्या हेरय झुजाऱ्यांक तूं मार; **मा व्यथिष्ठाः** = भियेवं नाका; **रणे सपत्नान् जेतासि** = रणांत (तूं) शत्रूंक जिखतलो; (**अतः** = देखून) **युध्यस्व** = तूं झुजूंक लाग. ३४

संजय उवाच

**एतच्छ्रुत्वा वचनं केशवस्य कृताञ्जलिर्वेपमान: किरीटी ।**
**नमस्कृत्वा भूय एवाह कृष्णं सगद्गदं भीतभीत: प्रणम्य ।।३५।।**

विश्वरूप पळोवन अर्जुनाच्या मनांत नमळाय आनी भक्तीभाव

संजयान म्हळें

*आयकूनु सांगणी ही केशवाली पार्थानु नमूनु जोडूनु हात ।*
*भरिल्ल्या ताळ्यानु भियेवनु ताणें सांगलें कृष्णाकु पर्थूनुय नमूनू ।।३५।।*

संजयान म्हळें: श्रीकृष्णाचें हें भाशण आयकून मुकूट घाल्लो अजुर्न, थरथरून हात जोडून, नमस्कार करून, आनी पर्थुनूय भियेत भियेत नमस्कार करून घुस्मट्ट्या ताळ्यान श्रीकृष्णाक म्हणूंक लागलो. ३५

*अ.अ.*: **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **केशवस्य एतत् वचनं श्रुत्वा** = केशवालें (श्रीकृष्णाचें) हें भाशण आयकून; **किरीटी** = मुकूट घाल्लो अर्जुन; **वेपमान:** = थरथरून; **कृताञ्जलि:** = हात जोडून; **नमस्कृत्वा** = नमस्कार करून; (आनी) **भूय: एव** = पर्थुनूय; **भीतभीत:** = भियेत भियेत; **प्रणम्य** = नमस्कार करून; **कृष्णं सगद्गदम् आह** = श्रीकृष्णाक घुसमट्ट्या ताळ्यान म्हणूंक लागलो. ३५

अर्जुन उवाच

**स्थाने हृषीकेश तव प्रकीर्त्या जगत्प्रहृष्यत्यनुरज्यते च ।**
**रक्षांसि भीतानि दिशो द्रवन्ति सर्वे नमस्यन्ति च सिद्धसंघा: ।।३६।।**

अर्जुनान म्हळें

*जग जाय खोशी तुस्तीनु तुगेले रंगता तें तातूंतु देवाधिदेवा ।*
*राकेसु भिवनु गा चौफेर पळटी वंदिती सिद्ध हें तुकाच फावता ।।३६।।*

अर्जुनान म्हळें: श्रीकृष्णा, तुगेले व्हडले किर्तीन सगलो संवसार आनंदभरीत जाता आनी तातूंत रंगता. तशेच, भयाभीत जाल्ले राकेस धाय दिकांनी धांवतात आनी सिद्ध गणांचे मेळे तुका पांयां पडटात. हें सगलें तुका फावोशेंच आसा. ३६

*अ.अ.*: **अर्जुन उवाच:** = अर्जुनान म्हळें; **हृषीकेश** = कृष्णा; **तव प्रकीर्त्या जगत् प्रहृष्यति** = तुजे व्हडले किर्तीन संवसार आनंदभरीत जाता; **च अनुरज्यते** = आनी तातूंत रंगता; **भीतानि रक्षांसि दिश: द्रवन्ति** = भयाभीत जाल्ले राकेस धाय दिकांनी धांवतात; **च सर्वे सिद्धसंघा: नमस्यन्ति** = आनी सगले सिद्धगणांचे मेळे तुका पांयां पडटात; **हृषीकेश स्थाने** = श्रीकृष्णा. हें (तुका) फावोशेंच आसा. ३६

कस्माच्च ते न नमेरन्महात्मन् गरीयसे ब्रह्मणोऽप्यादिकर्त्रे ।
अनन्त देवेश जगन्निवास त्वमक्षरं सदसत्तत्परं यत् ।।३७।।

*कित्या तुका ते पडचेनातु पांयां मूळ कारण तूं ब्रह्माकूयु होडु ।*
*आधारु जगा ह्या देवेशा अनंता सत् असताचे पेलो अविनाशी ।।३७।।*

आगा म्हात्म्या, ब्रह्मदेवाचेंय मूळ (कारण) आनी सगल्यां परसय व्हडल्या अश्या तुका ते कित्याक पांयां पडचेनात? आगा अनंता, देवांल्या धनया, जगाच्या आसऱ्या, जें सत आनी असत आनी ताचे पेल्यानचें अविनाशी तत्त्व तें तूंच आसा. ३७

*अ.अ.*: **महात्मन्** = आगा म्हात्म्या; **ब्रह्मणः अपि आदिकर्त्रे** = ब्रह्मदेवाचेंय मूळ कारण; **च गरीयसे** = आनी सगल्यां परस व्हडल्या अश्या; **ते कस्मात् न नमेरन्** = ते तुका कित्याक पांयां पडचे नात? **अनन्त देवेश जगन्ननिवास** = आगा अनंता, देवांल्या धनया, जगाच्या आसऱ्या; **यत् सत् असत्** = जें सत् (आनी) असत्; **(आनी) तत्परम् अक्षरम्** = ताचे पेल्यानचें ब्रह्म (अविनाशी तत्त्व); **तत्** = तें; **त्वम्** = तूंच आसा. ३७

त्वमादिदेवः पुरुषः पुराणस्त्वमस्य विश्वस्य परं निधानम् ।
वेत्तासि वेद्यं च परं च धाम त्वया ततं विश्वमनन्तरूप ।।३८।।

वायुर्यमोऽग्निर्वरुणः शशाङ्कः प्रजापतिस्त्वं प्रपितामहश्च ।
नमो नमस्तेऽस्तु सहस्त्रकृत्वः पुनश्च भूयोऽपि नमो नमस्ते ।।३८।।

*तूं देव पयलो पुराणु पुरूष आलाशिरो होड तूं ह्या जगाचो ।*
*तूं जाणपी जाणचेलो तूं मोक्षा सुवात अनंत रुपा तूं विश्वाकु व्यापी ।।३८।।*

*तूं वायु उजो यम चंद्र आदी प्रजापती तूं पणजो, वरूणूय ।*
*नमस्कारु म्हजे तुका हजारु तुका नमस्कारू पर्थूनु भौनु ।।३९।।*

तूं आदीदेव, पुराण पुरूष, ह्या विश्वाचो आधार, तूं जाण-जाल्लो आनी जाण-जावंचेलो आनी व्हड सुवात तूंच आसा. आगा अनंत रुपा, तुवेंच हें विश्व व्यापलां (३८). वायू, यम, उजो, वरूण, चंद्र, प्रजापती (ब्रह्मदेव) आनी सगल्यांचो पणजोय तूंच. हजार फावटीं, पर्थून पर्थूनय तुका नमस्कार आसूं. ३९

*अ.अ.*: **त्वम् आदिदेवः** = तूं आदी देव; **पुराणः पुरुषः** = पुराण (सनातन) पुरूष; **अस्य विश्वस्य परं निधानम्** = ह्या विश्वाचो आधार; **च वेत्ता** = जाण जाल्लो; (तसोच) **वेद्यं** = जाण जावंचेलो; **परम् धाम त्वम् असि** = व्हड सुवात तूंच; **अनन्तरूपः** = आगा अनंतरुपा; **त्वया विश्वं ततम्** = तुवेंच (हें) विश्व व्यापलां. ३८

**त्वं वायुः यमः अग्निः वरूणः शशाङ्कः** = तूंच वायू, यम, उजो, वरूण आनी सगल्यांचो पणजोय आसा; **ते सहस्रकृत्वः नमः नमः अस्तु** = तुका हजार फावटीं नमस्कार आसूं; **च भूयः** = तुका पर्थून; **पुनःच नमः नमः अपि** = आनी भौन भौनूय नमस्कार आसूं. ३९

नमः पुरस्तादथ पृष्ठतस्ते नमोऽस्तु ते सर्वत एव सर्व ।
अनन्तवीर्यामितविक्रमस्त्वं सर्वं समाप्नोषि ततोऽसि सर्वः ॥४०॥

*फुडसूनू फाटसूनू तुका प्रणाम तुका नमस्कारू सगले वशीनु ।*
*अनंत बळाच्या पराक्रमी तूं सर्वांतु गा तूं देखून तूंच सर्व ॥४०॥*

आगा सगल्या, तुका फुडसून फाटसून आनी सगले वशीन नमस्कार आसूं. तुजो पराक्रम अगणित. आगा अनंत बळाच्या, तुवें सगलें जग व्यापलां. देखून तूंच सगलें कितें तें आसा. ४०

*अ.अ.:* **सर्व** = आगा सगल्या; **ते पुरस्तात्** = तुका फुडसून; **अथ पृष्ठतः** = आनी फाटसून; **नमः** = नमस्कार आसूं; **ते सर्वतः एव नमः अस्तु** = तुका सगलेच वशीन नमस्कार आसूं; (कित्याक) **अनन्तवीर्य** = आगा अनंत बळाच्या; **अमितविक्रमः** = तुजो पराक्रम अगणित; **त्वं सर्वं समाप्नोषि** = तुवें सगलें जग व्यापलां; **ततः सर्वःअसि** = देखून तूंच सगलें कितें तें आसा. ४०

सखेति मत्वा प्रसभं यदुक्तं हे कृष्ण हे यादव हे सखेति ।
अजानता महिमानं तवेदं मया प्रमादात्प्रणयेन वापि ॥४१॥

यच्चावहासार्थमसत्कृतोऽसि विहारशय्यासनभोजनेषु ।
एकोऽथवाप्यच्युत तत्समक्षं तत्क्षामये त्वामहमप्रमेयम् ॥ ४२॥

अर्जुन ईश्वराची क्षमा मागता

*नात ना म्हाका व्हडविके तुगेले चल्लों तुजेशीं सवंगडी कसोच ।*
*सादयलो यादवा कृष्णा सख्या रे चुकूनु मोगानु मस्तेपणानु ॥४१॥*

*खातना भोंवतना, न्हिदतना बि देवा जनीं वा एकांतीं तुका हिणसायलो ।*
*मस्करेनु तुका अवमानिलो गा घाल पोटांतु तूं म्हजे गुन्यांवु ॥४२॥*

तुगेली ही व्हडवीक समजना जावन, तूं संवगडी अशें मानून, तुका ''आरे कृष्णा, आरे यादवा, आरे इश्टा'' अशें हांवें चुकून वा मोगानूय वा मस्तेपणान जें म्हळें (४१) आनी भोंवतां-खेळटां थंय, न्हिदतां थंय, बसलां थंय, जेवतां थंय, एकलो आसतना वा लोकां हुजरां फकाणां मारपा खातीर तुजो जो अवमान केलो ते सगले (अपराध) वर्णन करूं नज जाल्ल्या अश्या श्रीकृष्णा, तुजे कडेन हांव क्षमा मागतां. ४२

*अ.अ.:* **तव इदं महिमानं अजानता** = तुगेली ही व्हडवीक समजना जावन, (तुका) **सखा इति मत्वा** = संवगडी अशें मानून; (तुका) **हे कृष्ण, हे यादव, हे सखे इति** = ''आरे कृष्णा, आरे यादवा, आरे इश्टा'' अशें; **मया प्रमादात् वा प्रणयेन अपि** = हांवें चुकून वा मोगानय; (वा) **प्रसभं यत् उक्तम्** = वा मस्तेपणान जें म्हळें ४१

**च विहार-शय्या-आसन-भोजनेषु** = आनी भोंवतां-खेळटां थंय, न्हिदतां थंय, बसलां थंय, जेवता थंय; **एकः अथवा तत्समक्षम् अपि** = एकलो आसतना वा लोकां मुखारय; **अवहासार्थम्** = फकाणां मारचे पासत; (हांवें) **यत् असत्कृतः असि** = जो तुजो अपमान केला; **तत्** = ते (सगले अपराध); **अप्रमेयं** = वर्णन करूं नज अश्या; **अच्युत** = आगा श्रीकृष्णा; **त्वाम् अहं क्षामये** = तुजे कडेन हांव पोटांत घाल म्हूण मागतां. ४२

पितासि लोकस्य चराचरस्य त्वमस्य पूज्यश्च गुरुर्गरीयान् ।
न त्वत्समोऽस्त्यभ्यधिकः कुतोऽन्यो लोकत्रयेऽप्यप्रतिमप्रभाव ।।४३।।

*बापूय तूं चराचरा नि जगाचो गुरुंचो गुरू तूं फावता पुजूंकु ।*
*तुजे समानु अतुल बळिश्ट ना कोणु हेरू अदीकु त्रिलोकीं ।।४३।।*

ह्या चराचर संवसाराचो तूं बापूय. तूं पुजूंक फावो जाल्लो आनी गुरुंचो गुरू. तिनूय लोकांतू तुजे सारको, आगा अतुल बळाच्या, दुसरो कोणूच ना. मागीर तुजेकूय व्हडलो कोण आसत?

*अ.अ.*: **अस्य चराचरस्य लोकस्य त्वं पिता** = ह्या चराचर संवसाराचो तूं बापूय (आसा); **च पूज्य असि** = आनी (तूं) पुजूंक फावो जाल्लो; (आनी) **गरीयान् गुरुः** = तूं सगल्यांत व्हड गुरू (आसा); **लोकत्रये अपि त्वत्समः** = तीन लोकांतूय तुजे सारको; **अप्रतिमप्रभाव** = आगा अतुल बळाच्या; **अन्यः न अस्ति** = दुसरो कोणूच ना; (मागीर) **अभ्यधिकः कुतः** = तुजेकूय व्हडलो कोण आसत?

तस्मात्प्रणम्य प्रणिधाय कायं प्रसादये त्वामहमीशमीड्यम् ।
पितेव पुत्रस्य सखेव सख्युः प्रियः प्रियायार्हसि देव सोढुम् ।।४४।।

*लोटांगण घाली तुजे मुखारू प्रसन्न जा तूं तुस्तीवंतु देवा ।*
*जसो बापुयू आपुल्या पुताकु इश्ट इश्टाकु घोव मोगाळु बायले ।।४४।।*

देखून तुस्तिवंत अशा ईश्वराक हांव म्हजी काया चरणाचेर दवरून प्रणाम करून प्रसन्न जा म्हणून मागतां. जसो बापूय पुताचे, जसो इश्ट इश्टाचे, जसो घोव आपले अपुर्बायेचे बायलेचे अपराध पोटांत घालता, तसो आगा देवा, तूं म्हजे गुन्यांव पोटांत घालपाक समर्थ आसा. ४४

*अ.अ.*: **तस्मात् ईड्यं त्वाम् ईशम्** = देखून तुस्तिवंत अशा ईश्वराक; **अहं कायं प्रणिधाय** = हांव म्हजे कायेक चरणाचेर दवरून; **प्रणम्य** = प्रणाम करून; **प्रसादये** = प्रसन्न जा म्हणून सांगतां; **पिता इव पुत्रस्य** = जसो बापूय पुताचे; **सखा इव सख्युः** = जसो इश्ट इश्टाचे; **प्रियः (इव) प्रियायाः** = जसो घोव आपले अपुर्बायेचे बायलेचे (अपराध पोटांत घालता), (तसो) **देव** = आगा देवा, (तूं) **सोढुम अर्हसि** = म्हजे गुन्यांव पोटांत घालपाक; **अर्हसि** = समर्थ आसा. ४४

अदृष्टपूर्वं हृषितोऽस्मि दृष्ट्वा भयेन च प्रव्यथितं मनो मे ।
तदेव मे दर्शय देव रूपं प्रसीद देवेश जगन्निवास ।।४५।।

*पळोवंक ना रूप तें पळोवनु खोशी आकुळ्ळें मन गा म्हजें भंयानु ।*
*दाखय देवेशा गा आदलेंच रूप जगा निवास तूं दया कर देवा ।।४५।।*

आदीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें तुजें विश्वरूप पळोवन हांव खोशी जालों खरो, तरी म्हजें मन भंयान आकूळ जालां. देखून देवांल्या देवा, संवसाराच्या आश्रया, तूं आतां प्रसन्न जा आनी तें आदलेंच रूप दाखय. ४५

*अ.अ.*: **अदृष्टपूर्वम्** = आदीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें तुजें (विश्व) रूप; **दृष्ट्वा** = पळोवन; **हृषित: अस्मि** = हांव खोशी जालों (खरो) **च** = (तरी आसतना) **मे मन: भयेन प्रव्यथितम्** = म्हजें मन भंयान आकूळ जालां. (**अत:** = देखून) **देव** = आगा देवा; **देवेश** = देवांल्या देवा; **जगन्निवास** = संवसाराच्या आस्रया; **प्रसीद** = प्रसन्न जा; **च तत् रूपम् एव मे दर्शय** = आनी तें आदलेंच रूप म्हाका दाखय. ४५

**किरीटिनं गदिनं चक्रहस्तमिच्छामि त्वां द्रष्टुमहं तथैव ।**
**तेनैव रुपेण भुजद्वयेन सहस्त्रबाहो भव विश्वमूर्ते ।।४६।।**

*मुकूट घाल्लें गदा चक्रधारी आदलेंच रूप हांव पळोवंकु सोदी ।*
*विश्वरुपा तुका भुजां हजार दोन भुजांचो जा आदले वरीच ।।४६।।*

मुकूट घाल्लो आनी हातांत गदा-चक्र घेतिल्लो असो आदले भाशेनूच हांव तुका पळोवंक इत्सितां. आगा हजार भुजांच्या विश्वरुपा, त्याच दोन भुजांच्या रुपान मुखार यो. ४६

*अ.अ.*: **किरीटिनं गदिनं चक्रहस्तम्** = मुकूट घाल्लो आनी हातांत गदा-चक्र घेतिल्लो; **तथा एव** = आदले भाशेनूच; **अहं त्वां द्रुष्टुम् इच्छामि** = हांव तुका पळोवंक इत्सितां; **सहस्रबाहो विश्वमूर्ते** = आगा हजार भुजांच्या विश्वरुपा; **तेन एव भुजद्वयेन रूपेण** = दोन भुजांच्या रुपान; भव = मुखार यो.

**श्रीभगवानुवाच**

**मया प्रसन्नेन तवार्जुनेदं रूपं परं दर्शितमात्मयोगात् ।**
**तेजोमयं विश्वमनन्तमाद्यं यन्मे त्वदन्येन न दृष्टपूर्वम् ।।४७।।**

**भगवंतान म्हळें**

*जावनु प्रसन्नु योगाच्या बळानु दाखयलें तुकाच हें श्रेश्ठ रूप ।*
*देखलें ना आदीं तुजेवीण कोणें तेजवंत अनंत आद्य विश्व रूप ।।४७।।*

भगवंतान म्हळें: अर्जुना, तुजेर दया करून हांवें जें हें म्हगेलें तेजवंत, अनंत, आदलें (आनी) स्रेश्ठ विश्वरूप म्हज्या योगाचे तांकीन तुका दाखयलें, तें तुजेविणें आदीं कोणेंच पळोवंक ना. ४७

*अ.अ.*: भगवंतान म्हळें: **अर्जुन प्रसन्नेन** = अर्जुना, तुजेर दया करून; **यत् इदं मे** = जें हें म्हगेलें; **तेजोमयं अनन्तं आद्यं परमं विश्वं रूपं** = तेजवंत, अनंत, आदलें (आनी) व्हडलें विश्वरूप; **मया आत्मयोगात्** = म्हज्या योगबळाचे तांकीन; **तव दर्शितम्** = तुका दाखयलें; **तत् त्वदन्येन** = तें तुजेविणें; **न दृष्टपूर्वम्** = आदीं कोणेंच पळोवंक ना. ४७

न वेदयज्ञाध्ययनैर्न दानैर्न च क्रियाभिर्न तपोभिरुग्रैः ।
एवंरूपः शक्य अहं नृलोके द्रष्टुं त्वदन्येन कुरुप्रवीर ।।४८।।

*शिकूनु वेद यज्ञ बी करुनु   क्रियां दानां खर तपां तशींच ।।*
*ह्या लोकीं हे तरे रुपानु हांवू   दिसूं नजो तुजे शिवायु हेरां ।।४८।।*

आगा अर्जुना, वेद शिकून, दान धर्मान, अग्नीहोत्रादी क्रियांनी वा खर व्रतां उपासांनी अस
तरेच्या विश्वरुपान हांव ह्या मनीसलोकांत तुजे शिवाय हेरांक दिसप शक्य ना. ४८

*अ.अ.:* **कुरुप्रवीर** = आगा व्हड कुरुविरा; **न वेदयज्ञाध्ययनैः** = वेद शिकून आनी यज्ञ करून; **न दा**
= दानधर्म करून; **न क्रियाभिः** = अग्नीहोत्रादी क्रिया करून; **च न उग्रैः तपोभिः** = वा खर व्रतां उ
चलोवन; **एवं रूपः** = असले तरेच्या विश्वरुपान; **अहं नृ लोके** = हांव ह्या मनीस लोकांत; **त्वदन्येन**
तुजे शिवाय हेरांक; **द्रष्टुम्** = दिसप; **शक्य** = शक्य ना. ४८

मा ते व्यथा मा च विमूढभावो दृष्ट्वा रूपं घोरमीदृङ्ममेदम् ।
व्यपेतभीः प्रीतमनाः पुनस्त्वं तदेव मे रूपमिदं प्रपश्य ।।४९।।

*जावं नाका आकूळ सतर वितर तूं   पळोवनु तूं म्हजें विक्राळु रूप ।*
*सोडूनु भंय नि सस्त मनानु   पर्थूनु पळे म्हजे हेंच रूप ।।४९।।*

म्हगेलें हें असलें विक्राळ रूप पळोवन तूं भियेवं नाका आनी सतर वितर जावं नाका. भं
सोडून प्रसन्न मनान तूं तेंच हें म्हगेलें रूप पर्थून बरें करून पळे. ४९

*अ.अ.:* **मम इदम् इदृक्** = म्हगेलें हें असलें; **घोरं रूपम्** = विकराळ रूप; **दृष्ट्वा** = पळोवन; **ते व्यथ
मा** = तूं भियेवं नाका; **च विमूढभावः मा** = आनी सतर विथर जावं नाका; **व्यपेतभीः** = भंय सोडून
**प्रीतमनाः** = प्रसन्न मनान; **त्वं तत् एव** = तूं तेंच; **मे इदं रूपम्** = म्हगेलें हें रूप; **पुनः प्रपश्य** = पर्थून ब
करून पळे. ४९

संजय उवाच

इत्यर्जुनं वासुदेवस्तथोक्त्वा स्वकं रूपं दर्शयामास भूयः ।
आश्वासयामास च भीतमेनं भूत्वा पुनः सौम्यवपुर्महात्मा ।।५०।।

संजयान म्हळें

*अशें पार्थाकु सांगूनु केशवानु   दाखयलें पर्तें आपलें मूळ रूप ।*
*घेवनु आदलेंच तें मोवसार रूप   धीरु दिलो भियेल्ल्या अर्जुनाकु ।।५०।।*

संजयान म्हळें: अशें उलोवन श्रीकृष्णान अर्जुनाक पर्थून आदलेंच आपणालें रूप दाखयलें
आनी पर्थून सौम्य रूप घेवन भियेल्ल्या अर्जुनाक त्या म्हात्म्यान धीर दिलो. ५०

*अ.अ.:* **संजय उवाच** = संजयान म्हळें; **इति उक्त्वा** = अशें उलोवन; **वासुदेवः एनं अर्जुनम्** =
कृष्णान त्या अर्जुनाक; **भूयः तथा स्वकं रूपं दर्शयामास** = पर्थून तसलें आपलें (दोन भुजांचें) रूप
दाखयलें; **च पुनः** = आनी पर्थून; **सौम्यवपुः भूत्वा** = मोवसार रूप घेवन; **भीतम्** = भयाभीत अर्जुनाक;
**महात्मा** = त्या म्हात्म्यान (श्रीकृष्णान); **आश्वासयामास** = धीर दिलो. ५०

अर्जुन उवाच

**दृष्ट्वेदं मानुषं रूपं तव सौम्यं जनार्दन ।**
**इदानीमस्मि संवृत्त: सचेता: प्रकृतिं गत : ।।५१।।**

अर्जुनान म्हळें

*मनशाचें रूप मोवसार देखून हें जनार्दना ।*
*थारावलें मन गा आतां धेयभानार येवनु हांव ।।५१।।*

अर्जुनान म्हळें: श्रीकृष्णा, तुजें हें सौम्य रूप पळोवन आतां हांव सावचित जालां आनी हांव धेयभानार आयलों. ५१

*अ.अ.*: **अर्जुन उवाच:** = अर्जुनान म्हळें; **जनार्दन** = आगा श्रीकृष्णा; **तव इदं सौम्यं मानुषं रूपं दृष्ट्वा** = तुजें हें मोवसार मनीसरूप पळोवन; **इदानीं** = आतां (हांव); **सचेता: संवृत्त:** = सावचित जालां; (आनी) **प्रकृतिं गत: अस्मि** = आनी हांव धेयभानार आयलों. ५१

श्रीभगवानुवाच

**सुदुर्दर्शमिदं रूपं दृष्टवानसि यन्मम ।**
**देवा अप्यस्य रूपस्य नित्यं दर्शनकाङ्क्षिण: ।।५२।।**

भगवंतान म्हळें

भक्तीमार्गाची व्हडवीक

*पळेलें जें तुवें रूप दुर्लभ तें दिसूंक गा ।*
*पळोवंकु देवु लेगीत आशेतातु सदींच तें ।।५२।।*

भगवंतान म्हळें: दिसपाक दुर्लभ अशें हें म्हगेलें रूप तुवें पळेलें, तें पळोवपाक देव लेगीत आशेतात. ५२

*अ.अ.*: **सुदुर्दशम्** = दिसपाक दुर्लभ (अशें) **इदं यत् मम रूपं दृष्टवानसि** = हें जें म्हगेलें रूप (**तुवें**) पळेलें; (**तत्** = तें) **देवा: अपि नित्यं अस्य रूपस्य** = (सगले) देव लेगीत सदींच ह्या रुपाच्या; **दर्शन-काङ्क्षिण:** = दर्शनाक आशेतात. ५२

**नाहं वेदैर्न तपसा न दानेन न चेज्यया ।**
**शक्य एवंविधो द्रष्टुं दृष्टवानसि मां यथा ।।५३।।**

*दिसलो तुका जसो आतां तसो हांवु दिसूं नजो ।*
*व्रतान् तपानु दानानु वेद शिकूनु बी तसो ।।५३।।*

जसो तुवें म्हाका पळेलो, तशे तरेचें म्हजें दर्शन वेद शिकून, व्रतां करून, दान धर्म करून आनी पुजा करुनूय दिसप शक्य ना. ५३

*अ.अ.*: **यथा** = जसो; (**त्वम्** = **तुवें**) **मां दृष्टवानसि** = म्हाका पळेलो; **एवंविध:** = तशे तरेचें; **अहंद्रष्टुम्** = म्हजें दर्शन; **वेदै:न तपसा न दानेन न** (**शक्य:**) = वेद शिकून शक्य ना. व्रतां करुनूय शक्य ना, दानधर्म करुनूय शक्य ना; **च इज्यया** (**शक्य: न**) = यज्ञ करुनूय शक्य ना. ५३

भक्त्या त्वनन्यया शक्य अहमेवंविधोऽर्जुन ।
ज्ञातुं द्रष्टुं च तत्त्वेन प्रवेष्टुं च परंतप ।।५४।।

*पार्था म्हजेच भक्तीनु मेळऽ हें रूप दर्शन ।*
*खरो वळखुं पळोवं येत रिगुं येत म्हजे भितर् ।।५४।।*

आगा अर्जुना, म्हजे निखटे अनन्य भक्तीन असले तरेच्या रुपाच्या म्हाका खरेपणान वळखूं येता, पळोवंक येता आनी म्हजे भितर रिगुं येता. ५४

*अ.अ.:* **परंतप** = व्हड तप केल्ल्या; **अर्जुन** = आगा अर्जुना; **अनन्यया भक्त्या** = अनन्य भक्तीन; **एवंविध:** = असले तरेच्या (दोन भुजांच्या) रुपाच्या; **अहं तत्त्वेन ज्ञातुम्** = म्हाका खरेपणान वळखूं येता; **द्रष्टुं च प्रवेष्टुं शक्य:** = पळोवंक आनी म्हजे भितर रिगूंक येता. ५४

मत्कर्मकृन्मत्परमो मद्भक्त: सङ्गवर्जित: ।
निर्वैर: सर्वभूतेषु य: स मामेति पाण्डव ।।५५।।

*कर्मां ओंपून म्हाकाच करी भक्ती म्हजीच गा ।*
*ओड सोडून निर्वैर येता भक्त म्हजे सरीं ।।५५।।*

अर्जुना, म्हजेच खातीर कर्मां करपी, म्हाकाच आसरो आनी जोडचेली व्हड सुवात लेखपी, ओडी विरयत आनी सगल्या जिवावळी ठांय निर्वैर आसपी असो जो म्हजो भक्त आसता तो म्हजे सरींच येता. ५५

*अ.अ.:* **पाण्डव** = आगा अर्जुना; **य:मत्कर्मकृत्** = जो म्हजे खातीरूच कर्मां करता; **मत्परम:** = म्हाकाच आसरो आनी व्हड जोडचेली सुवात लेखता; **सङ्गवर्जित:** = ओडी विरयत (आनी) **सर्वभूतेषु निर्वैर:** = सगले जिवावळीचे ठांय निर्वैर आसता; **स: माम् एति** = तो म्हजे सरींच येता. ५५

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **विश्वरूपदर्शनयोगो**
ना**मैकादशो**ऽध्याय: ।

हे भाशेन, भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**विश्वरूपदर्शनयोग** नांवाचो **इकरावो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. (१) ते रुपं ऐश्वरम् - म्हळ्यार अ.१०-४२ ह्या श्लोकांत सांगिल्लें आनी ताचे आदीं विभूती विस्तारा सयत सांगिल्लें. (२) ज्ञान, ऐश्वर्य, शक्ती, बळ, वीर्य आनी तेज हांणी भरिल्लो.

२. लोकक्षयकृत - लोकांक ना करपी असो जरी वाच्यार्थ आसलो, तरी दुर्जनांचो सांवार करपी असो लक्ष्यार्थ आसा. (वि.)

३. (i) **निमित्तवाद** - ऑटोच्या (Otto) निमित्तवादाचो विचार आतां करुंया. तूं देवाच्या हातांतलें एक साधन (आवत) - निमित्याक कारण - आसा, निमित्तमात्रम् (११-३३) आसा अशें कृष्ण अर्जुनाक सांगता. मनीस हो फकत एके नदीची व्हांवती आसून तातूंतसून ईश्वराची शक्ती व्हांवता. हाचोच पर्याय म्हणून अर्जुनान आपल्या कर्तव्यांच्यो आनी अकर्तव्यांच्यो कल्पना ईश्वरी इत्से कडेन जुळोवन घेवपूच योग्य आसा. ईश्वराचें निमित्त वा साधन जावपाचो अर्थ होच. स्वताची इत्सा ईश्वरी इत्सेशीं जुळोवन घेवपांत एक नैतीक प्रस्न उप्रासता. तो म्हळ्यार, ईश्वरी इत्सेप्रमाण वागप हेंच मनशाचें परमश्रेष्ठ - आद्य-कर्तव्य आसा. मागीर कांट (Kant) आनी हेर तत्त्वज्ञ तत्त्वीक नदरेन 'कर्तव्या खातीर कर्तव्य' अशें उलयल्यार उलोवं दी. खंयचें आद्य कर्तव्य तें गीतेंत सांगलांच. ईश्वरान आज्ञा करची आनी मनशान ती आयकुची. अर्जुनान युद्ध ही ईश्वरी आज्ञा अशें मानून ती आयकुंकूच जाय अशें ओटो सांगता. आध्यात्मीक वाङ्मयांतलो एक सुंदर श्लोक बरयला म्हणून ओटोन भगवद्गीतेच्या लेखकाचो गौरव केला. ओटोन आपल्या उतरांनी सांगलां: "शोक आवर, मानवी कार्य करपाची तुका शक्ती आसा, अशें समज नासतना, फकत तूं साधन (आवत) हें लक्षांत दवरून म्हजें काम कर. तूं फकत निमित्तमात्र (निमित्त्याक कारण) आसा. ह्या शब्दांक कर्मश्लोक म्हणूंक जाय. गीतेंतलो हो सगल्यांत बरो श्लोक." (पळेयात, रानडे, पान. १४४).

३. (ii) निमित्तमात्रं - निखटें कारण. हांगा लेखक दैवी पूर्व निर्णयाच्या सिद्धांताचें समर्थन करता. मनशाची पुराय असहायताय आनी क्षुद्रताय तशीच ताची इत्सा आनी यत्न हांची व्यर्थताय दाखयता. निर्णय आदींच जाला आनी तो बदलपाक अर्जुन कांयच करपाक शकना. तो परमेश्वराच्या हातांतलें शक्तीहीण आवत तरी पूण परमात्मो आपल्या मनाक मारीत तशें करपी आनी कोल्ली न्हय तर न्याय दिवपी आनी मोगाळ आसा असो सूर हातुंतल्यान उकतो जाता.

आमकां सगली वैश्वीक प्रक्रिया ही आदींच येवजिल्ली येवजण आनी आदींपासून उक्तायल्ली पटकथा अशें समजुचेली गरज ना. लेखक हांगा मनशाच्या हातांतल्यान फुडाराक कितेंय घडून येवपाची शक्यताय आसा ही गजाल न्हयकारचे परस शाश्वतायेच्या अर्थाचेर भर दिवन सांगता: "हातूंत पुराय कालाचे सगले खीण म्हळ्यार भूत, वर्तमान आनी भविश्य हातुंतले खीण दैवी आत्म्याक वर्तमानूच आसतात. काळांत आस्पावल्ल्या उत्क्रांतीच्या दर खिणाक फुडें व्हरपी नवेंपण हें दैवी शाश्वतायेकडेन मेळ राखचें ना अशें ना.

परमात्म्याचे विचार मानवी आवतांतल्यान पूर्णतायेक पावतात. शाणे आसल्यार ताच्याच हातांतलीं आवतां आमी जातात. आमी परमात्म्याकूच आमचो आत्मो तांच्यांत विरगळावपाक दितात. आनी आमच्या अहंकाराची कुरू लेगीत पुसून उडयतात. आमी ताचो आदेश

आयकुपाकच जाय आनी ताचे इत्सेक पाळो दितना अशें म्हणूंक जाय: ''तुजे इत्सेंतूच म्हजी शांती आसा. देवा हांव म्हज्या आत्म्याक तुज्या हातांत सोंपयतां.'' (ल्युक २२.४६)
अर्जुनाक हें अणभवूंक जाय: ''तुजे इत्सेबगर आनी हेर कांय ना. तूंच एकटो कर्तो आनी हांव तुज्या हातांतलें आवत. झुजाचे भयांकूळ भीशणतायेक लागून तो विट्टा. मानवी प्रमाणांनी पारखिल्यार हें आमकां कळना. पुणून जेन्ना 'सर्व शक्तीवंत परमात्म्याचो पड्डो वयर सरता', तो तें मानून घेता. आपली इत्सा कितें आशिल्ली, वा तो ह्या संवसारांत वा परलोकांत कितें जोडचेली आशा धरतालो हाचें ताका आतां कांयच पडिल्लें नासता. अवकाश-कालाच्या आनी ताका भेदपी ह्या संवसारा फाटल्यान, परमात्म्याचो निर्मणी करपाचो उद्देश आसता. हें सगल्यांत उंचेली येवजण आमकां समजून घेवंची पडटली आनी तिचे सेवेंत संतोश मानचो पडटलो. दर करणी आपले परस चड पेल्यानचे वस्तुचें प्रतीक आसता.'' (राधाकृष्णन).

३. (iii) ईश्वराच्या हातांतलें हत्यार (शस्त्र) जावप म्हळ्यार एके वाटेन निरहंकारताय (शुन्यताय) आसून, दुसरे वाटेन पुरुशार्थाची पराकाश्टा - प्रयत्नांची परिपूर्णताय आसा. 'सव्यसाची' म्हळ्यार उजव्या हातानूच न्हय तर दाव्या हातानूय काम करपाक सज्ज आशिल्लो अशी ह्या शब्दाची गोडी आसा. (वि.)

४. अद्रुश्टाचो वा नियतीचो देव सगल्या गजालींचो निश्चय करता आनी तांचें नियमन करता. आनी अर्जुन निखटें ताचें वाद्य - त्या सर्वशक्तींवंताच्या बोटां सकयली बांसुरी - जें ताचो उद्देश सफल करता आनी जों एक व्हड उत्क्रांती घडोवचेलें कार्य करता. आपल्या दोश आशिल्ल्या विवेकाभाशेन आपूण वागतां अशें अर्जुनाक दिसता जाल्यार अर्जुन आपणाकूच फटयता. खंयचेय व्यक्तीचो आत्मो परमात्म्याचो विशेश अधिकार हुपिना. आपूण हातांत शस्त्र घेवचों ना हें सांगपांत अर्जुन धिटाय दाखयता. (पळेयात, श्लो १८-५४. राधाकृष्णन.)

५. 'भुजद्वयेन' हो पाठ 'चतुर्भुजेन' ह्या पाठा बदला घेतला. पळेयात, 'श्रीभगवद्गीता', सं. राजवैद्य जीवराम कालीदास शास्त्री, रसशाळा औषधालय, गोंडाळ, काठीयावाड, विक्रमसंवत, १९९३ (इ.स. १९३७), पा. १०७. (ही प्रत इ.स. ११७९त बरयिल्ली आनी सुरतेक मेळिल्ल्या हातबरपावेल्यान ती छापली. (पळेयात, श्रीभगवंतालें गीत, ब. शणै गोंयबाब, सं. का.श्री. नायक. उ. गोमंतक छापखान्याचो धनी, गिरगांव, मुंबै ४ (१९५९) आनी 'सर्वबोध पद्यगीता', अ. डॉ. ग.श्री. खैर, प्र. पुणे विद्यार्थी गृह प्रकाशन, पुणे, पा.५१).

## श्लोकटिपो

*४. दर्शनापरस दर्शनाची योग्यताय अदीक म्हत्वाची वस्तू आसा. योग्यता आसले शिवाय दर्शन जायना. ती ईश्वराची कृपा. (वि.)

*५. विश्वाची प्रक्रिया आनी अद्रुश्टाचो खरो अर्थ समजल्ल्या अर्जुना सामकार दिव्य शक्तीचो आत्म-साक्षात्कार परगट्टा. हें दिव्य दर्शन कल्पिल्लें वा पुराण-कथा न्हय. तर तो एक अध्यात्मीक अणभव. धर्मीक अणभवांच्या इतिहासांत हे तरेचीं जायतीं दर्शनां सांगल्यांत.

येशू ख्रिस्ताचें रुपांतर, दमासकसचे वाटेर सॉलाक (Saul) क जाल्लें खुर्साचें आनी जोन ऑफ आर्कान (Joan of Arc) अणभविल्लीं हेच तरेचीं दर्शनां इत्यादी अणभव अर्जुनाक जाल्ल्या अणभवावरीच आसात (राधाकृष्णन).

*८-९. ह्या अध्यायांतलें विश्वरूपदर्शन हें निखटें कल्पनारम्य काव्य न्हय. तो एक प्रातिभ दिश्टीन जावपी एक अध्यात्मीक अणभव. ही प्रातिभ दिश्टी १३-१४ ह्या श्लोकांतल्या ज्ञान दिश्टी परस वेगळी. तिका ध्यान-दिश्टी अशेंय म्हणूंयेत. पुणून ही एके तरेन साधकाची जोड म्हणचे परस ईश्वराची देण म्हणूंक जाय (वि.)

*१४. साक्षात्काराचो हो अर्जुनाचो अणभव संजयाच्या अणभवाकडेन तुळा करीसारको आसा (गीता, १८-२२).

*१५. हांगसून अर्जुनाक जाल्ल्या विश्वरुपाचो आरंभ जाता. ह्या श्लोकांतलो 'ईश' शब्द महेश (शंकर) ह्या अर्थान नासून, हिरण्यगर्भाचेंच तें विशेशण आसा. हें फुडल्या 'कमलासनस्थ' ह्या पदावेल्यान सिद्ध जाता. ब्रह्मा, विष्णु, शंकर ही त्रयी गीतेंत उल्लेखूंक ना. उत्पत्ति, स्थिती आनी लय हीं एकाच परमेश्वराचीं कार्यां आसात, अशेंच सर्वत्र म्हळां. ज्ञानेश्वरान 'ईश' शब्दाचो अर्थ महादेव घेतला. ( करंदी.)

*३२-३३ (१) डॉ. रुडोल्फ ऑटो (Rudolf Otto) हो गीतेचो एक जर्मन भाश्यकार. भगवद्गीतेंतलो ईश्वर हो नियती थारावपी अशें ताचें मत्त. मनशान कर्म वा इत्सा करचे पयलींच एकाद्री विशिश्ट घटना घडची हें ईश्वरान पयलींच थारायल्लें आसता. हाकाच नियती म्हणटात. कौरव-पांडवांचें झूज जावचे पयलीं ईश्वरान आदींच त्या झुजाची येवजण आंखिल्ली. तशीच ईश्वराची इत्सा आशिल्ली आनी ताचीच ही करणी. झुजाचो निर्णय ईश्वरानूच थारायल्लो. ऑटो Das Bhagvadagita ह्या ग्रंथांत म्हणटा: ''हें क्रूर, भयंकर झूज मनशाची करणी न्हय. युद्ध जावंचें, ही ईश्वराचीच इत्सा आनी करणी आशिल्ली... भगवद्गीतेंतलो ईश्वर हो सगले वटेन नियती थारावपी देव आसा हें अ. ११-३२/३३ ह्या श्लोकांवयल्यान दिसून येता. मानवी इत्सा आनी कर्म घडचे पयलींच बदलपाक येना असलो भविश्य काळ ईश्वरान स्वतंत्रपणान आदींच थारायल्लो आसता हेंय हाचे वयल्यान सिद्ध जाता. मानवी इत्सेची ईश्वरी इत्से कडेन तुळा केल्यार ती सगले वटेन निष्प्रभ आसा आनी मनीस हो ईश्वरी कार्यांतली एक खिणयाळी अवस्था आसा अशेंच म्हणचें पडटा. पुणून मनशाचो अहंकारूच ईश्वरी इत्सेचे आड येवंक पळेता. (पळेयात, रानडे पा. १४२-१४३.)



# भक्तीयोग

परमेश्वर अव्यक्त, अव्यय, निर्गूण आनी निराकार आसा हें ज्ञानमार्गान कळटा. पुणून ज्ञानमार्ग सादनाशिल्ल्या सामान्य मनशांक दिसता तसल्या (व्यक्त) रुपांत ईश्वराक पळोवंक येवप आनी निश्ठेन ताची भक्ती करप अदीक सोंपें. ही सगूण भक्ती.

ह्या अध्यायाक भक्तीयोग म्हळा. हातूंत अव्यक्त (दिसना जाल्ल्या) ईश्वराची उपासना सगूण आनी निर्गूण अश्या दोनूय तरांनी करूं येता अशें सांगलां. ह्या दोनां भितर सगूण भक्ती सोंपी. होच सगूण भक्तीमार्ग.

इकराव्या अध्यायांत विश्वरूप दर्शन जाले उपरान्त अर्जुना मुखार एक प्रस्न उप्रासता. विश्वरुपाची (सगूण ब्रह्माची) भक्ती करपी आनी निर्गूण ब्रह्माक भजपी हांचे भितर कोण भक्त स्रेश्ठ (१). फुडें सगूण आनी निर्गूण उपासना मार्गांची तुळा करून तांचें फळ सांगलां (२-८). दोनूय भक्त अंतीं ईश्वराकूच मेळटात, पूण निर्गूण ब्रह्माच्या उपासकाक कश्ट अदीक.

मागीर ध्यान साधनेचें म्हत्व सांगलां (९-१२). उपासनेंत चित्त ईश्वराचे ठांय एकाग्र करपाचे उपाय सांगल्यात. ज्ञान, ध्यान, कर्म आनी योग वा मनशांती हांची सांखळ जावप हें योग साधने पासत गरजेचें. ईश्वर जोडपाच्या उपायांचो वा साधनांचो सारच बाराव्या अध्यायांत दिला. हीं साधनां म्हळ्यार (१) अभ्यास (आयकप, वाचप, चिंतन आदी), (२) ज्ञान, (३) ध्यान, (४) कर्माचें फळ जोडप. फुडें भक्तीयोग्याचीं लक्षणां सांगल्यांत. तो अहंकार आनी आसक्ती विरयत जाल्लो, थीर मनाचो, मनीसपण आशिल्लो, इंद्रियां जिखिल्लो आसता (१३-२०). थीरबुद्दी मनशाचीं लक्षणां (अ. २-५५ ते ७०), भक्तीयोग्याचीं लक्षणां (अ. १२-१३ ते २०) आनी ज्ञानयोग्याचीं लक्षणां (अ. १८-५१ ते ५६) हीं चडशीं एकसारकींच आसात. देखून, कर्म, भक्ती आनी ज्ञान ह्या मार्गांत प्रतियोग दिसना, तर योग वा सुमेळूच दिसता.

तेराव्या अध्यायांतलो २४वो श्लोक हे विशीं कितें म्हणटा तें विचार करी सारकें आसा:

*देखी ध्यानान गा कांयु   आत्म्याकु आपुणां मदीं ।*
*पळे कांय सांख्य योगानु   कर्मयोगानु हेरू कांय् ॥*

# द्वादशोऽध्याय:

अर्जुन उवाच

**एवं सततयुक्ता ये भक्तास्त्वां पर्युपासते ।**
**ये चाप्यक्षरमव्यक्तं तेषां के योगवित्तमा: ।।१।।**

अर्जुनान म्हळें

*सदीं योगांतु जे गुल्ल जे भजऽ सगुणा तुका ।*
*वा जे निर्गूण ब्रह्माकु कोणु ह्या दों मदीं व्हड ।।१।।*

अर्जुनान म्हळें: हे भाशेन सदींच तुज्यांत एकरूप जावन जे भक्त तुज्या सगूण स्वरुपाची (सगूण ब्रह्माची) उपासना करतात आनी जे निर्गूण ब्रह्मतत्त्वाची उपासना करतात, त्या दोगां भितर उत्तम योगी कोण? १

*अन्वय -अर्थ*: **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **एवम्** = हे भाशेन (आदल्या अध्यायाच्या निमाण्या श्लोकांत सांगिल्ले भाशेन); **सततयुक्ता: ये भक्ता:** = सदींच तुज्यांत एकरूप जावन जे भक्त; **त्वां पर्युपासते** = तुका भजतात (तुज्या सगूण स्वरुपाची, सगूण ब्रह्माची) उपासना करतात; **च ये अव्यक्तम् अपि** = आनी जे निर्गूण ब्रह्माची उपासना करतात; **तेषां योगवित्तमा: के** = त्या दोगां भितर उत्तम योगी कोण? १

श्रीभगवानुवाच

**मय्यावेश्य मनो ये मां नित्ययुक्ता उपासते ।**
**श्रद्धया परयोपेतास्ते मे युक्ततमा मता: ।।२।।**

भगवंतान म्हळें

*योगी जे भजती म्हाका श्रद्धा दवरुनु गा म्हजेर् ।*
*करी म्हजेंच जे ध्यानु ते योगी व्हड मानि हांव ।।२।।*

भगवंतान म्हळें: म्हजेरच मन लावन, सदांकाळ योगबुद्धीन (आनी) व्हड श्रद्धेन जे (भक्त) म्हाका भजतात ते योग्यां भितर श्रेश्ठ योगी अशें हांव मानतां. २

*अ.अ.*: **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **मयि मन: आवेश्य** = मन म्हजेरच लावन; **नित्ययुक्ता: परया श्रद्धया** = सदांकाळ योगबुद्धीन (आनी) व्हड श्रद्धेन; **ये माम् उपासते** = जे (भक्त) म्हाका भजतात; **ते युक्ततमा: मे मता:** = ते योग्यां भितर श्रेश्ठ योगी अशें हांव मानतां. २

ये त्वक्षरमनिर्देश्यमव्यक्तं पर्युपासते ।
सर्वत्रगमचिन्त्यं च कूटस्थमचलं ध्रुवम् ।।३।।

संनियम्येन्द्रियग्रामं सर्वत्र समबुद्धयः ।
ते प्राप्नुवन्ति मामेव सर्वभूतहिते रताः ।।४।।

*दिसना अविनाशी जें* *येना दाखोवंक चिंतुक ।*
*सर्वां मुळाक व्यापिल्लें* *भजती जे नित्य निश्चळा ।।३।।*

*सर्वत्र सम बुद्‌दीनु* *इंद्रियांकु नियंत्रुणू ।*
*सर्वां हितांतु रंगिल्ले* *येतातु ते म्हजे सरीं ।।४।।*

पुणून जे (मनीस) इंद्रियांच्या समुदायाचें (चोंब्याचें) बरें नियंत्रण करून अविनाशी, दाखोवपाक येना अश्या, चिंतपाक येना जाल्ल्या, सगलें व्यापिल्ल्या आनी सगल्यांच्या मुळाक आशिल्ल्या, नित्य, निश्चळ, दिसना जाल्ल्या अश्या ब्रह्माक (भजतात). ते सगळे कडेन समबुद्धीन चलतले आनी सगल्या जिवावळीच्या हितांत रंगिल्ले म्हजेच सरीं येतात.

*अ.अ.:* **तु** = पुणून; **ये** = जे (मनीस): **इन्द्रियग्रामं संनियम्य** = इंद्रियांच्या समुदायाचें बरें नियंत्रण करून: **अक्षरम्** = अविनाशी; **अनिर्देश्यम्** = दाखोवपाक येना अश्या; **अचिन्त्यम्** = आनी सगल्यांच्या मुळाक आशिल्ल्या: **ध्रुवम्** = नित्य; **अचलम्** = निश्चळ; **अव्यक्तम्** = दिसना जाल्ल्या अश्याक (म्ह. ब्रह्माक) **पर्युपासते** = भजतात: **ते सर्वत्रसमबुद्धयः** = ते सगले कडेन समबुद्धीन चलतले; **सर्वभूतहितेरताः** = सगल्या जिवावळीच्या हितांत रंगिल्ले; **माम् एव प्राप्नुवन्ति** = म्हजेच सरीं येतात. ४

क्लेशोऽधिकतरस्तेषामव्यक्तासक्तचेतसाम् ।
अव्यक्ता हि गतिर्दुःखं देहवद्भिरवाप्यते ।।५।।

*निर्गुणां ओड गा जांकां तांकां क्लेश अदीकु गा ।*
*मेळऽ कश्टानु गा वाट अव्यक्ताची नरांकु त्या ।।५।।*

निराकार ब्रह्माची ओड लागिल्ल्या त्या मनशांक अदीक क्लेश जातात. कित्याक, कूड आशिल्ल्या जिवांक निर्गूण ब्रह्माची वाट कश्टान मेळटा. ५

*अ.अ.:* **अव्यक्तासक्तचेतसाम्** = निराकार ब्रह्माची ओड लागिल्ल्या: **तेषां** = त्या मनशांक; **क्लेशः अधिकतरः** = अदीक क्लेश जातात; **हि देहवद्भिः** = कूड आशिल्ल्या जिवांक; **अव्यक्ता गतिः** = अव्यक्ताची गती (वाट): **दुःखम् अव्याप्यते** = कश्टान मेळटा. ५

**ये तु सर्वाणि कर्माणि मयि संन्यस्य मत्पराः ।**
**अनन्येनैव योगेन मां ध्यायन्त उपासते ।।६।।**

**तेषामहं समुद्धर्ता मृत्युसंसारसागरात् ।**
**भवामि नचिरात्पार्थ मय्यावेशितचेतसाम् ।।७।।**

*कर्मां म्हाकाच ओंपूनु जे म्हाकाच उपासती ।*
*हेर कित्यार ना ध्यान चिंती म्हाकाच भक्तिनू ।।६।।*

*मर्णा संवसार दर्यांतले कळावा वीण अर्जुना ।*
*कर्तां उद्धार तांचो हांव लायी म्हजेरू चित्त जे ।।७।।*

पूण जे सगलीं कर्मां म्हाका ओंपून, जोडचेली व्हडली वस्तु म्हाका लेखून, हेर कित्याचेरूच मन लायले विणें म्हजें भक्तीन ध्यान करीत म्हाका भजतात (६), अर्जुना, त्या म्हजेर चित्त लायिल्ल्या भक्तांचो मर्णरुपी संवसार-दर्यांतसून हांव बेगीन उद्धार करतां. ७

*अ.अ.*: **तु ये सर्वाणि कर्माणि मयि संन्यस्य** = पुणून जे सगलीं कर्मां म्हाका ओंपून; **मत्पराः** जोडचेली व्हडली वस्त म्हाका लेखून; **माम् एव अनन्येन** = हेर कित्याचेरूच मन लायले विणें; **योगेन ध्यायन्तः उपासते** = म्हजें भक्तीन ध्यान करीत म्हाका भजतात (६); **पार्थ** = अर्जुना; **तेषां मयि** = त्या म्हजेर; **आवेशितचेतसाम्** = चित्त लायिल्ल्या भक्तांचो; **मृत्युसंसारसागरात्** = मर्णरुपी संवसार दर्यांतसून; **अहं नचिरात् समुद्धर्ता भवामि** = हांव बेगीन उद्धार करतां. ७

**मय्येव मन आधत्स्व मयि बुद्धिं निवेशय ।**
**निवसिष्यसि मय्येव अत ऊर्ध्वं न संशयः ।।८।।**

*लायु चित्त म्हजेठांयीं बुद्द म्हाकाच ओंप तूं ।*
*रावतलो तूं म्हजेठांयीं दुभावा वीण अर्जुना ।।८।।*

(तूं) म्हजेर मन लाय, म्हजेरच बुद्दी थाराय, म्हणटकीच मागीर (तूं) म्हजेठांय येवन रावतलो हातूंत दुभाव ना. ८

*अ.अ.*: (तूं) **मयि मनः आधत्स्व** = म्हजेर मन लाय; **मयि एव बुद्धिं निवेशय** = म्हजेरच बुद्दी थाराय; **अतः उर्ध्वं मयि एव** = म्हणटकीच मागीर (तूं) म्हजेच ठांय; **निवसिष्यसि** = येवन रावतलो; **(अत्र)** = हातूंत; **न संशयः** = दुभाव ना. ८

अथ चित्तं समाधातुं न शक्नोषि मयि स्थिरम् ।
अभ्यासयोगेन ततो मामिच्छाप्तुं धनंजय ।।९।।

ध्यान साधना

*तांकलें ना चित्त थारावंकु घट्ट म्हज्यांतु तें बरें ।*
*करून योग अभ्यासु म्हाका जोडूंक सोद तूं ।।९।।*

जर म्हजे ठांय चित्त सारकें थारावंक तुका तांकना जाल्यार अर्जुना, योगाच्या अभ्यासान (एकसारकें म्हजें ध्यान करून), म्हाका जोडची इत्सा धर. ९

*अ.अ.*: **अथ** = जर; (तुगेलें) **चित्तं मयि स्थिरं समाधातुं न शक्नोषि** = मन म्हजेर सारकें थारावंक तुका तांकना; **ततः धनंजय** = तर अर्जुना; **अभ्यास योगेन** = (तूं) (ध्यान) योगाच्या अभ्यासान; **माम् आप्तुं इच्छ** = म्हाका जोडची इत्सा धर. ९

अभ्यासेऽप्यसमर्थोऽसि मत्कर्मपरमो भव ।
मदर्थमपि कर्माणि कुर्वन्सिद्धिमवाप्स्यसि ।।१०।।

*जालो ना ध्यानु अभ्यासय कर्मां म्हाकाच ओंप तूं ।*
*म्हजे पासतु तीं केल्ल्यान् जोडशी तूं सिद्धि अर्जुना ।।१०।।*

ध्यान अभ्यासय तुका तांकलोना जाल्यार, सगलीं कर्मां म्हजे पासत कर. म्हजे पासत कर्मां करुनूय तुका सिद्धी मेळटली. १०

*अ.अ.*: **अभ्यासे अपि** = (वयर सांगिल्लो) ध्यान-अभ्यासय; **असमर्थः असि** = तुका तांकलोना जाल्यार; **मत्कर्मपरमः भव** = म्हजेच खातीर सगलीं कर्मां कर; **मदर्थ कर्माणि कुर्वन् अपि** = म्हजे पासत कर्मां करुनूय; **सिद्धिम् अवाप्स्यसि** = (तुका) सिद्धी मेळटली. १०

अथैतदप्यशक्तोऽसि कर्तुं मद्योगमाश्रितः ।
सर्वकर्मफलत्यागं ततः कुरु यतात्मवान् ।।११।।

*तांकऽ ना हेंवुयू पार्था योगाचो घेवनु आश्रयु ।*
*संयमानु मनाच्या गा कर्माचें फळु सोड तूं ।।११।।*

हेंवूय (म्हजे पासत कर्म करप) तुका तांकना जाल्यार, म्हज्या योगाचो आसरो घेवन (म्हाकाच शरण येवन) आनी मनाचो संयम करून, सगल्या कर्माचें फळ तूं सोड. ११

*अ.अ.*: **अथ** = जर; **एतत् अपि** = हेंवूय; **कर्तुम् अशक्तः असि** = तुका तांकना; **ततः** = जाल्यार; **मद्योगम् आश्रितः** = म्हज्या योगाचो आश्रय घेवन (आनी) **यतात्मवान्** = मन आपसुवादीन दवरून; **सर्वकर्मफलत्यागं कुरु** = सगल्या कर्मांचें फळ तूं सोड. ११

**श्रेयो हि ज्ञानमभ्यासाज्ज्ञानाद्ध्यानं विशिष्यते ।**
**ध्यानात्कर्मफलत्यागस्त्यागाच्छान्तिरनन्तरम् ॥१२॥**

*अभ्यासाकूय बरें ज्ञान ज्ञानापरस ध्यानु गा ।*
*ध्यानाहूनु फळा त्याग त्यागानु शांति बेगिनू ॥१२॥*

कित्याक अभ्यासापरस ज्ञान चड बरें. ज्ञानापरस ध्यान श्रेश्ठ, ध्यानाहून सगल्या कर्मांचें फळ सोडप (श्रेश्ठ)आनी (ह्या कर्मफळाच्या) त्यागापासून बेगीन शांती मेळटा. १२

*अ.अ.*: **हि अभ्यासात् ज्ञानं श्रेयः** = कित्याक (मर्म समजनासतना केल्ल्या) अभ्यासापरस ज्ञान चड बरें; (आनी) **ज्ञानात् ध्यानं विशिष्यते** = ज्ञाना परस ध्यान (म्हजेर मन थारावप) स्रेश्ठ. (तशेंच) **ध्यानात्** = ध्याना परस; **कर्मफलत्यागः** = सगल्या कर्मांचें फळ सोडप (श्रेश्ठ). **त्यागात्** = (ह्या कर्मफळाच्या) त्यागापासून; **अनन्तरं शान्तिः** = बेगीन शांती मेळटा. १२

**अद्वेष्टा सर्वभूतानां मैत्रः करुण एव च ।**
**निर्ममो निरहंकारः समदुःखसुखः क्षमी ॥१३॥**

**संतुष्टः सततं योगी यतात्मा दृढनिश्चयः ।**
**मय्यर्पितमनोबुद्धिर्यो मद्भक्तः स मे प्रियः ॥१४॥**

भक्तीयोगी

*कर्नां दुस्वासु कोणालो सर्वां इश्ट दयाळु जो ।*
*हांवु-म्हजेंपणू नुल्लें क्षमी, सम सुखीं दुखीं ॥१३॥*

*नित्य धादोस जो योगी संयमी निश्चया घट ।*
*ओंपल्या म्हाका मनै बुद्दी मोगाचो भक्त तो म्हजो ॥१४॥*

कोणाच जिवांचो द्वेश करिनाशिल्लो, इश्टागतीन चलतलो, दयाळू, म्हजेंपण नाशिल्लो, अहंकार नाशिल्लो, सूख-दुख्खाक सम मानतलो, क्षमाशील, तशेंच जो योगी सदांकाळ धादोस, संयमी, घट्ट निश्चयाचो, मन आनी बुद्दी म्हाका ओंपिल्लो असो म्हजो भक्त म्हजो अपुर्बायेचो. १३-१४

*अ.अ.*: **सर्वभूतानाम् अद्वेष्टा** = कोणाच जिवांचो द्वेश करिनाशिल्लो; **मैत्रः** = इश्टागतीन चलतलो; **च करुणः** = दयाळू; **निर्मम** = म्हजेपणाची ओड नाशिल्लो; **निरहंकारः** = (कर्तुत्वाचो) अहंकार नाशिल्लो; **समदुःखसुखः** = सूख दुख्ख सम मानतलो; **क्षमी** = सोंसणिकायेचो, (तशेंच) **यः योगी** = जो योगी; **सततं संतुष्टः** = सदांकाळ धादोस; **यतात्मा** = संयमी; **दृढनिश्चयः** = घट्ट निश्चयाचो; **मयि अर्पितमनोबुद्धिः** = मन आनी बुद्दी म्हाका ओंपिल्लो, (असो) **मद्भक्तः मे प्रियः** = म्हजो भक्त म्हजो अपुर्बायेचो. १३-१४

यस्मानोद्विजते लोको लोकान्नोद्विजते च यः ।
हर्षामर्षभयोद्वेगैर्मुक्तो यः स च मे प्रियः ॥१५॥

*भिनात लोक गा जाका नी लोकांकुयु जो भिना ।*
*वीट खोस भिर्ती द्वेस - नेणा जो, प्रिय तो म्हजो ॥१५॥*

जाचे पासून लोकांक त्रास जायना आनी जाका लोकां पासून त्रास जायना, तशेंच खोस, नसाय, भंय, उबगण हांचे पासून जो मेकळो, तो म्हजो अपुर्बायेचो. १५

*अ.अ.:* **यस्मात्** = जाचे पासून; **लोकः** = लोकांक; **न उद्विजते** = त्रास जायना; **च यः लोकात् न उद्विजते** = आनी जाका लोकां पासून त्रास जायना; **च** = आनी; (जो) **हर्ष** = खोस; **अमर्षः** = नसाय; **भय** = भंय, (आनीं) **उद्वेगैः** = उबगण (हांचे पासून) **मुक्तः** = मेकळो (आसता); **सः मे प्रियः** = तो म्हजो अपुर्बायेचो. १५

अनपेक्षः शुचिर्दक्ष उदासीनो गतव्यथः ।
सर्वारम्भपरित्यागी यो मद्भक्तः स मे प्रियः ॥१६॥

*दुखां मेकळो उदासीन निर्लोभी दक्ष निर्मळ ।*
*कर्ना कर्म फळा आशा मोगाचो भक्त तो म्हजो ॥१६॥*

जो निर्लोभी, (कुडीन तसो मनान) निर्मळ, लागणुकेविशीं शिटूक, (फळाविशीं) निरपेक्ष, दुख्खां-मेकळो, तो फळाचे आशेन कर्मां करिनाशिल्लो म्हजो भक्त म्हजो अपुर्बायेचो.

*अ.अ.:* **यः अनपेक्षः** = जो आशेविरयत (निर्लोभी); **शुचिः** = कुडीन आनी मनान निर्मळ; **दक्षः** (लागणुके विशीं) शिटूक; **उदासीनः** = (फळाविशीं) निरपेक्ष; **गतव्यथः** = दुख्खां मेकळो; **सः सर्वारम्भ-परित्यागी** = तो फळाचे आशेन कर्मां करिनाशिल्लो; **मद्भक्तः** = म्हजो भक्त; **मे प्रियः** = म्हजो अपुर्बायेचो. १६

यो न हृष्यति न द्वेष्टि न शोचति न काङ्क्षति ।
शुभाशुभपरित्यागी भक्तिमान्यः स मे प्रियः ॥१७॥

*जाका ना हर्श दुस्वास करिना शोक लोभ वा ।*
*शुभ अशुभ जो सोडी तो म्हजो प्रिय भक्त गा ॥१७॥*

जो हर्सना, द्वेश करिना, खेद करिना, वान्सा धरिना, जाणें बरें वा वायट फळ सोडलें, तो भक्तिवंत म्हजो अपुर्बायेचो. १७

*अ.अ.:* **यः न हृष्यति** = जो (केन्ना) हर्सना; **न द्वेष्टि** = (कोणाचो) द्वेश करिना; **न शोचति** = खेद करिना; **न काङ्क्षति** = वान्सा धरिना; **यः शुभाशुभपरित्यागी** = जाणें बरें वा वायट (फळ) सोडलें; **सः भक्तिमान्** = तो भक्तिवंत; **मे प्रियः** = म्हजो अपुर्बायेचो. १७

**समः शत्रौ च मित्रे च तथा मानापमानयोः ।**
**शीतोष्णसुखदुःखेषु समः सङ्गविवर्जितः ॥१८॥**

**तुल्यनिन्दास्तुतिर्मौनी संतुष्टो येन केनचित् ।**
**अनिकेतः स्थिरमतिर्भक्तिमान्मे प्रियो नरः ॥१९॥**

*इश्ट वैरी समान् ताका    मान नी अपमान बी ।*
*शीं-हून सुख-दुख्खांत  सम तो बंध मुक्त गा ॥१८॥*

*सम जाका स्तुती निंदा    मेळिल्ल्यांत तुश्ट थीर जो ।*
*घरा ना ओड मौनी जो    मोगाचो भक्त तो म्हजो ॥१९॥*

शत्रू आनी मित्र, मान आनी अवमान, शीं आनी हून, सूख आनी दुख्ख हीं जाका समान जालीं, जाका कित्याचीच ओड ना (१८), निंदा आनी तुस्त सम लेखतलो, मौन पाळटलो, मेळिल्ल्यांत धादोस, घरादाराची ओड नाशिल्लो असो थीर बुद्दीचो भक्तिवंत मनीस म्हजो अपुर्बायेचो. १९

*अ.अ.:* **शत्रौ मित्रे समः** = शत्रू आनी मित्रांक सारको; **तथा** = तसोच; **मानापमानयोः शीतोष्ण-सुखदुख्खेषु समः** = मान आनी अवमान, शीं-हून, सूख, दुख्ख हीं जाका समान जालीं; **च सङ्गविवर्जितः** = आनी ओडी विरयत असो (१८); **तुल्यनिन्दास्तुतिः** = निंदा आनी तोखणाय सम लेखतलो; **मौनी** = मौन पाळपी; **येन केनचित् संतुष्टः** = (शरिराक) जें मेळटा तातूंत धादोशी; **अनिकेतः** = घरादाराची ओड नाशिल्लो; (**सः** = तो); **स्थिरमतिः भक्तिमान् नरः मे प्रियः** = थीरबुद्दीचो भक्तीवंत मनीस म्हजो अपुर्बायेचो. १९

**ये तु धर्म्यामृतमिदं यथोक्तं पर्युपासते ।**
**श्रद्दधाना[१] मत्परमा भक्तास्तेऽतीव मे प्रियाः ॥२०॥**

*धर्म अमृत हें नित्य        हे भाशेनु उपासती ।*
*म्हाका स्मरूनु श्रद्धेनु    भौ मोगा भक्त ते म्हजे ॥२०॥*

पुणून म्हाका जोडचेली व्हडली वस्तू लेखून जे श्रद्धावंत मनीस हें वयर सांगिल्लें धर्मअमृत सेवतात, ते भक्त म्हजे चड अपुर्बायेचे. २०

*अ.अ.:* **तु** = पुणून; **श्रद्धधानाः** = श्रद्धावंत मनीस; **मत्पराः** = म्हाका जोडचेली व्हड वस्तू मानून; **इदं यथा उक्तम्** = हें वयर सांगिल्लें; **धर्म्यामृतम्** = धर्म अमृत; **पर्युपासते** = सेवन करतात; **ते भक्ताः मे अतीव प्रियाः** = ते भक्त म्हजे चडूच अपुर्बायेचे. २०

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भभगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **भक्तियोगो** नाम **द्वादशो**ऽध्याय: ।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**भक्तीयोग** नांवाचो **बारावो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. श्रद्धधाना: = श्रद्धा आशिल्ले. अणभव येवचे पयलीं आत्म्याक श्रद्धा आसची पडटा, जिचे वांगडा मन आनी जिवीत हांची मान्यताय आसता. अणभव मेळिल्ल्यांक हो दिश्टीचो विशय, हेरांक श्रद्धेचो; एक उलो (आपोवणो) वा एक सक्ती (जबरदस्ती).

जेन्ना सगल्या जिनसांत आमी एक आत्मो पळेतात, तेन्ना चित्ताची समताय, सुवार्थी वान्शेंतल्यान मेकळीक, आमच्या पुराय निजाचें आत्म्याठांय आत्मसमर्पण आनी सगल्यांविशीं मोग निर्माण जाता. हे गूण परगट्टकूच आमची भक्ती परिपूर्ण जाता आनी आमी परमात्म्याचेच खाशेले मनीस जातात. आमचें जिवीत तेदोळा आकर्शण आनी वीट हांच्यो शक्ती, इश्टागत आनी वैर, सूख आनी दुख्ख हांणी प्रेरीत जायनासतना आमी आमकां परमात्म्या ठांय ओंपचें ही एकूच इत्सा आसता आनी परमात्म्याठांय आमकां ओंपप म्हळ्यारूच संवसाराची सेवा करप, जो संवसार भगवंताचेशीं एकरूप आसा+ (राधाकृष्णन).

\+ तुलसीदासाच्या शब्दांत:
''आगा प्रभू, म्हजेर कृपा कर, म्हणजे
हांव जें सगलें बरें आनी निर्मळ आसा
ताचे फाटसून वचन;
हांव साद्या वस्तूंत तुश्ट जायन;
म्हजे वांगडी म्हजें साधन न्हय तर साध्य जावं;
आनी मनान, वाणीन आनी कर्मान तांची हांव सेवा करीन;
केन्नाच द्वेश आनी लज करपी उतर म्हजे तोंडसून भायर सरचेंना;
सगल्या सुवार्थाचो आनी घमेंडिचो हांव त्याग करीन;
दुसऱ्यांक निंदुचोंना;
मन शांत राखीन: हुस्क्या मेकळो जायन आनी सुखांत वा दुख्खांत तुजेकडसून पयस वचचोंना;
म्हजीं पावलां हेच वाटेवयल्यान व्हर, आनी तीं हेच वाटेचेर घट्ट दवर;
फकत हेच वाटेन हांव तुका प्रसन्न करीन आनी तुजी सारकी सेवा करूंक पावन.
(From: Songs from Prison, 1934, M.K. Gandhi, pp. 52.)



# क्षेत्रक्षेत्रज्ञयोग

कूड (क्षेत्र) आनी जिवात्मो (पुरूष) वा क्षेत्रज्ञ हांचें कार्य आनी ताचो ईश्वराकडेन संबंध, ब्रह्म आनी ईश्वर हांचें दोट्टी - निर्गूण आनी सगूण - स्वरूप, ज्ञान आनी ज्ञानी हांचीं लक्षणां, समतेचे दिश्टीचें म्हत्व हे ह्या अध्यायाचे विशय.

सातव्या अध्यायांत ज्ञान विज्ञाना विशीं म्हायती सांगपाक आरंभ केल्लो. ईश्वराचें पुराय ज्ञान जावपाक मनशाची कूड (क्षेत्र) आनी जिवात्मो (क्षेत्रज्ञ) हांचोय विचार गरजेचो. सातव्या अध्यायाच्या चवथ्या श्लोकांत अपरा म्हळ्यार जड सृश्टी इतलेंच सांगिल्लें. पुणून वेगळ्या वेगळ्या सृश्ट पदार्थांत विविधताय खंयच्या कारणाक लागून आयली हें विस्तारान सांगूंक नासलें. सगल्या सृश्ट पदार्थां फाटल्यान ईशतत्त्व (परब्रह्म) आसून, मनशान ताची उपासना भावार्थान करची इतलेंच सुचयल्लें. ईश्वराक जोडचेल्या सगल्या मार्गांत भक्तीमार्ग सगल्यांत सोंपो. ह्या मार्गान परमेश्वराची उपासना केल्यार मनीस ताका वचून मेळटा अशें ७ ते १२ ह्या अध्यायांत सांगिल्लें. आतां तेराव्या अध्यायापासून कूड (देह), जगत् (संवसार) आनी परमात्मो हांचे उत्पत्तीचे आनी परस्पर संबंधांचें जें तत्त्वीक विवेचन वेगळ्या वेगळ्या उपनिषदांनी केलां, ताच्या आधारान बादरायणान अद्वैत तत्त्वज्ञान मांडलां. पंचम्हाभुतादी चोवीस तत्त्वांची कूड (देह) घडल्या आनी तातूंत परमात्मो आत्मरुपान रावता. कुडी कडसून जावपी सगलीं कर्मां तो पळेता आनी त्या कर्मांचें फळ म्हणून तो कुडीवांगडा सूख-दुख्ख भोगता. अशे तरेन तो देखपी (द्रश्टो) आनी भोगपी (भोक्तो) आसा पूण कर्तो मात न्हय. कित्याक, कुडीकडसून जावपी कर्मां प्रकृती कडसून कुडीक मेळिल्ल्या सत्त्वादी गुणां प्रमाण जातात; म्हळ्यार एके भाशेन प्रकृतीच कुडी कडसून कर्मां करून घेता, आत्मो न्हय. आत्म्याचें हें अलिप्त आनी शुद्ध स्वरूप वळखून ते भाशेन आपलें आचरण दवरप हेंच ज्ञान.

क्षेत्र (कूड) कित्याची घडल्या आनी तिच्यांत विकार (बदल) कशे जातात हें पयल्या स श्लोकांत सांगलां. कूड म्हळ्यार पांच म्हाभुतां, अहंकार. बुद्दी, (अव्यक्त) प्रकृती, धा इंद्रियां, मन, पांच विशय, इत्सा, दुस्वास, सूख, दुख्ख, कूड आनी इंद्रियां हांचो मेळ (संघात), चेतना आनी धृती (मनाचो धीर) हांचो समुदाय.

मुखार ज्ञानाचें लक्षण सांगलां (७-११). करमेल्लें ज्ञान मनशाच्या आचार विचारांत आनी जिणेंत दिसल्यारूच तें खरें (१२-१८). आतां पर्थून हांगा सांख्यांच्या प्रकृती-पुरुषाचो विचार जाता. प्रकृती (क्षेत्र), पुरुष (जिवात्मो), जिवात्म्याचें रूप आनी कार्य, तांचे परस्पर संबंध सांगल्यात. मनशाचे सगळे विकार आनी गूण प्रकृती पासून जातात आनी पुरूष प्रकृतींत रावन सूख-दुख्खां भोगता (१९-२३). फुडें २४ ते ३० ह्या श्लोकांत आत्मदर्शनाची वा आत्मज्ञानाची साधनां आनी लक्षणां सांगल्यांत. कुडींत रावतल्या परमात्म्याक कोण ध्यानान, कोण सांख्य योगान, कोण कर्म योगान वळखतात (२४) वा दुसरे कोण ताका अणभवी गुरून सांगिल्ले प्रमाण वागून भजून मुक्त जातात (२५). अविनाशी आत्म्याक गूण आनी मूळ नाशिल्ल्यान तो कुडींत रावनूय कसलेंच कर्म करिना आनी ताका कर्माचो लेपूय (बंधन) लागना. अंतीं ३१ ते ३४ ह्या श्लोकांत वेदान्त-सूत्र सांगलां. कूड, आत्मो आनी परमात्मो हांचे संबंद सांगल्यात. शेतकामती (क्षेत्रज्ञ वा जिवात्मो) कुडीचें शेत (क्षेत्र) उजवाडायता आनी जे क्षेत्र आनी क्षेत्रज्ञ हांकां वळखतात ते ज्ञानाच्या दोळ्यांनी पळेतात आनी ब्रह्मपद जोडटात.

## त्रयोदशोऽध्याय:

श्री भगवान उवाच

**इदं शरीरं कौन्तेय क्षेत्रमित्यभिधीयते ।**
**एतद्यो वेत्ति तं प्राहु: क्षेत्रज्ञ इति तद्विद: ।।१।।**

भगवंतान म्हळें

कुडीचें स्वरूप, घटक आनी विकार

*गिन्यानी क्षेत्र म्हणटात अर्जुना हे कुडीक गा ।*
*म्हणटी क्षेत्रज्ञ गा ताका जाणी हें क्षेत्र जो अशें ।।१।।*

भगवंतान म्हळें: आगा अर्जुना, हे कुडीक क्षेत्र (शेत) अशें म्हणटात. हाका जो वळखता, ताका क्षेत्रज्ञ (शेतकामती). ताचें तत्त्व जाणपी ज्ञानी लोक अशें म्हणटात. १

*अन्वय -अर्थ:* **कौन्तेय** = आगा अर्जुना; **इदं शरीरं क्षेत्रं इति अभिधीयते** = हे कुडीक क्षेत्र (शेत) अशें म्हणटात; **एतत्** = हाका; **य: वेत्ति** = जो वळखता; **तं क्षेत्रज्ञ:** = ताका शेतकामती (क्षेत्रज्ञ); **इति** = अशें; **तद्विद: प्राहु:** = ताचें तत्त्व जाणटेले ज्ञानी लोक अशें म्हणटात. १

**क्षेत्रज्ञं चापि मां विद्धि सर्वक्षेत्रेषु भारत ।**
**क्षेत्रक्षेत्रज्ञयोर्ज्ञानं यत्तज्ज्ञानं मतं मम ।।२।।**

*सर्व क्षेत्रांमदीं पार्था क्षेत्रज्ञ जाण हांवुचू ।*
*क्षेत्र-क्षेत्रज्ञ गिन्यान तें खरें ज्ञान मानि हांव ।।२।।*

आनी अर्जुना, सगल्या क्षेत्रांभितर क्षेत्रज्ञ (जिवात्मो) म्हाकाच समज. क्षेत्र आनी क्षेत्रज्ञ हांचें जें ज्ञान तेंच खरें ज्ञान हें म्हजें मत. २

*अ. अ.:* **च भारत** = आनी आगा अर्जुना; **सर्वक्षेत्रेषु** = सगल्या क्षेत्रां भितर; **क्षेत्रज्ञं अपि मां विद्धि** = शेतकामतीय (जिवात्मो) म्हाकाच समज; **क्षेत्रक्षेत्रज्ञयो:** = क्षेत्र आनी क्षेत्रज्ञ (शेत आनी शेतकामती म्ह. प्रकृती आनी पुरूष); **यत् ज्ञानं तत् ज्ञानम्** = हांचें जें ज्ञान तेंच (खरें) ज्ञान; (**इति** = अशें); **मम मतम्** = अशें म्हजें मत. २

**तत्क्षेत्रं यच्च यादृक्च यद्विकारि यतश्च यत् ।**
**स च यो यत्प्रभावश्च तत्समासेन मे श्रृणु ।।३।।**

*कितें तें क्षेत्र, तें कसलें बदल थैं कशे घडऽ ।*
*कोण् तो, शक्त कितें ताची सारांशान आयक अर्जुना ।।३।।*

तें क्षेत्र कितें आनी तें कसले तरेचें, तातूंत कसले तरेचे बदल (विकार) जातात, ते कित्यापसून जातात, तशेंच तोय क्षेत्रज्ञ कोण आनी ताचो प्रभाव (शक्त) कितें, तें सारांशान म्हजे कडसून आयक. ३

*अ. अ.:* **तत् क्षेत्रं यत्** = तें क्षेत्र जें (कितें) आसा; **च यादृक्** = आनी तें कसले तरेचें; **च** = तशेंच; **यद्विकारि** = तातूंत कसले तरेचे बदल जातात; **च यत: यत्** = आनी ते कित्या पसून जातात; **च स: च य:** = तशेच तोय **(क्षेत्रज्ञ)** जो कोण आसा; (आनी) **यत् प्रभाव:** = ताची शक्त कितें; **तत् समासेन मे श्रृणु** = तें सारांशान म्हजे कडसून आयक. ३

**ऋषिभिर्बहुधा गीतं छन्दोभिर्विविधै: पृथक् ।**
**ब्रह्मसूत्रपदैश्चैव हेतुमद्भिर्विनिश्चितै: ।।४।।**

*रुशींनी भोव मंत्रांनी गायिलां हें परोपरी ।*
*वर्णिलां ब्रह्मसूत्रांनी प्रमाणानी सुनिश्चित ।।४।।*

हें क्षेत्र क्षेत्रज्ञ ज्ञान रुशींनी, भोव तरांनी आनी तरेक तरा छंदांनी हेतू दाखोवन तर्कशुद्ध आनी पुराय पणान निश्चीत केल्ल्या ब्रह्मसुत्रांतल्या पदांनीय हें गायलां. ४

*अ. अ.:* (हें क्षेत्र-क्षेत्रज्ञ ज्ञान) **ऋषिभि:** = रुशिंनी; **बहुधा पृथक्** = भोव तरांनी; **विविधै: छन्दोभि:** = तरेकतरा छंदांनी (वेदमंत्रांनी); **च** = तशेंच; **हेतुमद्भि:** = हेतू दाखोवन (तर्कशुद्ध (सप्रमाण)); **विनिश्चितै:** = पुरायपणान निश्चीत केल्ल्या; **ब्रह्मसूत्रपदै: एव** = ब्रह्मसुत्रांतल्या पदांनीय; **गीतम्** = (हो विशय) गायला. ४

महाभूतान्यहंकारो बुद्धिरव्यक्तमेव च ।
इन्द्रियाणि दशैकं च पञ्च चेन्द्रियगोचराः ॥५॥

इच्छा द्वेषः सुखं दुःखं संघातश्चेतना घृति : ।
एतत्क्षेत्रं समासेन सविकारमुदाहृतम् ॥६॥

*पांच भुतां अहंकार बुद्दी अव्यक्त मूळ जें ।*
*धा इंद्रियां मनै एक तांगेले पांच भोग बी ॥५॥*

*इत्सा द्वेश सुखां-दुख्खां धीर संघातु चेतना ।*
*विकारासयत हें शेत तुका सारांश सांगिलो ॥६॥*

पांच म्हाभुतां, हंतम (अहंकार), बुद्दी आनी अव्यक्त (प्रकृतीय), धा इंद्रियां एक मन, इंद्रियांचे पांच भोग (विशय), (५) इत्सा, द्वेश, सूख-दुख्ख, संघात, चेतना आनी धीर हें क्षेत्र विकारांसयत संक्षेपान तुका सांगलें. ६

*अ. अ.:* **महाभूतानि** = पांच म्हाभुतां (भूंय, उदक, उजो, वारो, आकाश); **अहंकारः** = अहंकार; **बुद्धिः** = बुद्दी; **च** = आनी; **अव्यक्तम् एव** = अव्यक्त प्रकृतीय; **च्** = तशींच; **दश इन्द्रियाणि** = धा इंद्रियां (पांच ज्ञानेंद्रियां आनी पांच कर्मेंद्रियां); **एकम्** = एक मन; **च पञ्च इन्द्रिय गोचराः** = आनी इंद्रियांचे पांच भोग (विशय) म्ह. शब्द (नाद). स्पर्श (तेंकप), रूप, रस (सुवाद) आनी गंध (वास). ५

**इच्छा** = इत्सा; **द्वेष** = द्वेश (वीट); **सुखं दुःखम्** = सूख, दुख्ख (आनी) **संघातः** = कूड आनी इंद्रियां हांचो मेळ; **चेतना** = चेतना (जाणवीक); **धृतिः** = मनाचो धीर; **एतत् क्षेत्रं सविकारम्** = हें क्षेत्र विकारांसयत; **समासेन** = संक्षेपान (तुका) **उदाहृतम्** = सांगलें. ६

अमानित्वमदम्भित्वमहिंसा क्षान्तिरार्जवम् ।
आचार्योपासनं शौचं स्थैर्यमात्मविनिग्रहः ॥७॥

इन्द्रियार्थेषु वैराग्यमनहंकार एव च ।
जन्ममृत्युजराव्याधिदुःखदोषानुदर्शनम् ॥८॥

असक्तिरनभिष्वङ्गः पुत्रदारगृहादिषु ।
नित्यं च समचित्तत्वमिष्टानिष्टोपपत्तिषु ॥९॥

मयि चानन्ययोगेन भक्तिरव्यभिचारिणी ।
विविक्तदेशसेवित्वमरतिर्जनसंसदि ॥१०॥

*दंभ नासप, नमळायु अहिंसा उजुताय क्षमा ।*
*निर्मळकायु गुरू सेवा थिरताय आत्मसंयम ॥७॥*

*अहंकाराविणें चित्त वैराग्य विशयांतुलें ।*
*जल्म मर्ण जरा पीडेंत् दुख्ख दोश सदीं पळे ॥८॥*

*निर्मम वृत्ति, ना ओड-  बायले-पुता-घराविशीं ।*
*बरें नी वायट तो भोगी  चित्त राखून सदीं सम ॥९॥*

*भक्ती म्हजीच ना हेरां  रावता निर्मळ एकट्को ।*
*एकान्त आवडिचो ताचे  नाका लोकांचि संगत ॥१०॥*

बडाय नासप, दंभ नासप, अहिंसा, सोंसणिकाय, उजूपण, गुरूसेवा, निर्मळकाय, बुद्दीची थिरताय आनी आत्मसंयम (मनाचो निश्चय) (७); विशयांची विरक्ती, अहंकारय नासप, जल्म, मर्ण, जरा (म्हातारपण), पिडा (रोग) आनी दुख्ख हातुंतले दोश सदांच पळोवप (चिंतप) (८); बायल, पूत, घर हांची ओड नासप, ममत्व (म्हजेंपण) नासप, बरें वायट आयल्यार चित्त सदांकाळ सम राखप (९); हेर कित्याची भक्ती करिनासतना म्हजी एकल्याचीच भक्ती (करप), एकले एकसुरे सुवातेर रावप, लोकांचे भुरावळींत रावपाची आवड नासप (१०).

*अ. अ.:* **अमानित्वम्** = बडाय नासप (नमळाय); **अदम्भित्वम्** = दंभ नासप; **अहिंसा** = दुसऱ्यांक पिडपाची वृत्ती नासप; **क्षान्तिः** = सोंसणिकाय (क्षमाशिलताय); **आर्जवम्** = उजूपण (कपट नासप); **आचार्योपासनम्** = गुरूसेवा; **शौचम्** = भायली आनी भितरली शुद्धी; **स्थैर्यम्** = बुद्दीची थिरताय; **आत्मविनिग्रहः** = मन आळाबंदा हाडप (७); **इन्द्रियार्थेषु वैराग्यम्** = विशयांची विरक्ती; **च अनहंकार एव** = आनी अहंकार नासप; **जन्म मृत्यु जरा व्याधि** = जल्म, मर्ण, म्हातारपण, पिडा (हातुंतले); **दुःख दोष अनुदर्शनम्** = दुख्ख आनी दोश सदांच पळोवप (चिंतप) (८); **पुत्रदारगृहादिषु असक्तिः** = पूत, बायल, घरदार हांची ओड नासप; **अनभिष्वङ्ग** = म्हजेपणाची भावना नासप; **च** = तशेंच; **इष्टानिष्टोपपत्तिषु** = इश्ट आनी अनिश्ट (बरें वा वायट) आयल्यार; **नित्यं समचित्तत्त्वम्** = चित्त सदां थीर सम राखप (९); **च** = आनी; **अनन्ययोगेन** = हेर कित्याचेर मन लायनासतना; **मयि अव्यभिचारिणी भक्तिः** = म्हजी एकल्याचीच भक्ती करप; **विविक्तदेशसेवित्वम्** = एकले एकसुरे सुवातेर रावप; **जनसंसदि अरतिः** = (विशयासक्त) लोकांचे भुरावळींत रावपाची आवड नासप (१०).

**अध्यात्मज्ञाननित्यत्वं तत्त्वज्ञानार्थदर्शनम् ।**
**एतज्ज्ञानमिति प्रोक्तमज्ञानं यदतोऽन्यथा ॥११॥**

*थीर सदींच आध्यात्मीं  तत्त्वज्ञानार्थ सोदप ।*
*ज्ञान म्हणटातु हांकांच  हेर अज्ञान हे विणे ॥११॥*

आध्यात्मांत सदीं थीर आसप, तत्त्वज्ञानाचें फळ मोक्ष आसा हें समजप म्हळ्यार ज्ञान आनी हाचे उरफाटें तें अज्ञान अशें म्हणटात. ११

*अ. अ.:* **अध्यात्मज्ञाननित्यत्वम्** = आत्म्याविशींच्या ज्ञानांत सदींच थीर आसप (जिवात्मो आनी परमात्मो एक म्हणपाचें थीर गिन्यान आसप); **तत्त्वज्ञानार्थदर्शनम्** = तत्त्वज्ञानाचें फळ मोक्ष आसा हें समजप; **एतत् ज्ञानम्** = हें सगलें ज्ञान; **यत् अतः अन्यथा** = जें हाचे उरफाटें (तत् = तें); **अज्ञानम् इति प्रोक्तम्** = तें अज्ञान अशें म्हणटात. ११

ज्ञेयं यत्तत्प्रवक्ष्यामि यज्ज्ञात्वामृतमश्नुते ।
अनादिमत्परं ब्रह्म न सत्तन्नासदुच्यते ॥१२॥

परब्रह्म - ब्रह्म वा परमात्मो - निर्गूण आनी सगूण रूप

*जें जाणचेलें तुका सांगतां मेळऽ अमृत जाणुनू ।*
*अनादी जें परब्रह्म सत् असत् म्हणनात तें ॥१२॥*

जें समजतकीच शाश्वत जिवीत (मोक्ष) मेळटा ती जाण जावंचेली वस्तू (ज्ञेय), ती तुका हांव बरे भाशेन सांगतां. मूळ नाशिल्लें परमब्रह्म तीच ती सुवात. ताका सत् (आशिल्लें) म्हणपाक येना वा असत् (नाशिल्लेंय) म्हणपाक येना. १२

*अ. अ.:* **यत्ज्ञात्वा** = जें समजतकीच; **अमृतम् अश्नुते** = शाश्वत जिवीत (मोक्ष) मेळटा: **यत् ज्ञेयम्** = तें ज्ञेय (ती जाण जावचेली वस्तू): **तत् प्रवक्ष्यामि** = ती तुका हांव बरे भाशेन सांगतां; **अनादिमत् परं तत्** = मूळ नाशिल्लें परमब्रह्म तीच ती सुवात; **न सत् (उच्यते)** = ताका सत् (आशिल्लें) म्हणपाक येना (वा) **न असत् उच्यते** = असतूय (नाशिल्लेंय) म्हणपाक येना. १२

सर्वत:पाणिपादं तत्सर्वतोऽक्षिशिरोमुखम् ।
सर्वत:श्रुतिमल्लोके सर्वमावृत्य तिष्ठति ॥१३॥

*सर्व वशीनु गा ताका हात पांय शिरां मुखां ।*
*दोळे कानूयु सर्वत्र रावलां व्यापूनु सर्व गा ॥१३॥*

ताका सगले वशीन हात पांय आसात; सगले वशीन दोळे, तकल्यो आनी तोंडां आसात; ताका सगले वशीन कान आसून. तें ह्या विश्वांत सगल्यांक व्यापून रावलां. १३

*अ. अ.:* **तत्** = ताका; **सर्वत:पाणिपादम्** = सगले वशीन हात पांय आसात; **सर्वतोऽक्षिशिरोमुखम्** = (ताका) सगले वशीन दोळे, तकल्यो आनी तोंडां आसात; **सर्वत: श्रुतिमत् (अस्ति)** = (ताका) सगले वशीन कान आसून; (तें) **लोके समावृत्य तिष्ठति** = (ह्या) विश्वांत सगल्यांक व्यापून रावलां. १३

सर्वेन्द्रियगुणाभासं सर्वेन्द्रियविवर्जितम् ।
असक्तं सर्वभृच्चैव निर्गुणं गुणभोक्तृ च ॥१४॥

*इंद्रियां नास्तना ताका तांगेले गूण भासयी ।*
*पोशी ओडीविणें सर्वां भोगी गूण गुणाविणें ॥१४॥*

तांचे भितर सगल्यां इंद्रियांचे गूण आशिल्ले वरी दिसतात; पूण ताका (ब्रह्मतत्त्वाक) कसलींच इंद्रियां नात तशेंच तें अनासक्त आसून सगल्या जिवांक पोसता. निर्गूण आसूनय गूण भोगता.

*अ. अ.:* **सर्वेन्द्रियगुणाभासं** = (ताचे भितर) सगल्या इंद्रियांचे गूण आशिल्ले वरी दिसतात; **सर्वेन्द्रियविजर्जितम्** = (पूण ताका) ब्रह्मतत्त्वाक कसलींच इंद्रियां नात; **च असक्तम्** = आनी (तें) अनासक्त आसून; **सर्वभृत्** = सगल्यांचो भार घेता (पोसता); **निर्गुणं एव** = (तें) निर्गूण आसुनूय; **गुणभोक्तृ** = गूण भोगता. १४

**बहिरन्तश्च भूतानामचरं चरमेव च ।**
**सूक्ष्मत्वात्तदविज्ञेयं दूरस्थं चान्तिके च तत् ।।१५।।**

*भायर भितूर जिवांच्या लागीं नि पयस तेंच गा ।*
*तें चराचर सुक्षीम गमना इंद्रियांकु तें ।।१५।।*

तें (ब्रह्मतत्त्व) सुक्षीम आशिल्ल्यान इंद्रियांक कळना. सगल्या जिवांचे लागीं आनी पयस तेंच. तें जिवांचे भायर आनी भितर आसा आनी तें चर आनी अचरय आसा. १५

*अ. अ.:* **तत् सूक्ष्मत्वात् अविज्ञेयम्** = तें सुक्षीम आशिल्ल्यान (इंद्रियांक) कळना; **च अन्तिके च दूरस्थम् तत्** = आनी सगल्या जिवांचे लागीं आनी पयस तेंच; **भूतानां बहि: अन्त:** = तें जिवांचे भायर आनी भितर आसा; **च चरम्** = आनी तें चर (हालतलें) (आनी) **अचरम् एव** = अचर (हालना जाल्लेंय) आसा. १५

**अविभक्तं च भूतेषु विभक्तमिव च स्थितम् ।**
**भूतभर्तृ च तज्ज्ञेयं ग्रसिष्णु प्रभविष्णु च ।।१६।।**

*दिसऽ अखंड आसूनय जिवांत वांटिल्ले वरी ।*
*दिता जल्म जिवां पोशी समजुचें तेंच ग्रासपी ।।१६।।*

आनी तें ज्ञेय (जाणचेली वस्तु) अखंड आसून सगल्या जिवांत वेगळें वेगळें आसाशें दिसता. तें सगल्या जिवावळीक पोसता, तिचो सांवार करता आनी तिका जल्माक घालता अशें समजुचें. १६

*अ. अ.:* **च अविभक्तम्** = आनी ती जाणचेली वस्तु अखंड (तिचे वेगळे वेगळे वांटे जावंक नात) आसून; **च भूतेषु विभक्तम् इव स्थितम्** = जिवांभितर वेगळें वेगळें वांटिल्ले वरी रावलां; **तत् भूतभर्तृ** = तीच जिवावळीक पोसता; **च ग्रसिष्णु** = तिचो सांवार करता; **च प्रभविष्णु** = तिका जल्माक घालता; **ज्ञेयम्** = अशें समजुचें. १६

**ज्योतिषामपि तज्ज्योतिस्तमस: परमुच्यते ।**
**ज्ञानं ज्ञेयं ज्ञानगम्यं हृदि सर्वस्य विष्ठितम् ।।१७।।**

*तेजापरसय तेजाळ तमा पेल्यानु तें म्हळां ।*
*ज्ञानाचें ज्ञान तें ज्ञेय सर्वांच्या अंतरांतु तें ।।१७।।*

तें (ब्रह्म) जोतिंचीय जोत आनी अज्ञानाचेय पेल्यानचें म्हणटात. तें ज्ञान (जाणवीक), ज्ञेय (जाणचेली वस्तू) आनी जाणविकेन कळचेलें तेंच आसून, सगल्यांच्या काळजांत तेंच वसलां. १७

*अ. अ.:* **तत्** = तें ब्रह्म; **ज्योतिषाम् अपि ज्योति:** = जोतिंचीय जोत; (तशेंच) **तमस: परम् उच्यते** = अज्ञानाचेय (मायेचेय) पेल्यानचें म्हणटात; **ज्ञानम्** = तें ज्ञान (जाणवीक); **ज्ञेयम्** = जाणचेली वस्तू; **ज्ञानगम्यम्** = जाणविकेन कळचेलें आसा (आनी) **सर्वस्य हृदि विष्ठितम्** = सगल्यांच्या काळजांत रावता. १७

इति क्षेत्रं तथा ज्ञानं ज्ञेयं चोक्तं समासत : ।
मद्भक्त एतद्विज्ञाय मद्भावायोपपद्यते ।।१८।।

*सारांशान वर्णिलें क्षेत्र ज्ञान नी ज्ञेय बी तशें ।*
*हें कळून म्हजो भक्त म्हज्या रुपांतु मेळ तो ।।१८।।*

हे भाशेन, क्षेत्र, ज्ञान, ज्ञेय हीं सारांशान हांवें सांगलीं. हें सारकें समजतकीच म्हजो भक्त म्हज्या रुपांत मेळूंक फावसो जाता. १८

*अ. अ.:* **इति क्षेत्रं तथा ज्ञानं च ज्ञेयं समासतः उक्तम्** = हे भाशेन, क्षेत्र, ज्ञान आनी ज्ञेय (जाण-जावंचेली वस्तू) हीं सारांशान हांवें सांगलीं; **एतत विज्ञाय** = हें बरें समजतकीच; **मद्भक्तः** = म्हजो भक्त; **मद्भावाय** = म्हज्या रुपांत; **उपपद्यते** = मेळूंक फावोसो जाता. १८

प्रकृतिं पुरुषं चैव विद्ध्यनादी उभावपि ।
विकारांश्च गुणांश्चैव विद्धि प्रकृतिसम्भवान् ।।१९।।

प्रकृती आनी पुरूष

*पुरूष प्रकृती दोनूय मुळां विरयत जाण तूं ।*
*जातात प्रकृती पासून् विकार गूण सर्व तीं ।।१९।।*

प्रकृती आनी पुरूष (जिवात्मो) हीं दोनूय मूळ नाशिल्लीं अशें तूं समज. मोग, द्वेश आदी विकार तशेंच सत्त्वादी गुणय प्रकृती पासुनूच जातात अशें तूं समज. १९

*अ. अ.:* **प्रकृतिं च पुरुषम् उभौ एव अनादि विद्धि** = प्रकृती आनी पुरूष (जिवात्मो) हीं दोनूय मूळ नाशिल्लीं समज; **च विकारान्** = आनी (मोग-द्वेश हे) विकार; **च** = तशेंच; **गुणान् अपि** = (सत्त्वादी) गुणय; **प्रकृतिसंभवान् एव विद्धि** = प्रकृती पासुनूच जातात अशें तूं समज. १९

कार्यकारणकर्तृत्वे हेतुः प्रकृतिरुच्यते ।
पुरुषः सुखदुःखानां भोक्तृत्वे हेतुरुच्यते ।।२०।।

*इंद्रियां कुडि कर्तुत्वाक म्हळ्या प्रकृति कारण ।*
*भोगाकु सूख दुख्खाच्या म्हळा पुरूष कारण ।।२०।।*

कूड (कार्य) आनी इंद्रियां (करण) हांगेल्या कर्तुत्वाक प्रकृती कारण म्हणटात. (कर्तो नासुनूय) जिवात्मो सुखदुख्खांच्या भोगपाक (अणभवाक) कारण अशें म्हणटात. २०

*अ. अ.:* **कार्यकारणकर्तृत्वे** = कूड (कार्य) आनी इंद्रियां (करण) हांगेल्या कर्तुत्वाक; **हेतुः** = **प्रकृतिः उच्यते** = कारण प्रकृति म्हणटात; (कर्तो नासुनूय) **पुरुषः** = जिवात्मो; **सुखदुःखानाम्** = सुखदुख्खाच्या; **भोक्तृत्वे** = भोगपाक; **हेतुः उच्यते** = कारण अशें म्हणटात. २०

पुरुष: प्रकृतिस्थो हि भुङ्क्ते प्रकृतिजान्गुणान् ।
कारणं गुणसंङ्गोऽस्य सदसद्योनिजन्मसु ॥२१॥

*प्रकृतीच्या गुणा भोगी पुरुष प्रकृतींतुलो ।*
*त्याच गुणांकु लागून ताका जल्म शुभाशुभ ॥२१॥*

कित्याक, प्रकृतींत थारावल्लो पुरूष (जिवात्मो) प्रकृती पासून जल्मल्ल्या गुणांक भोगता आनी गुणांचो मेळ (संयोग) पुरुषाक बऱ्या वायट कुसव्यांत (योनींत) जल्म घेवपाक कारण जाता. २१

*अ. अ.:* **हि** = कित्याक; **प्रकृतिस्थ:** = प्रकृतींत थारावल्लो पुरूष (जिवात्मो); **प्रकृतिजान्** = प्रकृतीपासून जल्मल्ल्या; **गुणान्** = (सत्त्वादी) गुणांक; **भुङ्क्ते** = भोगता; (आनी) (प्रकृतीच्या) **गुणसङ्ग:**= गुणांचो मेळ (संयोग); **अस्य** = ह्या जिवात्म्याक (पुरुषाक); **सदसद्योनिजन्मसु कारणम्** = बऱ्या वायट कुसव्यांत जल्म घेवपाक कारण जाता. २१

उपद्रष्टानुमन्ता च भर्ता भोक्ता महेश्वर : ।
परमात्मेति चाप्युक्तो देहेऽस्मिन्पुरुष: पर: ॥२२॥

*साक्षी तो दितुलो तेंको पोसपी भोगपी महेश्वर ।*
*कुडींतु परमात्मो तो म्हळा तो पुरुषोत्तम ॥२२॥*

हे कुडींत आत्मो व्हड आसून तो साक्षी, आदार दिवपी, कुडीक पोसतलो, सुख-दुख्खाक भोगतलो आनी धनी जावन आसा ताका परमात्मोय अशें म्हणटात. २२

*अ. अ.:* **अस्मिन् देहे** = हे कुडींत; **पुरुष: पर:** = आत्मो व्हड आसून (तो) **उपद्रष्टा** = साक्षी (सरशीं रावन पळेतलो); **च अनुमन्ता** = आनी आदार दिवपी; **भर्ता** = कुडीक पोसतलो; **भोक्ता** = सुखदुख्खांक भोगतलो; **महेश्वर:** = व्हडलो धनी जावन आसा; **च** = आनी (ताका) **परमात्मा इति अपि उक्त:** = परमात्मो अशेंय म्हणटात. २२

य एवं वेत्ति पुरुषं प्रकृतिं च गुणै: सह ।
सर्वथा वर्तमानोऽपि न स भूयोऽभिजायते ॥२३॥

*पुरुषाकु खरो जाणी प्रकृतीकु गुणांसवें ।*
*संवसारू करुनूय पार्था घेना पर्थून जल्म तो ॥२३॥*

हे भाशेन पुरुषाक (आत्म्याक) आनी गुणांचे सयत प्रकृतीक वळखता, तो सगलो कर्मां करुनूय पर्थून जल्म घेना. २३

*अ. अ.:* **एवं पुरुषम्** = हे भाशेन पुरुषाक; **च गुणै:सहप्रकृतिम्** = गुणांचे सयत प्रकृतीक (निजाक); **य: वेत्ति** = जो वळखता; **स: सर्वथा वर्तमान: अपि** = तो सगलीं कर्मां करुनूय; **भूय: न अभिजायते** = पर्थून जल्म घेना. २३

ध्यानेनात्मनि पश्यन्ति केचिदात्मानमात्मना ।
अन्ये सांख्येन योगेन कर्मयोगेन चापरे ॥२४॥

आत्मज्ञानाचीं साधनां आनी लक्षणां

*देखी ध्यानानु गा कांयु आत्म्याकु आपुणांमदीं ।*
*पळे कांय सांख्य योगानु कर्मयोगानु हेरू कांय् ॥२४॥*

कांय लोक ह्या आत्म्याक ध्यानान (मन थारावन) अंतस्कर्णांत (आपले भितर) शुद्ध चित्तान पळेतात. दुसरे कांय जाण सांख्यांच्या ज्ञानमार्गान पळेतात. आनी हेर कांय जाण (फळाची ओड सोडून करचेल्या कर्मयोगान आत्म्याक पळेतात). २४

*अ. अ.:* **केचित्** = कांय लोक; **आत्मानम्** = आत्म्याक; **ध्यानेन** = ध्यानान (मन थारावन); **आत्मनि** = अंतस्कर्णांत (आपले भितर); **आत्मना** = शुद्ध चित्तान; **पश्यन्ति** = पळेतात. **अन्ये सांख्येन योगेन** = दुसरे कांय जाण सांख्यांच्या ज्ञानमार्गान (आत्म्याक) पळेतात; **च अपरे** = आनी हेर कांय जाण; **कर्मयोगेन** = (फळाची ओड सोडून करचेल्या कर्मयोगान (आत्म्याक) पळेतात. २४

अन्ये त्वेवमजानन्तः श्रुत्वान्येभ्य उपासते ।
तेऽपि चातितरन्त्येव मृत्युं श्रुतिपरायणाः ॥२५॥

*कांय नेण्टे गुरूपासूनु गा आयकूनु उपासती ।*
*मानी प्रमाण आयकूनु मर्णा पेल्यान् वतात ते ॥२५॥*

दुसरे कांय नेणार लोक (हे दोनूय योग मार्ग नकळ जाल्ले) दुसऱ्याचें (गुरूचें) आयकून (तांणे सांगिल्ले प्रमाण) उपासना करतात. गुरूची सांगणी प्रमाण मानतलेय मर्णा पलतडीं पावतात (मर्णरुपी संवसार-दर्या पलतडीं पावतात.) २५

*अ. अ.:* **तु** = पुणून; **अन्ये एवम् अजानन्तः** = दुसरे कांय नेणार लोक हे भाशेन (हे दोनूय मार्ग नकळ जाल्ले); **अनेभ्यः श्रुत्वा** = दुसऱ्याचें (गुरूचें) आयकून (आत्म्याची तांणी सांगिल्ले प्रमाण) उपासना करतात; **च** = आनी; **ते** = ते; **श्रुतिपरायणाः अपि** = गुरूची सांगणी प्रमाण मानतलेय; **मृत्युम् अतितरन्ति एव** = मर्ण (रुपी संवसार दर्याक) हुपतात. २५

यावत्संजायते किंचित्सत्त्वं स्थावरजङ्गमम् ।
क्षेत्रक्षेत्रज्ञसंयोगात्तद्विद्धि भरतर्षभ ॥२६॥

*चराचर कसली वस्तु घेता जल्म जगांतु ह्या ।*
*क्षेत्र क्षेत्रज्ञ मेळानु जल्मता जाण अर्जुना ॥२६॥*

आगा अर्जुना, चर आनी अचर, अशी कसलीय वस्तू जी जल्माक येता, ती क्षेत्र आनी क्षेत्रज्ञ हांच्या मेळपान जल्मता अशें तूं समज. २६

*अ. अ.:* **भरतर्षभ** = आगा अर्जुना; **स्थावरजङ्गमम्** = चर आनी अचर (हालतली आनी हालनाशिल्ली); **किंचित्** = कसलीय; **सत्त्वम्** = वस्तू (जिनस); **यावत् संजायते** = जी जल्माक येता; **तत् क्षेत्र-क्षेत्रज्ञ संयोगात् विद्धि** = ती क्षेत्र आनी क्षेत्रज्ञ हांच्या मेळपान जल्माक येता अशें समज. २६

**समं सर्वेषु भूतेषु तिष्ठन्तं परमेश्वरम् ।**
**विनश्यत्स्वविनश्यन्तं य: पश्यति स पश्यति ॥२७॥**

*सर्व नश्वर जीवांतु तो अविनाशि ईश्वर ।*
*पळेता सम दिश्टीनु पळेता तोच गा सम ॥२७॥*

जो मनीस नाशिवंत अश्या सगल्या जिवांठांय अविनाशी परमेश्वराक सारकेपणान राविल्लो पळेता, तोच (सारको) पळेता. २७

*अ. अ.:* **य:** = जो मनीस; **विनश्यत्सु** = नाशिवंत (अश्या) **सर्वेषु भूतेषु** = सगल्यां जिवांठांय; **अविनश्यन्तम्** = अविनाशी; **परमेश्वरम्** = परमेश्वराक; **समं तिष्ठन्तम् पश्यति** = सारकेपणान राविल्लो पळेता; **स: पश्यति** = तोच (सारको) पळेता. २७

**समं पश्यन्हि सर्वत्र समवस्थितमीश्वरम् ।**
**न हिनस्त्यात्मनात्मानं ततो याति परां गतिम् ॥२८॥**

*जो पळे प्रभु सर्वत्र भल्ला सम जगांत ह्या ।*
*घात जो करिना आपलो ताका भौच बरी गती ॥२८॥*

कित्याक, (तो मनीस) सगल्यांचे ठांय सारकोच आशिल्ल्या परमेश्वराक समान पळोवन, आपुणूच आपलो घात करून घेना. ताका लागून तो उत्तम गतीक पावता. २८

*अ. अ.:* **हि** = कित्याक (तो मनीस) **सर्वत्र समव्यवस्थितम् ईश्वरम्** = सगल्यांचे ठांय सारकोच आशिल्ल्या परमेश्वराक; **समं पश्यन्** = समान पळोवन; **आत्मना आत्मानम्** = आपुणूच आपलो; **न हिनस्ति** = घात करून घेना; **तत: परां गतिं याति** = ताका लागून (तो) व्हडले सुवातेर (उत्तम गतीक) पावता. २८

**प्रकृत्यैव च कर्माणि क्रियमाणानि सर्वश: ।**
**य: पश्यति तथात्मानमकर्तारं स पश्यति ॥२९॥**

*प्रकृतीच करता कर्मां सर्व तरेनु धनंजया ।*
*आत्मो तीं करिना केन्ना हें जाणपी जाण्टलो खरो ॥२९॥*

आनी कर्मां सगले तरेन प्रकृती कडसूनच घडटात तसोच आत्मो तीं करिना, अशें जो पळेता (समजता) तोच पळेता (खरो समजता). (पळेयात अ. ३-२८).

*अ. अ.:* **य च: कर्माणि सर्वश: प्रकृत्या एव** = आनी जो मनीस सगले तरेन कर्मां प्रकृती कडसुनूच; **क्रियमाणाणि** = घडटात; **तथा आत्मानम् अकर्तारम्** = तसोच (तीं) आत्मो करिना, (अशें) **पश्यति** = पळेता (समजता); **स: पश्यति** = तोच पळेता (खरो समजता). २९

यदा भूतपृथग्भावमेकस्थमनुपश्यति ।
तत एव च विस्तारं ब्रह्म संपद्यते तदा ॥३०॥

*जिवांचीं तर्तरां रुपां थीर एकल्यांतु जो पळे ।*
*तांतल्यानु ह्या जगा विस्तार् तेन्ना तो ब्रह्म मेळयी ॥३०॥*

जेन्ना सगल्या जिवांचीं वेगळीं वेगळीं रुपां एकल्यांतूच (थीर) आसात आनी त्या एकल्यांतसुनूच संवसाराचो विस्तार जाल्लो पळेता, तेन्ना तो ब्रह्म जोडटा. ३०

*अ. अ.:* **यदा** = जेन्ना; **भूत पृथग्भावम्** = जिवांचीं वेगळीं वेगळीं रुपां; **एकस्थम्** = एकल्यांतूच थीर आसात; **च** = आनी; **ततः एव** = त्याच (परमात्म्या) पासून; **विस्तारम् अनुपश्यति** = ह्या (संवसाराचो) विस्तार जाल्लो पळेता; **तदा ब्रह्म संपद्यते** = तेन्ना तो ब्रह्म जोडटा. ३०

अनादित्वान्निर्गुणत्वात्परमात्मायमव्ययः ।
शरीरस्थोऽपि कौन्तेय न करोति न लिप्यते ॥३१॥

कूड, आत्मो आनी परमात्मो हांचे संबंद

*अनादी निर्गुणी आत्मो देखून तो सनातन ।*
*रावनु कुडींत कर्ना कांय् ताका ना कर्म बंधन ॥३१॥*

अर्जुना, हो अविनाशी परमात्मो अनादी आनी निर्गूण आशिल्ल्यान तो कुडींत रावनूय कांयच करिना आनी ताका कर्माचो लेप (बंधन) लागना. ३१

*अ. अ.:* **कौन्तेय अयम् अव्ययः** = अर्जुना हो अविनाशी; **परमात्मा** = परमात्मो; **अनादित्वात् निर्गुणत्वात्** = अनादी आशिल्ल्यान (आनी) निर्गूण आशिल्ल्यान; **शरीरस्थः अपि न करोति** = कुडींत रावनूय कांय करिना; **न लिप्यते** = (आनी ताका) कर्माचो लेपय लागना. ३१

यथा सर्वगतं सौक्ष्म्यादाकाशं नोपलिप्यते ।
सर्वत्रावस्थितो देहे तथात्मा नोपलिप्यते ॥३२॥

*व्यापी अंत्राळ विश्वाकु पातळ म्हूण म्हेळना ।*
*कुडींतु सर्वत्र आशिल्ल्या आत्म्याकु लेप लागना ॥३२॥*

जे भाशेन, सगळे कडेन व्यापिल्लें अंत्राळ, पातळ आशिल्ल्यान ताका कसलेच वस्तीचो लेप लागना, ते भाशेन, कुडींत सगले कडेन आशिल्लो आत्मो कुडीच्या (बऱ्या वायट गुणांनी) लिप्त जायना. ३२

*अ. अ.:* **यथा सर्वगतम् आकाशं** = जे भाशेन सगलें व्यापिल्लें अंत्राळ; **सौक्ष्म्यात्** = सुक्षीम (पातळ) आशिल्ल्यान; **न उपलिप्यते** = ताका कसलेच वस्तीचो लेप लागना; **तथा देहे सर्वत्र अवस्थितः आत्मा** = ते भाशेन, कुडींत सगले कडेन (भरून) राविल्लो आत्मो (कुडीच्या बऱ्या वायट गुणांनी) लिप्त जायना. ३२

**यथा प्रकाशयत्येक: कृत्स्नं लोकमिमं रवि: ।**
**क्षेत्रं क्षेत्री तथा कृत्स्नं प्रकाशयति भारत ।।३३।।**

*अख्खें विश्व उजवाडायी जे परी सूर्य एकुलो ।*
*उजवाडायी कुडी क्षेत्र क्षेत्रज्ञ एकुलो तसो ।।३३।।*

आगा अर्जुना, जे भाशेन एकटो सूर्य हें सगलें विश्व उजवाडायता, ते भाशेन (एकलो) आत्मो सगली कूड उजवाडायता. ३३

*अ. अ.:* **भारत** = आगा अर्जुना; **यथा एक: रवि: इमम्** = जे भाशेन एकटो सूर्य हें; **कृत्स्नम् = सगलें; लोकम् प्रकाशयति** = विश्व उजवाडायता; **तथा क्षेत्री कृत्स्नं क्षेत्रं प्रकाशयति** = ते भाशेन (एकलो) आत्मो सगली कूड उजवाडायता. ३३

**क्षेत्रक्षेत्रज्ञयोरेवमन्तरं ज्ञानचक्षुषा ।**
**भूतप्रकृतिमोक्षं च ये विदुर्यान्ति ते परम् ।।३४।।**

मोक्षाची जोड

*ज्ञान दोळ्यानु देखी जे क्षेत्र क्षेत्रज्ञ भेद हो ।*
*जिखून प्रकृती धर्म ब्रह्मपदाकु ते वती ।।३४।।*

हे भाशेन, क्षेत्र आनी क्षेत्रज्ञ हातुंतलो भेद आनी आत्म्याचो प्रकृती पासून सुटपाचो उपाय, जे मनीस ज्ञानाच्या दोळ्यांनी पळेतात, ते ब्रह्मपदाक पावतात. ३४

*अ. अ.:* **एवम्** = हे भाशेन; **क्षेत्रक्षेत्रयो: अन्तरम्** = क्षेत्र आनी क्षेत्रज्ञ हातुंतलो भेद; **च** = आनी; **भूतप्रकृतिमोक्षम्** = आत्म्याचो प्रकृती पासून सुटपाचो उपाय; **ये** = जे मनीस; **ज्ञानचक्षुषा विदु:** = ज्ञानाच्या दोळ्यांनी समजतात; **ते परं यान्ति** = ते ब्रह्मपदाक पावतात. ३४

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भभगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **क्षेत्रक्षेत्रज्ञविभाग**योगो
नाम **त्रयोदशो**ऽध्याय: ।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या
योगाचो, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो
**क्षेत्रक्षेत्रज्ञयोग** नांवाचो **तेरावो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. सत् - जाची सत्ता कित्याचेरूच आधारिल्ली ना तें सत्.

२. असत् - जाची सत्ता कित्याचेर तरी निंबून आसा तें असत्.



# गुणत्रयविभागयोग

प्रकृती आनी पुरूष हीं दोनूय परमेश्वराचीच निर्मणी. प्रकृतीचोच विस्तार जावन तिचे पासून सगले सृश्टपदार्थ निर्माण जाले हें सातव्या अध्यायांत सांगिल्लें. ह्या अध्यायांत प्रकृतीच्या सत्त्वगूण, रजगूण आनी तमगूण ह्या तीन गुणांची आनी मनीस सभावावयल्या तांच्या परिणामांची विसकावणी केल्या. महद् ब्रह्म म्हळ्यार प्रकृती आनी परब्रह्म म्हळ्यार ईश्वर. ईश्वराचे प्रेरणेन प्रकृती सृश्टी निर्मिता. म्हळ्यार, प्रकृती ही आवय आनी ईश्वर हो बापूय (४) हेंच वेदान्त ज्ञान. मागीर मनशाचें मन, बुद्दी आनी कर्म हांचेर सत्त्वगूण, रजगूण आनी तमगूण ह्या गुणांचे विंगड विंगड कितें परिणाम जातात तें सांगलां. हेंच सांख्यज्ञान (५-१८). त्रिगुणां खेरीज कोणूच कर्तो ना अशें जेन्ना ज्ञानी समजता आनी त्रिगुणां पेल्यान आशिल्लें स्रेश्ठ तत्त्व वळखता, तेन्नाच तो गूण हुपून मोक्ष जोडटा (१९-२०). अंतीं त्रिगुणां पेल्यान गेल्ल्या योगी मनशाचीं लक्षणां सांगल्यांत. वृत्तीची संतुळा, अनासक्ती (ओडी विरयत वृत्ती) आनी शांती हीं ताचीं मुखेल लक्षणां. भक्तीनूय मनीस त्रिगुणां पेल्यान वता आनी तो थोर, थीर वृत्तीचो आनी संतुलीत मनाचो योगी जाता (२१-२७).

## चतुर्दशोऽध्याय:

**श्री भगवानुवाच**

**परं भूय: प्रवक्ष्यामि ज्ञानानां ज्ञानमुत्तमम् ।**
**यज्ज्ञात्वा मुनय: सर्वे परां सिद्धिमितो गता: ॥१॥**

भगवंतान म्हळें

*तुका हांव सांगितां भौनु ज्ञान ज्ञानांत उत्तम ।*
*जाणूनु जें मुनी सर्व पावले गा व्हड सिद्धिक ॥१॥*

भगवंतान म्हळें: सगल्या ज्ञानांतलें उत्तम अशें व्हड ज्ञान आनीक एक फावट हांव तुका सांगतां, जें समजतकीच सगले मुनी ह्या संवसारांतसून सुटून व्हड सिद्धीक पावले.

***अन्वय आनी अर्थ :*** **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **ज्ञानानां उत्तमं परं ज्ञानम्** = (सगल्यां) ज्ञानांतलें उत्तम (अशें) व्हड ज्ञान; **भूय: प्रवक्ष्यामि** = (तुका) आनी एक फावट सांगतां. **यत् ज्ञात्वा** = जें समजतकीच; **सर्वे मुनय:** = सगले मुनी; **इत:** = ह्या संवसारांतसून (सुटून); **परां सिद्धिं गता:** = व्हड सिद्धीक पावले.

१

इदं ज्ञानमुपाश्रित्य मम साधर्म्यमागता: ।
सर्गेऽपि नोपजायन्ते प्रलये न व्यथन्ति च ॥२॥

*ह्या ज्ञाना आश्रयानूच     जाले म्हजे वरीच जे ।*
*जल्मना ते घडटां सृश्टी   प्रळयीं दुख्ख भोगिना ॥२॥*

ह्या ज्ञानाच्या आधारान म्हजे वरीच जाल्ले मनीस सृश्टी घडच्या वेळार पर्थून जल्मनात आनी प्रळयाच्या वेळारूय मर्णाचें दुख्ख भोगिनात. २

*अ. अ.:* **इदं ज्ञानम् उपाश्रित्य** = ह्या ज्ञानाच्या आदारान; **मम साधर्म्यं आगता:** = म्हजे वरीच जाल्ले मनीस; **सर्गे न उपजायन्ते** = सृश्टी घडच्या वेळार पर्थून जल्मनात; **च प्रलये अपि** = प्रळयाच्या वेळारूय; **न व्यथन्ति** = (मर्णाचें) दुख्ख भोगिनात. २

मम योनिर्महद्ब्रह्म तस्मिन्गर्भं दधाम्यहम् ।
संभव: सर्वभूतानां ततो भवति भारत ॥३॥

आवय महद्ब्रह्म (प्रकृती) आनी परब्रह्म (ईश्वर) बापूय

*प्रकृती ही म्हजी योनी     दवरीं हांव गर्भ तांतुतू ।*
*घेतातु जल्म तांतल्यानु   सगळेच जीवु भारता ॥३॥*

आगा अर्जुना, म्हजी महद्ब्रह्मरुपी प्रकृती (हो सगल्या जिवांचो) कुसवो. तातूंत हांव गर्भ दवरतां, तातूंतसून सगल्या जिवांची निर्मणी जाता. ३

*अ. अ.:* **भारत** = आगा अर्जुना; **मम महत् ब्रह्म योनि:** = म्हजी प्रकृती (वा त्रिगुणी माया) (हो) (सगल्या जिवांचो) कुसवो; **अहं तस्मिन् गर्भं ददामि** = हांव तातूंत गर्भ दवरतां; **तत:** = तातूंतसून; **सर्वभूतानां संभव: भवति** = सगल्या जिवांची निर्मणी जाता. ३

सर्वयोनिषु कौन्तेय मूर्तय: संभवन्ति या: ।
तासां ब्रह्म महद्योनिरहं बीजप्रद: पिता ॥४॥

*सर्व कुसव्यांतुले जीवु     घेतातु जल्म जीतुले ।*
*तांची आवय महद्ब्रह्म    हांव बापूय ओंपतलों बियाण् ॥४॥*

आगा अर्जुना, सगल्या कुसव्यांमदीं ज्यो कुडी जल्मतात, त्या सगल्यांची प्रकृती ही आवय आनी तातूंत बीं ओंपतलों हांव बापूय. ४

*अ. अ.:* **कौन्तेय** = अर्जुना; **सर्वयोनिषु** = सगल्या कुसव्यांमदीं; **य: मूर्तय: संभवन्ति** = ज्यो कुडी जल्मतात; **तासाम्** = त्या सगल्यांची; **महत्ब्रह्म** = प्रकृती (त्रिगुणी माया) (ही) **योनि:** = गर्भ धरपी आवय, (आनी तातूंत) **बीजप्रद: पिता** = बीं ओंपतलों हांव बापूय. ४

सत्वं रजस्तम इति गुणा: प्रकृतिसंभवा: ।
निबघ्नन्ति महाबाहो देहे देहिनमव्ययम् ।।५।।

तीन गूण · तांचीं फळां

*जाले प्रकृती पासूनु सत्व रज तमो गुण ।*
*त्या अविनाशि जीवात्म्याक घाली कुडींतु बांदूनु ।।५।।*

आगा अर्जुना, प्रकृती पासून जाल्ले सत्त्वगूण, रजगूण आनी तमगूण हे तीन गूण अविनाशी अश्या जिवात्म्याक कुडींत बांदून घालतात. ५

*अ. अ.:* **महाबाहो** = आगा अर्जुना; **प्रकृतिसंभवा:** = प्रकृतीपासून जाल्ले; **सत्त्वं रज: तम: इति गुणा:** = सत्त्व, रज, तम आदी (तीन) गूण; **अव्ययम्** = अविनाशी; **देहिनम्** = जिवात्म्याक (कूडकार जिवाक); **देहे निबघ्नन्ति** = कुडींत बांदून घालतात. ५

तत्र सत्त्वं निर्मलत्वात्प्रकाशकमनामयम् ।
सुखसङ्गेन बघ्नाति ज्ञानसङ्गेन चानघ ।।६।।

*दिता उजवाडु, निर्दोश सत्त्वा निर्मळसाणिनू ।*
*ओडीनु सूख ज्ञानाचे जिवात्म्या घालि बांदुनू ।।६।।*

आगा निश्पाप अर्जुना, तांचे भितर उजवाड दिवपी आनी निर्दोश असो हो सत्त्वगूण निर्मळ आशिल्ल्यान सुखाचे आनी ज्ञानाचे ओडीन (जिवात्म्याक) बंधनांत घालता. ६

*अ. अ.:* **अनघ** = निश्पाप अर्जुना; **तत्र** = त्या तीन गुणां भितर; **प्रकाशकम् अनामयं सत्त्वम्** = उजवाड दिवपी (आनी) निर्दोश (असो) सत्त्वगूण; **निर्मलत्वात्** = निर्मळ आशिल्ल्यान; **सुखसङ्गेन च ज्ञानसङ्गेन** = सुखाचे ओडीन आनी ज्ञानाचे ओडीन (अभिमानान); **बघ्नाति** = बंधनांत घालता. ६

रजो रागात्मकं विद्धि तृष्णासङ्गसमुद्भवम् ।
तन्निबध्नाति कौन्तेय कर्मसङ्गेन देहिनम् ।।७।।

*रज इत्सेनु जो भल्ला ओड आशेंत जल्मता ।*
*कर्मा ओडीनु जीवाकु घाली तो बंधनातु गा ।।७।।*

आगा अर्जुना, रजगूण ओडीन भरिल्लो, विशयांची ओड आनी तृश्णा (वखवख) हांचेपासून तो जाता अशें समज. तो जिवात्म्याक कर्मां आनी तांचीं फळां हांचे ओडीन बांदून घालता.

*अ. अ.:* **कौन्तेय** = आगा अर्जुना; **रागात्मकम् रज:** = ओडीन भरिल्लो रजगूण; **तृष्णासङ्गसमुद्भवम् विद्धि** = तृष्णा (वखवख) आनी ओड हांचे पासून जाता (अशें) समज; **तत् देहिनम्** = तो जिवात्म्याक; **कर्मसङ्गेन निबध्नाति** = कर्मां आनी तांचीं फळां हांचे ओडीन बांदून घालता. ७

**तमस्त्वज्ञानजं विद्धि मोहनं सर्व देहिनाम् ।**
**प्रमादालस्यनिद्राभिस्तन्निबध्नाति भारत ॥८॥**

*गदळायी तम जिवाकु    अज्ञान तोच निर्मिता ।*
*घाळप आळसाय न्हीद   हांणी आत्म्याकु बांदिता ॥८॥*

पुणून अर्जुना, अज्ञाना पसून जाल्लो तमोगूण कुडीचो अभिमान आशिल्ल्या सगळ्यांक गदळायता अशें तूं समज आनी तो घाळप, आळसाय आनी न्हीद हांणी जिवात्म्याक बांदून घालता. ८

*अ. अ.:* **तु भारत** = पुणून अर्जुना; **अज्ञानजम्** = अज्ञाना पसून जाल्लो; **तमः** = तमगूण; **सर्वदेहिनां मोहनम्** = कुडीचो अभिमान आशिल्ल्यां सगल्यांक गदळायता (अशें तूं) समज; **तत् = तो; प्रमादालस्यनिद्राभिः** = घाळप, आळसाय आनी न्हीद; **निबध्नाति** = हांणी (जिवात्म्याक) बांदून घालता. ८

**सत्त्वं सुखे संजयति रजः कर्मणि भारत ।**
**ज्ञानमावृत्य तु तमः प्रमादे संजयत्युत ॥९॥**

*लायी सत्त्व सुखा ओड     रज वावराचि अर्जुना ।*
*तम धांकूनु ज्ञानाक      घाळपणाचि लायि गा ॥९॥*

आगा अर्जुना, सत्त्व गूण सुखाची ओड लायता, रज गूण वावराची ओड लायता आनी तम गूण जाणवीक (ज्ञान) धांपून घाळपणाचीय ओड लायता. ९

*अ. अ.:* **भारत** = आगा अर्जुना; **सत्त्वं सुखे संजयति** = सत्त्वगूण (जिवाक) सुखाची ओड लायता; **रजः कर्मणि संजयति** = रजगूण वावराची (कर्माची) ओड लायता; **तु तमः ज्ञानम् आवृत्य** = पुणून तमगूण (तागेली) जाणवीक (ज्ञान) धांपून; **प्रमादे उतः संजयति** = घाळपणाचीय ओड लायता. ९

**रजस्तमश्चाभिभूय सत्त्वं भवति भारत ।**
**रजः सत्त्वं तमश्चैव तमः सत्त्वं रजस्तथा ॥१०॥**

*रज तमाकु चिड्डून       वाडऽ गा सत्त्व भारता ।*
*तम वाडटां रजा-सत्त्वाक  रज-सत्त्व तमा तशें ॥१०॥*

आगा अर्जुना, रजगूण आनी तमगूण हांकां चेपून सत्त्वगूण वयर सरता. रजगूण आनी सत्त्वगूण हांकां चिड्डून तमगूण बळावता. तशेंच तम आनी सत्त्व गुणांक चिड्डून रजगूण वाडटा.

*अ. अ.:* **भारत** = अर्जुना; **रजः च तमः** = रज आनी तम गुणांक; **अभिभूय** = चेपून; **सत्त्वं भवति** = सत्त्वगूण वयर सरता; **रजः च सत्त्वम्** = रज आनी सत्त्व गुणांक (चिड्डून) **तमः** = तमगूण (बळावता); **तथा एव तमः सत्त्वम्** = तसोच तम आनी सत्त्वगुणांक चिड्डून; **रजः** = रजगूण (वाडटा). १०

सर्वद्वारेषु देहेऽस्मिन्प्रकाश उपजायते ।
ज्ञानं यदा तदा विद्याद् विवृद्धं सत्त्वमित्युत ॥११॥

*पडऽ प्रकाश ज्ञानाचो इंद्रियां कवडांतुल्यान ।*
*भरऽ कुडींतु तो जेन्ना जाणुचें सत्त्व वाडलें ॥११॥*

हे कुडींत इंद्रियांच्या सगल्या दारांतसून जेन्ना जाणविकेचो उजवाड पडटा, तेन्ना सत्त्वगूण चड वाडलो अशें समजुचें. ११

*अ. अ.:* अस्मिन् देहे = हे कुडींत; **सर्वद्वारेषु** = इंद्रियांच्या सगल्या दारांत; **यदा** = जेन्ना; **ज्ञानं प्रकाश: उपजायते** = ज्ञानाचो (जाणविकेचो) उजवाड पडटा; **तदा सत्त्वं विवृद्धं इति विद्यात् उत** = तेन्ना सत्त्वगूण चड वाडलो अशें समजुचें. ११

लोभ: प्रवृत्तिरारम्भ: कर्मणामशम: स्पृहा ।
रजस्येतानि जायन्ते विवृद्धे भरतर्षभ ॥१२॥

*वावरा नाद मना खोदोळ् संवसारा सोंस लोभ बी ।*
*भोगांची ओड जाल्यार समजुचें रज वाडलें ॥१२॥*

अर्जुना, रजगूण वाडटकीच, लोभ (वखवख) संवसाराचो (कर्मांचो) सोंस, मनाचो खोदोळ (अशांती), विशय भोगांची इत्सा हीं जातात. १२

*अ. अ.:* **भरतर्षभ** = अर्जुना; **रजसि निवृद्धे** = रजगूण वाडटकीच; **लोभ:** = वखवख; **प्रवृत्ति:** = संवसाराचो (कर्मांचो) सोंस; **कर्मणां आरम्भ:** = वावराचें चट; **अशम:** = मनाचो खोदोळ; **स्पृहा** = विशय भोगांची वान्सा; **एतानि जायन्ते** = हीं जातात. १२

अप्रकाशोऽप्रवृत्तिश्च प्रमादो मोह एव च ।
तमस्येतानि जायन्ते विवृद्धे कुरुनन्दन ॥१३॥

*गदळ, अज्ञान-काळोख सुस्ती, वावराकु वीटप ।*
*बळावतकीच हीं सर्व जाणुचें तम वाडलें ॥१३॥*

अर्जुना, तमगूण बळावतकूच अंतस्कर्ण आनी इंद्रियां हांचे ठांय जाणविकेचो उजवाड सोंपून नेणविकेचो काळोख आनी वावराची उबगण, घाळप आनी सुस्ती आनी गदळ हीं सगलींच जातात. १३

*अन्वय अर्थ :* **कुरुनन्दन** = आगा अर्जुना; **तमसि विवृद्धे** = तमगूण बळावतकी च; **अप्रकाश: अप्रवृत्ति:** = (अंतस्कर्ण आनी इंद्रियां हांचेठांय) जाणविकेचो उजवाड सोंपून नेणविकेचो काळोख आनी वावराची उबगण; **च प्रमाद:** = आनी घाळप आनी सुस्ती; **मोह: एतानि एव जायन्ते** = गदळ हीं सगलींच जातात. १३

**यदा सत्त्वे प्रवृद्धे तु प्रलयं याति देहभृत् ।**
**तदोत्तमविदां लोकानमलान्प्रतिपद्यते ।।१४।।**

त्रिगुणांच्या आधाराचेर फुडलो जल्म आनी गती

*कुडींतु सत्त्व वाडटांच वेता जो देह सोडुनू ।*
*वता निर्मळ लोकां तो ज्ञानी मनीस रावि जैं ।।१४।।*

सत्त्व गूण वाडटकीच जेन्ना जिवात्मो कूड सोडटा, तेन्ना तर तो खरेली जाणवीक आशिल्ल्या निर्मळ लोकाक वता. १४

*अन्वय अर्थ :* **सत्त्वे प्रवृद्धे** = सत्त्वगूण वाडटकूच; **यदा देहभृत प्रलयं याति** = जेन्ना जिवात्मो कूड सोडटा; **तदा तु** = तेन्ना तर (तो) **उत्तमविदाम्** = खरेली जाणवीक आशिल्ल्यां; **अमलान् लोकान्** = (देवांल्या) निर्मळ लोकाक; **प्रतिपद्यते** = वता. १४

**रजसि प्रलयं गत्वा कर्मसङ्गिषु जायते ।**
**तथा प्रलीनस्तमसि मूढयोनिषु जायते ।।१५।।**

*रजांत कूड सोडी जो कर्मकर्प्यांत जल्मता ।*
*तम वाडूनु जो गेलो मोनजातींतु जल्मता ।।१५।।*

रज गूण चड वाडटकीच भायर पडल्यार कर्माची ओड आशिल्ल्या (मनीस लोकांत) तो जल्मता. तमगूण वाडून गेल्यार तो मोनजातींत जल्मता. १५

*अन्वय अर्थ :* **रजसि** = रजगूण चड वाडटकीच; **प्रलयं गत्वा** = मेल्यार; **कर्मसङ्गिषु जायते** = कर्माची ओड आशिल्ल्या मनीस लोकांत तो जल्मता; **तथा** = तेच भाशेन; **तमसि प्रलीन:** = तमगूण वाडटकीच गेल्यार; **मूढयोनिषु** = (सावदां-सवण्यां सारक्या) मोनजातींत; **जायते** = तो जल्मता. १५

**कर्मण: सुकृतस्याहु: सात्त्विकं निर्मलं फलम् ।**
**रजसस्तु फलं दु:खमज्ञानं तमस: फलम् ।।१६।।**

*म्हळां दिती बरीं कर्मां फळां सात्त्वीकु निर्मळ ।*
*फळयी रज गा दुख्ख अज्ञान हें तमा फळ ।।१६।।*

बऱ्या कर्माचें फळ सात्त्वीक आनी निर्मळ म्हणटात. पुणून रज गुणाचें फळ दुख्ख तर तम गुणाचें अज्ञान. १६

*अन्वय अर्थ :* **सुकृतस्य कर्मण: सात्त्विकं निर्मळं फलं आहु:** = बऱ्या कर्माचें फळ सात्त्वीक आनी निर्मळ म्हणटात; **तु** = पुणून; **रजस: फलं दु:खम्** = रजगुणाचें फळ दुख्ख (आनी) **तमस: फलम् अज्ञानम्** = तमगुणाचें फळ नेणवीक (अज्ञान) (म्हणटात). १६

सत्त्वात्संजायते ज्ञानं रजसो लोभ एव च ।
प्रमादमोहौ तमसो भवतोऽज्ञानमेव च ॥१७॥

*सत्त्वापसून गा ज्ञान रजा पसून लोभ गा ।*
*घाळप गदळ अज्ञान तमा पसून अर्जुना ॥१७॥*

सत्त्वगुणा पसून ज्ञान, रजगुणा पसून निखटो लोभ, तर तमगुणा पसून घाळप, गदळ जावप तशेंच अज्ञान हीं जातात. १७

*अ. अ.:* **सत्त्वात्** = सत्त्वगुणा पसून; **ज्ञानं संजायते** = ज्ञान उत्पन्न जाता; **च रजस: एव लोभ:** रजगुणा पसून निखटो लोभ; **च** = तेच भाशेन; **तमस: प्रमादमोहौ** = तमगुणा पसून घाळप, गदळ जावप; **एव** = तशेंच; **अज्ञानम्** = अज्ञान (हीं) **भवत:** = जातात. १७

ऊर्ध्वं गच्छन्ति सत्त्वस्था मध्ये तिष्ठन्ति राजसा: ।
जघन्यगुणवृत्तिस्था अधो गच्छन्ति तामसा: ॥१८॥

*वता सत्त्वस्थ सर्गांत रावऽ हांगाच राजसी ।*
*वता नर्कांतु खाला जे लोक उणाक तामसी ॥१८॥*

सात्त्वीक मनीस वयर (सर्गादी लोकांक) वतात, राजस लोक मदीं (मनीस लोकांत) तिश्ठतात आनी उणाक गुणवृत्तीचे तमगुणी मनीस सकला नरकांत वतात. १८

*अ. अ.:* **सत्त्वस्था:** = सात्त्वीक मनीस; **उर्ध्वं गच्छन्ति** = वयर (देवलोकांत) वतात; **राजसा: मध्ये तिष्ठन्ति** = राजस मनीस मदीं (मनीस लोकांत) तिश्टतात; (आनी) **जघन्यगुणवृत्तिस्था:** = उणाक गुणवृत्तीचे तमगुणी मनीस; **अध:गच्छन्ति** = सकला नरकांत वतात. १८

नान्यं गुणेभ्य: कर्तारं यदा द्रष्टानुपश्यति ।
गुणेभ्यश्च परं वेत्ति मद्भावं सोऽधिगच्छति ॥१९॥

*जाणून हेर कर्तो ना कोणूच जो गुणाविणें ।*
*गुणा पेलें पळे तत्त्व पावऽ रुपांत तो म्हज्या ॥१९॥*

प्रकृतीच्या गुणां खेरीज दुसरो कोण कर्तो ना असो जेन्ना दृश्टो (ज्ञानी) समजता आनी त्या तिनूय गुणां पेल्यानचें तत्त्व (म्ह. परमात्मो) वळखता, तेन्ना तो (मनीस) म्हज्या रुपांत पावता.

*अ. अ.:* **गुणेभ्य: अन्यं कर्तारं न यदा द्रष्टा अनुपश्यति** = प्रकृतीच्या गुणां खेरीज दुसरो कोण कर्तो ना असो जेन्ना द्रश्टो (ज्ञानी) पळेता (समजता); **च गुणेभ्य: परं वेत्ति** = आनी त्या तिनूय गुणां पेल्यानचें तत्त्व (म्ह. परमात्मो) वळखता; **(तदा) स: मद्भावम् अधिगच्छति** = तेन्ना तो म्हज्या रुपांत पावता.

गुणानेतानतीत्य त्रीन्देही देहसमुद्भवान् ।
जन्ममृत्युजरादु:खैर्विमुक्तोऽमृतमश्नुते ।।२०।।

*कुडी कारण हे गूण धरिल्लो कूड जो हुपी ।*
*जल्म-मर्ण-जरा-दुख्ख- मुक्त, अमृत भोगि तो ।।२०।।*

कुडीचे उत्पत्तीचें कारण आशिल्ल्या ह्या तीन गुणांक जो कूड आशिल्लो मनीस हुपता, तो जल्म, मर्ण, म्हातारपण हांच्या दुख्खांतसून सुटून अमृत (मोक्ष) अणभवता. २०

*अ. अ.:* **देहसमुद्भवान् एतान् त्रिगुणान्** = कुडीचे उत्पत्तीचें कारण (आशिल्ल्या) ह्या तीन गुणांक; (जो) **देही** = कूड आशिल्लो मनीस; **अतीत्य** = हुपता (तो); **जन्ममृत्युजरादुखै:** = जल्ममर्ण, म्हातारपण हांच्या दुख्खांतसून; **विमुक्त:** = सुटून; **अमृतम् अश्नुते** = मोक्ष अणभवता. २०

अर्जुन उवाच

कैर्लिङ्गैस्त्रीन्गुणानेतानतीतो भवति प्रभो ।
किमाचार: कथं चैतांस्त्रीन्गुणानतिवर्तते ।।२१।।

अर्जुनान म्हळें

*जाणें त्रिगूण हुपल्यातु ताचीं गा लक्षणां कितें ।*
*चलणूक गा कशी ताची हुपता त्रिगूण तो कसो ।।२१।।*

अर्जुनान म्हळें: आगा धनया, ह्या त्रिगुणांक हुपिल्ल्या मनशाचीं लक्षणां खंयचीं आसतात? तागेली चलणूक कशी आसता? आनी तो हे तीन गूण कशे हुपता? २१

*अ. अ.:* **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें: **एतान् त्रीन् गुणान् अतीत: कै: लिङ्गै भवति** = हे तीन गूण हुपिल्ल्याची लक्षणां खंयचीं आसतात; **किमाचार:** = (तागेली) चलणूक कशी (आसता)? **(तशेंच) प्रभो** = आगा धनया; (मनीस) **कथम् एतान् त्रीन् गुणान् अतिवर्तते** = हे तीन गूण कशे (खंयच्या उपायांनी) तो हुपता? २१

श्रीभगवानुवाच

प्रकाशं च प्रवृत्तिं च मोहमेव च पाण्डव ।
न द्वेष्टि संप्रवृत्तानि न निवृत्तानि काङ्क्षति ।।२२।।

उदासीनवदासीनो गुणैर्यो न विचाल्यते ।
गुणा वर्तन्त इत्येव योऽवतिष्ठति नेङ्गते ।।२३।।

भगवंतान म्हळें

*प्रकाश वावर नी मोह गुणां वावर सभाविक ।*
*करिना द्वेश घडल्यार मेळ्ळिना तरि इच्छिना ।।२२।।*

*घेना आंगाकु लागूनु गुणांनी चळनाच तो ।*
*चाळे सर्व गुणांचे हे जाणून थीर हालना ।।२३।।*

भगवंतान म्हळें: अर्जुना, जो मनीस ज्ञानाचो उजवाड (सत्त्वगुणाचें लक्षण), वावराचो नाद (रजगुणांची करणी) आनी मन-गदळप (तमगुणाचें लक्षण) हीं कामां घडपाक लागतकीच तांचो द्वेश करिना आनी तीं थांबल्यार तांची इत्सा करिना (२२); तिरायतावरी रावतलो, गुणांक लागून चळनाशिल्लो आनी गूणच आपलीं कामां करतात अशें समजून थीर रावतलो, ते स्थिती पासून हालना. २३

*अ. अ.:* **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **पाण्डव** = अर्जुना; (जो मनीस) **प्रकाशम्** = (सत्त्वगुणाचें कार्य करपी) उजवाड; **प्रवृत्तिम्** = वावराचो नाद (उद्देगाची आवड); **च** = आनी; **मोहम्** = (तमगुणाचें कार्य करपी) मन-गदळप; **एव** = बी (म्ह. तीन गुणांचीं कामां) **संप्रवृत्तानि** = घडपाक लागतकीच; **न काङ्क्षति** = तीं थांबल्यार (तांची) इत्सा करिना (२२). **उदासीनवत् आसीनः** = तिरायता वरी रावतलो; **यः गुणैः न विचाल्यते** = गुणांक लागून चळनाशिल्लो (आनी) **गुणाः एव वर्तन्ते इति यः** गूणच गुणांत वर्ततात (गूणच आपलीं कामां करतात) अशें (समजून); **यः अवतिष्ठाति** = जो थीर रावतालो; **न इङ्गते** = ते स्थिती पासून हालना. २३

**समदुःखसुखः स्वस्थः समलोष्टाश्मकाञ्चनः ।**
**तुल्यप्रियाप्रियो धीरस्तुल्यनिन्दात्मसंस्तुतिः ।।२४।।**

**मानापमानयोस्तुल्यस्तुल्यो मित्रारिपक्षयोः ।**
**सर्वारम्भपरित्यागी गुणातीतः स उच्यते ।।२५।।**

*सम दुख्ख सुखै थीराक् तेफ भांगर फातर ।*
*सम निंदा स्तुती थीराक् प्रिय अप्रिय बी सम ।।२४।।*

*समान इश्ठ वैऱ्यांकु सम मानापमान बी ।*
*सोडटा सकाम कर्मां तो गुणा पेलो असो म्हळा ।।२५।।*

आपले भितर धादोस, सूख-दुख्ख समान मानतलो, मातयेचें तेफ, फातर आनी भांगर हांकां समान लेखतलो, प्रिय अप्रिय सारकें मानतलो, आपली तुस्त निंदा समान गणपी आनी धिरिश्ठ असो जो आसता (२४), मान आनी अवमान समान मानतलो, इश्ट आनी वैऱ्यांच्या पक्षांकडेन समान रावतलो, तो सगलीं (फळाची इत्सा धरून केल्लीं) कर्मां सोडिल्लो (मनीस) गुणांपेलो म्हणटात. २५

*अ. अ.:* **स्वस्थः** = आपले भितर धादोस; **समदुःखसुखः** = सूखदुख्ख समान मानतलो; **समलोष्टाश्मकाञ्चनः** = मातयेचें तेफ, फातर आनी भांगर समान लेखतलो; **तुल्यप्रियाप्रियः** = प्रिय आनी अप्रिय सारकें मानतलो; **तुल्यनिन्दात्मसंस्तुतिः** = आपली तुस्त-निंदा समान गणपी; **धीरः** = (आनी) धिरिश्ट (असो जो आसता) (२४); **मानापमानयोः** = जाका मान आनी अपमान; **तुल्यः** = समान मानतलो; **मित्रारिपक्षयोः तुल्यः** = इश्ट आनी वैऱ्यांच्या पक्षांकडेन समान रावतलो; **सः** = तो; **सर्वारम्भपरित्यागी** = सगलीं (फळाची इत्सा धरून केल्लीं) कर्मां सोडिल्लो (मनीस); **गुणातीतः उच्यते** = गुणांपेलो म्हणटात. २५

**मां च योऽव्यभिचारेण भक्तियोगेन सेवते ।**
**स गुणान्समतीत्यैतान्ब्रह्मभूयाय कल्पते ॥२६॥**

*भजऽ निवळ भक्तीनु एकल्या म्हाकाच अर्जुना ।*
*हुपून तो गुणै तीनी ब्रह्मरुपाकु फावता ॥२६॥*

आनी जो निवळ भक्तीन म्हाका भजता, तो ह्या तीन गुणांक बरे तरेन हुपून ब्रह्मरूप जावपाक फावोसो जाता. २६

*अ. अ.:* **च यः अव्यभिचारेण भक्तियोगेन मां सेवते** = आनी जो निवळ भक्तीयोगान म्हाका भजता; **सः एतान् गुणान् समत्यीत** = तो ह्या तीन गुणांक बरे भाशेन हुपून; **ब्रह्मभूयाय कल्पते** = ब्रह्मरूप जावपाक फावोसो जाता. २६

**ब्रह्मणो हि प्रतिष्ठाहममृतस्याव्ययस्य च ।**
**शाश्वतस्य च धर्मस्य सुखस्यैकान्तिकस्य च ॥२७॥**

*अमृत नित्य ब्रह्माचो आदार हांवु अर्जुना ।*
*तसो शाश्वत धर्माचो नी अखंड सुखा तसो ॥२७॥*

कित्याक अमृत तत्त्वासारकी आनी अविनाशी अश्या ब्रह्माची आनी शाश्वत धर्माची आनी अखंड सुखाची सुवात हांवूच आसां. २७

*अ. अ.:* (कित्याक) **अमृतस्य** = अमृतरुपी; (आनी) **अव्ययस्य** = अविनाशी; **ब्रह्मणः** = ब्रह्माची; **च शाश्वतस्य धर्मस्य** = आनी शाश्वत धर्माची; **च ऐकान्तिकस्य सुखस्य** = अखंड सुखाची; **अहं हि प्रतिष्ठा** = हांवूच सुवात आसां. २७

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **गुणत्रयविभाग**योगो नाम **चतुर्दशो**ऽध्यायः ।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या
योगशास्त्राचो श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो **गुणत्रयविभागयोग**
नांवाचो **चवदावो** अध्याय सोंपलो.



# पुरुषोत्तमयोग

अंत्राळांतलो चंद्रीम आनी सूर्य, धर्तरेवेलो उजो, रुखावळ आनी जिवावळ, मनशाची कूड, मन आनी बुद्दी ह्या सगल्यांक चलोवपी, पोसपी आनी प्रेरणा दिवपी एकूच ईश्वरी चैतन्य आसा. ईश्वरा पसुनूच सृश्टीचो रूख रुजता आनी तातुंतूच विरता. योगवृत्तीन ताचें ज्ञान जाता आनी ताचेशीं एकरूप जावं येता असो विशय ह्या अध्यायांत मांडला.

परमेश्वरान निर्मिल्लो हो संवसार (प्रपंच) म्हळ्यार जाचें मूळ वरशें आनी खांदयो सकला पातळ्ळ्यात, असो अश्वत्थ (पिंपळ) रुखच जाचीं वेद हीं पानां आसात. आनी सत्त्वादी गुणांक लागून त्यो खांदयो रसरसल्यात. ताका विशयरुपी कोंबऱ्यो फुटल्यात आनी ताचीं कर्मरूप मुळां मर्णलोकांत वाडत वाडत पातळ्ळ्यांत.

ताचें हें अशे तरेचें स्वरूप, तेच भाशेन ताचो आदी, अंत आनी आधार हांगा मर्णलोकांत पळोवपाक मेळना. (अश्वत्थ शब्दाची उत्पत्ती **'न श्वोऽ पि तिष्ठती त्यश्वत्थ'** म्हळ्यार, फाल्यां मेरेनूय जो तिगचो ना तो अश्वत्थ). परमात्मो हो अव्यय (अविनाशी) आनी ताचे पसून निर्माण जाल्ली सृश्टी ही विनाशी अश्या ह्या रुपकाची कल्पना हांगा मांडल्या. हो अश्वत्थ आद्य पुरुषा पासून निर्माण जाता आनी ह्या तत्त्वाचें ज्ञान जावपाक मनशान आसक्ती सोडून मनाची संतुळा वाडोवन, ते विकारांविरयत राखपाक जाय अशें सांगलां (१-८). फुडें जिवात्म्या विशीं सांगलां. मनशाची कूड, मन आनी बुद्दी हांची निर्मणी आनी धारणा करपी जिवात्मो हो ईश्वराचोच अंश (७-११). मागीर गिरे, नक्षत्रां, वनस्पत, जिवावळ आनी मनीस हांकां चलोवपी चैतन्य ईश्वराचेंच अशें सांगलां (१२-१५). फुडें, क्षर (विनाशी) तत्त्व, अक्षर (अविनाशी) तत्त्व आनी ह्या दोगांकूय आसपावपी उत्तम तत्त्व म्हळ्यार पुरुषोत्तम हांची विसकणी केल्या (१६-२०). कूड हें क्षर (नश्वर) तत्त्व, जिवात्मो हें अक्षर तत्त्व. ह्या दोगांय परस व्हड आनी दोगांकूय आसपावपी उत्तम तत्त्व म्हळ्यार पुरुषोत्तम. तो विश्वाक व्यापून ताच्या अणूरेणूंक भरून रावला. ही जाणवीक म्हळ्यार ईश्वरी साक्षात्कार. ताची सदांकाळ जाणवीक धरची. दर एकल्यान हो विश्वात्मक देव वळखुंचो आनी आपणें विश्वात्मक जावंक वावुरचें.

## पञ्चदशोऽध्याय:

श्री भगवानुवाच

**ऊर्ध्वमूलमध:शाखमश्वत्थं प्राहुरव्ययम् ।**
**छन्दांसि यस्य पर्णानि यस्तं वेद स वेदवित् ॥१॥ ***

संवसाराचो रूख - (अश्वत्थ)

भगवंतान म्हळें

*मुळां वयर तळा खांदे ताका अश्वत्थ गा म्हळा ।*
*जागेलीं वेद हीं पानां हें जाणी वेद जाणि जो ॥१॥ ***

भगवंतान म्हळें: एक अविनाशी अश्वत्थ (पिंपळ) आसा म्हणटात. ताचें परमेश्वरी मूळ वयर आनी खांदयो सकयल (मनीस लोकांत) आसात, जाचीं वेद हीं पानां आसात, त्या रुखाक जो वळखता तो वेद जाणटलो वा ज्ञानी. १

*अन्वय अर्थ :* **श्रीभगवानुवाच** = श्रीभगवंतान म्हळें; (एक) **अव्यय अश्वत्थं प्राहु:** = अविनाशी अश्वत्थ (पिंपळ) आसा म्हणटात; **ऊर्ध्वमूलं** = (ताचें परमेश्वररुपी) मूळ वयर (ब्रह्मांत) **अध:शाखम्** = खांदयो सकयल (मनीस लोकांत) आसात; **यस्य** = जाची; **छन्दांसि** = वेद (हीं) **पर्णानि** = पानां; **तम्** = त्या (संवसाररुपी) रुखाक; **य: वेद** = जो मनीस वळखता; **स: वेदवित्** = तो वेद जाणटलो (ज्ञानी).

**अधश्चोर्ध्वं प्रसृतास्तस्य शाखा[१] गुणप्रवृद्धा विषयप्रवाला:**
**अधश्च मूलान्यनुसंततानि कर्मानुबन्धीनि मनुष्यलोके ॥२॥**

**न रूपमस्येह तथोपलभ्यते नान्तो न चादिर्न च संप्रतिष्ठा ।**
**अश्वत्थमेनं सुविरूढमूलमसङ्गशस्त्रेण दृढेन छित्त्वा ॥३॥**

**तत: पदं तत्परिमार्गितव्यं यस्मिन् गता न निवर्तन्ति भूय: ।**
**तमेव चाद्यं पुरुषं प्रपद्ये यत: प्रवृत्ति: प्रसृता पुराणी ॥४॥**

*सकला वयर ताका फुट्टातु खांदे विशयां कोंबऱ्यो पोसती गुणांनी ।*
*फुट्टातु मुळां ह्या लोकांतु ताचीं आंकऱ्यो कर्माच्यो फुट्टातु ताका ॥२॥*

*ताचें अशें रूप हांगा दिसना ताका ना आदार ना आदी अंत ।*
*घट्ट मुळां ह्या अश्वत्थ रुखाकु खांडूनु ताका वैराग्या शस्त्रानु ॥३॥*

*घेवचो सोद फुडें ताच्या पदाचो जैं गेल्ले येनातु कोणूच पर्थून ।*
*भजतां हांवु ह्या आद्य पुरुषाकु जंयसून जालो ह्या जगा पसारो ॥४॥*

त्या संवसार रुखाच्यो ताळयो सकयल आनी वयर पातळ्ळ्यात. सत्त्वादी तीन गूण तांकां पोसतात. रस गंधादी विशय भोग ह्यो तांच्यो कोंबऱ्यो. (सुवार्थी) कर्मां करपाक लावपी तांचीं पाळां सकला मनीसलोकामेरेन पातळ्ळ्यांत (२). ह्या संवसार रुखाचें हें असलें रूप हांगा दिसना (अहंकार, ममत्त्व आनी वासना हांकां लागून) चड खोल गेल्ल्या पाळांचो हो पिंपळ (हांव आनी ममत्वाची ओड नाशिल्ल्या म्हळ्यार) वैराग्याच्या शस्त्रान कातरून (३), मागीर जे सुवातेर गेल्ले मनीस पर्थून संवसारांत येनात, ती सुवात सोदून काडची आनी त्या मनशान अशें म्हणचें: ''ज्या आदी पुरुषा पसून संवसार रुखाचो विस्तार जाला ताका हांव शरण वतां.'' (४).

*अ. अ.:* **तस्य** = त्या संवसार रुखाच्यो; **शाखा: अध: च उर्ध्वं प्रसृता:** = सकयल आनी वयर पातळ्ळ्यात; **गुणप्रवृद्धा:** = सत्त्वादी तीन गूण तांकां पोसतात; **विषय प्रवाला:** = (शब्द, स्पर्श, रूप, रस, पर्मळ हे) विशयभोग ताच्यो कोंबऱ्यो; **च कर्मानुबन्धीनि मूलानि** = सुवार्थी कर्मां करपाक लावपी (ताचीं) मुळां; **अध:मनुष्यलोके अनुसंततानि** = सकला मनीस लोकांमेरेन पातळ्ळ्यांत (२); **अस्य** = ह्या (संवसार) रुखाचें; **तथा** = हें असलें; **रूपम् इह न उपलभ्यते** = रूप हांगा दिसना (जिवावळीक दिसना); (तसोच ताचो) **न आदि: च न अन्त: न संप्रतिष्ठा** = आरंब, अखेर आनी आधार दिसना (म्हणून) **एनम्** = ह्या (अहंकार, ममत्त्व आनी वासना हांकां लागून) **सुविरूढमूलं अश्वत्थम्** = चड खोल गेल्लो पाळांचो पिंपळ; **दृढेन असङ्गशस्त्रेण छित्त्वा** = वैराग्याच्या घट्ट शस्त्रान कातरून (३); **तत:** = मागीर; **यस्मिन् गता: भूय: न निवर्तन्ति** = जे सुवातेर गेल्ले मनीस पर्थून (संवसारांत) येनात; **तत् पदम्** = ती सुवात; **परिमार्गितव्यम्** = सारकी सोदून काडची; **च** = आनी (त्या मनशान अशें म्हणचें); **यत:** = जाचे पासून; **पुराणी** = पुरातन; **प्रवृत्ति:** = संवसार रुखाचो; **प्रसृता** = विस्तार जालो; **तम् एव आद्यं पुरुषं प्रपद्ये** = त्याच मूळ पुरुषाक (आत्म्याक) हांव शरण वतां. ४

**निर्मानमोहा जितसङ्गदोषा अध्यात्मनित्या विनिवृत्तकामा: ।**
**द्वन्द्वैर्विमुक्ता: सुखदु:खसंज्ञैर्गच्छन्त्यमूढा: पदमव्ययं तत् ॥५॥**

*ओडीचे ना दोश ना मान मोह वान्शे मेकळे ते आध्यात्मांत थीर ।*
*बादना जुंवळी दुख्खा सुखाची ज्ञानी वती त्या शाश्वत पदाक ॥५॥*

जे मान आनी मोह हांचे विरयत जाले, जांणी विशयांचे ओडीचे दोश जिखले, जे आध्यात्मज्ञानांत थिरावले, जांची वान्सा मुळां सयत ना जाली, सूख-दुख्ख जुंवळेतल्यान जे सुटले, ते आत्मज्ञानी मनीस त्या अविनाशी पदाक पावतात. ५

*अ. अ.:* (कित्याक) **निर्मानमोहा:** = जे मान आनी मोह हांचे विरयत जाले; **जितसङ्गदोषा:** = जांणी विशयांचे ओडीचे दोश जिखले; **अध्यात्मनित्या:** = आध्यात्मज्ञानांत (परमात्म्याच्या रुपांत) सदींच थिरावले; (तेच भाशेन) **विनिवृत्तकामा:** = जांची वान्सा मुळां सयत ना जाली; **सुखदु:खसंज्ञै: द्वंद्वै: विमुक्ता:** = सूखदुख्ख नांवाचे जुंवळेंतल्यान जे सुटले, (ते) **अमूढा:** = ज्ञानी मनीस; **तत् अव्ययं पदं गच्छन्ति** = त्या शाश्वत (अविनाशी) पदाक पावतात. ५

न तद्भासयते सूर्यो न शशाङ्को न पावकः ।
यद्गत्वा न निवर्तन्ते तद्धाम परमं मम ॥६॥

*सूर्य चंद्रीम वा अग्नी घालिना उजवाडु थैं ।*
*पर्थे येनातु थैं गेल्ले घर परम तें म्हजें ॥६॥*

त्या पदाक सूर्य उजवाडायना तसोच चंद्र वा उजो उजवाडायना. (कित्याक, म्हजे व्हडविकायेचो उजवाड थंय आसा) जंय वतकीच मनीस संवसारांत पर्थून येनात. ती म्हजी व्हडली सुवात.

*अ. अ.:* **तत्** = त्या (आपलोच उजवाड आशिल्ल्या शाश्वत पदाक); **सूर्यः न भासयते; शशाङ्कः न, पावकः न भासयते** = सूर्य उजवाडायना, तसोच चंद्र आनी उजोय उजवाडायना (कित्याक, म्हज्या ऐश्वर्याचो उजवाड थंय आसा); **यत् गत्वा** = जंय वतकीच; **न निवर्तन्ते** = (मनीस) संवसारांत पर्थून येनात; **तत् मम परमं धाम** = ती म्हजी व्हडली सुवात. ६

ममैवांशो जीवलोके जीवभूतः सनातनः ॥
मनःषष्ठानीन्द्रियाणि प्रकृतिस्थानि कर्षति ॥७॥ *

जिवात्मो

*सासणाचो हो म्हजो अंश जीवु कुडींतुलोच तो ।*
*ओडी तो प्रकृतींतून पंचेंद्रियां सवें मन ॥७॥ **

म्हजोच सासणाचो अंश जीव लोकांत (कर्मभुंयेंत) जीव (जिवात्मो) जावन प्रकृतींत (कुडींत) आशिल्लीं पांच इंद्रियां आनी सवें मन हांकां तो जिवात्मो आपलेकडेन ओडून घेता. ७

*अ. अ.:* **मम् एव सनातनः** = म्हजोच सनातन अंश; **जीवलोके** = ह्या जिवांच्या लोकांत (कर्मभुंयेंत) **जीवभूतः** = जीव जावन (हो जिवात्मो); **प्रकृतिस्थानि** = प्रकृतींत आशिल्लीं; **मनः षष्ठानि इन्द्रियाणि कर्षति** = मना सयत स (म्हळ्यार मन आनी पांच इंद्रियां) (हांकां तो जिवात्मो) आपले कडेन ओडून घेता.

शरीरं यदवाप्नोति यच्चाप्युत्क्रामतीश्वरः ।
गृहीत्वैतानि संयाति वायुर्गन्धानिवाशयात् ॥८॥

*फुला चंवरांतुल्यान वारो पर्मळाकु व्हरी सवें ।*
*मन नी इंद्रियां सैत देही सोडटा धरी कुडीक् ॥८॥*

वारो परमळाचे सुवाते पासून (फुलांतल्यान) जसो परमळाक व्हरता, (तसो) कुडीचो धनी जिवात्मोय जे पयले कुडीक सोडून वता, तातुंतल्यान हीं पांच इंद्रियां आनी सटवें मन घेवन जी नवी कूड जोडटा तातूंत वता. ८

*अ. अ.:* **वायुः** = वारो; **आशयात्** = परमळाचे सुवाते पसून (फुलांतल्यान); **गन्धान् इव** = जसो वासाक; **संयाति** = व्हरता; **ईश्वरः अपि** = कुडीचो धनी जिवात्मोय; **यत् (शरीरं) उत्क्रामति** = जे पयले कुडीक सोडून वतात; (**तस्मात्** = तातुंतल्यान), **एतानि** = हीं (पांच इंद्रियां आनी सटवें मन); **गृहीत्वा** = घेवन; **च यत् शरीरं आवाप्नोति** = जी नवी कूड जोडटा; (**तस्मिन्** = तातूंत); **संयाति** = वता.

क्षोत्रं चक्षुः स्पर्शनं च रसनं घ्राणमेव च ।
अधिष्ठाय मनश्चायं विषयानुपसेवते ॥९॥

*कान दोळे तशी कात        नाक जीव सर्वें मन ।*
*हांच्याच आश्रयानु हो        जीव विशयु भोगिता ॥९॥*

कान, दोळे, कात, जीब आनी नाक (हीं पांच इंद्रियां) आनी मन हांच्या आदारानूच हो (जिवात्मो) विशयभोग भोगता. ९

*अ. अ.:* **श्रोत्रम्** = कान; **चक्षुः** = दोळे; **च स्पर्शनं** = आनी कात; **च रसनम्** = तशीच जीब; **च घ्राणम्** = आनी नाक; **च मनः** = आनी (सटवें) मन; (हांच्या) **अधिष्ठाय एव** = आधारानूच; **अयम्** = हो (जिवात्मो) **विषयान् उपसेवते** = विशयभोग भोगता. ९

उत्क्रामन्तं स्थितं वापि भुञ्जानं वा गुणान्वितम् ।
विमूढा नानुपश्यन्ति पश्यन्ति ज्ञानचक्षुषः ॥१०॥

*जेन्ना सोडी धरी कूड        ती भोगी त्रिगुणांसवें ।*
*दिसना मुर्खांकु गा पार्था        पळेता ज्ञान चक्षु तो ॥१०॥*

कूड सोडून वतना वा कुडींत रावता आसतना वा तीन गुणांसयत विशय भोगतना नेणारांक (मुर्खांक) (तो आत्मो) दिसना. पुणून गिन्यानाचे दोळे आशिल्ल्यांक तो दिसता. १०

*अ. अ.:* **उत्क्रामन्तम्** = कूड सोडून वतना; **वा** = वा; **स्थितम्** = कुडींत रावता आसतना; **वा गुणान्वितं भुञ्जानं अपि** = तीन गुणां सयत विशय भोगतनाय; **विमूढाः** = नेणारांक (मुर्खांक) (तो जीव) **न अनुपश्यन्ति** = दिसना; **ज्ञानचक्षुषः पश्यन्ति** = (पुणून) गिन्यानाचे दोळे आशिल्ल्यांक तो दिसता. १०

यतन्तो योगिनश्चैनं पश्यन्त्यात्मन्यवस्थितम् ।
यतन्तोऽप्यकृतात्मानो नैनं पश्यन्त्यचेतसः ॥११॥

*योगी यत्नान् पळे हाका        थारावल्लो अंतरांतु जो ।*
*मनान अशुद्ध नेणारां        यत्नानय दिसनाच तो ॥११॥*

प्रयत्न करपी योगी आपणाल्या अंतरांत थीर आशिल्लो हो (आत्मो) पळेतात. पुणून मनां निवळून शुद्ध जावंक नाशिल्ल्यांक आनी जे मंदमती आसात तांकां तो यत्न करुनूय दिसना.

*अ. अ.:* **यतन्तः योगिनः** = योगी यत्न करून; **आत्मनि अवस्थितम्** = आपणाल्या अंतरांत थारावल्लो; **एनम्** = हो आत्मो; **पश्यन्ति** = पळेतात; **च** = पुणून; **अकृतात्मानः** = जांचीं मनां निवळून शुद्ध जावंक नात; (आनी जे) **अचेतसः** = मंदमती आसात; **यतन्तः अपि** = यत्न करुनूय; **एनं न पश्यन्ति** = हो (आत्मो) दिसना. ११

**यदादित्यगतं तेजो जगद्भासयतेऽखिलम् ।**
**यच्चन्द्रमसि यच्चाग्नौ तत्तेजो विद्धि मामकम् ॥१२॥**

विश्वचैतन्य

*सुर्यांतुलेंच तें तेज अख्खें जग उजळायिता ।*
*चंद्र उज्यांतुलें तेज जाण म्हजेंच तेज तें ॥१२॥*

सुर्यांत आशिल्लें जें तेज अख्खो संवसार उजवाडायता तशेंच जें तेज चंद्रांत आनी जें उज्यांत आसा तें म्हजेंच तेज समज. १२

*अ. अ.:* **आदित्यगतम्** = सुर्यांत आशिल्लें; **यत् तेजः** = जें तेज; **अखिलं जगत् भासयते** = अख्ख्या संवसाराक उजवाडायता; **च यत् चन्द्रमसि यत् अग्नौ** = आनी जें चंद्रांत आनी जें उज्यांत (आसा); **तत् मामकं तेजः विद्धि** = तें म्हजेंच तेज समज. १२

**गामाविश्य च भूतानि धारयाम्यहमोजसा ।**
**पुष्णामि चौषधीः[२] सर्वाः सोमो भूत्वा रसात्मकः ॥१३॥**

*दितां चैतन्य जीवांकु रिगून धर्तरींतु हांव ।*
*चंद्र रोसाळु गा हांवु पोशी सर्व वनस्पत ॥१३॥*

आनी हांवूच धर्तरींत रिगून म्हगेल्या जीव पसवपी तेजान सगल्या जिवांक आधार दितां आनी रोसाळ चंद्र जावन सगली वनस्पत पोसतां. १३

*अ. अ.:* **च** = आनी; **अहं** = हांवूच; **गाम्** = धर्तरींत; **आविश्य** = रिगून; **ओजसा** = (म्हज्या) जीण पसोवपी तेजान; **भूतानि धारयामि** = सगल्या जिवांक आधार दितां; **च रसात्मकः सोमः भूत्वा** = आनी रोसाळ चंद्र जावन; **सर्वाः ओषधीः पुष्णामि** = सगली वनस्पत पोसतां. १३

**अहं वैश्वानरो भूत्वा प्राणिनां देहमाश्रितः ।**
**प्राणापानसमायुक्तः पचाम्यन्नं चतुर्विधम् ॥१४॥**

*सर्व जिवांतु रावऽ गा जठराग्नी रुपानु हांव ।*
*चारूय तरां पचय अन्न प्राणापान करूनु हांव ॥१४॥*

सगल्या जिवांच्या कुडींत आशिल्लों हांव वैश्वानर (जिणेचो उजो) जावन प्राण आनी अपान स्वासान भरून चारूय तरांचें अन्न पचयतां. १४

*अ. अ.:* **प्राणिनां देहम्** = सगल्या जिवांच्या कुडींनी; **आश्रितः अहम्** = आशिल्लों हांव; **वैश्वानरः भूत्वा** = जिणेचो उजो जावन; **प्राणापानसमायुक्तः** = प्राण-अपान स्वासान भरून; **चतुर्विधम्** = (पियेवंचेलें, चाटचेलें, चाबचेलें आनी चोखचेलें अशें) चार तरांचें; **अन्नं पचामि** = अन्न पचयतां.

**सर्वस्य चाहं हृदि संनिविष्टोमत्त: स्मृतिर्ज्ञानमपोहनं च ।**
**वेदैश्च सर्वैरहमेव वेद्योवेदान्तकृद्वेदविदेव चाहम् ।।१५।।**

*रावतां हांव सगल्यांच्या अंतरांतु  म्हजे पसून स्मृति विस्मृती ज्ञान ।*
*सर्व वेदांनी जाणपा योग्य हांव    वेदान्त रचपी जाणपी वेद तत्त्व ।।१५।।*

आनी हांवूच सगल्या जिवांच्या अंतस्कर्णांत रावतां. म्हजे पसुनूच उगडास आनी ज्ञान हीं जातात आनी सगल्या वेदांनी जाण-जावंचेली वस्तू हांवूच. वेदान्ताचो रचणार आनी वेदांचो अर्थ जाण-जाल्लोय हांवूच. १५

*अ. अ.:* **च अहम्** = आनी हांवूच; **सर्वस्य हृदि संनिविष्ट:** = सगल्या जिवांच्या काळजांत रावतां; **स्मृति: च ज्ञानम्** = उगडास (स्मृती) आनी ज्ञान; **मत्त: आपोहनम्** = म्हजे पसुनूच जातात; **च सर्वै: वेदै:** = आनी सगल्या वेदांनी; **वेद्य:** = जाण जावंचेली वस्तू; **अहं एव** = हांवूच; **वेदान्तकृत्** = वेदान्ताचो रचणार; **च** = आनी; **वेदवित्** = वेदांचोय अर्थ जाणा जाल्लोय; **अहम् एव** = हांवूच.

**द्वाविमौ पुरुषौ लोके क्षरश्चाक्षर एव च ।**
**क्षर: सर्वाणि भूतानि कूटस्थोऽक्षर उच्यते ।।१६।।**

पुरुषोत्तम

*दोन पुरूष विश्वांतु        क्षर आनीकु अक्षर ।*
*क्षर हे जीवु ते सर्व        तांतुलो थीर अक्षर ।।१६।।*

ह्या जगांत 'क्षर' (नाशिवंत) आनी 'अक्षर' (अविनाशी) अशे दोन तरांचे पुरुष (आसात). तातूंत सगल्या जिवांच्या कुडींक क्षर म्हळ्यार नाशिवंत. आनी त्या सगल्या जिवांच्या मुळाक आशिल्ल्या जिवात्म्याक अक्षर (अविनाशी) म्हणटात. १६

*अ. अ.:* **लोके** = ह्या जगांत; **क्षर: च अक्षर:** = नाशिवंत आनी अविनाशी; **इमौ द्वौ एव पुरुषौ** = (अशे) हे दोनच तरांचे पुरुष (आसात); (तातूंत) **सर्वाणि भूतानि** = सगल्या जिवांच्या कुडींक; **क्षर:** = नाशिवंत; **च** = आनी; **कूटस्थ:** = त्या जिवांच्या मुळाक आशिल्ल्या जिवात्म्याक; **अक्षर: उच्यते** = अविनाशी म्हणटात. १६

**उत्तम: पुरुषस्त्वन्य: परमात्मेत्युदाहृत: ।**
**यो लोकत्रयमाविश्य बिभर्त्यव्यय ईश्वर : ।।१७।।**

*म्हणटातु परमात्मो तो        तिसरो पुरूष उत्तम ।*
*विश्वात्मो विश्व पोशी तो      व्यापी त्रिलोक अक्षर ।।१७।।*

ह्या दोगांपरस भौच बरो असो उत्तम पुरूष तिसरोच आसा. जाका परमात्मो वा व्हडलो आत्मो अशें म्हणटात. जो अविनाशी ईश्वर तिनूय लोक व्यापून तांकां पोसता. १७

*अ. अ.:* **तु** = पुणून (ह्या दोगांपरस); **उत्तम:** = भौच बरो (उत्तम); **पुरुष:** = पुरूष; **अन्य:** = आनीक (तिसरोच) आसा; (जाका) **परमात्मा इति उदाहृत:** = परमात्मो (वा व्हडलो आत्मो) अशें म्हणटात; **य: अव्यय:** = जो अविनाशी; **ईश्वर:** = व्हडलो धनी (ईश्वर); **लोकत्रयम् आविश्य** = तिनूय लोक व्यापून; **बिभर्ति** = तांकां पोसता. १७

**यस्मात्क्षरमतीतोऽहमक्षरादपि चोत्तमः ।**
**अतोऽस्मि लोके वेदे च प्रथितः पुरुषोत्तमः ॥१८॥**

*क्षरा नी अक्षराकुयु पेल्यानु आनि उत्तम ।*
*त्रिलोकीं आनि वेदांतु म्हाका म्हळा पुरुषोत्तम ॥१८॥*

कित्याक, हांव नाशिवंत जिवां पेल्यानचो आनी अविनाशी पुरुषापरसूय उत्तम (पुरूष) आसा म्हणून संवसारांत आनी वेदांत हांव पुरुषोत्तम म्हूण नांवाजलां. १८

*अ. अ.:* **यस्मात्** = कित्याक; **अहम्** = हांव; **क्षरम् अतीतः** = क्षराचे (नाशिवंत जिवां) पेल्यानचो; **च** = आनी; **अक्षरात् अपि उत्तमः** = अविनाशी जिवात्म्या परसूय; **उत्तमः** = **उत्तम** (पुरूष) आसां; **अतः** = म्हणून; **लोके** = संवसारांत; **च वेदे** = आनी वेदांतय; **पुरुषोत्तमः** = पुरुषोत्तम (नांवान); **प्रथितः अस्मि** = नांवाजलां. १८

**यो मामेवमसंमूढो जानाति पुरुषोत्तमम् ।**
**स सर्वविद्भजति मां सर्वभावेन भारत ॥१९॥**

*विवेकी हे परी जाणी हांवूच पुरुषोत्तम ।*
*सर्व भावानु तो म्हाका भजऽ सर्वज्ञ तो सदीं ॥१९॥*

अर्जुना, हे भाशेन जो विवेकी मनीस म्हाका पुरुषोत्तमाक वळखता, तो सगलें जाणपी, सर्व भावान (म्ह. सगल्यांचो जीव हांव म्हणपाचे बुद्दीन) म्हाका भजता. १९

*अ. अ.:* **भारत** = अर्जुना; **एवम्** = हे भाशेन; **यः असंमूढः** = जो विवेकी मनीस; **मां पुरुषोत्तम् जानाति** = म्हाका पुरुषोत्तमाक वळखता; **सः सर्ववित्** = तो सर्वज्ञानी (सगलें जाण-जाल्लो मनीस); **सर्वभावेन** = सगल्यांचो जीव हांव म्हणपाचे बुद्दीन; **मां भजति** = म्हाका भजता. १९

**इति गुह्यतमं शास्त्रमिदमुक्तं मयानघ ।**
**एतद्बुद्ध्वा बुद्धिमान्स्यात्कृतकृत्यश्च भारत ॥२०॥**

*गुढांतलें गूढ हें शास्त्र सांगिल्लें निर्मळा तुका ।*
*जावचें कृतार्थ नी ज्ञानी हें जाणून धनंजया ॥२०॥*

आगा निष्पाप अर्जुना, हे भाशेन हें अती गूढ शास्त्रांमदलें व्हडलें अशें शास्त्र हांवें तुका सांगलें. हें समजतकीच मनीस ज्ञानी आनी कृतार्थ जाल्लेवरी जावंचो. २०

*अ. अ.:* **अनघभारत** = आगा निश्पाप अर्जुना; **इति इदम्** = अशें हें **गुह्यतमं शास्त्रम्** = अती गूढ (शास्त्रांमदलें) व्हडलें अशें शास्त्र; **मया उक्तम्** = हांवें तुका सांगलें; **एतत् बुद्ध्वा** = हें समजतकीच; (मनीस) **बुद्धिमान्** = ज्ञानी; **च कृतकृत्य** = आनी कृतार्थ (ताणें करचेलें सगलें केल्ले वरी); **स्यात्** = जातलो. २०

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **पुरुषोत्तमयोगो** नाम **पञ्चदशो**ऽध्याय: ।

हे भाशेन, श्री भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो **पुरुषोत्तमयोग** नांवाचो **पंदरावो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. शाखा: - देव, मनीस आनी तिर्यक (नरक) आदी योनिरूप ताळयो. मुखेल शाखारुपी ब्रह्मदेवापासून सगल्या लोकांसयत देव, मनीस आनी तिर्यक आदी योनींची उत्पत्तीआनी विस्तार जाला देखून तांकां हांगा 'शाखा' अशें म्हळां.

२. ओषधी: - रूख, वनस्पती आनी ओषधीचो भेद समजून घेवंक जाय. ओषधी म्ह. जें फूल, फळ आदी दिवन एका वर्साभितर सुकता तें. रूख आनी वनस्पत हीं दीर्घजिवीं आसतात आनी जायते फावटीं फुलतात आनी फळटात.

## श्लोकटिपो

*१. ह्या अध्यायांत परमेश्वराचें सगल्यांत व्हडलें अशें पुरुषोत्तम स्वरूप वर्णिलां. पुणून परमेश्वराचें स्वरूप सांगचे पयलीं जिवात्म्याचें स्वरूप सांगपाखातीर ह्या संवसाराचें अश्वत्थ (पिंपळ) रुखाच्या रुपकान वर्णन केलां. हेर रुखां परस ह्या रुखाचें वेगळेंपण दाखोवपाखातीर तो 'उर्ध्वमूल' आनी 'अध:शाख' आसा अशें म्हळां. हांगा 'उर्ध्व' आनी 'अध:' ह्या श्लोकांतले शब्द 'वयर' आनी 'सकयल' हे दिसपट्ट्या वेव्हारांतल्या अर्थान येवजूंक नासून, ते स्रेश्ठ आनी कनिश्ठ ह्या अर्थान येवजिल्यात. 'आनंदाद्धयेव खलु इमानि भूतानि जायते' अशी श्रुती आशिल्ल्यान आनंदब्रह्मापासून जावपी ह्या संवसार रुखाक 'उर्ध्वमूल' म्हळां. ही सृश्ट वा संवसार ब्रह्माचे नदरेन अनित्य आसुनूय, तो प्रवाह रुपान अखंड चालू आशिल्ल्यान ताका 'अव्यय' म्हळ्यार सनातन अशें म्हळां. वेद हीं ह्या संवसाररुखाचीं पानां. रुखाचीं पानां हीं त्या रुखाच्या पोंदा रावतल्या लोकांक सांवळी दिता. ते भाशेन संवसार करतल्यांक वेदांचो व्हडलो आदार आशिल्ल्यान वेदांक पानां म्हळ्यांत. अशा ह्या संवसार रुखाचें जाका पुराय ज्ञान जालां, तो वेद-जाण जाल्लोच म्हणूंक जाय. ईश्वरच कितें तो खरो वेद-जाणपी. 'कठोपनिषदा'कडेन तुळा करात: यमान म्हळें, 'मूळ वयर आनी सकयल खांदयो असो हो अश्वत्थ (पिंपळ) अनादिकाला पासून आसा. तेंच शुद्ध चैतन्य आनी तेंच ब्रह्म.' (६-१). तशेंच, तैत्तिरीय उप. पळेयात. 'हांव जगत्-रुपी रुखाचो चालक.' (१-१०-१). हें आत्मज्ञान जाल्ल्या त्रिशंकु मुनीन म्हळां. (करंदी.)

*७. जे भाशेन व्हडलें आकाश वांटिल्लें नासतनाय वेगळ्यावेगळ्या घटांत (कळशांत) वेगळें वेगळें आशिल्ले वरी दिसता, तेच भाशेन सगल्या जिवांचे ठांय एकरुपान आसुनूय परमात्मो वेगळो वेगळो आशिल्ले वरी दिसता; म्हणून कुडींत रावतल्या जिवात्म्याक भगवंतान आपलो 'सनातन' अंश म्हळा. (गीता-गीता प्रेस).







# दैवासुरसंपद्‌विभागयोग

प्रकृतींत सत्त्व, रज आनी तम ह्या गुणांचें मिसरण आसल्यारूय रजगुणच मनशाक कर्म करपाक लायता. रजगुणाक चड करून सत्त्वाची जोड आसल्यार, त्या मनशाच्या आंगांत दैवी गुणसंपत्ती आसता. हाचे उरफाटें, तमगुणाची जोड आसपी मनशाच्या हातसून स्वार्थी दुश्कर्मां घडटात आनी ताच्या आंगांत आसुरी गुणसंपत्ती आसता. ज्ञानविज्ञान मार्गान आनी भक्तीमार्गान जाचेठांय सगल्या जिवांविशीं समभाव आसता (सर्वभूतात्मैक्य) अश्या (म्हळ्यार दैवी संपत्तीच्या) लोकांचें आनी जांकां ही दिश्टी ना, त्या स्वार्थी (आसुरी संपत्तीच्या) लोकांचो सबाव आनी चलणूक कशी आसता हाचें वर्णन ह्या अध्यायांत केलां.

पयल्या तीन श्लोकांत दैवी सबावाच्या मनशाचीं लक्षणां सांगल्यांत. चवथ्या श्लोकांत आसुरी सबावाच्या मनशाचीं लक्षणां सांगल्यांत. दैवी सबाव मनशाक मोक्ष दिता आनी आसुरी सबाव मनशाक संवसाराच्या पासांत घालता (५). फुडें आसुरी सबावाच्या मनशाचें विस्तारान वर्णन केलां (६-२०). वान्सा, तिडक आनी लोभ हीं नरकाचीं तीन दारां आसात. जो मनीस ह्या तीन दारांतसून वचना, तो व्हड सुवातेर पावता. जो शास्त्र नेम सोडून, मनाक मानत तसो चलता, ताचें काम सादना, सूख मेळना, तशी बरी गतीय मेळना. देखून कितें करचें आनी कितें करचें न्हय तें थारावंक शास्त्राचो आधार घेवचो. (२१-२४).

**षोडशोऽध्याय:**

श्री भगवानुवाच

**अभयं सत्त्वसंशुद्धिर्ज्ञानयोगव्यवस्थिति: ।**
**दानं दमश्च यज्ञश्च स्वाध्यायस्तप आर्जवम् ।।१।। ***

**अहिंसा सत्यमक्रोधस्त्याग: शान्तिरपैशुनम् ।**
**दयाभूतेष्वलोलुप्त्वं मार्दवं ह्रीरचापलम् ।।२।। ***

**तेज: क्षमा धृति: शौचमद्रोहो नातिमानिता ।**
**भवन्ति संपदं दैवीमभिजातस्य भारत ।।३।। ***

भगवंतान म्हळें

*अभय मनशुद्धी नी ज्ञानयोगांतु धारणा ।*
*दम दान तपां यज्ञ अभ्यास उजुतायु गा ॥१॥ **

*अहिंसा सत्य अक्रोध त्याग शांती बरेंपण ।*
*भूतदया नि निर्लोभ कंवळायु लज थीरताय् ॥२॥ **

*तेज धीर क्षमा शुद्धी अद्वेसु नमळायु गा ।*
*जाच्या आंगांतु हे गूण दैवी ताचो सबावु गा ॥३॥ **

भगवंतान म्हळें: आगा अर्जुना, भंय नासप, मनाची निर्मळकाय, आत्मज्ञान जोडपाक आनी मन एके सुवातेर थारावपाक नेटान वावरप, दान धर्म करप, दम (इंद्रियांचो संयम), पुजा करप, वेद शिकप, व्रतां-उपास करप आनी उजुतायेन चलप (१); अहिंसा, खरें उलोवप, तिडक नासप, त्याग, मनाची शांती आसप, चाडयो सांगना जावप, सगल्या जिवांची काकळूट करप, वखवख नासप, कंवळाय आसप, मनाची लज तशेंच थिरताय आसप (२); तेज, सोंशीकपण, मनाचो धीर, पवित्रताय आसप, दुस्वास तशेंच चड अभिमान नासप हे (सव्वीस) गूण दैवी जोड घेवन जल्माक आयिल्ल्या मनशाचे आसतात (३).

*अन्वय आनी अर्थ :* **श्रीभगवानुवाच** = भगवंतान म्हळें; **अभयम्** = भंय नासप; **सत्त्वसंशुद्धिः** = मनाची निर्मळकाय आनी सात्त्वीक वृत्ती; **ज्ञानयोग व्यवस्थितिः** = आत्मज्ञान जोडपाक आनी मन एके सुवातेर थारावपाक नेटान वावरप; **च दानम्** = आनी दान धर्म करप; **दमः** = दम (इंद्रियांचो संयम करप); **यज्ञः** = पुजा करप; **स्वाध्यायः** = वेद शिकप; **तपः** = व्रतां-उपास करप; **च आर्जवम्** = उजुतायेन चलप (१); **अहिंसा** = दुसऱ्याक पिडना जावप; **सत्यम्** = खरें उलोवप; **अक्रोधः** = तिडक नासप; **त्यागः** = त्याग (भोगांची वान्सा सोडप); **शान्तिः** = मनाची शांती; **अपैशुनम्** = चाडयो सांगना जावप; **भूतेषु दया** = सगल्या जिवांची काकळूट करप; **अलोलुप्त्वम्** = वखवख नासप; **मार्दवम्** = कंवळाय आसप; **ह्रीः** = मनाची लज आसप (वायट करण्यो करची लज दिसप); **अचापलम्** = थीरताय आसप (बेकारचावडी करिना जावप) (२); **तेजः** = तेज; **क्षमा** = क्षमा (सोंसणिकाय); **धृतिः** = धीर; **शौचम्** = निर्मळकाय (पवित्रताय); **अद्रोहः** = कोणाचो दुस्वास नासप; **नातिमानिता** = स्वताविशीं चड अभिमान नासप; (हे सव्वीस गूण); **भारत** = अर्जुना; **दैवीम्** = देवांली; **संपदम्** = जोड घेवन; **अभिजातस्य** = जल्माक आयिल्ल्या (कुळवंत मनशांच्या) आंगांत; **भवन्ति** = आसतात. (३)

**दम्भो दर्पोऽभिमानश्च क्रोधः पारुष्यमेव च ।**
**अज्ञानं चाभिजातस्य पार्थ संपदमासुरीम् ॥४॥**

*ढोंग गर्व अतीमान राग निश्टुरतायु गा ।*
*अज्ञान गूण हे जाचे ताचो सबाव आसुरी ॥४॥*

अर्जुना, धर्मिश्टतायेचें ढोंग, घमेंड, चड अभिमान, तिडक, निश्टुरताय, अज्ञान हीं सगलीं लक्षणां आसुरी जोड आशिल्ल्या मनशांचीं आसात. ४

*अ. अ.:* **पार्थ** = अर्जुना; **दम्भः** = धर्मिश्टतायेचें ढोंग; **क्रोधः** = तिडक; **पारुष्यम्** = निश्टुरताय (कठोर उलोवप); **च अज्ञानं एव** = आनी अज्ञानय; (हीं सगलीं) **आसुरी संपदम्** = आसुरी जोड आशिल्ल्या; **अभिजातस्य** = मनशांचीं (लक्षणां आसात). ४

**दैवी संपद्विमोक्षाय निबन्धायासुरी मता ।**
**मा शुचः संपदं दैवीमभिजातोऽसि पाण्डव ॥५॥**

*दैवी जोड दिता मुक्ती घाली पासांतु आसुरी ।*
*नाका खेद करूं पार्था दैवीच जोड गा तुजी ॥५॥*

देवांली जोड मुक्ती दिवपी आनी आसुरी जोड संवसाराच्या पासांत घालपी अशें मानतात. अर्जुना, तूं खेद काडूं नाका, कित्याक, तूं देवांली जोड घेवन जल्मला. ५

*अ. अ.:* **दैवी संपत् विमोक्षाय** = देवांली जोड मुक्ती दिवपी; **आसुरी** = दैत्यांली (आसुरी जोड); **निबन्धाय** = पासांत घालपी; **मता** = अशें मानतात (म्हणून) **पाण्डव मा शुचः** = अर्जुना (तूं) खेद काडूं नाका; (तूं) **दैवी संपदम् अभिजातः असि** = देवांली जोड घेवन जल्मला. ५

**द्वौ भूतसर्गौ लोकेऽस्मिन्दैव आसुर एव च ।**
**दैवो विस्तरशः प्रोक्त आसुरं पार्थ मे श्रृणु ॥६॥**

*ह्या लोकीं निर्मिल्ल्या दोनु जीव दैवी नि आसुरी ।*
*विस्तारान वर्णिले दैवी आतां तूं आयक आसुरी ॥६॥*

अर्जुना, ह्या संवसारांत जिवांची निर्मणी दोन तरांची आसता. एक, देवां भाशेची आनी दुसरी, असुरांचे भाशेची. देवां भाशेची निर्मणी हांवें तुका विस्तारान सांगली. दैत्यां भाशेची निर्मणी तूं आयक. ६

*अ. अ.:* **पार्थ** = अर्जुना; **अस्मिन् लोके** = ह्या संवसारांत; **भूतसर्गौ** = जिवांची निर्मणी; **द्वौ** = दोन (तरांची आसता); **दैवः च आसुरः** = एक देवां भाशेची आनी (दुसरी) असुरांचे भाशेची; **दैवः एवविस्तरशः प्रोक्तः** = देवांभाशेची (निर्मणी) (हांवें तुका) विस्तारान सांगली; **आसुरं मे श्रृणु** = दैत्यां भाशेची (निर्मणी) (तूं) म्हजेकडसून आयक. ६

**प्रवृत्तिं च निवृत्तिं च जना न विदुरासुराः ।**
**न शौचं नापि चाचारो न सत्यं तेषु विद्यते ॥७॥**

*कितें बरें कितें वायट नेणत लोक आसुरी ।*
*ना शुचिताय सदाचार सत्य नेणत ते तशे ॥७॥*

आसुरी सबावाचे लोक कितें करचें वा कितें करचें न्हय हें नकळत. तांचेठांय शुचिर्भूतपणा (कुडीची तशी मनाची निर्मळकाय), सदाचार (उजू चलणूक) आनी सत्यय आसना. ७

*अ. अ.:* **आसुराः जनाः** = आसुरी सबावाचे लोक; **प्रवृत्तिम्** = धर्माची चलणूक कसली (कितें करचें); **च** = वा; **निवृत्तिम्** = अधर्माची चलणूक कसली (कितें करचें न्हय); **न विदुः** = हें नकळत; **तेषु** = तांचे ठांय; **शौचम् न** (कुडीची आनी मनाची) निर्मळकाय आसना; **आचारः न च** = उजू चलणुकूय आसना; **सत्यं अपि न विद्यते** = आनी सत्यय आसना. ७

**असत्यमप्रतिष्ठं ते जगदाहुरनीश्वरम् ।**
**अपरस्परसंभूतं किमन्यत्कामहैतुकम् ।।८।।**

*म्हणी ते फट संवसार ना थैं आदार ईश्वर ।*
*जाला भोग सुखांतल्यान तो कसलो हेतूच ना दुजो ।।८।।*

हो संवसार सामको फटी आनी निराधार आसून ताचो कोणूच शास्तो (ईश्वर) ना. तो दादलो आनी बायल हांच्या भोग-संबंधापासून जाला आनी निखट्या विशयांच्या भोगापासतूच तो आसा; ताचो दुसरो कितें हेतू आसतलो अशे ते (आसुरी सबावाचे लोक) म्हणटात. ७

*अ. अ.:* **जगत्** = हो संवसार; **असत्यम्** = सामको फटी; **अप्रतिष्ठम्** = निराधार आसून; **अनीश्वरम्** = ताचो कोणूच शास्तो (ईश्वर) ना; **अपरस्परसंभूतं** = (तो) दादलो आनी बायल हांच्या भोग-संबंधांतसून जाला; **कामहेतुकम्** = निखट्या विशयांच्या भोगा पासतूच तो आसा; **अन्यत् किम्** = दुसरो कसलो हेतू तातूंत आसतलो?; (अशे) ते **आहु:** = ते (आसुरी सबावाचे लोक) म्हणटात. ८

**एतां दृष्टिमवष्टभ्य नष्टात्मानोऽल्पबुद्धय: ।**
**प्रभवन्त्युग्रकर्माण: क्षयाय जगतोऽहिता : ।।९।।**

*अशी धरून ही दिश्टी नश्टात्मे अल्पबुद्धिचे ।*
*क्रूर कर्मी जगा शत्रू जगानाशाकु जल्मती ।।९।।*

अशे तरेची नदर धरून, आत्म्याची वाट लायिल्ले, सामके उणे बुद्दीचे, लोकांक पिडटले, भयांकृत कर्तुपांचे हे लोक संवसाराचो खेळ करपाक जल्मतात. ९

*अ. अ.:* **एतां दृष्टिं अवष्टभ्य** = अशे तरेची नदर धरून; **नष्टात्मान:** = आत्म्याची वाट लायिल्ले; **अल्पबुद्धय:** = मंद बुद्दीचे; **अहिता:** = लोकांक पिडटले; **उग्रकर्माण:** = भयांकृत कर्तुपांचे लोक; **जगत: क्षयाय प्रभवन्ति** = संवसाराचो खेव करपाक जल्मतात. ९

**काममाश्रित्य दुष्पूरं दम्भमानमदान्विता: ।**
**मोहाद्गृहीत्वासद्ग्राहान्प्रवर्तन्तेऽशुचिव्रता: ।।१०।।**

*भागनाशी धरून वान्सा मातले गर्वान दांभिक ।*
*लटके नदरेनु मोहानु दुराचाराकु संवकले ।।१०।।*

भागोवपाक कठीण अशी भोगांची वान्सा धरून, ढोंग, घमेंड आनी मद हांणी मातिल्ले लोक, पिसायेन लटकी नदर धरून दुराचारान वागतात. १०

*अ. अ.:* **दुष्पूरं कामं आश्रित्य** = भागोवपाक कठीण अशी भोगांची वान्सा धरून; **दम्भमानमदान्विता:** = ढोंग, घमेंड आनी मद हांणी मातिल्ले (अशे लोक) **मोहात्** = पिसायेन; **असद्ग्राहान् गृहीत्वा** = लटकी नदर धरून; **अशुचिव्रता: प्रवर्तन्ते** = दुराचारान वागतात. १०

चिन्तामपरिमेयां च प्रलयान्तामुपाश्रिताः ।
कामोपभोगपरमा एतावदिति निश्चिताः ॥११॥

आशापाशशतैर्बद्धाः कामक्रोधपरायणाः ।
ईहन्ते कामभोगार्थमन्यायेनार्थसञ्चयान् ॥१२॥

*ना अंतपार चिंतांक भागना मर्ण वेर त्यो ।*
*वान्सा भोगूच मानी ते सार सर्वस्व निश्चित ॥११॥*

*बांदले शें आस्तपासांतु वान्सा रागानु भल्लले ।*
*भोगां पासतु अधर्मानु धन-संचयु वान्शिती ॥१२॥*

मरसर अगणित चिंता धरिल्ले, वान्सांची भर करप हीच जिणेंतली व्हडांतली व्हड मोख आनी होच जिणेचो सार मानपी (११), शेंकड्यांनी आशे-पासांनी बांदिल्ले, वान्सा-तिडकीन भरिल्ले अशे ते लोक; वान्शिल्ले भोग भोगचे खातीर अन्यायान जायतो दुडू सांठोवपाक वावुरतात. १२

*अ. अ.:* **प्रलयान्ताम्** = मरसर; **अपरिमेयाम्** = अगणित; **चिन्ताम् उपाश्रिताः** = चिंता धरिल्ले; **कामोपभोगपरमाः** = वान्सांची भर करप हीच जिणेंतली व्हडांतली व्हड मोख मानपी; **च एतावत् इति निश्चिताः** = हेंच जिणेचें सार-सार्थक असो निश्चय जाल्ले (११); **आशापाशशतैः बद्धाः** = शेंकड्यांनी आशे-पासांनी बांदिल्ले; **कामक्रोधपरायणाः** = वान्सा तिडकीन भरिल्ले (अशे ते लोक); **कामभोगार्थम्** = वान्शिल्ले भोग भोगचे खातीर; **अन्यायेन अर्थसञ्चयान् ईहन्ते** = अन्यायान जायतो दुडू सांठोवपाक वावुरतात. १२

इदमद्य मया लब्धमिदं प्राप्स्ये मनोरथम् ।
इदमस्तीदमपि मे भविष्यति पुनर्धनम् ॥१३॥

असौ मया हतः शत्रुर्हनिष्ये चापरानपि ।
ईश्वरोऽहमहं भोगी सिद्धोऽहं बलवान्सुखी ॥१४॥

आढ्योऽभिजनवानस्मि कोऽन्योऽस्ति सदृशो मया ।
यक्ष्ये दास्यामि मोदिष्य इत्यज्ञानविमोहिताः ॥१५॥

अनेकचित्तविभ्रान्ता मोहजालसमावृताः ।
प्रसक्ताः कामभोगेषु पतन्ति नरकेऽशुचौ ॥१६॥

*''हांवें हें जोडिलें आज येवजिल्लें येतुलें फळा ।*
*''म्हजें हें, हेंयु बी सर्व धन जोडीनु आनिक ॥१३॥*

*''माल्लो शत्रूकु ह्या आज फाल्यां हाणीनु हेर गा ।*
*''प्रभु हांव हांवु गा भोगी सिद्ध हांवु बळी सुखी ॥१४॥*

*"गिरेस्त नी कुलीनू हांवु कोणा येता म्हजी सर ।*
*करीन यज्ञ नी दान मौज बी" भुल्लले म्हणी ॥१५॥*

*भुलिल्ले चिंतनांनी भौ मोह जाळांतु घुस्पले ।*
*पडटातु विशयाभोगी ते नरकांत अमंगळ ॥१६॥*

"हांवें आज हें तर जोडलांच, हें येवजिल्लें म्हाका फाल्यां मेळटलें. म्हजेकडेन हें धन आसा, हेंवूय धन म्हजेंच जातलें (१३). हो शत्रू हांवें जिवो मारलो. दुसरोय हांव मारतलों. हांव ईश्वर, हांव भोगी, हांव सिद्ध, बळिश्ट आनी सुखी (१४). हांव व्हडलो गिरेस्त आनी कुलीन, म्हजे भाशेन दुसरो कोण आसा? हांव यज्ञ करतलों, दान वांट्टलों, चैनूय करतलों. हे भाशेन ते अज्ञानान पिसावतात (१५). जायत्या तजविजांनी चित्त भ्रमिल्ले, मोह जाळांत घुस्पल्ले, वान्शेच्या भोगांत सामके गुल्ल जाल्ले हे लोक अळशिकावण्या नरकांत पडटात.

*अ. अ.:* **मया अद्य इदं लब्धम्** = हांवें आज हें (तर) जोडलां(च); **इमं मनोरथं प्राप्स्ये** = हें येवजिल्लें फाल्यां मेळटलें; **मे इदं धनं अस्ति** = म्हजेकडेन हें धन आसा; **पुन: अपि इदं भविष्यति** = हेंवूय म्हजेंच जातलें (१३) **असौ शत्रु: मया हत:** = हो शत्रू हांवें जिवो मारलो; (आनी) **अपरान् अपि अहं हनिष्ये** = दुसरोय हांव मारतलों; **अहम् ईश्वर:** = हांव ईश्वर; **च भोगी; अहं सिद्ध: बलवान् सुखी** = आनी (हांव) भोगी, हांव सिद्ध, बळिश्ट आनी सुखी (१४) (हांव) **आढ्य:** = व्हडलो गिरेस्त; **च अभिजनवान् अस्मि** = आनी कुळवंत आसां; **मया सदृश: अन्य: क: अस्ति** = म्हजे वरी दुसरो कोण आसा?; **यक्ष्ये** = (हांव) यज्ञ करतलों; **दास्यामि** = हांव दान वांट्टलों; **मोदिष्ये** = (हांव) मौज करतलों; **इति** = हे भाशेन; **अज्ञानविमोहिता:** (ते) अज्ञानान गदळिल्ले आसतात; (१५) **अनेकचित्तविभ्रान्ता:** = जायत्या तजविजांनी चित्त भ्रमिल्ले; **मोहजालसमावृता:** = मोहाच्या जाळांत घुसपल्ले; **कामभोगेषु प्रसक्ता:** = वान्शे भोगांचे ओडीन गुल्ल जाल्ले (हे लोक); **अशुचौ नरके पतन्ति** = अळशिकावण्या नरकांत पडटात. १६

**आत्मसंभाविता: स्तब्धा धनमानमदान्विता: ।**
**यजन्ते नामयज्ञैस्ते दम्भेनाविधिपूर्वकम् ॥१७॥**
**अहंकारं बलं दर्पं कामं क्रोधं च संश्रिता: ।**
**मामात्मपरदेहेषु प्रद्विषन्तोऽभ्यसूयका: ॥१८॥**
**तानहं द्विषत: क्रूरान्संसारेषु नराधमान् ।**
**क्षिपाम्यजस्रमशुभानासुरीष्वेव योनिषु ॥१९॥**

*बडायखोर घमेंडी ते मातले मानान नी धनान् ।*
*कर्तातु यज्ञ नांवाचे दंभानु विधि वीण गा ॥१७॥*

*अहंकार बळा दर्पान् वान्शे तिडकीनु भल्लले ।*
*स्व-हेरां कुडिंतल्या म्हाका निंदी ते द्वेश करतले ॥१८॥*

*अशा त्या क्रूर नश्ट्यांकु संवसारीं ह्या उणाकु जे ।*
*घालीं हांव आसुरी जल्मा पापयोनी भयंकर ॥१९॥*

आपणाली आपुणूच बडाय मारतले, घमेंडी, धनाच्या आनी व्हडविकेच्या मदान मातिल्ले ते लोक शास्त्रनेम सोडून दांभिकपणान निखटे नांवापुरते यज्ञ करतात (१७). अहंकार, बळ, दर्प, बायलांची वान्सा आनी तिडक हांचो आसरो घेतिल्ले तशेच आपणाल्या आनी हेरांचे कुडींत आशिल्ल्या म्हजो (परमात्म्याचो) द्वेश आनी निंदा करतले (१८), अश्या त्या दुस्वाशी, वायट कर्तुपांच्या, क्रूर आनी पातकी उणाक मनशांक हांव जल्म-मर्णाच्या संवसारांत आसुरी कुसव्यांत एकसारको उडयतां. १९

*अ. अ.:* **आत्मसंभाविता:** = आपणालीच बडाय मारतले; **स्तब्धा:** = घमेंडी; **धनमानमदान्विता:** = धन आनी व्हडविकेच्या मदान मातिल्ले; **ते** = ते लोक; **अविधिपूर्वकम्** = शास्त्रनेम सोडून; **नामयज्ञै: दम्भेन यजन्ते** = निखटे नांवापुरते दांभिकपणान (धर्मिशठतायेच्या ढोंगान) यज्ञ करतात (१७); **अहंकारं, बलं, दर्पं, कामं च क्रोधं संश्रिता:** = अहंकार, बळ, दर्प, बायलांची वान्सा आनी तिडक हांचो आसरो घेतिल्ले; **आत्मपरदेहेषु माम् प्रद्विषन्त:** = आपणाले आनी दुसऱ्याले कुडींत आशिल्ल्या म्हजो द्वेश करतले (आनी) **अभ्यसूयका:** = निंदा करतले (१८) **तान् द्विषत:** = त्या द्वेश करतल्या; **अशुभान् क्रूरान् च नराधमान्** = वायट कर्तुपांच्या, क्रूर आनी पातकी उणाक मनशांक; **अहं संसारेषु** = हांव (जल्म-मर्णाच्या) संवसारांत; **आसुरी योनिषु एव** = आसुरी कुसव्यांतूच; **अजस्रम्** = एक सारको; **क्षिपामि** = उडयतां. १९

**आसुरीं योनिमापन्ना मूढा जन्मनि जन्मनि ।**
**मामप्राप्यैव कौन्तेय ततो यान्त्यधमां गतिम् ॥२०॥**

*जोडून आसुरी योनी जल्मो जल्मीं अबुद्धि ते ।*
*पावनातु म्हजेठांयीं अधोगतीकु ते वती ॥२०॥*

आगा अर्जुना, (हे भाशेन) ते मुर्ख दर एकल्या जल्माक म्हजेसरीं पावनासतना, ताचे परस उणाक गतीकच पावतात. २०

*अ. अ.:* **कौन्तेय** = अर्जुना; (हे भाशेन) **ते मूढा:** = ते मुर्खे; **जन्म नि जन्मनि** = दर एकल्या जल्माक; **आसुरीं योनिम् आपन्ना:** = आसुरी कुसवो जोडून; **माम् अप्राप्य** = म्हजेसरीं पावनासतना; **तत: अधमं गतिम् एव यान्ति** = ताचेपरस उणाक गतीकच पावतात. २०

**त्रिविधं नरकस्येदं द्वारं नाशनमात्मन: ।**
**काम: क्रोधस्तथा लोभस्तस्मादेतत्त्रयं त्यजेत् ॥२१॥**

*वान्सा वखवख नी क्रोधु आत्मनाशाक कारण ।*
*हें तिट्टी दार नर्काचें पार्था देखूनु सोडुंचें ॥२१॥*

वान्सा, तिडक आनी लोभ (वखवख) हें नरकाचें तिट्टी दार आपलो घात करता, देखून हें तिरकूट सोडूंक जाय. २१

*अ. अ.:* **कामः क्रोधः तथा लोभः इदं त्रिविधं नरकस्य द्वारम्** = वान्सा, तिडक तसोच वखवख (लोभ) हें नरकाचें तिट्टी दार; **आत्मनः नाशनम्** = आपलो घात करता; **तस्मात् एतत् त्रयं त्यजेत्** = देखून हें तिरकूट सोडूंक जाय. २१

**एतैर्विमुक्तः कौन्तेय तमोद्वारैस्त्रिभिर्नरः ।**
**आचरत्यात्मनः श्रेयस्ततो याति परां गतिम् ॥२२॥**

*तमा दारांतुल्यान तीनु सुटिल्लो नर अर्जुना ।*
*वता कल्याण मार्गानु पावऽ गतीकु उत्तम ॥२२॥*

आगा अर्जुना, ह्या तीन काळखाच्या नरकाच्या दारांतसून सुटिल्लो मनीस आपल्या हिताचें करता. तें करून व्हडले सुवातेर पावता. २२

*अ. अ.:* **कौन्तेय** = आगा अर्जुना; **एतैः त्रिभिः तमोद्वारैः** = ह्या तीन काळखाच्या (नरकाच्या) दारांतसून; **विमुक्तः नरः** = सुटिल्लो मनीस; **आत्मनः श्रेयः आचरति** = आपल्या हिताचें करता; **ततः परां गतिं याति** = तें करून (तो) व्हडले सुवातेर पावता. २२

**यः शास्त्रविधिमुत्सृज्य वर्तते कामकारतः ।**
**न स सिद्धिमवाप्नोति न सुखं न परां गतिम् ॥२३॥**

*जो शास्त्र नेमु सोडूनु चलऽ वान्शे कुयेनु जो ।*
*सिद्धी ना सूख ना ताका ना तशीच बरी गती ॥२३॥*

जो कोण शास्त्र नेम सोडून वान्शेचे कुयेंत चलता, ताका सिद्धी मेळना, ताका (ह्या संवसारांतलें) सूख मेळना आनी उत्तम गतीय मेळना. २३

*अ. अ.:* **यः शास्त्रविधिं उत्सृज्य** = जो कोण शास्त्रनेम सोडून; **कामकारतः** = वान्शेचे कुयेन (मनाक मारीत तसो); **वर्तते** = चलता; **सः सिद्धिं न अवाप्नोति** = ताका सिद्धी मेळना (ताका पूर्णताय मेळना); **परां गतिं न सुखं न** = ताका (ह्या संवसारांतलें सूख मेळना) आनी ताका व्हडली सुवात मेळना. २३

**तस्माच्छास्त्रं प्रमाणं ते कार्याकार्यव्यवस्थितौ ।**
**ज्ञात्वा शास्त्रविधानोक्तं कर्म कर्तुमिहार्हसि ॥२४॥**

*थाराय प्रमाण शास्त्रान कर्म वायट बरें कितें ।*
*समजूनु नेम शास्त्राचो संवसारांत कर्म तूं कर ॥२४॥*

देखून, लागणूक कितें आनी लागणूक कितें न्हय हें थारावपाक तुका शास्त्रच प्रमाण आसा. शास्त्रांत कितें सांगलां हें समजून ते भाशेन तुवें ह्या संवसारांत कर्म करूंक जाय. २४

*अ. अ.:* **तस्मात्** = देखून; **कार्याकार्यव्यवस्थितौ** = लागणूक कितें आनी लागणूक कितें न्हय हें थारावपाक; **ते शास्त्रप्रमाणम्** = शास्त्रच प्रमाण आसा; **शास्त्रविधानोक्तम्** = शास्त्रांत कितें सांगलां **ज्ञात्वा** = (हें) समजून; **कर्म कर्तुं अर्हसि** = तुवें ह्या संवसारांत कर्म करपाक जाय. २४

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **दैवासुरसम्पद्** विभागयोगो
नाम **षोडशोऽध्याय:** ।

हे भाशेन, भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो **दैवासुरसंपद्‌विभाग** योग नांवाचो **सोळावो** अध्याय सोंपलो.

## श्लोकटिपो

*१ - ३ गीतेंत सद्‌गुणांची चर्चा वेगळ्या वेगळ्या अध्यायांत जाल्या. देखीक, (१) ईश्वरभक्ती हो सगल्यांत व्हड सद्‌गूण म्हणून सांगला (अ. १२-१३). (२) १३व्या अध्यायांत श्लोक ७ ते ११ हातूंत सांगिल्ले सद्‌गूण हेंच ज्ञान अशें म्हळां. सोळाव्या अध्यायांतल्या पयल्या श्लोकांत ईश्वरी अनुकंपेच्या सगल्या गुणांचो खुलासो केला. शेकीं १८व्या अध्यायांतल्या ४२व्या श्लोकांत विंगड विंगड समाजीक थरांक फावो आशिल्ल्या सद्‌गुणांची माळच हांगा दिल्या. वयर दिल्ल्या चार सुवातांनी गीतेन विसकावणी करून अभ्यास केला. सद्‌गुणांची वळेरी निखटी तयार करप ही व्हडली गजाल न्हय. पुणून हे सगले सद्‌गुण एका मदेवर्ती सद्‌गुणांचीं आंगां आसात हें दाखोवप चड म्हत्वाचें. एका मदेवर्ती सद्‌गुणा सकयल हेर गूण हाडप ह्या प्रस्नाचो नीतशास्त्राच्या इतिहासांत सुटावो केला. पायथागॉरसान (Pythagoras) सुमेळ (Harmony), हें सर्वोच्च नीततत्त्व मानलां. प्लेटोन (Plato) शाणपण (Wisdom), धीर (Courage) आनी संयम (Temperance) हे सगले सद्‌गुण न्याय ह्या सदरा सकयल हाडल्यात. सेंट पॉल (St. Paul) आनी इसाई धर्माप्रमाण आनी फुडें सेंट आगुस्टीन (St. Augustine) च्या म्हणण्याप्रमाण श्रद्धा (Faith), आशा (Hope) आनी उदारताय (Charity) ह्या तीन सदगुणांपैकीं उदारतायेक मुखेल सुवात दिल्या. ग्रीक भाशेंत चॅरिटीचो प्रेम-भक्ती असो अर्थ जाता. देखून सेंट पॉल आनी सेंट आगुस्टीन हांणी ईश्वराचेर आनी मनशाचेर मोग करात हें तत्त्व म्हत्वाचें मानलें. फुडें स्पायनोझान (Spinoza) बुद्दीपरस ईश्वराची भक्ती हो मदेवर्ती सद्‌गुण मानलो. बेंथमान (Bentham) लोकांच्या हिताची इत्सा, तर सिड्‌विकान (Sidgwick) समदिश्टी. महात्मा गांधीन सत्य आनी अहिंसा. अशे तरेन ह्या सगल्या विचारवंतांनी आपले आवडीप्रमाण एका सद्‌गुणान सगले सद्‌गूण बांदल्यात.

भगवद्‌गीतेंत सद्‌गुणांची म्हायती दितना १२, १३ आनी १६ आनी १८ ह्या चार अध्यायांतल्या श्लोकांचो वयर उल्लेख केला. ह्या सगल्या सद्‌गुणांतल्यान ईश्वरी भक्तीचें सूत्र गुथलां. ह्या गुणांची यादी मुखार दिल्लेप्रमाण आसा:

**गीता - अध्याय १२:**

(१) करुणा (Compassion), (२) समता (Equanimity), (३) शौच (भायली आनी भितरली शुद्धी) (Purity),

**गीता - अध्याय १३:**

(४) अहिंसा (Harmlessness), (५) आत्मविनिग्रह (Self-control); (६) निरासक्ती (non-attachment),

**गीता - अध्याय १६:**

(७) अभय (Fearlessness), (८) यज्ञ (Sacrifice), (९) शान्ती (Peace),

**गीता - अध्याय १८:**

(१०) तेजस् (Valour), (११) ईश्वरभाव (Lordliness), (१२) परिचर्या (Service).

वयर दिल्ली यादी गीतेचे नितीक शिकवणेची सादारणपणान प्रातिनिधीक स्वरुपाची आसा. आनी हो दर एक सद्‌गूण अनुक्रमान ईश्वरभक्तीचें तत्त्वच कशें दाखयता हें पळोवया:

(१) **करुणा**: ईश्वराक आमची दया येवची, ईश्वराची आमचेर कृपा जावची देखुनूच आमी ताची करुणा भाकतात. ही करुणा भाकपाचें मुखेल तत्त्व म्हळ्यार आमी हेरांक आपलेवरीच समजतात. देखुनूच, जेन्ना आनी जंय गरज आसता, तेन्ना जिवावळीचेर दया करप आमकां चुकना. (२) **समता** हो दुसरो गूण म्हळ्यार एक ईश्वर भक्तीची अट आनी परिणामय आसा. मनाची संतुळा दवरलेबगर आमी ईश्वरा म्हऱ्यांत पावपाचे नात आनी ईश्वराचो साक्षात्कार जाले बगर संतुळेचे सगळ्यांत उंच अशे अवस्थे मेरेन आमी पावचेनात. (३) **शौच** (शुद्धी) - ईश्वरभक्तीचो उकतो आनी स्पश्ट परिणाम जालेबगर रावना आनी तो म्हळ्यार आमच्या मनाची शुद्धी जावप. आमचें अंतस्कर्ण ईश्वरान भरतकूच, खंयच्याच वायट विचाराक आमच्या मनांत रिगपाचें धाडस जायना. आमचो ईश्वर मत्सरी आसा आनी तो खंयच्याच तोतयाक (बनावट मनशाक) शिंवासनाचेर आपलो हक्क सांगूंक दिवंचेलो ना. (४) **अहिंसा**: सगल्या प्राणिमात्रांक समान लेखपाच्या तत्त्वांतूच अहिंसा आसपावता. आनी अहिंसा दर एक जीव पवित्र अशें मानता. देखुनूच अहिंसा हें तत्त्व निर्माण जाता. (५) **आत्मविनिग्रह** वा **आत्मसंयम**: आमचीं इंद्रियां पुराय ताब्यांत हाडलेबगर ईश्वराकडेन पावपाची आशाच करपाची ना. जर इत्सेचें सगल्यांत व्हड साध्य जो ईश्वर आमकां मेळपाक जाय, जाल्यार आमच्या अगणित वासना भागोवपी गजालींकडेन इंद्रियांनी धांवपाची गरज ना. बृहदारण्यक उपनिषदांत म्हळां: '**प्रेयोऽन्यस्मादान्तरतरोयद्यमात्मो**'। (६) **निरासक्ती**: पयलींच्याच तत्त्वाप्रमाण, भायल्या आनी भितरल्या सगल्या वस्तूंविशीं ओड आसूंक फावना. ईश्वराची ओड आसप म्हळ्यार हेर सगल्यांविशीं ओड नासप. ना जाल्यार 'भागवतां'तल्या जड भरताची अवस्था जातली. (७) **अभय**: ईश्वरी साक्षात्काराचो सगल्यांच उंच पांवडो चडटकूच निर्भयता आमच्या अणभवां फाटोफाट येता. उपनिषदांनी म्हळां: '**आनन्दं ब्रह्मणो विद्वान् न बिभेति कदाचन । न बिभेति कुतश्चन।**' ह्याच कारणाक लागून संत पूर्णपणान निर्भय आसतात. (८) **यज्ञ**: ईश्वर मेळपा पासत आपल्या सर्वस्वाचो यज्ञ करचो पडटा. होच यज्ञाचो खरो अर्थ. ईश्वराखातीर सर्वस्वाचो होम करतकूच हेर प्राणिमात्रा पासत फळाची आशा दवरिनासतना झटप हें आपशींच आयलें. (९) **शांती**: ईश्वरी आनंद आनी शांती हीं एकामेकांचेर

निंबून आसतात आनी तीं दोगूय वांगडाच पूर्णावस्थेक वतात. पुणून ईश्वरी चिदानंदा उपरांत जी शांती मेळटा ती हो चिदानंद जावचे पयलींचे शांती परसूय वयल्या पांवड्याची आसता. (१०) **तेजस**: जी व्यक्ती ईश्वरामेरेन पाविल्ली आसता, तिच्या विचारांत आनी कृतींत धिटाय आनी शुरताय दिसून येवंक जाय. देखुनूच तेज वा शुरताय ह्या सद्गुणांची गरज आसता. (११) **ईश्वरभाव**: हो गूण ईश्वरी साक्षात्कार जाल्ल्या मनशांत संपूर्ण प्रभुत्वाचो भाव निर्मिता. ताचे नदरेंत जें कितें येता, ताचो आपूण धनी हें ताच्या लक्षांत येता. आत्मसाक्षात्कारी सिद्धाचो ईश्वरभाव म्हळ्यारच हें धनीपण. तें म्हळ्यार एका दोंगराचें तेमूक. त्या एकमुळ्या व्हडपणांत तो एकलोच वावुरता आनी ताका जाय थंय आनी जाय तेन्ना हेरांचें कल्याण करपाचें बळगें येता. (१२) **परिचर्या (मानव-सेवा)**: अशे तरेचो धनीपणाचो भाव आसतना लेगीत ताका मानवतेची सेवा करप कठीण दिसना. खरें म्हळ्यार , मानव-सेवा ही धनीपणाच्या भावाचे आड आसा. अशें दिसल्यारूय तो धनीपणाचो परिणाम आसा. ईश्वरी साक्षात्काराचे स्वताचे नदरेन सर्वोच्च मुल्य म्हळ्यार हेरांमदीं आनी हेरांखातीर ईश्वरी साक्षात्कार जातलो, अशी परिस्थिती निर्माण करप. थोडक्यांत, भगवद्गीतेच्या सर्वोच्च नितीक शिकवणेची हातूंत पूर्णताय जाता. (रानडे, पा. १८५).



# श्रद्धात्रयविभागयोग

कितें करचें आनी कितें करचें न्हय असो दुभाव मनांत येतकीच मनशान शास्त्र (नीत वा कर्मयोग) प्रमाण मानून, तातूंत सांगिल्ले भाशेन चलचें अशें सोळाव्या अध्यायाचे अंतीं म्हणिल्लें. ताचेर अर्जुन कृष्णाक प्रस्न करता. कांय लोक श्रद्धावंत आसतात आनी आपले श्रद्धे प्रमाण ते भजन पूजन करतात, पूण तांची ही करणी शास्त्राक धरून आसताच अशी ना. तरी अश्या लोकांचे श्रद्धेक सत्त्वगुणी, रजगुणी काय तमगुणी समजुचें?

मनशाच्या सभावांत, विचारांत आनी आचारांत तांच्या सभावाप्रमाण सात्त्वीक, राजस आनी तामस अशे भेद जातात. ताची श्रद्धा ह्या भेदांचेर आधारिल्ली आसता. सगल्या तरांची श्रद्धा इश्ट न्हय. सात्त्वीक श्रद्धा हीच खरी श्रद्धा. तीच गीतेंतल्या योगशास्त्राक मानवता. सात्त्वीक श्रद्धा म्हळ्यार योग वृत्ती. राजस आनी तामस श्रद्धा ह्यो दोनूय अपश्रद्धा (१-३). मनशाच्या कर्मांतसून ताची श्रद्धा उक्ती जाता. हें सांगून फुडें उपासनांचे विशय, आसुरी तप आदी प्रकार सांगल्यात (४-६). योगबुद्‌दीन म्हळ्यार कर्मफळाची आसक्ती धरिनासतना कर्तव्यबुद्‌दीन केल्लीं यज्ञ, तप, दान आदी कर्मां सात्त्वीक (७-२२). स्वार्थ आनी लोभान केल्लीं कर्मां राजस. देखून तीं अनिश्ट. सात्त्वीक कर्मां योगवृत्तीन करचेलीं आसतात. सात्त्वीक कर्मां ॐ, तत् आनी सत् हे मंत्र म्हणून करचीं. ॐ म्हळ्यार ईश्वराक ओंपून कर्मां करप. तत् म्हळ्यार फळाची आशा सोडप आनी सत् म्हळ्यार सत्कर्म करप.

सप्तदशोऽध्याय:

अर्जुन उवाच

**ये शास्त्रविधिमुत्सृज्य यजन्ते श्रद्धयान्विता: ।**
**तेषां निष्ठा तु का कृष्ण सत्त्वमाहो रजस्तम: ।।१।।** *

अर्जुनान म्हळें

*जे शास्त्रविधी सोडून श्रद्धेनु जे पुजी तुका ।*
*निश्ठा तांची कशी कृष्णा सत्त्व वा रज वा तम ।।१।।* *

अर्जुनान म्हळें : आगा श्रीकृष्णा, शास्त्रविधीक सोडून पूण श्रद्धा जोडून जे पुजतात, तांगेली निश्ठा मागीर कसले तरेची? सत्त्वगुणी वा रजगुणी वा तमगुणी? १

*अन्वय अर्थ :* अर्जुन उवाच = अर्जुनान म्हळें; **कृष्ण** = आगा कृष्णा; **शास्त्रविधिम् उत्सृज्य** = शास्त्रविधीक सोडून; **ये** = जे (निखटे) **श्रद्धया अन्विताः** = श्रद्धा जोडून; **यजन्ते** = पुजतात; **तेषां निष्ठा** = तांगेली निश्ठा; **तुका** = मागीर कसले तरेची? **सत्त्वं आहो** = सत्त्वगुणी वा; **रजः तमः** = रजगुणी (वा) तमगुणी. १

श्रीभगवानुवाच

**त्रिविधा भवति श्रद्धा देहिनां सा स्वभावजा ।**
**सात्त्विकी राजसी चैव तामसी चेति तां श्रृणु ।।२।। ***

भगवंतान म्हळें

तीन तरांची श्रद्धा - सात्त्वीक श्रद्धा खरी श्रद्धा

*मन्शा श्रद्धे तरा तीन जाय ती तांच्या सभावगुणान् ।*
*सात्त्वीक राजसी आनी तामसी आयक तीच तूं ।।२।। **

भगवंतान म्हळें: मनशांची ती सबावगुणान जाल्ली श्रद्धा सत्त्वगुणी, रजगुणी आनी तमगुणी अशी तीन तरांचीच आसता. ती आयक. २

*अ.अ.:* **श्रीभगवानुवाच्** = भगवंतान म्हळें: **देहिनां सा स्वभावजा** = मनशांची ती सभावगुणान जाल्ली (शास्त्र संस्कार नाशिल्ली); **श्रद्धा** = श्रद्धा; **सात्त्विकी च राजसी च तामसी इति त्रिविधा एव भवति** = सत्त्वगुणी, रजगुणी आनी तमगुणी अशी तीन तरांचीच आसता. **ताम् श्रृणु** = ती (तूं) आयक.

**सत्त्वानुरूपा सर्वस्य श्रद्धा भवति भारत ।**
**श्रद्धामयोऽयं पुरुषो यो यच्छ्रद्धः स एव सः ।।३।।**

*सभावावरि गा श्रद्धा सर्वांची जाण भारता ।*
*घडला गा जीव श्रद्धेचो जशी श्रद्धा तसोच तो ।।३।।*

अर्जुना, सगल्यांची श्रद्धा तांच्या सत्त्वाभाशेन (सबावगुणाभाशेन) जाता. हो मनीसजीव श्रद्धेन घडला. जशी जाची श्रद्धा, तसोच तो जाता. ३

*अ.अ.:* **भारता** = आगा अर्जुना; **सर्वस्य श्रद्धा सत्त्वानुरुपा भवति** = सगल्या मनशांची श्रद्धा तांगेल्या सबावा भाशेन आसता; **अथं पुरुषः श्रद्धामयः** = हो मनीस श्रद्धेचो घडला; **यः** = जो मनीस; **यच्छ्रद्धः** = जे श्रद्धेन घडला; **सः एव सः** = तसोच तो मनीस. ३

**यजन्ते सात्त्विका देवान्यक्षरक्षांसि राजसा: ।**
**प्रेतान्भूतगणांश्चान्ये यजन्ते तामसा जना: ॥४॥**

*भजऽ सात्त्वीक देवांक राजसी यक्ष राक्षसां ।*
*प्रेत-भूतगणां पार्था भजती लोकु तामसी ॥४॥*

सत्त्वगुणी मनीस देवांक पुजतात. रजगुणी मनीस यक्षराक्षसांक आनी हेर तमगुणी मनीस प्रेतांक आनी भूतगणांक पुजतात. ४

*अ.अ.:* **सात्त्विका: देवान् यजन्ते** = सत्त्वगुणी मनीस देवांक पुजतात; **राजसा: यक्षरक्षांसि** = रजगुणी मनीस यक्ष राक्षसांक (पुजतात); **अन्ये तामसा: जन:** = हेर तमगुणी मनीस; **प्रेतान् च भूतगणान् यजन्ते** = प्रेतांक आनी भूतगणांक पुजतात. ४

**अशास्त्रविहितं घोरं तप्यन्ते ये तपो जना: ।**
**दम्भाहंकारसंयुक्ता: कामरागबलान्विता: ॥५॥**

**कर्षयन्त: शरीरस्थं भूतग्राममचेतस: ।**
**मां चैवान्त:शरीरस्थं तान्विद्ध्यासुरनिश्चयान् ॥६॥ ***

कर्माचें वेगळेंपण - आसुरी तप

*भल्लले ढोंग गर्वानु भोग वान्शे बळानु जे ।*
*शास्त्र विधीकु सोडूनु जे करतातु तपां खर ॥५॥*

*म्हाका आत्म्याकु पिडटातु जिवांमाल्याकु बी तशे ।*
*जाण ते अविवेकी गा सभाव गुणानु आसुरी ॥६॥ **

(धर्मिश्टायेचें) ढोंग आनी अहंकार आशिल्ले, भोगांची ओड आनी वान्सा आनी बळान भरिल्ले जे लोक शास्त्रां भायरीं भयांकृत तपां करतात (५), आनी कुडींत रावतल्या म्हाकाय (आत्म्याकय) आनी कुडींतल्या पांच म्हाभुतांच्या माल्याक (जिणेशक्तीक) पिडा भोगयतात, ते अबुद्दी पिशे, आसुरी बुद्दीचे लोक तूं समज. ६

*अ.अ.:* **दम्भाहंकारसंयुक्ता:** = (धर्मिश्टायेचें) धोंग आनी अहंकार अशिल्ले; **कामरागबलान्विता:** = भोगांची ओड, वान्सा आनी बळान भरिल्ले; **ये जना:** = जे लोक; **अशास्त्रविहितम् घोरं तप: तप्यन्ते** = शास्त्रां भायरीं घोर तपां करतात; **शरीरस्थं भूतग्रामम्** = कुडींतल्या पांच म्हाभुतांच्या माल्याक; **च अन्त: शरीरस्थ मां एव** = आनी कुडींत रावतल्या म्हाकाय (आत्म्याकय); **तान् अचेतस:** = त्या अबुद्दी मुर्ख्यांक; **आसुरनिश्चयान् विद्धि** = आसुरी बुद्दीचे लोक तूं समज. ६

आहारस्त्वपि सर्वस्य त्रिविधो भवति प्रियः ।
यज्ञस्तपस्तथा दानं तेषां भेदमिमं श्रृणु ॥७॥ *

जेवण-खाण

*जेवणांतुयू सगल्यांच्या     तीन तरा तशी रुची ।*
*पुजा तप तशीं दानां     तांचो हो भेदु आयक तूं ॥७॥ **

सगल्यांचे आवडीचें जेवण-खाण आनी तेच भाशेन यज्ञ, तप आनी दान धर्म हांच्योय तीन तरा आसतात. तांचो हो भेद तूं आयक. ७

*अ.अ.:* (तशेंच) **सर्वस्य प्रियः अपि आहारः** = सगल्यांचे आवडीचें जेवण-खाण; **तु तथा** = आनी तशेंच, (तांगेले) **यज्ञः तपः दानम्** = यज्ञ, तप आनी दानधर्म (हांच्योय तीन तरा); **भवति** = आसतात; **तेषां इमं भेदं श्रृणु** = तांचो हो भेद तूं आयक. ७

आयुःसत्त्वबलारोग्यसुखप्रीतिविवर्धनाः ।
रस्याःस्निग्धाःस्थिरा हृद्या आहाराः सात्त्विकप्रियाः ॥८॥ *

*वाडय उर्बा प्रिती स्वास्थ्य  आयुष्य बळ सुख बी ।*
*पुश्टीक तुपाळ दिता खोस  रोसाळु खाण सात्त्विकां ॥८॥ **

आयुश्याची पिराय, मनाचें बळगें (उर्बा), कुडीचें बळ, आरोग्यताय (स्वास्थ्य), सूख, प्रिती हांकां वाडोवपी, तशेंच रोसाळ, तुपाळ, पुश्टीक आनी मनाक खोस दिवपी खाणां सत्त्वगुणी मनशाक मानवतात. ८

*अ.अ.:* **आयुः** = आयुश्याची पिराय; **सत्त्व बल आरोग्य सुख प्रीति विवर्धनाः** = मनाचें बळगें, कुडीचें बळ, आरोग्य, सूख आनी रूच (हांकां) वाडोवपी, (तशेंच) **रस्याः** = रोसाळ; **स्निग्धाः** = तुपाळ; **स्थिराः** = पुश्टीक; **हृद्याः** = मनाक खोस दिणी; **आहाराः** = खाणां; **सात्त्विकप्रियाः** = सत्त्वगुणी लोकांक मानवतात. ८

[1]
कट्वम्ललवणात्युष्णतीक्ष्णरूक्षविदाहिनः ।
आहारा राजसस्येष्टा दुःखशोकामयप्रदाः ॥९॥ *

*तीख खार सुकें हुल्पाय     हून आंबट जाळि जें ।*
*राजसांचें रुची खाण     दी तें खेद पिडा दुख ॥९॥ **

दुख्ख, खेद आनी पिडा-रोग दितात तसलीं तीख, आंबट, खार, झणझणीत, जळजळपी, सुकीं सडसडीत, भगभगीत खाणां रजगुणी मनशांक रुचतात. ९

*अ.अ.:* **दुःखशोकामयप्रदाः** = दुख्ख, खेद आनी पिडा-रोग दितात (तसलीं) **कटु** = तीख; **अम्ल** = आंबट; **लवण** = खार; **अत्युष्ण** = खतखतीत; **तीक्ष्ण** = झणझणीत; **रूक्ष** = सुकीं सडसडीत; **विदाहिनः** = भगभगीत; **आहाराः राजसस्य इष्टाः** = रजगुणी मनशांक रुचतात. ९

**यातयामं गतरसं पूति पर्युषितं च यत् ।**
**उच्छिष्टमपि चामेध्यं भोजनं तामसप्रियम् ॥१०॥**

*शेळें सुवादु ना जाका बाशें बेळूस घाण जें ।*
*अळशिकावणें नि उश्टें बी खाण रुचीकु तामसां ॥१०॥*

शेळें, सुवाद रूच गेल्लें, घाणयारें, बेळशेल्लें तशें उश्टें, अळशिकावणेंय खाण तमगुणी मनशांक रुचता. १०

*अ.अ.:* **यत् भोजनम्** = जें जेवण; **यातयामम्** = शेळें (न्हिविल्लें); **गतरसम्** = सुवाद रूच गेल्लें; **पूति** = घाणयारें; **च पर्युषितम्** = बेळशेल्लें; **च उच्छिष्टम्** = तशेंच उश्टें; (आनी) **अमेध्यम् अपि** = अळशिकावणेंय (खाण); **तामसप्रियम्** = तमगुणी मनशाक प्रिय आसता. १०

**अफलाकाङ्क्षिभिर्यज्ञो विधिदृष्टो य इज्यते ।**
**यष्टव्यमेवेति मन: समाधाय स सात्त्विक : ॥११॥**

पुजा (यज्ञ)

*सोडूनु फळु वान्शेचें केल्ली विधीनु जी पुजा ।*
*कर्तव्यान् थीर चित्तानु पुजा ती जाण सात्त्विक ॥११॥*

जी पुजा शास्त्रविधीन वांट्याक आयिल्ली तशीच ती करप हीच लागणूक (कर्तव्य) अशें मनाचें समाधान करून, फळाची वान्सा सोडून करतात, ती पुजा सात्त्वीक. ११

*अ.अ.:* **य: यज्ञ:** = जी पुजा; **विधिदृष्ट:** = शास्त्रविधीन वांट्याक आयिल्ली (तशेंच); **यष्टव्यम् एव इति** = ती करप, हीच लागणूक अशें; **मन: समाधाय** = मनाचें समाधान करून; **अफलाकाङ्क्षिभि:** = फळाची वान्सा सोडून; **इज्यते** = करतात; **स: (यज्ञ:) सात्त्विक:** = ती पुजा सात्त्वीक. ११

**अभिसंधाय तु फलं दम्भार्थमपि चैव यत् ।**
**इज्यते भरतश्रेष्ठ तं यज्ञं विद्धि राजसम् ॥१२॥**

*फळा वान्शेनु जी केल्ली बडवचार म्हणूनु जी ।*
*हे तरेची पुजा पार्था ती तूं समज राजसी ॥१२॥*

आनी अर्जुना, फळाच्याच हेतून आनी निखट्या दंभान जी पुजा करतात, ती पुजा रजगुणी समज. १२

*अ.अ.:* **तु भरतश्रेष्ठ** = आनी अर्जुना; **फलं अपि अभिसंधाय** = फळाच्याच हेतून; **च दम्भार्थम् एव** = निखट्या दंभान (आपली गिरेस्तकाय आनी धर्मिश्ठताय मिरोवंक); **यत् यज्ञ: इज्यते** = जी पुजा करतात; **तं यज्ञं राजसं विद्धि** = ती पुजा राजस समज. १२

विधिहीनमसृष्टान्नं मन्त्रहीनमदक्षिणम् ।
श्रद्धाविरहितं यज्ञं तामसं परिचक्षते ॥१३॥

*मंत्रहीण विधीहीण अन्नदाना विरेतु जी ।*
*भावार्थ दक्षिणेवीण म्हळ्या ती तामसी पुजा ॥१३॥*

शास्त्रनेम सोडून, अन्नदाना विरयत, मंत्रां विरयत, दक्षिणा दिनासतना, श्रद्धेविणें केल्ली पुजा तमगुणी म्हणटात. १३

*अ.अ.:* **विधिहीनम्** = शास्त्रनेम सोडून; **असृष्टान्नम्** = अन्नदाना विरयत; **मन्त्रहीनम्** = मंत्राविरयत; **अदक्षिणम्** = दक्षिणा दिनासतना; **श्रद्धाविरहितम्** = श्रद्धेविरयत (केल्ली); **यज्ञं तामसं परिचक्षते** = पुजेक तमगुणी म्हणटात. १३

देवद्विजगुरुप्राज्ञपूजनं शौचमार्जवम् ।
ब्रह्मचर्यमहिंसा च शारीरं तप उच्यते ॥१४॥

तप

*गुरुदेवांदिकां भौमान सद्‌भाव शुचितायु बी ।*
*ब्रह्मचर्य अहिंसा गा हांकां म्हळां कुडी तप ॥१४॥*

देव, ब्राह्मण, गुरू, ज्ञानी हांकां भौमानप तशेंच कुडीची निर्मळकाय, उजू चलणूक, ब्रह्मचर्य (राखप) आनी दुसऱ्यांक पिडना जावप हांकां कुडीचें तप म्हणटात. १४

*अ.अ.:* **देव द्विज गुरु प्राज्ञ पूजनम्** = देव, ब्राह्मण, गुरू, ज्ञानी हांकां भौमानप; **शौचम्** = कुडीची निर्मळकाय; **आर्जवम्** = उजू चलणूक; **च ब्रह्मचर्यं** = आनी इंद्रियांचो निग्रह; (आनी) **अहिंसा** = दुसऱ्यांक पिडना जावप; (हांकां) **शारीरं तपः उच्यते** = कुडीचें तप म्हणटात. १४

अनुद्वेगकरं वाक्यं सत्यं प्रियहितं च यत् ।
स्वाध्यायाभ्यसनं चैव वाङ्मयं तप उच्यते ॥१५॥

*मना जीं लागना उतरां खरीं गोड बरीं तशीं ।*
*करप वेद अभ्यास वाचेचें तप हें म्हळां ॥१५॥*

कोणाच्याच मनाक लागना अशीं सत, मोगाळ आनी हितकारी अशीं उतरां उलोवप आनी वेद म्हणप हांकांच वाङ्मय (वाचेचें) तप म्हळां. १५

*अ.अ.:* **च यत् अनुद्वेगकरम्** = आनी जीं (कोणाच्याच मनाक) लागना अशीं; **सत्यं प्रियहितं वाक्यम्** = सत्य, मोगाळ आनी हितकारी अशीं उतरां उलोवप; **च स्वाध्यायाभ्यसनम्** = वेद म्हणप; **एव** = हांकांच; **वाङ्मयं तपः उच्यते** = वाचेचें (वाणीचें) तप म्हणटात. १५

**मन:प्रसाद: सौम्यत्वं मौनमात्मविनिग्रह: ।**
**भावसंशुद्धिरित्येतत्तपो मानसमुच्यते ॥१६॥**

*मन प्रसन्न मृदुभाव मना निग्रह मौन बी ।*
*निर्मळ जो मनाभाव म्हळां हाका मना तप ॥१६॥*

मनाची प्रसन्नताय, मृदु भाव, मौन राखप, मनाचो निग्रह, मनाची निर्मळसाण अशें हें मनाचें तप म्हणटात. १६

*अ.अ.:* **मन:प्रसाद:** = मनाची प्रसन्नताय; **सौम्यत्वं मौनं आत्मविनिग्रह:** = मृदु भाव, मौन, मनाचो निग्रह; **भावसंशुद्धि:** = मनाची निर्मळसाण; **इति एतत्** = अशें हें; **मानसं तप: उच्यते** = मनाचें तप म्हणटात. १६

**श्रद्धया परया तप्तं तपस्तत्त्रिविधं नरै: ।**
**अफलाकाङ्क्षिभिर्युक्तै: सात्त्विकं परिचक्षते ॥१७॥**

*योग्यांनी तीन भासांचें केल्लें पूर्ण श्रद्धेनु जें ।*
*फळा वान्शेविणें पार्था म्हळां सत्त्वगुणी तप ॥१७॥*

(वयर सांगिल्लें) फळाविशीं निरिच्छ, थीर-चित्त मनशांनी उपाट श्रद्धेन आचरिल्लें तीन तरांचें (कुडीचें, वाचेचें आनी मनाचें) तप सत्त्वगुणी म्हणटात. १७

*अ.अ.:* (वयर सांगिल्लें) **अफलाकाङ्क्षिभि:** = फळाविशीं निरिच्छ; **युक्तै: नरै:** = थीर-चित्त (योगी) मनशांनी; **परया श्रद्धया तत् तप्तं त्रिविधं तप:** = उपाट श्रद्धेन आचरिल्लें तीन तरांचें (कुडीचें, वाचेचें आनी मनाचें) केल्लें तप; **सात्त्विकं परिचक्षते** = सात्त्वीक (तप) म्हणटात. १७

**सत्कारमानपूजार्थं तपो दम्भेन चैव यत् ।**
**क्रियते तदिह प्रोक्तं राजसं चलमध्रुवम् ॥१८॥**

*जोडूंक तुस्त पुजा मान केल्लें दंभानु जें तप ।*
*त्या तपा राजशी म्हणटी जें खिणयाळें अशाश्वत ॥१८॥*

लोकांनी आपलो भोवमान, तुस्त आनी पुजा करची म्हूण वा दंभान आचरिल्ल्या अस्थिर आनी खिणयाळें फळ दिवपी तपाक हांगा रजगुणी तप म्हणटात. १८

*अ.अ.:* **सत्कारमानपुजार्थम्** = लोकांनी आपलो भोवमान. तुस्त आनी पुजा करची म्हूण, (वा) **दम्भेन एव यत् तप: क्रियते** = निखट्या दम्भान जें तप करतात; **तत् अध्रुवं** = त्या अस्थिर (आनी); **चलम्** = खिणयाळें फळ दिवपी (तप); **इह राजसं प्रोक्तम्** = हांगा रजगुणी म्हणटात. १८

मूढग्राहेणात्मनो यत्पीडया क्रियते तपः ।
परस्योत्सादनार्थं त्रा तत्तामसमुदाहृतम् ॥१९॥

*पिसायेच्या हटान केल्लें    दिवन पिडा जिवाकु गा ।*
*हेरां करुंकु घट्टाण    म्हळां तें तप तामसी ॥१९॥*

पिसायेच्या हटान, कुडीक पिडापीड भोगोवन वा दुसऱ्यांचें घट्टाण करपाचे इत्सेन जें तप करतात तें तमगुणी म्हणटात. १९

*अ.अ.:* **मूढग्राहेण** = पिसायेच्या हटान; **आत्मनः पीडया** = आपले (कुडीक) पिडापीड भोगोवन; **परस्य उत्सादनार्तम्** = दुसऱ्यांचें घट्टाण करपाचे इत्सेन; **यत् तपः क्रियते** = जें तप करतात; **तत् तामसं उदाहृतम्** = तें (तप) तमगुणी म्हणटात. १९

दातव्यमिति यद्दानं दहीयतेऽनुपकारिणे ।
देशे काले च पात्रे च तद्दानं सात्त्विकं स्मृतम् ॥२०॥

. दान

*दिवचें म्हणूनु जें देणें    जाका ना तांक फेडुंची ।*
*योग्य पात्रीं स्थळीं काळीं    मानलां तें दानु सात्त्विक ॥२०॥*

आनी फावोशी सुवात, वेळ-काळ आनी मनीस पळोवन, उपकार फेडपाची तांक नाशिल्ल्याक, आपली लागणूक म्हणून जें दान दितात. तें दान सत्त्वगुणी मानतात. २०

*अ.अ.:* **च देशे काले च पात्रे च** = आनी फावोशी सुवात, वेळ-काळ आनी मनीस पळोवन; **अनुपकारिणे** = उपकार फेडपाची तांक नाशिल्ल्याक; **दातव्यं इति यत् दानं दीयते** = आपली लागणूक म्हणून जें दान दितात; **तत् दानं सात्त्विकं स्मृतम्** = तें दान सत्त्वगुणी मानतात. २०

यत्तु प्रत्युपकारार्थं फलमुद्दिश्य वा पुनः ।
दीयते च परिक्लिष्टं तद्दानं राजसं स्मृतम् ॥२१॥

*पर्ते उपकारू फेडूंकू    फळा हेतूनु जें दिती ।*
*येवनु जिवारू कश्टानु    तें दान राजशी म्हळा ॥२१॥*

परते दुसऱ्यान आपणाक उपकरा पडचे खातीर. ना जाल्यार फळाचे वान्शेन, जिवार आयिल्ले वरी मोठ्या कश्टान, जें दान दितात तें रजगुणी दान म्हणटात. २१

*अ.अ.:* **तु प्रत्युपकारार्थम्** = पुणून परते दुसऱ्यान आपले उपकार फेडचे म्हणून; **वा फलं उद्दिश्य** = (ना जाल्यार) फळाच्या हेतून; **परिक्लिष्टम्** = जिवार आयिल्लेवरी, मोठ्या कश्टान; **यत् पुनः दीयते** = जें दान दितातः **तत् दानं राजसं स्मृतम्** = तें दान रजगुणी म्हणटात. २१

**अदेशकाले यद्दानमपात्रेभ्यश्च दीयते ।**
**असत्कृतमवज्ञातं तत्तामसमुदाहृतम् ।।२२।।**

*फावना त्या स्थळीं काळीं  अपात्रीं दान जे दिती ।*
*हिणावनु अवमानानु  म्हळां तें दान तामसी ।।२२।।*

फावोशी सुवात आनी वेळ-काळ पळेनासतना वा फावना जाल्ल्या मनशांक भौमानाविरयत आनी अपमान करून जें दान दितात तें दान तमगुणी म्हणटात. २२

*अ.अ.:* **च अदेशकाले** = आनी फावोशी सुवात आनी वेळ-काळ पळेनासतना; (वा) **अपात्रेभ्य:** = फावना जाल्ल्यां मनशांक; **असत्कृतम्** = भौमाना विरयत; **अवज्ञातम्** = अखटायेन (तिरस्कारान); **यत् दानं दीयते** = जें दान दितात; **तत् तामसं उदाहृतम्** = तें (दान) तमगुणी म्हणटात. २२

**ॐ तत्सदिति निर्देशो ब्रह्मणस्त्रिविध: स्मृत: ।**
**ब्राह्मणास्तेन वेदाश्च यज्ञाश्च विहिता: पुरा ।।२३।।** *

*ॐ तत् सत् ह्यो तरा तीन  ब्रह्मा निर्देश ज्यो करी*
*तांणीच निर्मिलीं आदीं  देव ब्राह्मण यज्ञ बी ।।२३।।* *

ॐ तत् सत् अश्या तीन तरांनी ब्रह्माचें नांव सांगलां. ताणें आदी काळांत ब्राह्मण, वेद आनी यज्ञ निर्मिले. २३

*अ.अ.:* **ॐ तत् सत् इति त्रिविध:** = ॐ तत् सत् अश्या तीन तरांनी **ब्रह्मण: निर्देश: स्मृत:** = ब्रह्माचें नांव सांगलां; **तेन पुरा** = तांणी (ह्या तीन नांवानी) आदी काळांत; **ब्राह्मणा: च वेदा: च यज्ञा:** = ब्राह्मण आनी वेद आनी यज्ञ (हे), **विहिता:** = निर्माण केले. २३

**तस्मादोमित्युदाहृत्य यज्ञदानतप:क्रिया: ।**
**प्रवर्तन्ते विधानोक्ता: सततं ब्रह्मवादिनाम् ।।२४।।** *

*आदीं म्हणूनु ॐकार  जाणिल्ले ब्रह्म अर्जुना ।*
*करी दान तपां यज्ञ  ह्यो नेमिल्ल्यो क्रिया सदीं ।।२४।।* *

देखून, ब्रह्म जाणपी लोकांच्यो यज्ञ, दान, तप आदी नेमून दिल्ल्यो क्रिया सदींच ॐ म्हणून जातात. २४

*अ.अ.:* **तस्मात् ब्रह्मवादिनाम्** = देखून ब्रह्म जाणपी लोकांच्यो; **विधानोक्ता:** = नेमून दिल्ल्यो; **यज्ञदानतप:क्रिया:** = पुजा, दान-धर्म, तपां ह्यो क्रिया; **सततं ॐ इति** = सदींच ॐ अशें; **उदाहृत्य प्रवर्तन्ते** = म्हणून (उच्चारून) जातात. २४

तदित्यनभिसंधाय फलं यज्ञतप:क्रिया: ।
दानक्रियाश्च विविधा: क्रियन्ते मोक्षकाङ्क्षिभि: ॥२५॥

*स्मरून तत् पदा लोक इत्सुपी मोक्ष जोडूंकु ।*
*फळाची आस सोडून करी दान पुजा तपां ॥२५॥*

फळाची वान्सा धरिनासतना मुमुक्षु लोक पुजा, दान, तप आदी क्रिया 'तत्' अशे भावनेन करतात. २५

*अ.अ.:* **फलं अनभिसंधाय** = फळाची वान्सा धरिनासतना; **मोक्षकाङ्क्षिभि:** = मुमुक्षु (मोक्ष जोडूंक इत्सुपी) लोक; **विविधा: यज्ञतप:क्रिया: दानक्रिया:** = जायत्या तरांच्यो यज्ञ, तप आनी दान आदी क्रिया; **तत्** = तत् (म्ह. 'तत्' ह्या नांवान पाचारिल्लो परमात्मो); **इति क्रियन्ते** = अशे (भावनेन) करतात. २५

सद्भावे साधुभावे च सदित्येतत्प्रयुज्यते ।
प्रशस्ते कर्मणि तथा सच्छब्द: पार्थ युज्यते ॥२६॥

*सत्य बरेंपणा अर्थान् सत हो शब्द येवजिती ।*
*बरे करणेकुयू पार्था सत हो शब्द येवजिती ॥२६॥*

सत् हें जें परमात्म्याचें नांव आनी बरेंपण ह्या दोनूय अर्थान येवजितात. तशेंच, आगा पार्था, बऱ्या कर्माकूय सत् ह्या उतराचो प्रयोग करतात. २६

*अ.अ.:* **सत् इति एतत्** = सत् हें जें (परमात्म्याचें नांव); **सद्भावे च साधुभावे** = आनी बरेंपण ह्या अर्थान येवजितात; **तथा प्रशस्ते कर्मणि** = तशेंच भौच बऱ्या कर्माकूय; **सत् शब्द: युज्यते** = सत् शब्दाचो प्रयोग करतात. २६

यज्ञे तपसि दाने च स्थिति: सदिति चोच्यते ।
कर्म चैव तदर्थीयं सदित्येवाभिधीयते ॥२७॥

*नांव सत् थीर वृत्तीकु यज्ञ दान तपां मदीं ।*
*कर्मां ते पासतू केल्लीं ताका म्हणटातु सत् अशें ॥२७॥*

पुजा-पनस्कार, दान आनी तप हांचे ठांय थीर आसपाचे स्थितीकय (निश्ठेक) सत् अशें म्हणटात आनी तांचे पासत केल्लें कर्म 'सत्' (बरें कर्म) अशेंच म्हणटात. २७

*अ.अ.:* **यज्ञे तपसि च दाने च** = पुजा पनस्कार, तपां आनी दान-धर्म; **स्थिति: एव च** = हांचेठांय थीर आसपाचे स्थितीकय **'सत्' इति उच्यते** = 'सत' अशें म्हणटात; **च तदर्थीयम् कर्म** = आनी तांचे खातीर केल्लें कर्म; **'सत्' एव इति अभिधीयते** = 'सत' अशेंच म्हणटात. २७

**अश्रद्धया हुतं दत्तं तपस्तप्तं कृतं च यत् ।**
**असदित्युच्यते पार्थ न च तत्प्रेत्य नो इह ॥२८॥**

***केल्लीं श्रद्धेविणें कर्मां यज्ञ दान कश्टां तप ।***
***असत् ताकाच म्हण्टातु व्यर्थ हांगा तशींच थैं ॥२८॥***

आगा पार्था, भावार्था विणें केल्लें पुजेचें हवन, दिल्लें दान, कश्ट सोंसून केल्लें तप तशेंच जें कितें कर्म आसता, तें 'असत्' अशें म्हणटात. तें ह्या लोकांत ना आनी मरतकीचय ना (उपकारा पडना). २८

*अ.अ.:* **पार्थ** = आगा अर्जुना; **अश्रद्धया** = भावार्था विणें; **हुतम्** = केल्लें पुजेचें हवन; **दत्तम्** = दिल्लें दान; **तप्तं तपः** = कश्ट सोंसून केल्लें तप; **च यत् कृतम्** = आनी जें (कितें) कर्म आसता; **(तत्)** = तें; **असत् इति उच्यते** = असत् अशें म्हणटात; **तत् नो इह** = तें ह्या लोकांतूय ना; **च न प्रेत्य** = आनी मरतकीचय ना; (म्हळ्यार उपकरा पडना). २८

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्सु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **श्रद्धात्रयविभाग**योगो
नाम **सप्तदशो**ऽध्यायः ।

हे भाशेन, श्री भगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो, ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो **श्रद्धात्रयविभागयोग**
नांवाचो **सतरावो** अध्याय सोंपलो.

## टिपो

१. पुर्विल्ल्या ग्रंथांत 'कटू' हो शब्द तीख ह्या अर्थान वापरताले. मिरयां कटु वर्गांतलीं. हालींच्या काळांत कटू म्हळ्यार कडू असो अर्थ लायतात.

## श्लोकटिपो

*१-२ श्रद्धा मनाक गुरुत्वाकर्षणाचे शक्तीभाशेन आसता. आमचे कुडीक जशी पृथ्वीची गुरुत्वाकर्शणाची शक्ती ओडून धरता, तशी आमच्या मनाचे संतुळेक श्रद्धा. मनशाची श्रद्धा कित्याचेरूय आसूंक जाता, देखीक विज्ञानाचे नेम, राजकी वाद, ईश्वर इत्यादी. मनशाक

सत्याचो सोद घेवंक लावपी तीच खरेली श्रद्धा हें श्रीअरविंदांचें मत. बऱ्या आदर्शांचेर विश्वास आसप ही खरेली श्रद्धा. चुकीच्या वा वायट आदर्शांचेर विश्वास ही खरेली श्रद्धा आसूंक शकना.

मनशाची श्रद्धा कशी आसची ह्या अर्जुनाच्या प्रस्नाची जाप दिवपाखातीर श्रीकृष्ण पयलीं श्रद्धेचे प्रकार आनी श्रद्धा सबावाचेर निंबून आसता हें सांगता. खंयचेंय कर्माचरण करतना शास्त्रविधी चुकून पाळ्ळो ना जाल्यार, सबावीक श्रद्धा बदलना अशें जायना.

श्रीशंकराचार्यांच्या मत्तान मनशाची श्रद्धा शास्त्रविधीचेर निंबून नासता, तर ती मनशाच्या चारित्र्याचेर आनी ताचे उपासनेचेर निंबून आसता.

३ ते २२व्या श्लोकांत लेखकान जायत्या प्रस्नांचो विचार केला. ते मुर्स्तीत घडये ह्या प्रस्नांत लोकांक रस आशिल्लो. हे प्रस्न म्हळ्यार श्रद्धा, जेवण, यज्ञ, तप, दान, संन्यास, त्याग इत्यादी आसले.

*६. पळेयात 'बृहदारण्यक उपनिषद्' - १-३-१. **द्वया ह प्राजपत्या देवाश्चासुराश्च । ततः कानीयसा देवा ज्यायसा असुराः ।** (प्रजापतीचीं भुरगीं दोन तरांचीं. एक देव आनी दुसरे असूर. तातुंतले देव ल्हान आनी असूर व्हडले.)

*७. हांगा निवृत्ती आनी प्रवृत्ती हांचो अर्थ स्पश्ट करपाक जाय. आसुरी सबावाच्या लोकांक विवेक नाशिल्ल्यान, तांचो निर्णय चुकता. तांची लागणूक ते करिनात. आनी करूंक फावनाशिल्ले तेंच करतात. अ. १८ श्लोक ३० हातूंत सात्त्वीक बुद्दीचें लक्षण वर्णिलां. थंय जी बुद्दी प्रवत्ती आनी निवृत्ती, कार्य आनी अकार्य, बंध आनी मोक्ष सारकीं समजता, ती बुद्दी सारकी अशें म्हळां. हाचे उरफाटें, आसुरी सबावाच्या मनशांक सदाचाराची तिडक आनी दुराचाराची आवड आसता.

*८. आसुरी लोक ह्या जगाक निर्माणकर्तो आनी शास्तो असो कोण ईश्वरूच ना अशें मानतात. हें ताचें मत्त चूक आसून, ह्या जगाक निमित्त कारण असो ईश्वर आनी ताचेच सत्तेन हें जग चल्लां अशें दैवी संपत्तीचे लोक मानतात.

*९. ही सगली सृश्ट आपली भोगवान्सा भागोवपाखातीरच आसा. असली स्वार्थी दिश्टी एकदां आपणायतकीच मागीर तसल्या आसुरी मनशाच्या हातसून समाजाचो घात जावपाचीं कर्मा घडपाचीं, कित्याक, ताका कसलोच विधीनिशेध नासतलो.

*२३-२४ वान्सा, तिडक आनी लोभ हांची त्रयी सोडून, बऱ्या आचरणांचो मार्ग सोदून काडप आनी ते वाटेन वचपाचो निश्चय करप हें शुद्ध बुद्दीचें कार्य. जाची बुद्द शुद्ध जाली, ताका हें आपशींच सादता. जांकां हें सादना, तांकां शास्त्रान घाल्लो विधिनिशेध पाळचो पडटा. ताका लागून मनीस स्वच्छंदी जायना आनी ताका आपली भोग विशयांची खाज आळाबंदा हाडपाक येता. पुणून आसुरी सबावाच्या मनशांक हें जमना. ते शास्त्र नेम पाळिनात आनी स्वच्छंदी जीण जगतात. देखून तांकां सूख आनी सद्गती मेळना.



# मोक्षसंन्यासयोग

ह्या अध्यायांत गीतेचो सार आयला, म्हूण ताका ज्ञानेश्वरान एकाध्यायी गीता म्हळा. ह्या अध्यायाचें नांव मोक्षसंन्यास योग वा जल्ममर्णांतसून सोडवण. ह्या अध्यायाचे मुखेल विशय अशे: संन्यास आनी त्याग हांच्यो नव्यो व्याख्या, कृतार्थ जाल्ल्या ज्ञानी मनशाचें निस्वार्थी कर्म, कर्माच्या निर्णयाक ज्ञान, बुद्‌दी, धृती (मनाचो धीर) आदी गजालींची गरज, पातक आनी दुख्ख हांचे पसून सुटपाक योगाचें म्हत्व, ध्यानान मनाशांती जोडप, गीतेच्या संदेशाचो सार आनी फळश्रुती.

आरंभाकूच संन्यास आनी त्याग हांच्यो नव्यो व्याख्या दिल्यात. 'काम्य कर्मां' म्हळ्यार वान्शेन आनी लाभापासत केल्लीं कर्मां सोडप आनी आत्मशुद्धी पासत कांय कर्मां करप होच 'योगांतलो संन्यास'. सगलीं कर्मां करुनूय तांच्या फळाचो लोभ नासप आनी तांचे पासून मेळपी लाभ सोडप होच 'योगांतलो त्याग'. कूड धरिल्ल्याक कर्मां पुराय तरेन सोडपाक येनात. पूण जो कर्मफळ सोडटा, तोच खरेलो त्यागी. लोभ सोडनाशिल्ल्याक तीन तरांचें फळ मेळटा. पूण त्यागी मनशाक तें सोडचें पडना (१-१२).

मागीर सांख्यमत्ता प्रमाण कर्मसिद्धी पासत पांच कारणां सांगल्यांत. (१) कुडीची सुवात (अधिष्ठान), (२) कुडींत रावन कर्मां करतलो जीव वा कर्तो, (३) कुडीचीं वेगळीं वेगळीं इंद्रियां, (४) इंद्रियांची तरेकवार आनी वेगळीं वेगळीं कर्तुपां आनी (५) दैव वा अद्रुश्ट. तातुंतलो कर्तो वा कुडींत रावन कर्मां करतलो जीव हेंच एक स्वाधीन कारण. हेर चारूय हीं पराधीन कारणां. म्हूण 'हांवूच कर्तो' असो अहंकार आनी लोभ हीं दवरिनासतना योगवृत्तीन कर्म करतकीच कर्माचें पातक लागना आनी दुख्ख जायना (१३-१७).

हे उपरान्त सत्त्वादी त्रिगुणा प्रमाण, ज्ञान, कर्म, कर्तो, बुद्‌दी, धृती आनी सूख हांचे भेद सांगल्यात (१८-४०). हांचे उपरांत कर्माचे वांटणेची विसकणी केल्या (४१-४८). आपलो सभाव आनी वृत्ती हांचे प्रमाण दर एकल्यान बुद्‌दीचो, कुडीचो आनी समाजीक वेवसाय वेंचचो. तो निश्ठेन करप हीच ईश्वराची पुजा अशें मानचें. स्वकर्म आनी आपलो नीज धर्म होच स्वधर्म वा नीज धर्म मानचो. ही चातुर्वर्ण्याची व्याख्या. ती जल्मान जोडिल्ली जात आनी कूळ हांचे पेल्यान वता. हाचे उपरान्त शांती साधना कशी करची हें सांगलां (४९-५३). मनीस निश्काम (कर्मफळाचे आशे विरयत) जावन आनी मनाची संतुळा जोडून ध्यानयोगान ताचे दोश ना जातकीच तो मनाची शांती मेळयता. हीच ब्रह्मप्राप्ती. तो

परमभक्तीन, उपासक मनान ईश्वराकडेन एकरूप जाता आनी आपली लागणूक (कर्तव्यां) करीत रावता. सगल्या जिवांचें कल्याण करप हेंच ताचें कर्म. मनीस आपले प्रकृती प्रमाण सभावाक बरीं पडत असलीं कर्मां करपाक लायता. मनीस प्रकृतीचे / ईश्वराचे आधीन आसता (५७-६१). पातक आनी दुख्ख हातुंतसून सुटपाक आनी कर्मनिर्णया पासत मनशान भक्तीन आनी योगतत्त्वान चलचें. पयल्या अध्यायांतल्या अर्जुनाच्या प्रस्नाची जाप हांगा मेळटा (६२-६६). गीतेचो अभ्यास, गीतेचेर प्रवचन आनी गीतेचें आचरण हेवूय भक्तीचेच मार्ग. ते ईश्वराक मानवतात (६७-७१). गीता आयकुचेलें फलित कितें? गीता आयकतकीच अर्जुनाचो मोह आनी दुभाव ना जालो. संजयाकूय गीता आयकून खोस जाली (७२-७७).

गीतेची फळश्रुती कितें? जंय नीत आसा, थंय मनशाक खरेलें वैभव मेळटा. गीतेचो आरंभ 'धर्म' ह्या उतरान जाला आनी तिची अखेर 'नीत' ह्या उतरान. धर्म आनी नीत हांचेर आधारिल्ल्या 'अर्थ' आनी 'काम' ह्या पुरुशार्थांच्या जिवितांतूच अखेर मनशाची जल्म-मर्णाच्या ह्या संवसारांतसून सोडवण आसा.

## अष्टदशोऽध्याय:

अर्जुन उवाच

**संन्यासस्य महाबाहो तत्त्वमिच्छामि वेदितुम् ।**
**त्यागस्य च हृषीकेश पृथक्केशिनिषूदन ।।१।। ***

अर्जुनान म्हळें

संन्यास कर्माचो न्हय - कर्मफळाचो

*संन्यास-तत्त्व श्रीकृष्णा इत्सी समजूंक हांवु गा ।*
*त्यागाचेंयु हृषीकेशा विंगड तत्त्व सांग तूं ।।१।। **

अर्जुनान म्हळें : इंद्रियांच्या धनया, केशी दैत्याक मारतल्या, बळिश्ट भुजांच्या कृष्णा, संन्यास आनी त्याग हांचें तत्त्व (खरेलें रूप) खरेलें हांव वेगळें समजूंक सोदतां. १

***अन्वय अर्थ :*** **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें; **महाबाहो हृषीकेश केशिनिषूदन** = आगा बळिश्ट बावळ्यांच्या कृष्णा, इंद्रियांच्या धनया, केशी दैत्याक मारतल्या; **संन्यासस्य च त्यागस्य** = संन्यास आनी याग हांचें; **तत्त्वम्** = तत्त्व (खरेलें रूप); **पृथक्** = वेगळें वेगळें; **वेदितुं इच्छामि** = समजूंक इत्सितां.

श्रीभगवानुवाच

**काम्यानां कर्मणां न्यासं संन्यासं कवयो विदुः ।**
**सर्वकर्मफलत्यागं प्राहुस्त्यागं विचक्षणाः ॥२॥**

भगवंतान म्हळें

*सोडप कर्मां फळा वान्शेन्   ज्ञानी संन्यास मानि तो ।*
*फळां सोडप कर्माचीं   बुदवंत त्याग तो म्हणी ॥२॥*

भगवंतान म्हळें : फळाचे वान्शेन केल्लीं कर्मां सोडप हाका ज्ञानी लोक संन्यास समजतात आनी सगल्या कर्मांचें फळ सोडप हाका बुदवंत त्याग म्हणटात. २

*अ.अ.:* **श्रीभगवानुवाच्** = भगवंतान म्हळें; **काम्यानां कर्मणां न्यासम्** = फळाचे वान्शेन केल्लीं कर्मां सोडप; (हाका) **कवयः** = ज्ञानी लोक; **संन्यासं विदुः** = संन्यास समजतात; **च सर्वकर्मफलत्यागम्** = सगल्या कर्मांचें फळ सोडप; (हाका) **विचक्षणाः** = बुदवंत; **त्यागं प्राहुः** = त्याग म्हणटात. २

**त्याज्यं दोषवदित्येके कर्म प्राहुर्मनीषिणः ।**
**यज्ञदानतपःकर्म न त्याज्यमिति चापरे ॥३॥**

*जातयांच दोश कर्मांत   म्हणी बुदवंत सोड तें ।*
*सोडुंची न्ही म्हणी हेर   यज्ञ दान तपां तशीं ॥३॥*

कर्म जातयांच बादता, देखून तें सोडप बरें, अशें कांय विचारवंत म्हणटात. तर पुजा पनस्कार, दान-धर्म हीं तप-रुपी कर्मां सोडचीं न्हय अशें दुसरे म्हणटात. ३

*अ.अ.:* **कर्म दोषवत्** = कर्म जातयांच बादता (देखून तें); **त्याज्यम्** = सोडप बरें; **इति एके मनीषिणः प्राहुः** = अशे कांय विचारवंत म्हणटात; **इति अपरे (आहुः)** = दुसरे कांय म्हणटात (की); **च यज्ञदानतपःकर्म** = पुजा-पनस्कार, दान-धर्म, व्रतां-उपास ही तपरुपी कर्मां; **न त्याज्यम्** = सोडचीं न्हय.

**निश्चयं श्रृणु मे तत्र  त्यागे भरतसत्तम ।**
**त्यागो हि पुरुषव्याघ्र  त्रिविधः संप्रकीर्तितः ॥४॥ ***

*आयक त्यागा विशीं पार्था   म्हजो निश्चित निर्णय ।*
*तीन म्हणटात त्यागाच्यो   तरा त्यो शूर अर्जुना ॥४॥ **

आगा अर्जुना, तातूंत त्यागाविशीं म्हगेलो निर्णय तूं आयक. त्याग (सत्त्वगुणी, रजगुणी आनी तमगुणी असो) तीन तरांचो सांगला. ४

*अ.अ.:* **भरतसत्तम** = अर्जुना; **तत्र त्यागे मे निश्चयम् श्रृणु** = तातूंत त्यागा विशीं म्हजो निश्चय (तूं) आयक; **पुरूषव्याघ्र** = मनशांमदल्या वागा (शूर अर्जुना); **त्यागः त्रिविधः हि संप्रकिर्तितः** = त्याग (सत्त्वगुणी, रजगुणी, तमगुणी असो) तीन तरांचो सांगला. ४

यज्ञदानतप:कर्म न त्याज्यं कार्यमेव तत् ।
यज्ञो दानं तपश्चैव पावनानि मनीषिणाम् ।।५।।

*यज्ञ, दान, तपां कर्म सोडचीं न्ही करचींच तीं ।*
*शाण्याक चित्त शुद्धीची यज्ञ दानां तपां तशीं ।।५।।*

पुजा, दान-धर्म आनी व्रतां-उपास हीं तपरूपी कर्मां सोडूंक फावनात. तीं करपाकूच जाय. हीं कर्मां ज्ञानी लोकांक पावन करतात. ५

*अ.अ.:* **यज्ञदानतप:कर्म** = पुजा, दान-धर्म आनी व्रतां-उपास हीं (तपरुपी) कर्मां; **न त्याज्यम्** = हीं सोडूंक फावनात; **तत् कार्यं एव** = तीं करपाकूच जाय; **यज्ञः दानं च तपः एव** = पुजा, दान धर्म, आनी व्रतां-उपासूय (हीं कर्मां); **मनीषिणां पावनानि** = बुदवंतांक पावन करतात. ५

एतान्यपि तु कर्माणि सङ्गं त्यक्त्वा फलानि च ।
कर्तव्यानीति मे पार्थ निश्चितं मतमुत्तमम् ।।६।। *

*पूण हीं सर्व कर्मां गा आसक्ती फळ सोडुनू ।*
*करप योग्य हें मत्त म्हजें निश्चीत उत्तम ।।६।। **

पूण अर्जुना, हीं कर्मांय ओड आनी फळ सोडून करपाक फावो अशें म्हगेलें निश्चीत आनी उत्तम मत्त आसा. ६

*अ.अ.:* **तु पार्थ** = पूण अर्जुना; **एतानि कर्माणि अपि** = हीं कर्मांय; **सङ्गम् च फलानि त्यक्त्वा** = ओड आनी फळ सोडून; **कर्तव्यानि इति मे निश्चितं उत्तमं मतम्** = करपाक फावो अशें म्हगेलें निश्चीत आनी उत्तम मत आसा. ६

नियतस्य तु संन्यास: कर्मणो नोपपद्यते ।
मोहात्तस्य परित्यागस्तामस: परिकीर्तित: ।।७।।

*सोडूंक फावना कर्मां जीं नेमिल्लीं धनंजया ।*
*जो तीं मोहानु सोडी गा तो म्हळा त्याग तामसी ।।७।।*

आनी अर्जुना, नेमिल्लें कर्म सोडपाक फावना, पिसायेन तें सोडप हाका तमगुणी त्याग म्हणटात. ७

*अ.अ.:* **तु** = आनी (अर्जुना); **नियतस्य कर्मणः संन्यासः न उपपद्यते** = नेमिल्लें कर्म सोडपाक फावना; **मोहात् तस्य परित्यागः** = पिसायेन तें सोडप; (हो) **तामसः त्याग परिकीर्तितः** = तमगुणी त्याग म्हळा. ७

**दु:खमित्येव यत्कर्म कायक्लेशभयात्त्यजेत् ।**
**स कृत्वा राजसं त्यागं नैव त्यागफलं लभेत् ॥८॥**

*कुडी कश्टा भयानू गा　　कर्म सोडी दुखां-दिणें ।*
*तो त्याग राजसी देखून्　　जाता तो त्याग निर्फळ ॥८॥*

जें कर्म दुखदिणेंच आसा अशें धरून कूड कश्टावतली ह्या भंयान जो मनीस कर्म सोडटा, तो रजगुणी त्याग करुनूय, त्या त्यागाचें फळ ताका मेळचें ना. ८

*अ.अ.:* **यत् कर्म दु:खं एव इति** = जें कर्म दुख्खदिणेंच आसा अशें (समजून); **कायक्लेशभयात्** = कूड कश्टावतली ह्या भंयान; (जो मनीस) **कर्म त्यजेत्** = कर्म सोडटा; **स: राजसं त्यागं कृत्वा एव** = तो रजगुणी त्याग करुनूय; **त्यागफलं न लभेत्** = (ताका) त्यागाचें फळ मेळचें ना. ८

**कार्यमित्येव यत्कर्म नियतं क्रियतेऽर्जुन ।**
**सङ्गं त्यक्त्वा फलं चैव स त्याग: सात्त्विको मत: ॥९॥**

*कर्म कर्तव्य बुद्दीनू　　करी नेमून दिल्ललें ।*
*फळाची ओड सोडूनू　　मानला तो त्याग सात्त्विक ॥९॥*

आगा अर्जुना, ओड आनी फळ सोडून लागणुकूच म्हूण जो आपलें नेमिल्लें कर्म करता, तोच त्याग सत्त्वगुणी मानला. ९

*अ.अ.:* **अर्जुन** = अर्जुना; **सङ्गम् च फलं त्यक्त्वा** = (भोगांची) ओड आनी फळ सोडून; **कार्यं इति एव** = लागणुकूच म्हूण; **यत् नियतं कर्म क्रियते** = जो आपलें नेमिल्लें कर्म करता; **स: एव सात्त्विक: त्याग: मत:** = तोच सत्त्वगुणी त्याग मानला. ९

**न द्वेष्ट्यकुशलं कर्म कुशले नानुषज्जते ।**
**त्यागी सत्त्वसमाविष्टो मेधावी छिन्नसंशय: ॥१०॥**

*दुस्वाशिना कुकर्मांक　　बऱ्या कर्मांचि आस ना ।*
*सत्त्वशीळु दुभावा वीण　　त्यागी तो ज्ञानवंत बी ॥१०॥*

वायट कर्मांचो द्वेश करिनाशिल्लो आनी सुखदिण्या कर्मांची आसक्ती नाशिल्लो सत्त्वशील बुदवंत मनीस दुभावाविरयत असो त्यागी आसता. १०

*अ.अ.:* **अकुशलं कर्म न द्वेष्टि** = वायट कर्मांचो द्वेश करिनाशिल्लो; (आनी) **कुशले न अनुषज्जते** = सूख दिण्या कर्मांची आसक्ती नाशिल्लो; **सत्त्वसमाविष्ट:** = सत्त्वशील; **मेधावी** = बुदवंत; **छिन्नसंशय:** = दुभावा विरयत; (असो) **त्यागी** = त्यागी (आसता). १०

न हि देहभृता शक्यं त्यक्तुं कर्माण्यशेषतः ।
यस्तु कर्मफलत्यागी स त्यागीत्यभिधीयते ।।११।।

*जावंचे ना देहवंताक कर्म पुरायु सोडप ।*
*जो जोडी फळु कर्माचें तोच त्यागी म्हळा खरो ।।११।।*

कित्याक, देह आशिल्ल्याक सगलीं कर्मां पुराय सोडपाक जायनात. देखून, जो मनीस कर्माचें फळ सोडटा, तोच त्यागी अशें म्हणटात. ११

*अ.अ.:* हि देहभृता = कित्याक देह आशिल्ल्याक; **कर्माणि अशेषतः त्यक्तुं न शक्यम्** = सगलीं कर्मां पुराय सोडपाक जायना (देखून); **यः कर्मफलत्यागी** = जो मनीस कर्माचें फळ सोडटा; **सः तु** = तोच त्यागी; **इति अभिधीयते** = अशें म्हणटात. ११

अनिष्टमिष्टं मिश्रं च त्रिविधं कर्मणः फलम् ।
भवत्यत्यागिनां प्रेत्य न तु संन्यासिनां क्वचित् ।।१२।।

*मेळऽ कर्मा फळू तिट्टी इश्ट अनिश्ट मिस्रित ।*
*फळ वान्श्याक मर्तांच तें संन्याशाक मेळना ।।१२।।*

कर्माचें बरें, वायट आनी भरसल्लें म्हळ्यार बरें-वायट अशें तीन तरांचें फळ मरतकच कर्मफळ सोडिनाशिल्ल्यांक मेळटा, पूण संन्याशांक (त्यागी मनशांक) तें केन्नाच मेळना. १२

*अ.अ.:* **कर्मणः इष्टम्** = कर्माचें इश्ट (बरें); **अनिष्टं च मिश्रम्** = वायट आनी भरसल्लें (बरें वायट); **इति** = अशें; **त्रिविधं फलम्** = तीन तरांचें फळ; **प्रेत्य** = मरतकच; **अत्यागिनम्** = कर्मफळ सोडिनाशिल्ल्याक; **भवति** = जाता (मेळटा); **तु संन्यासिनां क्वचित् न** = पूण संन्याशांक (कर्माचें फळ) केन्नाच जायना (मेळना). १२

पञ्चैतानि महाबाहो कारणानि निबोध मे ।
सांख्ये कृतान्ते प्रोक्तानि सिद्धये सर्वकर्मणाम् ।।१३।।

कर्म हें प्रकृतीचें एक कार्य

*सिद्धी पासत कर्माच्या सांगिल्या पांच कारणां ।*
*निर्णय सांख्य शास्त्रांत तीं घे समजून अर्जुना ।।१३।।*

आगा अर्जुना, सांख्य शास्त्राच्या सिद्धान्तांत सगलीं कर्मां सिद्धीक वचपाक हीं पांच कारणां सांगल्यांत तीं म्हजे कडसून समजून घे. १३

*अ.अ.:* **महाबाहो** = अर्जुना; **सांख्ये कृतान्ते** = सांख्य सिद्धान्तांत; **सर्वकर्मणां सिद्धये** = सगलीं कर्मां सिद्धीक वचपाक (घडपाक); **एतानि पञ्च कारणानि प्रोक्तानि** = हीं पांच कारणां सांगल्यांत; (**तानि** = तीं) **मे निबोध** = म्हजेकडसून समजून घे. १३

**अधिष्ठानं तथा कर्ता करणं च पृथग्विधम् ।**
**विविधाश्च पृथक्चेष्टा दैवं चैवात्र पञ्चमम् ॥१४॥ ***

*अधिष्ठान तसो कर्तो तर्तरां कुडि इंद्रियां ।*
*कर्तुपां तर्तरां तांचीं पांचवें अद्रुश्ट बी तशें ॥१४॥ ***

अधिश्ठान (कुडीची सुवात), तसोच कुडिंतलो कर्तो (जिवात्मो), कुडीचीं वेगळीं वेगळीं इंद्रियां, तरेकवार आनी वेगळीं वेगळीं इंद्रियांचीं कर्तुपां आनी तांचे वांगडाच पांचवें दैव (अद्रुश्ट) अशीं पांच आसात. १४

*अ.अ.:* **अधिष्ठानं च कर्ता** = कुडीची सुवात (आधार) आनी कर्तो, **च पृथग्विधं करणं** = आनी कुडीचीं वेगळीं वेगळीं पांच इंद्रियां; **च विविधाः पृथक् चेष्टाः** = आनी वेगळीं वेगळीं इंद्रियांचीं कर्तुपां (यत्न); **च अत्र दैव तथा एव पञ्चमम्** = ताचे वांगडा पांचवें दैव (अद्रुश्ट) (अशीं पांच आसात).

**शरीरवाङ्मनोभिर्यत्कर्म प्रारभते नरः ।**
**न्याय्यं वा विपरीतं वा पञ्चैते तस्य हेतवः ॥१५॥**

*काया वाचा मनानूयु करी कर्म मनीस जें ।*
*धर्माचें वा अधर्माचें तांचीं हीं पांच कारणां ॥१५॥*

मनीस कुडीन, वाचेन आनी मनान जें कितें धर्माचें वा अधर्माचें कर्म करता, ताचीं हीं पांच कारणां. १५

*अ.अ.:* **नरः शरीर वाङ्मनोभिः** = मनीस कुडीन, वाचेन आनी मनान; **यत् न्याय्यं वा विपरीतम्** = जें कितें धर्माचें वा अधर्माचें; **कर्म प्रारभते** = कर्म आरंभता; **तस्य एते पञ्च हेतवः** = ताचीं हीं पांच कारणां. १५

**तत्रैवं सति कर्तारमात्मानं केवलं तु यः ।**
**पश्यत्यकृतबुद्धित्वान्न स पश्यति दुर्मतिः ॥१६॥**

*तरी जो आपणाकूच कर्तो कर्मांत मानिता ।*
*बुद्दी निवळूंक ना म्हूण तो दुर्मती सम देखिना ॥१६॥*

पूण अशें आसतनाय, जो कोण बुद्दी निवळूंक नाशिल्ल्यान त्या विशयांत आपुणूच एकटो कर्तो अशें समजता, तो वायट बुद्दीचो मनीस सारको बरो पळेना. १६

*अ.अ.:* **तु एवं सति** = पूण अशें आसतनाय; **यः** = जो कोण; **अकृतबुद्धित्वात्** = बुद्दी निवळूंक नाशिल्ल्यान (संस्कारीत जावंक नाशिल्ल्यान); **तत्र** = त्या विशयांत; **केवलं आत्मानं कर्तारम्** = आपुणूच एकटो कर्तो (अशें) **पश्यति** = समजता; **सः दुर्मतिः** = तो वायट बुद्दिचो मनीस; **न पश्यति** = सारको बरो पळेना. १६

**यस्य नाहंकृतो भावो बुद्धिर्यस्य न लिप्यते ।**
**हत्वापि स इमाँल्लोकान्न हन्ति न निबध्यते ।।१७।।**

*'हांव कर्तो' भाव ना जाका  जाचे बुद्‌दीक लेप ना ।*
*मारना मारून लोकांक  कर्म बंधन जायिना ।।१७।।*

ज्या मनशाच्या अंतस्कर्णांत हांव कर्तो अशी भावना ना, जागेले बुद्‌दीक कर्मफळाचो लेप लागना, ताणें ह्या सगल्या लोकांक जिवानशीं मारुनूय, तो तांकां हाणिना आनी ताका ताचें बंधन जायना. १७

*अ.अ.:* **यस्य** = ज्या मनशाच्या (अंतस्कर्णांत); **अहंकृत:** = हांव कर्तो (अशी); **न भाव:** = भावना नासता; **यस्य बुद्धि: न लिप्यति** = जागेले बुद्‌दीक (कर्मफळाचो) लेप लागना; **स: इमान् लोकान् हत्वा अपि** = तो मनीस ह्या सगल्या लोकांक जिवानशीं मारुनूय; **न हन्ति** = तो (तांकां) हाणिना; **न निबध्यते** = आनी ताका ताचें बंधन जायना. १७

**ज्ञानं ज्ञेयं परिज्ञाता त्रिविधा कर्मचोदना ।**
**करणं कर्म कर्तेति त्रिविध: कर्मसंग्रह: ।।१८।।**

ज्ञान आनी कर्म

*ज्ञान ज्ञेय तसो ज्ञातो  कर्माचीं तीन कारणां ।*
*इंद्रियां कर्म नी कर्तो  करी कर्म त्रिकूट हें ।।१८।।*

ज्ञान (जाणवीक), ज्ञेय (जाण-जावचेली वस्तु) आनी ज्ञातो (जाण-जातलो) हें तिर्कूट मनशाक कर्म करपाक लायता. इंद्रियां, कर्म आनी कर्तो असो तीन तरांचो कर्माचो मेळ आसता (तांकां लागुनूच कर्मां घडटात.) १८

*अ.अ.:* **ज्ञानम्** = ज्ञान (जाणवीक); **ज्ञेयम्** = जाण-जावचेली वस्तु; **परिज्ञाता** = ज्ञातो (जाण जातलो); **त्रिविधा** = हीं तिनूय (हें तिर्कूट) (मनशाक); **कर्मचोदना** = कर्म करपाक लायतात; **कर्ता करणं कर्म इति** = कर्तो, इंद्रियां (कर्म करचेलीं साधनां) कर्म (म्ह. क्रिया) असो; **त्रिविध: कर्मसंग्रह:** = तीन तरांचो कर्माचो मेळ (म्ह. ह्या तिनांयच्या मेळपान कर्मां घडटात.) १८

**ज्ञानं कर्म च कर्ता च त्रिधैव गुणभेदत: ।**
**प्रोच्यते गुणसंख्याने यथावच्छृणु तान्यपि ।।१९।।**

*ज्ञान, कर्म तसो कर्तो  त्रिगुणी भेद तीन जे ।*
*सांख्य शास्त्रांतुलें तत्त्व  आयक तूं तें तशा तशें ।।१९।।*

ज्ञान, कर्म तसोच कर्तो हीं गुणांच्या भेदान तीन तरांचीं आसात अशें सांख्य शास्त्राच्या गुणांचे वळेरेंत सांगलां. त्यो तराय तशा तश्यो आयक.

*अ.अ.:* **ज्ञानं च कर्म च कर्ता एव** = ज्ञान, कर्म तसोच कर्तोय; **गुणभेदत:** = तीन गुणांच्या भेदान (वेगळेपणान); **त्रिधा** = तीन तीन तरांचीं आसात (अशें) **गुणसंख्याने प्रोच्यते** = सांख्यशास्त्राचे गुणाचे वळेरेंत सांगलां; **तानि अपि** = त्यो तराय; **यथावत् श्रृणु** = तश्यातश्यो आयक. १९

**सर्वभूतेषु येनैकं भावमव्ययमीक्षते ।**
**अविभक्तं विभक्तेषु तज्ज्ञानं विद्धि सात्त्विकम् ॥२०॥**

तीन तरांचें ज्ञान

*सर्व जिवां मदीं पार्था तत्त्व एकूच शाश्वत ।*
*अनेकांत पळे एक सत्त्वगुणीच ज्ञान तें ॥२०॥*

वेगळ्या वेगळ्या सगल्या जिवांचे ठांय एकूच अविनाशी, वाटूंक नाशिल्लें परमात्म्याचें रूप आसा हें ज्या ज्ञानान समजता, तें ज्ञान सात्त्वीक समज. २०

*अ.अ.:* **विभक्तेषु** = वेगळ्या वेगळ्या; **सर्वभूतेषु** = सगल्या जिवांचे ठांय; **एकं अव्ययं अविभक्तम्** = एकूच अविनाशी वाटूंक नाशिल्लें; **भावम्** = (परमात्म्याचें) रूप; **येन** = ज्या ज्ञानान; **ईक्षते** = दिसता (समजता); **तत् ज्ञानं सात्त्विकं विद्धि** = तें ज्ञान सत्त्वगुणी समज. २०

**पृथक्त्वेन तु यज्ज्ञानं नानाभावान्पृथग्विधान् ।**
**वेत्ति सर्वेषु भूतेषु तज्ज्ञानं विद्धि राजसम् ॥२१॥**

*जीव मानून वेगवेगळे तांच्यांत भिन्न तत्त्व जें ।*
*देखी जो सर्व जीवांत जाण तें ज्ञान राजस ॥२१॥*

आनी सगल्या जिवांचे ठांय तरेक तरांचीं वेगळीं वेगळीं रुपां वेगळेपणान जे जाणविकेन दिसतात, ती जाणवीक रजगुणी समज. २१

*अ.अ.:* **तु** = आनी; **सर्वेषु भूतेषु** = सगल्या जिवांचे ठांय; **पृथग्विधान्** = तरेक तरांचीं; **नाना भावान्** = वेगळीं वेगळीं रुपां; **पृथक्त्वेन वेत्ति** = वेगळेपणान; **यत् ज्ञानं वेत्ति** = ज्या ज्ञानान (जाणविकेन) वळखता; **तत् ज्ञानं राजसं विद्धि** = ती जाणवीक रजगुणी समज. २१

**यत्तु कृत्स्नवदेकस्मिन्कार्ये सक्तमहैतुकम् ।**
**अतत्त्वार्थवदल्पं च तत्तामसमुदाहृतम् ॥२२॥**

*एके कुडींत सर्वस्व मानूनु व्यर्थ घुस्पलें ।*
*सत्त्वा-तत्त्वाविणें क्षुद्र म्हळां तें ज्ञान तामसी ॥२२॥*

पुणून, हेंच कितें तें सगलें लेखून, एके कार्यरुपी कुडींत जें ज्ञान ओडीन घुसपायता, आनी जें कारण नासतना, खरेपणाविरयत (आनी) क्षुद्र (तुच्छ) आसता तें (ज्ञान) तमगुणी म्हळां.

*अ.अ.:* **तु यत्** = पूण जें ज्ञान; **कृत्स्नवत्** = हेंच कितें तें सगलें (लेखून) **एकस्मिन् कार्ये** = एके कार्यरुपी कुडींत; **यत्** = जें ज्ञान; **सक्तम्** = ओडीन घुसपायता; **च अहैतुकम्** = आनी कारण नासतना; **अतत्त्वार्थवत्** = खरेपणाविरयत, (आनी) **अल्पं च तत्** = क्षुद्र (तुच्छ) आसता तें (ज्ञान) **तामसं उदाहृतम्** = तमगुणी म्हणटात. २२

**नियतं सङ्गरहितमरागद्वेषत: कृतम् ।**
**अफलप्रेप्सुना कर्म यत्तत्सात्त्विकमुच्यते ॥२३॥**

तीन तरांचें कर्म

*नेमान ओडीविणें केल्लें प्रिती दुस्वास नास्तना ।*
*फळा आशे विणें केल्लें म्हळां तें कर्म सात्त्विक ॥२३॥*

जें कर्म शास्त्रान नेमिल्लें आसता, ओडीविरयत, मोग आनी दुस्वासा विरयत, फलाची आशा धरिनासतना मनीस करता, तें कर्म सत्त्वगुणी म्हणटात. २३

*अ.अ.:* **यत् कर्म** = जें कर्म; **नियतम्** = (शास्त्रान) नेमिल्लें आसता; **सङ्गरहितम्** = ओडीविरयत; **अरागद्वेषत:** = मोग आनी दुस्वास सोडून; **अफलप्रेप्सुना** = फळाची आशा धरिनासतना मनीस; **कृतम्** = करता; **तत् सात्त्विकं उच्यते** = तें सत्त्वगुणी म्हणटात. २३

**यत्तु कामेप्सुना कर्म साहंकारेण वा पुन: ।**
**क्रियते बहुलायासं तद्राजसमुदाहृतम् ॥२४॥**

*अहंभावान वान्शेन केल्लें जें कर्म अर्जुना ।*
*चड कश्टानु यत्नानु म्हळां तें कर्म राजस ॥२४॥*

पुणून, फळाची वान्सा धरपी आनी तशेंच अहंकारी मनशा कडसून चड कश्टान जें कर्म घडटा तें रजगुणी म्हणटात. २४

*अ.अ.:* **तु कामेप्सुना** = पुणून फळाची इत्सा धरपी; **वा पुन: साहंकारेण** = आनी तशेंच अहंकारी मनशाकडसून; **बहुलायासम्** = चड कश्टान; **यत् कर्म क्रियते** = जें कर्म घडटा; **तत् राजसं उदाहृतम्** = तें रजगुणी म्हणटात. २४

**अनुबन्धं क्षयं हिंसामनवेक्ष्य च पौरुषम् ।**
**मोहादारभ्यते कर्म यत्तत्तामसमुच्यते ॥२५॥**

*परिणाम तशी हानी देखलेवीण पिडा बळ ।*
*आरंभिल्लें पिसायेनू म्हळां तें कर्म तामसी ॥२५॥*

फुडार, हानी, हिंसा (परपिडा) आनी आपली तांक पळेनासतना पिसायेन आरंभिल्लें कर्म तमगुणी म्हणटात. २५

*अ.अ.:* **अनुबन्धम्** = फुडार (परिणाम); **क्षयं हिंसा** = हानी, हिंसा (परपिडा); **च पौरुषम्** = आनी तांक; **अनवेक्ष्य** = पळेनासतना; **मोहात्** = पिसायेन (अज्ञानान); **आरभ्यते** = आरंभतात; **तत् तामसं उच्यते** = तें तमगुणी म्हणटात. २५

**मुक्तसङ्गोऽनहंवादी धृत्युत्साहसमन्वित: ।**
**सिद्ध्यसिद्ध्योर्निर्विकार: कर्त्ता सात्त्विक उच्यते ।।२६।।**

तीन तरांचो कर्तो

*ना ओड ना अहंकारू उमेदी धीर थीर जो ।*
*सम येस अपेसांतु कर्तो सत्त्वगुणी म्हळा ।।२६।।*

ओड सोडिल्लो, ''हांव कर्तो'' अशें म्हणनाशिल्लो, धीर आनी उमेदीन भरिल्लो, येस आनी अपेसांत निर्विकार असो कर्तो सत्त्वगुणी म्हणटात. २६

*अ.अ.:* **मुक्तसंङ्ग:** = ओड सोडिल्लो; **अनहंवादी** = 'हांव कर्तो' अशें म्हणनाशिल्लो; **धृत्युत्साहसमन्वित:** = धीर आनी उमेदीन भरिल्लो; **सिद्ध्यसिद्ध्यो: निर्विकार:** = येस-अपेसांत निर्विकार (उचांबळ जायना) असो; (तो) **कर्ता सात्त्विक: उच्यते** = कर्तो सत्त्वगुणी म्हणटात.

**रागी कर्मफलप्रेप्सुर्लुब्धो हिंसात्मकोऽशुचि: ।**
**हर्षशोकान्वित: कर्ता राजस: परिकीर्तित: ।।२७।।**

*लोभी कर्मफळां वान्शी म्हेळो भोगी दिता पिडा ।*
*भल्ला खेदानु खोशेनु म्हळा कर्तो रजोगुणी ।।२७।।*

भोगांची ओड लागिल्लो; कर्मफळ वान्सुपी, वखवखो, दुसऱ्यांक पिडपी, निर्मळकाय नाशिल्लो, खेद आनी खोशयेन भरिल्लो (असो) कर्तो रजगुणी म्हणटात. २७

*अ.अ.:* **रागी** = भोगांची ओड लागिल्लो; **कर्मफलप्रेप्सु:** = कर्मफळ वान्सुपी; **लुब्ध:** = वखवखो; **हिंसात्मक:** = दुसऱ्यांक पिडपी; **अशुचि:** = निर्मळकाय नाशिल्लो; **हर्षशोकान्वित:** = खेद आनी खोशयेन भरिल्लो; **कर्ता राजस: परिकीर्तित:** = कर्तो रजगुणी म्हणटात. २७

**अयुक्त: प्राकृत: स्तब्ध: शठो नैष्कृतिकोऽलस: ।**
**विषादी दीर्घसूत्री च कर्ता तामस उच्यते ।।२८।।**

*चंचळ सामान्य धूर्त घमेंडी सुस्त नाड जो ।*
*वेळकाडो सदीं दुख्खी कर्तो तमगुणीच तो ।।२८।।*

चंचल बुद्दीचो, सामान्य, घमेंडी, नाड, धूर्त, खेदयाळो, आळशी आनी वेळ काडपी (असो) कर्तो तमगुणी म्हणटात. २८

*अ.अ.:* **अयुक्त:** = चंचल बुद्दीचो; **प्राकृत:** = सामान्य; **स्तब्ध:** = घमेंडी; **शठ:** = **धूर्त**; **नैष्कृतिक:** = नाड (पाडे बुद्दीचो); **विषादी** = खेदयाळो; **अलस:** = आळशी (सुस्त); **च दीर्घसूत्री** = वेळ काडपी (असो) **कर्ता तामस: उच्यते** = कर्तो तमगुणी म्हणटात. २८

बुद्धेर्भेदं धृतेश्चैव गुणतस्त्रिविधं श्रृणु ।
प्रोच्यमानमशेषेण पृथक्त्वेन धनंजय ।।२९।।

तीन तरांची बुद्‌दी आनी धृती

*तीनू गुणांकु लागूनु भेद गा धृति बुद्दिचे ।*
*विंगड विसकणी तांची सांगतां आयक पुरायु ती ।।२९।।*

अर्जुना, तीन गुणांक लागून, बुद्‌दीचें तशेंच धिराच्या तीन तरांचो भेद (वांटप) तुका वेगळें वेगळें आनी पुराय सांगतां. तें आयक. २९

*अ.अ.:* **धनंजय:** = अर्जुना; **गुणत:** = तीन गुणांक लागून; **बुद्धे: च एव धृते:** = बुद्‌दीचे तशेंच धिराचे, घट्ट निश्चयाचे; **त्रिविधं भेदम्** = तीन तरांचें वांटप; **अशेषेण पृथक्त्वेन** = पुराय (आनी) वेगळें वेगळें; **प्रोच्यमानम्** = सांगचेलें आसा; (तें) **श्रृणु** = आयक. २९

प्रवृत्तिं च निवृत्तिं च कार्याकार्ये भयाभये ।
बन्धं मोक्षं च या वेत्ति बुद्धि: सा पार्थ सात्त्विकी ।।३०।।

*कृती करप, थांबोवप योग्यायोग्य भयाभय ।*
*जाणी जो मोक्ष नी पास बुद्‌दी ती जाण सात्त्विक ।।३०।।*

आगा अर्जुना, कृती करप आनी थांबोवप, कितें करपाक फावो आनी कितें करपाक फावना, भंय कित्यांत आसा आनी भंय कित्यांत ना, संवसार-पासांत पडप आनी सुटप, हें सगलें जी बुद्‌दी समजता, ती सत्त्वगुणी बुद्‌दी. ३०

*अ.अ.:* **पार्थ** = आगा अर्जुना; **प्रवृत्तिम्** = एकाद्री कृती करूंक लागप; **निवृत्तिम्** = एकाद्री कृती थांबोवप; **कार्याकार्ये** = कितें करपाक फावो आनी कितें करपाक फावना; **भयाभये** = भंय कित्यांत आसा आनी भंय कित्यांत ना; **बन्धम् च मोक्षम्** = संवसार-पासांत पडप आनी सुटप; **या** = (हें) जी बुद्‌दी; **वेत्ति** = समजता; **सा बुद्धि: सात्त्विकी** = ती बुद्‌दी सत्त्वगुणी. ३०

यया धर्ममधर्मं च कार्यं चाकार्यमेव च ।
अयथावत्प्रजानाति बुद्धि: सा पार्थ राजसी ।।३१।।

*कित्यांतु न्याय अन्याय कितें खरें कितें फटी ।*
*कळना हें सम गा जाका ती बुद्‌दी जाण राजसी ।।३१।।*

आगा अर्जुना, जे बुद्‌दीन न्याय आनी अन्याय कितें, तशेंच करपाक फावो जाल्लें (खरें) आनी करपाक फावनाय जाल्लें (फटी) कितें हें सारकें समजना, ती रजगुणी बुद्‌दी. ३१

*अ.अ.:* **पार्थ** = अर्जुना; **यया** = जे बुद्‌दीन; **धर्मंच अधर्मम्** = न्याय आनी अन्याय; **च कार्यं च अकार्यम् एव** = तशेंच करपाक फावो जाल्लें; आनी करपाक फावनाय जाल्लें कितें; (हें) **अयथावत्** = सारकें; **प्रजानाति** = समजता; **सा बुद्धी राजसी** = ती रजगुणी बुद्‌दी. ३१

**अधर्मं धर्ममिति या मन्यते तमसावृता ।**
**सर्वार्थान्विपरीतांश्च बुद्धिः सा पार्थ तामसी ।।३२।।**

*बुद्दी तमान धांपिल्ल्यान् अधर्मा धर्म मानि जी ।*
*करी अनर्थ अर्थाचो जाण ती बुद्दी तामसी ।।३२।।*

अर्जुना, तमगुणान धांपिल्ल्यान जी बुद्दी अधर्माक धर्मावरी लेखता आनी अर्थाचो अनर्थ करता, ती बुद्दी तमगुणी समज. ३२

*अ.अ.:* **पार्थ** = आगा अर्जुना; **तमसा आवृता** = तमगुणान धांपिल्ल्यान; **या** = जी बुद्दी; **अधर्मं इति मन्यते** = अधर्माक धर्मावरी मानता; **च सर्वार्थान् विपरीतान् (मन्यते)** = अर्थाचो अनर्थ करता; (सगल्यो गजाली विपरीत अर्थान समजता); **सा बुद्धिः तामसी** = ती तमगुणी बुद्दी. ३२

**धृत्या यया धारयते मनःप्राणेन्द्रिक्रियाः ।**
**योगेनाव्यभिचारिण्या धृतिः सा पार्थ सात्त्विकी ।।३३।।**

*इंद्रियां-स्वास चित्ताच्यो क्रिया धिरानु जो धरी ।*
*थिरायेन योग वृत्तीनु पार्था तो धीर सात्त्विक ।।३३।।*

अर्जुना, ज्या अव्यभिचारी (निवळ) धिरान मन, स्वास आनी इंद्रियां हांच्यो क्रिया योगाच्या अभ्यासान आपसुवादीन दवरता, तो सत्त्वगुणी धीर. ३३

*अ.अ.:* **पार्थ** = आगा अर्जुना; **यया अव्यभिचारिण्या धृत्या** = ज्या अव्यभिचारी (निवळ) धिरान; **मनःप्राणेन्द्रियक्रियाः** = मन, स्वास आनी इंद्रियां हांच्यो क्रिया; **योगेन्**=अभ्यासान; **धारयते** = आपसुवादीन दवरता; **सा सात्त्विकी धृतिः** = तो सत्त्वगुणी धीर. ३३

**यया तु धर्मकामार्थान्धृत्या धारयतेऽर्जुन ।**
**प्रसङ्गेन फलाकाङ्क्षी धृतिः सा पार्थ राजसी ।।३४।।**

*धर्म काम तसो अर्थ जो ज्या धिरानु गा धरी ।*
*फळा वान्सा धरी तांच्या म्हळा तो धीर राजसी ।।३४।।*

आनी आगा अर्जुना, ज्या धिरान धर्म (लागणूक), अर्थ (संपत्ती) आनी काम (भोग-वान्सा) हांचे ओडीक लागून तांकां दसता, आनी गरजेच्या वेळार फळाची इत्सा धरता, तो धीर रजगुणी. ३४

*अ.अ.:* **तु** = आनी; **पार्थ** = आगा अर्जुना; **यया धृत्या** = ज्या धिरान; **धर्मकामार्थान्** = लागणूक (धर्म), संपत्ती (अर्थ) आनी भोगवान्सा (काम). **प्रसङ्गेन धारयते** = हांचे ओडीक लागून तांकां दसता; (आनी) **फलाकाङ्क्षी** = गरजेच्या वेळार फळाची इत्सा धरता; **सा धृतिः राजसी** = तो धीर रजगुणी.

**यया स्वप्नं भयं शोकं विषादं मदमेव च ।**
**न विमुञ्चति दुर्मेधा धृतिः सा पार्थ तामसी ।।३५।।**

*भंय न्हीद तशें दुख्ख    विशाद मद सोडिना ।*
*जिका लागून दुर्बुद्धी    पार्था तो धीर तामसी ।।३५।।*

अर्जुना, ज्या मनाच्या धिरान, दुश्ट बुद्‌दीचो मनीस न्हीद, भंय, दुख्ख, विशाद आनी मद हांकांय सोडिना, तो धीर तमगुणी आसता. ३५

*अ. अ.:* **पार्थ** = आगा अर्जुना; **यया** = ज्या धिरान; **दुर्मेधाः** = दुश्ट बुद्‌दीचो मनीस; **स्वप्नं भयं शोकं विषादं च मदं एव** = न्हीद, भंय, दुख्ख, खेद आनी मद हांकांय; **न विमुञ्चति** = सोडिना; **सा धृतिः** = **तामसी** = तो धीर तमगुणी. ३५

**सुखं त्विदानीं त्रिविधं श्रृणु मे भरतर्षभ ।**
**अभ्यासाद्रमते यत्र दुःखान्तं च निगच्छति ।।३६।।**

तीन तरांचें सूख

*सुखाच्योयु तरा तीन    आतां तूं आयक अर्जुना ।*
*अभ्यासानु दिता खोस    नी दुखा अंत जें करी ।।३६।।*

आतां अर्जुना, सुखाच्योय तीन तरा तूं म्हजेकडसून आयक. ज्या सुखांत अभ्यासान मनशाक खोस जाता आनी तो सगल्या दुख्खाचो अंत जोडटा. ३६

*अ. अ.:* **इदानीं भरतर्षभ** = आतां अर्जुना; **त्रिविधं सुखं तु** = तीन तरांचें सुखय; **मे श्रृणु** = म्हजे कडसून आयक; **यत्र अभ्यासात्** = ज्या सुखांत अभ्यासान; **रमते** = रमता (मनशाक खोस जाता); **च दुःखान्तं निगच्छति** = दुख्खाचो अंत जाता; ३६

**यत्तदग्रे विषमिव परिणामेऽमृतोपमम् ।**
**तत्सुखं सात्त्विकं प्रोक्तमात्मबुद्धिप्रसादजम् ।।३७।।**

*विखावरीच जें आदीं    अंतीं तें अमृतावरी ।*
*मेळऽ आत्म्या प्रसादान    म्हळां तें सूख सात्त्विक ।।३७।।*

जें आरंभाक विखावरी पूण अंतीं अमृतावरी आसता आनी आत्म्याच्या निवळ प्रसादान जाल्लें सूख, तें सत्त्वगुणी म्हणटात. ३७

*अ. अ.:* **यत् अग्रे विषं इव** = जें आरंभीं विखावरी, (पूण) **परिणामे अमृतोपमम्** = अंतीं अमृतावरी आसता; (जें) **आत्मबुद्धिप्रसादजम् सुखम्** = आत्म्याच्या निवळ प्रसादान (उत्पन्न) जाल्लें सूख; **तत् सात्त्विकं प्रोक्तम्** = तें सात्त्वीक म्हणटात. ३७

विषयेन्दिद्रयसंयोगाद्यत्तदग्रेऽमृतोपमम् ।
परिणामे विषमिव तत्सुखं राजसं स्मृतम् ।।३८।।

*विशयां-इंद्रियां मेळान्      आरंभा अमृतावरी ।*
*जाता विखावरी अंतीं      म्हूण तें रजगुणी सुख ।।३८।।*

जें सूख विशय (भोगचेले जिनस) आनी इंद्रियां हांच्या मेळान (जाता), तें आरंभाक अमृतावरी आसून, अंतीं विखावरी जाता, (म्हणून) तें सूख रजगुणी समजतात. ३८

*अ.अ.:* **यत् सुखम्** = जें सूख; **विषयेन्द्रिय संयोगात्** = विशय (भोगचेले जिनस) आनी इंद्रियां हांच्या मेळान (जाता); **तत् अग्रे अमृतोपमम्** = तें आरंभाक अमृतावरी आसून; **परिणामे विषं इव** = अंतीं विखावरी जाता; **तत् राजसं स्मृतम्** = (म्हणून) तें रजगुणी समजतात. ३८

यदग्रे चानुबन्धे च सुखं मोहनमात्मनः ।
निद्रालस्यप्रमादोत्थं तत्तामसमुदाहृतम् ।।३९।।

*आरंभा नि निमाणें जें      सूख गदळायि आपणां ।*
*न्हीद आळस सुस्तीन      म्हळां तें सूख तामसी ।।३९।।*

जें सूख आरंभाक आनी निमाणेंय आपणाक गदळायता आनी तें न्हीद, आळसाय आनी सुस्ती हांचे पासून जाता म्हूण तें तमगुणी सूख म्हळां. ३९

*अ.अ.:* **यत्** = जें (सुख); **अग्रे च अनुबन्धे च** = आरंभाक आनी परिणामींय; **आत्मनः मोहनम्** = आपणाक गदळायता; **तत् निद्रालस्य प्रमादोत्थम्** = तें न्हीद आळसाय आनी सुस्ती पासून जाता, (म्हणून तें) **तामसम् उदाहृतम्** = तमगुणी म्हळां. ३९

न तदस्ति पृथिव्यां वा दिवि देवेषु वा पुनः ।
सत्त्वं प्रकृतिजैर्मुक्तं यदेभिः स्यात्त्रिभिर्गुणैः ।।४०।।

*ना धर्तरेर सर्गार      व्हडा देवांमदीं तशी ।*
*प्रकृतीच्या गुणांतसून      मेकळी कसलीच वस्तु ना ।।४०।।*

प्रकृती पासून जल्मल्ल्या ह्या तीन गुणां पासून मेकळी आसत अशी कसलीच वस्तू धर्तरेर वा सर्गांत वा देवांमदीं ना. ४०

*अ.अ.:* **पुनः यत्** = आनी जी; **प्रकृतिजैः** = प्रकृती (निजा) पासून जल्मल्ल्या; **एभिः त्रिभिः गुणैः मुक्तं स्यात्** = ह्या तीन गुणां पासून मेकळी आसत (अशी) **तत् सत्त्वम्** = कसलीच वस्तू; **पृथिव्यां वा दिवि वा देवेषु** = धर्तरेर वा सर्गांत वा देवांमदींय; **न अस्ति** = ना. ४०

ब्राह्मणक्षत्रियविशां शूद्राणां च परंतप ।
कर्माणि प्रविभक्तानि स्वभावप्रभवैर्गुणैः ॥४१॥

*कर्मां ब्राह्मण खेत्र्यांची    वैश्य-शुद्रांचि अर्जुना ।*
*वांटल्यांत वेगवेगळीं तीं    निजागुणा भशेन गा ॥४१॥*

अर्जुना, ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र हांगेलीं कर्मां तांगेल्या सभावीक गुणांभाशेन वेगळीं वेगळीं वांटल्यांत. ४१

*अ.अ.:* **परंतप** = आगा अर्जुना; **ब्राह्मणक्षत्रियविशाम् च शूद्राणाम्** = ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र (हांगेलीं) **कर्माणि** = कर्मां; **स्वभाव प्रभवैः गुणैः** = तांच्या सभावीक गुणां भाशेन; **प्रविभक्तानि** = वेगळीं वेगळीं वांटल्यांत. ४१

शमो दमस्तपः शौचं क्षान्तिरार्जवमेव च ।
ज्ञानं विज्ञानमास्तिक्यं ब्रह्मकर्म स्वभावजम् ॥४२॥

*शम संयम पावित्र्य    उजुतायु क्षमा तप ।*
*ज्ञान विज्ञान आस्तिक्य    ब्रह्मकर्म सभाविक ॥४२॥*

शम, दम, तप, भायली आनी भितरली निर्मळकाय, क्षमा, उजुताय, श्रद्धा, शास्त्राचें ज्ञान, परमात्म्याचें ज्ञानय बी ब्राह्मणाचीं सभावीक कर्मां आसात. ४२

*अ.अ.:* **शमः** = शम (मनाचो निग्रह); **दमः** = दम (इंद्रियांचो निग्रह); **तपः** = तप (कश्ट सोंसप); **क्षान्तिः** = सोंसणिकाय (क्षमाभाव); **आर्जवम्** = उजुताय; **शौचम्** = भायली आनी भितरली निर्मळकाय; **आस्तिक्यम्** = श्रद्धा; **ज्ञानम्** = शास्त्राचें (पुस्तकी) ज्ञान; **च विज्ञानम् एव** = परमात्म्याचें (अणभविल्लें अध्यात्मीक) ज्ञानय; (हीं) **ब्रह्मकर्म स्वभावजम्** = ब्राह्मणाचीं सभावीक कर्मां आसात. ४२

शौर्यं तेजो धृतिर्दाक्ष्यं युद्धे चाप्यपलायनम् ।
दानमीश्वरभावश्च क्षात्रं कर्म स्वभावजम् ॥४३॥

*शौर्य धीर प्रजे राखण    पळप ना झुजांतुल्यान् ।*
*चतुराय दान नी तेज    क्षात्रधर्म सबाविक ॥४३॥*

शिटूकसाण, झुजांत पळना जावप, शूरताय, तेजस्विताय, धिरिश्टताय, दानशीलताय, देवाक स्मरून शासक धर्म चलोवप हें क्षत्रियाचें सभावीक कर्म. ४३

*अ.अ.:* **शौर्यं तेजः धृतिः** = शूरताय, तेजस्विताय, धिरिश्टताय; **दाक्ष्यम्** = शिटूकसाण; **च युद्धे अपि अपलायनम्** = आनी झुजांत पळना जावप; **दानं** = दान धर्म करप; **ईश्वरभावः** = देवाक स्मरून शासक धर्म चलोवप; (हीं) **क्षात्रं स्वभावजं कर्म** = क्षत्रियाचीं सभावीक कर्मां आसात. ४३

**कृषिगौरक्ष्यवाणिज्यं वैश्यकर्म स्वभावजम् ।**
**परिचर्यात्मकं कर्म शूद्रस्यापि स्वभावजम् ।।४४।।**

*शेती वेपार गोरक्षा वैश्य कर्म सभाविक ।*
*करप चाकरी सेवा शूद्र कर्म सभाविक ।।४४।।*

शेत कसप, गोरवां राखप आनी वेपार करप हें वैश्यांचें सभावीक कर्म आनी सेवा चाकरी करप हें शुद्रांचेंय सभावीक कर्म. ४४

*अ.अ.:* **कृषिगौरक्ष्यवाणिज्यम्** = शेत कसप, गोरवां राखप आनी वेपार करप; **वैश्यकर्म स्वभावजम्** = (हीं) वैश्याचीं सभावीक कर्मां; **परिचर्यात्मकम्** = चाकरी वा सेवा करप, (हें) **शूद्रस्य अपि स्वभावजं कर्म** = शूद्रांचेंय सभावीक कर्म आसता. ४४

**स्वे स्वे कर्मण्यभिरत: संसिद्धिं लभते नर: ।**
**स्वकर्मनिरत: सिद्धिं यथा विन्दति तच्छृणु ।।४५।।**

*कर्मांत दक्ष जो आपल्या तो नर सिद्धि मेळयी ।*
*स्वकर्मीं ती कशी मेळऽ आयक तें तूं धनंजया ।।४५।।*

आपआपल्या कर्मांत खोशेन वावुरतलो मनीस सिद्धी (मोक्ष) मेळयता. आपणाल्या सभावीक स्वकर्मांत ती सिद्धी कशी मेळटा तें आयक. ४५

*अ.अ.:* **स्वे स्वे** = आपआपल्या; **कर्मणि** = कर्मांत; **अभिरत: नर:** = खोशयेन वावुरतलो मनीस; **संसिद्धिं लभते** = सिद्धी (मोक्ष) जोडटा; **स्वकर्मनिरत:** = आपणाल्या सभावीक कर्मांत खोशयेन वावुरतल्याक; **यथा सिद्धिं विन्दति** = जे तरेन सिद्धी (पूर्णताय) मेळटा; **तत् श्रृणु** = ती तरा आयक.

**यत: प्रवृत्तिर्भूतानां येन सर्वमिदं ततम् ।**
**स्वकर्मणा तमभ्यर्च्य सिद्धिं विन्दति मानव: ।।४६।।** *

*निर्मिले जीव हे जाणें जाणें हें सर्व व्यापिलां ।*
*स्वकर्मान पुजून ताका सिद्धी मनीस मेळयी ।।४६।।* *

जाचे पासून सगल्या जिवांची उत्पत्ती जाल्या आनी जाणें हो सगलो संवसार व्यापला, त्या परमेश्वराक आपल्या सभावीक कर्मान पुजून, मनीस सिद्धी मेळयता. ४६

*अ.अ.:* **यत:** = जाचे पासून; **भूतानाम् प्रवृत्ति:** = सगल्या जिवांची उत्पत्ती जाल्या; (आनी) **येन** = जाणें; **इदं सर्वं ततम्** = हो सगलो (संवसार) व्यापला; **तम्** = त्या परमेश्वराक; **स्वकर्मणा अभ्यर्च्य** = आपल्या सभावीक कर्मान पुजून; **मानव: सिद्धिं विन्दति** = मनीस सिद्धी मेळयता. ४६

श्रेयान्स्वधर्मो विगुण: परधर्मात्स्वनुष्ठितात् ।
स्वभावनियतं कर्म कुर्वन्नाप्नोति किल्बिषम् ।।४७।।

*आसूं दोश स्वकर्मांत परधर्माकुस्रू बरें ।*
*नीज कर्म सभावीक लायना तें पाप किल्मिस ।।४७।।*

बरे तरेन चलयल्ल्या दुसऱ्यांल्या कर्मांपरस आपणालें सदोश कर्मय चड बरें. कित्याक, निजान नेमून दिल्लें कर्म करतल्या मनशाक पातकाचें किल्मिस लागना. ४७

*अ.अ.:* **स्वनुष्ठितात् परधर्मात्** = बरे तरेन चलयल्ल्या परधर्मापरस (दुसऱ्यांल्या कर्मांपरस); **विगुण: स्वधर्म: अपि** = आपणालें सदोश कर्मय; **श्रेयान्** = चड बरें (**यस्मात्** = कित्याक) **स्वभावनियतम् कर्म** = निजान नेमून दिल्लें कर्म; **कुर्वन्** = करतल्या मनशाक; **किल्बिषं न आप्नोति** = पातकाचें किल्मिस लागना. ४७

सहजं कर्म कौन्तेय सदोषमपि न त्यजेत् ।
सर्वारम्भा हि दोषेण धूमेनाग्निरिवावृता: ।।४८।।

*कर्म सोडुनये आपलें आसलें जरी सदोश तें ।*
*दोश सगल्याच कर्मांत धुंवर धांपी उज्या जसो ।।४८।।*

आगा अर्जुना, सभावीक कर्म सदोश आसल्यारूय तें सोडचें न्हय. कित्याक, धुंवरान उजो वेश्टिल्ले भाशेन कर्मां दोशान वेश्टिल्लीं आसतात. ४८

*अ.अ.:* **कौन्तेय** = आगा अर्जुना; **सहजं कर्म सदोषम् अपि** = सभावीक कर्म सदोश आसल्यारूय, (तें) **न त्यजेत्** = सोडचें न्हय; **हि** = कित्याक; **धूमेन अग्नि: इव** = धुंवरान उजो वेश्टिल्ले भाशेन; **सर्वारम्भा दोषेण आवृता:** = सगलीं कर्मां दोशान वेश्टिल्लीं आसतात. ४८

असक्तबुद्धि: सर्वत्र जितात्मा विगतस्पृह: ।
नैष्कर्म्यसिद्धिं[२] परमां संन्यासेनाधिगच्छति ।।४९।।

कर्मयोग आनी परमसिद्धी (पूर्णताय)

*लोभासक्ती विरेतू जो जिखिल्लो जो मनाक बी ।*
*नैष्कर्म्य सिद्धि मेळै तो फळ त्यागानु अर्जुना ।।४९।।*

देखून खंयच आसक्ती दवरिनासतना, मन जिखून, लोभा विरयत जातकीच (कर्मफळाच्या) संन्यासान व्हड (नैष्कर्म्य) सिद्धी मनीस मेळयता. ४९

*अ.अ.:* (देखून) **सर्वत्र असक्तबुद्धि:** = खंयच आसक्ती (ओड) दवरिनासतना; **जितात्मा** = मन जिखून; **विगतस्पृह:** = लोभा विरयत जातकीच; **संन्यासेन** = संन्यासान (कर्मांचें फळ सोडिल्ल्यान); (ताका) **परमां नैष्कर्म्यसिद्धिम्** = व्हड नैष्कर्म्य सिद्धी (कर्म करून तें करिना जावपाचें व्हडलें फळ) **अधिगच्छति** = मेळयता. ४९

सिद्धिं प्राप्तो यथा ब्रह्म तथाप्नोति निबोध मे ।
समासेनैव कौन्तेय निष्ठा ज्ञानस्य या परा ॥५०॥

सिद्धी आनी ब्रह्म

*जाणें ही सिद्धि मेळैली पावऽ ब्रह्मासरीं कसो ।*
*ज्ञानाची ती गती होड आयक थोड्यांत अर्जुना ॥५०॥*

अर्जुना, सिद्धी जोडिल्लो मनीस, जे भाशेन ब्रह्म मेळयता, तशेंच जी तत्त्वज्ञानाची परम निश्ठा (गती) आसा तेंवूय म्हजेकडसून सारांशान समजून घे. ५०

*अ.अ.:* **कौन्तेय** = आगा अर्जुना; **सिद्धिं प्राप्त:** = (अंतस्कर्ण शुद्ध जावपाची) सिद्धी जोडिल्लो मनीस; **यथा ब्रह्म आप्नोति** = जे भाशेन ब्रह्म मेळयता; **तथा** = तशेंच; **या ज्ञानस्य परा निष्ठा** = जी तत्त्वज्ञानाची परम (उंचेली) निश्ठा (गती) आसा; **एव** = तेंवूय; **मे समासेन निबोध** = म्हजेकडसून संक्षेपान समजून घे. ५०

बुद्ध्या विशुद्धया युक्तो धृत्यात्मानं नियम्य च ।
शब्दादीन्विषयांस्त्यक्त्वा रागद्वेषौ व्युदस्य च ॥५१॥

विविक्तसेवी लघ्वाशी यतवाक्कायमानस: ।
ध्यानयोगपरो नित्यं वैराग्यं समुपाश्रित: ॥५२॥

अहंकारं बलं दर्पं कामं क्रोधं परिग्रहम् ।
विमुच्य निर्मम: शान्तो ब्रह्मभूयाय कल्पते ॥५३॥

*बुद्धी जोडूनु सात्त्वीक मन धिरानु संयमी ।*
*इंद्रियां सूख सोडूनु जिखी दुस्वास ओड जो ॥५१॥*

*धरी एकान्त वैराग्य वाणी-मना-कुडी जिखी ।*
*खाता नकसूद नेमानु चिंती आत्म्याकु तो सदीं ॥५२॥*

*बळ दर्प अहंकार वान्सा तिडक संचय ।*
*सोडून, निर्मम जो शांत ब्रह्मरुपाकु फावता ॥५३॥*

अती निवळ बुद्दी जोडून, सात्त्वीक धिरान चित्ताचें संयमन करून, गंध, रूप आदी विशय सोडून आनी ओड आनी द्वेश हांकां पेल्यान लोटून (५१), एकले एकसुरे निर्मळ सुवातेर रावतलो, नकसूद खावपी, काया, वाचा आनी मनाचो निग्रह करपी, सदांकाळ आत्म्याचेर ध्यान थारावपी आनी विरक्त (५२); अहंकार, बळ, दर्प, भोगांची वान्सा, तिडक आनी संग्रह सोडून, ममत्त्व सोडून आनी मन शांत जाल्लो असो मनीस ब्रह्मांत एकरूप जावपाक फावोसो आसता. ५३

*अ.अ.:* **विशुद्ध्या बुद्ध्या युक्तः** = अती निवळ बुद्धी जोडून; **आत्मानं धृत्या नियम्य** = सात्त्वीक धिरान आपल्या चित्ताचें संयमन करून; **च शब्दादीन् विषयान् त्यक्त्वा** = आनी गंध, रूप आदी पांच भोग-विशय सोडून; **च रागद्वेषौ व्युदस्य** = आनी ओड आनी द्वेश (हांकां) पेल्यान लोटून (५१); **विविक्तसेवी** = एकले एकसुरे निर्मळ सुवातेर रावतलो: **लघ्वाशी** = नकसूद खावपी; **यत वाक् काय मानसः** = काया, वाचा आनी मनाचो निग्रह करपी; **नित्यं ध्यानयोग परः** = सदांकाळ आत्म्याचेर ध्यान थिरावपी; **च वैराग्यं समुपाश्रितः** = विरक्त (वैराग्याचो बरो आलाशिरो घेवपी) (५२); **अहंकारं बलं दर्पं कामं क्रोधं (च) परिग्रहम्** = अहंकार, बळ, दर्प, भोगांची वान्सा, तिडक आनी संग्रह; **विमुच्य** = सोडून; **निर्मम** = ममत्व सोडून; **शान्तः** = मन शांत जाल्लो मनीस; **ब्रह्मभूयाय कल्पते** = ब्रह्मांत एकरूप जावपाक फावोसो आसता. ५३

**ब्रह्मभूतः प्रसन्नात्मा न शोचति न काङ्क्षति ।**
**समः सर्वेषु भूतेषु मद्भक्तिं लभते पराम् ।।५४।।**

सर्वोत्तम भक्ती

*प्रसन्न ब्रह्मवृत्तींतू सर्व जिवांतु जो सम ।*
*वान्शिना करिना शोक. जोडी भक्ती म्हजी व्हड ।।५४।।*

(हे भाशेन) ब्रह्मांत एकरूप जाल्लो प्रसन्न चित्ताचो मनीस कित्याचोच शोक करिना वा कसलीच वान्सा धरिना. तो सगल्या जिवांकडेन समभावान चलून म्हजी व्हडली भक्ती जोडटा. ५४

*अ.अ.:* (हे भाशेन) **ब्रह्मभूतः** = ब्रह्मांत एकरूप जाल्लो: **प्रसन्नात्मा** = प्रसन्न चित्ताचो मनीस; (कित्याचोच) **न शोचति** = शोक करिना; **न काङ्क्षति** = (वा कसलीच) वान्सा धरिना; (तो) **सर्वेषु भूतेषु** = तो सगल्या जिवांकडेन; **समः** = समभावान चलून; **मद्भक्तिं परां लभते** = म्हजी व्हडली भक्ती जोडटा.

**भक्त्या मामभिजानाति यावान्यश्चास्मि तत्त्वतः ।**
**ततो मां तत्त्वतो ज्ञात्वा विशते तदनन्तरम् ।।५५।।**

*भक्तीन वळखि म्हाका हांव केदो हांवु कोणु तो ।*
*असो वळखूनु मागीर मेळटा म्हाकाच येवनु तो ।।५५।।*

ते भक्तीक लागून हांव केदो व्हडलो आनी हांव कोण आसां हें खरेपणान समजता. ते भक्तीन म्हाका खरेपणान वळखतकीच मागीर तो म्हजेठांय रिगता. ५५

*अ.अ.:* **भक्त्या** = ते भक्तीक लागून; **माम् यावान्** = हांव केदो (व्हडलो); **च (अहं) यः अस्मि** = आनी हांव कोण आसां, (हें) **तत्त्वतः अभिजानाति** = खरेपणान समजता; **ततः** = ते (भक्तीन); **माम् तत्त्वतः ज्ञात्वा** = म्हाका खरेपणान वळखतकीच; **तदनन्तरं विशते** = मागीर तो म्हजे भितर रिगता.

**सर्वकर्माण्यपि सदा कुर्वाणो मद्व्यपाश्रयः ।**
**मत्प्रसादादवाप्नोति शाश्वतं पदमव्ययम् ।।५६।।**

*करुनूयु सदीं कर्मां घेयी आश्रयु तो म्हजो ।*
*म्हजे दयेनु जोडी तो स्थान अव्यय शाश्वत ।।५६।।*

सगलीं कर्मां सदीं करुनूय, म्हज्या आश्रयान, म्हजे दयेन तो शाश्वत अविनाशी सुवात मेळयता.

*अ.अ.:* **सर्वकर्माणि सदा कुर्वाणः अपि** = सगलीं कर्मां सदीं करुनूय; **मद्व्यपाश्रयः** = म्हज्या आश्रयान; **मत्प्रसादात्** = म्हजे दयेन, (तो) **शाश्वतम्** = शाश्वत; **अव्ययम्** = अविनाशी; **पदं अवाप्नोति** = सुवात मेळयता. ५६

**चेतसा सर्वकर्माणि मयि संन्यस्य मत्परः ।**
**बुद्धियोगमुपाश्रित्य मच्चित्तः सततं भव ।।५७।।**

*म्हाका ओंपूनु तीं कर्मां जा तूं म्हजोच भक्त गा ।*
*योग बुद्दीन तुजें चित्त म्हजे ठांयींच लायु तूं ।।५७।।*

सगलीं कर्मां मनान म्हाका ओंपून, तुज्या मोगाची मोख हांवूच लेखून, बुद्दीयोगाच्या आस्रयान तूं सदींच म्हजेर ध्यान दवर. ५७

*अ.अ.:* **सर्वकर्माणि चेतसा मयि संन्यस्य** = सगलीं कर्मां मनान म्हाका ओंपून; **मत्परः** = तुज्या मोगाची मोख हांवूच लेखून; **बुद्धियोगं उपाश्रित्य** = बुद्दीयोगाच्या आस्रयान (कर्माचें फळ मेळप आनी फळ मेळना जावप हीं दोनूय सारकीं लेखपाची बुद्दी धरून); **सततं मच्चित्तः भव** = तूं सदींच म्हजेर ध्यान दवर. ५७

**मच्चित्तः सर्वदुर्गाणि मत्प्रसादात्तरिष्यसि ।**
**अथ चेत्त्वमहंकारान्न श्रोष्यसि विनङ्क्ष्यसि ।।५८।।**

*म्हजे दयेनु मागीरू तरशी तूं सर्व संकटां ।*
*आयकलें ना अहंकारान् वाट तुजीच लागतली ।।५८।।*

तुवें म्हजेठांय चित्त दवरिल्ल्यान, म्हजे दयेन संकटांचीं सगलीं दुरगां तूं वलांडटलो आनी अहंकारान तूं म्हजी सांगणी आयकना जाशीत, तर तुजी वाट लागतली. ५८

*अ.अ.:* **त्वं मत्चित्तः** = तुवें म्हजेठांय चित्त दवरिल्ल्यान; **मत्प्रसादात् सर्वदुर्गाणि तरिष्यसि** = म्हजे दयेन संकटांचीं सगलीं दुरगां तूं वलांडटलो; **अथ (त्वं)** = आनी तूं; **अहंकारात् न श्रोष्यसि चेत्** = अहंकारान (म्हजी सांगणी) आयकना जाशी जाल्यार; **विनङ्क्ष्यसि** = तुजी वाट लागतली. ५८

यदहंकारमाश्रित्य न योत्स्य इति मन्यसे ।
मिथ्यैष व्यवसायस्ते प्रकृतिस्त्वां नियोक्ष्यति ॥५९॥

*पार्था धरून अहंकार म्हणशी आपूणु झूजना ।*
*तुजो निश्चयु तो व्यर्थ नीज तुका झुजैतुलें ॥५९॥*

अहंकार धरून, "हांव झुजचोना" अशें तुवें थारायल्यार, तो तुजो निश्चय व्यर्थ. कित्याक, तुगेली प्रकृती (क्षत्रियाचो सबाव) तुका झुजपाक लायतली. ५९

*अ.अ.:* **अहंकारम् आश्रित्य** = अहंकार धरून; **न योत्स्ये** = हांव झुजचोना; **यत् इति मन्यसे** = अशें तुवें थारायल्यार; **एषः ते व्यवसायः** = हो तुजो निश्चय; **मिथ्या** = व्यर्थ; **प्रकृतिः त्वां नियोक्ष्यति** = (तुजी क्षत्रियाची) प्रकृती (म्हळ्यार तुगेलें नीज) तुका झुजपाक लायतली. ५९

स्वभावजेन कौन्तेय निबद्धः स्वेन कर्मणा ।
कर्तुं नेच्छसि यन्मोहात्करिष्यस्यवशोऽपि तत् ॥६०॥

*निजा कर्मानु घाला गा बांदूनु अर्जुना तुका ।*
*कर्ना मोहानु जें पार्था निरुपायानु कर्तलो ॥६०॥*

आगा अर्जुना, जें तूं पिसायेन करपाक इत्सिना, तेंवूय तुगेल्या निजाच्या कर्मान तुका बांदून घाल्ल्यान उपाय नाशिल्ल्यान तें तूं करतलोच. ६०

*अ.अ.:* **कौन्तेय** = आगा अर्जुना; **यत् मोहात् कर्तुं न इच्छसि** = जें (कर्म तूं) पिसायेन करपाक इच्छिना; **तत् अपि** = तेंवूय; **स्वेन** = तुगेल्या; **स्वभावजेन कर्मणा निबद्धः** = सभावीक (निजाच्या) कर्मान बांदिल्ल्यान; **अवशः करिष्यसि** = बंदो जावन तूं करतलोच. ६०

ईश्वरः सर्वभूतानां हृद्देशेऽर्जुन तिष्ठति ।
भ्रामयन्सर्वभूतानि यन्त्रारूढानि मायया ॥६१॥

*रावऽ सर्व जिवांच्या गा अंतस्कर्णांतु ईश्वर ।*
*तांकां मायेनु घुंवडायी यंत्रार घाल्लले वरी ॥६१॥*

आगा अर्जुना, ईश्वर सगल्या जिवांच्या अंतस्कर्णांत रावन, यंत्रांचेर चडयल्ले भाशेन सगल्या जिवांक आपले मायेन (शक्तीन) घुंवडायता. ६१

*अ.अ.:* **अर्जुन** = आगा अर्जुना; **ईश्वरः सर्व भूतानां हृद्देशे तिष्ठति** = परमेश्वर सगल्या जिवांच्या अंतस्कर्णांत रावन; **यन्त्रारूढानि** = यंत्राचेर चडयल्ले भाशेन; **सर्वभूतानि मायया भ्रामयन्** = सगल्या जिवांक आपले मायेन घुंवडायता. ६१

**तमेव शरणं गच्छ सर्वभावेन भारत ।**
**तत्प्रसादात्परां शान्तिं स्थानं प्राप्स्यसि शाश्वतम् ।।६२।।**

*सर्व तरेनु ताकाच शरणु वच भारता ।*
*दयेनु जोडटलो होड शांतीचें पद शाश्वत ।।६२।।*

आगा अर्जुना, सगले तरेन त्या परमेश्वराकच शरण वच. ताचे कृपेन व्हडली शांती (आनी) शाश्वत सुवात तुका मेळटली. ६२

*अ.अ.:* **भारत** = अर्जुना; **सर्वभावेन** = सगले तरेन; **तम् एव** = त्या परमेश्वराकच; **शरणं गच्छ** = शरण वच; **तत्प्रसादात्** = ताचे कृपेन (दयेन) **परां शान्तिम्** = व्हडली शांती (आनी); **शाश्वतं स्थानं प्राप्स्यसि** = शाश्वत सुवात मेळटली. ६२

**इति ते ज्ञानमाख्यातं गुह्याद्गुह्यतरं मया ।**
**विमृश्यैतदशेषेण यथेच्छसि तथा कुरु ।।६३।।**

*अशें गुढांतु जें गूढ सांगिलें ज्ञान हें तुका ।*
*घेवन ध्यानांतु तें पूर्ण जशें मानत तशें कर ।।६३।।*

हे भाशेन, गुपितांतलें गुपीत ज्ञान हांवें तुका सांगलें. तें बरे भाशेन पुराय ध्यानांत घेवन, जशें तुका मानत तशें कर. ६३

*अ.अ.:* **इति** = हे भाशेन; **गुह्यात् गुह्यतरं ज्ञानम्** = गुपितांतलें गुपीत ज्ञान; **मया ते आख्यातम्** = हांवें तुका सांगलें; **एतत्** = तें (गुपीत ज्ञान); **अशेषेण विमृश्य** = पुराय ध्यानांत घेवन; **यथा इच्छसि तथा कुरु** = जशें तुका मानत तशें कर. ६३

**सर्वगुह्यतमं भूय: श्रृणु मे परमं वच: ।**
**इष्टोऽसि मे दृढमिति ततो वक्ष्यामि ते हितम् ।।६४।।**

*सर्व गुढांतु जें गूढ वचन आयक भौन हें ।*
*जिवा भावा म्हगेलो तूं तुज्या बऱ्याकु सांगितां ।।६४।।*

सगल्यां परस चड गूढ अशें म्हजें व्हडलें उतर आनीक एक फावट आयक. कित्याक, तूं म्हगेलो चड अपुर्बायेचो. देखून तुगेल्या बऱ्याची गजाल तुका सांगतां. ६४

*अ.अ.:* **सर्वगुह्यतमम्** = सगल्यां परस चड गूढ; (अशें) **मे परमं वच:** = म्हजें व्हडलें उतर; **भूय: श्रृणु** = (तूं) आनीक एक फावट आयक; (कित्याक) (तूं) **मे दृढम् इष्ट: असि** = म्हगेलो जिवाभावाचो इश्ट; **तत:** = देखून; **इति** = ही; **हितं ते वक्ष्यामि** = तुगेल्या बऱ्याची गजाल सांगतां. ६४

मन्मना भव मद्भक्तो मद्याजी मां नमस्कुरु ।
मामेवैष्यसि सत्यं ते प्रतिजाने प्रियोऽसि मे ॥६५॥

*मोगा ध्यासु म्हजो घे तूं　पांयां पड करूय पुजा ।*
*मेळशी खरोच तूं म्हाका　मोगा अर्जुन तूं म्हजो ॥६५॥*

तूं म्हजेर मन दवर, म्हजो भक्त जा, म्हाका पूज, म्हाका पांयां पड, म्हणटकच तूं म्हाका मेळटलो. हें सत्य हांव तुका सोपूत घेवन सांगतां, कित्याक, तूं म्हजो अपुर्बायेचो. ६५

*अ.अ.:* **मन्मना: भव** = तूं म्हजेर मन दवर; **मद्भक्त:** = म्हजो भक्त जा; **मद्याजी** = म्हाका पूज; **मां नमस्कुरू** = म्हाका पांयां पड (म्हणटकच) (तूं) **माम् एव एष्यसि** = म्हाकाच मेळटलो; (हें) **सत्यम्** = सत्य; **ते प्रतिजाने** = तुका सोपून घेवन सांगतां (कित्याक); (तूं) **मे प्रिय: असि** = म्हजो अपुर्बायेचो.

सर्वधर्मान्परित्यज्य मामेकं शरणं व्रज ।
अहं त्वा सर्वपापेभ्यो मोक्षयिष्यामि मा शुच: ॥६६॥

*सर्व धर्मांक सोडून　म्हज्याच आश्रयाकु यो ।*
*पातकांतसून तुका सोडीन्　काडुं नाकाच खेद तूं ॥६६॥*

सगले धर्म (कर्तव्य-कर्मां वा लागणुको) सोडून तूं म्हाकाच एकट्याक शरण यो. हांव तुका सगल्या पातकांतसून सोडयन. तूं हुस्को काडूं नाका. ६६

*अ.अ.:* **सर्वधर्मान् पारित्यज्य** = सगले धर्म (कर्तव्य-कर्मां) सोडून; **माम् एकम्** = म्हाका एकट्याक; **शरणं व्रज** = शरण यो; **अहं त्वा सर्वपापेभ्य: मोक्षयिष्यामि** = हांव तुका सगल्या पातकांतसून सोडयन; **मा शुच:** = (तूं) हुस्को काडूं नाका. ६६

इदं ते नातपस्काय नाभक्ताय कदाचन ।
न चाशुश्रूषवे वाच्यं न च मां योऽभ्यसूयति ॥६७॥

*नाका केन्नाच सांगूं हें　भक्तीहिणा तपोहिणा ।*
*आयकूंकु वान्शिना ताका　म्हजी नसायु कर्तल्या ॥६७॥*

हें (गुपीत ज्ञान) तप करिनाशिल्ल्याक, भक्तीहीण मनशाक आयकून घेवचेली इत्सा नाशिल्ल्याक आनी म्हज्या निंदुंप्याक केन्नाच सांगचें न्हय. ६७

*अ.अ.:* **इदम् अतपस्काय न वाच्यम्** = हें (गुपीत ज्ञान) तप करिनाशिल्ल्याक सांगचें न्हय; **च अभक्ताय न** = तशेंच भक्तीहीण मनशाक (सांगचें) न्हय; **च अशुश्रूषवे न** = आयकून घेवचेली इत्सा नाशिल्ल्याक (सांगचें) न्हय; **य: माम् अभ्यसूयति कदाचन न** = जो म्हजी निंदा करता ताका तर केन्नाच सांगचें न्हय. ६७

**य इमं परमं गुह्यं मद्भक्तेष्वभिधास्यति ।**
**भक्तिं मयि परां कृत्वा मामेवैष्यत्यसंशयः ।।६८।।**

*सांगीत गूढ हें थोर म्हज्या भक्तांकु कोण जो ।*
*म्हजे ठांयींच येतलो तो ना दुभावूच हे विशीं ।।६८।।*

जो कोण म्हजी व्हड भक्ती करून हें व्हडलें गुपीत म्हज्या भक्तांक सांगत, तो दुभावाविणें म्हजेच सरीं येतलो. ६८

*अ.अ.:* **यः मयि परां भक्तिं कृत्वा** = जो कोण म्हजी व्हड भक्ती करून; **इमं परमं गुह्यं मद्भक्तेषु अभिधास्यति** = हें व्हडलें गुपीत म्हज्या भक्तांक सांगत; (**सः** = तो) **असंशयः माम् एव एष्यति** = दुभावाविणें म्हजेच सरीं येतलो. ६८

**न च तस्मान्मनुष्येषु कश्चिन्मे प्रियकृत्तमः ।**
**भविता न च मे तस्मादन्यः प्रियतरो भुवि ।।६९।।**

*मनीस कोण ना हेर म्हज्या मनावरी करी ।*
*जावंचोनायु असो हांगा ताचेकूय प्रिय गा म्हजो ।।६९।।*

आनी मनशां मदीं म्हज्या मनासारकें करतलो ताचेकूय दुसरो कोणूच ना. आनी धर्तरेर ताचे परस अदीक अपुर्बायेचो दुसरो कोणूच जावंचो ना. ६९

*अ.अ.:* **च मनुष्येषु** = आनी मनशां मदीं; **मे प्रियकृत्तमः** = म्हज्या मना सारकें करतलो; **तस्मात् कश्चित् न अस्ति** = ताचेकूय (गीताशास्त्राची लोकांक व्हडवीक सांगपी) दुसरो कोणूच ना; **च भुवि** = आनी धर्तरेचेर; **तस्मात् मे प्रियतरः अन्यः न भविता** = ताचे परस अदीक अपुर्बायेचो दुसरो कोणूच जावंचो ना. ६९

**अध्येष्यते च य इमं धर्म्यं संवादमावयोः ।**
**ज्ञानयज्ञेन तेनाहमिष्टः स्यामिति मे मतिः ।।७०।।**

*आमचो पवित्र संवादु जो अभ्याशीतु कोणु हो ।*
*मानी हांवु पुजी म्हाका ज्ञान यज्ञानु अर्जुना ।।७०।।*

आमच्या दोगांमदलो हो धर्माक धरून चलिल्लो पवित्र संवाद जो कोण शिकत, ताणें ज्ञानयज्ञान म्हाका पुजिल्ले वरी जायत अशें म्हजें मत आसा. ७०

*अ.अ.:* **आवयोः** = आमच्या दोगां मदलो; **इमं धर्म्यं संवादं यः अध्येष्यते** = हो धर्माक धरून चलिल्लो (पवित्र) संवाद जो कोण शिकत; **तेन ज्ञानयज्ञेन अहम् इष्टः स्याम्** = ताणें ज्ञान यज्ञान म्हाका पुजिल्ले वरी जायत; **इति मे मतिः** = अशें म्हजें मत (आसा). ७०

**श्रद्धावाननसूयश्च श्रृणुयादपि यो नर: ।**
**सोऽपि मुक्त: शुभाँल्लोकान्प्राप्नुयात्पुण्यकर्मणाम् ।।७१।।**

*दुस्वासावीण श्रद्धाळु आयकशी कोणु जो नर ।*
*पुण्यकर्मी जनांच्या तोय शुभलोकांक गा वतलो ।।७१।।*

भावार्थान आनी दुस्वास सोडून जो मनीस हो संवाद आयकतलो, तोय पापमुक्त जावन, पुण्यकर्मां करतल्यांच्या शुभलोकांक वतलो. ७१

*अ.अ.:* **श्रद्धावान् च अनसूय:** = भावार्थान आनी दुस्वास सोडून; **य: नर:** = जो मनीस (हो संवाद) **श्रृणुयात्** = आयकतलो; **शुभान् लोकान् प्राप्नुयात्** = (तोय) पुण्यकर्मां करतल्यांच्या शुभ लोकांक वतलो. ७१

**कच्चिदेतच्छ्रुतं पार्थ त्वयैकाग्रेण चेतसा ।**
**कच्चिदज्ञानसंमोह: प्रनष्टस्ते धनंजय ।।७२।।**

*आयकलें मूं तुवें पार्था एकाग्रचित्त जावनु हें ।*
*जाल्लो गदळ अज्ञानान् सल्लो मूं सम अर्जुना ।।७२।।*

अर्जुना, ही म्हगेली सांगणी, तुवें एकाग्र चित्तान आयकली मूं? धनंजया, तुजो अज्ञानान उत्पन्न जाल्लो गदळ (मोह) ना जालो मूं? ७२

*अ.अ.:* **पार्थ, एतत् त्वया एकाग्रेण चेतसा श्रुतं कच्चित्** = ही (म्हगेली सांगणी) तुवें एकाग्र चित्तान आयकली मूं?; **धनंजय** = धनंजया; **ते अज्ञानसंमोह: प्रनष्ट: कच्चित्** = तुगेली अज्ञानान उत्पन्न जाल्ली भूल ना जाली मूं? ७२

अर्जुन उवाच

**नष्टो मोह: स्मृतिर्लब्धा त्वत्प्रसादान्मयाच्युत ।**
**स्थितोऽस्मि गतसन्देह: करिष्ये वचनं तव ।।७३।।** *

अर्जुनान म्हळें

*कळ्ळें गा कोण तो हावुं सल्लो मोह तुजे दयेन ।*
*म्हजो दुभावु गा सल्लो तूं सांगशी तें करीन हांव ।।७३।।* *

अर्जुनान म्हळें: कृष्णा, तुगेले कृपेन म्हगेलो गदळ नासो जावन, हांव कोण हाची जाणवीक म्हाका जाली. म्हजो दुभाव वचून हांव रावलां. तूं म्हणटा तें हांव करीन. ७३

*अ.अ.:* **अर्जुन उवाच** = अर्जुनान म्हळें: **अच्युत** = आगा कृष्णा; **त्वत्प्रसादात् (मम) मोह: नष्ट: =** तुगेले दयेन (कृपेन) म्हजो गदळ नासो जावन; **मया स्मृति: लब्धा** = म्हजो (लागणुकेचो) उगडास म्हाका जालो; **गतसन्देह: स्थित: अस्मि** = दुभाव वचून हांव रावलां; **तव वचनं करिष्ये** = तूं म्हणटा तें हांव करीन. ७३

**संजय उवाच**

**इत्यहं वासुदेवस्य पार्थस्य च महात्मनः ।**
**संवादमिममश्रौषमद्भुतं रोमहर्षणम् ।।७४।।**

**संजयान म्हळें**

*त्या म्हात्म्या कृष्ण पार्थाचो राया संवादु हो असो ।*
*कांटो फुलोवपि आंगार आयकलो नवलां तसो ।।७४।।*

संजयान म्हळें: हे भाशेन, म्हात्म्या श्रीकृष्णाचो आनी अर्जुनाचो हो नवलांचो आनी आंगाचेर कांटो फुलोवणो संवाद हांवें आयकलो. ७४

*अ.अ.:* **संजय उवाच** = संजयान म्हळें: **इति** = हे भाशेन; **वासुदेवस्य च महात्मनः पार्थस्य** = श्रीकृष्णाचो आनी म्हात्म्या अर्जुनाचो; **इमम् अद्भुतं (च) रोमहर्षणम्** = हो अद्‌भूत आनी कांटो फुलवणो; **संवादम् अश्रौषम्** = संवाद (हांवें) आयकलो. ७४

**व्यासप्रसादाच्छ्रुतवानेतद्‌गुह्यमहं परम् ।**
**योगं योगेश्वरात्कृष्णात्साक्षात्कथयतः स्वयम् ।।७५।।**

*म्हाका व्यासप्रसादानु योग अती गुपीतु हो ।*
*मेळ्ळो प्रत्यक्ष आयकूंक कृष्ण योगेश्वरा मुखान् ।।७५।।*

व्यासाचे दयेन हो व्हडलो गुपीत योग खासा आपूण सांगतना योगेश्वर श्रीकृष्णा कडसून आयकलो.

*अ.अ.:* **व्यासप्रसादात्** = व्यासाचे दयेन (दिव्य दिश्टी मेळिल्ल्यान); **अहम् एतत् परं गुह्यं योगम्** = हांवें हो परम गुपीत योग; **स्वयं योगेश्वरात् कृष्णात् कथयतः श्रुतवान्** = खासा आपूण सांगतना योगेश्वरा कडसून आयकलो. ७५

**राजन्संस्मृत्य संस्मृत्य संवादमिममद्भुतम् ।**
**केशवार्जुनयोः पुण्यं हृष्यामि च मुहुर्मुहुः ।।७६।।**

*नवलां पवित्र संवादु जाल्लो कृष्णार्जुनामदीं ।*
*येवजूनु भौनु भौनु हांव हर्शतां हांव पुना पुना ।।७६।।*

आगा राया (धृतराष्ट्रा), श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेलो हो पवित्र आनी नवलांचो संवाद येवजून येवजून हांव भौन भौन भुरकुट्टां. ७६

*अ.अ.:* **राजन्** = आगा राया (धृतराष्ट्रा); **केशवार्जुनयोः इमं पुण्यं च अद्भुतं संवादम्** = श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेलो हो पवित्र आनी नवलांचो संवाद; **संस्मृत्य संस्मृत्य** = येवजूयेवजून; **मुहुर्मुहुः** = भौन भौन; **हृष्यामि** = हांव भुरकुट्टां. ७६

तच्च संस्मृत्य संस्मृत्य रूपमत्यद्भुतं हरेः ।
विस्मयो मे महान्राजन्हृष्यामि च पुनः पुनः ।।७७।।

*भौन स्मरुनु तें रूप हरीचें भौच अद्‌भुत ।*
*राया, विस्मित जाल्ल्यानू हर्शतां हांव पुना पुना ।।७७।।*

आगा राया, श्री हरीचें (श्रीकृष्णाचें) तें अती नवलांचें रूप येवजूयेवजुनूच म्हाका मोठें अजाप जाता आनी हांव भौन भौन हर्शतां. ७७

*अ.अ.:* **राजन्** = आगा राया; **हरेः** = श्री हरीचें (श्रीकृष्णाचें); **तत् अति अद्भुतं रूपंच** = चड नवलांचें रुपय; **संस्मृत्य संस्मृत्य** = येवजूयेवजुनूच; **मे** = म्हाका (चित्तांत); **महान् विस्मयः** = मोठें अजाप जाता; **च (अहं) पुनः पुनः हृष्यामि** = आनी हांव भौन भौन हर्शतां. ७७

यत्र योगेश्वरः कृष्णो यत्र पार्थो धनुर्धरः ।
तत्र श्रीर्विजयो भूतिर्ध्रुवा नीतिर्मतिर्मम ।।७८।।

*जैं तो योगेश्वर कृष्ण जैं तो पार्थ धनुर्धर ।*
*थैंच श्री जैत ऐश्वर्य ध्रूव नीत म्हजें मत ।।७८।।*

जंय योगेश्वर श्रीकृष्ण आसा, जंय गांडीव धणू धरपी अर्जुन आसा. थंय श्री (लक्षिमी), जैत, वैभव, अढळ न्यायनीत आसा अशें हांव मानतां. ७८

*अ.अ.:* **यत्र योगाश्वरः कृष्णः** = जंय तो योगाचो ईश्वर श्रीकृष्ण आसा; **यत्र पार्थः धनुर्धरः** = जंय (गांडीव) धोणू धरपी अर्जुन आसा; **तत्र** = थंय; **श्रीः** = श्री (लक्षिमी); **विजयः** = विजय; **भूतिः** = विभूती (वैभव); **ध्रुवा नीतिः** = अढळ न्यायनीत आसा; **(इति** = अशें) **मम मतिः** = म्हजें मत आसा.

ॐ तत्सदिति श्रीमद्भगवद्गीतासूपनिषत्यु ब्रह्मविद्यायां
योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुनसंवादे **मोक्षसंन्यास**योगो
नाम **अष्टदशो**ऽध्याय : ।

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या उपनिषदांतलो ब्रह्मविद्येंतल्या योगशास्त्राचो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या संवादांतलो **मोक्षसंन्यासयोग** नांवाचो
**अठरावो** अध्याय सोंपलो.



## टिपो

१. (१) दैव: कांय टिकाकार दैव म्हळ्यार अद्रुश्ट वा भाग्य अशें सुचयतात. (२) कांय जाण 'इंद्रियांचे ठांय रावपी देवता' असो अर्थ घेतात. (३) कांय टिकाकारांनी दैव म्हळ्यार परमात्मो, विष्णू असोय अर्थ घेतला. (४) सगल्यांच्या अंतरांत रावपी प्रेरणा दिवपी ईश्वर असोय अर्थ सुचयता. (५) दैव ह्या पदाचेर डॉ. राधाकृष्णन अशें भाश्य करता: दैव म्ह. अद्रुश्ट वा भाग्य. मानवी प्रयत्नांक बादा हाडपी आनी मानवी प्रयत्नांचो विलो लावपी अशा अमानवी तत्त्वांचें तें प्रतीक. ह्या जगांत कार्य करतलो, बुदवंत आनी सर्वसाक्षी असो तो संकल्प. सगल्या मानवी कर्मांत अशें एक तत्त्व आसा जाचें कारण सांगपाक येना, जाका नशीब, धार्जणें (नियती), दैव, वा मनशाच्या पूर्वजल्माच्या कर्माचें संचित अशें म्हणटात. हांगा ताका दैव म्हळां. (तुळा करात: **पूर्वजन्मकृतं कर्म तद् दैवमिती कथ्यते** - पूर्वजल्मांत केल्ल्या कर्मांक दैव अशें म्हणटात - हितोपदेश.) काळाच्या तळ्यांत एक फातर उडोवप हें मनशाचें काम. त्या फातरान निर्मिल्लीं ल्हारां पयसुल्ले तडीर पाविल्लीं आमकां पळोवंक लेगीत मेळचीं नात. आमी बीं ओंपूं येत, पूण ताची लुवणी आमकां पळोवंक मेळतूच अशें सांगपाक येवचें ना. कित्याक, ती आमचे परस खूब उंचेल्या शक्तीच्या हातांत आसा. दैव वा मनशापेल्यानचें नशीब ही एक सामान्य ब्रह्मांडीय गरज, जी भूतकाळांत जें सगळें घडलां ताचो परिणाम आनी जी आमकां कळनासतना आमचेर शेक चलयता ती आपल्या अगणीत उद्दिश्टांपासत त्या व्यक्तींभितर कार्य करीत आसता.

दैवाचेर वा नशिबाचेर विश्वास दवरप म्हळ्यार निश्क्रीयतेचें समर्थन करप न्हय. मनीस म्हळ्यार संक्रमणाची एक अवस्था. ताका आपल्या पाशवी बडींतसून वयर सरून दैवी आदर्शामेमेरेन पावपाच्या उद्देशाची जाणवीक आसा. प्रकृती, बड आनी वातावरणाचें वजें हांचेर मनशान संकल्प करून जैत जोडपाक येता (राधाकृष्णन).

२. नैष्कर्म्य: सगल्या कर्मांचे पेल्यान वचचेली स्थिती. नैष्कर्म्य म्हळ्यार सगल्या कर्मांतल्यान आंग काडप न्हय. जोंवेर आमी कूड धरतात, हे तरेची निश्क्रीयता आसूं शकना. गीता आंतरीक संन्यासाचो आग्रो धरता. कित्याक, अहंकार आनी प्रकृती हीं सभावगुणां भाशेनूच. म्हणून मुक्त आत्मो, ब्रह्म वा विशुद्ध आत्मो - जाका निस्तब्ध, शांत आनी निश्क्रीय म्हळा - जावन प्रकृतीच्या जगांत ब्रह्म हें जाणून कार्य करता. हांगा सर्वोच्च स्थितीचें वर्णन ब्रह्मांत रिगचेल्या रुपांत न्हय, तर वान्शेंतल्यान (काम) मुक्त जावपाच्या न्हयकारी रुपांत केलां (राधाकृष्णन).

## श्लोकटिपो

*१. गीतेंत कर्मसंन्यासाचेर न्हय, तर वान्सा सोडून कर्म करपाचेर भर दिला. होच खरेलो संन्यास. ह्या श्लोकांत 'संन्यास' हो शब्दप्रयोग सगल्या कर्मांच्या त्यागा खातीर केला आनी त्याग हो शब्दप्रयोग सगल्या कर्मांचें फळ सोडपा खातीर केला. मुक्ती कर्मांतल्यान वा भुरगीं वा धन हातुंतल्यान मेळना तर त्यागांतसून मेळटा.

मुक्त आत्मो मुक्ती उपरान्तूय सेवा करपाक शकता अशें गीता म्हणटा. सगलें कर्म अज्ञानांतल्यान उत्पन्न जाता आनी जेन्ना ज्ञानाचो उगम जाता, तेन्ना कर्म सोंपता हो दिश्टीकोण गीतेक मान्य ना. जी व्यक्ती कर्म करता, ती बंधनांत पडटा आनी जी मुक्त आसता, ती कर्म करपाक शकना, हो दिश्टीकोण चूक मानता (राधाकृष्णन).

*४. रामानुज त्यागाचे तीन वांटे करता: (१) फळाचो त्याग, (२) त्यागाचो कर्तो आपूण आसां म्हणून आसक्तीच्या (ओडीच्या) विचाराचो त्याग, (३) सगल्या कर्मांचो कर्तो परमेश्वर आसा हें अणभवतकूच कर्तुत्वाच्या पुराय विचाराचो त्याग (राधाकृष्णन).

*६. गुरू (शिक्षक) निश्चीत रुपान कर्मयोगाचे संवकळेच्या (अभ्यासाच्या) पक्षांत आसा. कर्माचो त्याग करपाचो नासता, फकत कर्मांची स्वार्थी ओड आनी फळाची आशा सोडून तीं करपाक जाय. मुक्ती भायल्या कर्म वा अकर्म हांचो विशय न्हय. मुक्ती म्हळ्यार व्यक्तीच्या कर्तुत्वाचो संबंद ना असो दिश्टीकोण आपणावप आनी अहंकाराचो भितरल्यान त्याग करप (राधाकृष्णन).

*१४. मनीस ह्या जगांत आसूं वा नासूं, प्रकृतीसबावाप्रमाण जगाचो अखंड व्यापार सदांकाळ चालूच आसता आनी मनीस आपूण जें कितें केलें अशें समजता तें निखटें ताच्या प्रयत्नांचें फळ नासून ताचो प्रयत्न आनी जगांतलो हेर वेपार ह्या सगल्यांच्या पालवान तें कार्य घडून आयिल्लें आसता असो ह्या श्लोकाचो अर्थ आसा. तातुंतले कांय वेपार आमकां खबर आसून, तांची अनुकूलताय पळोवनूच आमी यत्न करतात. दुसरे अशेय कांय सृश्टी वेपार असतात की तांची आमकां म्हायतीच नासता. हाकाच दैव अशें म्हणटात. आनी कार्य घडून येवपाक हें पांचवें कारण अशें म्हळां (टिळक).

*४६. वावर ही भगवंताची पुजा; ती मनशान परमात्म्याक ओंपिल्ली पुजा. गूण आनी पात्रताय हीं वावराचे वांटणेचो आधार अशें गीता मानता. पुनर्जल्माचो सिद्धांत आपणायतना मनशाचो जल्मासावन आयिल्लो सबाव ताचो पूर्वजल्म थारायता हें गीतेचें मत. पूर्णतायेक वचचेलीं सगलीं रुपां एकेच दिकेन वचनात. दर एकलो आपले पेल्यान आशिल्ले वस्तुचेर लक्ष दवरता. आपूण आसा ताचे परस वयर वचपाची मोख दवरता. मागीर तो आपणाले पूर्णताये पासत वावुरता आसूं, वा तो कले पासत वावुरता आसूं वा आपल्या वांगड्यांच्या हितापासत वावुरता आसूं (राधाकृष्णन).

*७३. अर्जुनाक कित्याची विस्मृती जाल्ली हें पळोवपाक गेल्यार दुसऱ्या अध्यायांत (२-७) "मनाच्या दुबळेपणान सबाव व्हगडावल्लो आनी धर्म (लागणूक) कळना जावन चित्त भुलिल्लो (धर्मसंमूढचेता:) अशें ताणें म्हळां. आनी ह्याच कर्तव्यधर्माचो आतां ताका उगडास जाला असो ह्या श्लोकाचो अर्थ आसा. अर्जुनाक युद्ध करपाक लावपाकूच गीता उपदेशिल्ल्यान, जायते फावटीं "म्हणून तूं युद्ध कर" अशें सांगिल्ल्यान 'गीता २-१८; २-३६; ३-३०; ८.७; ११-३४), ' तूं सांगत तें हांव करीन' हाचो अर्थ "युद्ध करतां" असोच जाता (टिळक).

# गीतेचे कोंकणी अणकार - एक टीपण

१.१ श्रीमद्-भगवद्-गीता (गीता) म्हळ्यार श्रीभगवंतालें गीत. वैदीक धर्माचो तो एक मुखेल ग्रंथ. गीतेंत उपनिषदांचो सार आयिल्ल्यान गीतेक उपनिषदाचो मान फावो जाला. दर अध्यायाचे अंतीं आयिल्ले पुश्पिकेंत 'श्रीमद्भगवद्गीतासु उपनिषत्सु' असो उल्लेख केला. श्रीव्यासान ह्या सातशें श्लोकांच्या माणकुल्या ग्रंथाचो आसपाव महाभारताच्या भीष्मपर्वांतल्या २३ ते ३०व्या अध्यायांत (भांडारकर प्रत) केला.

१.२ **गीतेचे कोंकणी गद्य आनी आनी पद्य अणकार:**

(१) ''श्रीभगवंतालें गीत'' हो गद्य अणकार शणै गोंयबाबालो. १९३५ वर्सा केल्लो हो अणकार १९५९ वर्सा प्रसिद्ध जालो. तो भारतीय भाशांमदल्या गीतेच्या अणकारा पैकीं एक भौच बरो अणकार. त्या काळाची गरज म्हणून आनी कोंकणीचे अभिव्यक्तीची तांक दाखोवचे पासत लेखकान अणकाराची भास शुद्ध राखपाचो यत्न केलो. तांणी कोंकणी अणकारांत परिभाशीक आनी तत्सम उतरां वापरूंक नात. देखीक, कर्म ह्या उताराक करणी, प्रकृतीक नीज, आसक्तीक ओड, मोहाक पिसाय, कुळक्षयाक कुळाचो खेव, कुळधर्माक कुळाचार, वर्णसंकराक जातीचो घुस्पागदळ, स्थितप्रज्ञाक थीर-बुद्दी मनीस, देहीकूडकार आत्मो अशीं जिस्ताक जिस्त अर्थाचीं उतरां वापरलीं.

१.३.१ ह्या पयल्या अणकारा उपरान्त गीतेचे धा (१०) वयर अणकार जाल्यात अशें आयकलां. तातूंत हांवें पळयल्ले अणकार अशे:

(२) श्रीगीतार्थसुधा (पद्य) - अ. शेषगिरी के. प्रभू, (१९५७)

(३) गीताय (पद्य) - बाकी बोरकार (१९६०), पोप्युलर बुक डेपो, मुंबै-७.

(४) गीतामृतसाकी (पद्य) - बंगले नारायण कामत, (१९६२)[१].

(५) श्री 'गीताम्मा' - (पद्य) - पांडुरंग ना. नाडकर्णी, (१९७१).

(६) भगवद्गीता (गद्य) - एन्. लक्ष्मीनारायण भट्ट, (१९७८). Tagmag Books, Cochin, 682 005.

(७) श्रीमद्भगवद्गीता, अ. वि. वि. बाळिगा, प्र. के. बी. गोविंदराव, गांधी रोड, कालीकत-११ (१९८४) (कानडी लिपींत).

(८) श्रीमद्भगवद्गीता (गद्य) - रवीन्द्र केळेकार, महाभारत खण्ड २ (परिशिश्ट १), जाग प्रकाशन, प्रियोळ-गोंय (१९८७).

(९) श्रीमद्भगवद्गीता (गद्य) - अशोक श्रीधर भट, अंकोला (१९९५).

(१०) श्रीमद्भगवद्गीता (पद्य) - अशोक श्रीधर भट, अंकोला (२००१) (कानडी लिपींत).

१.३.२ हांवें पळोवंक नाशिल्ले गीतेचे कोंकणी अणकार ˝ अशे आसात :

(११) गीतासार, ले. स्वामी प्रभानंद, प्र. श्रीरामकृष्ण आश्रम.

(१२) गीतासप्तक, ले. स्वामी प्रभानंद, प्र. श्रीरामकृष्ण आश्रम.

(१३) श्री कोंकणी गीतामृतसार, ले. प्रभू.

१.४ इतले अणकार आसतना आनीक एका अणकाराची कितें गरज आशिल्ली? हो अणकार हांवें करूंक ना. तो म्हजेकडसून जाला. भगवंतानूच तो म्हजे कडसून करून घेतला. 'धम्मपद' कोंकणींत करतना 'गीता' कितें सांगता हें समजून घेवपाची उमळशीक लागली. म्हूण १९९३त गीता वाचपाक आरंभ केलो. संस्कृत भाशेकडेन तोंडवळख आशिल्ली पूण तिचे कडचो संबंद चाळीस वर्सां वयर तुटिल्लो. देखून, दर एका संस्कृत पदाचो (शब्दाचो) अर्थ बरोवन काडलो. तरी गीता कळटाच अशें ना. गीतेंत सगल्या भारतीय दर्शनांचो सूरमेळ सादला. गीता सारकी समजुपाक तीं दर्शनांय वाचचीं पडलीं. 'धम्मपद' अणकारतना छंदाकडेन संवकळ जाल्लीच. हे संवकळेची दाटी जावंचेली गरज आसली. तिवूय गीतेच्या ह्या अणकाराक लागून जाली.

१.४ **ह्या अणकाराचें खाशेलेंपण**: हो गीतेचो गद्य आनी पद्य अणकार. तातूंत अन्वय आनी अर्थय दिला. म्हत्वाच्या श्लोकांची विसकणी दिल्या. गीतेचेर जायतीं भाश्यां बरयल्यांत. ह्या भाश्यकारांपैकीं शंकराचार्य, विनोबा, डॉ. राधाकृष्णन, डॉ. रानडे आदी भाश्यकारांची म्हत्वाच्या श्लोकांचेर कितें म्हणणी आसा ती सांगल्या. एकाच ग्रंथांत गीतेविशीं ही म्हायती कोंकणी वाचप्यांक मेळटली. दर संस्कृत पदाचो कोंकणी अर्थ दिल्ल्यान वाचप्यांची संस्कृत भाशेकडेनूय संवकळ वाडटली. गद्य, पद्य आनी अन्वय आनी अर्थांत एकाच शब्दाक वेगळीं वेगळीं उतरां हेतूपूर्वक वापरल्यांत. तातुंतल्यान कोंकणी भाशेची तांक दिश्टी पडटली.

१.५ **गीतेंतले छंद**: गीतेंत मुखेलपणान दोन छंद वापरल्यात. (१) आठ अक्षरांचो अनुष्टुभ छंद आनी (२) इकरा अक्षरांचो त्रिष्टुभ छंद. छंदांचें बंधन पाळून अर्थाक बादा हाडिनासतना अणकार करप हातुंतूच अणकारप्याचें कसब आनी येस. मूळ संहितेंतलो अर्थ जिस्त धरून मुदलांत नाशिल्लें अणकारांत कांयच भरसूंक जायना. हाची जतनाय अणकारप्यान घेवपाक जाय. संस्कृत पद्य अणकारतना कांय आडखळी येतात. संस्कृत भाशेचें एक खाशेलेपण म्हळ्यार तातुंतले समास. समास केल्लें एकेक उतर सोळा अक्षरांचें लेगीत जाता. देखीक: सुहृन्मित्रार्युदासीनमध्यस्तद्वेषबन्धुषु (अ.६-९) हें सोळा अक्षरांचें एक उतर. कृपयाविष्टमश्रुपूर्णाकुलेक्षणम् (अ. २-१) हें तेरा अक्षरांचें एक उतर. अश्यो शेंकड्यांनी देखी गीतेंत मेळटात. देशी भाशेंत अशे समास घडनात. आनी म्हणून गीतेचो अणकार करप हें अणकारप्याक एक व्हड आव्हान.

१.७ गीतेंतले भौतेक श्लोक अनुष्टुभ छंदांतले. प्रत्येक चरणांत आठ अक्षरां. चार चरणांतली अक्षर संख्या कुल्लीं बत्तीस (८ x ४ = ३२). अनुष्टुभ छंदाचें वर्णन अशें केलां :

श्लोके षष्ठं गुरू ज्ञेय    सर्वत्र लघु पंचमम् ।
द्विचतु:पादयोर्ऱ्हस्वं    सप्तमं दीर्घ अन्ययो ॥

अर्थ: अनुष्टुभांत (म्हळ्यार श्लोकांत) सटवें अक्षर चारय चरणांत गुरू आसता. पांचवें अक्षर

चारय चरणांत लघु आसता. दुसऱ्या आनी चवथ्या चरणांत सातवें अक्षर लघु आनी हेर चरणांत (म्हळ्यार पयल्या आनी तिसऱ्या) सातवें अक्षर गुरू आसता.

कोंकणीच्या खाशेल्या नादशास्त्राक लागून अनुष्टुभ छंद आठ अक्षरांत घालपाक कठीण पडटा. देखीक, हांव हें उतर दोन अक्षरांनी बरयतात, पूण उच्चार एके मात्रेचो. तशेंच, रावता, मेळटा, भोंवता, करता अशीं जायतीं उतरां बरयतना आमी हलन्ताची कुरू घालिनात. जैं, थैं हीं उतरां जंय, थंय अशीं बरयतात. तरी लेगीत हो अणकार अक्षरवृत्तांतूच (म्हळ्यार आठ अक्षरांतूच) घालचेलो यत्न केला. देखून, पावता, मेळटा हीं उतरां पाव, मेळ अशीं बरयल्यांत. अक्षरवृत्त सादपाखातीर पावता खातीर पाव, भजता खातीर भज, मेळटा (मेळ), पडटा (पड), भरता (भर), वता (वच), मात्ता (मात), सुट्टा ( सुट), दिसता (दिस), बादता (बाद), बसता (बस), रमता (रम), भोंवता (भोंव), कळटा (कळ), चलता (चल) अशीं उतरां अवग्रह चिन्ह (ऽ) वापरून बरयल्यांत. तशेंच, सतराव्या शेंकड्यांत प्रमाण कोंकणींत वापरांत आशिल्ल्या आनी हालींय कांय वाठारांत वापरांत आशिल्ल्या रुपांचो उपेग केला. देखीक: मानितां, जिखिलें, देखुनू, वचुनू, रचिलें, येतुलें, जोडितां, उजळायितां, हांवु, दोऱ्यांतुलें, एकुलो आदी. वेती आनी वती हीं दोनूय उतरां वापरल्यांत. तशेंच, होडु, होड आनी व्हड हीं तिनूय उतरां वापरल्यांत.

ह्या अणकारांत परिभाशीक उतरांचो उपेग केला. कर्म, प्रकृती (प्रकृति), ब्रह्म, पुरूश (पुरूष), ईश्वर, क्षेत्र, क्षेत्रज्ञ. अर्जुनाचीं आनी कृष्णाचीं नांवां जीं मूळ श्लोकांत आसात तीं अक्षरवृत्ताक पाळो दिवचेले नदरेन गरज थंय गाळ्ळ्यांत. पूण तीं गाळ्ळ्यांत म्हूण अर्थाची हानी जायना. अणकारप्यान एक गजाल लक्षांत दवरप गरजेचें. The letter kills, the spirit gives life. 'शब्द जीव घेता, मानस जीव फुंकता.' हें तत्त्व अणकारप्यान ध्यानांत दवरल्यार अणकार बरो सादता. गीता हें एक गीत. गीत गावचेलें आसता. गीतेंतर्ली जायतीं तत्सम उतरां ह्या अणकारांत वापरल्यांत. (देखीक, अविनाशी, अव्यक्त, ब्रह्मचर्य, एकाक्षरी इत्यादी) जाका लागून ह्या गिताची गेयता वाडल्या.

१.८ गीतेच्या वेगळ्या वेगळ्या अणकारप्यांनी दुसऱ्या अध्यायांतलो पयलो श्लोक कसो अणकारला हें देखीक पळोवया. हांगा विनोबाचो मराठी गीताईचो अणकारय देखीक घेतला. कित्याक, विनोबाचे गीताईचो प्रभाव भारतीय भाशांत केल्ल्या गीतेच्या बऱ्याचशा अणकारांचेर स्पश्ट दिसता.

मूळ श्लोक:

**तं तथा कृपयाविष्टमश्रुपूर्णाकुलेक्षणम् ।**
**विषीदन्तमिदं वाक्यमुवाच मधुसूदनः ।।२-१।।**

**अन्वय आनी अर्थ: तथा** = अशे तरेन; **कृपया आविष्टम्** = काकुळटेन भरिल्ल्यान: (आनी) **अश्रुपूर्णाकुलेक्षणम्** = दोळ्यांत दुकां दाटून दिसना जाल्ल्या; **तम् विषिदन्त** = त्या खेद करतल्या (अर्जुनाक); **मधुसूदनः** = कृष्णान; **इदं वाक्यम् उवाच** = अशी जाप दिली.

पद्य अणकार:

| | | |
|---|---|---|
| विनोबा : | असा तो करुणाग्रस्त | धाबरा अश्रु गाळित । |
| गीताई | करीत असतां खेद | त्यास हें कृष्ण बोलिला ॥ |
| बाकीबाब बोरकार : | अशा त्या काकुयटेस्त | दुखां दोळ्यांत भल्लल्या । |
| गीताय | बाबड्या खेदिश्ट पार्थाक | म्हळें हें मधुसूदनान ॥ |
| नाडकर्णी : | दयेन दुःखवेगाने | अश्रुंनी जड दृष्टिने । |
| गिताम्मा | चोय्तल्या अर्जुना त्या हें | कृष्णाने वाक्य सांगलें ॥ |
| प्रभु : | ग्रस्त जावनु कृपेन असो | अश्रु गळैत आसिल्ल्याक त्या । |
| श्रीगीतार्थसुधा | विषाद युक्ताक हें वाक्य | उलैलो मधुसूदन ॥ |
| आमोणकार : | काकुटेन भरिल्ल्या नी | दाटिल्ल्या दोळयां दुकां । |
| श्रीभगवंतान गायिल्लें गीत | त्या शोकाकूळ पार्थाकु | म्हळें हें मधुसूदनान ॥ |

१.९. १. थिओडोर सॅव्हरी आपल्या The Art of Translation ह्या ग्रंथांत बरयता: "दर अणकारप्यान आपणाक तीन प्रस्न विचारचे खंय: (१) लेखक कितें उलयता? (२) तो कितें सांगता? (३) तो कसो उलयता? म्हळ्यार, लेखकाचे शब्द खंयचे? ताचो आशय कितें आनी ताची शैली कशी आसा? हातुंतल्यान जायते प्रस्न उप्रासतात: "अणकारप्यान मुदलांतल्या शब्दांकडेन इमान राखप काय कल्पनांकडेन; अणकार मूळ कृतीभाशेन आसचो काय अणकारा सारको; तातूंत मूळ कृतीचे शैलीचो प्रत्यय येवचो काय अणकारप्याचे; अणकारप्यान मूळ कृतींतल्या काळांतलें साहित्यीक खाशेलेपण राखचें काय अणकारप्याच्या काळांतलें; अणकारांत भर घालप काय मुळांतले कांय वांटे (उतरां) गाळप गरजेचें काय गरजेचें न्हय; पद्याचो अणकार गद्यांत करचो की पद्यांतूच करचो; ह्या सगल्या प्रस्नांक निश्चीत निर्णय दिवपी जापो नात अशें दिसून येता." (पळेयात: तौलोनिक साहित्याभ्यास, ले. वसंत बापट, मौज, मुंबई, पा.५३).

२. गीता हो एक धर्मग्रंथ. धर्मग्रंथांक (**वेद**, **बायबल**, **कुराण** आदींक) ईश्वरी शब्द मानपाची परंपरा आशिल्ल्यान तांचो अणकार यथार्थ जावचो, तांचो भावार्थ दिवंचो न्हय असो एक विचार चलता. धर्मग्रंथांच्या अणकारांत आपलें आंगचें वारें उपेगाचें ना. धर्मग्रंथाचो स्वैर अणकार उपेगाचो नासता. मीमांसक आनी आचार्यांनी वैदीक वाङ्मय जिस्ताक जिस्त अणकारलां आनी आपल्या कल्पना विलासाक तातूंत मातूय वाव दिवंक ना. युरोपांत रेफोर्मेशनच्या काळांत बायबलाचीं भाशांतरां जावंक लागलीं आनी तेन्नापासून युरोपांतूय जथापथ भाशांतरांची कला वाडीक लागली. गीतेचो भावार्थ सांगला म्हूण ज्ञानदेवाक 'यथार्थदीपिका' बरोवपी वामन पंडितान जरी दोश दिलो, तरी आज लोक 'यथार्थदीपिके'क विसरल्यात आनी ज्ञानेश्वराची 'ज्ञानदेवी'च तांकां भावता.

१.१० उत्तम अणकार ही एक नवी निर्मिती आसता. अणकारप्याक मूळ साहित्यकृतींतल्या दर उतराकडेन झोंबचें पडटा. आशया इतलीच अभिव्यक्तीय म्हत्वाची थारता. "अणकारपी खिणाखिणाक अडटा. शब्दन्यास, वाक्यरचना, चरणरचना, छंद, अनुप्रास, नाद-गूण, अर्थाची सया अशा वेगळ्या वेगळ्या आधाड्यांचेर तो झुजता" (तत्रैव) निखट्या निवळ आत्मानंदाखातीर. अणकारपी अडटा तेन्ना ताका निर्मणेच्यो वेणो येतात आनी मुदयेर थीक अशें उतर मेळटकूच ताका सुटकेची खोस भोगता. आपणाक भाविल्ले, आवडिल्ले कृतीचो आपले भाशेंत अणकारपाचो आनंद आपूण भोगचो आनी वाचप्यांकूय तो दिवंचो म्हूण तो आंवडेता. देखून आपली कृती तो सहृदयी रसिकाक वाचून दाखयता.

१.११ पद्य अणकाराची प्रक्रिया कशी आसता? अर्थ पुरायेन समजप, तातूंत स्पंजा भाशेन बुडप, काव्य-रोस पुराय ओडून घेतकीच आनी तातूंत एकरोस जातकीच, तो स्पंज पिळ्ळे उपरान्त अणकारिल्ल्या भाशेंतल्या पद्याच्या रुपान असुदाय नव्या रुपांत उतरप. थोडे हे प्रक्रियेक 'अळंकाराचेर कंगरखीस कोंत्रावप' अशें म्हणटात. म्हाका ती जुगलबंदी कशी दिसता. हे जुगलबंदींत कोण हारता, कोण जिखता हें म्हत्वाचें न्हय. गीता ही मंत्रवाणी आनी शक्तीवाणी आशिल्ल्यान अंतीं जैत गीतेचेंच. तरी ह्या कोंकणी अणकाराक मूळ गीतेचे मंत्रशक्तीन आनी भावशक्तीन स्पर्शिल्ल्यान म्हजो वावर सुफळ जाला अशें हांव मानतां.

१.१२ ह्या कोंकणी अणकाराक शणै गोंयबाबालें 'श्रीभगवंतालें गीत' एक संदर्भ ग्रंथ म्हूण हांवें वापरला. तशेंच, हो अणकार पूर्वसुरींच्या मराठी, इंग्रजी, हिन्दी आनी कोंकणी अणकारांचें रीण मानता. तांकां विचारीतूच हांव मुखार सरलां आनी तांकां लागुनूच हो अणकार जावंक पावला.

१.१३ शणै गोंयबाबांल्या 'श्रीभगवंतालें गीत' ह्या ग्रंथाचे संपादपी, भौ. स. काशिनाथ श्रीधर नायक हांणी प्रस्तावनेंत म्हळां: "शणै गोंयबाबालो कोणूय समानधर्मी आनी समान-सबावी म्हाआत्मो फुडें सरून हें चड गरजेचें आनी भोवच म्हत्वाचें पुस्तक निवळावन फावो जाल्ले फोडणिशीसयत वाचप्यांक दितलो अशी आस्त धरतां."

ही तांक म्हज्यांत ना. शणै गोंयबाब एक यूगपुरूस. ताणेंच म्हज्या कांठार बसून हो वावर करून घेतला. म्हजे सारकिले हाचे फुडल्या वावरा खातीर वाट तयार करतात. एक दीस हे वाटे वयल्यान तांचो समान-धर्मी चलून येतलो आनी हो वावर पुराय करतलो अशी आस्त हांव उकतायतां.

---

१. हीच गीता इ.स. १९१४च्या सुमाराक कानडी लिपींत प्रसिद्ध जाल्ली. (पळेयात 'श्रीभगवंतालें गीत' पृश्ठ २७. तशें जाल्यार प्रसिद्ध जाल्ली ही पयली कोंकणी गीता.)

२. ह्या तिनय पुस्तकांचो उल्लेख, 'ज्ञानेश्वरींतील शब्दांचा कोंकणी बोलींत शोध' (ले. आनंद रामकृष्ण नाडकर्णी, प्र. मराठी संशोधन मंडळ, मुंबई (१९८१), ह्या ग्रंथांत केल्लो मेळ्ळो.

परिशिश्ट-२

# गीतेंतले छंद

१.१ गीतेंत दोन छंद वापरल्यात.

(१) आठ अक्षरांचो अनुष्टुभ् छंद (कुल्लीं श्लोक ६४५).
णव अक्षरांचो बृहती छंद (फकत १ चरण - अ. ११, श्लो १, च. १).
एक अक्षर वाडल्यार 'भुरिक्' संज्ञा दिवन छंद अनुष्टुभ जाता.

(२) इकरा अक्षरांचो 'त्रिष्टुभ' छंद (कुल्लीं श्लोक ५५).
बारा अक्षरांचो 'जगती' छंद (कुल्लीं पांच चरण) - अध्याय २ (श्लोक क्र.६, चरण क्रमांक १ आनी २; श्लोक क्र. १९, चरण क्र. २); अध्याय ८ (श्लोक क्र. १०, चरण क्र. ४); अध्याय क्र. १५ (श्लोक क्र. ३, चरण क्र. १).
एक अक्षर उणें जाल्यार 'निचृत्' संध्या दिवन 'त्रिष्टुभ' छंद जाता.

१.२ अनुष्टुभ छंदांत दर एक चरणांत कुल्लीं आठ अक्षरां आसतात. (४ चरण - ४ x ८ = ३२ अक्षरां.)

१.३ त्रिष्टुभ छंदांत दर चरणांत कुल्लीं अक्षरां इकरा (चार चरण मेळून ४ x ११ = ४४ अक्षरां.)

१.४ अनुष्टुभ छंदाची व्याख्या अशी दिल्या. (पळेयात आपटेचो संस्कृत-इंग्लीश कोश, पान ६४९.) अनुष्टुभ छंदाक श्लोक अशेंय म्हणटात.

**श्लोके षष्ठं गुरु ज्ञेय सर्वत्र लघु पंचमम् ।**
**द्विचतुः पादयो ऱ्हस्वं सप्तमं दीर्घ अन्ययो ॥**

कोंकणी अणकार :

**जाण श्लोकीं गुरू सटवें पांचवें सर्वत्र तें लघु ।**
**दुज्या चवथ्या चरणीं ऱ्हस्व हेरांत सातुवें गुरू ॥**

१.५ त्रिष्टुभ छंदांत दर चरणांत इकरा अक्षरां आसतात. आनी ताचे गण (लघु-गुरू) छंदा प्रमाण बदलतात. संस्कृत छंद शास्त्रांत आठ गण syllabic feet) येवजिल्यात : लघु ( ◡ ); गुरू (— ).

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| १. | य : | ◡ | — | — | (Bacchius) |
| २. | र : | — | ◡ | — | (Amphimacer) |
| ३. | त : | — | ◡ | ◡ | (Anti-bacchius) |
| ४. | भ : | — | — | — | (Dactylus) |
| ५. | ज : | ◡ | — | ◡ | (Amphibrachys) |
| ६. | स : | ◡ | ◡ | — | (Anapaestus) |
| ७. | म : | — | — | — | (Mollosus) |
| ८. | न : | ◡ | ◡ | ◡ | (Tribrachys) |

१.६ त्रिष्टुभ छंदांत विसांवयर छंद आसात आनी तांचे गण अशे :

| छंदाचें नांव | १ | २ | ३ | ४ | ५ | ६ | ७ | ८ | ९ | १० | ११ |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| इंद्रवज्रा | – | – | ◡ | – | – | ◡ | ◡ | – | ◡ | – | – |
| उपेंद्रवज्रा | ◡ | – | ◡ | – | – | ◡ | – | – | ◡ | – | – |
| शालिनी | – | – | – | – | – | ◡ | – | – | ◡ | – | – |
| शहामृगी | – | – | ◡ | – | ◡ | ◡ | – | – | ◡ | – | – |
| प्राकारबन्ध | ◡ | – | ◡ | – | – | ◡ | – | – | ◡ | – | – |

अशेच भाशेन विंगड विंगड गण आशिल्ल्या हेर छंदांचीं नांवां अशीं : वार्तोमी, गुणांगी, राधा, गंगा, रति, गति, विशाखा, यशोदा, ललिता, संश्रयश्री, शारदा, चित्रा, इष्ट, इष, वंशस्थ आदी.

१.७ ९, १० आनी ११ हीं निमाणीं तीन अक्षरां सगल्याच त्रिष्टुभ छंदांत लघु (◡), गुरू (–), गुरू (–) ह्या क्रमान येतात.

१.८ चार चरण एक वा अदीक वेगळ्या गणांत आसल्यार तो 'उपजाति' हो छंद जाता. (देखीक, पयलो चरण इंद्रवजा, दुसरो शालिनी, तिसरो शहामृगी आनी चवथो गुणांगी आसल्यार तांचो छंद 'उपजाति'.

(संदर्भ: पळेयात: गीता दर्पण, गोरखपूर प्रेस, पा. २५३.)




परिशिश्ट-३

# गीता आनी उपनिषदां

उपनिषदांत सांगिल्ल्या साबार तत्वीक सिद्धांतांचो उपेग गीतेंत केला. उपनिषदांतलें खंयचें वचन गीतेंतल्या खंयच्या श्लोकाक लागता हाची तुळा सकयल केल्या.

विशय : **आत्म्याचें अमरपण वा आत्म्याची नित्यत्वताय**

१. यम म्हणटा : ''हाणप्याक दिसल्यारय, ''हांव हाका हाणीन'' आनी हाणिल्ल्याक दिसत आपणाक हाणला म्हूण, तरी ह्या दोगांकूय आत्म्याचें ज्ञान जावंक नाशिल्ल्यान हो हाणिना आनी ताकाय कोण हाणिना, हें तांकां खबर नासता.'' (कठ उप. १-२-१९; गीता २-१९).

२. ''हो धारणाशक्ती आशिल्लो आत्मो केन्नाच उत्पन्न जायना वा ताचो नाशय जायना. हो कित्यापसून उत्पन्न जावंक ना वा स्वताच्या स्वरुपापसून वेगळो पदार्थ जावंक ना. हो अनादी, शाश्वत तिगपी आनी क्षयाविरयत आसा. (कुडींत रावनूय रावनूय) कुडिचो नाश जाला आसतनाय तो ना जायना.'' (कठ. १-२-१८; गीता २-२०).

३. विशय : **आत्म-विद्येची तोखणाय**
यम म्हणटा : ''त्या आत्म्याविशींचें ज्ञान चडश्या लोकांक आयकूंक मेळपय कठीण. तांचेपैकीं जायत्यांक तें आयकूनय तें समजना. ह्या विशयाचें ज्ञान सांगपी कुशळ वक्तो दुर्लभ. तसोच कुशळ वक्तो मेळ्ळ्यारय ताचेकडसून तें समजून घेवपीय दुर्लभ. (कठ. २-७; गीता २-७).

४. विशय : **कर्माची तोखणाय**
ह्या जगांत कर्म करितूच शंबर वर्सां जगपाची इत्सा धरची. (आगा साधका) असो कर्म करीत तूं रावशीत, तुका कर्म केल्ल्याचो दोश लागचोना. (ईश. उप. १-२; मुण्डक १-१-८; गीता २-४७).

५. विशय : **परा विद्या**
तपान ब्रह्माचो विकास जाता. मागीर ताचेपसून अन्न निर्माण जाता. अन्नापसून प्राण, मन, सत्य, लोक, कर्म, कर्मफल क्रमान उत्पन्न जाता. (मुण्डक १-१-८; गीता २-४७.)

६. विशय : **इत्से विरयत जाल्लो मनीस.**
अंतस्कर्णांतल्यो सगल्यो इत्सा जेन्ना सरतात, तेन्ना मनीस मर्णाविरयत जाता आनी ब्रह्मभाव जोडटा. (बृहदारण्यक उप. ४-४-७; गीता २-५५).

७. विशय : **इंद्रियांचेर जैत**
जाचें मन आपले सुवादीन ना, स्वताचें मन खंय वळोवचें आनी खंय वळोवचें न्हय हें जाका कळना, त्या मनशाचीं इंद्रियां, सारथ्याक आवरूंक येनाशिल्ल्या घोड्याभाशेन ताचे सुवादीन रावनात. (कठ १-३-५; गीता २-६७.)

८. विशय : **ईश्वर मेळटकीच वासना तृप्ती**
जे इत्सा फळच्यो म्हूण उपासना करतात, ते भौन भौन जल्म घेतात. हाचे उरफाटे, जे वान्शेविरयत आसतात, ते ह्या जल्मांतच मुक्त जातात. (मुण्डक उप. ३-२-२; गीता २-७१).

९. विशय : **पुरुष परम (आत्मो) सगल्यांत स्रेश्ठ**
इंद्रियांपरस शब्द स्पर्शादी विशय हे सुक्षीम, व्हड आनी नित्यस्वरुपी म्हळ्यार स्रेश्ठ आसात, तर तांचे परस मन स्रेश्ठ आसा. मनापरस बुद्धी स्रेश्ठ आसा, आनी बुद्धीपरस व्हड असो आत्मो स्रेश्ठ आसा (१०). आत्म्यापरस अव्यक्त (म्हळ्यार सगल्या जगताचें बीजरूप) स्रेश्ठ आसा, आनी अव्यक्तापरस पुरूष हो सुक्षीम आसा. पुरुषापरस सुक्षीम कांय ना. पुरुषाकडेन पावप हीच सगल्यांत व्हड गती (११). (कठ.उप.३-१०-११; गीता, ३-४२).

१०. विशय : विद्यापरंपरा - **उद्दालक आरुणीचा संदेश**
हें आत्मज्ञान ब्रह्मदेवान प्रजापतीक, प्रजापतीन मनूक आनी मनून प्रजेक (लोकांक) सांगलें.(छान्दोग्य उप. ८-१५-१; गीता ४-१).

११. विशय : **ब्रह्म जोडचेली वाट**
ब्रह्म्यान आश्वलायनाक म्हळें : स्रद्धा, भक्ती, ध्यान आनी योगान ब्रह्म जोडपाचो सोद घे.(कैवल्य उप. २; गीता ४-३८).

१२. विशय : **उपकोसल-आचार्य संवाद**
हांव तुका ब्रह्मविद्या सांगतां. तिचें ज्ञान जातकूच कमळाचें पान उदकापसून अलिप्त आसचें, तशें ब्रह्म जाणपी (आचार्य) पापकर्मां पसून अलिप्त रावता. (ब्रहत्विद्या) - छांदोग्य - ४-१४-३; गीता ५-१०; )

१३. विशय : **संयमी (इंद्रियां जिखिल्ल्या) मनशाचें आचरण**
दोन कान, दोन दोळे, दोन नाक-पुडयो आनी तोंड अशीं सात दारां आनी मुत्र आनी गुद दारां अशीं णव दारां आशिल्ल्या नगरांत (पुरांत) - धातुंनी भरिल्ल्या शरिरांत कुडी संबंदीं - विज्ञानात्मा बुद्धी उपाधि जावन वता तो हंस वा अविद्येच्या वावराक मारता तो हंस तो खंय चलता - वता? जो हंस तोच सगल्या हालता आनी हालनाशिल्ल्या लोकांचो आनी जडाचोय वशी आसा. (श्वेताश्वतर उप. ३-१८; गीता ५-१३).

१४. विशय : **ध्यान करपाची रीत**
एक एकसुरे सुवातेर सुखासनांत बसून, शुद्ध अंतस्कर्णान, आंग, तकली, मान सरळ धरून, निमाण्या आस्रमांत, सगलीं इंद्रियां आंवळून, गुरूक भक्तीन नमस्कार करून... (कैवल्य उप. ५; गीता ६-१३)

१५. विशय : **मोग**
ज्या वेळार पांच ज्ञानेंद्रियां अंतस्कर्णासयत आत्म्याठांय थीर रावतात, बुद्दीय थीर रावता, ते दशेक स्रेश्ठ गती म्हणटात. स्रेश्ठ गतीक 'योग' अशें म्हणटात. ( कठ. उप. ८-१०; मैत्री. उप. ६-३०).

१६. (१) विशय : **ब्रह्मज्ञानाक लागून सगल्यो इत्सा ना जातात.**
अंतस्कर्णांत रावपी सगल्यो इत्सा जेन्ना मनीस सोडटा, तेन्ना तो अमृतपद जोडटा आनी ब्रह्मतायेक पावता.( कठ.उप. ६-१४; गीता ६-२४).
(२) अंतस्कर्णांत आशिल्ल्यो सगल्यो इत्सा ना जातात, तेन्ना मनीस मर्णाविरयत जाता आनी ब्रह्म पावता. ( बृहदारण्यक उप. ४-४-७; गीता ६-२४).

१७. विशय : **ज्ञानी मनीस**
जो ज्ञानी सगलें जग आपणांत पळेता, तशेंच सगल्या जगांत आपणाक पळेता, तो कित्याचोच तिरस्कार करिना.(ईश. उप. ६; गीता ६-२९).

१८. विशय : **ज्ञानी मनीस**
जेन्ना ज्ञानी मनीस 'सगलें जग आपुणूच आसां' अशें एकत्व अणभवता, तेन्ना ताका मोह कसो जातलो? (ईश. उप. ७; गीता ६-३२).

१९. विशय : **चंचल मन आळाबंदा हाडपा विशीं.**
ध्यान हेंच जोरान घुसळप, ताचो भौन भौन अभ्यास करून ज्योतीरूप आत्म्याक अरणींत खूब गूढ आशिल्ल्या उज्याभाशेन पळोवचें.(श्वेत. उप.१-१४; गीता ६-३५).

२०. विशय : **सगल्या प्राण्यांक हांव वळखतां.**
तो सगल्यो वस्तू वळखता, पूण ताका वळखुपी कोण ना. (श्वेत उप. ३-१९; गीता ६-२६).

२१. विशय : **यमान केल्लें आत्म्याचें वर्णन**
जो जोडपाचे इत्सेन लोक गुरुच्या घरा रावन ब्रह्मचर्य पाळटात, तें तत्त्व तुका थोड्यांत सांगतां.(कठ. उप. २-१५; गीता ८-११).

२२. विशय : **ॐकाराची व्हडवीक**
"सत्यकामा, ॐकार हें पर आनी अपर ब्रह्म. ताणेंच ज्ञानी ते पयकीं एक मेळयता." (प्रस्न उप. ५-२; गीता ८-१३).

२३. विशय : **मेल्ल्या मनशाचो ब्रह्मलोकामेरेन प्रवास.**
स्रद्धेन सत्यरुपी ब्रह्माची उपासना करपी (संवसार सोडून) उत्तर मार्गाक व्हरपी अर्चिस्वरूप जोडटात. अर्चीं मदसून अहर्देवता, अहर्देवतेंतल्यान शुक्ल पक्ष, शुक्लपक्षांतसून उत्तरायणाचे स म्हयने, ह्या स म्हयन्यांतसून देवलोक, देवलोकांतसून आदित्य लोक, आदित्यामदसून वीज आनी मागीर ब्रह्मदैवाच्या मानसपुतां पयकीं कोणूय तरी येवन तो वीजेंतल्यान ताका ब्रह्मलोकांत व्हरता. (बृहदारण्यक उप. ६-२-१५; छांदोग्य उप. ५-१०-१; गीता ८-२४.)

२४. विशय : **फकत कर्मान स्वर्गादी लोक मेळयल्याचो प्रवास**
आतां यज्ञ, दान, (चांद्रायणादी) तप हांणी (म्ह. फकत कर्मान स्वर्गादी लोक मेळयतात. ते धुंवराचे वाटेन वतात. धुंवरांतसून रात, रातींतसून कृष्ण पक्ष, कृष्णपक्षांतसून दक्षिणायनाचे स म्हयने, ह्या स म्हयन्यांतसून पितृलोक, पितृलोकांतसून चंद्रलोक, चंद्रलोकांत येतकीच ते अन्नरूप जातात... जेन्ना तांचें कर्म सोंपता, तेन्ना ते ह्या आकाशांत येतात. आकाशांतसून वायू, वायुंतल्यान पावस, पावसांतसून पृथ्वी, ह्या क्रमान येवन ते पृथ्वीचेर येतकीच अन्नरूप

जातात... हे भाशेन ते चक्रासारके फिरत रावतात. ( बृहदारण्यक उप. ६-२-१६; गीता ८-२५).

२५. विशय : **चराचराची निर्मणी**

त्या सर्वजाणप्याकडसून अधिश्टित जाल्लें, पुरुषाकडसून अणभविल्लें हें सगलें क्रियात्मक तत्त्व पुर्वरूप सोडून अवेवांचें रूप घेता. हो ताणें (ब्रह्मान) घडयल्लो निर्मणेचो वावर परगट्टा - पृथ्वी, आप् (उदक), तेज, वायू, आकाश - तीं हीं पांच म्हाभुतां. म्हणून त्या ईश्वरी रुपाचें चिंतप करचें. (श्वेताश्वतर उप. ६-२; गीता ९-१०)

२६. विशय : **अपराविद्या**

मूर्ख लोक यज्ञयागादी, लोकांक उपेग जातलीं अशीं कर्मां स्रेश्ठ मानतात. ते सर्ग जोडून भौन हीन योनींत वतात. (मुण्डक उप. १-२-१०; गीता ९-२१)

२७. विशय : **आत्म्याचें स्वरूप**

थीर (आत्मो) मना परसूय वेगवंत. इंद्रियांकय तो मेळना. कित्याक, तो सगल्यांचे पेलो. तोच वायू आनी उदक हांकां गती दिता. (ईश उप.- ४; गीता १०-२)

२८. विशय : **ॐकाराचो तिसरो पाद**

हो ॐकाराचो तिसरो पाद 'प्राज्ञ', 'सर्वेश्वर', 'सर्वान्तर्यामी' आनी सगल्यांचें उत्पत्तिस्थान असो आसा. ताचे पासूनच सगळे प्राणिमात्र उत्पन्न जातात आनी लयाक वतात. (ईश. ६; गीता १०-८)

२९. विशय : **विश्वाचें अनंत रूप**

जाणें हें सगलें विश्व सदांकाळ आकाशा वरी धांकलां. (श्वेताश्वतर उप. ६-२; गीता ११-३८)

३०. विशय : **आत्म्याभाशेन कोणूच ना**

त्या आत्म्याभाशेन (तुळा करी सारकोय) कोणूच ना. (श्वेताश्वतर ६-८; गीता ११-४३)

३१. विशय : **परमात्म्याची बळ दिवंचेली तांक**

जो परमात्मो सृश्टीच्या आरंभाक हिरण्यगर्भाक विंगड विंगड बळ (सामर्थ्य) दिता. (श्वेताश्वतर उप. ६-१८; गीता ११-३७).

३२. विशय : **आत्म्याचें स्वरूप**

आत्मतत्त्व 'चल' (हालतलें), 'अचल' (हालनाशिल्लें), 'लागीं' आनी 'पयस' (जगांत) 'भितर' आनी 'भायर' अशें आसा. (ईश ५; गीता १३-१२)

३३. विशय : **ईश्वरस्वरूप**

ते ईश्वरस्वरूप सगले वशीन जाका हात-पांय, सगले वशीन दोळे, शिरां, तोंडां आसात अशें आसा. (श्वेताश्वतर उप. ३-१६; गीता १३-१३).

३४. विशय : **ईश्वरस्वरूप**

तो हात आनी पांयां विरयत. पुणून वेगवंत आनी ग्रहण करपी, दोळ्यांविरयत आसुनूय पळेता. जिवापासून वेगळो नाशिल्लो ईश्वर - स्वयं प्रकाश चिदानन्दस्वरूप आत्मो कान नासुनूय

आयकता. पूण ताका वळखुपी कोण ना. (श्वेताश्वतर उप. ३-१९; गीता १३-१३).

३५. विशय : **सत्याचें ज्ञानस्थळ**
तें सत्य व्हड, दिव्य आनी चिंतपाक येना. तें सुक्षीमापरस सुक्षीम. तें चड पयस आनी चड लागीं. हें हांगाच आपल्या हृदयांत आसा. थंय ताचो दिश्टावो (साक्षात्कार) जाता. (मुण्डक उप. ३-१-७; गीता १३-१५)

३६. विशय : **ज्ञानफल**
तें धवेंफुल्ल आनी अत्यंत तेजस्वी आसपी ब्रह्म ब्रह्मजाणपी जाणटात. (मुण्डक उप. २-२-१०; गीता १३-१७).

३७. विशय : **आत्म्याक पळोवप**
थीरबुद्‍दी जावन आपले मदींच आत्म्याचें रूप पळेता. (बृहद्‍आरण्यक उप. ४-४-२३; गीता १३-२४)

३८. विशय : **ब्रह्मस्वरूप**
तेन्ना तो पाप-पुण्य उडोवन, ज्ञानान निर्दोश जावन मोक्षाक वता. (मुण्डक उप. ३-१-३; गीता १४-२).

३९. विशय : **अश्वत्थरुखाचें रूपक**

(१) (यमान फुडें म्हळें), ''मूळ वयर आनी सकला खांदयो असो हो अश्वत्थ (पिंपळ) अनादीकाला पासून आसा.(कठ उप. ६-१; मुण्डक उप. २-१२; गीता १५-१)

(२) तें ब्रह्मच फुडें, फाटीं, दक्षिणे वशीन, उत्तरे वशीन, खाला, वयर सगले वशीन पातळ्ळां. हें जग ब्रह्मच आसा. (मुण्डक उप. २-१२; गीता १५-१).

# आधारावळ

## कोंकणी


१. श्रीभगवंतालें गीत - अ. शणै गोंयबाब; सं. का. श्री. नायक; उ. गोमन्तक छापखान्याचो धनी; गिरगांव, मुंबै - ४; (१९५९).


## मराठी


२. श्रीमद्भगवद्गीता - मराठी अनुवाद, प्र. गीता प्रेस, गोरखपूर, १९७३.

३. सान्वय-सार्थ-सटीक श्रीमद्भगवद्गीता - सं. कृष्णराव अर्जुन केलूसकर, प्र. दामोदर सांवळाराम आणि मंडळी, मुंबई २ (१९३०).

४. श्रीमद्भगवद्गीता लघुकोश; सं. प्र. लक्ष्मण रघुनाथ गोखले, ४१९, नारायण पेठ, पुणें (१९४४).

५. गीतातत्त्वहृदय; ले. र. वा. लघाटे; केशव भि. ढवळे, मुंबई - ४; १९९२.

६. सार्थ श्रीमद्भगवद्गीता; भा. नागेश वासुदेव गुणाजी; के. भि. ढवळे, मुंबई - ४; १९९४.

७. गीतातत्त्वमंजरी; ले.व प्र. ज. स. करंदीकर; केसरी-मराठी कार्यालय; पुणें (१९४७).

८. गीताई, अ. विनोबा, प्र. परंधाम प्रकाशन, पवनार, वर्धा, १९९४.

९. गीताई - चिंतनिका, ले. विनोबा, प्र. परंधाम प्रकाशन, वर्धा, १९९२.

१०. सार्थ श्रीमद्भगवद्गीता, भा. सदाशिव शास्त्री भिडे, प्र. वरदा, पुणें - १६.

११. सर्वबोधपद्यगीता, ग. श्री. खैर, पुणे विद्यार्थी गृह, पुणे - ३०.

१२. रहस्य - विवेचन अर्थात् गीतेचे कर्मयोगपर निरूपण, ले. बाळ गंगाधर टिळक, १९२६, पुणे.

१३. श्रीमद्भगवद्गीता (रहस्यसंजीवन), भा. बाल गंगाधर टिळक, १९२६, पुणे.

१४. गीता-दर्पण (मराठी अनुवाद), भा. व. पं. टेंभुर्णे, गीता प्रेस, गोरखपूर.

१५. गीतामृत अनुवाद व तत्त्वचिंतन, मा. गं. महाजन, सं. श. मा. महाजन, १९८७, प्र. ग्रंथघर, मुंबई २४.

१६. उपनिषदांचे मराठी भाषांतर, भाग १ व २, डॉ. सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव, भारतीय चरित्र कोशमंडळ, पुणें - ४.

१७. सुबोध उपनिषत्संग्रह, भाग १ व २, ले. विष्णु वामन बापटशास्त्री, सं. द. वा. जोग, गायत्री साहित्य, पुणे - ३०.

१८. श्रीमद्भगवद्गीता, भाषान्तर, लेखक बाळ गंगाधर टिळक, १९८०, नारायण पेठ, पुणे - ३०.

१९. श्रीमद्भगवद्गीता भाषार्थ, लेखक विष्णू वामन बापट शास्त्री. (गीतार्थ आणि शांकरभाष्यासहित), १९२१.

## हिन्दी

२०. श्रीमद्‌भगवद्‌गीता, आधुनिक व्याख्या, व्याख्याकार दयानंद वर्मा, १९९६. डायमंड पाकेट बुक्स प्रा. लि. नवी दिल्ली ११० ०२०.

२१. गीता - शांकरभाष्य, गीता प्रेस, गोरखपूर.

२२. श्रीमद्भगवद्गीता - मूल, पदच्छेद, अन्वय, साधारण भाषा टीका, गीता प्रेस, गोरखपूर.

## इंग्लीश

23. The Bhagavadgita by S. Radhakrishnan, George, Allen and Unwin Ltd., London.

24. The Bhagavadgita As A Philosophy of God-Realization, by Dr. R. D. Ranade, Bharatiya Vidya Bhavan, 1982, Bombay 7.

25. The Bhagavad Gita, by Juan Mascaro, Penguin Books, 1962, London.

26. The Bhagavadgita, Dr. Shakuntala Sastri, Bharatiya Vidya Bhavan, 1993, Bombay 7.

27. The Bhagavadgita As A Synthesis by M. R. Yardi, Bhandarkar Oriental Research Institute, Poona 4, 1991.

28. Bhagavad Gita Bhasya of Sri Sankaracharya, tr. by Dr. A. G. Krishna Warrier, Sri Ramkrishna Matha, Madras 4, 1983.

29. Srimad Bhagavad Gita with a gloss of Sridhara Swami, tr. by Swami Vireswarananda, Sri Ramkrishna Math, Madras 4.

30. The Principal Upanishads, Dr. S. Radhakrishnan, Oxford University Press, 1960.

31. Indian Philosophy, Vols. I and II, Dr. S. Radhakrishnan, Oxford University Press, 1993.

# सुरेश गुंडू आमोणकार



जल्मः बोरी, फोंडें हांगासर २२ मार्च १९३५ दिसा.
शिक्षणः एम्.ए; बी.टी. मेरेन गोंय, मुंबय आनी पुणें हांगा.
१९५६ ते १९९६ मेरेन शिक्षणीक मळार वावर.
केनिया (उदेन्त आफ्रिका) हांगा शिक्षक.
उपरांत न्यू गोवा हायस्कूल, म्हापशें, हया विद्यालयाचे मुख्याध्यापक.
गोंय, दमण, दीव माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळाचे अध्यक्ष आनी गोंय राज्य साक्षरता मिशन आनी गोंय प्रौढ शिक्षण संचालनालयाचे संचालक.
गोंय रेड क्रॉस, गोंय भारत बालवीर संघटणा आनी गोंय मुख्याध्यापक संघटणा हया संस्थांनी वावर.
म्हापशें नगरपालिका मंडळाचे धा वर्सां वांगडी आनी एक वर्स अध्यक्ष.

शिक्षणीक मळावयल्या मोलादीक योगदाना खातर १९७८ वर्सा गोंय, दमण, दीव सरकाराचो राज्य पुरस्कार.
बौध्द साहित्याचे अभ्यासक हया नात्यान झॅन काणयो आनी जातक कथा हांचो अणकार.
'धम्मपदा'चो कोंकणींत अणकार. 'धम्मपदा'खातीर साहित्य अकादमी, नवी दिल्ली, हे संस्थेचो १९९९ वर्साचो पुरस्कार फावो जाला.
श्रीतिरुवल्लुवर हांच्या 'श्रीतिरुक्कुळ' हया ग्रंथाचो अणकार केला.
'श्री ज्ञानेश्वरी' हया ग्रंथाचो कोंकणींत अणकार हालींच पूर्ण केला.